# आमचो बाप आनी आमी

डॉ. बाबासाहेब आंबेडकर वा भारताचे माजी राष्ट्रपती डॉ. के. आर. नारायणन हांचे भशेनच, डॉ. नरेंद्र जाधव हांचें जिवीत ही लेगीत बदलाची, व्हड शूरतायेची, उत्कर्शाची आनी आशेची कथा. हातूंतल्यान आमच्या देशांतल्या लाखांनी, कोट्यांनी लोकांक नवें, सुखासमाधानाचें जिवीत जगपा खातीर झूज दिवपाची स्फूर्त मेळटली हाचो म्हाका भरवंसो आसा... डॉ. जाधव हांणी बरयिल्ल्या आत्मकथनांतल्यान आमकां समाजीक आनी राजकी नदर लातली; आमचें शिक्षणा विशींचें धोरण सफळ करतनाय ह्या पुस्तकाचो उपेग जातलो, तर भारतीय अर्थकारणा वयल्या तांच्या पुस्तकाक लागून अर्थ विशयक आमच्या धोरणाक दढताय मेळटली.

*- प्रधानमंत्री मनमोहन सिंग हांच्या भाशणांतल्यान*

*आदान-प्रदान*

# आमचो बाप आनी आमी

**डॉ. नरेंद्र जाधव**

अणकार

**हेमा नायक**



**नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया**

# अनुक्रम

'कुड्डे' राहीआजेचे 'दूर'द्दश्टीक
'अशिक्षित' दादाचे बुद्दीक प्रगल्भतायेक आनी
आई 'सोना' बाईच्या वांट्याक आयिल्ल्या
'गरिबी'च्या चटक्यांक...

# मराठी पांचवी - जनआवृत्तीची प्रस्तावना

चार आवृत्त्यो आनी एकोणतीस पुनरमुद्रणांतल्यान 'आमचा बाप' हाणें आतां पन्नास हजारांचो टप्पो वलांडला. ते खातीर मराठी साहित्यांतलें फाटल्या पंदरा वर्सांत तें असादारण अशें लोकप्रिय पुस्तक थारलां. विशेश करून फाटल्या पांच वर्सांत ताची तडाखेबंद वेगान खप जायत आसा. ह्या अभूतपुराय अशा येसान आमचें सगळें जाधव घराणें भारावन गेलां.

ह्याच काळांत हें पुस्तक बाकीच्या देशी-विदेशी भासांनी रुपांतरीत जावपाक लागलें आनी आतां तर, ही क्रिया ल्हारा वरी व्हांवंक लागल्या. मराठी, हिंदी, पंजाबी, उर्दू, गुजराती, कन्नड आनी तामीळ ह्या भारतीय भासांनी, तशेंच इंग्लीश (दोन वेगवेगळ्यो आवृत्त्यो), फ्रेंच, स्पॅनिश आनी कोरियन ह्या परदेशी भासांनी हें पुस्तक प्रकाशीत जालां. तेच बराबर बंगाली, ओरिसा, मल्ल्याळम आनी तेलगू ह्या भारतीय भासांनी तशेंच जर्मन, स्विडीश, इटालियन, चीनी, जपानी, थाय आनी अरेबिक ह्या भासांनी प्रकाशनाच्या मार्गार आसा.

मराठींतल्यान (इतलेंच न्हय, तर खंयचेय भारतीय भाशेंतल्यान) इतल्या देशी विदेशी भासांनी पाविल्लें हें पयलेंच पुस्तक आसूंक जाय. ह्या पुस्तकाच्यो वट्ट इकरा देशी-विदेशी भासांतल्यान सव्वा दोन लाख प्रतींची विक्री जाल्या. ताचो सादारण ठोकताळो असो दिवं येता : मराठी - पन्नास हजार, हेर भारतीय भासो -पंचवीस हजार, इंग्लीश - पंचवीस हजार, फ्रेंच - वीस हजार, स्पॅनिश - पांच हजार आनी कोरियन - एक लाख! हो लेगीत विक्रमच आसूंक जाय.

ह्या सगळ्यांत आनंदाचो आनी अभिमानाचो भाग असो, ह्या पुस्तकाचे मराठी चवथे आवृत्तीचे आनी ताच्या बाकीच्या भारतीय चार भासांतल्या रुपांतराचें प्रकाशन दस्तूरखुद्द भारताचे पंतप्रधान मनमोहन सिंग हांणी दिल्लींतल्या आपल्या अधिकृत रावतिकेचे हिरवळीचेर घडोवन हाडलें.

पुस्तकाच्या खपाचे आंकडे अलाहिदा, 'आमचा बाप' ह्या पुस्तकाक जायत्या मानेस्तांनी 'मराठी साहित्य संस्कृतींतलो चमत्कार' म्हूण संबोधला. हाचे परस

आनीक सुखदिणी गजाल खंयची आसूं येता? 'आमचा बाप'ची मराठी समाजीक आनी वाङमयीन जिवितांतली नेमकी सुवात खंयची हाचो सोद मराठींतल्या बावीस मानेस्त समिक्षकांनी घेतला. तो ग्रंथराज 'ग्रंथाली'चे वतीन उजवाडाक येता ही तर व्हडा भोवमानाचीच गजाल आसा.

हें पुस्तक युवा पिळगेंतल्यां मदीं आनी खास करून विद्यार्थ्यां मेरेन चडांत चड पावचें म्हूण 'ग्रंथाली'न एक लाख प्रतींची महाजंबो जनआवृत्ती काडपाचें थारायलां. ताचें मोलय बी सर्वसामान्य मनशाक - तरणाट्या विद्यार्थ्याक परवडपाक शकता अशें फकत साठ रुपया दवरल्या. 'ग्रंथाली'च्या ह्या यत्नांचें कवतूक दिसता. पुस्तकाच्या हे जैतिवंत धांवडेंत तांचो सांगात कायम लाबला. तातूंत दिनकर गांगल, सुदेश हिंगलासपूरकर, अरूण जोशी हांची आनी मुद्रक मोहन खैरे हांची खास मजत जाल्या.

कुटुंबांतल्या लोकांचें उपचारीक आभार मानप कठीणच. पुस्तक उजवाडाक आयलें, तें लोकप्रिय जालें, ते उपरांत व्हडलो भाव जे. डी. हांचें एप्रिल २००२ त तर 'मातोसरी'चें सप्टेंबर २००२ त निर्वाण जालें. ते उपरांतच्या काळांत, पुस्तक वयर चडटा आसतना तांचें 'नासप' सदांच जाणवत रावलें. म्हजे दोग भाव - सुधाकर, दिनेश; तिगूय वयन्यो - पुष्पा, सुनिता आनी मंजू; भयणी लिला आनी तृषा; म्हजी बायल वसुंधरा, पूत तन्मय आनी खास करून धूव अपुर्वा ह्या घरांतल्या मनशांचो पुस्तकांतले भावनीक गुंतवणिकेचो सतत आदार दिसत आयला.

'आमचा बाप' ह्या पुस्तकाक वाचप्यांनी, समिक्षकांनी, प्रसिद्धी माध्यमांनी दिल्ल्या अफाट प्रतिसादा खातीर सगळ्यांचें अंतस्करणांतल्यान उपकार.

'आमचा बाप आन् आम्ही'क मेळिल्ल्या ह्या अफाट प्रतिसादाक लागून कुटुंबांतलीं आमी सगळीं मनशां अतिशय भारावन गेल्यांत. हातूंत व्यक्तीशा म्हाका स्वताक, केल्ल्या कश्टांचें सार्थक जाल्ल्याचें समाधान तर भोगताच, पूण तेच बराबर वाचप्यांनी उकतायिल्ल्या अपेक्षां खातीर म्हजेर पडिल्ले नव्या जापसालकेची जाणीव लेगीत निर्माण जाल्या. हें पाथेय घेवन फुडली वाटचाल करपाची आसा.

**- नरेंद्र जाधव**

# मराठी पांचवी - जनआवृत्तीची प्रस्तावना

चार आवृत्त्यो आनी एकोणतीस पुनरमुद्रणांतल्यान 'आमचा बाप' हाणें आतां पन्नास हजारांचो टप्पो वलांडला. ते खातीर मराठी साहित्यांतलें फाटल्या पंदरा वर्सांत तें असादारण अशें लोकप्रिय पुस्तक थारलां. विशेश करून फाटल्या पांच वर्सांत ताची तडाखेबंद वेगान खप जायत आसा. ह्या अभूतपुराय अशा येसान आमचें सगळें जाधव घराणें भारावन गेलां.

ह्याच काळांत हें पुस्तक बाकीच्या देशी-विदेशी भासांनी रुपांतरीत जावपाक लागलें आनी आतां तर, ही क्रिया ल्हारा वरी व्हांवंक लागल्या. मराठी, हिंदी, पंजाबी, उर्दू, गुजराती, कन्नड आनी तामीळ ह्या भारतीय भासांनी, तशेंच इंग्लीश (दोन वेगवेगळ्यो आवृत्त्यो), फ्रेंच, स्पॅनिश आनी कोरियन ह्या परदेशी भासांनी हें पुस्तक प्रकाशीत जालां. तेच बराबर बंगाली, ओरिसा, मल्ल्याळम आनी तेलगू ह्या भारतीय भासांनी तशेंच जर्मन, स्विडीश, इटालियन, चीनी, जपानी, थाय आनी अरेबिक ह्या भासांनी प्रकाशनाच्या मार्गार आसा.

मराठींतल्यान (इतलेंच न्हय, तर खंयचेय भारतीय भाशेंतल्यान) इतल्या देशी विदेशी भासांनी पाविल्लें हें पयलेंच पुस्तक आसूंक जाय. ह्या पुस्तकाच्यो वट्ट इकरा देशी-विदेशी भासांतल्यान सव्वा दोन लाख प्रतींची विक्री जाल्या. ताचो सादारण ठोकताळो असो दिवं येता : मराठी - पन्नास हजार, हेर भारतीय भासो -पंचवीस हजार, इंग्लीश - पंचवीस हजार, फ्रेंच - वीस हजार, स्पॅनिश - पांच हजार आनी कोरियन - एक लाख! हो लेगीत विक्रमच आसूंक जाय.

ह्या सगळ्यांत आनंदाचो आनी अभिमानाचो भाग असो, ह्या पुस्तकाचे मराठी चवथे आवृत्तीचे आनी ताच्या बाकीच्या भारतीय चार भासांतल्या रुपांतराचें प्रकाशन दस्तूरखुद्द भारताचे पंतप्रधान मनमोहन सिंग हांणी दिल्लींतल्या आपल्या अधिकृत रावतिकेचे हिरवळीचेर घडोवन हाडलें.

पुस्तकाच्या खपाचे आंकडे अलाहिदा, 'आमचा बाप' ह्या पुस्तकाक जायत्या मानेस्तांनी 'मराठी साहित्य संस्कृतींतलो चमत्कार' म्हूण संबोधला. हाचे परस

आनीक सुखदिणी गजाल खंयची आसूं येता? 'आमचा बाप'ची मराठी समाजीक आनी वाङमयीन जिवितांतली नेमकी सुवात खंयची हाचो सोद मराठींतल्या बावीस मानेस्त समिक्षकांनी घेतला. तो ग्रंथराज 'ग्रंथाली'चे वतीन उजवाडाक येता ही तर व्हडा भोवमानाचीच गजाल आसा.

हें पुस्तक युवा पिळगेंतल्यां मदीं आनी खास करून विद्यार्थ्यां मेरेन चडांत चड पावचें म्हूण 'ग्रंथाली'न एक लाख प्रतींची महाजंबो जनआवृत्ती काडपाचें थारायलां. ताचें मोलय बी सर्वसामान्य मनशाक - तरणाट्या विद्यार्थ्याक परवडपाक शकता अशें फकत साठ रुपया दवरल्या. 'ग्रंथाली'च्या ह्या यत्नांचें कवतूक दिसता. पुस्तकाच्या हे जैतिवंत धांवडेंत तांचो सांगात कायम लाबला. तातूंत दिनकर गांगल, सुदेश हिंगलासपूरकर, अरूण जोशी हांची आनी मुद्रक मोहन खैरे हांची खास मजत जाल्या.

कुटुंबांतल्या लोकांचें उपचारीक आभार मानप कठीणच. पुस्तक उजवाडाक आयलें, तें लोकप्रिय जालें, ते उपरांत व्हडलो भाव जे. डी. हांचें एप्रिल २००२ त तर 'मातोसरी'चें सप्टेंबर २००२ त निर्वाण जालें. ते उपरांतच्या काळांत, पुस्तक वयर चडटा आसतना तांचें 'नासप' सदांच जाणवत रावलें. म्हजे दोग भाव - सुधाकर, दिनेश; तिगूय वयन्यो - पुष्पा, सुनिता आनी मंजू; भयणी लिला आनी तृषा; म्हजी बायल वसुंधरा, पूत तन्मय आनी खास करून धूव अपुर्वा ह्या घरांतल्या मनशांचो पुस्तकांतले भावनीक गुंतवणिकेचो सतत आदार दिसत आयला.

'आमचा बाप' ह्या पुस्तकाक वाचप्यांनी, समिक्षकांनी, प्रसिद्धी माध्यमांनी दिल्ल्या अफाट प्रतिसादा खातीर सगळ्यांचें अंतस्करणांतल्यान उपकार.

'आमचा बाप आन् आम्ही'क मेळिल्ल्या ह्या अफाट प्रतिसादाक लागून कुटुंबांतलीं आमी सगळीं मनशां अतिशय भारावन गेल्यांत. हातूंत व्यक्तीशा म्हाका स्वताक, केल्ल्या कश्टांचें सार्थक जाल्ल्याचें समाधान तर भोगताच, पूण तेच बराबर वाचप्यांनी उकतायिल्ल्या अपेक्षां खातीर म्हजेर पडिल्ले नव्या जापसालकेची जाणीव लेगीत निर्माण जाल्या. हें पाथेय घेवन फुडली वाटचाल करपाची आसा.

**- नरेंद्र जाधव**

# राहीआई गं!

“राहीबाई गं, राहीबाई गं, तुझा दुलरी वाडा
वाड्याला, वड्याला तुझ्या खिडक्या चार, राहीबाई गं”.

अदीं मदीं हें गीत कानार पडटांच घडकेक चुकनासतना तुजो उगडास येता. कित्याक तर तुजें नांव राहीबाई आशिल्लें, आजे.

आमच्या भुरगेपणांत मात कोणेंय तुजो उल्लेख राहीबाई असो केल्लो याद जायना. आमी सगळ्यांनी आपणाक ‘राहीआई’ अशें संबोधचें हो तुवें घालून दिल्लो दंडक. ताका लागून आमकां जल्म दिवपी आवयक मात आमकां ‘बाई’ म्हणचें पड. मना भितर खोल खंय तरी वायट दिसतालें. आपलेच आईक ‘बाई’ म्हणपाचें आनी आजेक मात आई, हातूंत जल्म दितलेचेर अन्याय जाता अशें दिसतालें.

खरें सांगूं? जायते बाबतींत तुजे विशीं म्हज्या मनांत अढी आशिल्ली, सामकी आतां मेरेन. म्हज्या भुरगेपणांतले तुजे संबंदीचे उगडास तितले सुखदिणे नाशिल्ले. आजे विशींच्या पारंपारीक कल्पनांक तर पुराय वॅर दिवपी आशिल्ले. हांव तुजो सगळ्यांत धाकलो नातू जाल्ल्यान म्हाका तुजो चड सांगात लाबलो ना. म्हाका तूं केन्नाच पळोवपाक पावली ना, कित्याक तर हांव जल्माक येवच्या खूब वर्सां आदीं तुजी नदर कुड्डी जाल्ली - दोळ्यांत ‘फूल पडून’, म्हणल्यार कॅटरॅक्ट सारकेलो सर्वसामान्य दोश आसतना फावो ती कुयताद ना घेतिल्ल्यान.

तुजी जी मूर्त म्हज्या मनांत आसा ती काळोकुट्ट रंग, ओबडधोबड मुखामळ, सादारण उंची आनी हाडकुळी कूड. तातूंत सदांच तुज्या चेऱ्याचेर त्रासीक भाव. दुयेंसाक लागून वा दुसऱ्यांचेर निंबून रावचें पडिल्ल्यान सदांच तुवें चिडाचीड करची. तुजे केंस मात अतिशय सुंदर आशिल्ले - पुराय रुपेरी. खंयच्याय अँगलांतल्यान पळयल्यार चमकुपी. तातूंत तुका म्हजे आईन न्हाणयतकच हेर कोणाचींय मजत न्हयकारून तूं आपल्या आपूण मन लावन केंस वळयताली आनी मागीर बऱ्याच यत्नांनी ताचो सुपारे येदो आंबाडो घालताली. तुका केन्नाच सांगलें ना, पूण त्या वेळार तूं खूब सुंदर दिसताली.

म्हजी धूव अपूर्वा भुरगेपणांत आपले आजेच्या आंगाक पोशेत म्हणटाली ''हाव नायस, हात मोव मोव, पांय मोव मोव''.

म्हज्या भुरगेपणांत तुजेंय तशेंच आसूंक जाय गे. पूण तुजे म्हऱ्यांत वचपाचें धाडस आमकां भावंडांक नाशिल्लें. हांव वा तृषा दोगांय मदलें कोणूय चुकून बिकून तुजे तावडींत सांपडलें जाल्यार कसलेंय कारण आसूं वा नासूं तूं सरळ मारपाक सुरवात करताली. तुजें तुकाच खबर कारण कितें तें!

दर दिसा बोचकोभर तंबाखू पत्र्याचेर दवरून कडकडीत भाजपाचो प्रकार चालू आसतालो - मशेरी करपाक. घुस्मटून आमचो जीव गळ्या कडेन येतालो. उपरांत कितलींशींच वरां ती दर्पसाण घरांत कोंडून उरताली. तूं मात थीर चित्तान वरांचीं वरां बोळक्या तोंडांत उरिल्ल्या सुरिल्ल्या दांतांक मशेरी लावपाक गूंग आसताली. हरशीं तुज्यो हालचाली मोजक्योच - पूण तोंडाची बडबड मात अखंडीतपणान चालू. तुज्या हांतरुणा कुशीक ॲल्युमिनियमाचो एक चेंबू आशिल्लो. तातूंत थुंकपा खातीर तूं जी पॉज घेताली तितलोच तुजे जिबेक सुसेग.

तूं अंतरली तेदे वेळार म्हजी पिराय बारा वर्सांची. त्या दिसाचो म्हाका आयजूय उगडास आसा : १६ ऑगस्ट १९६५. शिरवणांतलो सोमार तो. तुज्या वडाळ्याच्या घरांत तूं मरणाचे आवतिकायेंत पडून आशिल्ली. सगळे सोयरे धायरे जमा जाल्ले. हांवें त्या दिसा शाळेंत वच्चें न्हय अशें कोणें तरी सुचयिल्लें. हांवें तो विचार फाफडून उडयलो. सगळ्यांचीं सुतकी तोंडां गोंदळांत उडयतालीं. थंयसावन पयस पळ काडची अशें म्हाका दिसतालें. ते भायर, त्या दिसा 'तिमाही' परिक्षेचे पेपर मेळपाचे आशिल्ले. रिझल्टाची म्हाका उमळशीक आशिल्ली. ताका लागून हांव शाळेंत गेलो. नेणार आशिल्लों हांव.

पोरूं भारत सरकाराच्या सांस्कृतीक खात्यान आमच्या कुटुंबाचेर एक टेलिफिल्म काडिल्लें. ताचो एक वांटो म्हूण आमच्या गांवांत - नाशिक जिल्ल्यांत ओझर हांगासर शेतीवाडी करपी बापोलभाव आसात तांची थंय वचून मुलाखत घेतिल्ली. व्हडल्या वसंतभाऊन स्पश्टपणान सांगलें, ''दामूकाका आनी ताच्या भुरग्यांची जी उदरगत जाली ती ते हो गांव सोडून मुंबय गेले म्हणून. ते हांगा राविल्ले जाल्यार आमचेभशेनूच ल्हानशे शेतकार उरतले आसले''.

गांव सोडून आमचें कुटुंब मुंबय कित्याक आयलें? तुजे खातीर आजे, फकत तुजे खातीर. तुजी जिद्द! तिची सुरवात थंयसावन जाता!

नाशिक जिल्ल्यांतल्या अक्राळा गांवांतल्या भिऊ निंबाची तूं धूव. रुंजाबाबाली

तूं दुसरी बायल. पयले बायलेक भुरगें जालें ना म्हूण तिका सोडून रुंजाबाबांचें तुजे कडेन लग्न केलें. तुका दोन चले आनी दोगी चलयो जाल्यो. तातूंतलीं दोगांच वांचलीं : दामू - 'आमचो बाप' आनी नाजुका आमची आत्या.

१९१६-१७च्या सुमाराक महाराष्ट्रांत प्लेगाची धाम आयिल्ली. तातूंत रुंजाबाबा मेलो. न्हवऱ्याचो आदार ना, जमीन आसून नाशिल्ले वरी. पूण आजे, आपल्या दोगां ल्हान भुरग्यांक सांबाळीत तूं जिद्दीन उबी रावली. दीसवडो करून तुवें तांच्या पोटापाणयाची सोय केली. त्या वेळार दामू आसत आठ-धा वर्सांचो, तर नाजुका आसतलें तीन-चार वर्सांचें. दामूचो बापोलभाव माधव, तरणाटे पिरायेचो. ताचे आईबाबा, दोगूय प्लेगांत मेल्ले. ताकाय तुवें आवयची सावळी दिली.

माधव वया वयलो तरणोताठो, तो पेलवान आशिल्लो. ताणें 'दवरिल्ले' बायले वयल्यान तंटो जालो. हाणामारी जाली. तातूंत ताणें कांय लोकांक जबर मार दिलो आसतलो. पुलीस केस जाली आनी माधव भियेलो. तुज्या फुडाकारान मागीर म्हारवाड्यांत रातोरात बसका जाली आनी सगळ्यांच्या मता प्रमाण, जीव वाटावपा खातीर गर्देंत शेणून वचपाक माधवान मुंबय पळून वच्चें अशें थारलें आनी माधव फरार जालो.

माधव मुंबय पळून गेलो खरो, पूण थंय ताचें कशेंच जुळना. शिक्षण ना, कसली कुशळटाय ना, भामटेपणां करपाकय कळनासलें. अशे परिस्थितींत आनीक कितें जातलें? ताचे उपासमार जावपाक लागले. भीक मागत भोंवचें पडलें. मुंबयचे चाकरमानी लोक गिमाळ्याचे सुटयेंत गांवांत परततात. तांचे कडसून ही गजाल कळटकच तूं कळवळ्ळी. त्याच खिणाक तुवें निर्णय घेतलो, थेट मुंबय वचून माधवाची जतनाय घेवप! दामू आनी नाजुका इतलीं ल्हान, तांकां फाटीं सांडून वचप शक्य नाशिल्लें. तांकां वांगडा घेवन तूं वचपाक भायर सरली.

राहीआई, तूं आतां म्हाका आत्र्यापयऱ्यान दिसता. कांसाटो खोवन धाकल्या दामू आनी नाजुकाचो हात धरून, निश्चेवान ओझर गांवांतल्यान खेरवाडी स्टेशनाकडेन चलत चलत वतना. वताचो रखरख, रस्त्यावयलो डांबर कडिल्ल्यान उकत्या पावलांनी चलतल्या भुरग्यांचे पांय हुल्पतात. पूण तुजो खर निश्चेव. हुलोप लागिल्ल्यान भुरगीं न्हिन्नळत पांय ओडटात. ल्हान आसूनय दामूक आपणा वयले जापसालकेची जाणीव आसा. आपणें व्हड भुरग्यां भशेन वागपाक जाय हे जाणविकायेन तो आपणाल्या वेदनांचे भाव तोंडाचेर उदेवपाक दिना. धाकलें नाजुका मात अदींमदीं रडटा. मुसमुसून रडटा. मदींच तूं एका कोयराचे राशी कडेन

थांबता. त्या उश्टेंव्हाऱ्यांतल्यान तूं लोळक्या कपड्याचीं बोनरां उस्तून काडटा, ताच्यो फाळयो करून दोगांय भुरग्यांच्या पांयांक बांदता. तुजी 'आयडिया' पळोवन दामू हांसपाक लागता. नाजुकाक मात आपूण हांसता तें दिसल्यार आपली नाखुशी उकती जातली म्हूणन तें भितरले भितर हांसता. आपलें फुरफुरपी नाक बंडेच्या भुजांक पुसत तें फुडें चलत रावता.

तूं खेरवाडी स्टेशनाचेर आयली आनी तुका गांवची 'पवळावू' मेळ्ळी. अर्थीक नदरेन पवळावूची स्थिती बरी आसा. ती नेमा प्रमाण तिकेट काडून मुंबय वता. तिका सांगात जायच. तिका सांगात करीत 'तिकेटीविणें' प्रवास करून तूं मुंबय पावली - आपल्या पोराबाळां सयत!

मुंबय पावतकच तूं गोंदळ्ळी खरी, पूण रोखडेंच आपणाक सावरून घेतलें. हाका-ताका सांगून तुवें माधवाचो सोद घेतलो. निमाणें एकदाचें माधवाचें ठावठिकाण गावलें. पूण इतले मजगतीं मुंबय रावतल्या गांवभावांनी ताचे तकलेंत रुजयिल्लें; आपणा बराबर ताका बाकीच्या तिगांकूय पोसचें पडटलें. ताणें हो धसको घेतलो आनी तो आपूण तोंड घेवन ओझराक गेलो.

आयजूय, आमकां भावंडांक सदांच प्रस्न पडटा. मुंबय वचपाचो निर्णय तुवें कोणाच्या आदाराचेर घेतिल्लो? तुजे कडेन शिक्षण नासलें, कसलीच कुशळटाय नासली. माधवा सारकेलो तरणाटो गळसणलो. तूं तर दोगां भुरग्यांची जापसालकी आशिल्ली विधवा बायल! कितें आशिल्लें तुजे कडेन?

आतां आमकां सगळ्यांक कळटा, आजे. तुजे कडेन आशिल्लो 'नेटिव्ह इंटलिजन्स' निपुणटाय आशिल्ली आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार स्वताचो विचार करपाची तांक आशिल्ली.

माधव ओझराक वतकच तूं भुरग्यां सयत मुंबयच कित्याक रावली? तुका 'पॉसिबिलिटीज' दिसपाक लागल्यो देखून तूं मुंबय रावली. तशें न्हय, तूं त्यो पळोवपाक शकताली. गांवांत जमीन बिमीन अशीतशी नांवा पुरती आशिल्ली आनी घर म्हूण एक मोडकें खोंपूट आशिल्लें. जिवीतभर तुजी ओड जरी गांवा कडेन उरिल्ली आसली तरी कुटुंबाचे उदरगतीच्यो संदी तुका समजल्ल्यो. उपरांतच्या काळांत तुका कुड्डेपण आयलें तरी तुजे कडेन दूरदृश्टी मात कायमची आशिल्ली. तुजे उपरांतचे पिळगेन - आमचो बाप आनी आई हांणी जे कार्यशक्तीन आपलें कुटुंब उबारलें, ते चिकाटेचो मूळस्रोत आशिल्ली तुवें त्या वेळार दाखयिल्ली उर्जा.

तुका आजी म्हणनासतना, 'आई' कित्याक म्हणपाचें हें आतां कळटा, आई!

# आमचो बाप

**तशें** पळोवपाक गेल्यार जल्मदात्याचो उल्लेख बापूय असो करचो हें शिश्टायेक धरून आसा. म्हज्या बापायक मात तें केन्नाच आवडूंक ना. हेर कोणाचोय उल्लेख तो अमक्या तमक्याचो बापूय अशें करपाच्या बदला, चुकनासतना कोणाचो तरी 'बाप' अशेंच करतालो. इतलेंच न्हय, तर आमी भावंडांनी लेगीत ताची स्वताची वळख 'आमचो बापूय' म्हणून करून दिल्ली ताका खपनासलें. भाशे संबंदी ताच्यो आपल्यो, ठाम अश्यो कांय कल्पना आशिल्ल्यो. असल्या वेळार तो जरूर आयकयतालो - ''आरे भाशा म्हणजे कशी जाय? झणझणीत. एकदम बोंबीलाच्या हुमणा भशेन. हे कितें तुमी वडील - वडील म्हणटात, ते भेंड्यांचे भाजे भशेन बुळबुळीत लागता''.

आमी सगळीं भावंडां ताका 'दादा' म्हणटालीं. मध्यम उंची. काळो ओबडधोबड चेरो. तोंडार करारी भाव. पूण ल्हान भुरग्यां वांगडा उलयतना दोळ्यांत एक खेळकर चमक. पुडवें, धवो सदरो, खाकी कोट आनी काळी तोपी हो ताचो सदचो भेस. हातांत रोत, त्या रोताचो उपेग आदारा परस हेरांचेर धेक गाजोवपाक चड. नोकरी करपी मध्यमवर्गीय 'ऑफिसांतल्यान' येतात. दादा दीसवड्या वयल्यान येतालो आनी येतना आमकां भुरग्यां खातीर 'नानकटाय' हाडटालो.

दादाक सहसा राग येनासलो. पूण तिडकत जाल्यार मात जमदग्नी. भावंडां भितर हांव सवो आनी सगळ्यांत धाकलो. ते खातीर म्हज्या भुरगेपणांत तो पन्नाशींत पाविल्लो आसुंये. ताचे कांय दांत पडिल्ले. ताका लागून तिडकून ताणें दांत-ओंठ खाल्ले जाल्यार तो भिरांकूळ दिसतालो. म्हजी तर भंयान गुळी जाताली. तेदे वेळार तापलो जाल्यार 'डॅमलाडी बिस्कीट' म्हण तो आड्डतालो.

सुरवेक म्हाका 'डॅमलाडी बिस्कीट' हो प्रकार कितें तो कळनासलो. ''आतां ह्यान फुडें तुका नानकटाय सारकेल्यो बिस्कुत्यो हाडचों ना'' असो ताचो अर्थ आसुंये अशें म्हाका दिसतालें. 'डॅमलाडी बिस्कीट' म्हणल्यार 'डॅम, ब्लडी, बास्टर्ड' हें कळपाक जायतीं वर्सां वच्चीं पडलीं. फुडें असल्यो गाळी मारपाचें

ताणें आपूण जावन बंद केलें. खूब वर्सांनी हांवें ताका 'डॅमलाडी बिस्कीट' संबंदान त्रोसां मारलीं. तेदे वेळार 'इरोपेन सायबा' वांगडा काम केल्ल्यान त्यो गाळी तोंडांत बसल्यो हें ताणें स्पश्ट केलें. पूण तें सांगतना, 'हांव इंग्लीश शिकलों ती तुमचे भशेन फादर-मदर आनी चादर एकठांय गुठलावपी एखाद्या देशी मास्तरा कडसून न्हय तर डायरेक्ट इरोपेन सायबा कडसून' हे विशींच्या अभिमानान ताचे दोळे लिकलिकताले.

म्हजें भुरगेपण गेलें तें वडाळ्याचे बोम्बे पोर्ट ट्रस्टाचे कॉलनींत. आमच्या सगळ्या भावंडांचें शिक्षण दादरच्या छबिलदास हायस्कूल सारकेल्या मराठी माध्यमाच्या शाळेंतल्यान जालें. थंय इंग्लीश भास पांचवे यत्ते सावन शिकयताले. हांव मात दुसरे-तिसरेंत आसतनाच व्हडल्या भावंडांनी म्हाका 'ए बी सी डी' सारकेलीं इंग्लीश मुळाक्षरां शिकयिल्लीं. ताका लागून मुळाक्षरां जोडून ल्हवू ल्हवू उतरां वाचपाचो हांव यत्न करतालों. म्हाका तसो छंदच जडिल्लो.

त्या वेळा वयले एके घडणुकेचो उगडास जाता. कितें तरी विकतें घेवपाच्या निमतान हांव वडाळा स्टेशना लागसारच्या दुकानांत गेल्लों. पलतडच्या फुटपाथाचेर पंचशील नांवाचें एक दुकान आशिल्लें. त्या दुकानाचो व्हडलो बोर्ड इंग्लीशींत आशिल्लो. मात ताचे सकयल ल्हान अक्षरांनी तेंच नांव मराठींत बरयिल्लें. खरें म्हणल्यार 'पंचशील' हें उतर इंग्लीशींत वाचपा इतलो हांव तयार जावंक नासलों. हांवें वाचलो तो मराठी नांवाचो बोर्ड. दादाक मात प्रात्यक्षीक करून दाखयतना पं-च-शी-ल अशें आडखळत वाचून म्हज्या 'इंग्रजी' वाचपान ताका अजापीत केलें. दादा सामको खूश. म्हणपाक लागलो,

''आरे चल या, तुका 'आलेबेलां'त लश्शी पिवयता''.

होटॅलांत वचून बसतकच ताणें मागयिल्ली लस्सी मात म्हज्या ताळ्या सकयल देंवना जाली. निमाणें, हांवें फट उलयिल्ल्याचें आपूण जावन मान्य करून मेकळों जालों आनी फाटीर केन्ना धपाटो पडटलो हाची वाट पळोवंक लागलों. मात घडलें उरफाटेंच. तागेल्या खळखळून हांसपान हांव सामकोच गोंदळ्ळों. थोडीशी भीड वतकच हांवें भियेत भियेत विचारलें -

''दादा, हांव फट उलयलों. तुका राग आयलो ना?''

ते आनीक हांसपाक लागलो. म्हणपाक लागलो -

''तुम साला एक नंबरका बदमाश है।''

म्हजो गोंदळ आनीक वाडलो. ताणेंच फुडें म्हणलें -

"तूं भियेवं नाका. हांव तुका मारचों ना. तुज्या फट उलोवपान कोणाचें लुकसाण जावंक ना. वयल्यान तुजी सद्सद्बुद्दी जागी आसा तें पळोवन म्हाका खोस भोगली. हांव तुका आजून एक लश्शी पिवयतां".

म्हजे कबुलीजापे फाटल्यान सद्सद्विवेकबुद्दी परसय गुपीत भायर फुटलें जाल्यार कितें जातलें हे भिरांतेचो वांटो चड आसलो हें सांगपाचें धाडस म्हाका जालें ना. पूण ते उपरांत सामकें निमाणे मेरेन म्हजे बाबतींत 'तुम साला एक नंबरका बदमाश है' हें ताचें पालूपद कायम उरलें. अर्थांत तातूंत रागा परसय कवतुकाची भावना स्पश्ट जाणवून येताली.

ल्हान भुरग्यां कडेन उलोवपाची, ताचे वांगडा खेळपाची तांची म्हूण एक खास शैली आसली. एकादो ल्हान भुरगो मेळत जाल्यार तो विचारतालोच -

"काय रे अक्कल बडी की म्हैस बडी?"

म्हैस बडी म्हणपी ताचे लेखी नापास, एकदम कंडम. हो प्रस्न ताणें जायते फावटीं बाकीच्यांक विचारतना हांवें आयकल्लो आशिल्ल्यान आसुंये घडये, पूण म्हाका ताणें विचारलें तेन्ना म्हजी जाप तयार आसली,

"अक्कल आसलेली म्हैस बडी".

ते बराबर तो खळखळून हांसलो, पूण तेच घडकेक म्हणपाक लागलो -

"काय रे गधड्या, अक्कल आसलेली म्हैस कोनी पायलीय का?"

शाळेंत आसतना हांव पयलो नंबर घेवंक लागलों. तेदे वेळार घरांत येतल्या-वतल्याचो एक प्रस्न थारिल्लो आसतालो -

"तू मोठेपनी कोन व्हनार?"

ते पिरायेचीं भुरगीं ह्या प्रस्नाक सर्वसादारणपणान जशी गुळमुळीत जाप दितात तशीच हांवूय दितालों. एक फावट म्हज्या व्हडल्या भावान (जे. डी. जाधव, महाराष्ट्र शासनाचे सचीव) विचारलें तेन्ना मात प्रामाणीकपणान हांवें सांगलें, "म्हाका लेखक जावपाचें आसा". तें आयकना फुडें ताणें कोडू तोंड केलें. "आरेरे, हाका भीक मागची पडटली" अशेंच कितें तरी ताणें म्हणलें.

ते उपरांत कांय दिसांनी दादान म्हाका म्हऱ्यांत घेतलो आनी सांगलें, "हें पळय लोक तुका सांगतले; तूं दोतोर जा, इंजनेर जा, बॅरिस्टर जा. पूण तूं कोणाचेंच कितें आयकूं नाका. तूं तुजे बुद्दीक योग्य दिसता तेंच जावपाचो प्रयत्न कर. हांवूय तुका सांगचों ना, अमूकच जा, तमूकच जा म्हूण. म्हजें

म्हण्णें इतलेंच आसा; तूं जें करतलो तातूंत प्राविण्य मेळय. तुका चोर जावपाचो आसा? कांय हरकत ना पूण असो चोर जा की जगांत तुका सलाम करपाक जाय. तुका जुगार खेळपाचो आसा? हरकत ना. पूण असो जुगारी जा की सगळ्या लोकांनी म्हणपाक जाय, हाका म्हणटात जुगारी! इल्लेश्यान समाधान मानून गप्प बसपाचें ना. कितें?''

दादालें हें 'अडाणी' तत्वगिन्यान ल्हवू ल्हवू कळपाक लागलें. मनांत झिरपत गेलें. आतां तर तें मनांत घर करून बसलां. निमाणें 'सर्च फॉर एक्सलंस' म्हणल्यार तरी वेगळें कितें? हेंच न्ही, लेखक जातलों म्हणटकच 'हाका भिकेचे दुवाळे लागल्यात' म्हणपी उच्च विद्याविभुशीत भाव आनी 'कितें जाय तें कर पूण टॉपाक वचपाचो यत्न कर' म्हणपी अडाणी बापूय, हांचे मदल्या खऱ्या अर्थान विशाळ दृश्टीकोण कोणाचो? आयज खासा हांव तरी म्हज्या भुरग्यांक इतलो 'ऑपन चॉयस' दिवपाक शकतां काय? अखेर हांवूय बी म्हज्या भावा भशेनच मध्यमवर्गीयांच्या भित्रेपणाचो बळी थारतां काय? अशें जेन्ना हांव चिंतपाक लागतां, तेन्ना संवसाराचे नदरेन अडाणी आशिल्ल्या म्हज्या 'बापाची' प्रगल्भताय, तांचे बुद्दीची उंचाय म्हाका अजापीत करून उडयता.

दादाले सगळे पिळगेचेर डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरांचे चळवळीचो एक बरोच व्हड छाप उदेल्लो, तो म्हणल्यार शिक्षणाच्या मोलाचो. 'शिकात, संघटीत जायात आनी संघर्श करात' ही डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरांची शिकवण म्हणल्यार फकत एक पोकळ घोशणा नासली, तर समस्त दलित समाजाची ती आत्मप्रतिज्ञा आसली. ताका लागून आमच्या सगळ्यांच्या शिक्षणाचेर दादाची बारीकसाणीन नदर आसताली. आमचे मदल्या कोणालेय यत्न सारके जाले ना आनी ताका लागून मार्क उणे पडले जाल्यार आमकां पेटून काडपाक दादा फाटींफुडें पळयनासलो. बऱ्या परफॉर्मन्सा बाबतींत उतरांचें कवतूक मोजकेंच. पूण प्रगती पत्रक पळयतना मात अशा वेळार ताचो चेरो पर्जळटालो. 'मानता है भिडू' अशे भावनेंतल्यान तांचे दोळे खोशेन चकचकताले. मागीर वेगळ्या उतरांच्या कवतुकाची गरजूच भासनासली.

म्हजे बाबतींत तागेल्यो अपेक्षा विशेश उंचायेच्यो आसल्यो. म्हाका वेगवेगळ्या भासांनी रस आसा, गती आसा हें सगळ्यां परस आदीं लक्षांत आयलें तें दादाच्या. मागीर ताणें मनांत घेतलें हांवें शालेय अभ्यासक्रमा भायर आनीकय भासो शिकच्यो. जालें. म्हाका ऊर्दू आनी अरबी शिकोवचें म्हूण थळाव्या मुल्लाक गळ घाली.

सद्‌दां हांव मुसलमान भुरग्यां भरशीं बसून ‘अलिफ बे पे’ शिकपाक लागलों. म्हाका तें आवडूंकय लागलें. फुडें फुडें, त्या मदरसेंत शिकपाक येवपी सगळ्या चल्यांची ‘सुंता’ करतात अशी खाजगी म्हायती जाणट्या हिंदू इश्टांनी दिल्ले खातीर कसलीं तरी फट कारणां सांगून हांवें म्हजी शिकवणी बंद केली. ते शिकवणेचो एक परिणाम मात कायम स्वरुपाचो उरलो. दादा म्हाका छोटूच्या जाग्यार ‘छोटुमियां’ म्हणपाक लागलो आनी लाडांत आयल्यार मराठी बदलाक हिंदींतल्यान म्हजे कडेन संभाशण करपाक लागलो.

दलित समाजा भितर डॉ. आंबेडकरांनी स्वाभिमानाची जी चेतना जागयली ते अस्मितायेचें प्रतीक म्हणल्यार आमचो दादा. तो आपूण तर निर्भय आशिल्लोच, पूण आमच्या भावंडां मदी ताणें निर्भयतायेचीं बियां रुजयलीं. ते बाबतींत पोकळ उपदेश करपाचेर ताणें केन्नाच समाधान मानलें ना तर तशी कृती करून दाखोवपाचेर ताचो भर उरलो.

म्हाका याद जाता, एक फावट कसल्या तरी कामाक लागून हांव दादा वांगडा एका रेशनींग ऑफिसांत गेल्लों. कसलो तरी परवानो काडपाचो आसलो. आमकां कुशीनच्या एका सॅक्शनांत धाडले. थंय दोन कारकून बशिल्ले. एक तरणाटो, एक तरणाटी. तांच्या मेजा मुखार वचून दादा आनी हांव उबे रावले. जनतेच्या त्या सेवकांक हेरां कडेन लक्ष दिवपाचें भान नासलें. तांच्यो गुलूगुलू करून ल्हव आवाजांत गजाली चलताल्यो आनी मेजा सकयल तांचे पांय एकामेकां कडेन मोगाचे चाळे करताले. दादा पांचेक मिनटां थारलो. ताणें खांकरून पळयलें. तातूंतल्या ‘ताणें’ वयर पळयलें. पुडवें तोपीवाल्या ह्या मनशा कडेन लक्ष दिवपाची गरज मात ताका भासली ना.

दादा थंय सावन तुरतुरीत गेलो तो लागींच आशिल्ल्या अधिकाऱ्याच्या कॅबिना मुखार वचून उबो रावलो आनी समस्त ऑफिसाक आयकूंक येत अशा सुरांत उलयलो -

‘‘काय वो सायेब, तुमच्या हाफिसमदी काय नुस्तीच गाढवं भरली हायेत, काय?’’

सायब थरथरलोच. तडक उठून भायर आयलो. म्हणपाक लागलो -

‘‘कितें? कितें उलयतात तुमी?’’

मागीर दादान घडिल्ली सगळी घडणूक आपल्या खणखणीत आवाजांत

कथन केली. त्या वेळार त्या कारकून मंडळींचे जे चेरे जाल्ले ते हांव कदापी विसरूंक शकचों ना. अर्थांत सायबान आपणें खास लक्ष घालून आमचें काम तात्काळ करून दिलें हें वेगळें सांगपाक नाकाच.

त्या ऑफिसांतल्यान भायर सरतकच दादान म्हणलें -

"छोटूमियाँ, किसीको डरनेका नही, क्या? आपून क्या किसीके बापका खाता है?" ताची गाडी परतूनय कोणाल्या तरी बापाचेर घसरली. आतां प्रात्यक्षिका सयत दिल्ली असली शिकवण कोणाच्यान विसरूंक जायत?

हांव माध्यमीक शाळेंत आसतना दादा, हार्बर लायनीचेर रे रोड स्टेशनाच्या प्लॅटफॉर्माक तेंकून बॉम्बे पोर्ट ट्रस्टाची जी कॅबीन आसा थंय कॅबिनमन आशिल्लो. जायतीं वर्सां तो त्या कॅबिनाचेर आशिल्लो. सरभोंवतणीं ताणें कितलींशींच फुलांचीं झाडां, फळांचीं झाडां लायिल्लीं, वाडयिल्लीं. केन्ना केन्ना ताचें दनपारचें जेवण हांव घेवन वतालों.

त्या वेळा वयले एके घडणुकेचो उगडास जाता. तेदे वेळार पॉकेट मनीबी अशे लाड नासताले. ताका लागून केन्ना केन्ना वडाळा ते रे रोड अशी एकेच वटेनची तिकेट काडून परतुपाच्या प्रवासाचें भाडें, तिकेटी बगर प्रवास करून ताची खावपा खातीर बचत करतालों. एक फावट हांव असोच डबो घेवन गेलों. तांकां दुबाव आयलो आसुंये. ताणें विचारलें -

"तिकीट कुठाय?"

हांवें तिकेट दाखयतकच, 'रिटर्न तिकीट' कित्याक काडूंक ना हाची ताणें चवकशी केली. हांवें म्हणलें -

"आतां वतना काडटलों".

डबो दवरून हांव प्लॅटफॉर्मार आयलों आनी तो कॅबिनांतल्यान पळयत हें लक्षांत येवन तिकेट ऑफिसाचे वटेन चलपाक लागलों. ताचे नदरे पेल्यान पावलों म्हणपाची खात्री जातकच रुळा वयल्यान पट करून उडकी मारून पलतडच्या प्लॅटफॉर्माचेर चडलों आनी वडाळ्याक वचपी गाडयेची वाट पळोवंक लागलों.

अशीं तशीं दोन मिनटां पासार जाल्यां आसतलीं आनी घे अजाप! खंयच्यान कोणाक खबर, पूण दादा म्हज्या शेजराक प्रकट जालो. म्हणपाक लागलो -

"तिकेट दाखय".

दांत दाखयत हांव लजकाडें हांसलों. तिकेट काडून दिवन ताणें म्हाका घरा

धाडलो. त्या दिसा 'कामा वयल्यान' घरा परततकच म्हजे फाटीचो जो कुंडो काडलो ताचो उगडास जाल्यार आयज लेगीत म्हजे फाटीच्यो शिरो तट्तट्टात.

सगळीं मेळून आमी स भावंडां. आमच्या भावंडांचें भुरगेपण वड्याळाचे वस्तींत, ज्या अर्थीक, समाजीक आनी सांस्कृतीक थरांनी आमी वाडलीं, थंयच्या बाकीच्या चल्या-चलयां वरीच सरलें. फरक इतलोच, आमचे कडेन दादा आशिल्लो!

दादाक लागून आमच्या घरांत सदांच अभ्यासाचें वातावरण आसतालें. रेल्वे कॉलनींतल्या आमच्या धाकटुल्या घरांत ऑपन गॅलरींत मेज-कदेल घालून भाऊ (जे.डी.) रातच्या उसरां मेरेन अभ्यास करतालो. ताच्या टेबल लॅम्पाचो उजवाड खूब पयस सावनय दिसतालो. तें पळोवन दादाच्या वांगडच्या हेर पालकांनी आपापल्या चल्या-चलयां खातीर नेम घालून दिल्लो, जो मेरेन जाधवांच्या घरांतलो दिवो वाडोवचो ना तो मेरेन तुमीय अभ्यास करचो पडटलो.

हांव १९६९ वर्सा एस.एस.सी. जालों. तेदे वेळार म्हाका मेळिल्ले मार्क पळोवन दादा खोशेन भुल्लुसून गेल्लो. बाकीच्या विशयांतल्या प्राविण्या परस संस्कृतांत मेळिल्ले गूण आनी ताका लागून दिल्लें इनाम ताका चड 'मोलाचें दिसलें'. ''देवाची भाश्या म्हणून बामन लोकांनी आपल्याला ही भाश्या दिली नाही. आता पाहा म्हनावं'' अशें म्हणून म्हजे फाटीर 'भले शाबास'चो धुमको!

दादांचो आत्मविस्वास मात आकांताचो. 'म्हाका फावो तशी लांबचे लांब बडी हाडून दिवशात जाल्यार हांव हे पृथ्वीचो गोल उमथून दाखयन' अशें म्हणपी आर्किमिडिजा भशेन. दादा व्हड बुद्दीवादी आशिल्लो, प्रयत्नवादी आशिल्लो आनी खंयचेय कुड्डे अंधश्रद्धेक जुमानपी न्हय असो आशिल्लो.

म्हजो भाव सुधाकर एक फावटीं खूब दुयेंत पडलो. दोतोराचे उपचार जाले, पूण गूण पडना. ताचो पांय सुकून वचत काय कितें ही सगळ्यांकूच चिंता पडिल्ली. निमाणें, आजी आनी आमची आई दोगांयनी मेळून ताका एखाद्या भगताक दाखोवपाचें थारायलें. ह्या प्रकाराक दादाची मान्यताय मेळप कठीण हें लक्षांत घेवन दादा घरा कडेन नासले तेन्ना एका मांत्रिकाक आमच्या घरा कडेन आपयलो.

मांत्रिकान पुजेचें सगळें साहित्य मांडलें आनी सुधाकराक घेवन बाईक मुखार बसयली. पुजा सोंपतकच त्या भगताच्या आंगांत आयलें आनी तो खुदपाक लागलो. दादाच्या येवपाची अपेक्षा नासतनाय अकस्मात तो घरा आयलो. आपल्या घरांत चलतलो सगळो प्रकार पळोवन खीणभर तो मोनोच जालो. पूण दुसऱ्याच खिणाक तिडक आवरूंक जायना जावन तो फुडें सरलो आनी तांणी खुदतल्या त्या भगताच्या कानसुलार सणसणीत एक फुलयलें. भगताल्या आंगांत आयिल्लो देवीचो अवसर सणक करून निवळ्ळो आनी पुजेचें सगळें साहित्य थंयच सांडून जिवाच्या आकांतान ताणें पळ काडली. म्हजी आई भियेवन थरथरत उबी रावली. आतां तिकाय बी दादा मारतात काय कितें अशी भिरांत आमकां भावंडांक जाली, पूण तांणी तशें केलें ना. खर उतरांनी ताणें आजेचे आनी म्हजे आईचे कान पिळ्ळे आनी भुरग्यांक दोतोरांचो इलाज करपाचो आसता हें शिटकायलें.

दादा कट्टर निरिश्वरवादी. तो केन्नाच देवळांत गेलो ना वा ताणें पुजा-आरत्योय केल्यो नात. ताणें फकत डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरांक देवाचे सुवातेर मानले. बाबासाहेबांचेर तागेली आकांत भक्ती आशिल्ली, श्रद्धा आशिल्ली. देखूनच बाबासाहेबांनी जांकां गुरू मानले त्या महात्मा फुलेंचेरय तागेली भक्ती आशिल्ली. महात्मा फुलेंचो भेस ताका खऱ्या अर्थान भारतीय शेतकामत्याचो प्रातिनिधीक भेस दिसतालो. महाम्मा फुले आनी सावित्रीबाई फुले हांणी स्त्री शिक्षणा खातीर आनी बायलांच्या उद्धारा खातीर जें कार्य केलें, सनातन धर्माचो खर विरोध मोडून जे प्रतिकूल परिस्थितींत बायलांच्या शिक्षणाची बुन्याद घाली, ताचें ताका खूबच कवतूक आशिल्लें.

१९३० वर्सा रेल्वेंतली नोकरी सोडून नाशिक हांगाच्या काळाराम मंदीर सत्याग्रहांत वांटेकार जालो ते फकत मंदीर प्रवेशा खातीर वा रामाच्या दर्शना खातीर न्हय, तर त्या निमतान सदांच बाबासाहेबांचें दर्शन घडटलें, तांचे म्हऱ्यांत फिरकुपाक मेळटलें, तांचीं दोन उतरां कानार पडटलीं हे भावनेन. ते भायर बाबासाहेबांचेर सवर्णांचो हल्लो जातलो म्हणपाचो हुस्को आसलोच. आपलो प्रतिकारय तितलोच जबर आसपाक जाय, देखून साहजीकच तालमींतल्या आपणाल्या सहकाऱ्यां सयत तो नाशिकाक रावलो.

दादासाहेबां उपरांत दादाक आदर आशिल्लो तो कर्मवीर दादासाहेब गायकवाडां

विशीं. दादासाहेब नाशिकाचे, म्हणल्यार आमच्याच जिल्ल्यांतले. मनीस जोडपाची जबरदस्त ताकद आशिल्ले. गरीब तशेंच अडाणी भावां वांगडा सादेपणान रावपी. खंयच्याय खेडेगांवांत कोणागेरय जेवणाची अपेक्षा धरिनासतना आपल्या कोटाच्या बोल्सांत दवरिल्लें गोड आनी भिकणां खावन दीस सारलेले दादासाहेब ताका खऱ्यानिशीं जनसामान्यांचे फुडारी दिसताले. बाबासाहेबांचे नाशिक आनी महाड हे दोनय सत्याग्रह जैतिवंत जाले ते फकत दादासाहेब गायकवाडां खातीर अशें दादाचें ठाम मत जाल्लें. संयुक्त महाराष्ट्राची चळवळ चलता आसतना शिवाजी पार्काचेर आचार्य अत्रे, एस. एम. जोशी, कॉम्रेड डांगे, नाना पाटील हे सगळे रथी महारथी उलोवन जातकच दादासाहेबांचें भाशण जालें. तितलें सुंदर भाशण आपणें आयुश्यांत परतून केन्ना आयकलें ना अशें दादा अभिमानान सांगता. पूण तें सांगतना आमकां आतां कोणूच फुडारी उरूंक ना ही ताका जावपी खंत सतत जाणवताली.

दादान गुरू, बाबा, महंत असल्या लोकांक केन्ना थारो दिलो ना. सगळ्या गुरू-बुवांक ताणें 'ढोंगीबाबा' म्हणचें. ताचो विस्वास आशिल्लो तो मात संत गाडगे महाराजांचेर. गाडगे महाराजांक ताणें लागसून पळयिल्ले. तांचे विचार आयकल्ले. 'देवाक नवस करूं नाकात आनी केल्लें आसत जाल्यार ते फेडूं नाकात' ही गाडगे महाराजांची शिकवण समाजांतली कुड्डी श्रद्धा पयस करपाक शकतली, गिन्यानाचो उजवाड दिवपाक शकतली अशें ताका दिसतालें. ताणें सांगिल्लो गाडगे महाराजां विशींचो एक मजेशीर उगडास आसा. त्या काळांत उंचेलें शिक्षण घेवन व्हड सरकारी पदराचेर नोकरेंत आशिल्ले आमच्याच समाजांतले एक अधिकारी मलबार हिलाचेर बांदिल्ल्या आपल्या घरांत रावपाक गेल्ले. घरप्रवेशाच्या सुवाळ्याक तांणी गाडगे महाराजांक आपयिल्ले. सगळी कार्यावळ आटपतकच आमच्या अधिकारी महोदयान व्हडा गर्वान गाडगे महाराजांक विचारलें

"बाबा, आसा काय ना हांव पयलोंच म्हार, मलबार हिलाचेर रावपी?"

गाडगे महाराजान हाचेर जाप दिली -

"तें बरोबर आसा, पूण तो तुजो बाप (बाबासाहेब आंबेडकर) जर परळचे शिमिटाचे चाळींत रावंक नासलो जाल्यार ह्या मलबार हिलार तूं केन्ना पावतलो आसलो?"

स्वातंत्र्यवीर सावरकरां कडेन पळोवपाची ताची नदर वेगळी आशिल्ली.

ताणे केन्ना सावरकरांचें साहित्य, कविता बी वाचूंक नासलें, पूण ताका ते एक वीरपुरुस म्हूण मानतालो. सावरकरान बोटींतल्यान दर्यांत मारिल्ली उडी आनी पेंवन वचून पलतड गांठिल्ली गजाल, जशी कितें आमच्या भावंडांक खबरच ना अशा थाटांत तो परत परत सांगतालो. खंयचीय धाडसाची गजाल ताका आवडटाली. सावरकरांक एक धाडसी फुडारी म्हूण तो मानतालो.

रावबहादूर सी. के. बोले, सुरबानाना टिपणीस, आचार्य दोंदे हे लोक दलित समाजांतले नासूनय बी आंबेडकरी चळवळींत ताणें कितले पोटतिडकीन वांटो घेतलों हें दादा आवर्जून सांगतालो. ते फाटभुंयेचेर उपरांत रिपब्लिकन पक्षांत, दलित चळवळींत जाल्ली फाटाफूट ताका खंती करताली. कॉम्रेड डांगेनी मुंबय कामगार चळवळ सुरू केली आनी कामगारांच्या शोशणा आड लडो दिलो हे खातीर ताका डांगे विशीं भोव आदर आसलो. तातूंत कॉ. डांगे हे मूळ देवळालीचे म्हणल्यार पर्यायान नाशिकाचे, ते खातीर अभिमान आसलो. पूण बाबासाहेबांनी थापन केल्ल्या स्वतंत्र कामगार पक्षाचें काम करपी मडकेबुवा, धायविलकर बुवा, जगन्नाथ भातणकर आनी देवरूखकर लोकांनी मुंबयच्या कामगार चळवळीचीं मुळां रुजयलीं हें तो आवर्जून सांगतालोच. हालींच्या काळांत कॉ. काळे, डॉ. शांती पटेल, मनोहर कोतवाल, जॉर्ज फॅर्नांडीस हांणी कामगारांचे हक्क मेळोवन दिवपाक मोलाची कामगिरी केल्या अशें ताचें मत आशिल्लें.

बॉम्बे पोर्ट ट्रस्टांत दादा चवथी श्रेणी कर्मचारी आशिल्लो. श्री. नाडकर्णी हे जेदे वेळार पोर्ट ट्रस्टाचे चॅरमन म्हूण आयले आनी तांकां कळ्ळें आपल्या एका कामगाराचो भुरगो आय.ए.एस.सांत आसा तेन्ना तांकां खूब खोस भोगली. त्यावेळार व्हडलो भाव जे. डी परभणीक जिल्लोधिकारी आशिल्लो हो एक योगायोग आनी ज्या वेळार नाडकर्णी इंग्लंडाक सावन आय.सी.एस. जावन आयिल्ले तेन्ना तांची पयली नेमणूक परभणीचे जिल्होधिकारी म्हणूनच जाल्ली.

चॅरमनाची भेट घेवपाक जाय म्हूण दादान म्हज्या एका भावाक - दिनेशाक वांगडा घेतिल्लो. ह्यान आदीं केन्ना तो चॅरमनाच्या ऑफिसांत वचूंक नासलो. इतलें सुंदर प्रशस्त ऑफिस दिनेश लेगीत पयलेच फावट पळयतालो. नाडकर्णी सायब बसा म्हणटा थंय आसा, दिनेश तेच घडकेक मुखा वयले कदेलीर बसलो, पूण दादा बसपाक तयार नाशिल्लो. नाडकर्णीसायब परतून परतून ताका 'बसा' म्हणत आसले, पूण हो उबोच. वरिश्ठां मुखार बसप म्हणल्यार वरिश्ठांचो अपमान केल्ल्या

वरी जाता अशें ताका दिसतालें. निमाणे कडेन नाडकर्णीसायबांनी सांगलें -

"तुमी बसनात जाल्यार म्हाकाय तुमचे कडेन उबो रावन उलोवचें पडटलें"

मागीर मात तो खांकडूनसो बसलो.

"बी.पी.टी.च्या इतिहासांत आयज मेरेन खंयच्याच अधिकाऱ्याचो वा कर्मचाऱ्याचो भुरगो आय.ए.एस. जावंक ना. तुमच्या पुतान ही कर्तबगारी गाजयली हाचो म्हाका आनंद भोगता आनी अभिमान दिसता".

"तुमच्या सारक्याचे आशिर्वाद हायेत. बाबासाहेबांची पुन्याइ हाये".

"तुमच्या भुरग्याक तुमीच घडयलो, शिक्षणा खातीर उत्तेजन दिलें, ताच्या येसांत तुमचो वांटो व्हड आसा. बी.पी.टीं.तल्या हेर सगळ्या कामगारांक आनी अधिकाऱ्यांक ही एक देख थारची म्हूण तुमचे खातीर हांव कितें तरी करपाचें येवजितां".

"तुम्ही या वेळाला माझ्यासाठी काय करू शकनार? मला वरची जागा तर देवू शकनार नाही, कारन माझं तेवढं शिक्शान नाही. तेच्यावरही तुम्ही वरची जागा दिली तर मी ते काम करू शकनार नाही".

"नोकरेंत तुमकां एका वर्साची मुजत वाडोवन मेळ्ळी जाल्यार तुमकां कशें दिसत?"

"सायेब, मला आता त्याची गरज नाही. माझी दोन मुलं मार्गाला लागल्याली हायेत. दुसरी दोन लवकरच शिक्शान पुरं करत्यील. तेच्यामुळं रिटायर झाल्यावर नोकरी करन्याची मला काय इच्छा नाही".

"पळयात. हांव तुमचेर सोडटां".

"त्यापेक्षा सायेब, ज्यांच्या मुलाचं शिक्शान पूर्ण झाल्याचं नसंल आन् बापाच्या रिटायर होन्यामुळं ते पुढे होवू शकनार नसंल तर अशा एखाद्या कामगाराला एखादं वर्ष वाढवून द्या. माझ्यापेक्षा दुसऱ्या गरजवंताची गरज पुरी करा".

नाडकर्णीसायब तटास जाले. ताणी हात फुडें करून दादांचो हात हातांत घेतलो आनी म्हणपाक लागले -

"तुमी मनानय खूब व्हड आसात".

दादा बी.पी.टी.च्या रेल्वे विभागांत काम करतालो. त्यावेळार बापट नांवाचे रेल्वे मॅनेजर आशिल्ले. उपरांत ते कांडला पोर्ट ट्रस्टाचे चॅरमन जाले. बापट बुद्दीन तल्लक, कडक, दरारो आशिल्ले आनी दिसपाकय देखणे. तांच्या

आवाजांतूच तांचो अधिकार जाणवतालो. ताका लागून तांचे कडेन उलयतना मुखा वयलो कनिश्ट अधिकारी भियेवन आसतालो. हे बापटसायब रेल्वे मॅनेजर आसतना एक फावट अचकीत दादाच्या कॅबिनांत भितर सरले. दादान तांकां पयलीं केन्ना पळोवंक नासलें. दादा तिडकलो. ताणें तांकां ताबडतोब भायर वचपाक सांगलें.

‘‘म्हजी परवानगी घेतले बगर तुमी म्हज्या कॅबिनांत आयलेच कशे?’’

बापटांनी भायर वचून ‘‘हांव भितर येवपाक शकतां?’’ अशें विचारतकच दादान तांकां भितर घेतले. बापटान आपणाली वळख करून दितकच दादाक लागलें. पूण बापटसायब मात खूश जाले. आपणाकय जाब विचारपी कामगार आसा हे जाणिवेन ते सुखावले आनी तशें तांणी उलोवनय दाखयलें. शिस्तप्रिय मनशाक शिस्तप्रिय मनशां आवडटात.

मागीर एक फावट बापटसायबान दादांक घरा आपयले. त्यावेळार बापट कुलाब्याक रावताले. कोणाल्याय घरा वतना रित्या हातांनी वच्चें न्हय म्हूण दादान थोडीं द्राक्षां बरोबर घेतिल्लीं. बापट आनी तांची बायल ललिता बापट - लेखिका - कलासमीक्षक, दोगांय घराच आशिल्लीं. दादान हाडिल्लें खावपाक पळोवन दोगांय भारावन गेलीं. ‘जायतीं वर्सां जालीं, इतले मायेन कोणा जाण्ट्या मनशान आमकां खावपाक हाडलें ना’ अशें ताणी मेकळेपणीं मान्य केलें. मागीर आपणा मदलें वरिश्ट आनी कनिश्ट हें नातें विसरून कुटुंबीक गजालींनी तिगांय रमून गेलीं. सौ. बापटांनी घरांत गावन घाल्लो आशिल्लो. दादा पोरण्या मतांचो आशिल्ल्यान ताका तें आडखळटालें. ताणें आपली नापसंती उकतायली. सौ. बापटांनी लेगीत आपल्या मांवाचोच हुकूम आशिल्ल्या वरी ते उपरांत केन्नाच दादा मुखार गावन घालो ना आनी आपल्या मनाचें व्हडपण दाखयलें.

दादाक गायन-वादनाची आवड आशिल्ली. बालगंधर्वाचें गाणें रंगमाचयेर आयकूंक मेळ्ळें ना हाचो ताका खेद भोगतालो. दलित समाजांतल्या लोकांक तेदे वेळार तिकीट काडून लेगीत थेटरांत वचपाक मनाय आसली. आमच्या गांवचे सोपानबुवा जाधव हे सदांच नितळ धवेफुल्ल कपडे घालपी आनी सुरेल आवाजांत गावपी. दीनानाथ मंगेशकरांचें ‘परवशता पाश दैवे ज्यांच्या गळा लागला’ हें गीत ते सुंदर गायताले. ताका लागून आमच्या गांवांत त्या काळांत हें एकूच गीत सगळ्यांक खबर आशिल्लें. तमाशांतल्या तशेंच हेर लोकगितां भायर नाट्यसंगितांतलें

हें एकूच गाणें गावपी सोपानबुवा दादांक आदरणीय आसले.

आमचे आनीक एक दुसरे सोयरे शाहीर घेगडे, हांचें जलसापथक आशिल्लें. जलसापथक म्हणल्यार तमाशाचोच प्रकार आशिल्लो. पूण फकत मनरिजवणेंचे भकीक पडनासतना लोकशिक्षण करपी आनी तातूंतय मुखेलपणान बाबासाहेबांची चळवळ मनरिजवणे वरवीं जनसामान्यां मेरेन पावोवपी एक प्रभावी माध्यम आशिल्लें. शाहीर घेगडेंच्या खणखणीत आवाजांत काव्यरचनेंतल्या उतरांतलो नेमको आशय उकतावपाचें कसब आसलें. तांचें एक गाणें त्या काळांत लोकप्रिय जाल्लें. (अर्थात दलित लोकां मदींच) ताचीं उतरां आशिल्लीं - 'महाराचे पोर बिट्या लई हुश्यार, गुडशे तोडायला लई हुश्यार' खासा बाबासाहेबांनी हें गीत आयकल्लें आनी हांसून हांसून तांचो मुड्डो जाल्लो. हें सांगता आसतना दादा मन सोडून हांसतालो तशेंच शाहीर घेगड्यां विशींच्या अभिमानान तांचें हड्डें फुलतालें.

सगळ्या दलित समाजाचेर त्या काळांत प्रभाव घालपी नाशिकाचे शाहीर वामनराव कर्डक हांणी बरयिल्ल्या गितांक लागून बाबासाहेबांचे चळवळीचो नेमको अर्थ आमच्या अडाणी बायलां मेरेन पावला अशें दादाक दिसतालें. आपल्या शंबर भाशणांतल्यान जें काम धा फुडाऱ्यां कडसून जालें ना तें काम एकेका गितांतल्यान वामन कर्डक करताले. अखेर मेरेन हे वामन कर्डक खोंपटेंत रावता हाची दादाक चमत्कारीत खंत भोगताली.

शाहीर अण्णाभाऊ साठे आनी शाहीर अमरशेख हे दोगूय ताचे आवडीचे. तमाशाक ते मजा अशेंय म्हणटाले. भाऊ बापू मांग-नारायण गावकर आनी शिवा-संभा कौलापूरकर म्हणल्यारच काळू-बाळू हेवूय ताचे आवडीचे आशिल्ले.

दादाची शिक्षणीक आनी समाजीक फाटभूंय लक्षांत घेतली जाल्यार ताका जलसो आनी तमाशा आवडप सभावीक आशिल्लें. मात पं. भीमसेन जोशी आनी गुलाम अली हांचें गायन लेगीत मन लावन आयकतालो. सितारादेवी हो तांचो वीक पॉयंट आशिल्लो. सितारादेवीचें नृत्य पळयतना दादाचें खोसदिणें मुखामळ नियाळटनाचो अणभव विलक्षणच आसतालो. फुडल्या जल्मांत हांव सितारादेवी वांगडा लग्न जातलों अशें तो विनोदान म्हणटालो.

१९७०त दादा सेवानिवृत्त जालो. उपरांत ताका रोखडोच काळजाचो आताक आयलो. तो वेळ मेरेन तो विडयो ओडी. दोतोरांनी तांकां विडयो ओडपाचें सोडून

दिवपाचो सल्लो दिल्लो. 'चलीस बरस के दोस्त को ऐसे कैसे छोड सकते हैं?' हे सबबीचेर ताणें तो धुडकावन उडयलो. मागीर दोतोरांनी सुचयलें, ''विडयांच्या जाग्यार उण्यांत उणे ताका बऱ्या दर्ज्याचीं सिगारां तरी ओडपाक लायात''. जालें, व्हडलो भाव रोखडोच ५५५ स्टेट एक्सप्रेसाचीं पाकिटां घेवन आयलो.

तो दीस म्हज्या बरोच उगडासांत उरला. सदचे भशेन घरांत गांवां कडलो एक सोयरो दादा कडेन गजाली करपाक येवन बशिल्लो. तलफ येतकच दादान ५५५चें पाकीट काडलें. ताका तें उगडपाक जमना जालें. मागीर थोडी झटापट करून ताणें तें सोमतेंच फोडलें. आपणाक एक सिगार घेतलें, एक 'पावन्या'क दिलें. दोगांयनी आपालीं सिगारां फुसकायलीं. एकेक झुरको मारलो आनी एकामेकां कडेन पळोवन 'कुछ दम नही' अशा अर्थान मान हालयली. आमी चाट पडले. दिनेशाच्यान रावंक नजो जालें. ताणें म्हणलें,

''आरे दादा, हें सिगार इंग्लंडाचे राणीचे ऑर्डरीन तयार केलां आनी तुमी म्हणटात, कांय दम ना म्हूण. अशें कशें?''

ताचेर दादान दिल्ली जाप ताच्या सभावाची पुराय गवाय दिवपी आशिल्ली. ताणें म्हणलें,

''ते इंग्लंडचे राणयेचें म्हाका कांय सांगूं नाका. इंग्लंडचे राणयेन म्हजी शिवाजी विडी केन्ना पेटोवन पळयल्या व्हय? जर केन्ना तिणें म्हजी शिवाजी विडी ओडली तर हें तुमचें सिगार ती भायर मोखतली''.

आतां हाचेर कोण कितें उलयतलो?

तांचे पिळगेंतल्या हेरां प्रमाण दादाकय नव्या फॅशनीचो तिटकारो आसतालो. आपले पिराये वांगडच्यां परस तांचो दृश्टीकोण मात बरोच खिळाडू वृत्तीचो आशिल्लो. १९७०च्या सुमाराक तरणाट्यो चलयो पॅण्टी घालपाक लागिल्ल्यो. ताचेर प्रतिक्रिया उकतायतना ताच्या इश्टान म्हणलें,

''आयला, या आवा आता प्यांटी घालीत्यात. मागून पायलं तर समजत बी नही आवू हाये का गडी मानूस हाये?''

दोळे मिचकायत दादान ताका समजायलो -

''समोरून पायलं तर कळतं ना? मग बास झालं''

अर्थांत केन्ना केन्ना तांचेय सोंशीकतायेचो मरणकाळ जातालो. सामकें हालींच्या काळांतय आपणाल्या नातवाक नवीच जिन्स हाडून मुद्दाम ती पिंजून तशी

घाल्ली पळयतना, ‘‘हये गरिबीचं सोंग आनायची गरजच काय?’’ हो तांकां पडिल्लो प्रस्न अर्थहीन अशें म्हणपाक मात जावचें ना.

दादालीं मतां बरोबर आसूं वा चुकीचीं आसूं, तीं ठाम स्वरुपाचीं आसतालीं. तेच भशेन कोणालीच भीडमुर्वत बाळगिनासतना परखडतायेन आपले विचार मांडपाची ताची प्रवृत्ती. ताका लागून जायते फावटीं आमच्या भावंडांची पंचाइत जावची. एक फावट खंयचे तरी कार्यावळींत एका जिल्लोधिकाऱ्या कडेन ताची भेट घडली. संभाशण करतना कसलो तरी वाद निर्माण जालो. दादा त्या जिल्लोधिकाऱ्याक तावातावान आपलो मुद्दो पटोवन दिवपाचो यत्न करूंक लागलो. कलॅक्टरसायबान ताचें म्हणणें शांतपणान आयकून घेताले. मात ‘राजा परस राजनिश्ठ’ आशिल्ले भोंवतणचे मंडळीक तें सहन जालें ना. ओबडधोबड दिसपी हो गांवडळ मनीस आपल्या कलॅक्टरसायबां कडेन अशे अरेरावीन उलयता म्हणजे कितें? तांचे मदल्या एकल्यान दादाक कुशीक व्हरून शेडावपाचो यत्न केलो.

‘‘जाधव, तुमी कोणा कडेन उलयतात? कलॅक्टरसायब ते’’.

दादान ताचे कडेन पळयलें, कलॅक्टरसायबां वटेन नदर मारली आनी कार्यावळीक जमिल्ल्या सगळ्यांक आयकूंक येतलें अशा खणखणीत आवाजांत म्हणलें -

‘‘आरे,हा सायेब कलेक्टर असेल. पन मी कलेक्टरचा बाप हाये’’.

परतून बाप आयलोच. मजा म्हणल्यार योगायोगान ज्युस्त त्याच वेळार आमचो व्हडलो भाव जे. डी. परभणी जिल्ल्याचो कलॅक्टर आशिल्लो. दादालें विधान सामकें खरें आशिल्लें. ताका लागून ताका आगंतूक सल्लो दिवप्याक फुडें उतरां फुटलीं नात. आमकां भावंडांक मात खंय पळोवचें तेंच कळना जालें.

सेवेंतल्यान निवृत्त जातकच दादा परतून परतून दुयेंत पडपाक लागलो. असल्या वेळार ‘अॅडमिट’ जावप म्हणल्यार बोरीबंदर स्टेशना लागच्या सेंट जॉर्जिस हॉस्पिटलाच्या नर्सिंग होमाची ताची निवड आसताली. थंय वॉर्डबॉय धरून दातोरां मेरेन सगळ्यां कडेन ताची इश्टागत. ताचो मनमेकळो सभाव थंय सगळ्यांक आवडटालो. थंयच्या नर्सींक तर तांणी काळी, नकटी, बुढ्ढी, जाडी अशीं टोपण नांवांय दिवन उडयिल्लीं. तांकां तो ह्या टोपण नांवांनी उलोय मारी. मजा ही,

कोणाकच हाचो राग येनासलो. जिका काळी म्हणटाले ते नर्सीन एक फावट ताका उगडास करून दिलो -

"बाबा, तुमीय बी काळेच आसात!"

दादा म्हणपाक लागलो -

"ते बरोबर हाये. पन तुझ्या सारका आर्धवट काळा नाही. माझा काळा रंग म्हंजे कसा एकदम पक्का. रंग जायगा तो पैसा वापस. काय?"

तिका आनी जाप ना जाली.

१९७२ च्या सुमाराक ताचें व्हडलें ऑपरेशन जालें. एक किडनी काडून उडोवची पडली. त्या वेळार सेंट जॉर्जिसांत रातचें ताच्या सांगाताक रावपाक हांव वतालों. एके सांजवेळा हांव थंय पावलों जाल्यार अजापान तटास! ताचे भोंवतणीं पांच-स नर्सी कोंडाळें करून बशिल्ल्यो आनी एक मल्याळी नर्स ताका 'काय ग सखू' हें गीत अभिनया सयत गावन दाखयताली. दादाचो 'चार्म'च असो जगावेगळो आशिल्लो.

एक फावट म्हज्यो कांय इश्टिणी म्हज्या घरा येवपाच्यो आसल्यो. वगीच पंचायत जावची न्हय म्हूण हांवें ताका दादाची पासयेक वचपाची वेळ साधून आपयिल्लें. तांच्या येवपाची वेळ जाली. तरी दादाचीं पासयेक वचपाचीं चिन्नां कांय दिसनात. दादान सामकी सुसेगादीची बसका घेतिल्ली. निमाणें रावं नजो जावन हांवें विचारलें -

"दादा, आयज आपको घुमनेको नहीं जाना है क्या?"

ताका कसो सुगाव लागिल्लो कोणाक खबर! हांसकुरेपणान दोळे मिचकायत दादान म्हणलें -

"छोटुमियाँ, जरा हम भी तो देखें कौन आ रहा है?"

किंकर्तव्यमूढ म्हणल्यार कसली मानसीक आवतिकाय आसता तें म्हाका कळ्ळें तें त्या वेळार. अर्थात म्हाका मेळपाक आयिल्ल्यो म्हज्यो इश्टिणी घरा येतकच म्हजे कडेन पुराय आडनदर करून दादा कडेन गजाली करपांत रंगून गेल्यो हें आनी सांगपाक जाय!

म्हज्या लग्ना आदीं म्हज्या लग्ना संबंदीची चर्चा घरांत आत्र्यापयऱ्यान जायत आसताली. म्हज्या स्वतंत्र विचारांचे वृत्तीची कल्पना आशिल्ल्यान काय कितें,

पूण म्हजी निवड हांव आपूणच करतलों हें सगळ्यांनी गृहीत धरिल्लें. कोणातरी सोयऱ्यान सुचयिल्लें -

"भाऊ आपलेच जातची एखादी गरीब चली पळोवन तिचे कडेन लगीन कर. म्हणजे आपल्या एका कुटुंबाचें कल्याण जातलें".

हाची जाप म्हाका दिवची पडली ना. दादान ताचो समाचार घेतलो -

"वो शहाने, दुसऱ्या कोनाचं कल्यान करायला मानूस लगीन करतो का काय? तुमी म्हंता तसं करून येका कुटुंबाचें कल्यान होईल. पन सगळ्यायचं कल्यान करायला हा आपला सगळ्या पोरीयशी लगीन करनार का काय? लगनामदी याने जोडीदार निवडायचा. मग तो गरीब असो किंवा शिरीमंत".

ही भासाभास अशीच वाडत गेली. उपरांत दादानच चर्चेंत 'ट्रॅक' बदल्लो. अचकीत ताणें म्हणलें -

"तूं स्वताला सामाजिक कार्यकरता म्हनवतोस ना? मग एखाद्या भंग्याच्या पोरीशी लगीन करून दाखव".

हांवें विचारलें -

"दादा लगीन करतना जोडीदार निवडपाचो काय ताची जात?"

दादा एकदम भानार आयलो.

"हां. ह्ये म्हननं बराबर हाये. समजून-उमजून जोडीदार निवडायला पायजे. जोडीदार बराबर नसेल तर सौंसाराचा गाडा नीट चालू शकत नाही. माझं येकच सांगनं हाये, तू ज्या पोरीला जोडीदार म्हनून निवडशील, तिची जात काही असली तरी तू मागंपुढं पाहू नकोस".

खऱ्यांनीच हावें फाटफुडो पळयलो ना. जिणेची सांगातीण म्हूण हांवें निवडिल्ली वसुंधरा, दादाच्या हिशोबांत 'वयले' जातची आशिल्ली. मागीर मात दादा थोडोसो अस्वस्थ जालो. ताणें म्हणलें -

"आरे, ह्ये लोक आपल्या पोरायशी लगीन करत्यात, कारण त्यान्ला हुंडा वाचवायचा असतो म्हनून".

हांवें सांगलें -

"ह्या लोकयच्या बाबतीत तसं हाये आसं मला वाटत नही. पन समजा, तसं असेल, तर तेच्यात आपला तोटा काय? आपुन हुंडा घ्येनार होतो का? नही ना? मग आपलं नुकसान काय?"

दादाक तें तत्काळ पटलें. मात हांवें केल्ली निवड विचार करून केल्या

काय कितें हाची ताणें बारीकसाणीन चवकशी केली आनी आपली खात्री पट्टकच ताणें आमच्या मोगान जातल्या लग्नाक खोशेन मान्यताय दिली. तशें पळयल्यार घरांतल्या बाकीच्या कांय जाणांची समजूत घालपाकच म्हाका थोडें कठीण पडलें.

दादाल्या पुर्विल्ल्या विचारांची प्रचिती पावलापावलाक येताली. सुनांनी नोकऱ्यो करच्यो न्हय असो तो मेरेनचो आमच्या घरांतलो संकेत. कोणाचो जरी ताका कट्टर विरोध नासलो तरी आपले बायलेन नोकरी करची असो खंयच्याच भावाचो आग्रोय नासलो. हाच्या उरफाटें दादांलें मत आशिल्लें, बायलांनी आपलें स्वतंत्र व्यक्तीमत्व सांबाळचें, दिसता जाल्यार नोकरी करची. तातूंत म्हजी बायल वसुंधरा डॉ. आंबेडकरांनी थापणूक केल्ल्या सिद्धार्थ कॉलेजींत प्राध्यापकी करतली म्हणल्या उपरांत तिचे परस ताचेच उमेदीक आवर घालपाक कठीण पडलें.

सेवानिवृत्ती उपरांत, घरा कडेन वेळ कसो पासार करचो हो ताचे मुखार व्हडलो प्रस्न आसलो. वाचन करप कठीण वतालें. ते भायर तांत्रीक कामां करपाक आयुश्य गेल्ल्यान 'रिपेरींग' करपाचेर ताचो भर आसतालो.सामकी वेवस्थीत चलपी यंत्रां लेगीत तागेल्या 'रिपेरींगा'च्या कचाट्यांतल्यान सुटनासलीं.

एक दीस सकाळीं फुडें म्हाका म्हणपाक लागलो -

''छोटुमियाँ, ये अलाराम घडी बहोत जोरसे टिकटिक आवाज करती है''.

ताच्या प्रस्नाचो रोख लक्षांत येवन हांवें म्हणलें -

''दादा, तें घडयाळ वेवस्थीत चलता. ताचो आवाजय बी आदीं येतालो तितलोच येता. तरी तुका तें रिपेर करपाचें आसल्यार जरूर कर''.

म्हजें वांकडें उलोवप 'सिरीयसली' घेवपाचे मनस्थितींत तो नाशिल्लो. ताचो निश्चेव जाल्लो. ताणें तें घडयाळ निखळून उडयलें आनी घांसून पुसून ताची परतून जोडणी केली. केन्ना काळा तो घडयाळी रिपेर करपी आशिल्लो हें खरें. पूण आतां सराव गेल्लो. तातूंत नदर दुर्बळ जाल्ली. ताका लागून जावपाचें तेंच जालें. हरशीं वेवस्थीत चलतलें तें घडयाळ बंद पडलें. सामकेंच रावना जावन हांवें ताका म्हणलें -

''बाकी कितेंय म्हण दादा, त्या घडयाळाचो आवाज सांगिल्ले प्रमाण तुवें बंदच करून उडयलो!''

ताका वायट दिसलें.

'आतां आदल्या काळा प्रमाण घडयाळां करिनात' अशें कितेंशें तो पुटपुटलो. मागीर म्हाकाच वायट दिसलें. ते उपरांत आमी सगळ्यांनीच ताचें 'रिपेरिंग'चें पिशें समजून घेवन खेळकर वृत्तीचो दृश्टीकोण आपणायलो.

जाण्टे पिरायेर तो केन्नाय तिडकतालो. पूण तिडकलो जाल्यारय आदले भशेन ताचो 'जमदग्नी' जायनासलो. असल्या वेळार तो ल्हान भुरग्यां भशेन गाल फुगोवन रागार जावन बसतालो. चूक कोणाचीय आसूं, पूण ताची मनधरणी करपाची जापसालकी म्हजी आसताली. 'शेंडेफळ' म्हूण आसत वा आमच्या दोगां भितर जी एक वेगळी 'कॅमिस्ट्री' आशिल्ली ताका लागून आसत, पूण ताका समजावपाचें काम भावंडां भितर म्हजे कडेन येतालें हें खरें. अशे परिस्थितींत म्हजो रामबाण उपाय म्हणल्यार सरळ वचून ताचे पांय धरून भोगसणी मागप. ताका तातूंतलें नाटक कळटालें. मागीर खीणभरयांत आपणाल्या बोळक्या तोंडान मुमुरख्यां हांसपाक लागतालो. 'तुम साला एक नंबरका बदमाश हय' अशें ताणें म्हणलें काय समजुपाचें, आतां ताचो राग गेलो.

दादाचे जाण्टे पिरायेचेर आमच्या दोगां भितर जी एक वेगळी 'कॅमिस्ट्री' तयार जाल्ली ताका लागून बापूय-पुताच्या नात्याचेर सभावीकपणान पडटल्या बंधनांचो केन्ना केन्ना म्हाका विसर पड. परिणामी, केन्ना केन्ना ताचे कडेन उलयतना, श्रद्धाविरयत हांव नाका तितल्या मेकळेपणान वागतालों. उलयतां उलयतां हांवें अकस्मात म्हणलें,

"दादा, बरें जालें तुमी तें 'फॅमिली प्लॅनिंग' केलें ना तें".

चुकून हांव ताच्या खाजगी जिवितांत घसरिल्लों. ताका तें बरेशें रुचलें ना. ताचो चेरो गंभीर जालो. कडवटपणान ताणें विचारलें -

"कित्याक रे बाबा?"

हांवें म्हणलें -

"आवो दादा, तुमी 'दो या तीन'चेर थांबिल्ले जाल्यार हांव जावचों नासलों".

ताच्या चेऱ्या वयली गंभीरताय खीणभरयांत विरगळून गेली. आपलें बोळकें दाखयत तो मन सोडून हांसलो. वयल्यान 'तुम साला एक नंबरका बदमाश हय' म्हणून ताणें ताळी दिली.

दादाली बुद्द सर्वस्पर्शी आनी सर्वव्यापी. मागीर दादा-बाईचे मतभेद जाले

नात जाल्यार अजापच. तांचीं झगडीं म्हणल्यार आमच्या सगळ्यांचो मनरिजवणेचो विशय. इतलेंच न्हय,तर तांचे मतभेद जायनासले जाल्यार हांवेंच ते जायतेदां घडोवन हाडचे. काम सामकें सोंपें. आईक तिडावपाचें आसल्यार म्हणचें,

"तूं इतली गोरी गोमटी, मागीर ह्या असल्या काळ्या मानसाशी लगीन कशें कितें केलें?"

बस्स, इतलीच सुरवात जायना फुडें दादाक परतो सल्लो दिवपाचो, "ये बुढी बहोत खिटपीट करती है, आप इसको छोडके दुसरी शादी क्यों नहीं करते?"

ते उपरांतचीं दोन वरां मनरिजवणेचो उणाव नासतालो. अर्थात हीं झगडीं लाडीगोडीचीं आसतालीं. ताचे फाटल्यान दाटून आसतालो तो अमर्याद मोग हाची आमकां सगळ्यांक पुराय जाण आसताली. आई आत्र्यापयऱ्यान नाशिकाक वताली. तिची परतुपाची गाडी चार वरांचेर मुंबय पावपाची आसल्यार दादा बारा जातनाच कोट, तोपी घालून दादर स्टेशनार वचपाक तयार! मात एकामेकांक मेळटकच कसलें तरी निमित्त घडचें आनी प्लॅटफॉर्माचेर झगड्यांक सुरवात जावची, हें थारिल्लेंच.

भोवतेक सॅल्फमेड व्यक्तींचीं मतां आसचीं न्हय तितल्या ठाम स्वरुपाचीं आसतात. ताचे परस वेगळें कितें तांकां पटोवन दिवप सामकें अशक्य. हरशीं तर्कसंगत करपी दादाक दोन गजाली हांव केन्नाच पटोवन दिवपाक शकलों ना. एक खावपा विशीं आनी दुसरो वक्लाचे निवडीचे बाबतींत.

जाण्टेपणांत दरेकल्याची पचनशक्त उणी जाल्ली आसता. ते खातीर आहारांत थोडोभोव उणाव करीत वचचें हो म्हगेलो युक्तीवाद केन्नाच ताका पचलो ना. "कमी खाल्लं तर मला ताकद कशी येनार आणि मी बरा कसा होनार" हो आपलो मुद्दो तो निमाणे मेरेन मांडीत रावलो.

वक्लांचे निवडीचे बाबतींतय तीच गजाल. खंयचेंय नवें वक्ल हाडटकच दोन-तीन दिसांनी ताका सोद लागतालो, ताचो नंबर बरोबर ना म्हूण. मागीर घेऽऽ दोतोराचो उद्धार जावचो. ताका समजावपाचो हांवें यत्न करचो -

"दादा, वक्लाचो नंबर थारायताना दोतोर तुका वेगवेगळीं वक्लां लावपाक दिता. त्यावेळार तूं जें सांगता ताचे वयल्यान तो तुजो नंबर थारायता. मागीर तुजो नंबर चुकलो जाल्यार तातूंत दोतोराचो कसलो दोश?" ताचेर, "छ्या, अरे तो डॉक्टरच चक्रम होता". अशी त्या दोतोराची आनी त्या वक्लाची वासलात लागची. मागीर दोन-चार दिसांनी तागेली दादराक टिळक ब्रिजा कडेन पासय.

थंय रस्त्याचेर पोरणीं वक्लां घेवन बशिल्ल्या एखाद्या फेरीवाल्या कडलें वक्ल 'बराब्बर' फीट जाता म्हणपाचो अकस्मात ताका साक्षात्कार जावचो. मागीर दोतोरान ज्युस्ताज्युस्त तपासून दिल्लें नवें वक्ल उडोवन रस्त्याचेर घेतिल्ल्या नव्या वक्लाचो वापर जावचो. दोन-चार म्हयन्यांनी परतून नव्या वक्लाकारा कडेन नवे उमेदीन वचपाक दादा मोकळो.

हेर जायत्या सेवानिवृत्त लोकां भशेन ताचोय बी टिव्ही पळोवपाचेर भर. 'आमची माती आमची माणसं' धरून ताणें कळनाशिल्ल्या भासांतल्या प्रादेशीक चित्रपटां मेरेन सगळ्यो कार्यावळी पळोवच्यो. मुखेलपणान तमाशा आशिल्लो मराठी चित्रपट लागलो काय दादा खूश. हिंदी चित्रपटां बाबतींत मात पराकाश्ठाचो राग. हिरो-हिरोईनीचें एकामेकां फाटल्यान बागेंत पळप वा हेर धांगडधिंगाडो ताका अजिबात आवडनासलो. वयल्यान म्हणप, ''आरे मनशान आयुश्यांत कितें तरी करून दाखोवपाक जाय. हें कितें, फकत बायले खातीर मारामारी करतात. सगळे साले बायलपिसे. लग्न जाले म्हणजे हांचें काम जालें. हाच्या पासून कपलाचो बोध घेतले?''

सिनेमाक तो खेळ म्हणटालो. ''खेळ कसो जाय? धाडसी! पळोवन रगत सळसळपाक जाय. ताका म्हणटात खेळ''.

एक फावट नव्यानच 'रिगला'क 'गन्स ऑफ नेवरॉन' लागिल्लो. अचकीत मनांत कल्पना रिगली. ताका जाय न्ही 'धाडसी' खेळ? चला, ताका तो चित्रपट दाखोवया. ताची कथा ताका थोडे भितर सांगली आनी आमी दोगूच जाण तो चित्रपट पळोवपाक गेले.

''प्रौढत्वी निज शैशवास जपणे'' बी आमी म्हणटात तें खरें. पूण 'गन्स ऑफ नेवरॉन' पळयतना दादा भितरल्या 'शैशवाचें' जें दर्शन घडलें तें विस्मीत करपी आशिल्लें. 'गन्स' नश्ट करपाक दोंगरार चडपी ग्रेगरी पेकाचो पांय मातसो लेगीत निसरलो जाल्यार ''अरे, अरे, सांबाळ, बाबा सांबाळ'' अशीं उतरां. अँथनी क्वीन स्टेनगन घेवन दावे वटेनच्या जर्मन अधिकाऱ्याचेर नदर दवरून डाव दवरून बशिल्लो, तर उजवेवटेन एक जर्मन सैनीक दबिल्ल्या पावलांनी ताचेर चाल करून येता. आमच्या दादाची आरड, ''अरे इकडं बघ, इकडं बघ तिच्या आयला!'' चित्रपट पळोवपाक दादा पुराय रंगून गेल्लो आनी हांव ताची निरखणी करपांत गूंग जाल्लों. 'गन्स ऑफ नेवरॉन' हो चित्रपट लाखा वयर पळयणाऱ्यांनी 'एंजॉय'

केला आसतलो. मात तो पळयनासतनाय इतलो अवर्णनीय आनंद मेळोवपी म्हजे सारकेलो पळोवपी वेगळोच.

भारत सरकाराची 'राष्ट्रीय शिश्यवृत्ती' मेळोवन १९८१त हांव अर्थशास्त्रांत पी.एचडी. करपाक अमेरिकेक वचपाक गेलों. त्यावेळार दादाली भलायकी इबाडिल्ली. नदर उणी जाल्ली. जायत्या पिळग्यांचो इतिहास मात ताचे नदरे मुखा वयल्यान लख्खपणान झळकत वतालो आसुंये. वर्णू नजो इतली खोस ताका जाल्ली दिसताली. ताणें इतलेंच म्हणलें -

"गांवची शीम सांबाळपाक म्हज्या बापजाद्यांचें आयुश्य गेलें. आतां म्हजो पोर सगळ्या देशाची शीम हुपून शिक्षणा खातीर अमेरिकेक वचपाक भायर सरला. म्हाका सगळें मेळ्ळें. आतां हांव वयर वचपाक मेकळों".

खरें म्हणल्यार, तीन-चार वर्सांनी हांव परतून येतलों तेन्ना दादा जितो उरत काय ना हे कल्पनेन म्हजें मन वयर सकयल जाल्लें. कितें तरी उलोवंक जाय म्हूण हांवें म्हणलें -

"ऐसा कैसा चलेगा दादा? अभी तो दुसरी शादी करनी है ना".

त्या विनोदा फाटली आगतिकेची भावना ताका स्पश्ट जाणवल्ली आसुंये. ताणें म्हणलें -

"अरे, हम तो भूल ही गया था. अगर तुम्हारा ऐसा विचार है तो हम नही मरेंगे".

तागेली जबर इत्साशक्त. मदल्या काळांत खूब फावटीं ताका काळजाचे झटके येवन गेले. तरीय तो खचूंक ना. १९८४त हांव अमेरिकेंत आसतना ताका आयिल्लो आताक तर इतलो व्हड आसलो, दोतोरांनी सांगून उडयलें, "चडूच तर कांय वरां जगतले!" सगळ्यांनीच आस सोडली. दादा मात हार मानून घेवप्यां पैकी नाशिल्लो. म्हज्या एका भावाक - दिनेशाक म्हणपाक लागलो, "भियेवं नाका, छोटू यो मेरेन हांव मरचों ना".

बेगिनात बेगीन दिनेशान म्हाका अमेरिकेक फोन लायलो. हांवें रोखडेंच मुंबय घालून घेतलें. विमानतळारसून थेट सेंट जॉर्जिस हॉस्पिटलांत. हांव अमेरिकेंतसून आयिल्ल्याचो तांणी धसको घेवचो न्हय म्हूण ताका सांगलें रिझर्व बँकेच्या कामाक लागून भारतांत येवचें पडलें. देखून वाट वांकडी करून मुंबय आयलों. ताका अशें सांगलें खरें, पूण म्हजें फट उलोवप ताच्या लक्षांत आयलेंच. ताणें म्हणलें -

"तुम साला एक नंबरका बदमाश हय. कायको वापस आया? तुम जब तक डिग्री लेके वापस नहीं आयगा तब तक हम मरनेवाला नहीं है. तुम जाओ. अपनी पढाई करो".

अनपेक्षीतपणान, अमेरिकेच्या इंडियाना विद्यापीठान, म्हाका सर्वोत्कृश्ट आंतरराष्ट्रीय विद्यार्थी म्हूण १९८५ वर्सा भोवमानीत केलो. पुरस्कार घेवन हांव घरा आयलों. बायलेक आनी भुरग्यांक ही खोशेची गजाल सांगतना म्हजे दोळे भरून आयले. सोंसूं नजो इतलो उगडास आयलो दादाचो. मनांत विचार आयलो, ह्या पुरस्काराचे खरे मानेली म्हजे दादा. डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरांची 'सर्च फॉर एक्सलंस'ची शिकवण आमच्या भावंडांच्या मनांत कोणें रुजयली आसत जाल्यार ती दादान. दिसलें, आयज दादा जाय आसलो. इतलीं वर्सां अमेरिकेंत रावतकच म्हाका एकलेपण जाणवलें तें त्यावेळार. त्या खिणाक बाकीच्या खंयच्याय गजालीं परस दादालो 'भले शाब्बास'चो फाटीचेर धपाटो जायजायसो म्हाका दिसतालो.

डॉक्टरेट घेवन हांव १९८६त मायदेसांत परतलों. त्यावेळार तांची भलायकी जाम जाल्ली. बुद्द मात अतिशय साबुद्देर. सामके निमाणे मेरेन तांणी विचारीक प्रगल्भतायेन बाकीच्यांक अजापाचे धक्के दिवपाचे सोडलें ना.

हांव निकतोंच परतो आयिल्लों. म्हाका ताणें संशोधना विशीं विचारलें. आतां अर्थशास्त्रा सारकेल्या क्लिश्ट विशयांतलें संशोधन सोंपे भाशेन समजावन सांगप सामकेंच कठीण. तरीय तागेल्या समाधाना खातीर हांवें म्हजे परीन यत्न केलो. ताचो फुडलो प्रस्न आसलो, "याचा सामान्य मानसाला उपेग काय?"

अर्थशास्त्रांतल्या विद्वानपंडितांक जाचो परत परत विसर पडटा नेमक्या त्याच वर्मार ताणें बोट दवरिल्लें. हांव अजापलो. मागीर ताणें म्हाका शिटकायलें -

"तू जो अभ्यास करशील, संशोधन करशील, त्याचा सत्यावरच्या सामान्य मानसाला उपेग होनार नसंल तर ते सगळं झूठ हाय".

ऑफिसांतल्यान परततकच रातच्या उसरां मेरेन म्हजें वाचप, लिखाण, संशोधन नेमान चालू आसता. म्हजे सादेभोळे आवयक हाचें मोटें अजाप जातालें.

"तू आता येवढी बुकं वाचले, फॉरीनला जाऊन येवढी मोठी डिग्री घेऊन आला, मग आता आनखी कायाचा येवढा अभ्यास करायचा? जिवाला जराशी

इसरांती नको का?''

हाचें स्पश्टीकरण म्हज्या वांट्याचें दादान केलें -

''सोने, तू तर गध्धडच रायलीस. आगं, डिग्री मिळाल्यावर अभ्यासाला जास्ती जोर यायला पायजे. ही डिग्री म्हंजी ड्रायविंगच्या लायसनसारकी आसती. लायसन मिळाल्यावर ड्रायवर गाडी चालवायचं बंद करतो का? तसंच हे हाये. आता छोटुमियाँच्या संशोधनाची गाडी कशी पळते ते पाहायचं''.

डॉक्टरेटचे डिग्री विशीं इतलें ज्युस्ताज्यूस्त 'परस्पेक्टिव' अमेरिकेंतलो एखादो निपूण प्राध्यापक लेगीत दिवपाक शकला आसतलो काय कितें हाचो दुबावूच. कित्याक तर शाळेच्या संवसारांतल्यो खंयच्योच डिगऱ्यो मेळोवंक नाशिल्लो दादा शाळेंतल्यो समस्त डिगऱ्यो अक्षरशा कोळून पियेल्लो.

कांय म्हयने गेल्या उपरांत दादान म्हाका म्हऱ्यांत आपयलो, गंभीर चेरो, अचकीत म्हणपाक लागलो -

''बाबासाहेब डिग्री घेऊन विलायतवून परत आले तवां त्यान्ला पायजे तशी नवकरी मिळाली आस्ती, पन त्याइनी आपल्या लोकांची चळवळ सुरू केली. तूबी अमेरिकेतून डिग्री घेवून आलास मग बँकाची नवकरी कशाला करतोस?''

''दादा, बाबासाहेबांची गजाल वेगळी. ते देवाचे सुवातेर आशिल्ले. हांव तर सामान्य मनीस''.

''ह्य म्हननं मला पटत नाही. तुज्या सारख्या शिकल्या-सवारलेल्या तरून मंडळींनी राजकारनात जावून लोकांची शेवा केली पायजे''.

कितें तरी उलोवपाक जाय म्हूण निमाणें हांवें म्हणलें,

''दादा, हालीं राजकारणांत वचून कोण लोकांची सेवा करिना. ते दीस गेले. आतां राजकारणांत गुंडांचोच भरणो चड''.

दादा तसो ओगी रावप्यांतले न्हय. ताणें म्हणलें -

''तो क्या हुआ, छोटुमियाँ, तुमी बी तो साला एक नंबरका बदमाश हय''.

हाचेर म्हजे कडेन जाप नासली.

दादाच्या जिवितांतली पयलींचीं धा वर्सां सोडल्यार उरिल्लीं सात दसकां मुंबय गेलीं. अजाप म्हणल्यार, इतलेंय जावन गांवचे मातयेची ओड तश्शी उरली. गांवचो अभिमान निमाणे मेरेन तिगून उरलो. अमेरिकेंतसून परततकच मुंबय

दूरदर्शनाचेर म्हजी एक मुलाखत जाली. ती पळोवन दादा खोशी जातले ही म्हजी सभावीक अपेक्षा आसली. पूण घडलें तें उरफाटेंच. सांजवेळा घरा यो जाल्यार दादा गाल फुगोवन बशिल्लो. हांव गोंदळ्ळों. म्हणलें -

"दादा, मुलाखत आवडूंक ना काय कितें?"

तरीय वगीच. ल्हवल्हव हांवें तांकां उलोवपाक लायलें. निमाणें ताची खंत उकती जाली -

"तू तुझी वळख बराबर नाही करून दिली. नुस्तं नाव सांगातलं. नीट सांगायचं, माझं नाव अमुक तमूक, गाव ओझर (मिग), तालुका निफाड, जिल्हा नाशिक".

आतां हाचेर हांव आनीक कितें उलयतलों!

आपणाल्या तरणेपणांत दादा भाविक आशिल्लो, भजनमंडळींत लेगीत ताचो आसपाव आसूंक जायशें दिसता. पूण म्हज्या पळोवपांतलो दादा मात पुराय नास्तीक आशिल्लो. आमचो नास्तीक दादा जराजर्जर जाल्लो तेन्ना अचकीत शिर्डीच्या साईबाबांचें दर्शन घेवपाच्यो गजाली करपाक लागलो. आमकां सगळ्यांक अजाप दिसलें. थोडोसो सोद घेतल्यार तातूंतली मोख लक्षांत आयली. शिर्डीक वचपी रस्तो नाशिक जिल्ल्यांतल्या आमच्या गांवांतल्यान वता. ताका वचपाचें आशिल्लें ओझराक, आपल्या जल्म गांवांत.

मागीर एक दीस दादाक गाडयेन ओझराक व्हेलो. सांगाताक घेऽऽ म्हूण नातरां. आपल्या नातरांक गांव दाखयतना, आपल्या भुरगेपणांलीं खेळपाचीं ठिकाणां दाखयतना मदलो सत्तर वर्सांचो काळ दादा विसरून गेलो. गांवांतल्यान तांचीं पावलां उखलनासलीं. मुंबय वचपाक ताका कशेबशे तयार करचे पडलें.

दादाक काळजाच्या दुयेंसाचे बरेच झटके येवन लेगीत ताणें काळजाच्या दुयेंसाक दाद दिली ना. निमाणें ताका कॅन्सरान पिडले. प्रकृती इबाडत गेली. त्यावेळा रिझर्व बँकेचे वतीन इथियोपियन सरकाराचो अर्थीक सल्लागार म्हूण म्हजी प्रतिनेमणूक जाल्ली. तो जेन्ना खूबच सिरीयस जालो तेन्ना सुटी घेवन हांव अदिसअबाबासान रोखड्या रोखडो मुंबय परतलों. तो मरणा कडेन झुजतालो. तरीय तागेलो विनोदी सभाव जागो आसलो. म्हणपाक लागलो -

"तुम साला अमेरिका जा के गोरा नही हुआ और अबी आफ्रिका जाके काला नही हुआ".

तेवूय आवतिकायेंत म्हाका हांसपाक आयलें. म्हणलें -

"क्या करेगा दादा, तुम्हारे जैसा हमारा रंग भी पक्का है ना? रंग जाएगा तो पैसा वापस".

कश्टांनी भरिल्ले आपणाले जिणेंतल्या दरेका कठीण अणभवांतल्यान दादा शिकत गेलो आनी तातूंतल्यानच तागेलो जिविता विशींचो दृश्टीकोण चडांत चड विशाळ जायत गेलो. डॉ. आंबेडकरांचो तो खरो अनुयायी. 'शिकात, संघटीत जायात आनी संघर्श करात' हो बाबासाहेबांचो संदेश आपल्या जिवितांत ज्युस्ताज्युस्त आपणावपाचो ताणें मना सावन यत्न केलो.

सामके आडमेळ्यांचे आवतिकायेंतल्यान ताणें आपणाल्या इत्साशक्तीच्या बळाचेर सुखाचे दीस ओडून हाडले. तागेले उदरगतीचो आलेख सतत वयर चडत गेलो. अर्थांत आमच्या कुटुंबाची शिक्षणीक, अर्थीक आनी समाजीक उन्नती हीच तांची उदरगत. आपणाल्या भुरगेपणांत आनी तरणेपणांत गरिबीक लागून ज्यो ज्यो गजाली मेळपाक पावल्यो नात त्यो सगळ्यो ताणें जाण्टेपणांत अणभवल्यो. पुराय समाधानी आनी संपन्नतायेची जीण तो जगलो. अठरा वर्सां ताणें फकत एका मुत्रपिंडाचेर काडलीं. दोन फावटीं आरीच्या दुयेंसान ताचें तोंड धरिल्लें. आनी काळजाच्या दुयेंसाचे पांच झटके ताणें पचयिल्ले. पूण ताची वृत्ती सदांच समाधानी आनी खोसदिणी उरली.

आमी भावंडां जेन्ना ताच्या फाटल्या जिविताचेर नदर मारतात त्या वेळार ताणें उसपिल्ल्या कश्टांची आनी त्यागाची तर जाणीव जाताच, पूण ताणें गरीबकायेचें केन्ना उदात्तीकरण केलें ना हेंवूय लक्षांत येता. खूब कश्ट करचे, धन कमावचें आनी ताचो पुराय उपभोग घेवचो अशी तागेली धारणा आसली.

हे सगळे फाटभुंयेर आमी भावंडां जेन्ना स्वताचो विचार करतात तेन्ना अशें जाणवता, दादा केन्ना शाळेंत वचूंक नासलो तरी तो सुसंस्कत आनी सुशिक्षीत आसलो. हाच्या उरफाटें आमी उच्चविद्याविभूषित आसूनय दादा कडेन तुळा केल्यार फकत साक्षर आसात. कवी नामदेव ढसाळांचे भाशेंत सांगपाक गेल्यार दादाचे तुळेंत आमकां जर कोणें प्रस्न केलो, 'तुही यत्ता कंची?' तर आमकां आमची 'यत्ता' सांगपाक येतलीच अशें ना.

१४ जानेवारी १९८९ ह्या दिसा दादान प्राण सोडलो. तागेल्या आवडीच्या सेंट जॉर्जिस हॉस्पिटलांत. मरणाच्या समयार आमी सगळीं भावंडां ताच्या म्हऱ्यांत

आशिल्लीं. जायत्या जाणांक दुस्वास दिसचो अशे तरेचें समाधान, शांतीकाय ताच्या चेऱ्याचेर मेले उपरांतय झळकताली. म्हजो म्हातारो मांव म्हणपाक लागलो -

“दादांक इत्सामरण मेळ्ळें. संक्रांतीच्या दिसा मरण येवप हाचे सारकें भाग्य ना. संक्रांतीच्या दिसा मरण येवचें म्हूण भीष्माचार्य कितलेशेच दीस शरपंजरी तग धरून रावले आनी निमाणें इत्सा मरणाच्या वरदानाक लागून संक्रांतीच्या दिसा मेले”.

पाप-पुण्याच्यो असल्यो कल्पना दादाक अजिबात मान्य नासल्यो. ताका इत्सा मरण फावो जालें हें मात खरें. दादा गेलो, पूण आमकां भावंडांक ताणें दिल्लें मनोबलाचें संचीत मात कोणूच झोपून घेवंक शकना.

जायतीं वर्सां परदेसांत राबितो जाल्ल्यान काय कितें पूण खावपाचे बाबतींत हांव खूबच ‘स्नॉबिश’ जाल्लों. रस्त्यार भेळपुरी वा वडापाव खावपाचें धाडस म्हज्यान करपाक जायना. पूण केन्ना केन्ना रेल्वेन वतना मात स्टेशना वयल्या होटॅलांत बुरसटिल्ल्या बरण्यांनी दवरिल्ल्यो नानकटायो दिसल्यो काय म्हज्यांतले सगळे बेगडी संस्कार गळून पडटात. म्हाका आजूनय नानकटाय खूब जायशी दिसता, कित्याक तर म्हज्या आडमुठ्या सभावाच्या बापाच्या मोगाची सगळी अवीट गोडसाण तातूंत एकवटिल्ली आसता.

दादा ही फकत एक व्यक्ती नासली, तर प्रयत्नवादी प्रवृत्ती आशिल्ली. समाजांतल्या दरेका घरांत, कुटुंबा कणकणी असले ‘दादा’ आसतात. खंयच्याच कुटुंबांतले दादा केन्नाच अस्ताक वचनात, ते चिरंजीव आसतात.

# मातोसरी

**"आरे, कलेटरची मातोसरी हायेमी"**

हें तिगेलें आवडीचें वाक्य. एका काळार आमच्या घरांतल्या आनी घरांत येतल्या समस्त ल्हान व्हडांक येतना वतना हें तिचेकडसून आयकुचें पडटालें. फुडें भाऊ (जे. डी.) चडट्या क्रमान उपसचीव, सचीव, प्रधानसचीव अशे वयले श्रेणींत पावलो तेन्ना मात ती पुराय गोंदळ्ळी. तलाठी वा मामलेदार सारकेल्या रावसायबांच्या बैलगाड्यां मुखार धांवतल्या आपणाल्या पुर्वजांची तिका म्हायती आशिल्ल्यान तिच्या मतान कलॅक्टर होच सगळ्यांत व्हडलो अधिकारी. आपलो चलो कलॅक्टरा परस व्हडलो जाला म्हणल्यार नेमको कोण जाला हें तिका कळनासलें. तातूंत 'शेक्रेटरीची मातोसरी' हातूंत 'कलेक्टरची मातोसरी'चो नेट येना, म्हणटकच तिणें मागीर आपलें पालूपदच सोडून दिलें.

तिचें नांव सोनाबाई. खरें पळयल्यार ती आमची आई. पूण आमी सगळीं जाणां भुरगेपणांतसून तिका बाई म्हणत आयल्यांत. कित्याक तर आमच्या घरांत आजेक आई म्हणपाची प्रथा आसली. तिच्या नांवांतल्या 'सोना' मदीं तसो खास अर्थ नासलो - खूब वर्सां मेरेन हातांत कथिलाचेच वाळे.

बाई कडेन दादा सारकी प्रतिभा ना. इतलेंच न्हय तर दादाल्या सर्वस्पर्शी बुदवंतकायेची झेप समजून घेवपाचीय कुवत तिच्यांत ना. पूण आपलो घोव कितें तरी वेगळें करता आनी झगडत झगडत कांय जायना, पूण ताका आपणें पुरायपणान सक्रीय वांगड दिवप हें आपलें कर्तव्य थारता आनी आपल्या कुटुंबा खातीर त्याग करपांत आपले जिणेचें सार्थक आसा हे भावनेंतल्यान बाई आमच्या सगळ्यां खातीर बुनयादीचो फातर जावन रावली. कोणें तरी म्हणलां न्हय?

"इट इज दी हेडलायट दॅट ॲट्रॅक्टस् दी अटेन्शन, बट इट इज दी अनसिन इंजिन दॅट डझ दी वर्क". आमच्या परिवारांतली दादाली सुवात आगगाडयेचे हेडलायटी वरी आशिल्ली. लक्ष ओडून घेवपी. पूण तेच बराबर दिशा दाखोवपी

लेगीत. अर्थात गाडयेची सगळी भिस्त सतत कार्यरत आसपी पूण भायल्यांतल्यान दिसना अशा इंजिनाचेर आसता. आमच्या घरांत बाईची सुवात ज्युस्त त्या अदृश्य इंजिना वरी आशिल्ली.

बाई म्हाका ध्रूव म्हूण पाचारता, उच्चारतना धुरवा जाता. आमच्या घरांत वा हेर कडेन कोणूच म्हाका त्या नांवान वळखना. ती मात म्हाका त्याच नांवान उलो मारीत आयल्या. म्हज्या जल्माच्या वेळार तिणें फळां विकपाचें सोडलें - तो मेरेन आमच्या कुटुंबाचे सांपत्तीक पांवडो थोडो सुदारला आसूंक जाय. पूण, ''धुरव जन्माला आला आन् त्यानं मह्या डोक्यावरची पाटी खाली उतरवली'' अशें म्हणून ती म्हाका वगीच स्नय दिता. असल्या सपनाळी समजणींतल्यान मेळपी फायदे लक्षांत घेतल्यार अर्थातूच हांव तिचें अडाणीपण पयस करपाच्या फंदांत पडलों ना हें वेगळें सांगपाची गरज ना.

म्हज्या भुरगेपणांतली बाई म्हाका याद जाता ती सतत झर झर झरपी. सकाळीं आमी भावंडां उठचे खूब पयलीं सावन तिचीं कामां चालू जाल्लीं आसतालीं आनी रातच्या खूब उसरां मेरेन तातूंत खंड पडनासलो. सकाळची शाळा आसतना स जायत सावन म्हजे सगळे सवंगडी इश्ट 'पाव-भटार' वाल्याची वाट पळयत ताटकळत उबे आसताले. आमी 'तसलें' खंयचेंय भायलें खावप हें बाईक सामकें मान्य नासलें. पत्र्याची बालदी कापून ताका मातयेन सारोवन तयार केल्ली एक शेगडी आमचे कडेन आशिल्ली. फांतोडेर चारांक उठून बाई ती शेगडी पेटयताली. त्या धुंवरान आमी दोळे चोळीत उठचें. मात तितल्या सकाळीं बाईन भाकऱ्यो थापून हुनहुनीत आमकां खावपाक दिवपाच्यो आनी मागीर आमचें शाळेंत वचपाचें जाताले.

बॉम्बे पोर्ट ट्रस्टाच्या नेमां प्रमाण घरांत पाळीव जनावर बाळगुपाक परवानगी घेवची लागताली. परवानगी तर मेळनासली, तेन्ना नेमाचो भंग करून बोकड्यो पाळप जातालें. एक दीस घडपाचें तेंच घडलें. अधिकाऱ्यांनी आपलो अधिकार वापरलो. आमच्या सगळ्या बोकड्यांक धरून तांकां भायखळ्याच्या कोंडवाड्यांत कोंडून दवरल्यो आनी आमचे आईक खंयच्या तरी स्मॉल कॉज कोर्टांत मॅजिस्ट्रेटा मुखार उबी केली. अडाणी लोक 'स्मॉल कॉज कोर्टा'क 'अडाणी मॅजिस्टर का कोडत' म्हणटात. कित्याक तर थंय कोणाकूच आपली बाजू मांडपाची संद दिनात. आमचे आवयची कोर्टांत वचपाची ही पयलीच खेप. अर्थात तिका हाची

कांयच कल्पना नासली. ताका लागून 'मॅजिस्टर साहेब' आपलें सगळें आयकून घेवन मनीसकायेचे नदरेंतल्यान नक्कीच आपणाक भोगशितले हो तिचो ठाम विस्वास. तिचें नांव सादयलें.

"बाई कितें, तुमी घरांत बोकड्यो दवरिल्ल्यो?"

"हा ठिवल्या सायेब, पन गरिबांना लागतात ना बकऱ्यो".

"धा रुपया दंड".

"सायेब, पोराबाळाला दुधासा..."

"पंदरा रुपया दंड".

"पन सायेब, गरिबायनी काय करावा?"

"वीस रुपया दंड".

आमची आवय अजापली. उतराकणकणी पांच रुपयांनी दंड वाडोवपी असो जबरदस्त सायब तिणें केन्ना पळोवंक नासलो.

'याला म्हनत्यात सायेब' ती आपणा भितर पुटपुटली. "मोह प्वार बी आसंच सायेब व्हायला पायजे".*

बाईची हिंदी मुंबयचे तालमींत तयार जाल्ली. ते खातीर, 'तुम निचू जाना मय पिछूसे आती हूँ' वा 'तुमने ये लडकेके कानफाडेमे कायकोच मारा' असलीं वाक्यां बिनधास्तपणान सहज उलोवन वताली. आपणाले ते 'तसले' हिंदींतल्यान म्हज्या जल्मा वेळा वयली एक घडणूक ती परत परत सांगता. दवाखान्यांतल्या तिचे शेजारचे खाटीर एक पंजाबी बाळंटीण आशिल्ली. पांच चलयां उपरांत तिका सवे खेप आनीक दोग जुवळ्यो चलयो जाल्ल्यो. अखंडीतपणान रडत तिणें म्हणचें, "हमारा मारद आबी हमको घरमे नही आनेको देयगा. तुम ये दोनो लडकियाँ लेव, अवर हमारेसे मंगता उतना पयसा लेव, लेकिन तुम्हारा बच्चा हमको देव". हांव भुरगेपणी बाईच्या मना आड वागत जाल्यार ती म्हाका ते घडणुकेचो उगडास करून दिताली.

"मला त्या बाईचं घर माहीत हाये बरं का. तू हा आसा आवचिंद्यावानी

---

* फुडें १९६६-६७त प्रांतीय अधिकारी आसतना जे.डी. डिस्ट्रिक्ट मेजिस्ट्रेटाचे अधिकार गाजोवपी अंमलदार जालो त्यावेळार, आपल्या भुरग्यान केल्लो न्याय निवाडो पळोवपाक तो बाईक घेवन मुजरत गेल्लो.

राह्यलास तर मी तुला त्या बाईला देऊन टाकीन आन् त्या पोरीयला घरी घ्येऊन येईल''.

असली धमकावणी मेळटकच म्हाका म्हजे तकलेर सरदारजीची पगडी चडयल्या आनी ताचे वयल्यान म्हगेले सगळे इश्ट म्हाका तिडायतात असो भास जावन हांव भंयान खपखपूंक लागतालों. पूण फुडें फुडें म्हाका बाईचो राग आयल्यार, ''तवाच गेलो असतो त्या पंजाबिनीबरोबर आन् झालो आसतो सरदारजी तर बरं नसतं का झालं?'' अशें तिकाच तिडकून सांगून गप्प करतालों ती गजाल वेगळी.

आमच्या भुरगेपणांत तिणें कृष्णाच्यो आनी पेंद्याच्यो काणयो रंगोवन सांगच्यो. बाईच्यो काणयो म्हणल्यार पद्यात्मक गद्य आशिल्लें काय गद्यात्मक पद्य आशिल्लें हो विशय संशोधनाचो. गाणीं गायतां गायतां सांगिल्ल्यो तिगेल्यो काणयो आनी खास करून त्यो खुलोवपाची तिची कळाशी आकांताळी प्रत्ययकारी आशिल्ली. पेंद्याचे फजेतीच्यो काणयो आमी भावंडांनी तिका परतून परतून सांगपाक लावच्यो. तिगेल्या काणयां मदली जिवाक हुलप लावपी काणी आसली चिलया बाळाची. चांगुणेची सत्वपरिक्षा पळोवपाक गोसायांच्या भेसांत आयिल्ल्या ब्रह्मा-विष्णू-महेश हे त्रिमुर्तीन ढोंगीपणान जेवणा खातीर चिलया बाळाची तकली कापून वाडपाचो आदेश दिना फुडें आमच्या घरांतलें वातावरण तंग जातालें. चिलया बाळाची तकली चांगुणेन वायनांत घालून मुसळान धाडावपाची. मात तें करतना आपल्या दोळ्यांतल्यान दुकांचो एक थेंबय गळूंक दिवचो न्हय हो अतिथी देवांचो हट्ट. हांगा आमचे दोळे डबडबीत जातात. चांगुणा सत्वपरिक्षेक पास जातकच मात अतिथी तिका आंगणांत वचून चिलया बाळाक उलो मारपाक सांगतात. चांगुणा भायर येवन सादयता.

''कडें तोड्याच्या बाळा,
बाळा, चिलया बाळा यो''
''सरी सरपळेच्या बाळा,
बाळा, चिलया बाळा यो''

आनी मागीर चिलया बाळ प्रकट जाता.

''येयलो धांवत पळत
माथ्यां जावळां उडयत''

चिलया बाळ जितो जातकच आमच्या जिवांत जीव येतालो. माथ्या वयले

भुरभुरीत केंस उडयत 'स्लो मोशना'त धांवत येवपी माणकुलो चिलयाबाळ आमकां आयजूय स्पश्ट दिसता.

बाईचो बरोचसो संवाद तसो गितांनी आसतालो.

"गटगटे रांधिले राती अन् धुरवासाटी" हें गीत म्हजे आवडीचें, तर "शक्या दिनकराला निजवते" हें पद आयकलें काय दिनेश दिसाचो लेगीत झेमपाक लागतालो. खूब तेंपान अमेरिकेक आसतना घरचो उगडास येतकच हांव हीं सगळीं गितां म्हणीत बसतालों. ताचेर वसुंधरेची प्रतिक्रिया आसताली. "आहो आतां कश्शाक तांकां न्हिदायतात. दिनकरराव आतां सुस्त न्हिदेंत आसतले".

भारतीय प्रमाणवेळ आनी अमेरिकन प्रमाणवेळ हाचे मदलो धा-साडेधा वरांचो फरक लक्षांत घेतल्यार ही वस्तुस्थिती आशिल्ली. पूण आपल्या घरा सावन हजारांनी मैल पयस आसतना मायेची विलक्षण उब त्या गितांतल्यान मेळटाली हेंवूय तितलेंच खरें.

बाई मनान सदोदीत वावरत आसता ती गितांतल्यान साकारिल्ल्या आपल्या पुराणीक संवसारांत. त्या आगळ्या वेगळ्या संवसारांतल्यान वेव्हारी जगांत येवपाक तिची मना सावन तयारी नासता.

"समधा प्रिथमीला शेष नागानं उचलून धरलेलं हाये" हो तिगेलो ठाम विस्वास. १९६९ तली नील आर्मस्ट्रॉंग चंद्राचेर पावलो त्यावेळार चंद्रा वयल्यान घेतिल्ले पृथ्वीचे फोटू पयलेच फावट उजवाडाक आयिल्ले. मोटे उमेदीन हांवें ते रंगीत फोटू बाईक दाखयले आनी व्हडा आवाजान विचारलें, "ही पाह्य आपली प्रिथमी! दाखव बरं आतां तुव्हा शेषनाग कुडं हाये ते?"

थंडसायेन तिणें फोटवांचेर नदर मारली आनी प्लेग नासतना मेल्ल्या हुंदरा कडेन पळोवचें तशे शुद्र भावनेन म्हजे कडेन पळयत मातोसरी उलयल्यो, "धुरवा, तू तर येडाच राह्यलास. आरे, तो शेषनाग देव हाये देव. तो काय तुमच्या ह्या लोकायच्या फोटूमंधी येणार हाये का काय?"

बाईचें नेणारपण पयस करपाचो यत्न करप कितल्या भाबडेपणाचो आसा हें म्हाका पयलेच खेप त्यावेळार कळ्ळें.

आमच्या कुटुंबाचो आकार आतां इतलो व्हड जाल्लो, ताका लागून लौकिकार्थान तरी आमी चार भाव वेगळे रावतात. बाई म्हजेच कडेन आसता.

दरेकल्या कडेन हेर दरेकल्याची चवकशी करीत रावप हो मातोसरींचो पुराय वगत उद्देग आसता. भाऊ (जे.डी.) हो तिगेलो खास लाडको. वाजेनासतना सदांच म्हणल्यार जाता,

''भाऊ मुंबईत हाये कारे? का गेलाय कुडं?'' ह्या तिगेल्या प्रस्नाची जाप म्हाका दिवची पडटा.

केन्नाय रागान हांव म्हणटां, ''आगे म्हाका खंयची खबर? हांव कितें ताचो सेक्रेटरी बी आसां?''

पूण म्हजी चूक म्हाका रोखडीच कळटा. आमी सगळ्यांनी सतत एकामेकांच्या संपर्कांत उरचें हो तिचो मोगाचो आग्रो त्या प्रस्ना फाटल्यान दडिल्लो आसता. सद्दां सांजवेळा ती नित्यनेमान बातम्यो पळयता. वेगवेगळ्या घडामोडींचें गिन्यान जावचें हाचे परसय बातम्यांत आपलो एखादो भुरगो दिसता काय कितें हें पळोवचें इतलोच हेत आसता ताचे फाटल्यान. हरशीं, दूरदर्शनाच्यो बातम्यो आनी विधीमंडळाच्या कामकाजाचें समालोचन हातूंतलो फरक तिका कळटाच अशें ना.

हांव आनी म्हजी बायल घरा कडेन नासतना आयिल्ले फोन बाई घेता, पूण फोन करतल्यांचीं नांवां मात विसरताच विसरता. अदमासान खंयचेंय नांव विचारल्यार ''हां हां आसंच काहीतरी व्हतं'' अशें सांगून ती मेकळी जाता.

खरी मजा जाताली आमी घरांत नासतना कोणूय येवन वताली तेन्ना. नांव तर तिका यादूच उरनासलें. मागीर केल्ल्या वर्णना वयल्यान अदमास करपाचो. असल्या वेळार आमच्या संभाशणाची गाडी सामकी थारावीक वळणां घेवन चलता.

''धुरवा, एक बाबा आला व्हता''.

''बरें, काय नाव?''

''आपलं आसंच काहीतरी व्हतं, बघ''.

''दिसायला कसा व्हता? उंच?''

''हा, चांगला उंचनीच गडी व्हता''.

''गोरा व्हता का काळा?''

''तसा गोरटेलाच व्हता''.

''बरं, जाडा व्हता का बारीक?''

''तसा जाडाजुडाच व्हता''.

“पन मग ठेंगू आसंल थोडा?”

“हां, मला वाटतं बुट्टाच व्हता”.

“मग तो गोरा काह्याचा, काळाच आसंल?”

“हां, तसा काय युरोपेन गोरा नव्हता, सादारन काळगेलाच व्हता”.

येवन गेल्लो तो मनीस, एकाच वेळा गोरो आनी काळो, जाडो आनी बारीक, ऊंच आनी बुटको आसपाक शकता. इतलेंच कित्याक, येवन गेल्ले ते व्यक्तीचें वर्णन साने गुरूजीं सावन थेट आचार्य अत्रे मेरेन दरेकाक लागू पडपाचो चमत्कार जाता!

एक फावट तर कहरच जालो. जयवंत दळवींच्या सत्कार प्रसंगाचेर आदारीत कार्यावळींत दूरदर्शनाचेर पु. ल. देशपांडेचें भाशण चलतालें. तें पळयतना अचकीत बाईन म्हणलें, “धुरवा, या बाबाला मी वळाखलं बरं का”. हांवें मनांत म्हणलें, ‘वा! पु. ल. देशपांडे हे महाराष्ट्राचें खरें लाडकें दैवत. सामक्यो आमच्यो मातोसरी लेगीत तांकां वळखतात’.

मातोसरींच्या फुडल्या प्रस्नान मात हांव एकदम थंड पडलों.

“धुरवा, या बाबानं दाढी काढून टाकली काय रे?”

पु. ल. आनी खाड? म्हाका कायंच कळना जालें. पु. लं. चे खाड वाडयिल्लें खुमणें दोळ्यां सामकार कशेंच येना जालें. अजापान हांवें विचारलें, “तू कव्हा या बाबाला पाहायला गेली व्हतीस?”

“आरे, आसं काय करतोस? हा बाबा आपल्या घरी आला नव्हता का? चांगली ना दांडग्या बोकडावानी दाढी व्हती त्याला”.

म्हजे तकलेंत अचकीत उजवाड पडलो. पु. लं. क आमच्यो मातोसरी कोण म्हूण समजल्यो जाणा? विजय तेंडुलकर!

आमी सगळीं भाव-भयणां आत्रेपयऱ्यान एकठांय जमतात. घरांत एकुणीस नातरांचो धुमाकूळ सुरू जातकच बाईचे खोशेक शीम-मेर उरना. खरें म्हणल्यार नातरांचे पिळगे कडेन संवाद सादप बाईक बरेंच कठीण वता. पूण ते बगर तिचें कितें अडय ना. एखाद्रो नातू आपूण जावन तिचे कडेन उलयलो ना जाल्यार “काय रे, तुह्या बापाची मी सक्की आईच हाये ना?” अशी गडगंज धमकावणी दिवपाक ती फाटीफुडें पळयना.

नातरांकूच कित्याक, जायते फावटीं आमकां भावंडांक लेगीत बाई कडेन

संवाद सादपाक जड वता. कसल्या तरी संदर्भांत एक फावटीं हांवें तिका म्हणलें, ''आडातच नही तर मंग पोहऱ्यात कुडून येनार?'' मातोसरीन ताचो अर्थ लायलो, ''आयांमधीच नही तर मंग पोरायमंधी कुडून येनार?'' असो.

दुसऱ्या आनी चवथ्या शेनवाराक सरकारी कर्मचाऱ्यांक सुटी आसता हें गणित तिचे तकलेंत पक्कें बसलां. ताका लागून दर एक शेनवार सोडून फुडल्या शेनवाराक ती नेमान म्हाका विचारता, ''धुरवा, आज तुला सनवारची सुट्टी नही का रे?'' चेऱ्याचेर कसलेच भाव उदेवंक दिनासतना, रिझर्व बँक दर शेनवाराक चालू आसता हें हांव फाटल्या शेंकड्यांनी शेनवारांक मातूय वाजेनासतना मातोसरींक समजायत आयलां.

सांजवेळा आमच्या घराच्या लागसाराक पासयेक वतना आमी कितलोय आग्रो करूनय बाई वक्ल लायना वा आदाराक बडी घेना. वक्ल लायलें आनी हातांत बडी घेतली जाल्यार ''लोक म्हातारी म्हनतील ना'' अशी तिका भिरांत दिसता. तशें पळयल्यार, कुड्डी नाशिल्ली खंयचीच व्यक्ती बाई म्हातारी न्हय हें म्हणपाक शकना. पूण मातोसरींक हें कोण सांगतलो?

घरांतल्या लोकांचीं नांवां आनी पिराय सांगतना बाईचो सदांच घोळ जाता. पिराय सांगतना आमच्या भावंडांचे पिरायेंत अचकीत पांच एक वर्सां उणीं जातात आनी सुनांचे पिरायेंत तितलीच वाड जाता. ते खातीर तिच्या हिशोबांत आमच्या कुटुंबांतल्यो सगळ्यो सुनो आपापल्या घोवां परस निश्चीतच व्हड थारतात. फाटीं एक फावट हांव आनी म्हजी बायल घरा कडेन नासतना मतदारांच्यो यादी तयार करपी लोक घरा येवन गेले. ताचो परिणाम असो जालो, म्हजें नांव 'नरिंदर' अशें पंजाबी वळणाचेर गेलें आनी वसुंधराची, 'वसुबाई' जाली. ताका लागून मतदान करपाक आमी प्रत्यक्ष गेलीं तेन्ना थंयचे सरकारी कर्मचारी आमचे कडेन बऱ्याच दुबावान पळयतात म्हणपाचें आमकां स्पश्ट जाणवलें.

अचकीत आयिल्ले गिरेस्तीचो मद मारता अशें म्हणटात, पूण गरिबीचो 'हँग ओवर' तिगून उरता हेंवूय तितलेंच खरें. बाईचें नेमकें तशेंच घडलां. किराणा मालाचें सामान घरांत येतकच त्या पोटल्यांक गुठलायिल्लें सूत वेवस्थीत काडून मातोसरी तें एकाक एक गांठोवन दवरी. 'फुडें फाटीं गरजेक उपकारता' म्हूण.

बॉम्बे पोर्ट ट्रस्टा कडसून बाईक पेन्शन मेळटा - सादारण तिनशें रुपया. पेन्शनाक ती 'पेनसल' म्हणटा. 'पेनसल' घेवन येवपी पत्राकाराची वाट पळोवप हो बाईचो आनीक एक आवडटो उद्देग. बाईचें पेन्शन हें आमच्या कोणाच्या

हिशोबांत नासता. बाईक मात ताचें अप्रूप. पेन्शनाची मनी ऑर्डर हाडपाक पत्रांकाराक एक दीस लेगीत कळाव जालो जाल्यार बाई खासावीस जाता. निमाणें एकदांची ती मनी ऑर्डर आयली काय बाई त्या पत्राकाराक आठ आणें बक्षीस दिता. तिचे नदरेन तो उदारतायेचो कळस. म्हाका त्या पत्राकाराची काकुळट दिसता. पेन्शना खातीर बाईची जातली अस्वस्थताय पळोवन एक फावट लिपचोरयां हांव त्या पत्राकाराक धा रुपया दिले आनी मनी ऑर्डर वेळच्या वेळार पावती करपाक सांगलें. पत्राकारान पयशे घेतले, म्हाका सलाम केलो आनी म्हणलें, ''सायब, खरें सांगूं? आजीबाई कडसून पावली मेळटकच जी खोस जाता ती तुमच्या ह्या धा रुपयांनी जायना''. मागीर मात म्हाका म्हजीच काकुळट आयली.

बॉम्बे पोर्ट ट्रस्टा कडसून बाईच्या पेन्शना संबंदी परतून परतून येवपी पत्रां हांव चडसो लिपोवन दवरतां, कित्याक तर पांच-धा रुपयांचे वाडी खातीर जी धांवपळ करची लागता ती म्हाका नाका आसता. खंयच्यान कोण जाणा, पेन्शनांत वाड जाल्ल्याची खबर बाईक मात ज्युस्त कळिल्ली आसता.

एक फावट ज्येश्ठ कामगार फुडारी डॉ. शांती पटेल कसल्या तरी कामाच्या निमतान आमच्या घरा आयिल्ले. फाटलीं कितलींशींच वर्सां ते बॉम्बे पोर्ट ट्रस्टाचे एक ट्रस्टी आसात. बाई कडेन तांची वळख करून दितना हांवें म्हणिल्लें, 'हे बी.पी.टी.चे व्हडले सायब आसात आं' म्हणून. आपल्या घरा आयिल्ले पावणे बॉम्बे पोर्ट ट्रस्टाचे सायब आसात हें कळटकच मातोसरींच्या दोळ्यांत खोस परगटली. ती फुडें सरली आनी तिणें म्हणलें, ''सायेब, ते मह्या पेनसलचे तीस रुपये वाढनार व्हते त्याचं काय झालं?'' कोट्यांनी रुपयांचो वेव्हार पळोवपी पोर्ट ट्रस्टाचे डॉ. शांती पटेल खीणभर गडबडले, पूण रोखडेंच आपणाक सावरून घेत तांणी म्हणलें, ''ह्यो तुमचा पोरगा हाय ना, ते तीस करोड रुपियांचा हाय. तुमी कशाला तीस रुपियांचा वार्ता करते?''

''ते जावू द्या ओ सायेब, मह्ये तीस रुपये वाढवून कवा मिळणार ते सांगा आधी''.

मातोसरींचो पयशांचो हिशोब हो स्वतंत्र संशोधनाचो विशय आसा. खरें म्हणल्यार तिका विसांच्या फुडें मेजपाक येना. शंबर म्हणल्यार पांच 'इसा' अशें तिगेलें गणित आसता. इंग्लीश कॅलेंडराचे म्हयने तिका कळनात. 'चइत्र', 'वयशाक', 'आखाड', 'सरावण' हेच पारंपारीक पद्दतीन तिगेली काळ रचणूक चलता.

तातूंत पयशांचे बाबतींत तर ती कोणाचेरूच पातयेना. आपल्या नांवाचेर बँकेंत जमा आशिल्ल्या ठेवींचेर मेळपी व्याज वेळा वेळार नगदी स्वरुपांत वसूल केलें ना जाल्यार बँकेचे अधिकारी आनी कर्मचारी ते आपणाल्या बोल्सांत उडयतात अशी मातोसरींची ठाम समजिकाय. खासा हांव रिझर्व बँकेचो वरिश्ठ अधिकारी आसूनय ते बाबतींत कितें करपाक शकन हाचेर तिचो विस्वास ना.

वेगवेगळ्या बँकांनी मातोसरींच्या नांवाचेर ल्हान व्हड रकमांच्या मुजतीच्यो ठेवी आसात. त्या ठेवींच्यो पावत्यो बाकीच्यां कडेन दिवन दवरल्यो जाल्यार खंयचे ठेवीची मुजत केन्ना सोंपतली हाचेर लक्ष दवरपाक जातलें हें हांवें सुचोवन पळयलें, पूण फुकट. त्यो सगळ्यो पावत्यो आपल्या बोटव्यांत दवरप मातोसरींक पसंत. आतां कोणाकय प्रस्न पडूं येता, इंग्लीश कॅलेंडर समजनाशिल्ले हे बाईक मुजतपुर्तीचें भान कशें उरतलें काय म्हूण. पूण प्रत्यक्षांत कसलीच अडचण येना. कशें कोणाक खबर पूण हांव ऑफिसांत वचपाच्या वेळार ती एखादी पावती घेवन डुगूडुगू करून चलत म्हजे म्हर्‍यांत येता आनी म्हणटा, ''धुरवा, हे पयशे केन्ना मेळपाचे ते पळय पळोवया मातशें''.

ती पावती पळोवन हांव अजापतांच. कित्याक तर आनीक दोन-तीन दिसांतच ते ठेवीची मुजत सोंपपाची आसता. इंग्लिशीचो गंधय नाशिल्ले मातोसरीन आपणा कडेन आशिल्ल्या जायत्या पावत्यां मदल्यान मुजत सोंपपाक आयिल्लीच पावती ज्युस्त काडून म्हाका दिल्ली आसता. ''आजीच्या जवळी घडयाळ कसले आहे चमत्कारीक'' हे वळीचो प्रत्यय फकत भुरगेपणांतच येवपाक जाय अशें कांय ना.

बँकेच्यो पावत्यो लक्षांत दवरपाचें जशें तिगेलें आपणालें एक तंत्र आसा, तशेंच वेगवेगळीं ठिकाणां लक्षांत दवरपाचे तिगेल्यो कुरवो आसतात. खूब वर्सां आदीं वडाळ्याक रावता आसतना आमच्या घरांत येतले कांय विशेश जिनस 'चिंचे' सकयल्या दुकानांतल्यान हाडिल्ले आसताले. चिंचेच्या झाडा सकयलें दुकान पळोवपाची म्हाका खूब उमळशीक आसली. ते भायर, तें झाड पडलें जाल्यार त्या दुकानाची वळख कशी उरतली हाचोय म्हाका वगीच हुस्को जातालो. उमळशीक वाडून थार जायना जातकच हांव एक फावट तें दुकान सोदपाक भोंवलों. चिंचेचो तो रूख कसोच सांपडना. 'तें' दुकान मात गावलें. कित्याक तर त्या दुकानार ठळक उतरांनी बरयिल्लो एक तकटो दवरिल्लो : 'हेच ते चिंचेखालचे सुप्रसिद्ध दुकान!' तो तकटो मात अर्थात वाचपाक कळटल्या म्हज्या सारकेल्या अडाणी लोकां खातीर लायिल्लो आसूंक जाय!

कोणालो संवसार कसो चलता हें वळखुपाचो बाईचो निकश सामको सादो. ज्या घरांत भरपूर आयदनां आसात तो संवसार वेवस्थीत. ताका लागून बाईन आमच्या घरांत ल्हान-व्हड अशीं जायतीं आयदनां घेवन दवरल्यांत. तातूंतले व्हडले व्हडले हांडे तर केन्नाच वापरांत येनात. पूण अदींमदीं ते घांसून पुसून लखख करून वयल्या फळयांचेर वळीन मांडून दवरले काय धन्य जाल्ल्या वरी दिसता. हीं आयदनां विकतीं घेतना बाई तांचेर नांवां घालून घेता. नांवां मात पुतांचीं वा नातवांचीं. धुवो वा नाती 'परक्यां'च्यो आशिल्ल्यान तांचीं नांवां आयदनांचेर घालपाचें बाई अट्टाहासान ताळटा.

तोंड भरून कोणाचीय तुस्त करप बाईच्या सभावांत बसना. एक फावट मात तसो योग आयलो. आमी बहिणाबाईच्या गितांची कॅसेट आयकतालीं. तीं पदां कानार पडटांच मातोसरी थंय येवन म्युझिक सिस्टमा मुखार ठाण मांडून बसल्यो. कॅसेट सोंपतकच हांवें तिका बहिणाबाई विशीं सांगलें. ताचेर तिगेली प्रतिक्रिया आशिल्ली, ''आरे, ही बाई देवांगना आसंल, देवांगना!'' ताचे आदीं वा ते उपरांत अशें कवतूक कोणाचें करतना बाईक केन्ना हांवें पळयलें ना.

आमच्या दादाक बाई ''ओ, जाधव'' असो सरळ उलो करी. आपल्या घोवाक आडनांवान मारिल्लो उलो आयकतना जायत्या जाणांक विचित्र दिसतालें. पूण तशें आशिल्लें खरें. दादा-बाईच्या सभावांतलें अंतर लक्षांत घेतल्यार तांचीं किजिलां जावपाचींच. दादाचो राग अडेचो आसलो तरी ''सोने, तू गध्धडच राहिलीस'' अशें उलोवन दादा मेकळो जातालो. पूण दादाक जर खऱ्यांनीच तिडक येत जाल्यार बाई सयत सगळ्यांचीच भंयान गुळी जावपाची वेळ येताली. हाचे उरफाटें सरळ आवाज चडोवचे परस तिरकस, त्रोसां मारपाचेर बाईचो भर. सामकी आमच्या भावंडांचेर तिडकली तरी तातूंत एखादो तरी टोमणो दादाचे वटेन वच्चो. मागीर, ''खान तशी माती आन अवलादीवर जाती'' वा ''आघाव बापाची आघाव खाण हाये'' असो आमचो उद्धार जातालो.

बाई-दादा मदलो मोग दिसतालो तो जिलेबी खातना. जिलेबी दोगांलेय भोव आवडीची. केन्नाय घरांत जिलेबी हाडिल्ली आसल्यार एकामेकाक मोगाचो आग्रो करीत तीं जिलेबी खातालीं, तें पळोवप आमच्या सगळ्यां खातीर परमानंदी पोटलो जावन आशिल्लो. आमोरेची कातर लकून आयिल्ली आसतनाच्या सांगाताचो

तो एक अप्रतिम आविश्कार आशिल्लो.

दादा आनी बाई, दोगांकूय दोतोरा कडेन वचपाचो सोस, पूण दोतोराचेर दोगांय नाराज. दोतोरान चड पथ्यपाणी सांगल्यार दादा तांची मस्करी करतालो. तरीय दोतोराचेर तांचो विस्वास आशिल्लो. हाचे उरफाटें मातोसरीचें. सगळ्या दोतोरांची एक जातवड, गोड गोड उलोवन आपणाल्या बावळट भुरग्यां कडसून पयशे सुतलायतात आनी चड पयशे उकळूंक येवचे म्हूण मुद्दामूच आपणाक बरे करिनात अशी बाईची ठाम धारणा. तरी लेगीत वर्सा-दोन वर्सांनी दवाखान्यांत 'ॲडमिट' जावपाक बाईक मना सावन आवडटा. कित्याक तर त्या निमतान आपले पयले येतात, निरोप दिवप-घेवप जाता आनी मागीर मातोसरींचें मुखामळ फुलता. हरशीं कितलेंय सांगूनय ती आपणाचेर वखदांचो मारो करून घेवपाची सोडिना. इतलेंच न्हय तर आमी घोव-बायल ऑफिसाक वतकच पोटांतल्या अल्सराचो त्रास जाता आसलो तरी हरव्यो मिरसांगो चेंचावन झणझणीत ठेचो करून खावपाचो मोह ती टाळूंक शकना.

बाईच्या मनाचो कोणाक सहसा थांगपत्तो लागचो ना. 'आमचा बाप'चे पयले आवृत्ती निमतान 'टायम्स ऑफ इंडियां'त एक लेख छापून उजवाडाक आयिल्लो. तातूंत दादाचो फोटू पळोवन हांव भारावलों. व्हडा कवतुकान आनी अभिमानान हांवें तो बाईक दाखयलो. ताचेर मातोसरींची प्रतिक्रिया कितें आसची?

"आरे, काय तुह्या बापाचं कौतिक सांगतोस. तो काळा तर व्हता" जशी कितें आयुश्याची सगळी कर्तबगारी गोरें आसपाचेरच निंबून आसता!

एक फावट 'द वीक' ह्या इंग्लीश सातोळ्याचो वार्ताहर 'आमचा बाप'च्या संदर्भांत म्हजी मुलाखत घेवपाक घरा आयिल्लो. बाईक मेळटकच तिचीय मुलाखत घेवपाची इत्सा ताणें उकतायली. मुलाखत घेवपी मद्राशी आशिल्ल्यान अणकारप्याची जापसालकी अर्थात म्हजेर.

मुलाखत घेवप्यान विचारलें,

"दादा कशे आशिल्ले?"

मातोसरीन म्हणलें,

"काळा व्हता, पन चांगला व्हता".

मुलाखत घेवप्यान बरयलें,

"ही वॉज डार्क बट हॅण्डसम"

प्रस्न विचारलो,

"तुमकां दादांचे खंयचे गूण चड आवडले?"

"मला ह्येच आवडलं का कवा दारू नही पेला, कवा शिवीगाळ नही केली. इशेस म्हनजे, मह्या अंगावर कधी हात नही टाकला".

त्या वातावरणांत वाडिल्ल्या ते पिळगेंतल्या बायलांच्यो आपल्या घोवा कडसून कितल्यो मोजक्यो अपेक्षा आसताल्यो ताचें हें प्रातिनिधिक चित्र म्हणचें पडटलें.

दादा वतकच आतां मातोसरी खचल्या. हालीं ती सदांच कावळ्यां कडेन उलयता, तांकां मायेन खावपाक घालता. पळोवपाक गेल्यार एक काळो रंग तितलो सोडलो जाल्यार दादा आनी कावळो हातूंत कांयच सारकेपण ना. पूण कावळ्याच्या रुपान दादा आपणाक मेळपाक येता ही तिगेली गाड श्रद्धा. सद्‌दां सकाळीं आनी दनपारां आपणें खावचे पयलीं, "जाधव आले वाटतं" अशें पुटपुटत ती बेगिबेगीन कावळ्यांक भरोवपाक वता. अदींमदीं मातोसरी कावळ्यां कडेन झगडताय आसुंये असो दुबाव घेवपाकय सुवात आसा.

मातोसरीचे हे भाबडे समजिकायेचेर आमचो कोणाचोच विस्वास बसप शक्य ना. मात, फुडें फाटीं मातोसरीन कावळ्यांक जिलेबी खावपाक घाली जाल्यार आमच्या दोळ्यांत दुकां येवचीं नात हाची हमी आमी कोणच दिवपाक शकचीं नात. *

---

* २ जुलय २००२ दिसा मातोसरी अंतरली.

# लहानपनच्या गोस्टी

**आमचो** गांव ओझर. नाशिक जिल्ल्यांतलो. तालुको निफाड. आमच्या घराण्याचो मूळ पुरीस सिवा. मागीर ते उपरांत आर्जुनबाबा, मकाबाबा, सुकाबाबा. सुकाबाबाक दोग भुरगीं - पुंजाबाबा आनी रुंजाबाबा. रुंजाबाबा म्हणल्यार म्हजो बाप. पुंजाबाबा व्हडलो. ताचो दरारो चड. पुंजाबाबा आनी रुंजाबाबाच्यो बायलो सख्ख्यो भयणी. व्हडलेचें नांव राधाबाई आनी धाकलेचें गऊबाई. पुंजाबाबा आनी राधाबाई धाकल्या भावाक आनी भावजयेक खूब सतायतालीं. केन्ना केन्ना बडयेन मारतालीं. खावपाक आनी कपड्यांक बरेच छळ जाताले. मागीर गांवच्या लोकांनी तांच्या आईबापाक निरोप धाडलो, तुमचे धाकले चलयेचे खूब हाल जातात. तिचे खातीर कितें तरी करात. निमाणे गांवच्या लोकांनी पंचायत आपोवन पुंजाबाबाक धमकायलो, तूं व्हडलो भाव आसून ताका शाळेंतल्या भुरग्या भशेन कित्याक वागयता काय म्हणून?

गऊबाईक भुरगें कांय जालें ना. मागीर कांय शाण्या मनशांनी रुंजाबाबाक आक्राळ्याची सोयरीक पळयली. ती भिऊ निंबाली चली; राहीबाई. ती म्हजी आई. म्हजी आई सगळ्यांत धाकली. तिका दोग भाव. तांचीं नांवां चाहादू आनी हारी. सोनू आनी रेऊ ह्यो दोगी भयणी.

म्हाका एक भाव आनी दोगी भयणी. म्हजो भाव, नामदेव भुरगेपणांतच मेलो. कोंडीयबी ल्हानपणांतच मेली. दुसरी भयण नाजुका आजून जिती आसा. म्हाका दोन बापोलभाव. व्हडलो कचर आनी धाकलो माधव. कचरचो म्हजेर भोव जीव आशिल्लो, पूण तो प्लेगाचे धामींत मेलो. माधव हालींच कांय वर्सां आदीं मेलो.

म्हजो जल्म १९०९-१९१०त आसपाक जाय. कित्याक तर जायते कडेन हांवें चवकशी केली. त्या टायमाक आमी कश्टांचीं कामां आनी मानांयपण करून वा शेतांत कामां करून आनी येसकाराचें काम करून कशेंबशें भागयतालीं. येसकर पाळयेचें काम म्हणल्यार गांवांत भाकरी मागप, लोकांक चावडेर आपोवन

हाडप, कोंडवाडो सांबाळप, मरणाचो निरोप दिवप, सरकारी अधिकाऱ्याची चाकरी करप, दसऱ्याच्या दिसा शिमेर व्हरून रेड्याक आवारांत भोंवडावप. पाटलान ताचो बळी दिले उपरांत ताचें मुंडकें पुरप, अशीं जायतीं कामां रुंजाबाबाक करचीं पडटालीं.

हांव सादारण चलपाक लागिल्लो आसन, त्या वेळार आमच्या शेतांत भिकणांचें पीक लायिल्लें. आई आनी कांय कामेऱ्यां दीसवड्याक आशिल्लीं. भिकणां नडपाचें काम चलिल्लें. लागींच उदकाचो पाट भरून व्हांवतालो. म्हाका एका झाडा खाला बसयिल्लो. हातांत तांबयो घेवन हांव पाटाचेर गेलों आनी उदक भरलें. पूण हांव त्या पाटांत पडलों आनी व्हांवत गेलों. कांय बायलांनी तें पळयलें आनी तांणी घे आड्डी मारल्यो. सगळ्यो बायलो एकठांय जाल्यो. म्हजी काकी, बजाऊकाकून उडकी मारून म्हाका भायर काडलो. हांव व्हांवत बरोच पयस पाविल्लों आनी म्हज्या नाकांत तशेंच तोंडांत उदक वचून फुगार जाल्लों. म्हाका भायर काडून म्हजे पांय गरगर घुंवडायले आनी नाका-तोंडांतल्यान उदक भायर काडलें. कपड्यांत गुठलावन म्हाका घरा हाडलो. मागीर म्हाका साबूत आयली. परत कुमाराल्या चाकार दवरून घुंवडायलो आनी उदक भायर काडलें.

कोणें तरी म्हजे आजेक हें सांगलें. दोन-तीन दिसांनी आजी ओझराक आयली आनी म्हाका आनी आईक घेवन आक्राळ्याक गेली.

आजी म्हणजे आईची आई. तिचें नांव गंगुआई. म्हजी आजी म्हजे खूब लाड करी. कांय दिसांनी म्हाका देवी आयल्यो. गांवांत तेलाचो वास येतलो म्हूण शेतांत आमची खोंप आशिल्ली ते खोंपींत म्हाका व्हेलो. म्हाका बरें दिस मेरेन आमी खोंपींत रावलीं. सगळ्या आंगा वयल्यो देवी पातशेवन व्हड जाल्ल्यो आनी दोळ्यांतय देवी आयिल्ल्यो. हांव पळत चलपाक लागलों. मागीर हांव आनी आई ओझराक आयलीं.

आमच्या दारा मुखार पोरणीं चावडी आसा. चावडीचे फाटले वटेनचे वण्टीक गांजील मुसांचें पोळें आशिल्लें आनी तातूंत खूब गांजील मूस जमिल्ले. हांवें तांकां चाळोवन घाले. त्या सगळ्यांनी म्हाका चावो घेतलो आनी म्हजें सगळें आंग सुजलें.

हांव चार ते पांच वर्सांचो आसन. त्या वेळा वयले एके घडणुकेचो उगडास

आसा. एक दीस एक मनीस बैलगाडयेन नाशिका सावन आपल्या गांवांत वतालो. ताच्या बैलाचो पांय मोडलो. ताणें आमचे कडेन बैल मागलो. दोन रुपया भाड्यान ताणें आमचो बैल व्हेलो. बैलाक परत हाडपाक म्हाका ताचे वांगडा धाडलो. हांव ताचे बराबर गाडयेंत बसून गेलों. त्या मनशाची आवयूय आमचे बराबर आशिल्ली. तो मनीस पुंजाबाबाचे वळखीचो. त्या मनशाक भुरगें नाशिल्लें. खूब दिसांनी तो आपल्या गांवांत वतालो. ताची आई आनी तो मनांतल्यान दुख्खी आशिल्लीं. हांव गाडयेंत बसतकच म्हातारेन म्हाका सांगलें, 'आमी आतां बाईच्या घरा वतलीं. तर तूं तिका तुज्या गांवचें नांव सांगूं नाका. हांव सगळें सांगतां. भाऊलोच भुरगो अशें हांव तिका सांगतां. आमी त्या घरा गेलीं. ते म्हातारेन हांव भाऊलोच भुरगो अशें सांगलें. ते बाईन म्हजे खूबच लाड केले. आमी - म्हातारी आनी हांव - ते रातीं थंयच राबितो केलो आनी तो मनीस गाडी घेवन आपल्या गांवाक गेलो.

सकाळीं म्हाका एक तोपी आनी बंडी घेतली आनी पुरणपोळ्यांचें जेवण केलें. मागीर आमी पांचांक सुमार भायर सरलीं. गांव लागींच म्हणल्यार दोन मैल आसतलो. आमी शेतांतल्या पांयवाटेंतल्यान चलत वतालीं. शेत नांगरिल्लें आसलें. तातूंत पांयवाट आशिल्ली. तातूंत कांय वेळान बरोच काळोख पडलो. सकयल जमीन काळी आनी वयर मळब काळें. सगळे वटेन मळब कुपांनी भरून काळेंकुट्ट जाल्लें. पावस पडपाक सुरवात जाली. ते पांयवाटेन आमी सडसडीत वचपाक लागलीं. पावसाचो नेट वाडलो आनी जोगलावणीय जावपाक लागली. तातूंतल्यान वाट काडीत आमी चलतालीं. त्या पावसांत आमकां वाट दिसनाशी जाली. जोगलांचो एक व्हडलो आवाज जालो. आमी त्या नांगरिल्ल्या शेतांत पडलीं. आमकां एकामेकांचें भान उरलें ना. आनी वयल्यान सारको पावस पडत आसलो. आठ वरां जाय मेरेन आमी त्याच जाग्यार पडून उरलीं. थंय तो मनीस आमची वाट पळयत आसलो. हांगा म्हातारी आनी हांव मरणाची वाट चलतालीं. पावस थांबलो. तो मनीस आनी वांगडा दोन मनशांक आनी लापयांव घेवन आमचे सोदीक आयले. म्हातारी परवंताली. तिचो आवाज आयकून ते भियेले आनी कुशीकच कांय अंतराचेर तांणी म्हाकाय पडिल्लो पळयलो. ताणें आमकां उखलून आपल्या घरा व्हेले आनी धग करून आमकां शेकले. मागीर जेवन हांव आजे म्हऱ्यांत न्हिदलों. दोन दीस म्हाका वचपाक दिलें ना.

तिसऱ्या दिसा हांव बैलाक घेवन येता आसतना एक गांव लागलो. त्या गांवच्या भायर एक खळें आशिल्लें. त्या खळ्यांत एक बायल आशिल्ली. तिणें

बैलाक वळखलो आनी म्हाकाय पयळयलो. ती बायल आर.डी.ची* मावशी आशिल्ली. तिणें म्हाका दनपार जाय मेरेन वचपाक दिलें ना. दनपारचें जेवण जाले उपरांत तिगेलो एक भुरगो म्हजे वांगडा दिवन म्हाका म्हज्या घरा पावयलो. त्या गांवचें नांव कारसुळ अशें आसा.

मातसो व्हड जातकच हांव सद्दां बैलांक आनी गायांक रानांत चरपाक घेवन वचपाक लागलों. दुसऱ्यांलेय कांय गायो-बैल मेळ्ळे जाल्यार हांव तांकांय व्हरतालों. गाय-बैलां फाटल्यान तांचे कडसून एक सीवराई मेळटालो. सीवराई म्हणल्यार एक पैसो. चार सीवराईचो एक आणो.

एक दीस हांव बैलांक आनी गायांक घेवन रस्त्यान चरयत चरयत वतालों. पिंपळ गांवच्या रस्त्याचें डांबरीकरण करपाचें काम चालू आशिल्लें. सगळ्याक खडी पातळायिल्ली आसली. म्हजे वांगडा दोन-तीन भुरगीं आशिल्लीं. त्या रस्त्याचेर आमकां एक व्हडलें जनावर येतना दिसलें. लोक लागले आड्डूंक; हाती आला, हाती आला. आमी ताका पळोवपाक धांवले. ताका पळोवन आमी भियेले. हें कितें म्हणटा तें आमकां समजलें ना. इतल्यान साकोऱ्याचे वटेन दोन-तीन बायलो येतात त्यो आमी पळयल्यो. तांच्या हातांत तांबयो आनी माटांत राट आशिल्लें. त्या बायलांनी हतीची पुजा केली. हतीच्या आंगार उदक शिंपडायलें आनी कुकूम लायलो. निवैद्य सकयल दवरलो आनी सगळी जाणी ताका पांयां पडल्यो. त्या लोखंडाच्या हतयाक आमी एकटक पळयत रावले. त्या लोखंडी हतयाक वयले वटेन तांब्याचो चकचकपी पत्रो आशिल्लो. हतयाक पांय नाशिल्ले. तीन चक्रां आशिल्लीं. ताचेर एक मनीस बशिल्लो. हो लोखंडाचो हती आमी पयलेच खेप पळयलो. बरेच दीस आमी ताका विसरूंक ना.

खडी दामपाचो तो रोलर आशिल्लो हें म्हाका उपरांत कळ्ळें.

तेन्ना म्हज्या बापोलभावाचें लग्न जाल्लें. ताचें नांव माधवराव. ताचे बायलेक

---

* आर. डी. ऊर्फ श्री. आर. डी. जाधव दादाचो पयसुल्लो भाव, ओझर गांवांतल्या दलित समाजांतलो चड करून पयलो पदवीधर. रिजनल एम्प्लॉयमॅण्ट ऑफिसर म्हणून सेवानिवृत्त जाले उपरांत तो मुंबय थायीक जालो. विद्यार्थी आसतना कांय काळ ताणें डॉ. आंबेडकरांचो ग्रंथसंग्रह सांबाळपाचें काम केलें. ताका लागून डॉ. आंबेडकरां कडेन थेट संबंद आयिल्ल्याचें अप्रूप दादाक आनी कुटुंबांतल्या हेरांक दिसतालें. आर. डी. काका मुंबय पयले फावट आयलो, त्या वेळार ताका पॅण्ट आनी बुटाची संवकळ जावची म्हूण दादर टी. टी. सावन भायखळ्या मेरेन 'लेफ्ट रायट' करीत हाताक धरून व्हेल्ल्याची गजाल दादा सगळ्यांक सांगतालो.

हाडपाक पुंजाबाबा वांगडा म्हाका धाडलो. बाबा वांगडा हांव गोंडेगाव सिगव्याक गेलों. वाटेर एका रेल्वे पुला पोंदच्यान आमी वताले. त्याच टायमाक एक मालगाडी आयली. हांव ती पळोवन भियेलों. बाबांल्या भेंडाक धरलें. हांव आड्डूंक लागलों.

"बाबा, बाबा, तो पळय दोंगर आमचे म्हऱ्यांत धांवन येता".

बाबान म्हणलें -

"आरे रेड्या, त्याला आगगाडी म्हनत्यात. घाबरू नकोस". ते आगगाडयेच्या चक्रां कडेन हांव पळयत रावलों. गोठाणीच्या पांयांवरी ते हालताले. गाडी हांवें पयलेच फावट पळयली*. हांवे घरा येवन सगळ्या भुरग्यांक तें अप्रूप सांगलें.

भुरगेपणांत आमकां काणयो खूब आवडटाल्यो. कांय जाण चौकेर बसून काणयो सांगताले. तुलसीराम बाबाचे पडवेर लोक एकठांय जाताले. काणयो आनी गजाली चलताल्यो. एका दिसा अश्योच काणयो रंगार आयिल्ल्यो. तो टायम रातच्या आठ-णवांचो आसत. आमच्या माथ्यार आनी सगळ्या म्हारवाड्यार उजवाड पडलो आनी वयरसून एक व्हडलो उज्याचो गुळो वता तो सगळ्यांनी पळयलो. आमी सगळीं भुरगीं भंयान जंय रस्तो मेळटा तेवटेन पळत सुटलीं. हांव तर तुलसीराम बाबाल्या घरांत एक रिकामो हांडो आशिल्लो, तातूंत वचून लिपलों. चार कुडींचें तें व्हडलें घर आशिल्लें. सगळ्यांच्या आवयांची आपापल्या भुरग्यां खातीर रडत सोदासोद सुरू जाली. आपापले परीन सोदपाक लागल्यो. सगळोच गोंदळ. ते प्रमाण म्हजीय आई रडत रडत भोंवन पळोवपाक लागली. तुलसीरामबाबाली एक चली, विठाबाई नांव तिचें, घरांत कितें खुडूखुडू जाता तें पळोवपाक दिवो घेवन आयली. तिणें म्हजी तकली पळयली. म्हज्या केंसांक धरून म्हाका भायर काडलो आनी म्हजे आईक उलो मारलो -

"राहीकाकू, तुजो भुरगो मेळ्ळो".

आई धांवत आयली आनी रडत रडत म्हाका घेवन गेली.

आमी कांय भुरगीं खेळटां खेळटां वाण्याचे गल्लींत गेलीं आनी थंयच आशीकुशीक खेळपाक लागलीं. थंय कोणाचें तरी लग्न आशिल्लें. त्या लग्नाच्या जेवणाचें रांदप चलिल्लें. आमकां ताचो वास आयलो. एका भुरग्यान सांगलें, हांगा कोणाचें तरी लग्न आसा. जेवणाचो आनी तुपाचो घमघम सुटलो. आमी हांगाच खेळुया. आमकांय जेवण मेळूं येता. सगळो दीस आमी जेवणाचे आशेन

* दालालें उरिल्लें जिवीत रेल्वेची नोकरी करपांत सरलें. ते नदरेन हे घणुकेक खाशेलें म्हत्व आसा.

थंयच खेळत रावलीं. पूण सांजवेळ मेरेन आमच्या हातार कांय पडलें ना. आमची निर्शेवणी जाली. आमचे आईबाप आमकां सगळ्याक सोदून थकले, पूण आमी मेळूंक नात. जेवण तर आमकां मेळ्ळें नाच, पूण घरा वतकच पोटभर मार मात मेळ्ळो. म्हाका जाल्यार आईन लांकूड घेवन बडयलो. बाबान म्हाका सोडयलो. आईन तर म्हाका दोन दीस जेवण घालपाची ना म्हूण धमकायलें. बाबान म्हाका सीवराईच्यो शेंगो हाडून दिल्यो. त्यो खावन हांवें खळ्यांत एक साक हांतुरलो आनी ताचेर न्हिदलों.

म्हाका ल्हानपणांत व्हड मनशां वांगडा बसून तांगेल्यो गजाली मोन्यांनी आयकुपाची संवय लागली. हांव केन्नाच व्हडा मनशांच्या मदीं मदीं तोंड घालून उलयनासलों. कोणेंय कसलेंय काम सांगल्यार तें धांवत वचून करतालों. सगळी जाण्टीं मनशां म्हजे लाड करी. केन्नाच हांव बोवाळ करिनासलों. कोणें उदक मागलें, कोणें विडी-माचीस मागली जाल्यार धांवत वचून हाडटालों. ताका लागून हांव तांचे अपुरबायेचो जालों. तांणी म्हाका केन्नाय चणे, भिकणाच्यो शेंगो दिवच्यो. म्हाका आजून ताचो उगडास येता. हांव विसरूंक ना. एकल्यान सांगिल्लें, साबरबोंड्या, तीन सेंड्या आनी लाल तोंड्या* हें जो मेरेन उरतलें तो मेरेन कोणूच सुखी उरचो ना. म्हाका आजून ताची विसर पडूंक ना.

नाशिकाक ताका पान साबर म्हणटात. ताच्या बोंडाचो रंग तांबडो आसता. ते खातीर ताका सांबर बोंड्या म्हणटात. भिल-कोळी ती खातात. ताच्या बोंडाक आनी पानाक कांटे आसतात. त्या सांबरान लोकांक खूब त्रास जाताले. ताचें एक पान कापून फातराचेर उडयलें जाल्यार ताका पानां येवन व्हडलें झाड जाता अशें लोक म्हणी. लोकांक गांवांत येतना वतना खूब त्रास जाताले. कांय कडेन घरां दिसना इतलें साबर मातिल्लें. वाऱ्यान मनशाच्या आंगार खरचटून कांटे तोपताले आनी आंगाक बुड्डणी सुट्टाली.

आमच्या घराचेर सांबर ऊंच वाडिल्लें. रंजाबाबान घराचे आशीकुशीकचें सगळें सांबर हुमटावन घराचे फाटले वटेनची जमीन खणून निवळ केली. ते जमनींत मको लावपाक ती फावो तशी तयार केली. कुंपण करपाचे तयारेक ते रानांत गेल्ले आनी बाभळीच्या कांट्यांच्या फांद्यांचो एक भोरो घेवन घरा येताले. वाट मातशी निसरडी आशिल्ली. तेच वाटेंतल्यान उरफाटे वटेन एक रानदुकर

* 'साबर बोंड्या' म्हणल्यार गांवठी कॅक्टस, 'तीन सेंड्या' म्हणल्यार चड करून पुरयत वर्ग आनी 'लाल तोंड्या' म्हणल्यार इंग्रज.

वतालो. कांय लोकांनी हें पळयलें आनी ते व्हडल्यान किळांचूंक लागले. तें आयकून बाबान कांट्यांचो भोरो सकयल उडयलो. इतल्यान दुकरान किरांव मारलें आनी भोरो शेंवटिलो. भोरो बाबाच्या तोंडार आपटलो आनी बोरीचो एक व्हडलो कांटो ओंठांत रोमलो. लोकांनी बाबाक उखलून घरा कडेन हाडलो आनी एका चामारा कडसून तो काडून घेतलो. गांवचो गांव सांबरान मनशाक त्रासांत उडयिल्लो. पूण एका येवरोपी सायबान एके धाकटुले दबयेंतली कसली तरी पावडर हाडून सांबराच्या पानार उडयली. ते सांबर सुकून गेलें. सगळें नाशिक आनी सगळो महाराष्ट्र सुखी जालो.

तुलसीरामबाबा किर्तना खातीर नाशिक, पुणे, मुंबय हांगा भोंवताले. भुरग्यां खातीर तांणी कांय फोटू हाडले. एका पत्र्याच्या डब्यांत ते घालून त्या डब्याक तीन बडयो लावन उब्यो करून आमकां तातूंतले फोटू तांणी दाखोवचे. मुंबयचे रस्ते, माळयो, आगगाड्यो, विमानां, आगबोटी, हें पळोवन आमकां आनंद जातालो आनी मजा दिसताली.

त्याच वेळार माधवरावाचें लगीन जालें. त्या टायमाक आमची खावपा-पिवपाची, कपड्यालत्त्याची खूबच आबाळ जाताली. तरिपूण माधवरावाचें लगीन केलें. न्हवऱ्याक झगो, नाल्ल घेवचो पडटालो. तोच झगो मागीर हांव वापरतालों.

एक दीस झगो घालून हांव वारयांत गेलों. कित्याक तर म्हाका घालपाक बंडी नाशिल्ली. वारयांतसून येतना रात जाली. रुंजाबाबान म्हाका गाय आनी बैल घेवन घरा वचपाक सांगलें. तांकां घेवन हांव वतालों. त्याच वेळार हांवें सिताराम पाटकरी आनी कचरनामा पाटकरी हांकां नाकझिरचे वटेन येतना पळयले. म्हसनखाईच्या फातरार हांव बशिल्लों. आंगांत पांयां मेरेन झगो आशिल्लो. ते सकयल आयले पूण म्हाका दिसूंक ना म्हूण हांव उबो रावन पळोवपाक लागलों. तांणी म्हाका पळयलो आनी ते भियेले. म्हासनखाईंत भूत समजून फाटीं परतूंक लागले. तांचे कडेन खूब गोड आशिल्लें तें उडोवन ते तशेच पळून गेले. मागीर हांव घरा आयलों. दुसऱ्या दिसा सकाळीं तोच झगो घालून बैलांक घेवन वतना तांणी म्हाका पळयलो.

"आरे, हेंच तें रातीचें भूत!" तांणी म्हाका आपयलो आनी विचारलें.

"रातीं तू ते म्हसनखाईत आशिल्लो काय कितें रे? तुका भूत समजून आमी पळ काडली आनी भिलाचे खोंपटेंत रावले". आमी सगळेजण हांसपाक लागले.

कांय वर्सां बारा म्हयने सरले आनी दुश्काळाक सुरवात जाली. वरव-गोंटो मीठ नाशिल्लें आनी शेतांतय कांय पिकलें ना. खावपाचे हाल जाले. मागीर घरांतल्यांनी चिंतलें, आमी नाशिकाक वचून कितेंय काम मेळटा जाल्यार पळोवचें. त्या वेळार नाशिकाक चुनखडीचें काम चलतालें. रुंजाबाबा, राहीआई आनी माधवराव नाशिकाक गेले. कचरराव आपल्या मावोड्यां गेलो. हांव आनी पुंजाबाबा, आमी दोगूच ओझराक रावले. पूण एक म्हयनो जाता थंय आसा गांवांत प्लेगाची धाम सुरू जाली. मनशां पटापट मरपाक लागलीं. सगळीं मनशां परतून एकठांय जमलीं. सगळो गांव, घरदार सोडून आपल्या शेतांत खोंपी-घरां बांदून रावपाक लागलीं. त्या वेळार आमच्या घरांतले कचरराव अंतरले आनी वीस दिसां भितर ताची आईय बी मेली. आमच्या घराचेर दुख्खाचो दोंगर कोसळ्ळो. कांय दिसांनी कचररावाची बायलय कुळारा वचपाक गेली. आमच्या घराण्यांत कचरराव खूब हुशार. कपड्यांची शिलाई करपाचें ताणें मिशीन घेतिल्लें. कागदाचो भेस शिवन ताणें म्हज्या आंगार चडयिल्लो. सगळे जाण गांव, घरां सोडून आपल्या शेताच्या बांदार खोंपट्यो उबारून रावपाक लागिल्ले. तितलेच मायेन आमी आमच्या बांदार रावपाक गेलीं. माधवराव, रुंजाबाबा आनी आई नाशिकाक कामा खातीर गेलीं.

पुंजाबाबा आनी हांव ते खोंपटेंत रावताले. पुंजाबाबाची नदर कुड्डी जाल्ली. खोंपटेंत दोन पोतीं गंवाचीं, एक पोतें बाजरीचें आनी देड ढेप गोड आशिल्लें. सामको रोगिश्ट असो एक कोंबोय आशिल्लो आनी चार-पांच कोंबड्यो. पुंजाबाबा आपूण स्वता दांत्याचेर दळटालो आनी बाजरीच्यो भाकऱ्यो थापतालो आनी तव्यार उडयिल्ली भाकरी हांव भाजून तव्या वयल्यान सकयल काडटालों. अशें आमचें सदचें काम चलतालें.

आमच्या घरांत दिवो नाशिल्लो. चिमणी आशिल्ली पूण तातूंत घालपाक तेल नाशिल्ल्यान ती पालवल्ली. देखून रातचो घरांत काळोख आसतालो. एक दीस बाबान तव्यार भाकरी उडोवं नासली. म्हाका दिसलें तव्याचेर भाकरी आसा. ती काडपाक हांवें त्या तापिल्ल्या तव्यार नेटान हात घातलो. पूण थंय भाकरी नाशिल्ली. म्हजो हात चरचरीत भाजलो. आख्खी रातभर हांव तळमळूंक लागलों. बाबान कापडाची फाळी म्हज्या हाताक बांदली. कांय दिसांनी म्हाका बरें दिसलें.

दोन-तीन दिसांनी आमचे खोंपटेंत चोरी जाली. गंवाचे दोन साक, थोडें गोड

आनी कांय कोंबयो चोरून व्हेल्यो. चोर आशिल्लो तो आमचोच घरभाव. एकल्यान बाबाल्या पोटार बसून दामून धरलो आनी कांय जाणांनी म्हाल फारायलो. हें सगळें हांवें पळयलें पूण भंयान तसोच पडून रावलों. चोर कोण हें म्हाका खबर आशिल्लें. पूण भिरांतेन हांवें तांचीं नांवां कोणाक सांगलीं ना. रुंजाबाबाक चोरयेची खबर कळ्ळी. मागीर सगळे नाशिका सावन घरा आयले आनी हें सगळें पळोवन दुखेस्त जाले.

कांय दिसांनी आमी म्हारवाड्यांत रावपाक गेलीं. खावपाची खूब हालत जाली आमची. धान चोरान व्हेलें. घरांत कांय उरलें ना. आई गांवांत वताली चिंचो फोडपाक. दिसाभरयाचे तिका दोन-अडेच आणे मेळटाले. गांवांत कोणा कडेन काम मेळनासलें. त्या टायमाक दादल्याक एका दिसाची दीसवडो पांच आणे आनी बायलेक तीन आणे आसताले. त्याच वेळार आमचेर येसकर पाळी आशिल्ली. रुंजाबाबा येसकर पाळी करपाक लागले. येसकर पाळी तीन म्हयने करची पडटाली. येसकाराच्या पाळयेक लागून घराघरांतल्यान जमोवन हाडिल्ल्या भाकरे वांगडा आई आमचे खातीर मुगांचें कण्ण करताली. केन्ना केन्नाय गांवांत भोंवन भायर उडयिल्ले चिंचारे हाडून आमी ते भाजून सोलतालीं आनी उदकांत घालून फुगयतालीं आनी वांगडा गोड लावन खातालीं. मुगांच्या कण्णांतय गोड घालून खातालीं. एका पयशाचें गोड दोन दीस पावयतालीं. तीन आणे पायली गंव आनी दोन आणे बाजरी मेळटाली. दाणोगोटो मेळटालो पूण पयशे नासताले.

एक दीस रुंजाबाबा गांवांतसून घरा आयलो आनी गोजडी उडोवन तिचेर पडलो. ताणें कांयच खाल्लें ना. जोर चडत गेलो. सांजवेळा ताची मान वांकडी जाली आनी सकाळीं णवाच्या सुमाराक तो आमकां सोडून गेलो. घरांत रडपाच्यो किळांची आनी हुयेली जाल्यो. सगळीं मनशां जमलीं. दनपारां दोनाक सुमार ताका म्हासनखाईंत व्हेलो आनी म्हाका उदक हाडपाक पाटार धाडलो. हांव उदक हाडपाक पाटार गेलों. पूण पाट देंवतो आनी खोल आसलो. हांव कपडो घेवन सकयल गेलों आनी कपडो भिजोवन घेवन भायर येवपाचे तयारेंत आसतनाच उदकाचे कडेक म्हाका एक आणो मेळ्ळो. तो आणो हांवें उबारलो आनी म्हजें रडप थांबलें. म्हाका खोस जाली. मरतां मरतां बाबान म्हाका एक आणो दिलो अशें समजून हांव शांत जालों. आतां बाबांची केन्नाच म्हाका भेट घडची ना म्हूण मनांतल्यान हांव दुख्खी आसां.

अशेच कांय दीस गेले. ओझरच्या नव्या देवळाचें काम सुरू जालें. ढांचो उबो जालो. माधवराव ते वण्टीचें काम करतालो. ताणें म्हाका उदक हाडपाक सांगलें. तें हांवें बेगीन हाडलें ना म्हूण ताणें म्हाका भरपूर पेटलो. आईन हें पळयलें आनी म्हाका म्हऱ्यांत ओडून पोशेलें आनी ती खूब रडली. दोन-चार दिसांनी म्हाका घेवन आई कुळारा गेली. म्हज्या सांगाताक म्हजे ल्हान भयणीक घेतली. भयण पांच वर्सांची ल्हान आसतनाच तिचें लग्न जाल्लें. तिका नांदुर्डीक दिल्ली. आई आमकां घेवन वताली तेन्ना वताचो रखरख आशिल्लो. जमनीचेर पांय भाजताले. हांव रडत चलतालों. जमनीचेर भाजतले पांय चरचरताले. आईन उकिड्र्या वयल्यान कोयर-फाळयो जमोवन आमच्या पांयांक गुठलावन बांदलें तेन्ना आमकां खतखततले जमनी वयल्यान चलपाक जालें. मागीर आमच्या हाताक धरून आई आमकां घेवन गेली.

आक्राळ्याक वतकच आजेक आनी मामाक बरें दिसलें. म्हजे भाजिल्ले पांय पळोवन तिचे दोळे भरून आयले. मामान हें पळयतकच ताणें रोखड्योच म्हाका आनी आईक व्हाणो हाडल्यो. त्या टायमाक व्हडल्या मनशाच्या व्हाणांक णव वा धा आणे आनी ल्हान भुरग्यांच्या तीन आणे वा पांच आणे पडटाले. मामान म्हाका व्हाणो हाडल्यो तें पळोवन म्हाका खूब आनंद जालो. त्यो व्हाणो चडोवन हांवें म्हशींक आनी बैलांक रानांत चरपाक घेवन वच्चें. आई कांय दीस रावन परत ओझराक गेली पूण हांव आक्राळ्यांत रावलों.

म्हजे आजेन, गंगुआईन म्हजे खूब लाड करचे. एक दीस म्हाका घेवन ती नाशिकाक गेली. थंय जायते साधू जमिल्ले. सिंहस्थ-सिंहस्थ पर्वणी. १९१८चें वर्स आसुंये. त्या साधूंक हांवें पयलेच फावट पळयिल्लें. हांव आकांताचो भियेलों. हांवें आजेच्या भेंडाक धरलें. एक साधू व्हडल्या नाकाच्या जनावराचेर बशिल्लो हांवें पळयलो. तो हती म्हणपाचें आजेन म्हाका सांगलें. हाका हती म्हणटात तर, खरो हती. भुरगेपणांत पळयिल्लो लोखंडाचो हती म्हाका येवजलो, आनी म्हाका हांसपाक आयलें. आमची जात्रा उलगली. आमी परतलीं.

कांय दिसांनी आजे बराबर हांव आक्राळ्याक सावन कोकणांत गेलों. आशीकुशीच्या गांवांतल्यो गाडयो तण वा लांकडां हाडपाक कोकणांत हारसुळचे पेठयेर वताल्यो. आमी तांचे बराबर कांदे-मिरसांगो, थोडीं वायंगीं घेवन वतालीं.

पेठयेक वतकच थंय हेवटेन तेवटेन ल्हान खोंपट्या सारके लागीं लागीं गांव लागताले. मजेशीर नांवां तांचीं. निपूनपाडा साबरी, गोणापाडा, आंबलीपाडा. सगळे पाड्यांचेच गांव हे. आमी हाडिल्लो माल उसोवन आजी रस्त्याचे एके वटेन कुशीकशी बसली. कांय बायलो आनी चलयो येवपाक लागल्यो. हातांत पांटले आनी ल्हान कुरपणे. त्या कुरपण्यांत आजेन एका हातान बोचकोभर मिरसांगो आनी दोन-तीन कांदे आनी दोन-तीन वायंगीं उडोवचीं. तें पळोवन तांकां खोस जावची आनी तांणी घरा वच्चें. तातूंत तांणी तांदूळ भरून हाडचे आनी आजेन ते साकांत ओतोवन कुशीक दवरचे. त्या सगळ्या मालाच्या बदलाक आमकां दोन साक तांदूळ मेळटाले. एक-दोन दिसांनी आमी परततालीं. आजेची वळख बरीच वाडिल्ली. तांचे कडसून रातीचें जेवण मेळटालें. थोड्यो मिरसांगो, कांदे-लसूण दितकच पोटभर जेवण मेळटालें. थंयच्यो बायलो सामक्यो बुरश्यो. मोटें पोट, म्हेळे कपडे, केंसांक केन्ना तेल ना तर केन्ना फणयेन वळोवपय ना. जादूटोणो, जारनमारन हे प्रकार खूब मोट्या प्रमाणांत चलताले.

आक्राळ्याक येतकच मामान म्हाका शाळेंत घातलो. बोल्सांत एके फुटिल्ले पाटयेचो कुडको घेवन हांव शाळेंत येवन बसतालों. मास्तर येना फुडें सगळ्यांनी उठून राम राम करपाचें. मास्तर मोहाडीचो आशिल्लो. मोहाडी सावन ताका पांयांनी येवचें पड. लोक म्हणटाले, ताचें नांव गेनुमास्तर म्हूण. आमकां तो एक-दोन काडपाक लायतालो. दोनेक म्हयने आमी एक-दोनूच काडपाक शिकले. ताच्या सगळ्या आंगाक चरतें जाल्लें. फकत गळ्या सावन वयर नाशिल्लें. तो शाळेंत येना फुडें आमी सगळे उठून उबे रावताले. ताणें व्हडल्यान सांगपाचें, तुमच्यांत कोण हुश्शार आसा ताणें हात वयर करचो. मागीर तातूंतल्या दोगा पोरांक लागीं आपोवन विचारचें, तुमकां बऱ्यो शेणी खबर आसात? जो बऱ्यो शेणी हाडीत ताका हांव बरो समजतलों. सगळो दीस रानांत हेडून आमी शेणी पुंजावन हाडटाले. एक एक साक घेवन ताच्या घरा व्हरून पावयताले. मागीर आमी जेवपाक वताले. तो मेरेन दनपारची शाळा भरताली. आमी येतकच मास्तरान आमकां पळयलें काय तो लागीं आपोवन घेतालो आनी आपापल्या साकांतल्यान एकेक शेणकूट आपणाक दाखोवपाक सांगतालो. मास्तर कपडे काडून म्होडक्या कदेलार बसतालो आनी आमकां त्या शेणकुटांन आंग घांसपाक लायतालो. अशी आमची शाळा. अभ्यासाचो पत्तो ना. मागीर हरिमामान म्हजें शाळेंत वचप बंद केलें.

हांव मागीर म्हशींक आनी बैलांक रानांत चरपाक घेवन वचूंक लागलों आनी मामाक ताच्या कामाक हातभार लावंक लागलों. तण हाडपाक केन्नाय मामा वांगडा कोंकणांत वचपाक लागलों. कोंकणांत गाडयो भरून ते ओझराक वा साईखेड्याक विकताले. बरें तण आसल्यार वीस-बावीस रुपया मोलाक वतालें. तण हलकें आसल्यार चवदा वा अठरा रुपया मेळटाले. हो सदचो धंदो चलतालो.

कांय दिसांनी ओझराक आयलों. चार-पांच दिसांनी म्हारवाड्यांत सायब आयले. आमच्याच गांवांतले सायब ते. कासीनाथ जाधव, नेवर्ती जाधव,* हिरामन जाधव, उधव जाधव, परवती जाधव आनी राम गंपत जाधव हे सगळे सायब मेळून शाळेंत जमले. तांची मिटींग चलताली. तांणी दारां आनी जनेलां बंद केल्लीं. आमी सगळीं भुरगीं जमून भितर कितें करतात तें पळोवपाक धडपडटालीं. वयर चडून जनेलाचे खांचींतल्यान भितर पळोवंक लागलीं. भितर सगळे जाण च्या पियेत उलयताले. आमच्या गांवांत शाहू छत्रपती येतले अशें आमी आयकलें.

आमचे भितर कुजबूज सुरू जाली.

‘‘शाहू छत्रपती कोण रे?’’

एकल्यान सांगलें

‘‘आरे तो राजा आसा’’.

‘‘पूण राजा म्हणजे कितें रे?’’

राजा म्हणल्यार कितें तें कोणाकच सांगपाक येना. निमाणें एका शाण्यान सांगलें -

‘‘आरे राजा म्हणजे देव’’.

कोण तरी म्हणपाक लागलो -

‘‘पूण देव तर फातराचो आसता’’.

‘‘पूण हो देव जितो आसा. हो खूब मोटो देव’’.

सायब लोकांचें उलोवन जातकच तांणी मनीस आनी बायलो जमयल्यो.

---

* के.बी. जाधव आनी एन.टी. जाधव नाशिक जिल्ल्यांतले त्यावेळा वयले तरणे आनी सुशिक्षीत कार्यकर्ते. दोगांचोय जिल्ल्याच्या समाजीक-राजकी घडामोडींचेर कांय काळ तरी बरोच प्रभाव आशिल्लो. फुडें डॉ. आंबेडकरान थोडें शिकिल्ल्या पूण कुशळ संघटकाचे गूण आशिल्ल्या दादासायब गायकवाडांक लागीं केले. ते खातीर हे दोगूय डॉ. आंबेडकरांच्या विरोधांत गेले. तांच्या राजकी कर्तृत्वाक देंवती कळा हातूंतल्यान आयली.

आख्खो म्हारवाडो झाडून काडलो. न्हंयंतल्यान रेंव हाडून सगळ्या रस्त्यार घाली. न्हंय म्हारवाड्या शेजराच आशिल्ली. सगळो म्हारवाडो झाडून लींप केलो आनी राती कडेन आंब्याचे ताळे आनी केळमे हाडून सगळ्या रस्त्यार लायले. चावडेकय रंग दिलो. एकल्याची लोखंडाची व्हडली खाट हाडून ताचेर गोजड्यो घालून गादी तयार केली. ताचेर गोजडेची गुंडाळी करून फाट तेंकोवपाक दवरली. ताचेर घालपाक तांबडो कपडो हाडलो. वळकुटीय तातूंत गुठलावन घेतली. ताचेर धवोफुल्ल कपडो उडयलो. गादी तयार जाली. थोडीं कदेलां आनी मेजय हाडलें. मेजार एक बरोसो कपडो घातलो. सगळी तयारी जाली.

दीस बरोच वयर आयिल्लो. म्हारवाड्यांत खूब गर्दी जमली. सगळे जातचे लोक एकटाविल्ले. तितल्यांत नाशिकाक सावन एक मोटार आयली. लोकांची धांवपळ सुरू जाली. मोटार नवे चावडे मुखार येवन उबी रावली. पयलीं के. बी. सायब देंवले. मागीर राजेसायब देंवले. एनटी सायब देंवले. लोकांनी ताळ्यो पेटल्यो. श्यावू छयातर पतीकी जेय (शाहू छत्रपती की जय) केली. आमी पयसुल्ल्यानच हात जोडून पांयां पडलीं. कांय शाळांतले भुरगे आनी चलयो आयिल्ल्यो. तांणी गाणें म्हणपाक सुरूवात केली. मेजार कंवचेच्या ग्लासांत रंगीत उदका सारकें कितें तरी राजाक पिवपाक दिलें. मागीर के. बी., एन.टी. सायबांचीं भाशणां जालीं. हें सगळें पळोवन राजा खूश जालो. ताणेंय उलोवपाक सुरवात केली. पूण ते चड वेळ उलयले नात.

परतून वतना लोकांनी तांचो जयजयकार केलो. वतना ते गांवांतल्यान वचनासतना भायल्या रस्त्यान गेले. कित्याक तर गांवांतल्या वयल्या जातीच्या लोकांनी जोत्यांचे हार आनी माळो तयार दवरिल्ल्यो. राजा गांवांत थांबनासतना सरळ म्हारवाड्यांत गेलो म्हूण तांकां राग आयिल्लो. मोटार पिंपळगांवच्या रस्त्यान वचून व्हडल्या रस्त्या गेली. वळसो घेवन ते नाशिकाक गेले. कांय लोकांनी त्रिंबक रस्त्याचे कुशीक एके सुवातेर कपड्याची चांदनी दिल्ली म्हणल्यार कपड्याचो मंडप केल्लो. राजान कांय पयशे दिवन त्याच जाग्यार तांच्या नांवाचें बोर्डिंग चालू केल्लें. ताचें नांव शाहू छत्रपती बोर्डिंग. ह्याच नांवान आमकां तें दिसता. म्हज्या उगडासा प्रमाण तें एकुणीसशें एकुणिसांत तयार जाल्लें जातलें.

चार-आठ दिसांनी म्हजो व्हडलो मामा मेलो म्हणपाचो आमकां रकाद आयलो. ताचें नांव चाहादूमामा. आई, हांव आनी माधव आमी आक्राळ्याक

गेलीं. पूण आमची मड्याचेर नदर पडली ना. माधवराव चार दिसांनी ओझराक आयलो. हांव आनी आई फाटल्यान रावलीं. थोडे दीस वतकच धाकलो हरीमामा आईक घेवन ओझराक गेलो. व्हडल्या मामाक भुरगें ना. एक चली जाल्ली, तिवूय ल्हान आसतनाच मेली आनी व्हडली मामी दोनय दोळ्यांनी कुड्डी. तिच्या सांगाताक हांव रावलों.

व्हडल्या मामाल्यो दोन म्हशी आशिल्ल्यो आनी दोन बैल. तांकां हांव चरपाक घेवन वतालों. आनी कुड्डी मामी दनपारचो कोणूय रानांत वचपी मेळ्ळ्यार ताचे कडल्यान म्हाका भाकरी धाडटाली. एक दीस मामीन भाकरी धाडली आनी हांव हात धुवन खावपाक बसलों. कपड्यांतल्यान भाकरी सोडली पूण वतांत ती चकचकीत दिसपाक लागली. मामीचो म्हाका दुबाव आयलो. म्हजी समजिकाय जाली, मामीन म्हाका शेणाच्यो भाकऱ्यो करून धाडल्यात. हांवें त्यो भाकऱ्यो शेंवटून मारल्यो. आनी मुगाच्यो शेंगो खावन रावलों. तिनसना बैल आनी म्हशी घरा हाडल्यो. हांव कोणाच कडेन उलयलों ना. कोणाक सांगिनासतना हांव ओझराक पळून आयलो.

थंय म्हाका सगळे सोदीत भोंवंक लागले. पूण म्हजो पत्तो नासलो. कोणें तरी मामाक सांगलें, ताका ओझरचे वाटेन वतना पळयला. म्हजो सोद घेवपाक मामा मागीर ओझराक आयलो. चेरो सामको देंविल्लो. हांव खेळपाक गेल्लों. मामाक पळोवन आई रडपाक लागली. आईन म्हणलें, पोराक शेणाच्यो भाकरी करून दितात. म्हज्या पोराक आख्खो आख्खो दीस उपाशी रावचो पडटा. मामाचे दोळे भरून आयले. तो वचपाक उठलो. मागीर हांवूय मामा वांगडा गेलों आनी आमी दोगूय आक्राळ्याक पावले.

कांय दिसांनी तणाच्यो गाडयो हाडपा खातीर मामा वांगडा हांव घाटा सकयल वचपाक लागलों. म्हाका म्हज्या दोळ्या मुखार आजूनय तो रस्तो दिसता. दाट झाडयेंतल्यान जायतीं वोल्तां घेवन सकयल वता. ताका सावळघाट म्हणटात. आक्राळ्याक सावन आमी वचपाक लागताले तेन्ना आशीकुशीकच्या गांवांतल्यो बैलगाडयो आमकां रस्त्यांत मेळताल्यो. चार-स गाडयो मेळून एका सांगातान वताल्यो. मामाचे वळखीचे लोक खूब. वतना आमी वांगडा एक सप्तकभर पावत इतल्यो भाकऱ्यो पोतयेंत घालून व्हरताले.

एक दीस आमच्यो गाडयो रस्त्यान वताल्यो. आमची गाडी सगळ्यांत फाटल्यान

उरली. गाडयेच्या साटयेच्यो थोड्यो कांबी मोडिल्ल्यो. बरीच रात जाल्ली. भाकरेचे पेळे पोतयेंत आशिल्ले. मामा फुडले गाडयेंत चिलीम ओडपाक आनी गजाली करपाक गेल्लो आनी गाडये फाटल्यान एक चोर चलतालो तें हांवें पळयलें. पूण तो केन्ना गाडये सकयल घुसलो हें हांवें पळयलें ना. ताणें आमच्या भाकरेच्यो पोटल्यो चोरून व्हेल्यो हें कोणाकच समजलेंना.

आमच्यो गाडयो बऱ्योच फुडें पावतकच बैलांक विसव दिवपाक गाडयो सोडल्यो आनी बैलांक खावड दिली. भाकऱ्यो खावपाक आमी पोटल्यो उस्तूंकवच जाल्यार पोटल्यो नात. मामाक दिसलें गाडयेच्या खाटयेच्यो कांबी मोडिल्ल्यान भाकरेची पोटली वाटेर पडली जातली. पूण गाड्यावाल्यान एक मनीस पळत वतना पळयिल्लो. ताणें सांगलें तो चोर म्हूण. जालें, आमचे बैल खावड खाताले. तीं आमगेलीं जनावरां, आमी तांचे मालक. पूण ते मजेंत खावड खाताले आनी आमी तांचे कडेन पळोवन तळमळटाले. निमाणें त्या गाडयेवाल्यांनी आमकां भाकऱ्यो दिल्यो त्यो खावन आमी न्हिदले.

सकाळींच सगळ्यांनी गाडयो बांदल्यो. तिनसान मेरेन आमी सावळघाटा खाला पावले. एका व्हाळा कुशीक गाडयो सोडल्यो. मामा आनी कांय जाण तणाची वासपूस करपाक गेले. हांव आनी आनीक दोन मनीस गाडयां कडेन रावले. मामाक परतुपाक सांजवेळ जाली. येतना ताणें म्हाका खावपाक हाडलें. म्हाका खूब खोस जाली. तें खावपाक म्हणल्यार दोन पयशांच्यो शेंगो आनी दोन पयशांचे चणे. दोन दीस हांवें तें खाल्ले. कांय लोकांनी आमकां जेवण दिलें. तणाच्यो गाडयो भरून तयार जाल्यो. आमी आमची गाडी भरून ती दोरयेन आंवळून घट बांदली. वाऱ्यान गाडी उमथुची न्हय म्हूण फुडल्यान आनी फाटल्यान तिका आदाराक धिगयो लायल्यो. म्हाका आमचे गाडयेचे सावळेंत बसपाक सांगून मामा आनी थोडे मनीस दुसरी गाडी भरपाक गेले. आमची गाडी एके दोंगुल्लेचेर आशिल्ली. हांव गाडये सकयल सावळेंत बशिल्लों. म्हज्या हातांत आशिल्ले एके बडयेन हांव धिगयेचेर मारीत बसलों. पूण बडी मारतां मारतां धिगी पडली. ते बराबर गाडी म्हज्या आंगार उमथली आनी हांव गाडये पोंदा सांपडलों. म्हजें आख्खें आंग तणा सकयल चिड्डलें. हांव भायर सरपाक धडपडटालों पूण म्हाका भायलें कांय दिसनासलें. जायत्या देवांक सादयलें पूण खंयचोच देव आयलो ना. कांय लांब अंतराचेर थंयचीं भुरगीं गोरवांक चरयतालीं. तांणी तें पळयलें आनी धांवत येवन म्हाका भायर काडलो. म्हजे मानेचेर गाडयेचे साटयेचो

खुंटो तोपिल्लो. ताका लागून मानेक गूट आयिल्लें. सगळे गाडयेवाले आयले. ते मामाचेर तिडकले आनी त्या भुरग्यान मामाचेर एक-दोन थापटां मारलीं.

आमच्यो भरिल्ल्यो गाडयो एकी कडेन जमयिल्ल्यो. सगळ्यांक घराची ओड लागली. दीस अस्तमचे आदीं आमी घाटा कडेन पावले. घाट सोरपा भशेन वांकडो तिकडो दिसतालो. गाडयेक चार बैल बांदचे पडटाले. आमी थंयच राबितो केलो आनी सकाळीं व्हडा फांतोडेर गाडयो बांदल्यो. चार चार बैल लावन गाडयो वयर हाडल्यो. घाटार आमच्यो सगळ्यो स गाडयो आशिल्ल्यो. घाट चडून येतकच आमच्या बैलांक बरेंच पुरो जाल्लें. सगळ्या बैलांक सोडले. बैल चरताले आनी आमी आमच्यो शेळ्यो भाकऱ्यो चाबडायताले. चरून जातकच बैलांनी बसकण मारली. तांकां बरोच विसव मेळिल्लो. दनपारां सुमार दोनांक गाडयो बांदल्यो. आमचो गांव पंदराएक मैलांचेर आसतलो. रस्तो बरो. आमी दोंगराचे कडेन वताले. दोंगर आमचे दावे वटेन आसलो. थंय मेरेन पावतासर काळोख जाल्लो. आमी गाडयो सोडल्यो आनी बैलांक मळार चरपाक सोडले.

शिंयांचे दीस ते आनी बरोच काळोख दाटून आशिल्लो. आमकां कुलकुल्याचें शीं खावपाक लागलें. रानशेण सोदपाक आमी हांगाथंय झळपले. पूण काळखांत शेणी दिसनासल्यो. जमनीर कितेंय काळें दिसल्यार ताचेर पांय दवरून पळोवचें. पांयाक शेणकूट लागल्यार तें उलखपाची. अशे तरेन शेणकुटां पुंजावन हाडलीं आनी धग केलो. धगाचे आशीकुशीक सगळे शेकूंक बसले आनी कांय जाण न्हिदले. हांवूय न्हिदलों. फांतोडेर चंद्र अस्ताक वतकच सगळे आपापले बैल सोदपाक लागले जाल्यार एकल्याकूय बैल मेळना. बैल कोणें व्हेले, काय वागाचे भकीक पडले हें कळना.

तांणी म्हाका गाडयां म्हऱ्यांत राखपा खातीर दवरलो आनी ते सगळे जाण बैलांचे सोदीक गेले. गाडयां कडेन बसून हांव म्हजे कडेन उरिल्ले त्यो सांगो आनी चणे खावन उदक पियेलों. लागींच उदकाची एक झर आशिल्ली. उदक खूब नितळ आसलें. तान लागतकच हांव उदक पितालों. उदक पियेवनच दीस सारलो. रात जाली तरी कोणूच येना. म्हजी नदर सारकी तांचे वाटे कडेन लागिल्ली. काळोख जालो. म्हाका भिरांत दिसपाक लागली. मनांत तरातरांचे विचार येवपाक लागले. गाडयो सोडून वचपाक मेळना. पोटांत अन्न ना. भंय वाडत वचपाक लागलो. थंयच्या दोंगरा वटेन म्हजें लक्ष गेलें. त्या दोंगराचेर म्हाका उजवाड दिसलो. म्हाका दिसलें आतां आमचे वटेन वाग येता. खूबच भियेल्लों हांव.

त्याच वेळार चंद्रीम वयर येवपाची वेळ जाल्ली. सादारणसो उजवाड पडटालो. म्हजी नदर दोंगरा वटेन लागली. थंय कितें तरी हालिल्ल्या भशेन दिसपाक लागलें. म्हज्या आंगाक थरथरो सुटलो. हांवें बांदिल्ल्या गाडयेच्यो पेंडयो उस्तून एक मोटें भुंयारशें तयार केलें आनी तातूंत मुंगरून बसलों. तणाच्यो पेंडयो आडण्या कडसून घेतिल्ल्यो आनी खऱ्यांनींच कांय वेळांत वाग आयलो. हांव तणांतसून पळयतालों. आंग थरथरतालें. म्हजो आंवरो उडिल्लो हांव तसोच ओगी पडून रावलों. वागान गाडया भोंवतणीं दोन-तीन भोंवाडे मारले. कांय वेळ पयस वचून बसलो. तो केन्ना गेलो तें हांवें पळयलें ना.

निमाणें बैलांक घेवन मामा आनी कांय गाडयेवाले आयले. पूण एकट्यानूय म्हजे खातीर कितें खावपाक हाडलें ना. मामान गाडी बांदली आनी आमी रोखडेच भायर सरले. आक्राळ्याक पावतकच हांवें आजेक सगळी गजाल सांगली. म्हाका पोटा कडेन धरून आजी रडली. कांय दिसांनी हांव ओझराक परतों आयलों.

ते उपरांत कांय दिसांनी माधवरावाची बायल दुयेंत पडली आनी स-सात दिसांनी ती मेली. आमच्या संवसाराची घडी विस्कळीत जाली. तिचें नांव भागू आनी हांव तिका भागुवयनी म्हणटालों. माधवराव मागीर मुंबय गेलो आनी आमी ओझराकच रावलीं. कांय दिसांनी रकाद आयलो, मुंबय माधवरावाच्या खाणा-जेवणाची खूब हालत जाता तेन्ना रांदपा खातीर काकूक मुंबय धाडल्यार बरें जातलें. हो रकाद मेळटकच आमी मुंबय वचपाचें थारायलें. पूण खंय वचपाचें आनी कोणा बराबर ह्या विचारांत पडलीं. त्या वेळार नेवर्तीसायब ओझराक आयिल्ले आशिल्ले. ते रोखडेच मुंबय वचपाचे आसात अशें पुंजाबाबाक कोणें तरी सांगलें. आमचीच एक बापोलआत्या, पवळावू नांव तिचें, तिकाय मुंबय वचपाचें आसलें. तिकाय सांगात जाय आसलो. त्या वेळार गाडयेची तिकेट एक रुपया चौदा आणे आशिल्ली. आमची आई, हांव आनी म्हजी धाकली भयण नाजुका, रुंजाबाबा मुखार तिचें लग्न जाल्लें, त्या वेळार ती सामकीच ल्हान आसली आनी घोवाल्या घरा वचनासली, अशीं सगळीं पवळा आत्या वांगडा तिकेटी बगर मुंबय आयलीं. तो वेळ एकुणिसशें एकुणिसचो आसतलो. ते उपरांत आमच्या जिविताक वेगळेंच मोडण लागलें.

# मुंबई नगरीची वळख

**आमी** मुंबय यो जाल्यार आमकां सगळेंच नवें दिसपाक लागलें. आगगाड्यो, हवेल्यो आनी रस्ते. रेल्वे स्टेशन पळयतकच आमकां खूब आनंद जालो. घाटकोपराक फइलवाल्यांचे (रेल्वेंत 'फाइल्स'वाले म्हूण काम करपी मानांय) चाळींत आमी रावतालीं. कांय इश्टय जाल्ले. इश्टां वांगडा स्टेशनार भोंवपाक वचूंक लागलों. म्हाका आनीक म्हजे सारकेले तीन इश्ट मेळ्ळे. तातूंतलो एकलो कुड्डो आशिल्लो. तागेलें नांव मारवत्या. तो स्टेशनार बसून भीक मागतालो. तागेल्या व्हडल्या भावालें नांव पांडू.

आई तण कापूंक वताली आनी हांव घराच भयणीक सांबाळटालों. आईक तण कापपाची बरी गती आशिल्ली. गांवांत तिका दोन वा तीन आणे मेळटाले. पूण आतां ती बारा-चवदा आणे मेळोवंक लागली. तणाचेर तिचो हात बरो घोळिल्लो. हांवूय घाटकोपर स्टेशनाचे आशीकुशीक खेळपाक वचूंक लागलों.

एक दीस स्टेशना कुशीक खेळटना म्हाका एका मनशान आपयलो आनी हांवय धांवत गेलों. ताणें म्हज्या माथ्यार एक पोटली दिली आनी म्हाका घरा मेरेन व्हेलो. ताणें म्हाका दोन आणे दिले. ते पळोवन म्हाका खूब उमेद जाली. येतकच हांवें ते दोन आणे आई कडेन दिले. आईकय बरोच आनंद जालो. ही म्हगेली पयली जोड. हांव दर दिसा थंय वचपाक लागलों. आमी रेल्वेचे चाळींत रावतालीं. ती कूड सामकीच ल्हान आसली आनी रावपी मनशां चड. तातूंत आमची भर पडली.

दर दिसा हांव चार-पांच आणे हाडटालों आनी आईकय बारा-चवदा मेळपाक लागिल्ले. आतां आमचें बरें चलतालें. आमी आयिल्ल्याचें माधवरावाक कळ्ळें आनी त्र्यंबकान ताका सांगलें, तुका आतां दोन-तीन मनशांक पोसचें पडटलें. तूं आतां हांगा रावूं नाका, वच तूं. माधवराव आमचे कडेन आयलोच ना. तो ओझराक गेलो आनी आमी थंयच रावलीं.

म्हजो इश्ट पांडू. ताका मुंबयची बरीच म्हायती आशिल्ली. बोल्सांत पयशे आसले काय ताचे वांगडा आमी मुंबय भटकूंक वच्चें. आंगांत पिनकी बंडी आनी पिनकीच चड्डी. पांयांत कांयच ना. वयर रखरखतें वत. सकयल डांबरी रस्तो. पांय चरचरीत हुलपुचे. पूण आमकां ताचें कांय दिसनासलें. आमी गल्ले गल्लेंत भटकुचें. डांबरी रस्ते सामके तापिल्ले आनी रस्त्याचें डांबर पातळ जावन तेला भशेन तेलकट दिसताले. ट्राम गाडयो आनी घोड्याचे टांगे पळोवन म्हाका खूब आनंद जातालो.

एक दीस आमी चौपाटीचेर वचपाचें थारायलें. आईन म्हाका नवी बंडी आनी नवी चड्डी घेतिल्ली. नवे कपडे पळोवन ते केन्ना एकदांचे आंगार चडोवचे अशें म्हाका जाल्लें. दुसऱ्या दिसा नवे कपडे घालून हांव तयार जालों आनी सगळे चाळभर लोकांक दाखयत भोंवलों. तयारी करून आमी तिकेटी बगर गाडयेंत बसून एका स्टेशनाचेर देंवले आनी गल्ली गल्ली भोंवपाक लागले. भोंवता भोंवता पांडू एका इराण्याच्या होटॅलांत घुसलो. हांवूय गेलों ताचे वांगडा. ताणें एक सामुसा आनी एक च्या मागयली. तेच भशेन हांवेंय च्या आनी सामुसा घेतलो. चलत चलत आमी चौपाटीचेर आयले. कपडे उतरावन दर्यांत न्हावन घेतलें. उदकाक हांव खूब भियेलों पूण पांडून म्हाका धीर दिवन समजायलो. मागीर आमी तापिल्ल्या डांबरी रस्त्यान चलताले. चलतना म्हाका पांयांक खातखुतल्यो जावच्यो आनी मनांतल्यान हांसपाक येवचें. वतांत तापिल्लो डांबर न्हिवत आयिल्लो. आमी ताचे वयल्यान चलचें. चलतां चलतां आमकां पुरो जालें आनी आमी झाडा सकयल बसले. मातसो विसव मेळ्ळो. पांडून सांगलें, आतां आमकां लाल बत्तीक वचपाक जाय. थंय खूब मजा आसा. व्हडले बंगले, इमारती आनी उलटी गंगा आसा. ती पळोवया. आमी वचपाक लागले.

पांडून एका पयशाच्यो दोन पानपट्ट्यो घेतल्यो. हांवे दोन घेतल्यो आनी पान खायत आमी रस्त्यान चलपाक लागले. व्हडल्यो व्हडल्यो इमारती आनी चमचम जावपी रस्ते पळोवन हांव भियेलों. पानपटीन तोंड भरलें. आतां थुंकपाचें खंय हें चिंतपाक लागलों. बऱ्या जाग्यार थुंकल्यार पुलीस म्हाका धरतले आनी कोंडून दवरतले आनी म्हजी आई म्हाका सोदीत भोंवतली आनी रडत बसतली. अशे जायते विचार तकलेंत आयले. पूण पानान तोंड भरलें तें खंय उडोवपाचें? निमाणें हांवें नवे बंडीची ओटी केली आनी तातूंत थुकलों. बंडेचीं दोनूय तोंकां धरून हांव चलतालों आनी थुंकी सकयल गळटाली. पांडून विचारलें, ओटयेंत कितें घेतलां

तें पळोवया? आनी पळोवन तो हांसपाक लागलो.

आमी त्या रस्त्यान वयर गेल्यार कितें पळोवचें? कांय सुवातांचेर उदकाच्यो टांकयो आशिल्ल्यो आनी मडवळ कपडे उमळटाले. तातूंतल्यान उदक व्हावून दर्यांत वतालें. ताकाच उलटी गंगा म्हणटात. आतां थंय गवर्नरसायबांची बाग आसा आनी कांय वाग-शिंवाचे आनी कांय बायलांचे पुतळे आसात. हेवटेन दोंगुल्लेच्या सकयल दर्याचे देगेर गवर्नराचो बंगलो. ताकाच लोक लाल बत्ती अशें म्हणटात.

ताच्या उपरांत दोन-चार दिसांनी आमी पर्थून वताले. आमकां रस्त्याचे दुसरे वटेन वचपाक जायना जालें इतली गर्दी आशिल्ली. कित्याक तर तेवटेन टिळकांचें मयत वतालें.

एक दीस आमी सांजवेळचे घरा आयले. आख्खो दीस जेवण ना. येतकच आईन म्हाका तापोवण्यांनी बरोच उजरायलो. सद्दां उठून भर उन वतांत हेडटालों. कांय भुरग्यांनी सांगलें, ठाण्याक बोगद्याचें काम चालू आसा. थंय पोराक स आणे दीसवडो मेळटा. तें आयकून आमी सात-आठ पोर गेले. पूण म्हाका कोणें कामाक दवरलो ना. हांव ल्हान म्हूण. कांय दोगा-तिगां भुरग्यांकूच घेतले. दोंगर फोडून अर्दो फर्लांग जाल्लो. आमी भितर वचून पळयलें. अस्तमते वटेन कांय अंतराचेर एक व्हडलो हारसो लावन उजवाड बोगद्यांत घेतिल्लो. त्या उजवाडांत लोक काम करताले तें आमी पळयलें.

जे कुडींत आमी रावतालीं ती कूड सामकीच ल्हान आशिल्ली. जेवन जालें काय गोजड्यो खांदार उडोवन घाटकोपर स्टेशनार वचून चार नंबराच्या फलाटाचेर आमी न्हिदताले. आमच्या वांगडा कांय मानांय मनीस आसताले आनी पोरां तशेंच बायलोय आसताल्यो. केन्ना केन्ना जागे खातीर झगडीं जातालीं.

कांय दिसांनी म्हज्यो बऱ्योच वळखी जाल्यो. एका मनशान म्हाका पेपर विकपाचें काम दिलें. हांव पेपर विकपाक लागलों. म्हजे उदरगतीची सुरवात जाली. म्हाका पांच-स आणे मेळपाक लागले. गंगाराम नांवाचो एक मनीस आसलो ताका भुरगेंबाळ नाशिल्लें. ताका म्हजो लळो लागलो. हांवेय ताका दर दिसा पयशांचो हिशोब दिवचो आनी तो दिता तितलेच पयशे घेवचे. ताका लागून ताचो म्हजेर विस्वास बसलो. म्हाका वांगडा घेवन ताणें सगळे प्रेस दाखयले आनी प्रेसवाल्यां कडेन म्हजी वळख करून दिली. खंयच्या पेपराचे कितलें

कमिशन घेवपाचें हाची बरीच म्हायती दिली.

त्या वेळा वयले पेपर क्रॉनिकल, विकली, टायम्स, लोकमान, केसरी, नवजिवन, मवुज अशे जायते पेपर हांवें विकले. हातूंत म्हाका बरेंच कमिशन मेळटालें. नवजिवन पेपराचो खप खूबच बरोच जातालो. ताचें मोल आसलें पोरणे पांच पयशे. गुजराती चड पयशे दिवन तो घेतालो. मसीद बंदर, घाटकोपर आनी मुलूंड हांगा गुजरात्यांचो चड भरणो. तांचे खातीर रेल्वेची एक लोकल आशिल्ली. ती बोरीबंदर सावन सुटली काय घाटकोपराकूच उबी रावताली आनी थंय सावन सुटली काय मुलूंडाकच उबी रावताली. गुजराती लोकां मदीं बरो एकचार आशिल्लो.

आतां पेपर विकपाक लागलों. स्वराज्याची चळवळ नेटार आशिल्ली. एकुणीसशें बावीसचो तो काळ आसुंये. गुजराती पेपर चड खपताले. नवजिवन पेपर तर मेळपाक मुश्कील आसतालो. तोच हांव बाळगितालों. ताचेर खूब झुंडी पडटाली. लोक पेपर झोमून घेताले. पांच पयशे मोल ताचें. पूण चार आणे, आठ आणे दिवन लोक तो घेताले आनी पुलिसांच्या भंयान उरिल्ले पयशे सांडून वताले. रातच्या णवाच्या टायमाक प्रेसाच्या ऑफिसांत वचून सगळे पयशे भरपाचे. आमच्या एजंटान बीबी दादराक (पश्चिम रेल्वेचें दादर स्टेशन) ऑफिसा खातीर सात रुपया भाड्याची एक कूड घेतली. दादर बीबी स्टेशना वयल्यान लागींच येवप्या-वचप्यां खातीर जो सांकव आसा त्या सांकवाच्या तोंकाक शेजराच एकक जनेल आसा. तीच आमची कूड. कांय दिसांनी गंगाराम एजंट दुयेंत पडून मेलो. ताका भुरगेंबाळ नाशिल्लें. पेपर एजन्सी म्हाकाच करची पडली. म्हाका तातूंत बरेच पयशे मेळपाक लागले आनी व्हडा व्हडांच्यो वळखी जाल्यो.

चरनी रोड स्टेशनाच्या आलतडीं गाईवाडी आसा. थंय वीस-बावीस कुडींची एक चाळ आशिल्ली. ते चाळींतली एक कूड ऑफिस आनी दोन कुडी लायब्ररी आशिल्ली. थंयचे लोक आमकां ''फक्त पाशे रुपये देत व आमच्या मेंबर हो'' म्हूण सांगताले. हांवें आईक विचारलें पूण आई नाका म्हणपाक लागली. हे काय आपले गांव न्हंय आमकां परत ओझरला वचपाचें आसा म्हणपाक लागली. मागीर हांवें ताका नाका म्हूण सांगलें.

म्हजो पेपरांचो धंदो नेटान चल्लो. सद्दां राती कडेन प्रेसांत वचून सगळ्यांचे हिशोब दिवन न्हिदपाक बाँबइ समाचाराच्या प्रेसांत वचपाचें. हांतरुपाक कागद आनी पांगुरपाकय कागद घेवन न्हिदतालों. सकाळीं चारांक उठून सगळ्या प्रेसांतल्यान

पेपर घेतालो. पेपर विकपाक हांवें कांय भुरगे दवरले. तांकां जे पेपर जाय ते प्रमाण तांकां दिवपाचे. दनपारां तीना उपरांत सगळ्यांचो हिशोब भुरग्यां कडसून घेवपाचो आनी रातचो प्रेसाक दिवपाचो. अशें दोन-अडेज वर्सां चलतालें. त्या वेळार आई जायपी रेल्वेच्या (मध्य रेल्वे) भाईखळा इंजेन शेडींत कामाक लागली. आमकां बरे दीस आयिल्ल्या भशेन दिसपाक लागलें.

# युरोपेन सायबाच्या सांगाता

**एक** इरोपेन सायब रोन क्रॉनीकर पेपर घेतालो. केन्ना पेपर मेळना जालो जाल्यार तो निर्शेतालो. एक दीस ताणें म्हाका सांगलें, ‘‘आमारा लिया पेपर रखो. आम तुमकू ज्यादा पइसा देयगा’’. ताचे खातीर हांव एक पेपर काडून लिपोवन दवरतालों आनी तो आयलो काय ताका दितालों. अशें बरेच दीस गेले. ताची आनी म्हजी इश्टागत जाल्ल्या वरी म्हाका दिसपाक लागलें. एक दीस ताणें म्हाका बंगल्यार व्हेलो आनी खावपाक पोपाय, सफरचंद आनी कांय बिस्कुत्यो दिल्यो. म्हाका खूब आनंद जालो. ताणें सांगलें, ‘‘तुमकू जेब टाइम मिलेगा तब तुम आम्हारे मीसी बाबाका सात खेळनेकू आव’’. हांव वचपाक लागलों, जाल्यार ताणें म्हाका दोन रुपये बक्षीस दिलें. तें घेवन उमेदीन घरा आयलों. तेन्ना सावन बंगल्यार वचपाक लागलों.

सायबाची बायल इंडियन आशिल्ली. ती ते चलयेक खूब सतायताली. केन्ना केन्ना तिगेल्या केंसांक धरून तिका मारताली. कित्याक तर ती तिची सवती आवय आशिल्ली. घाटकोपराक जो व्हडलो पायपाच्या उदकाचो पूल आसा त्याच पायपाच्या पुलाक खेटून एक रेल्वेचो बंगलो आसा, तोच सायबाचो बंगलो. तातूंत तो रावतालो. खेळपा खातीर मैदान आनी व्हडली बागय आसली.

सांजवेळा पेपराचे पयशे जमले काय चार-साडेचारांक हांव बंगल्यार वचपाक लागलों. ते चलये वांगडा बागेंत खेळचें आनी थंयच जेवचें. अशे कितलेशेच दीस चलिल्लें. सायब आनी मेमसायब वरांड्यांत कदेलां घालून आमचो खेळ पळयताली. लिपचेल्यांनी, केन्ना दोरये वयल्यो उडयो मारपाच्यो आनी केन्ना धरचेल्यांनी, असले खेळ खेळटालीं. ते चलयेक म्हजो लळो लागलो. ताचे माये खातीर म्हजें पेपरा वयलें लक्ष उणें जायत गेलें. कांय दिसांनी हें सायबांक कळ्ळें. सायब म्हाका म्हयन्याक आठ रुपया दिवपाक लागलो. त्या वेळार म्हाका देवाचे भक्तीचो आनी भजनाचो नाद लागलो.

एक दीस आमी खेळटना सायबान आमचो फोटू काडलो आनी ताणें तो

आपले आईक धाडलो. तें आम्कां सांगलें ना. सायबाची आई आनी दोन भुरगीं परदेसांत आसलीं. ते चलयेचे आजेन आनी भावान एक चीट धाडली. तातूंत ताणें सांगलें, तुजे वांगडा जो भुरगो खेळटा ताच्या पांयांत बूट नात. ताच्या पांयार पांय दवरूं नाका. पांय दवरल्यार ताका दुखापत जातली. मागीर सायबान म्हजे खातीर बूट हाडले. तें पळोवन म्हाका आनंद जालो. सायबाचे आईन परदेसांतल्यान चीट बरयली. दोगांय पोरां शाळेंतल्यान येतकच तांचे खातीर ज्यो दोन कुडी रिकाम्यो आसात, तातूंत तीं वायरीचे तारीन खेळटात आनी ते तारीक कितें तरी लावन उलयतात. केन्ना केन्ना पयस बसून भितरसून कसलो तरी आवाज येता तें आयकतात. अशें म्हाका मेमसायबान सांगलें.

एक दीस सायब-मॅडम वरांड्यांत बशिल्लीं आसतना म्हाका आपोवन व्हेलो आनी सांगलें, बारा तारखेक तुका मीसीबाबा वांगडा तिचे शाळेंत वच्चें पडटलें. हांवें हां म्हणलें आनी खेळपाक गेलों. सायबाचीं आनी मेमसायबाचीं उलोवणीं जालीं. म्हाका ताणी कपडे आनी बूटय घेतले. शाळेंत वचपाची तारीख पयस आशिल्ली. तो मेरेन तिणें म्हजी बरीच तयारी केली. मेमसायबान कांय दिसांनी म्हाका ते कपडे दाखयले. ते पळोवन भोव आनंद जालो.

बारा तारीख. हांव सकाळीं आमची तयारी करून आयलों. मेमसायब म्हजे कडेन पळोवन सामकी खोशी जाली आनी घरांतल्यान एक टाय हाडून तिणें आपल्या हातांनी म्हज्या गळ्यांत बांदलो. म्हाका तांचे वांगडा रावन इंग्लीश भास येवपाक लागली. हांव तांचे वांगडा इंग्लिशींतल्यान उलयतालों. म्हाका मराठी वाचपाक, उलोवपाक येनासली, पूण हांव तांचे वांगडा इंग्लीश उलोवपाक शिकलों. तिणेंच ए बी सी डी शिकयली. आमी दोगांय जाणां पांच वरांचेर तिगेले शाळेंत गेलीं. शाळा आझाद मैदानाच्या शेजराक आनी बोरीबंदरच्या फुडल्यान आसा. आजून आसा ती. हांव भितर वचून उबो रावलों आनी ती भितर गेली. एका सायबान म्हज्या हाताक धरून म्हाका कदेलार बसयलो. तें म्हज्या जिवाक खूब लागलें. म्हज्या मनांत खूब विचार येवपाक लागले. हांव शाळा शिकिल्लों जाल्यार हे कदेल हांव हक्कान घेतलों आशिल्लों. तेन्ना सावन विचार करपाची शक्त म्हज्या मनांत निर्माण जाली.

सायबाचें नांव नेयरल आनी चलयेचें नांव रोबीन. मेमसायब काळी आशिल्ली. तिगेलें नांव विसरलों. पूण म्हाका ती खूब बरे भशेन सांबाळाटली आनी म्हजे

लाडय करताली. कित्याक तर हांव तिका खूब मजत करतालों. घोव-बायलेचीं सदांच झगडीं जातालीं. तो घरांत सगळ्या सामानांची आदळ आपट करी. पितकच तागेलें नाटक सुरू जातालें. कपडे काडून भिरकायतालो आनी नागडोच पयस वचून तणांत ना जाल्यार झाडांनी पडटालो.

एक दीस बरीच रात जाली. सायब आनी मेमसायबाचें बरेंच झगडें जालें. बंगलो लायनीचे कुशीकच आशिल्लो. बंगल्या सावन कांय अंतराचेर रेल्वेचें व्हडलें मान्नें आशिल्लें. बंगल्यांतल्यान तें दिसतालें. त्या टायमाक सायब घरांत नाशिल्लो. झगडून तो घरांतल्यान भायर सरून गेल्लो. मेमसायबाक दिसलें, सायबान गाडये पोंदा जीव दिलो. मेमसायब व्हडल्यान रडपाक लागली. आमी सगळीं जाणां एकठांय जमलीं आनी कितें जालें हाची चवकशी केली. मेमसायबान सांगलें, सायबान जीव दिला. तो पळयात, मोरयेचेर फडफडटा. आमी लापयांव घेवन मोरये कडेन गेले. पूण तो सायब न्हय, तर व्हडलें कागद आशिल्लें आनी वाऱ्यान तें हालतालें. आमी सगळे परतताले इतल्यान तणांतल्यान परवंपाचो आवाज आयलो. हांवें वचून पळयलें जाल्यार सायब पडला आनी ताच्या आंगार कपडे नात. फकत पिजाम आसा. तो तातूंत मुतिल्लो. सगळें आंग भिजिल्लें. हांवें ताका उखलून खांदार घेतलो आनी हाडून पलंगाचेर दवरलो. मेमसायब म्हऱ्यांतच उबी आशिल्ली. हांव म्हजे कुडींत वचपाक गेलों. हें नाटक सगळ्यांनी पळयलें. तेन्ना सावन मेमसायबांक म्हजो खूब लळो लागलो. अशें कितल्या तरी टायमाक हांवें सायबाक जायत्या ठिकाणां वयल्यान हाडला आसतलो.

मेमसायबान म्हाका भुरग्या वरी वागयलो. एक फावट हांवें पोपायो खाल्ल्यो. त्यो हांवें चोरून खाल्ल्यो. बागेंत पोपायेचीं चार पांच झाडां आशिल्लीं. आमची सदांच तांचेर नदर आसताली. पोपाय सादारणशी हळडुवी जाली काय हांवें ती काडपाची आनी रोबीनाचे कुडींत लिपोवन दवरपाची. बरी पिकतकच आमी दोगांय खातालीं. कोणाक हें कळनासलें. केन्ना केन्नाय दिसांचो हांव म्हजे कुडींत वचून एकलोंच खातालों.

एक दीस हांवें एकल्यान दोन-तीन पोपायो खाल्यो. ताका लागून म्हज्या कपलार आनी तोंडार व्हडल्यो व्हडल्यो पुळयो आयल्यो. हांव म्हजे कुडींत बशिल्लों आसतना मेमसायबान म्हाका उलो मारलो -

"चोकरा, इदर आव".

हांव पळत तिचे मुखार वचून उबो रावलों. तिणें म्हजे कडेन पळयलें आनी विचारलें -

“चोकरा, तुमको क्या हुआ?”

हांवें सांगलें -

“फोडी हुवा”.

तिणें म्हणलें -

“ये पपायाका झाड आया. आबी सब पपाया तुम्हारा सीरपर आएगा. अब तुमकू कल जुलाब देयगा. तुम कल कुछ नही खाना. समज्या? ज्याव”.

म्हजे कुडींत वचून हांव पलंगार न्हिदलों. मेमसायबान म्हाका परतून आपयलो. एका वायन ग्लासांत थोडी ब्रॅण्डी घाली. तातूंत थोडें एंडेल घालें आनी परत तातूंत ब्रॅण्डी घाली. तेलाचो दाट गुळो कसो जालो. म्हाका तें पिवपाक दिलें. हांव वचून न्हिदलों. पूण राती कडेन म्हज्या पोटांत कितें तरी जावपाक लागलें. सकाळीं दोन-तीन खेपे संडासाक जालें.

सकाळीं सगळ्यांचीं कामां आटापलीं आनी सायब ऑफिसाक गेलो. मागीर मेमसायबान म्हाका आपयलो. ते बराबर हांव रोखडोंच गेलों. तिणें विचारलें -

“छोकरा, कितना जुलाब हुवा!”

म्हाका तें कळना जालें. हांवें सांगलें -

“बीस-पचीस”.

हें आयकून ती हांसपाक लागली. म्हऱ्यानच मडवळ उबो आशिल्लो. मेमसायबान ताका आपयलो. म्हजे विशीं तिणें सांगतकच त्या मडवळान म्हाका विचारलें -

“छोकरा, रातसे अबीतक कितना टायम संडास गया था?”

हांवें तांकां सांगलें -

“दोन-तीन टाइम संडास हुवा”.

“जाडा हुवा या पतला हुवा”.

हांवें सांगलें -

“पतला हुवा”.

हें आयकून दोगांय हांसलीं. तीं कित्याक हांसलीं तें म्हाका कळ्ळें ना.

सायबाक सोऱ्याचो आनी घोड्याचे रेसीचो खूब नाद आशिल्लो. तो म्हाका

चिटी दिवन पुण्याक धाडटालो. हांव पाकिटांत पयशे घेवन वतालों. ते एका सायबाक दिवपाचे. सांजवेळच्या सात वरांचे गाडयेन राती कडेन इकरा वरांचेर बंगल्यार येवपाचें. सायब म्हाका सकाळीं आपोवन थोडे पयशे दितालो. जे खेपेक रेसींत चड पयशे लागताले तेन्ना म्हाका चड पयशे मेळटाले!

एक दीस सायबाचे चलयेन रेस खेळपा खातीर म्हाका चाळीस रुपया दिले. हेवटेन तेवटेनच्या लोकांक विचारून म्हाका घोड्याची आनी खेळपाची म्हायती जाल्ली. दर आयताराक हांव पुण्याक वतालों. सायबान म्हाका पास दिल्लो. ते चलयेन दिल्ले पयशे हांवें म्हज्या मनानच लायले. थंयच्या सायबाक विचारून लायले. तातूंतल्यान दोन हजार तिनशीं रुपया मेळ्ळे. हांवें ते एका कागदाच्या लाखाट्यांत घालून बंद केले. सायबाक कितले मेळ्ळे तें म्हाका खबर ना. सायब म्हजी वाट पळयत वरांड्यांत बशिल्लो. हांवें येवन सायबाच्या हातांत पाकीट दिलें आनी गेलों. दुसऱ्या दिसा म्हाका सायबान आपयलो आनी मोटे खोशेन म्हाका पन्नास रुपया दिले. हांव तर बरोच आनंदीत जालों. त्या आनंदाच्या भरांत ते चलये म्हऱ्यांत गेलों आनी तिगेलेय पयशे दिले. पूण गुपचूप. तिणें घेवन, पळयनासतना दवरले. सांजवेळा आपणाले कुडींत आपयलो आनी खूब हांसून म्हज्या गळ्यांत वेंग मारली आनी म्हणपाक लागली, ''इवर लखी मॅन'' रोखडीच म्हाका शंबराची एक नोट दिली. हांव नाका म्हणटा आसतना म्हज्या बोल्सांत चोंदली. म्हाका कितली खोस जाल्या आसतली हें आतां सांगपाक येना.

एक दीस सायबान म्हाका चीट दिवन इगतपुरीक धाडलो. तागेलो इश्ट इगतपुरीक सइतान बंगल्यांत रावतालो. सायबान सांगलें, ही चीट इगतपुरीच्या स्टेशनमास्तराक दी. मास्तर तुका बंगलो दाखयतलो. हांव चीट घेवन इगतपुरीक गेलों. चीट मास्तराक दिली. ताणें म्हजे वांगडा एक पोटर दिलो. आमी दोगूय बंगल्यार गेले. त्या पोटरान म्हाका पयसुल्ल्यानच तो बंगलो दाखयलो. म्हजे बराबर बंगल्या मेरेन आयलो ना आनी म्हाकाय कांय सांगलें ना.

बंगल्याचे गेटी मेरेन हांव एकलोंच गेलों. गेट बंद आशिल्ली. हांवें गेट उगडली. घंटीचो भितर आवाज जालो. इतल्यान एक सायब धांवत भायर आयलो. ताका सलाम मारून हांवें चीट दिली. म्हाका वरांड्यांत बसपाक सांगलें. हांव थंयच बसून रावलों आनी हेवटेन तेवटेन पळोवपाक लागलों. पूण थंय कोणूच ना आनी बंगल्यांतय कोण ना. सायबान म्हाका च्या हाडून दिली. हांव च्या पितना

कांय सायब आनी मेमसायब आयल्यो. थोड्याच वेळांत बंगल्यांत गर्दी जाली. सायबान कागदाची पुडी बांदून म्हजे कडेन दिली. ताणें सांगलें, हें खिसेमे रखो. सात-साडेसातांचो टायम आसतलो तो. काळोख जाल्लो. बंगल्या भायले दिवे पेटिल्ले. हांव बसून मजा पळयतालों. सायबान म्हाका भायरूच जेवण हाडून दिलें. म्हजें जेवण जालें. हांव उठून भायर वतालों इतल्यान सायबान खुणायलें, वचूं नाका. सकयल बसपाक खुणा केली. हांव गुपचूप बसून मजा पळोवंक लागलों. जायते सायब, मेमसायब एकामेकांक कमरांक धरून नाचताले. सोऱ्याचे ग्लास तोंडाक लावन नाना तरांची मस्ती करताले. हांव मजा पळयतालों. ते जेवपाक बसपाच्या वगतार सायबान म्हाका जेवण हाडून दिलें. पूण वरांड्यांत. कांय वेळान तांचें जेवण जालें. ते लोक केन्ना आनी खंय गेले तें म्हाका कळ्ळें ना.

कांय वेळान तीन पोटर लापयांव घेवन आयले. सायबान कितें तरी कागदांत गुठलावन म्हजे कडेन दिलें आनी तें सायबाक दिवपाक सांगलें. त्या पोटरा वांगडा हांव स्टेशनार आयलों. म्हज्या फाटल्यान कांय टायमान सायब आयलो. म्हाका ताणें जी ल्हान पुडी दिल्ली ती परत घेतली आनी गेलो. सायब वतकच बरेचशे पोटर म्हजे म्हऱ्यांत जमले आनी म्हाका विचारपाक लागले, तुवें कितें कितें पळयलां आनी मनशां कितलीं आशिल्लीं. तांकां हांवें सगळें सांगलें. तें आयकून सगळे हांसपाक लागले. मागीर तांणीय म्हाका सगळें सांगलें, ते सायब लोक मनशां न्हय तर भुतां आशिल्लीं म्हणून. तुका पयलीं कळिल्लें जाल्यार तूं भियेतलो आसलो आनी बंगल्याचेर वच्चो नासलो. हांव मागीर रातचे दोनाचे गाडयेन मुंबय आयलों. सकाळींच हांव बंगल्यार गेलों आनी कितें कितें जालें तें सायबाक सांगलें. चलयेक इगतपूरींत जाल्लें सगळेंच सांगलें. ती हांसपाक लागली.

कांय सप्तकांनी दुसरो सायब आनी मेमसायब आनी दोगां भुरगीं पावणे म्हूण जेवपाक आयिल्लीं. सायबान म्हाका उलो मारलो -

"चोकरा, इधर आव. तुम साहेबाका सात ज्याव. साहेब लोन्हावाला जानेका हाय".

हांव गुपचूप तांचे बराबर गेलों.

त्या सायबाचो बंगलो महालक्ष्मीच्या दोंगरार आशिल्लो. आमी सगळीं जाण मोटारींत बसून तागेल्या घरा गेलीं. दोंगराचेर वतकूच म्हाका सगळें नवीनच दिसपाक लागलें. वयर व्हडलें तळें. तातूंत उपाट भरिल्लें उदक आनी आशीकुशीक

वेगवेगळीं सवणीं आनी व्हडले मोर. हें पळोवन हांव खुशालभरीत जालों. बंगलो दोंगराचे देंवतेर आशिल्लो. दोंगराचे फाटले वटेन दर्यो आशिल्लो आनी दोंगराच्या मुळसांत आशिल्ल्यो कांय व्हडल्यो इमारती आनी बसकीं घरां. सायब सकाळीं आमची वचपाची तयारी करतालो. मोटारी भोंवतणीं तो सारक्यो फेरयो मारतालो आनी वयर सकयल पळयतालो. मोटारीक फाटले वटेन धुंवर वचपाक एक पोकळ पायप आसता. त्या पायपाक पितूळची एक सीटी लायिल्ली.

आमी सकाळच्या स च्या टायमाक भायर सरलीं. खावपा खातीर जायतें कितें घेतिल्लें. आमची गाडी कुल्यीच्या फुडें बरीच पयस गेल्ली. सायबान नवी शिटी वाजयली जाल्यार आमच्या पोटांत कितेशेंच जालें. आमी सगळींच भियेलीं. सायब रस्तो सोडून दोंगराचे कडेकडेनसून वचपाक लागलो. दोंगराच्या कांय अंतराचेर मोटार उबी केली. मोटारीचेर जाळयो बसयल्यो. बारा-तेरा वर्सांचो एक भुरगो आशिल्लो. सायबान ताका कितें तरी सांगलें. त्या दोगांकय मोटारींत बसयले आनी दारां गच्च धांपलीं. सायबान आनी मेमसायबान आर्मां घेतलीं. आमी तिगांय वचपाक लागलीं. सायबान व्हडल्या भुरग्याक सांगलें, कसलेंय जनावर लागीं आयलें जाल्यार ही शिटी वाजय. आमी धांवत येतां. भियेवं नाकात. आमी दोंगराचे कडेंतल्यान वतालीं. हेवटेन तेवटेन नदर आसली. इतल्यान एक व्हडली दोंण पळयली. तातूंत एक वागीण आपल्या पोराक दूद पिवयताली ती सायबान पळयली. रोखडींच आर्मां जोखलीं. वागीण रागान आंगार आयली. पूण दोगांयनी फार पेटयले. वागीण खाला पडली पूण आमी तिचे म्हऱ्यांत गेलीं नात. कांय वेळान लागीं वचून पळयलें. ती थंड जाल्ली. तिचे म्हऱ्यांत मांजराच्या पिला सारके दोन पिले पळयले. आमी त्या पिल्यांक उखलून घेतले.पूण ती वागीण आमच्यांनी उलखना जाली. आमी तिगांयनी मेळून कशी तरी थोड्या अंतराचेर हाडली. एका झाडा सकयल सावळेंत हाडून दवरली. आनी आमी तिगांय मोटारी म्हऱ्यांत आयलीं. सगळ्यांचें जेवण जालें. त्या वागाच्या पिलां वांगडा भुरगो खेळपाक लागलो. ताका खूब मजा दिसली.

आमी एके व्हडले दोंगुल्लेचेर भोंवताले आनी लागींच रेल्वे लायन आशिल्ली. मुंबयसून पुण्याक वचपी एक गाडी गेली. आमी सगळीं तिची मजा पळोवपाक उबीं आशिल्लीं. आमच्या सायबाक, मेमसायबाक आनी भुरग्याक पळोवंक दोंगरांतले बरेचशे भिल्ल लोक आनी तांच्यो बायलो-भुरगीं जमिल्लीं. दोंगरार तीं काण्णा तोडपाक आयिल्लीं आनी आमची मजा पळयत रावलीं. थोड्या वेळान

मुंबयसून पुण्याक एक मेल गेली आनी तिच्या फाटल्यान तेच लायनीन एक मोटार लाडीस गेलें. ताचो आवाज आयकून सगळ्यो बायलो आनी पोरां पळोवपाक धांवत आयलीं आनी आपणा भितर उलोवंक लागलीं -

"संगा पहिली गाडी गेली तिच्या मागून तिचं पिलू पळत चाललंय".

हें आयकून म्हाका हांसपाक आयलें. सायबान विचारलें, 'कितें जालें, हांसता कित्याक?'. तांची भास म्हाका कळ्ळी म्हूण हांसलो, हांवें सायबाक सांगलें. गाडी गेली आनी तिचें पील मागीर तिचे फाटल्यान पळत वता. तीं दोगांय हांसपाक लागलीं.

थोड्या वेळान दोन मनीस आयले. तांणी ती वागीण उखलून हाडली आनी मोटारीच्या वयर दवरली. सायबान तांकां कितें तरी दिलें आनी ते गेले. आमची गाडी थोड्या अंतराचेर आयली. हरणाचो कळप पळयलो. गाडी उबी करून दोगांय जाणां सकयल देंवलीं आनी दोगांयनी गुळयो मारल्यो. तातूंत दोन हरणां मेलीं. एक व्हडलें आनी एक ल्हान. तीं आमी उखलून हाडलीं आनी मोटारीच्या वयर बांदून दवरली. सांजवेळा आमी घरा परतलीं.

दर दिसा हांव बाटलेन त्या वागांच्या पेट्यांक दूद घालतालों. रबराची नळी घालून बाटली तयार केल्ली. वागाचो पेटो आनी माजराच्या पेट्यांत कसलो फरक ना. फरक जाणवता तो व्हड जातकच. हांव दर दिसा ताका खांकेंत मारून बागेंत वतालों आनी तांचे वांगडा खेळटालों. आमकां पळोवपा खातीर गर्दी जाताली. एक सप्तकभर हांव थंय रावलों आनी मागीर आयलों. तो सायब म्हाका वचपाक दिनासलो. पूण म्हाका तांगेर आवडलें ना.

एक दीस आमचो नेर्लस सायब आनी हांव लायनीन चलत बंगल्यार वता आसतना म्हाका सायबान सांगलें -

"तुम लाहीनशे जाना याना नही. थोडा दिनशे वायरकी गाडी यही लाहीनशे चलेगी. आवूर ये गाडी लंबेसे खेच लेयगी व तुम मर जायेगा. कभी लाहीनशे ज्याना नही".

ताचें उलोवणें म्हाका समजलें ना. पयसुल्ली गाडी म्हाका भितर कशी ओडून घेतली? ती तर आपले लायनीन वतली अशी म्हजी समजिकाय जाली. सायबान आनीक एक गजाल सांगली.

"तुम भजन गाता है तो लंबा बइटनेवालेकु सुना नाही जाता. आब थोडे दिनशे इंग्लंडमें लोक भागता है तो उनका पावका आवाज इदर सुननेकु आयेगा.

विलायतेत भजन केलें तर ते हांगा बसून आयकुपाक येतलें''.

म्हाका तें पटनासलें.

आमच्या सायबाचें आनी वयल्या अधिकाऱ्याचें झगडें जालें. तागेलें अधिकाऱ्यां वांगडा पटना. सायबान एका म्हयन्याचो राजिनामो दिला अशें म्हाका चलयेन सांगलें. हें आयकून म्हजें मन दुखावलें. सायब आतां रोखडोच वतलो. मेमसायबान तर उलोवपाचें बंद केलें. मेमसायब आनी सायबान म्हजे खातीर पेंटीक आनी खोमसाक कपडो हाडून दवरिल्लो. सायबान म्हाका एक दीस वांगडा व्हेलो आनी पँट आनी खोमीस शिंवपाक दिलें आनी बूटय घेतले. कांय दिसांनी कपडे घरा हाडले पूण म्हाका दाखयले नात.

एक दीस बंगल्याचेर सायबाले खूब पावणे आयिल्ले. सायबान चार बाटल्यो सोरो हाडिल्लो. सगळे जाण सोरो पियेवन तर्र जाल्ले. नाचय बरोच चलतालो. सगळ्यांचें जेवून जालें. कांय जाण वरांड्यांत बसले जाल्यार कांय जाण बागेंत पासयो मारताले. पांचाच्या टायमाक एकलो फोटू काडपी आयलो. ताणें सगळ्यांचे फोटू काडले आनी सगळ्यांचो मेळून एक फोटू काडलो. ते चलयेचो आनी म्हजो हातांत हात घालून एक फोटू काडलो. सायबान हाडिल्ले कपडे घालून फोटू काडलो. सायबान ताच्या हातान म्हजो टाय बांदून घेतलो. त्या फोटूची एक प्रत म्हाका दिल्ली.

एका म्हयन्यान तो सायब परदेसांत गेलो. पूण मेमसायबाक व्हेली ना. कित्याक तर ती इंडियाची आशिल्ली. तिका हांगाच सांडून गेलो. वतना चली खूब रडली. म्हजें मन तिका कशेंच विसरचें ना. तिणेंच म्हाका ए बी सी डी शिकयली. ताका लागून हांवें चवथीस वर्सां कॅबीनमनाची नोकरी केली. म्हजो संवसार उदरगतीक पावलो. हांव मुळचो अडाणी. तिणेंच म्हाका हे सुवातेर बसयलो. हांव विसरचों ना.

# जायपी रेलवईची नवकरी

**म्हजो** येवरोपेन सायब वतकच हांव बेकार हेडपाक लागलों. एकुणीसशें बावीस-तेवीसचो तो काळ आसत. म्हाका कसलेंच काम मेळनासलें. मागीर एका मनशान म्हाका भावड्याचे कपड्यांचे गिरणींत डाफर पोरा प्रमाण कामाक लायलो. स-सात म्हयने हांवें बरे तरेन काम केलें. म्हजी तातूंत बरीच उदरगत जाली. कांडयो भरपांत म्हजो बरोच हात बसलो. हांवें मुकादमाक मजत करची, केन्ना केन्ना ड्रापय पाडचे. ताका लागून हांव सगळ्यांचे आवडीचो जालों. पूण कांय दिसांनी सगळ्या पोरांक कामा वयल्यान काडून उडयले. तातूंत म्हजोय आसपाव आसलो. हांव परतून बेकार पडलों आनी काम सोदीत भोंवूंक लागलों.

मागीर जायपी रेल्वेंत म्हाका दीसवड्याचेर म्हूण घेतलो. हांव एका वरसेर (ओव्हरसियर) वांगडा काम करपाक लागलों. ठाणा स्टेशनाचे फुडले वटेन एक व्हडलें तळें आसा. ताचे उजवे वटेन रेल्वेची एक लायन ठाण्यां खाडी मेरेन घाल्ली. थंय जायपी रेल्वेचें पावर हावस जावपाचें आसलें. ताचे एके बुनयादीक थाव घेवपाक लोक काम करताले. थंय दुर्बीण आनी कांय सामान घेवन म्हाका वच्चें पड. पूण थंय पक्को थर लागलो ना. त्या ठिकाणाचें काम बंद केलें. मागीर कांय दिसांनी हांव सायबा वांगडा कल्याणाक वचपाक लागलों. कल्याणाच्या आयल्यान एका मैलाच्या अंतराचेर खाडी आसा. ते खाडयेक केन्ना भरती येता आनी केन्ना सुकती येता हें पळोवपाक आमी रातचे वताले. आमचे कडेन लापयांव आसतालो. सबंद रात खाडयेच्या कांठार बसून रावतालों आनी सायब ताची नोंद घेतालो. असो एक म्हयनो थंयच काडलो. भरती आयज णव वरांचेर आयली जाल्यार दुसऱ्या दिसा धा वरांचेर येताली. सद्दां एका वरान वाडत वताली.

कांय दिसांनी म्हजी बदली दुसऱ्या खात्यांत जाली. थंय म्हाका शिमीट कॉंक्रिटाचें काम करचें पडलें. वायरीचे खांबे पुरोवपा खातीर व्हडलीं फोंडकुलां खणचीं पडटालीं. बोरीबंदराचे बरेचशे खांबे म्हज्या हातचे आसात. मागीर दोन बायलो आनी दोन मानांय दिवन कल्याणचे पलतडीं वचपाक म्हाका एका पनेळाची

ग्रोय केली. त्या चौगा मनशांक घेवन हांवें थंय वचपाचें आनी चार बाय चाराचे खड्डे खणून येवपाचें. ते वटेन खूब दाट रुखावळ आनी व्हडलें जंगल. आमकां खूब भिरांत दिसताली. त्या जंगलांत मनशांचो खंयच पत्तो नासतालो. आमी सगळीं एकठांय जमून काम करतालीं. सबंद दीसभरयांत सकयल एक फूट खोलायेचो खड्डो खणून जालो काय हांव सुटी दितालों आनी पनेळांत बसून आमी ते खाडयेंतसून हे वटेन येतालीं. हे वटेन बोरांचीं खूब झाडां आसलीं. आमी सगळ्यांनी बोरां वेंचचीं. एकेक पांटलो बोरां घरा हाडचीं आनी सगळीं बोरां चाळींतल्या लोकांक वांटचीं. पनेळ हांवूच व्हलयतालों. तेवटेन वचप आनी हेवटेन हाडप हेंच म्हजें काम आसतालें. तें काम सोंपतकच म्हाका फइलवाल्यांत काम करपाक धाडलो.

हांव फइलांत काम करपाक लागलों. ठाणा स्टेशनाचे कुशीक एक पावरहावस जातालें. थंय म्हाका हें काम सीगा वाकवीन दिलें. केन्ना केन्ना शिमिटाच्यो पोतयो उखतालों. हांव मानांयूच. पडटा तें काम करचें लागतालें. पूण हांवें कसलेंच काम न्हयकारलें ना. ताका लागून कामगार अधिकाऱ्याचो म्हजेर जीव आसतालो. पूण कांय दिसांनी तेंवूय काम सोंपलें. मागीर म्हाका दुसऱ्या फइलांत धाडलो. थंयचें काम बऱ्याच त्रासाचें आशिल्लें. लायनीच्यो पोरण्यो लांकडी पाटयो काडून नवे सीलीपाट (स्लीपर) घालपाचे आसताले. तें काम आंगार घेवन करपाचें. एका मनशाक दोन हे प्रमाण करचें पड. सकाळच्या आठांक आमी कामार वतकच सगळे मानांय भाकरी उसोवन खायत आनी कांय गजाली मारीत बसताले. पूण हांव घरसूनच खावन येतालों. हांव वचना फुडें हातांत तारीचो हात घेवन कामाक लागतालों. तांचें खावन सोंप मेरेन म्हजी चरी खणून तयार जाताली. तांचें जेवन जातकच ते म्हाका मजत करी. म्हाका सिलीपाट हाडून दीत. कांय जाण ते सिलीपाट घालून रुळांत आडकावन दीत आनी हांव चावी घालून फीट करी. दोनूय लागट भरले काय खणिल्ल्या चरयांनी हांव खडी भरतालों. म्हजें काम सगळ्यांत पयलीं सोंपतालें आनी इकरा-साडे इकरांक काम सोंपतकच हांव कोणाकूय मजत करतालों. केन्ना केन्ना हांव घरा वतालों.

अशाच एका वेळार डोंबीवली आनी कल्याणाचे मदीं काम करतां आसतना खूब पावस आयलो. तो सारको दीसभर चालू उरलो आनी आमी सगळे कामगार भिजून चिप्प जाले. आशीकुशीक झाड ना, लिपपाक सुवात ना. आमच्या आंगा

वयली मुस्तायकी तर भिजून थापो जाल्ली. तातूंतल्यान एकसारकें उदक झिरपतालें. आंग कुडकुडटालें. भाकरी भिजून तिचो गुळो जाल्लो. खावपाक कांय ना. भूक तर कडकडून लागल्या आनी काम तर जावपाक जाय. कल्याण आनी डोंबीवली खूबच पयस. कोणा कडेन वचपाकय जमना.

थंय कांय अंतराचेर धा-बारा खोंपी आशिल्ल्यो त्यो हांवें पळयल्यो. हांव रोखडोंच त्या खोंपींत गेलों. थंडेन म्हजें आंग थरथरतालें. पूण हांव तसोच गेलों. खोंपींत दोग-तीग बायलो बसून उलयताल्यो. तांणी म्हाका पळयलो. हांव तांच्या म्हऱ्यांत वचून उबो रावलों. त्या बायलांनी म्हाका विचारलें -

''कितें जाय रे बाबा?''

म्हाका उलोवंक येना जालें. हांव थंडेन कुडकुडटालों. त्या बायलांनी म्हाका खोंपीचे पडवेर बसपाक सांगलें. आंगांतली मुस्तायकी पिळून काडली. म्हाका सादारणशी उब आयली. हांव एका बारदानार बसलों. ते बायलेन म्हाका कपांत घालून गोडाचो च्या हाडून दिलो. च्या पियेवन म्हाका बरें दिसलें. ते बायलेन म्हजी विचारपूस केली. ते बायलेक हांवें सगळें समजावन सांगलें. तिका आमची काकुळट आयली. तिणें म्हाका विचारलें -

''तुमचे किती मानसे आहोत?''

हांवें सांगलें,

''नव मानसे आहोत''.

त्या बायलांनी कणयांच्यो धा-बारा भाकऱ्यो आनी पिटले करून दवरलें आनी एका व्हडल्या तांबयांत च्या करून दिलो.

''हा चीहा घेवून जा व परत ये''.

म्हाका एक कण्डो दिलो. कोण ताका विरलें म्हणटात. तो घेवन च्याचो तांबयो घेवन हांव म्हज्या मनशां सरीं आयलों आनी सगळ्यांक च्या दिली. ते सगळे खूश जाले. पावस आंसरिल्लो. पूण वत येवं नासलें. सगळ्यांचो कुडकुडो कमी जाल्लो. हांव परतून त्या बायलां म्हऱ्यांत गेलों. तांणी भाकरी आनी पिटले बांदून म्हजे कडेन दिलें. तें व्हरून परत त्या मनशांक दिलें. तें सगळें पळोवन ते आनीक खूश जाले. सगळ्यांचें जेवण जालें. हांवें तो तांबयो आनी आयदनां व्हरून परतून त्या बायलां कडेन दिलीं आनी तांचे उपकार मानीत परतलों. त्या सगळ्या कामा वयल्या मनशांनी म्हजे उपकार मानले आनी सगळे खूश जाले.

कांय दिसांनी आमचो पगार जालो. हांवें त्या सगळ्यांक सांगलें आमी त्या

बायलां खातीर कितेंय घेवया. म्हजें म्हणणें सगळ्यांकच आवडलें. एक एक रुपया जमोवन साडेसात रुपया जाले, एक कापड आनी बारा आण्याची चोळी घेतली आनी सगळे मेळून ते बायलेच्या घरा गेले. तो दीस आयतार म्हणल्यार सुटयेचो दीस आशिल्लो.

आमी सगळे मेळून ते बायलेगेर गेले जाल्यार त्यो बायलो आमकां पळोवन कांचवेल्यो. पूण म्हाका पळयतकच ते बायलेन वळखलें. तांची पुरूस मंडळीय जमली. तांणी आमकां विचारलें -

"तुम्ही सर्वजन कश्याला आला?"

हांवें सांगलें -

"आम्ही आमच्या बहिनीला भेटण्यासाठी आलो आहेत".

आमच्यांतल्या एकल्यान लुगडें आनी चोळयेचो खण म्हजे कडेन दिलो. जिणें म्हाका च्या आनी भागऱ्यो दिल्ल्यो तेच बाईच्या फुडें हांवें लुगडें आनी चोळयेचो खण दवरलो. तें पळोवन त्यो बायलो हांसपाक लागल्यो. तांचे पुरूस मंडळीनीय हांसून आनंद परगटायलो. पुरूस मंडळीन आमकां सगळ्यांक दुसरे खोंपटेंत व्हरून मोट्या भोवमानान बसयलें आनी तांणी सोऱ्याची भट्टी लायली. ताज्जो सोरो काडून आमकां सगळ्यांक पिवयलो आनी कोंबडी कापून सगळ्यांक जेवण दिलें. आमी तांचे उपकार आटोवन व्हडा खोशेन घरा आयले.

कांय दिसांनी तें काम सोंपलें. मागीर आमी सगळे जाण कुर्ल्याक आयले. पूण म्हजी बदली कुरला पावर हावसाक केली. हांव एकलोंच थंय गेल्ल्यान म्हाका वायट दिसलें. म्हाका शिमिटाच्यो पोतयो हाड-व्हर करपाक लायले. खूब त्रास जाले म्हाका. दुसऱ्या दिसा हांवें मुकादमाक सांगलें, म्हाका दुसरे कडेन धाडात. तांणी म्हाका आपणा कडेन दवरून घेतलो आनी उदकाचेर दवरलो. दिसांतल्यान दोन बालद्यो उदक हाडपाचें आनी मागता ताका उदक दिवपाचें. बावटो हातांत घेवन येतल्या वतल्या मनशांक सांगपाचें. तें काम सावधगिरीचें आशिल्लें. हांव तें काम मन लावन करपाक लागलों.

एक फावट हांव कुर्ला स्टेशनांत उदक घेवन वतालों जाल्यार पुला सकयल मनशांची खूब गर्दी जमिल्ली. म्हाका दिसलें गाडये पोंदा मनीस सांपडला आसुंये, अशें समजून हांव तें पळोवपाक गेलों. पूण दारार खूब गर्दी. भितर कितें आसा तें म्हाका कळना. भितर घुसपाचो हांव यत्न करपाक लागलों आनी कुशीनच्या

मनशांक विचारपाक लागलों. एकल्यान सांगलें, थंय कामाची भरती चल्ल्या. हांव तसोच बळजबऱ्यां भितर गेलों. लोक आपणा भितर उलयताले. तूं वच, तूं वच पूण त्या गोऱ्या सायबा मुखार वचपाचें धाडस कोणा कडेनच नासलें. म्हाका 'बटलेरी इंगलीस' बरी येताली. हांव कसोबसो भितर गेलों आनी सायबाक सलाम केलो. सायबान म्हाका पळयलो आनी विचारलें -

"हु आर इवू?" म्हाका ताची भास कळ्ळी.

हांवें सांगलें

"आयाम एक मॅन".

मागीर ताणें विचारलें -

"हॉट इवू वॉट?"

हांवें जाप दिली -

"आय वाँट सम वर्क".

ताणें म्हणलें -

"व्हॉट वर्क?"

हांवें सांगलें

"एनी वर्क".

ताणें म्हाका रोखडोच भरती केलो. म्हज्या उपरांत बाकीचे लोक घुसले. पूण फकत तिगा जाणांक दवरून घेतले. बाकीच्यांक सायबान धांवडायले.

दुसऱ्या दिसा म्हजी वैजकी तपासणी जाली आनी ता. १-११-१९२४क हांव जायपी रेल्वेचो रेगुलर कामगार जालों. लायटी वयली गाडी सुरू जावपाची आशिल्ली म्हण ती भरती जाल्ली. सुरवेक म्हाका कुरला कारशेटींत काम दिलें. येतल्या गाडयांच्या इंजिनांत सांडिल्लें तेल पुसप, यंगजॉटर नांवाचें मशीन आसता तातूंत तेल घालप, इंजिनाचो खंयचोय भाग तापलो जाल्यार पळोवप अशें काम आशिल्लें. आदलें काम टेंपररी आशिल्लें. थंय अठरा रुपया पगार आशिल्लो. तो आतां वीस रुपया आठ आणे मेळपाक लागलो.

हांव व्हिलेम सायबा वांगडा काम करतालों. म्हजो सायब म्हाका बरे तरेन समजावन सांगतालो. हांव लक्ष दिवन काम करपाक लागलों. कांय दिसांनी कामाची बरीच म्हायती जाली. ताका लागून सायबाची म्हजेर मर्जी जडली.

म्हज्या उगडासा प्रमाण इलक्ट्रीकाची गाडी १-१-१९२५क चालू जाली.

त्यावेळा वयलो म्हाका उगडास आसा. बांदरा आनी वडाळा ह्यो दोन लायनी एकठांय मेळटात. त्या दोगांयच्या मदीं एक 'पावर'चें घर आसा. त्या घरा सावन दोनशीं फुटांचेर लायनीचे कुशीक तीन बाय तिनाचो एक खड्डो खणिल्लो. त्या खड्ड्यांत वयले तारीक एक वायर जोडून तेच तारीचें दुसरें तोंक त्या उदकाच्या खड्ड्यांत उडयलें. कांय वेळान त्या उदकांत बुडबुडे आयले आनी उदक उकळ्यो मारपाक लागलें. त्या अधिकाऱ्याक कळ्ळें. लायट आयली. ताणें रोखडेंच वयल्या अधिकाऱ्याक सांगलें. कांय वेळान विजेवयली गाडी आयली. सगळ्यांनी ताळयो वाजोवन आनंद परगटायलो.

कांय दिसांनी म्हजी बदली बोरीबंदराक जाली. थंय जी. एच. बानारजी सायबा वांगडा काम करपाक लागलों. कांय दिसांनी बॅनर्जी सायब ट्रेन इन्स्पेक्टर जाले. परतून पयलो सायब आयलो. तांचें नांव व्हिलेम. ताणें म्हाका पळयलो आनी तो खूश जालो. ताचे वांगडा दोन वर्सां बोरीबंदराक काम केलें. म्हजे कडेन काम सोंपोवन ताणें आपणाक जाय थंय भोंवचें. गाडी स्टेशनांत आयली काय हांव ड्रायवराक विचारतालों कितेंय बिघाड आसा काय म्हूण. तो जें सांगतालो तें हांव करतालों. कामाची केन्ना बोब जावपाक दिली ना. त्यावेळार म्हाका पगार सत्तावीस रुपया मेळटालो.

एका वेळार म्हज्या हातसून मोटें धाडसाचें काम जालें. एके लोकल गाडयेक उजो पेटलो. ड्रायवर एकसारको शिटयो मारीत स्टेशनांत आयलो. हांवूय सावध जालों. स्टेशनांत गाडी भितर सरता खिणाक हांव धांवत गेलों. स्टेशनांत धुंवराचो काळोख जालो. पेसेंजरांनी गाडयेंतसून फलाटाचेर उडयो मारल्यो. कितल्याश्याच जाणांच्या हातापांयांचें लुकसान जालें. बोरीबंदर स्टेशन धुंवरान गच्च भरिल्लें. धुंवरान कांयच दिसना जालें. धा मिनटांनी धुंवर उणो जालो. हांव रोखडोंच आमच्या ऑफिसांत गेलों आनी सायबाचो बॉयलर सूट आंगार चडयलो आनी आकड्याचें एक हूक घेवन आयलों आनी आरमीचेराचें धाकणें उगडलें जाल्यार धुंवराचो लोट भायर आयलो. तो धुंवर उणो जातकच हांवें भितर पळयलें जाल्यार आरमीचेर तांबडो जाल्लो. हांवें रोखडेंच झाडू मारतल्याक आपयलो. ताका सांगलें पत्र्याचे पेटयेंतल्यान बालद्यो भरून रेंव हाड. ताणें म्हाका मजत केली. हुन जाग्याचेर हांवें रेंव मोखली. मजा पळोवपाक लोकांची फलाटाचेर झुंडी जाली. रेल्वेचे कांय अधिकारीय आयले. हांव म्हज्या कामांत गर्क जाल्लों. हांवें कोणाक

पळयलें ना. म्हजे तकले वयल्यान सारक्यो घामाच्यो पांवळ्यो गळटाल्यो.

आरमीचेरचें कितें जालें तें पळयलें. थंय कांय जाग्यांनी फोड आयिल्ले दिसले.ते हांवें तासून काडले. कार्बन ब्रस चेक केले. एक कार्बन ब्रस उरफाटो जालो आनी तो फुटून ताचे कुडके जाल्ले आनी ते भितरल्यान पांगिल्ले. ताका लागून हो प्रकार जालो. ते सकयल काडून हांवें घांसून निवळ केले आनी हें सगळें काम वेवस्थीत जालें हाची खात्री करून घेतली. आरमीचेर निवळ जालो. हांवें रोखडेंच सगळें बंद करून ड्रायवराक गाडी दिली. ताणें गाडी चलोवन पळयली. ओके म्हूण ड्रायवरान सांगलें.

फलाटाचेर जमिल्ल्या मनशां भितर कांय अधिकारीय आशिल्ले. तातूंतल्या एकल्यान म्हाका विचारलें 'तुम्हारा साहेब किधर गया?' हांवें सांगलें,'एक गाडी मे कुछ बिघड गया. ओ उनका पास बांदरा गाडी मे गया'. परतून ते कांय उलयले नात. म्हजें आंग घामान भिजून गेल्लें. हांव सकयल फलाटाचेर आशिल्ल्या बांकार वचून पडलों. म्हाका सायबान शिकोवन आनी सांगून दवरिल्लें. सायब एके बाईच्या नादाक लागिल्लो. ती बाई सिवडी स्टेशनाचे कुशीक शिमीटाचे चाळींत रावताली. तो सद्दां तिगेर वतालो. ताणें म्हाका सांगून दवरिल्लें कसलीय गडबड जाल्यार ड्रायवराक सांग. सिवडी स्टेशनांत भितर सरतना दोन शिटयो मार, म्हणजे हांव रोखडोंच गाडी धरून येतां. हांवें ते प्रमाण केलें. सायब कांय वेळान आयलो. जें कितें जाल्लें तें सगळें हांवें ताका सांगलें. ते प्रमाण ताणें गाडयेचो रिपोर्ट तयार केलो. हें काम दोन ते तीनच्या वेळांत जालें.

दुसऱ्या दिसा त्या अधिकाऱ्यान पट्या वाल्याक धाडलो. तांणी सायबाक एक पेपर दिलो. हांव स नंबराच्या प्लॅटफॉर्माचेर गाडी तपासपाक गेल्लों. हांव ऑफिसांत येतकच सायबान म्हाका सांगलें आपणाक व्हडल्यान सायबान ऑफिसांत आपयला. आमी दोगूय गेले. म्हजो सायब भितर गेलो आनी हांव भायरच उबो रावलों. कांय वेळान म्हाका भितर आपयलो. व्हडल्या सायबाक हांवें सलाम केलो. मोन्यानी उबो रावलों. त्या दोन सायबांच्यो बरोच वेळ गजाली चलताल्यो. त्या व्हडल्या सायबान म्हाका धा रुपया बक्षीस दिलें. 'इवर गुड म्यान' म्हणून हातांत हात घेतलो. सलाम करून हांव ऑफिसांत आयलों आनी व्हिलेम सायब कांय वेळ रावलो. सायबय थोड्या वेळान आयलो आनी म्हाका पळोवन हांसलो. हांवें विचारलें -

"क्या हुआ साहब?"

ताणें सांगलें -

"बडे साब तुम्हारा वुपर बहुत खूस हुवा आहे. आपकु आगेका च्यांस मिळनेका आश्या हाय".

दुसऱ्या दिसा एक शिपाय आयलो. ताणें सायबा कडेन एक पेपर दिलो. रोखडोच सायबान म्हाका आपोवन सांगलें आपणाक ऑफिसांत व्हडल्या सायबान आपयला. आमी दोगूय ऑफिसांत गेले. हांव भायर रावलों. सायब भितर गेलो. कांय वेळान म्हाकाय भितर आपयलो. हांव सलाम मारून उबो रावलों. सायबान म्हाका पळयलो आनी तो हांसलो -

"आजसे तुमकू बडी ज्यागा दिया. काम ठिकशे करा. ज्याव".

म्हाका इलेक्ट्रीक मोटर म्याकनिकाची सुवात मेळ्ळी. म्हजी पगारवाडय जाली. बेच्याळीस रुपया मेळपाक लागले. सगळे लोक म्हाका मानपाक लागले.

उपरांत म्हजी बदली कुर्ला कारशेटांत जाली. ज्यो गाडयो रातच्यो मुक्कामाक रावताल्यो त्या गाडयांचें झन्पेक्शन करपाचें आनी जी गाडी पयली वचपाची आसताली ती गाडी कारशेटींतल्यान स्टेशनार हाडपाची आनी ड्रायवराच्या सुवादीन करपाची. म्हाका इंजिनाचे सगळे भाग उसोवन पळोवचे पडटाले आनी जळ्ळे वा खराब जाल्ले आसल्यार ते बदलचे पडटाले.

ते उपरांत म्हजी बदली ठाण्याक जाली. थंय बॅनरजीसायब आशिल्ले.ताणें म्हाका खूब बरें शिकयलें. बॅनरजीसायब ड्रायवरांचो मास्तर आसलो. तो गाडयेचें सगळें काम शिकयी. तागेली शाळा कुर्ला कारशेटींत आशिल्ली. म्हाका ताणें हाता खाला दवरिल्लो. ज्या ड्रायवरांक तो शिकयी तें हांव पळयतालों. दरेक पार्ट कसो चलता तें आनी तो कितें काम करता तें हांव इंजिना मदीं व्हरून करून दाखयतालों. ताका लागून म्हजी बरीच प्रॅक्टिस जाली. तांणी म्हजी सिफारस करून म्हाका व्हडले परिक्षेक बसयलो. हांव पास जालों. मागीर त्याच डिपार्टाक हेड म्हणून हांव काम करपाक लागलों. म्हज्या पगारांतय वाड जाली. म्हाका पंच्याहत्तर रुपया मेळपाक लागले. पूण बॅनरजीसायब वयले सुवातेर पावलो. म्हाका पायरससायब मेळ्ळो. तो बरो आशिल्लो. पूण ताचे तकलेचो स्क्रू मातसो धील आशिल्लो. सगळे कामगार म्हाका म्हणटाले तूं बेगीनच चार्जमॅन जातलो अशें आमकां दिसता.

त्याच वेळार सगळ्या कामगारां मदीं कुजबूज सुरू जाली. रेल्वेचो संप जातलो. हांव इवनेनचें (युनियन) काम लेगीत खोशेन करतालों. ४ फेब्रुवारी १९३०क रेल्वेचो संप जालो. आमकां युनियनाच्या लोकांक धरून व्हेले. चार-पांच दिसांनी सोडले. पण तातूंत म्हजें काम गेलें. ''एवडी मेहेनतीने परगती केली होती त्याच्यावर पाणी पडले''.

# सौंसार सुखादुखाचा

**इलॅक्ट्रीकची** गाडी १९२५त चालू जाली त्या वेळार घरांत म्हज्या लग्नाची बातचीत सुरू जाली. म्हजी आई चली सोदूंक लागली. पयली चली पळयली पिंपरीची. तिगेले आवयबापूय तयार जाले आनी देण्याघेण्याची बात पक्की जाली. पूण ते चलयेच्या मामान दुसरे कडेन उतर घाल्लें. तांच्यांत आपसांत धुसफूस जावपाक लागली. आमी ती चली कॅन्सल केली. मागीर चिंचखेडची चली पळयली. तिची आई आनी म्हजी आई, एकाच ठिकाणार काम करताल्यो आनी आमी एकेच चाळींत शेजराक रावतालीं. ते चलयेचे आईची खूब इत्सा आसली. त्याच वेळार म्हजो भाव माधवराव आमगेर आयलो. आईन ताका सगळें सांगलें. माधवरावन ते चलयेक पळयली. पसंत केली. आईन माधवरावाक सांगलें हें पक्कें करून वच. दुसऱ्या दिसा आयतार आशिल्लो. सगळीं मनशां जमलीं. ते चलयेचो मामाय आयलो. उलोवणीं चालू जालीं. चलयेच्या मामान सांगलें, घरांत तिनशीं रुपया दियात आनी लग्नाचो खर्च तुमी करात. माधवरावान सांगलें, जीं भांगरां मागता आनी जो कपडो सांगता तो आमी दिवूं. पूण घरांत आमी पयसो दिवचे नात. मागीर तें मोडलें.

निमाणें तारू खेरड्याली चली पळयली. तो वडाळ्याक रावतालो. तिचो बाप गरीब आशिल्लो. एका दोळ्यान कुड्डो आशिल्लो. वडनेरच्या गेंदामास्तरान हें जुळयलें. ते चलयेचें नांव सोनू. ती खूबच रुपेस्त आनी सुंदर. म्हाका ती पसंत पडली. पूण ल्हान आशिल्ली. तरीय सगळ्यांकच पसंत पडली. दोगांयचो खर्च सारको आसचो अशें थारलें. फकत एकावन्न रुपया खर्चा खातीर दिवपाचें अशें थारलें. पूण लग्न गांवांत जावपाक जाय इतलीच तांची अट आशिल्ली. लग्नाच्या वेळार हांव रजा घेवन गांवांत गेलों आनी आई रजा घेवन गांवांत आयली. आई तेन्ना माजगांवांत इंजीन शेडींत कामाक आसली.

आमी सगळींच गांवां गेलीं. भयणीचें लग्न ल्हानपणांतच जाल्लें. आमचें लग्न

तुळशीचें लग्न जातकच १४ तारखेक जालें. १९२६ वर्सा. म्हयनो विसरलों. म्हज्या कांय इश्टांनी विचारलें, लग्न केन्ना जाल्लें जाल्यार हांव सांगतालों ता. १४क. म्हज्या तें ध्यानांत उरलें. म्हजें लग्न ओझराक जालें. आमी ओझरसून पोरण्या खेड्याक गेलीं. आमच्या लग्नाक पाच बैलांगाडयो आनी एक भिरकय आशिल्ले. सांगाताक बरेंच वराड आशिल्लें. व्हडल्या गांवचें लग्न म्हूण आमचो खूबच मानसन्मान केलो. गांवांतल्या मनशान मराठ्यानय खूब मजत केली. म्हजे मावसभयणीन दिवाळेचे माराण आनी नारंगां बी फोग खूब हाडिल्लो. लग्न खूब मजेंत जालें. लग्न जालें. आमी सगळीं जाणां ओझराक गेलीं. थंय आमकां व्हंकल-न्हवऱ्याक नव्या देवळांत बसयलीं. सांजवेळा वरात भोंवडायली. व्हंकलेक तीन दीस दवरून व्हंकलेचो भाव येवन चलयेक घेवन गेलो. आमची रजा सोंपली. आई आनी हांव मुंबय आयलीं. व्हंकल ल्हान आशिल्ली. म्हणून तिका हाडली ना. वर्स-देड वर्स ती कुळारा आशिल्ली.

तिका हाडपाक म्हज्या शिवाय कोण वतलो? मागीर हांव रजा घेवन आक्राळ्याक म्हज्या मामागेर गेलों. दोन दीस थंय रावन हांव गोंडेगांव सीगव्याक गेलों. थंय म्हगेली बापोलभयण आशिल्ली. तीं म्हजे खूब लाड करी. तिका चार भुरगीं आशिल्लीं. म्हज्या मेवण्यान तातूंतल्या एकल्याक म्हजे वांगडा धाडलो. ताचें नांव आबा. ताका घेवन, आमी दोगय खेरड्याक गेले. दोन दीस रावन व्हंकलेक घेवन परतून सिगव्याक गेलीं. एक दीस थंय रावन आमी दोगांय मुंबय आयलीं आनी आमच्या संवसाराक सुरवात जाली.

आमची कुर्ल्याची कूड खूब ल्हान आशिल्ली. धा बाय धाची. थंय आमी चार मनशां. आमी दोगांय आनी आई, भयण एकठांय रावतालीं. म्हजे बायलेचें नांव सोनू. खऱ्यांनीच तिच्या आई-बापान सोनू हें नांव बरोबर दवरलें. खऱ्यानिशीं ती भांगरावरीच आसा. जशी जशी ती वाडूंक लागली तशी ती भांगरा भशेन चकचकूंक लागली. पयलींच तिचो गोरो रंग, मोटे दोळे, वाटकुळो चेरो, नाक लांब आनी आंगान बरीच भरली. ताका लागून ती आकर्शक दिसपाक लागली. ते प्रमाण ती मेहनती आनी कश्टाळू आसली. आमच्या संवसाराची गाडी खूब बरी जुळ्ळी. मोटार चलोवपी कितलोय हुशार आसलो तरी मोटारीची देखरेख करपीय हुशार आसचो पडटा. ना जाल्यार ती रस्त्यांत बंद पडटा. खऱ्यांनीच जो मना सावन काम करता तो खरो कारागीर. म्हज्या संवसाराची गाडी तिणें मना सावन

नीट केली. म्हणूनच म्हाका म्हजी गाडी नीट चलोवपाक आयली. तिच्यांत कितेंय बिगाड आशिल्लो जाल्यार इतले लांब मेरेन येवची नासली. खऱ्यांनीच तिणें अती कश्टांनी म्हज्या संवसारांत मजत केली. अशे खंयचेच बायलेन केली ना आसती. म्हाका अंतस्करणांतल्यान तिचे विशीं आदर आसा हें हांव उलोवन दाखयना.

त्या वेळार बाबासाहेबांची चळवळ नेटार आशिल्ली. १९२७ वर्स. नाशिकाच्या काळाराम मंदिराच्या सत्याग्रहाची तयारी जाली. दादासायबान इसकावूट* तयार केले. हांवें तातूंत वांटो घेतलो. देवळाच्या दारांत आमी सत्याग्रह करता आसतना एक दीस आनी दोन वरांची सजा जाली. तातूंत आमी जायत्या जाणांनी मार खाल्लो.

समाजकार्य चालू आशिल्लें. एक फावट सार्वजनीक गणपती बसयलो. त्या वेळार कोणें तरी अफवा पसरायली, हे लोक गणपतीक फांशी दितले. ही बातमी पुलीस स्टेशनाक समजली. एक मुसलमान फौजदार, एम मराठा फौजदार, लोक तांकां राम-रहीमाची जोडी म्हणटाले तांणी येवन पळयलें आनी विचारपूस केली. आमी आमचें काम शांततायेन करतले अशें सांगलें.

त्या वेळार भंग्याचे बरेच स्कावट आशिल्ले आनी आमचे (त्या वेळा वयल्या म्हार समाजाचे) जायते आशिल्ले. कांय सिवडी, नायगांव, कामठीपूरा अश्या जायत्या ठिकाणार सावन जमा जाल्ले. पुलीस ऑफिसरान सगळे गणपती आडावन धरले आनी आमच्या गणपतीक पयलीं वाट दिली. आमचे खातीर तीन-साडेतीन हजार आमचे लोक जमा जाल्ले आसुंये. मिरवणुकेचे फुडले वटेन लाठी-बडयांचे खेळ. फाटल्यान लेझीमवाले, शेहनाई आनी नाच. ताच्या फाटल्यान बायलो. गणपतीची गाडी आनी कांय स्कावट दवरिल्ले. आमची मिरवणूक शांततायेन चलताली. कांय लोक फाटीं-फुडें पासयो मारताले. हांव तांचे बराबर फाटींफुडें वतालों. तितल्यान तांच्या गुंडांनी बोळांतल्यान फातर शेंवटिलो आनी बोवाळ सुरू जालो. स्कावटान शिटयो मारल्यो. लोकांची पळापळ जाली. तातूंत खूब बायलो आशिल्ल्यो. बायलां मदीं ह्यो नणंद-भावजयय आशिल्ली (बायल सोनाबाई आनी भयण नाजुका). त्या दोगांनीय स्कावटाच्या हातांतल्यान काठयो झोपून घेतल्यो, आनी कांय बायलांनीय तशेंच केलें आनी गुंडांक धांवडावन घातले.

---

* हांगा 'स्कावट' आनी 'वॉलेंटियर्स' हांचे मदीं गफलत जाल्ली दिसता. 'इस्कावूट' म्हणल्यार संघटक वा क्रियाशील कार्यकर्ते असो अर्थ अभिप्रेत आसुंये.

आमची मिरवणूक चुनाभटी मेरेन गेली. गणपती पावयलो. परततना आमकां आग्रा रोडान येवचें पडलें. आमचे सगळे लोक आग्रा रोडाचेर आयले तेन्ना बाकीच्या लोकांच्या गणपतीक वचपाक परवानगी दिली. मागीर तांगेले गणपतींक बुडोवपाक व्हेले. लोकांनी ह्या दोगी-तिगी बायलांचो गौरव केलो. भयणीक आनी बायलेक फुलांच्यो माळो घातल्यो आनी तांचो गौरव केलो.

१९३० फेब्रुवारीक जायपी रेल्वेचो संप जालो. तातूंत म्हजें काम गेलें. त्यावेळार आई रिटायर जाली. त्या वेळार आमी कुर्ल्याक रावतालीं. दादर मुखार कसईवाड्यार आमची धा बाय धाची कूड आशिल्ली. ताचें स रुपया भाडें दिवचें पडटालें. हांव कामा खातीर वणवण भोंवतालों. पूण काम मेळनासलें. तो काळ मंदीचो आसलो. खूब बेकारी आसली.

एक दीस माधवरावाचें पत्र आयलें. तातूंत ताणें बरयलें, येसकर पाळी आनी गांवकाम तुजे कडेन आयलां. तेन्ना तूं बेगीन गांवांत कामाक यो. मागीर आमी घोव-बायल तीन म्हयने गांवांत गेलीं. येसकर पाळी केली. हातांत बडी घेवन तें काम हांवें केलें. मागीर आमी परतून मुंबय आयलीं.

हांव कामाक भोंवपाक लागलों. सद्दां कुर्ल्याक सावन पाधुनी मेरेन वचचों. केन्नाय पयशे आसल्यार गाडयेन, नासल्यार पांयांनीच वचप येवप करचें पड. दोन-तीन म्हयने आमी कशे तरी काडले. इतल्यांत म्हाका कळ्ळें आग्रा रोडाचें काम सुरू जावपाचें आसा. हांवें ताचो सोद घेतलो. तो कंट्राटदार म्हजे वळखीचो मेळ्ळो. ताणें म्हाका तीन दिसांनी आपयलो. कांय मनशां तयार करून दवर अशें सांगलें. ते प्रमाण हांवें मनशां पळोवन दवरलीं. त्या वेळार खूब बेकारी आशिल्ली. जाय तितलीं मनशां मेळटालीं. आग्रा रोड तेन्ना कच्चो आशिल्लो. साइन स्टेशनाच्या कांय अंतराचेर माल धको आसा ताच्या कांय अंतराचेर रस्त्यार टोलनाको आशिल्लो. थंय सावन काम सुरू केलें.

आमचें काम चालू जालें. कांय दिसांनी काम वाडलें. मागीर हांवें दोन मुकादम दवरले आनी काम नेटान चल्लें. बायलांचीय भरती केली. तांचे मदली एक बायलय मुकादमीन. बायलांक इकरा आणे आनी दादल्याक चौदा आणे ह्या प्रमाण दीसवडो आशिल्लो. तें काम चालू जायत सावन म्हज्यान आठ दिसांत पयशे कमावपाक जायत हाची खात्री मेळ्ळी. दरेक मनशाक काम वांटून दिताले. एका मानांयाक पंचवीस फूट लांब आनी णव फूट रूंद खणपाचें काम मेजून

दिताले. सकयली माती सान्नीन निवळ करून घेवपाची आनी तांणी केन्नाय घरा वचपाचें. पिकासान खणटाना फातर उसळून पांयांक लागताले. ताका लागून जाय तितलें काम ओडना आसलें आनी मनशांक त्रास जाताले. मागीर हांवें सगळ्या बायलांक सांगलें, काम करपाचे सुवातेर उदक मारात आनी ती सुवात बरी भिजयात. खणटना फातर आंगाचेर उसळचे नात. अशे तरेन काम करपाक लागलीं.

कामगारां मदीं जायते जाण गांजा ओडपी आशिल्ले. तांचे खातीर हांव आठ आण्यांचो गांजा हाडून दितालों आनी तरणाट्या मनशां खातीर ताडीच्यो बाटल्यो दितालों. बायलां खातीर दोन शेर जिलबी दितालों. जिलबी तीन आणे शेर आनी ताडीची बाटली दोन आणे आनी तीन आण्यांक मेळटाली. सगळे कामगार खूश जाताले. आनी नेटान कामाक लागताले. सगळीं बायलां रस्त्याचेर भरपूर उदक मारतालीं. ताका लागून खणटल्याक जमीन भुसभुशीत मेळटाली. एक मनीस तीस ते पस्तीस फुटाचें काम करतालो. ते खातीर थारिल्ल्या कामा परस चड काम जातालें. तें पळोवन कंट्राटदाराचो म्हजेर चड लोभ जालो.

साइन स्टेशना सावन घाटकोपर पंख्यावाला बाबाच्या दरग्या मेरेनचें पयलें काम म्हज्या हातचें. कांय दिसांनी काम सोंपलें. मागीर हांवें कुर्ला गांवांत रस्त्याचें काम केलें. तें देड म्हयन्यांनी सोंपलें.

मागीर गिरण्यांचोय संप जालो. कारखाने बंद जाले. लोक कामाचे सोदीक भोंवपाक लागले. घराचें भाडें दिवप तांकां मुश्कील जालें. मागीर म्हाका कोण काम दितलो? त्या वेळार म्हाका बायलेन सांगात दिलो. ती माचीस कारखान्यांत कामाक लागली. तिचे वांगडा भयणय कामाक वताली. त्या कामान दोगींचेय हात तांबडे जाताले. तांकां फोड येताले* . तरी नणंद-भावजय दोगीय कामाक वताल्यो. पूण म्हाका काम नाशिल्लें.

आई म्हाका खूब उलयताली. बायल काम करता आनी घोव बसून खाता. दुकरा भशेन भोंवता. हाका कसली लज म्हणटा ती ना. तिच्या उलोवण्यांनी म्हजें मन दुखेस्त जातालें. पूण हांवें केन्ना तिका परती जाप केली ना. कित्याक तर तिचे जिबेर दाग आशिल्लो. ल्हानपणांत हांवें कांय मनशांच्या तोंडांतल्यान आयकल्लें, जाचे जिबेर काळो दाग आसत जाल्यार ताचे कडेन झगडचें न्हय आनी ताका परती जाप दिवची न्हय. ताणें स्राप दिलो जाल्यार तो मनशाक बादता आनी ताचो

* सध्या प्रचलीत आशिल्ल्या 'सेफ्टी मॅचेस'चे पयलीं व्हडा प्रमाणाचेर काडयो फोस्फरस वापरून केल्ल्यो आसताल्यो. ताका लागून त्यो पेटींत भरतना हात भाजताले.

नाश जाता. म्हणून हांव आईक परती जाप दिनासलों. पूण म्हजें मन खूब दुख्खी जातालें. हांव केन्ना केन्ना उपाशीं न्हिदतालों.

एकल्यान म्हाका सांगलें, पायधुनीक वच, थंय सगळे तरेचे कामवाले जमतात. थंय कसलेंय काम मेळटा. हें आयकून हांवें वचपाचें येवजिलें. पूण तिकेटीक पयशे नात. म्हाका लक्षीमन भय्या मेळ्ळो. तोवूय संपांत आसलो. ताकाय काम ना. आमी दोगांयनी थारायलें, पांयांनी वच्चें. सकाळीं कितेंय खावन आमी पांयांनीच वचपाक लागले. पायधुनीक णव वरांचेर पावले. थंय जायते लोक एकठांय जाल्ले. आमी वचून तांच्यांत उबे रावले. काम कोण दितलो हाची वाट पळयत आशिल्ले. तितल्यान एक शेट आयलो आनी ताणें विचारलें,

''तमे काम जोय?''

म्हाका तागेली भास समजली. आमी ताचे बराबर गेले. तांणी आमकां फातर व्हावोवंक सांगलें. आमी फातर व्हरपाक लागले. तो वचपाक गेलो. सद्दां इकरा आणे मेळटले अशें ताणें सांगलें. आमी खांदाचेर फातर घेवन व्हरताले. कांय वेळान शेट आयलो आनी आमकां दम दिवपाक लागलो -

''तुम्हाला आशे काम करता येनार नाही. तुम्ही घरी जा. दगड डोक्यावर घ्यायाचे आसतात. खांद्यावर नासतात''.

आमी तोंड धांपून उबे रावले. ताणें विचारलें, तुमी दुसरें काम करशात? आमी हय म्हणलें. मागीर ताणें आमकां वण्टी मोडपाचें काम दिलें आनी दोन लवंगां दिलीं.

तें काम करतना आमचे हात तांबडे जाले आनी हाताक फोड आयले. हाताचो भगभग जावंक लागलो. एक फूट वणट फोडपाक जाली ना. हांवें भय्याक सांगलें,

''आमकां च्या मेळ्ळ्यार बरें जातलें. तुजे कडेन दोन दिडक्यो आसतल्यो? आपन चिहा पेवू''.

तितल्यांत शेट आयलो.

''आरे, इतलेंच काम जालें''.

आमी शेटीक आमचे हात दाखयले. शेटीक भय्यान सांगलें -

''आमकां दोन दिडक्यो दी''.

ताणें च्या धाडली. ती पियेवन थोडी हुशारी आयली.

हांवें भय्याक सांगलें -

"हें काम आपन आसेच करीत राहिलो तर मरून जावू. त्यापेक्षा आपन आइडया करू".

आमी वण्टीक दोन-तीन जाग्यांनी बुराक खणले आनी लवंग घालून हालयली. ताका लागून सयल जाली. दोनूय लवंगां एकठांय करून हालयल्यान ती पांच मिनटां भितर सकयल पडली. आमचे कुशीचे कुडींत तेंच काम चार कोंगाडी करताले. पूण आठ दिसांत एक वणट तांच्यांनी उडोवपाक जाली ना. पूण आमी दोन वरां भितर अर्दी उडयली. सांजवेळा शेट आयलो. ताणें पळयलें. तो खूश जालो. ताणें इकरा आण्या बदला एक रुपया दिलो. आमकां विचारलें, तुमी खंय रावतात. आमी सांगलें, कुल्र्याक. तुमी खूब पयस रावतात. सद्दां येयात. तुमकां एक रुपया दोन आणें दितां. णव जाय मेरेन पावात. आमी वयल्या पयशांची तिकेट काडून घरा आयले. मेळिल्लो रुपया आई कडेन दिलो आनी हात दाखयले. हाताक फोड आयिल्ले. तिणें उदक तापयलें. तातूंत तेल-मीठ घालून म्हाका तातूंत हात दवरपाक सांगले. हांवें ते प्रमाण केलें. म्हाका मातसो सुसेग दिसलो. सकाळीं रामचंदर भय्या आयलो आमी त्याच कामाचेर गेले. धा-बारा दिसां भितर आमी तीन माळयांची बिल्डींग उडयली. हें पळोवन शेट खूब खोशी जालो. शेटीन आमकां पांच पांच रुपया मामूली दिली आनी आमचो पत्तो बरोवन घेतलो.

रामचंदर भय्या आनी हांव परतून पायधुनीक वचून बसताले. आमचे दोन दीस फुकट गेले. तिसऱ्या दिसा एक मनीस आयलो. ताणें म्हणलें -

"काम पाहिजे का. चला माझ्या बरोबर".

आमी ताचे वांगडा गेले. ताणें आमकां पडावांत दगडी कोळशे भरपाचें काम दिलें. एक रुपया चार आणे सद्दां आनी धा वरांचेर चार आणे आनी सांजवेळा चार आणे मेळटले अशें सांगलें. माथ्यार कायली घेवन आमी कामाक लागले. दगडी कोळश्याच्यो कायली माथ्यार उखलून घेवन फळये वयल्यान पडावांत उडोवचें. मोटे तकालसीन आमी हें काम दोन दीस केलें. मान आनी फाट दुखपाक लागली. तें काम म्हज्या शक्ती भायलें आशिल्लें म्हूण सोडून दिवचें पडलें.

एका पारशा कडेन हांव घडयाळी दुरुस्त करपाचें काम शिकलों. म्हाका व्हडल्या घडयाळांचें आनी आलार्माचें काम येवपाक लागलें. पूण कांय म्हयन्यांनी तें दुकान बंद जालें. पूण एका मनशाची भेट जाली. ताचें नांव राजाराम. तो साधू आशिल्लो. ताचे वांगडा म्हजी इश्टागत जाली. हांव खूब्रसो जायत्या साधूं वांगडा आसतालों. भजन पुजन करतालों. ताका लागून पोथी पुराणाची म्हाका बरीच

म्हायती जाली. एक दीस हांवें राजारामबाबाक सांगलें, हांव घडयाळाचें काम शिकलां. तें आयकून ताका बरें दिसलें. ताकाय तें काम बरे तरेन येतालें. ताणें आनी हांवें मेळून एक ल्हानशें दुकान सुरू केलें. पूण म्हाका धाकल्या घडयाळांचें काम येनासलें. ताका लागून अडचण जावपाक लागली. मागीर ताणें म्हाका व्हडल्यो घडयाळी आनी आलार्म हांचें काम आंगार दिलें. नगा फाटल्यार चार आण्या प्रमाण हांव काम करपाक लागलों. एक दीस ताचें-म्हजें झगडें जालें कारण कितें तर ताणें म्हाका फटयलो. एका दिसांत हांवें सत्तावीस आलार्म तयार केले. पूण ताणें म्हाका दोनूच रुपया दिले. मागीर तें दुकान हांवें सोडलें आनी परतून कामाचे सोदीक भोंवपाक लागलों. पूण काम कांय मेळ्ळें ना.

अशे दोन म्हयने सोंपले. जिवाक कंटाळ्ळों. आईन खूब वायट वायट उलावचें. दोन दीस हांव उपाशीं रावलों. म्हजें मन खंती जालें. हांवें एक विचार केलो, आतां जगपांत कसलो अर्थ ना. खंय तरी वचून जीव दिवचो, अशें पक्कें थारावन दनपारच्या वेळार भायर सरलों. मुंबयचो रस्तो धरलो. साइन आनी कुर्ला हांचे मदले खाडयेंत वायराचे तीन व्हडले आनी ऊंच टावर आसात. त्या टावराचेर चडून खाडयेंत उडी घेवची अशें थारावन हांव त्या टावराचेर चडलों. आशीकुशीक आनी रस्त्याचेर कोण ना तें पळोवन वयर गेलों. अर्द्या टावराचेर पावलों आनी सकयल पळय जाल्यार सकयल रस्त्याचे कुशीक एक मनीस उबो आसा. ताच्या आंगार साधूची मुस्तायकी आशिल्ली. ताणें उलो मारलो -

''बेटा खाली ये, आसे करू नोकोस, तुझ्या हातून फार मोठे काम होनार आहे तू खाली ये''.

हें आयकून हांव सकयल देंवलों आनी ताका पळोवंक लागलों. पूण तो मेळ्ळो ना. तो खंय गेलो, तो परतून म्हाका दिसलो ना. त्या दिसा हांव दीसभर उपाशीं आशिल्लों. घरा गेल्यार म्हाका आईलो धाक. ती कितेंय उलयत म्हूण हांवें तो दीस भायर भोंवन काडलो. आनी सांजवेळा साइनच्या बाबागेर गेलों. दर्शन घेवन रातचो घरा आयलों. पूण आई म्हाका कांय उलयली ना आनी तिणें झगडींय केलीं ना. जेवन हांव न्हिदलों.

आमच्या घरा सावन कांय अंतराचेर डी. टी करडक रावतालो. ताची आनी म्हजी बरी वळख आसली. ताणें कुर्ला म्युनिसिपालटींत उबो रावपा खातीर नॉमनेसेन फॉर्म भरलो. ताच्या प्रचाराक हांव भोंवतालों. एका म्हयन्यांत तो वेंचून

आयलो. १९३३चो तो काळ आसत.

म्हाका खंय काम मेळना म्हूण हांवें जीव दिवपाचो यत्न केलो. ताच्या दुसऱ्या दिसा डी. टी. करडकागेर गेलों. ताणें म्हाका आनी आपल्या भावाक ऑटर मशिनार कामाक लायले. म्हजें थोडेंशें बरें चलपाक लागलें. पूण एक दीस म्हज्या दाव्या हाताचो आखाणो चाकांत सांपडलो. ताचो बरोच चुरो जालो. १२ डिसेंबर १९३४ हो तो दीस. इकरा दीस हांव दवाखान्यांत आशिल्लों. फस्काच्या कारखान्यांत सोनू काम करताली. हांव रंगारी, गवंडीपण, थवय असलीं मेळटां तीं कामां करून दीस काडटालों. तातूंतल्यान म्हजो अणभव वाडत गेलो.

कांय दिसांनी आमच्या घरांत नवो विचार सुरू जालो. आई वांगडा काम करपी बायलो आनी इश्टिणी म्हणपाक लागल्यो -

"वानी तिनीचा एक मुलगा. लग्न होवून सात-आठ वर्ष झालीत तरीही आधुन मुलबाळ झाले नाहीत. ह्या पोरीला मूल होनार नाही. ही आंगाने खूप जाडी झाली. तूं मुलाचं दुसरं लग्न कर..."

म्हजो मामाय तिका तेंच म्हणपाक लागलो आनी म्हजो भावय तशेंच म्हणपाक लागलो. खूबश्या सोयऱ्यांचो तोच सूर आयकुपाक येवपाक लागलो. बायलेन हें आयकलें आनी ती सारकी रडपाक लागली. केन्ना केन्ना तिणें दीसभर उपाशीं रावचें आनी एकलीच रावन रडचें. कांय दिसांनी हें म्हज्या लक्षांत आयलें. हांवें तिका विचारलें -

"तुझे रडके तोंड मला दिसते ते का? काई झाले ते सांग".

मागीर तिणें म्हाका सगळें सांगलें -

"तू हे मनातून काढून टाक. मी परत दुसरी बायको करनार नाही".

एक दीस रजेचो आशिल्लो. कामा वयल्यो आईल्यो बऱ्योच इश्टिणी आयल्यो. त्यो आपसांत उलोवंक लागल्यो.

"राहीबाई, घरात लाहान-मोठे काहीच दिसत नाही".

बायल चुली म्हऱ्यांत बसून आयकताली आनी पदरान दोळे पुसताली. हांव पयस बसून आयकतालों. कांय बायलांची मजल खूब पयस पाविल्ली. एकलेन तर सांगलें -

"ही फार माजली. इला मूलबाळ होनार नाही. पोराचं दुसरं लग्न कर".

आईन म्हणलें -

''बाया हो तुमीच तयाला सांगा व सिकवा. आमचं तो आइकत नाही''.

एके बायलेन म्हाका म्हऱ्यांत काडलो आनी म्हजे वयल्यान हात भोंवडायत ती म्हणपाक लागली -

''का रे पोरो, आम्ही काय बोलतो ते आइकलेस का? सर्व बाया काय म्हनतात? तुझी आई ही म्हातारी होत आली. आम्ही किती दिवस वाट बगायची? आमचं म्हनने आहे की तू दुसरी बाइको कर व आम्हाला नातू पाहु दे. बोल काय म्हनने आहे ते?''

हांवें तिका सांगलें,

''आई, तुमकां नातू पळोवपाची जायती इत्सा दिसता. तेन्ना तुमी रस्त्याचेर जे ल्हान ल्हान भुरगे दिसतात ते सगळे आपले नातूच अशें समजुचें. तांकांच आजेचे मायेन पळोवचें. म्हणजे तुमचें समाधान जातलें. आमचे खातीर तुमकां काळजी करपाची गरज ना. समजा आमच्यांतलो कोणूय मेलो जाल्यार ताचें सुतक तुमी पाळचीं नात. आनी तुमच्यांतलो कोणूय मेलो जाल्यार आमी ताचें सुतक धरचीं नात. ओगीच आईक वा म्हाका चिथावणी दिवं नाकात. म्हज्या सारके जगांत आनीक कितलेशेच आसतले. म्हजी कितें लाखाची वा कोटींची इस्टेट फुकट वच्ची ना. म्हजें बरें वायट म्हाका बरे तरेन समजुपाक लागलां. हांव हेच बायले वांगडा संवसार करतलों. म्हाका कोणेंच सांगपची गरज ना''.

सगळ्यो बायलो म्हज्या तोंडा कडेन पळोवपाक लागल्यो. कांय बायलांनी म्हणलें -

''तो मस अंगचा श्याना आहे. तेला काय सिकवता?''

बायल हें चुली कडेन बसून आयकताली आनी पदरान दोळे पुसताली. तिच्या जिवांत जीव आयलो. तिणें म्हजे कडेन पळयलें आनी ती हांसली. तिच्यांत थोडो बदल जाल्ले भशेन म्हाका जाणवलो. हांवेंय म्हज्या मनाचें समाधान करून घेतलें. पूण आईक तें आवडूंक ना. तिणें उलोवन दाखयलें ना पूण चार-पांच दिसांनी ती ओझराक वचपाक गेली.

ताचे उपरांत कांय दिसांनी दारांत एक भिकाऱ्याचो भुरगो भाकरी मागपा खातीर आयलो. तो दारांत उबो रावलो. तो खूब सुंदर आनी देखणो आशिल्लो. आंगांत पिनकी बंडी आनी पिनकी चड्डी, खांदार कांबळीचो एक कुडको आनी रडकुरो चेरो. बाबडेशें तोंड करून पळयत रावलो. हांवें ताका पळयतकच म्हाका

ताची काकुळट आयली. हांवें ताका घरांत घेतलो. बायलेन तें पळयलें. तिवूय म्हऱ्यांत आयली. त्या भुरग्याची चवकशी केली. तो रडपाक लागलो. ताणें सांगलें -

"म्हजो गांव सातारा. म्हाका म्हज्या बापान कामा खातीर मुंबय हाडलो. आमी स्टेशनाचेर न्हिदिल्ले. पूण तो केन्ना उठून गेलो तें कळ्ळेंच ना. म्हाका भूक लागली. हांव भाकरी मागपाक लागलों. म्हजी खंयच वळख ना. हांव कोणागेर वचूं?"

हांवें बायलेक सांगलें -

"हाका आमच्या घरा दवर. म्हाका हो आवडला. तू सारकी भुरग्या खातीर मनांतल्यान खंती जाता हें म्हाकाय वायट दिसता. हो आमचो भुरगो आसा अशें समज".

हांवें ताका विचारलें -

"तुजें नांव कितें?"

"ताणें सांगलें -

"म्हजें नांव शंकर आनी बापाचें नांव भिक्या मांग बाबर. हांव मांगाचों".

हांवें ताका सांगलें -

"हांव जात मानिना. तूं भियेवं नाका".

म्हजे बायलेक दिसलें, घरांत भुरगें ना. देवान हो भुरगो धाडून दिला. हातूंत समाधान मानुया. तोवूय बरेच म्हयने आमगेर रावलो.

एक दीस सोनून म्हाका म्हऱ्यांत आपयलो आनी सांगलें आत्याक पत्र धाडात आनी तिकाय आपोवन घेयात. येतना म्हाका चिंचो आनी बोरां घेवन येयात म्हूण सांगा. म्हाका हें समजलें ना. तिणें सांगिल्ले प्रमाण हांवें आईक पत्र धाडलें. आई कांदे काडपाक ओझराक गेल्ली. पत्र पळयना फुडें कांदे माळयेर उडोवन आई मुंबय आयली. येतना चिंचो, बोरां आनी कवठां घेवन आयली. शिमिटाची अर्दी पोती भरून चिंचो, बोरां हाडिल्लीं. आईन तिका म्हऱ्यांत घेतली. माथ्या वयल्यान हात भोंवडायलो आनी आशिर्वाद दिलो. परतून दोन म्हयन्यांनी आई ओझराक गेली. माळयेर पळय जाल्यार कांद्याची घाण येवपाक लागली. कांदे कुसून गेल्ले सगळे. कित्याक तर तिच्या जावांनी कांद्यांचेर उदक उडयिल्लें. आईन ते कांदे न्हंयंत व्हरून उडयले आनी ती मुंबय आयली.

ताचे उपरांत पांच-स म्हयने हांव दुयेंत आशिल्लों. म्हाका रगताची हागवण लागली. खूब दोतोरांचीं वखदां केलीं पूण गूण ना. भगत पळयले, जाणते पळयले आनी दोतोरय पळयले. पूण गूण ना. कांय जाणांनी सांगलें, गुजरातांत एक वैज आसा. ताका पत्रान कळय. तो तुमकां वखद धाडून दितलो. ते प्रमाण हांवें ताका कळयलें. ताणें कांय वखदां धाडलीं. पूण ताणें कांयच जालें ना. मागीर हांव एका खाजगी दोतोरा कडेन गेलों. ताणें म्हाका सांगलें, तुज्या आतकडेक फोड आयल्यात. तर कांय दीस तुमी एक कप ताकाचेर रावपाक जाय. दुसरें कितेंच खावपाक जायना. मागीर खावपाचें बंद केलें. चोवीस वरांत कपभर ताक घेवन रावलों. हांव खूबच अशक्त जाल्लों. फकत हाडांच उरिल्लीं. अशे पंदरा दीस गेले आनी म्हाका हात-पांय हालोवपाची ताकत उरली ना. मागीर हांवें आईक म्हणलें -

''उपासी मरण्यापेक्षा काही खावून मेलो तर बरे होईल. मला तुपाच्या पातळ भाकरी व खिमा चारा. म्हंजे मनाला समाधान होईल''.

आई म्हज्या नाका कडेन हात धरून म्हजो स्वास पळयताली. जीव आसा काय गेला आनी बायल सारकी पोटाक हात लावन बसली. हेवटेन तेवटेनच्या लोकांनी घर भरिल्लें आसतालें. वळखीचो एक खाटीक आशिल्लो. आईन ताका सांगून खिमा हाडून घेतलो. सोनून चपात्यो आनी खिमा करून दिलो. हांवें थोडो खिमा आनी चपाल्यो खाल्ल्यो. खूब दीस पोटाक कांय नाशिल्ल्यान म्हाका आतां बरी न्हीद लागली. मागीर हांवें थोडें थोडें खावपाक सुरवात केली. आसते आसते म्हाका बरें दिसपाक लागलें. पूण हागवण थांबूंक नासली. कांय दिसांनी हांव वण्टीक धरून चलपाक लागलों आनी कोणाचोय आदार घेवन रस्त्यान येवपाक लागलों.

कांय दिसां आदीं हांवें ज्या मनशा कडेन रस्त्याचें काम केल्लें त्या शेटीन मनीस धाडून म्हाका आपयलो. हांव मागीर त्या मनशा बराबर गेलों. तो म्हाका वळखलो ना. मागीर हांवें ताका सगळें कितें सांगलें. ताणें म्हाका काम दिलें. हांवें चार मनशां लावन काम करून घेतलें आनी हांवूय म्हज्या हातान काम करपाक लागलों. कामांत म्हजें लक्ष लागलें. ताका लागून म्हजें दुयेंस उणें जालें. दुयेंसांतल्यान हांव निवळ्ळों.

आईन जांवयाक सांगलें पोराक तुमचे कडेन कामाक दवरात. ताणें सायबाक

विचारलें. सायबान सांगलें शंबर रुपया हाड. हांव ताका कामाक लायतां. मेवण्यान तें आईक सांगलें. पूण आईन रोखडेच एकशेपन्नास दिले. सायबाक शंबर दिले. बाकी हेडक्लार्कान आनी मेवण्यान दामले.

दुयेसांतल्यान हांव सादारण निवळ्ळों. पूण खूब दिसांचें दुयेंस तें. म्हजें आंग किडकिडीत जाल्लें. बोंबला भशेन सामको बारीक जाल्लों. अशाच वेळार कामाक आपयलो. हांव, मेवणो कचरा वांगडा वडाळ्याच्या बी.पी.टी. ऑफिसांत गेलों. थंयच्या हेडक्लार्कान म्हाका दोतोरा कडेन धाडलो. आंगांत ताप आशिल्लो. चीट घेवन दोतोरा कडेन वचचे पयलीं हांव होटॅलांत गेलों. दोन बाटल्यो सोद पियेलों आनी थोडो वेळ बसून रावलों. पयलीं म्हजें मूत हळडुवें जातालें पूण आतां सोद पितकच धवें जालें. थंय आमचे पैकी प्यून आशिल्लो. तो म्हजे वळखीचो.

डॉक्टर पारसी आशिल्लो. ताणें म्हज्या दोळ्यांची तपासणी केली. म्हज्या दाव्या दोळ्यान म्हाका कांयच दिसनासलें. एका हातान एक दोळो दामून धरचो पडटालो. दोळो दामून धरतना कांय भाग उकतो दवरून हांव सांगतालों. हांव दोळ्यांत पास जालों. दोतोरान म्हाका कपडे काडूंक सांगले. कपडे काडले जाल्यार हांव सामको बारीक आशिल्लों. दोतोरान विचारलें, तूं बारीक कसो? हांवें सांगलें हांव खूब गरीब. म्हाका वेळच्या वेळार जेवण मेळना. हांव सगळ्यांत पास जालों. कितले खेपो फट उलयलों ताचो हिशोब ना. निमाणें मे १९३७त हांव बी.पी.टी. रेल्वेंत मारकर म्हणून काम करपाक लागलों. आमच्या संवसाराची गाडी लायनीक लागली ती तेन्ना सावन.

# प्रगतीची सुरवाद

**आमी** कुर्ल्याकच रावतालीं. वचून-येवन काम करतालीं. वडाळाच्या गुडशेडीक मिठाच्या साकाचेर मारकीन (मार्किंग) करप हें म्हजें काम आशिल्लें. त्या वेळार पगार आशिल्लो अठरा रुपया. पावणेचार रुपया मुंबय अलावन्स मेळून पावणे बावीस मेळटालो. म्हजें दुयेंस ल्हवू ल्हवू बरें जायत गेल्लें.

मागीर म्हजी बदली येडांत (रेल्वे यार्ड) सांधेवाल्यांत जाली. सांधेवाल्यांत तीन म्हयने काम केलें. एक दीस सायबान म्हाका ऑफिसांत आपयलो. विचारलें, तुका इंग्लीश येता? हांवें हय म्हणलें. ताच्या ऑफिसांत एक इंग्लीश बोर्ड आशिल्लो. ताणें तो म्हाका वाचपाक लायलो. हांवें तो वाचलो. सायब खूश जालो. रोखडीच म्हजी कॅबीन कॅण्डिडेट म्हूण निवड जाली. म्हाका रोबीनाचो (मिसीबाबाचो) उगडास जालो. तिचे खातीरच हांव ए बी सी डी शिकलों. आमकां सगळ्यांक स म्हयने काम शिकयलें.

त्याच वेळार १३ जुलय १९३८त जनार्दनाचो* जल्म जालो. कुर्ल्याक. दोन नर्सी आनी एक दोतोर घरा कडेन हाडून सोनीचो बाळंटेर जालो. तो सामको बारीक आशिल्लो. वजन केल्यार साडेतीन पावंड जालें. डॉक्टरान सांगलें, भुरगें खूब नाजूक आसा आनी ताका खूब जपचें पडटलें. ताचे खातीर कापसाचीं दोन बंडलां हाडलीं. ताचेर ताका दवरतालीं.

१९२६त आमचें लग्न जालें आनी बारा वर्सांनी भुरगें जालें. ह्या काळांत सोनी मनांतल्यान सामकी झुरताली. केन्ना चिंत्तां चिंत्तां ती उपाशीं न्हिदताली. तिणें खूब मांत्रीक पळयले. दोतोर पळयले. ज्योतिशी पळयले. अशे अस्तुरेक भुरगें जाले उपरांत कितलो आनंद जाला आसतलो आनी त्या अपुरबायेच्या भुरग्याचे कितले कवतूक जालां आसतलें हें ते आवयकूच खबर. भुरग्या विशीं आवयचें वात्सल्य

---

* जनार्दन (जे.डी.) वा भाऊचो उल्लेख दादा जायते फावटीं जयवंत ह्या नांवान करतालो.

तिच्या हड्ड्यांत साठिल्लें आसता. ती केन्नाच कोणाक उलोवन दाखयना.

१९३९त हांव असिस्टंट कॅबिनमॅन जालों. मागीर वडाळ्याक बी.पी.टी.ची कूड मेळ्ळी. आमी वडाळ्याक रावपाक आयलीं. म्हज्या पगारांत वाड जावन तो चौतीस जालो. सोनीन कांय कोंबड्यो आनी बोकड्योय घेतल्यो. आमच्या घरांत दुदाची चंगळ सुरू जाली. तांतयांय भरपूर. भायरसून घेवपाची गरज आमकां भासली ना. पूण हांव एकलोंच जोडपी आशिल्ल्यान पगार पावना जालो. मागीर सोनीन केळ्यांचो धंदो सुरू केलो आनी घर चलोवपाक मजत जाली.

आमच्या घरांत बरेच दीस ल्हान भुरगें नाशिल्लें. ताका लागून आमी ताचे खूब लाड केले. पगार मेळपाक लागलो आनी सोनीचेय भाजे-फळांचे पयशे मेळपाक लागले. जयवंत जसो वाडपाक लागलो तसो आमच्या मनाचो आनंदय वाडपाक लागलो. भाऊ चलपाक लागलो तेन्ना सद्दां जेवण घेवन ताचे आई वांगडा येवपाक लागलो. ताका पळयले बराबर धांवत वचून डब्या सयत हांव ताका उखलून घेतालों. आनी उमेदीन ताचे बराबर खेळटालों.

कांय कामगारांनी धान्याचें दुकान काडलें. हांव तातूंत मेंबर आशिल्लों. तांणी म्हाका डायरेक्टर बोर्डाचेर घेतलो. म्हाका सद्दां दुकानांत वच्चें पडटालें. एक दीस जयवंताक घेवन हांव दुकानांत वतालों, जाल्यार म्हगेल्या इश्टालो भाव वाटेर मेळ्ळो. ताणें जयवंताक पळयलो आनी विचारलें, हो भुरगो कोणाचो? हावें सांगलें म्हजो. ताणें ताका बारीक निरखिलो आनी म्हणलें हो भुरगो राजकारणी जातलो आनी संत पुरुश जातलो. आजूनय हें म्हज्या लक्षांतलें वचना.

इरोपेन सायबा बराबर रावन शिक्षणाचें म्हत्व म्हज्या ध्यानांत आयलें. तातूंत बाबासाहेबांनी शिक्षणाचेर* व्हडलो नेट दिल्लो. हावें निश्चेव केलो, हांव म्हगेल्या भुरग्यांक बरे शाळेंत शिकोवन व्हडलो करतलों. कितें जाता तें जावं.

भाऊचें शाळेंत नांव घातलें. १९४४त बी.पी.टी. वडाळा, धा चाळ १९४९त भाऊ मराठी चवथी पास जालो. भाऊचे पयलीं म्हजे भयणीक नाजुकाक चली जाली. १९३६क म्हार परिशेद¶ जाली. त्या वेळार तिचें नांव रमन. आमच्या

---

* 'शिकात, संघटीत जायात, संघर्श करात' हो डॉ. आंबेडकरांचो आदेश आनी शिक्षणाचें म्हत्व सांगपी तांचीं कांय भाशणां ह्याच सुमाराक जाल्लीं हें हांगा लक्षांत घेवपा सारकें आसा.

¶ नाशिक जिल्ल्यांतल्या येवला हांगा घेतिल्ली महार परिशद. 'हांव हिंदू धर्मांत जल्माक आयलों तरी हिंदू म्हणून मरचों ना' ही इतिहासीक घोशणा डॉ. आंबेडकरान केली ती हेच परिशदेंत.

दोनांय घरांत आदीं ल्हान भुरगें नाशिल्लें. ते खातीर आमच्या घरांत खूब खोस जाल्ली. ती स वर्सांची जाली. त्याच वेळार हांवें बी.पी.टी.चे शाळेंत तिचें नांव घातलें. तिणें चौथी पास केली. हांवें रोखड्या रोखडो फॉर्म भरून किंग जॉर हायस्कूलांत तिगेलें नांव घालें. पूण थंय खूब जातीभेद आशिल्ल्यान तिका घेतलें ना. मागीर हांवें तिगेलें नांव माटुंग्याकच घातलें. मराठी पांचवेक भाऊचें नांव व्हडले शाळेंत घालपाचें आशिल्लें. परतून दादरच्या किंग जॉरांत गेलों. पूण परतून जातीभेद आड आयलो. थंयच्या मास्तरान सांगलें तुमी खूब उसरां आयले, जागो भरल्यो. आतां आमचे कडेन जागे नात. हें आयकून म्हाका तेन्नाच पश्चात्ताप जालो. तीन वरांचेर सावन हांव ते शाळेंत. हाका विच्यार ताका विच्यार. पूण कोणूच दाद लागपाक दिना. ती २१ तारीख आशिल्ली. थंय सावन हांव साडेपांचांक भायर सरलों. आनी छेबीलदासांत गेलों. सचो वेळ आसतलो तो. छेबीलदासाच्या दारांत शिपायान आडायलो. हांवें ताका आठ आणे दिले. हांव भितर गेलों. थंय एक मनीस बशिल्लो. ताणें विचारलें -

''कितें जाय?''

''म्हाका सायबाक मेळपाचें आसा''.

ताणें सांगलें,

''आतां आमचे कडेन जागे नात''.

हें आयकून म्हाका खूब पश्चात्ताप जालो. मनांत विचारांचें काहूर माजलें आनी म्हज्या दोळ्यांत उदक आयलें. हांवें तांकां आनीक एक फावट विनंती केली, पूण कांयच जायना जालें. हावें त्या सायबाक सांगलें -

''जो पर्यंत माझ्या मुलाला तुम्ही शाळंत घेत नाही, मी आन-पाणी घेनार नाही. मला पोलिसांनी नेले तरी आन-पाणी घेनार नाही''.

दोळ्यांतल्यान एकसारकें उदक गळटालें तें सगळें तांणी पळयलें. ताका काकुळट आयली. ताणें म्हाका सांगलें,

''फाल्यां इकरा रुपया घेवन यो''. आनी भुरग्याचें नांव बरोवन घेतलें. म्हाका वचपाक सांगलें. तें आयकून म्हाका खूब आनंद जालो आनी सकाळीं हांवें पयशे घेतले आनी त्या भुरग्याक सांगाताक घेवन पयशे भरून भुरग्याक म्हजे मुखार वर्गांत व्हेलो तेन्ना म्हज्या मनाक समाधान भोगलें. म्हजो व्हडलो भुरगो मोटे शाळेंत गेलो आनी आमचे प्रगतीची सुरवाद जाली.

# वडाळ्याची वस्ती

''तुमी भारतांतल्यान भायर वचपाक शकतात, पूण भारत कांय तुमच्या मनांतल्यान भायर सरपाक शकना'' अशें म्हणटात तें सगळ्या अर्थान खरें आसा. परदेसांत रावपी दरेका भारतीयाच्या मनांत विरंगुळ्याच्या खिणांत आसता तो आपलो देश. जायते फावटीं अनिवासी भारतीय एकठांय येतकच ते आपणाल्या देशाक दुशणां दितना दिसतात. पूण ताचे फाटल्यान आपूण आपल्या देशांत ना हाची तांकां जावपी विशमताय वा विफळटाय आशिल्ल्याचें जाणवले बगर रावना. आपणालें विदेशांत रावपाचें आपणा कडेनच समर्थन करप वा स्वताची समजिकाय काडप ही भुमिका चड करून ताचे फाटल्यान दडिल्ली आसता.

जी गजाल देशाची, तीच गजाल आपल्या मनांत वशिल्ले वस्तीची. ल्हानपणा सावनच दरेकल्याच्या मनांत एक वस्ती घर करून आसता. जे वस्तींतल्यो घडणुको जित्यो आसतात - एखाद्या चलचित्रा वरी तुमी त्यो सलगपणान पळोवंक शकतात. ते वस्तींतल्या लोकांची पिराय वाडना - तुमच्या मनान तांकां चिरतारुण्य भेटयिल्लें आसता. आयज सकाळीं आपणें कितें खाल्लें हाची तुमकां सट करून याद जावची ना. मात 'ते' वस्तींतल्यो घडणुको, व्यक्ती, तांगेलें संभाशण वा कोणा वांगडा तुमी खंय - कितें खाल्लें हाची विसर तुमकां पडूंक शकच ना. हे वस्ती विशीं बाकीच्यांक कसलेंय अप्रूप दिसूं वा ना दिसूं, ताचो विचार करपाची गरज तुमकां भासना. वर्तमानांत जगताना 'भव्य हिमालय तुमचो आमचो, फकत म्हजो सह्यकडा' अशी अतीव आपुलकायेची भावना आपणाल्या मनांतले वस्ती विशीं आसता. मंडालेचे बंदखणींत सादे आमटी खातीर लोकमान्य टिळकांनी जो अन्नसत्याग्रह धरलो तो कितें फकत एका खावपाच्या जिनसाक लागून नाशिल्लो, तर तो आशिल्लो तांच्या मनांतले वस्ती खातीर! न्यू यॉर्कांतल्या ७७व्या मजल्याचेर आशिल्ल्या एका उपहारगृहांत उत्कृश्ट कॉफी मेळटा म्हूण एखाद्या पोरण्या इश्टाक घेवन वचचें जाल्यार ताणें हड्ड्यार हात मारून सांगचें, रुईया कॉलेजी कुशीच्या 'मणी'त जी कॉफी मेळटा तसली झकास कॉफी जगांत खंयच मेळची ना म्हणपाचें.

हो दोश ताचो न्हय. भूतकाळा सावन मनांत दडिल्ली वस्ती, कळटां-नकळटां वर्तमानांत तकली वयर काडटा, उलोवपाक लागता हेंच खरें!

म्हज्या मनांत वशिल्ली आसा ती वस्ती वडाळ्याची. खरें म्हणल्यार, म्हज्या वर्तमान जिविता कडेन ते मानसीक पातळेचेर ती वस्ती म्हजे पसून पयस वचना. जगांत हांव खंयूय गेलों तरी ती वस्ती म्हाका वांगड दीत रावता. आमी भावंडां एकठांय आयलीं काय वडाळ्याचे वस्तीचो विशय आयलो ना अशें केन्नाच जायना. बाकीच्यांक हाची नवलाय दिसता. केन्ना केन्नाय राग लेगीत येता. पूण ताका आमचो इलाज ना, कित्याक तर वडाळ्याची वस्ती हो आमच्या मनोविश्वाचो, भावविश्वाचो एक अविभाज्य घटक जावन उरला आनी ह्या उपरांतय उरतलो.

वडाळा हो भाग मध्य मुंबयंत पडटा. म्हज्या मनांतल्या वस्तींतलो वडाळा आसा तो १९५० ते १९७० ह्या उण्या चड अश्या दोन दसकांतलो. मुंबय सावन कांयसो पयसाविल्लो आनी आपणालें वेगळें अस्तित्व जपणारो. भीमवाडी, जयकरवाडी, चार नंबर गेट (रेल्वेचे), कोरबा मिठागर, आनंदवाडी, मुंबय पोर्ट ट्रस्टाची पोरणी आनी नवी कॉलनी, अँटॉप हिल, शेख मिसरी दर्गा, पोरणो वडाळा आनी स्टेशनाचे पश्चिमेक आशिल्ली वडाळा मार्केट एरिया असल्या जायत्या वसाहतींनी घडिल्ली - मुंबय पोर्ट ट्रस्टाचे कामगार, हाता वयल्या पोटार जगपी मानाय, तांगेलीं कुटुंबां हांची ती वस्ती. कांय मुसलमान, कांय किरिस्तांव, कांय उत्तर प्रदेशांतल्यान आयिल्ले (तांकां 'भय्ये' म्हणटाले), तर दक्षिणेंतल्यान आयिल्ले बांदकाम मळा वयले मानाय (तांकां 'कोंगाटी' म्हणटाले). अशी सरभसरस, पूण मुखेलपणान नाशिक आनी अहमदनगर भागांतल्यान आयिल्ल्या दलितांचो भरणो.

वडाळ्याची वस्ती ही मुखेलपणान दलितांची वसाहत जावपाचें कारण मुंबय पोर्ट ट्रस्ट. स्वातंत्र्या उपरांतच्या काळांत मुंबय पोर्ट ट्रस्टान विविध प्रांतांतल्या दलितांक व्हडा प्रमाणाचेर कामगार म्हूण नोकऱ्यो दिल्यो. रोजगारा वांगडाच तांकां लागूलागून घरां दिलीं तीं वडाळ्याक. ताका लागूनच गांवां कडसून येवपी सोयऱ्याधायऱ्यांनी थंय लागसारच बस्तान मांडलें. एक फावट वडाळ्याक राविल्लो मनीस हेर खंयच रावपाक शकना हो संकेत. ताका लागून सेवानिवृत्त कामगारांनीय थंयच रावप पसंत केलें. मागीर ल्हान-व्हड वेपारी आयले, बाकीचे वेवसायीक आयले. वस्ती वाडत गेली. बकालपण आयलें. तातूंत मुंबयच्या हेर भागांतल्यान

धांवडावन घाल्ल्या ल्हान-व्हड 'दादां'नी वडाळ्याचें स्वतंत्र अस्तित्व आनी स्वरूप लक्षांत घेवन थंयच आसरो घेतलो. आपणाल्यो टोळयो उब्यो केल्यो. अशे तरेन वडाळ्याची वस्ती आकाराक आयली.

वडाळ्याची वस्ती एखाद्या स्वयंपूर्ण गांवा भशेन आशिल्ली. वस्तीचें सांस्कृतीक केंद्र म्हणल्यार वाय.एम.सी.ए. (जाका व्यायामशी म्हणी). थंय अभ्यासा खातीर जागो आशिल्लो, खेळपाक मैदान आशिल्लें, व्यायामशाळा आशिल्ली. खास करून हेर कडेन दुर्मिळ आशिल्लो रेडियो आशिल्लो. पुराय वस्तींत तिसऱ्या मजल्या वयल्या एका घरांत तेदे वेळार एकमेव रेडियो आशिल्लो आनी ताचे वयली 'बिनाका गीतमाला' आयकुपाक बुधवारा सांजवेळची सकयल रस्त्याचेर गर्दी जावची. पोरण्या वडाळ्याक 'रेनॉल्टस् इन्स्टिट्यूट' हें पोर्ट ट्रस्टाचें कल्याणकेंद्र आशिल्लें. चांदोबा, किर्लोस्कर, विविध वृत्त सारकेलीं नेमाळीं थंय आसतालीं. मुंबय पोर्ट ट्रस्टाची आपली प्राथमीक शाळा आशिल्ली. शाळेंतले शिक्षक लेगीत चडशे दलित. शिक्षकांचो इतलो जबर धाक आसतालो, शाळा चुकयतल्या भुरग्यांक शाळेचो शिपाय घरा येवन तांकां धरून शाळेंत व्हरतालो. नांव घेवपा सारकीं होटॅलां दोनच : एक करीमभाईलें आनी दुसरें सदानंद होटॅल - तें शेट्टीलें. करीमभाईली बायल दलित. तागेल्या होटॅलांतले सामोशे म्हणल्यार थळावें खाशेलपण. सदानंद होटॅलांतल्या उसळपावाक जगांत तोड ना हो वस्तीचो विस्वास. धा पयशांत मेळपी उसळपाव. ते उसळेंत उसळे परस तेल चड, तरीय 'तर्री मार के लाना' अशी लोकांची आनीक मागणी. पाव कुस्करून, उसळेंत बुडोवन खावप म्हणल्यार वस्तींतल्या लोकांची पर्वणी. जालेंच जाल्यार जायतीं वर्सां सगळ्यांचे आवडटे डॉ. नेरूरकर आनी चिरतरूण भासपी डॉ. राजे हांचे सारके दोतोर वस्तींत आशिल्ले. तकली उसळप ते कॅन्सरा मेरेन दुयेंसांचेर योग्य इलाज म्हूण एकूच एक गुलाबी रंगाचें वखद दिताले. मात ह्या दोतोरांचेर लोकांली इतली श्रद्धा, तांणी वखद दिलें म्हणटकच गूण पडटलो हो ठाम विस्वास. 'हिला हिला के दवा पिलाव' म्हणल्यार बाटली हालोवन दुयेंत मनशाक वखद दिवपाचें, दुयेंत मनशाक हालोवन न्हय हो तांगेलो थारिल्लो विनोद लाखांनी फावटीं आयकूनय दर वेळा लोकांनी तितल्याच उत्साहान हांसचें. विनोदाचो तो डोस मेळ्ळे बगर त्या दोतोराचें वखद ताळ्या सकयल देंवनासलें जावंये चड करून.

सुश्ट आनी दुश्ट असो ढोबळ भेदभाव वस्तींत नाशिल्लो. (खरें म्हणल्यार

तसो तो केन्नाच नासता) प्रामाणीकतायेन काम करपी जायते 'दादा' लोक आशिल्ले. 'दादा' मंडळीक 'वस्ताद' म्हूण वळखताले. 'दादा' लोकां मदीं सर्रास मारामाऱ्यो. आमी आतां जाका गँगवॉर म्हणटात तें सदचें! एखाद्या नांवाजत्या 'दादा'क दुसऱ्यान लोळयलें जाल्यार एकल्याचो उदय आनी दुसऱ्याली 'पोझिशन डावन'. 'बळी तो कान पिळी' हो थंयचो नेम. मुंबय पोर्ट ट्रस्टाच्या रेल्वे यार्डांत येवपी मालगाडयो फोडून तातूंतलो माल लुटप, हातभट्ट्यो लावप, जुगाराचे अड्डे चलोवप असले काळे धंदे उकतेपणीं चलताले. ताका लागून जावपी मारामाऱ्यो, मांडवली (समझोता), परतून मारामाऱ्यो हें चक्र अखंडीतपणान चालू आसतालें. पुलीस केन्नाय झळकताले - चड करून ते हप्तो पुंजावपाक येताले तेदे वेळार दिसताले! ना म्हणल्यार स्पेशल ब्रँचीच्या साद्या भेसांतल्या पुलिसांचो धाक आसतालो. तांकां 'पेशलवाले' म्हणी. तशें पळयल्यार गणवेश घाल्लो नासलो तरी तांकां वळखप सामकें सोंपें. जाडजूड पिळिल्ल्यो मिशयो, गर्विश्ट नदर, दणकट पुलीस बूट, धवी पिजाम (पोवट्यांचेर तांकां क्लिपां आयिल्लीं) आनी हातांत धरून चलयिल्ली सायकल, हो तांचो जसो गणवेशूच आशिल्लो. सांगिनासतना ते धाड घाली. ताका लागून थोडें वयर-सकयल जातालें. हरशीं, वर्दीतल्या खंयच्याय पुलीस इन्स्पेक्टराक गुंडांनी सायब म्हणिल्ल्याचें आयकूंक येनासलें ही वस्तुस्थिती आशिल्ली.

'चोरो के भी उसूल होते है' ह्या हिंदी सिनेमांत उपरांत आयिल्ले उक्तीचो प्रत्यय त्या काळांत वडाळ्याचे वस्तींत सतत येत आसतालो. ह्या 'दादां'चो उपद्रव त्रास सर्वसामान्य मनशांक अजिबात जायनासलो. 'अपने अपने इज्जत से रहना' हो संकेत आसलो. इतलेंच न्हय तर उपरांत रूढ जाल्ली 'भाय संस्कृती' त्यावेळार नाशिल्ली. ताका लागून कसलीच खंडणी घेनासतना सर्वसामान्यांक सुरक्षितताय मेळटाली. एखादे चलयेची कोणा गुंडान मस्करी केली जाल्यार आपापसांतले मतभेद विसरून सगळे एकठांय येताले, आनी ताका मरसर मारताले. १९४७-४८तले हिंदू-मुसलमानाचे दंगली वेळार वडाळ्यांतल्या हिंदू-मुसलमानांनी एकामेकांक भायल्या समाजकंटकां कडसून सुरक्षितताय दिली अशी वदंता आसली. सुसंस्कृत घराण्यांतल्या तरण्या चलयांक स्टेशना सावन घरा मेरेन, एक उतरय उलयनासतना वर्सान वर्स सांगात दिवपी जायते गूंड (?) म्हज्या पळोवपांत आयल्यात. आयजकाल गुंडां मदीं जी 'ताडेबाजी' चलता ताचो मागमूसय त्यावेळा नाशिल्लो. उपरांतच्या काळांत मुल्यांचें अधःपतन फकत प्रस्थापितां भितरचू

जालें ना तर चाकोरी भायल्या जगांत तें चड प्रमाणांत जालें आसूंक जाय.

सुसंस्कृत लोकांनी आपणाक मान्यताय दिवची - 'इज्जत' दिवची इतलीच अपेक्षा आसताली ह्या 'दादा' लोकांची. आयचे भशेन, फकत पयसो आसा म्हूण 'दादा' लोकांक इज्जत मेळनासली. सरकार दरबारांत तांगेले हात वयर पाविल्ले आसले तरी सर्वसामान्य मनशांक तांचें अप्रूप दिसनासलें. ताका लागून लोकांचो आदर मेळचो म्हूण जायते फावटीं हे 'दादा' लोक समाजीक कार्यांत तळमळीन वांटो घेतना दिसताले.

मोलगादादा आनी देवराम वस्ताद हे वडाळ्याचे वस्तींतले सुरवेचे 'दादा'. खरें म्हणल्यार देवराम वस्ताद हो उत्कृश्ट क्रिडापटू आनी क्रिडा-शिक्षक आशिल्लो. लाठीकाठी चलोवपाक वा दांडपट्टो फिरोवपाक देवराम वस्तादाचो हात कोण धरपाक शकनासलो. बाकी कडेन कुस्कुटाचो धको लायनासतना दुसऱ्याचे तकले वयलो नाल्ल लाठयेन अचळय फोडप वा दुसऱ्याच्या माथ्या वयलो लिंबू दांडपट्ट्यान तोडप हें पळयतल्याक अजापीत करपाच्या प्रकारांची जादू करची ती देवरामदादानूच. आंगांत बळ आशिल्ल्या कितल्याश्याच तरणाट्यांक देवराम वस्तादान फुकट प्रशिक्षण दिवन तयार केले. ताका लागून देवरामदादाक वडाळ्याचे वस्तींत द्रोणाचार्यांचो मान आसतालो.

दादा-वस्ताद मंडळींक लोकांचो आदर मेळचो तो सगळ्या सार्वजनीक कार्यांनी. लग्नाची वरात, जाहीर सभा, समाजीक मिरवणुको हांगा सावन शेख मिसरी दर्ग्याच्या संदल मेरेनच्या सार्वजनीक कार्यांनी शांतताय आनी सुवेवस्था राखपाचें काम आपोआप दादा लोकां कडेन आसतालें. जांचे कडसून सुवेवस्थेक धोको उप्रासूं येता तेच लोक स्वयंसेवक आशिल्ल्यान असल्यो कार्यावळी चडश्यो निर्विघ्नपणान जावन वताल्यो.

दादा लोकांच्यो आपापसांत जातल्यो ल्हान-व्हड मारामाऱ्यो ही भुरग्यांची मुखेल मनरिजवण आनी ताचे चर्चेचो विशय आसतालो. चडश्यो मारामाऱ्यो हत्यारां बगर-क्वचीत केन्ना तरी काठ्यो, लोखंडाचे वारांव वा सायकलीच्यो चेनी हांचो वापर जावचो. कर्र आवाज करपी रामपुरी चडसो भिरांत निर्माण करपा खातीर! मात केन्ना केन्ना व्हडलें गँगवॉर जातालें. दादरच्या खांडके बिल्डिंग वाठारांतले काळूदादा, अण्णादादा, मांग काट्या, सून बहिरा ह्या दादांनी वडाळ्याचे वस्तींत भितर सरपाचो यत्न केलो तेन्ना अशे तरेचें आकांताळें झूज जालें. पट्ट्या पट्ट्यांची अर्दी चड्डी आनी धवो सदरो असो गणवेश घालपी दादरच्या

'झडपगँग'च्या दादा लोकांनी वडाळ्याचे वस्ती कडेन आक्रमण केलें तेन्ना लेगीत बरोच खेव जालो.

वस्ती भायल्या जगा कडेन भुरग्यांचो संबंद येवचो तो फकत शाळेंत. ताका लागून म्हजे सारकेल्या कितल्याश्याच भुरग्यांक एकाच वेळार सामक्याच विरोधी अश्या दोन सांस्कृतीक थरांचेर जगचें पड. तातूंतल्यान घुस्मट जातालो.

ना म्हणल्यार सप्तकांतल्यान दोन फावटीं सांजवेळा टाटा इन्स्टिटयूट ऑफ सोशल सायन्साचे 'समाजीक कार्य' शिकोवपी कांय विद्यार्थी येताले. तांणी बऱ्यो बऱ्यो गजाली सांगच्यो, खेळ शिकोवचे - मजा दिसची. सगळीं भुरगीं त्या दिसाची वाट पळयत रावतालीं. मिसेस पॅनाकल नांवाच्यो तांगेल्यो मुखेल शिक्षिका आसल्यो - तांचे इतली सुंदर, सुस्वभावी आनी सात्वीक बायल वडाळ्याचे वस्तींतल्या भुरग्यांनी केन्नाच पळोवंक नासली. सगळ्या भुरग्यांक ती अक्षरशा देवी वरी भासताली.

हरशीं भुरग्यांचे खेळ म्हणल्यार 'आठ चल्लस' हो आंकड्यांचो खेळ वा 'नक्का दुव्वा' हो गड्ड्यांनी खेळटलो जुगार. 'तीन पत्ता' (फ्लश) हो बेकार तरणाट्यांचो जगप्रसिद्ध खेळ. बोल्सांत पयशे खुळखुळ्ळे जाल्यार 'पिक्चरा'क वचप. पांच आण्याचें तिकेट काडून 'चीफ गेस्ट'चे लायनींत बसून आड्डी मारीत सिनेमा पळोवप. पांच आणे तिकेटीचे लायनींत तुमचो 'क्लेम' उरचो म्हूण थेटराचो गुरखो मनगटाचेर रबरी शिक्को मारी. केन्ना केन्ना पयशे नासल्यार थेटरांत लागिल्लीं पोस्टरां पळोवन समाधान मानचें पडटालें.

हिंदी सिनेमा पळोवपाचो आसल्यार दादरचें 'कोहिनूर' वा सँडहर्स्ट रोडचें 'डर्बी' हीं थेटरां खास आवडीचीं. मार, हाणामारीच्या इंग्लीश चित्रपटां खातीर मात ॲलेक्झांडर थेटराक पर्याय नासलो. ताका एक खाशेलें कारण आसलें. त्या चित्रपटाची कथा व्हडल्या अक्षरांनी हिंदींत रंगोवन थेटरा भायर बोर्डाचेर लायिल्ली आसताली. कथेचो प्लॉट अर्दवट दिवन 'आगे परदेपर देखिये' असो उत्कंठा वाडोवपी ताचो शेवट केल्लो आसतालो. ताका लागून तो चित्रपट इंग्लीश आसूनय कळटालो. इंग्लीश पटकथेचें आनी चित्रपटाच्या टायटलांचो अणकार कोण करी कोणाक खबर - पूण 'डेंजर डायबॉलिक'चो स्वैर अणकार 'खतरनाक खोपडी' असो करपा खातीर 'खोपडी' लेगीत तशीच जाय. तर्खडकर व्याकरणमाला कितल्योय कोळून पिल्यो तरी 'ब्लो हॉट, ब्लो कोल्ड' ह्या टायटलाचें 'कभी गरम

गरम, कभी नरम नरम' असो बिनचूक आनी बिनतोड अणकार करप आमकां तर कदापी शक्य ना.

लग्न सुवाळ्यांचें आयोजन लेगीत दादा लोकांचे देखरेखी खाला जातालें. इकरा रुपया आनी नाल्ल दिवन दादांलो सत्कार, मान भोवमान केलो काय लग्नाचे वराती खातीर वाजंत्री हाडटाले - ताका 'तापा' म्हणटाले. मुखेल वाद्य म्हणल्यार शमोळ (रिदमा खातीर). ताचेर हारशे जोडिल्लो नक्षी काडिल्लो कपडो. 'आकडो आनी काडये'न शमोळ वाजयताले.सांगाताक पिपाणी हें शहनाई भशेनचें वाद्य - (ताका 'कांड' म्हणटाले) आनी सूर दिवपाक पेटयेच्या जाग्यार 'भोंगा' नांवाचें वाद्य. भपकेदार फेटे घाल्ल्या सगळ्या वाजोवप्यांक भरपूर मान. तांणी वाजयत रावचें आनी मागीर वस्तादाच्या शागीर्दांनी बाकीच्यां बराबर रातभर नाचत रावचें. दादांक हांगा दितात ती सुपारी हें तशें पळयल्यार निमित्त. तांकां जाहीर मान्यताय दिवप हो ताचे फाटलो अलिखीत संकेत आनी उद्देश. वाद्यवृंद जायते आसताले. तातूंतलो खास नांवाजतो शेजवळांचो पंगड. हो इतलो लोकप्रिय आशिल्लो खंयच्याय वाद्यवृंदाक 'शेजवळ वाजयात' असो आड्डून वाजोवपाचो आदेश दिताले.

लग्न सुवाळ्यांत वाद्यवृंदा कडसून वाजयतालीं तीं गितां 'फिल्मी' नासतालीं. तांकां लोक संगिताचो बाज आसतालो. खास करून आंबेडकरी आंदोलनाची फाटभूंय लाबिल्ल्यान बाबासायब ही व्यक्ती आनी तांचे विचार हेंच भोवतेक गितांचें मुखेल सूत्र आसतालें. वडाळ्याचे वस्तींतलें 'टॉप टेन' मदलें पयल्या क्रमांकाचें गीत आसलें - 'भीमराव जिवाचा सखा गं बाई माझा'. शेजवळांच्या ताफ्यान हें गीत वाजोवन सुरवात करची आनी जमिल्ल्या लोकांनी मंत्रमुग्ध जावन वचचें हें सगळ्याच लग्न सुवाळ्यांत चडशें थारिल्लेंच.

सार्वजनीक मनरिजवणेचें सगळ्यांत लोकप्रिय माध्यम म्हणल्यार कव्वाली गायनाच्यो कार्यावळी. कव्वालीची जुगलबंदी आसली म्हणटकच 'भांगराहून पिवळें'. वामन नायक, श्रीधर ओहोळ, विनायक अशे एका परस एक सरस कवी आनी तांगेलीं गितां सादर करपा खातीर शंकर, गोविंद म्हशीलकर, श्रावण यशवंते, प्रल्हाद शिंदे अशे लोकप्रिय गायक, इस्माईल आझाद, युसूफ आझाद,जानी बाबू कव्वाल, अब्दूल रब अशे मुसलमान कव्वाल लेगीत येताले. खास करून शकिला बानू, शकिला पुनवी अश्यो कव्वाल बायलोय हे कार्यावळींनी सामील जाताल्यो.

दरेका गावप्याचो आवडटो कवी थारिल्लो. ताची निश्ठा ताकाच ओंपिल्ली आसताली. कव्वालीचो सामनो (जुगलबंदी) म्हणल्यार पर्वणी. दरेक कव्वाल आपल्या कवीक वांगडा घेवन येताले. रातच्या धा वरांचेर सामनो सुरू जातालो, पूण खरो रंग भरतालो मध्यान रात उलगतकच. एक कव्वाल खंयची तरी कव्वाली गावन प्रतिस्पर्ध्याक सहज आवाहन दितालो. तेच चालींत ताची जाप दिवपाक थंय हाजीर आशिल्ले शीघ्र कवी तात्काळ दुसरी कव्वाली शब्दबद्ध करतालो आनी मागीर तो प्रतिस्पर्धी कव्वालींतल्यान ताका जाप दितालो. अशे प्रस्न-जापो रातभर चलतालें. रातच्या धांक चालू जाल्लो सामनो सकाळीं साडेपांच वरांचेर सार्वजनीक नळाक उदक आयलें तरी सुरूच उरतालो. सामान्यांत कव्वाल बायल आसत जाल्यार वेगळीच मजा येवची. खूब फावटीं सवाल-जवाब वात्रट पातळेचेर वताले. विशेश म्हणल्यार अशा वेळार जमिल्ल्या सगळ्या लोकांची सहानुभूती ते बायल कव्वाली कडेन आसताली. ज्या कव्वालान सवाल-जबाब सोडले ताची हार, दोगूय सकाळ मेरेन गायत रावले जाल्यार 'बराबरी' जाली असो निर्णय मानताले.

ह्या कव्वाली कार्यावळींचें वैशिश्ट्य म्हणल्यार तातूंत जात-पात, धर्म, प्रांत असो भेदभाव नासतालो. (राष्ट्रीयत्वाच्यो गजाली करीत उपरांत तो हाडला आसूंक जाय.) वडाळा मार्केटालागीं जो नवरात्र उत्सव जातालो तातूंत गोविंद म्हशीलकर, विठ्ठल उमप अश्या दलित गावप्यांचो जानी बाबू सारकेल्या मुसलमान कव्वाला लागीं सामनो जातालो आनी खास करून त्या कार्यावळींनी दादर पारसी कॉलनींतले जायते पारसी भाव भोवसंख्येन हाजीर रावन तांका दाद दिताले. सर्वधर्मसमभाव आनी समाजीक समरसता हे शब्दप्रयोग सुरू जावचे पयलीं हो समभाव आनी समरसताय पावला कणकणी दिसची आनी 'जागृती' (?) आयल्या उपरांत ती ना जावची वा तिचो ऱ्हास जावचो हाका कितें म्हणपाचें? 'कालाय तस्मै नमः'.

खंयचेच वस्तीचें वेगळेपण मनांत ठासता तें थंयच्या मनशां वयल्यान. वडाळ्याचे रंगदार, ढंगदार वस्तींत तर आपापल्या गुणवैशिश्ट्यांनी मनांत कायमचें घर करपी असंख्य व्यक्ती आशिल्ल्यो. कोणा कोणा विशीं सांगचें?

सदाशिव पठाडे. सादे कामगार. जेमतेम शिक्षण, यथातथा गिन्यान, पूण सतत हुळहुळपी जीब हें तांगेलें खाशेलपण. संवसारांतल्या खंयच्याय विशयांतल्या अधिकारी व्यक्ती कडेन वाद घालपाची सदांच खुमखुमी. खंयच्याय प्राध्यापकाक

वा वकिलाक चूप करपाची अचाट आनी अफाट क्षमता. कोणेंय नेट दाखयलो जाल्यार ताचे कडेन अशे क्षुद्र नदरेन पळोवप, त्या मनशाक आपल्याच अडाणीपणाची कींव येवची. खंयच्या तरी निमतान ताका एक दीस विमान भितरल्यान पळोवपाचो योग आयलो. मागीर कितें विचारचें? विमानाची रचणूक, ताची कार्यपद्दत ह्या विशयाचेर जायतीं वर्सां ताणें अधिकारवाणीन उलोवचें. प्रत्यक्षांत जे. आर. डी. टाटां कडेन ताची भेट घडिली जाल्यार तांकां दोन उतरां आयकुवपाक लेगीत ते फाटीं रावपी नासले.

रामचंद्र मोरे, तांबसो गोरो रंग, आडदांड कूड, चमचमपी धवेफुल्ल केंस. हातांत बडी, तोंडांत गाळी, फटकारून उलोवपाची संवय. सदचें संभाशण करतना ताका कोणेंच पळोवंक ना. सर्वसादारण दलित कामगार, पूण ताचो रुबाब मात सगळ्यांत व्हडल्या सायबाक लजोवपी असो. तोंडान सदांच ऑर्डरी सोडीत रावतालो. हो मनीस म्हणल्यार हाडाचो आपवावुरपी. खंयच्याय जाती-धर्माची कसलीय कार्यावळ आसूं, थंयच्या सगळ्या ल्हान भुरग्यांक आपले बडयेन शिस्त लावपाची जापसालकी हो मनीस हक्कान आपणा कडेन घेतलो आनी सगळे जाण ती ताचे कडेन आदरान सोंपयताले. हो आपलो लोकविलक्षण नेम ताणें मरमेरेन पाळ्ळो.

मंजुळाबाय पगारे. पावणेस फूट उंची. धिप्पाड कूड, गोरी पान कात, पिकिल्ले चमकुपी केंस, सगळे जाण तिका मंजुळाआई म्हणी. महिला आघाडेच्यो मुखेल संघटक, तिणें 'आयांनो बायांनो' असो साद घालो काय शेंकड्यांनी बायलो तिचे फाटल्यान उब्यो रावच्यो. कुशळ संघटक पूण अक्षरशत्रू. बायलांच्या खंयच्या तरी मोर्च्याचें ती फुडारीपण करताली. हातांत व्हडलो फलक, घोशणा चलिल्ल्यो. मदींच एका वार्ताहरान तिका थांबोवन विचारलें,

"आजीबाई, मोर्च्या कित्याक काडला? तुमच्या ह्या बॅनराचेर कितें बरयलां?"

आजीबाई ताच्या बारशाच्यो घुगऱ्यो जेविल्ली. मातय गडबडनासतना ती तिडकली.

"तुजे दोळे फुटले काय रे, मुडद्या? वाचाया येईना तुला? मग पेपरमधी काय लिवणार तू?" तो वार्ताहर बाबडो तोंड घेवन झेलपटत गेलो.

सीताबाय. खंयच्याय कश्टकरी कुटुंबांत आसची तशी. णववारी कापड न्हेंसपी, कुडीन बारीक, सर्वसादारण म्हातारी. देखून 'शीताआई' अशें संबोधन. हे म्हातारेच्या मनाचे झोळयेंत कितें दडिल्लें आशिल्लें कोणाक खबर! शाळेंत वचूंक नासली.

पूण खंयच्यान तरी वाचपाक शिकिल्ली. हांव जे पिरायेर बाबुराव अर्नाळकारांच्या पुस्तकांनी झपाटिल्लों त्यावेळार तिणेंय बी तांच्यो रहस्यकथा वाचपाचो सपाटो लायिल्लो. वाचनालयांतल्यान हांवें तिचे खातीर पुस्तकां हाडलीं जाल्यारच म्हाका तिगेल्या घरा कडेन कॅरम खेळपाक मेळटालो. ''धनंजय बी कित्याकितेंय हाडूं नाका. काळा पहाड हाड'' अशी तिगेली फर्माईश आसची. आमच्या जुळटल्या आवडी निवडीचें म्हाका अजाप दिस. कशें कोणाक खबर, पूण आपणाक तंत्रविद्या येता अशी समजिकाय तिणें व्हडल्या गुन्हेगारी वर्तुळांत पसरायिल्ली. तिचो सल्लो घेवपाक व्हड व्हडल्या बदमाशांनी परदेशी कार घेवन अवेळार तिचे कडेन येवचें. असल्या वेळार दुभाशीचें काम करपाक म्हजो भाव दिनेश! त्यावेळार एक तर इंग्लीश समजुपाची मारामार, तातूंत पाश्चिमात्य ॲक्सेंट. कसो संवाद सादूंक जातालो कोणाक खबर? प्रस्न करतल्याचें समाधान जातालें हें मात खरें. दुभाश्याचे मजती बगर आपणाल्या तंत्रसामर्थ्यान त्या प्रस्न करतल्याच्या मनांतले प्रस्न शिताआई कित्याक जाणून घेनासली, कोणाक खबर? घडये, तंत्रविद्येचें तंत्रच तशें आसुंये!

तरणाटे पिळगेंत नांवाची विविधताय मर्यादीत, कर्तबगारींत मात विविधताय खूब. शंकर ह्या नांवाचो विशेश 'सुक्काळ'. ताका लागून दर शंकराक, खरें म्हणल्यार शंकऱ्याक, कित्याक तर आईबाप धरून कोणूच शंकर ह्या नांवान उलो मारिनासलो. तागेल्या शारिरीक खाशेलेपणा वयल्यान एकेक विशेशण दिल्लें आसतालें - बुट्टा शंकऱ्या, बच्चाळा शंकऱ्या (दांत फुडें आयल्यात म्हणून), टक्कलपड्या शंकऱ्या (माथ्याचेर घावो जाल्ल्या जाग्यार केंस येनाशिल्ल्यान), गुट्या शंकऱ्या (खूब केंसाळ म्हूण), ढोलक शंकऱ्या (ढोल वाजयता म्हूण), शेंबड्या शंकऱ्या (नाकांतल्यान सदां सूं सूं असो आवाज करपी) हीं तातूंतलीं कांय नमुनेदार नांवां.

मवाली म्हूण वळखतल्यांचो शिरोमणी म्हणल्यार दौलतदादा - दौलत नायडू, मूळचो आंध्र प्रदेशांतलो. तो बाल सुधारघरांत वाडलो. स्वसंरक्षणा खातीर मुश्टीयोद्धा जालो. काळो कुळकुळीत, उदकाळ दोळे, रुबाबदार रावप, विनोदी सभाव पूण वेळ पडल्यार खिणांत क्रूर जावपी. केन्ना तरी गांवांत वचून एके अत्यंत शिरवंत बायलेक घेवन आयलो. पळोवन वा लग्नाचे विधी करून. वडाळ्याचे वस्तींत येतकच ते बायलेन तागेले उद्देग पळयले आनी निर्शेवन ती पळून गेली. मागीर कमरेक 'दारूफुगे' गुठलावन तांचें हाड-व्हर करपी एके किरिस्तांव बायले वांगडा दौलतदादा थीर जालो.

वडाळ्याच्या दादा लोकां मदीं दौलतदादाची सुवात म्हणल्यार फाटलीं जायतीं वर्सां चित्रपटसृश्टींत दिलीप कुमाराची आसा ती. बाकीच्यां बराबरच्या तागेल्या आंगार कांटो हाडपी झगड्यां खातीर आनी समाजीक कार्यांतल्या सहभागा खातीर भुरग्यांक तो रॉबिनहुडाचो अवतार दिसतालो. भोवतेक समाजीक कार्यावळी ताणें 'स्पॉन्सर' केल्ल्यो आसताल्यो. असल्या कार्यावळींनी तागेली सगळी गँग खूब वावुरताली. गटारां-व्हाळ नितळ करप, मातयेर उदक शिंपडावप ते सगळ्यो कार्यावळी शिस्तीन पार पडच्यो हे खातीर तो स्वता झट्टालो.

भुरग्यांचो आवडटो दादा म्हणल्यार शिवज्यादादा. काळो, मोटको आनी मदीं बागवल्ल्या धारदार नाकाचो. कुडीन शिडशिडीत - वडाळ्याचे भाशेंत 'सिंगल फसली', पूण हिंदी चित्रपटांतल्या नायका प्रमाण एकाच वेळार धा जाणांक पुरून उरतलो असो. आंगांत इतली शक्त आनी चपळटाय, रेल्वे लोकलीच्या निमाणच्या डब्यांतल्या दारांत उबो रावन गाडयेन खूब वेग घेतकच स्टेशनाच्या दुसऱ्या तोंकाक डबो येवन पावलो काय हे महाशय प्लॅटफॉर्माचेर उडी घेवन नादिया कोमेनी सारक्या ऑलिंपिकपटूचे कुशळटायेन 'परफॅक्ट टेन' सादतलो. पळोवपी तटास जाताले. हो मात निर्विकारपणान थंयच्यान वतालो.

ताका हाडलो तो दौलतदादानूच, पूण मागीर तांगेलें बिनसलें. एक फावट दौलतदादा तिडकून ताचे फाटीक लागलो. त्यावेळार पुराय वेगांत आशिल्ले मालगाडये पोंदसून तो चमत्कार कसो पलतडीं पावलो. तें पळोवन खासा दौलतदादा लेगीत अजापलो.

शिवज्याची समयसुचकताय लेगीत विलक्षण. कसल्याशा गुन्यांवा खातीर तो फरार जाल्लो. विरोधी गँगाचे लोकय ताचे पाळटेर आसले. तांकां तो एक फावटीं सांपडलो. ताका सोंपोवपाक ते हत्यारां घेवन ताचे फाटीक लागिल्ले. शिवज्यान तांकां वडाळ्या सावन दादर टी.टी. मेरेन पळपाक लायले. दादराक पुलिसांची व्हॅन दिसतकच एकदम उडकी मारून तो भितर चडलो आनी दोनय हात हवालदारां मुखार करून म्हणपाक लागलो,

"मी वाँटेड हाये, मला पकडा".

मवाली समजुप्यां मदीं हेर आनीक जायते नमुने आशिल्ले. उंची उणी आसूनय उडकी मारून तकलेच्या धपक्यान प्रतिस्पर्ध्याक नेस्तनाबूत करपी बुट्ट्या शंकऱ्या. दवाखान्यांत ॲडमिट केल्लो आसतनाय रातचो सुटून येवन हातांतल्या प्लास्टरान

विरोधकांचे 'तकलें' फोडून परतून गुपचूप दवाखान्यांत भरती जावपी सुधाभाय. पेटण्या भशेनच्या आकाराचे एके कांबीन व्हडा व्हडांक लोळोवपी - पूण हातान आनी नाखटांनी उत्कृश्ट चित्रां काडपी 'पेटौदी'. लग्न जावन घरा येतकच घराचेर फातर गुंडे शेंवटिले म्हूण घरांतलो ओटो फोडून त्या फातरांनी आपणाले नवपरिणीत व्हंकले सयत विरोधकांचो 'येसस्वी प्रतिकार' करपी हिरालाल आनी जाचे दादागिरी वांगडा एके लग्न जाल्ले बलुची बायले बराबर जाची प्रेमकथा गाजली तो मोहनदादा अश्यो एका परस एक व्यक्ती आनी वल्ली!

म्हज्या मनांतले हे वस्ती कडेन हांव जेन्ना संवाद सादतां त्या त्या वेळार सदांच म्हाका प्रस्न पडटा - धवाडे लोक जांची मवाली वा गूंड म्हूण संभावना करीत अश्या दौलतदादा, शिवज्यादादा सारकेल्या व्यक्तीं कडेन आमी नेमके खंयचे नदरेन पळोवचें? हेरांनी तांचे कडेन खंयचे नदरेन पळोवचें अशें आमकां दिसता?

खऱ्या अर्थान मवाली आनी सज्जन असो ढोबळ भेदभाव करप योग्य थारता? अशा कृष्णधवल रंगांत हें जिवीत नासताच जाल्यार! कृष्ण आनी धवल ह्या दोन तोंकाच्या रंगांत असंख्य करड्यो छटा आसतात, न्हय? ताका लागून मवाली कोणाक म्हणचो हो लेगीत प्रस्न आसा. सोऱ्याचो अड्डो चलयतल्यांक मवाली म्हणपाचें, मागीर आमच्या राजकी वा प्रशासकी अधिकाराचो गैरवापर करून लांचखोरी करतल्यांक मवाली कित्याक म्हणचें न्हय? आपल्या धंद्या खातीर झगडीं-झुजां करपी व्यक्तीक गूंड थारायतात, मागीर सर्वसामान्य गुंतवणूकदारांच्या कश्टांतल्यान निर्माण जाल्ले पयशे अर्थीक घोटाळे करून हडप करतल्यांक गूंड कित्याक थारावचे न्हय? वडाळ्याचे वस्तींतल्या दादा मंडळीन थोडेशें समाजीक कार्य केलें म्हूण तांगेल्या समाजविघातक कारवायांचेर पांगरूण घालचें न्हय, तांगेल्या गुन्यांवांचें उदात्तीकरण करचें न्हय हें सामकें मान्य. पूण होच नेम आमी सरकारी दरबारांत आशिल्ले आपलें वजन खर्चून समाजविघातक फायदे लाटपी आनी दुसरे वटेन देवळांचेर पयशांची खैरात करपी संभावीत उद्देगपतींक लायतात व्हय?

निमाणें, गुंडगिरी ही समाजविघातक वृत्ती वयल्यान थारावची, कार्यक्षेत्रा वयल्यान न्हय. 'वायट' धंद्या खातीर न्हय आनी जांकां मवाली म्हणटात तांचे मदल्या कितल्या जाणांनी सरळ मार्ग नाशिल्ल्या खातीर 'वायट' मार्ग आपणायिल्लो

आसता आनी जाकां आमी सरळमार्गी म्हणटात तांचे मदल्या कितल्या जाणां मदीं प्रलोभनांक बळी पडना जावपाची क्षमता आसता हाचोय विचार करपाक नाका?

वडाळ्याचे वस्ती पुरतें उलोवपाचें जालें जाल्यार थंयचे सगळे तथाकथित मवाली, शारांत रावन लेगीत गावकुसा भायर मोखून मारिल्ले आसले. स्वातंत्र्या उपरांतच्या अर्थीक संदींचो पावस तांच्या गांवांत आयलोच ना! तांचे आंगवळणी आशिल्ली कुशळटाय समाजाचे उबारणे खातीर उपेगांत हाडूं येताली, पूण तशें जालें ना. कोण सांगत, फावो ती संद मेळिल्ली जाल्यार दौलतदादा कार्यकुशळ उद्देजक म्हूण मान्यतायेक पावपाचो आनी शिवज्यादादा भारता खातीर ऑलिंपिंकाचें भांगरा पदक घेवन येवं येतालो!

मुखेल प्रस्न आसा तो राजकी लोकशाय खऱ्या अर्थान अर्थीक आनी समाजीक लोकशायेंत परावर्तीत करपाचो. मुखेल समस्या आसा ती व्यक्ती भितरल्या गुणांचो, कुशळटायेचो देशाच्या विधायक कामांत पुराय तरेन उपेग करून घेवपी अर्थीक-समाजीक यंत्रणा उबारपाची. सारकें थंयच आमी उणे पडल्यात.

वडाळ्याचे वस्ती पुरतें उलोवपाचें जाल्यार लौकीक अर्थान आमकां भावंडांक जें येस मेळ्ळें तें जायत्या गुणांनी समृद्ध आशिल्ल्या हेरांक कित्याक मेळूंक शकलें ना? हे दरेके व्यक्ती भितर कलेचो, क्रिडेचो, विद्येचो - कसलो तरी एखादो राजहंस आसता. आपणा भितरलो राजहंस कांय जाणांक जाणवलो, पूण तांकां योग्य वेळार, योग्य ती संदच मेळ्ळी ना. तांचे भितरल्या राजहंसाचो विकास जावचो अशें वातावरण भोंवतणीं नाशिल्लें आनी प्रतिकूल परिस्थितींतल्यानय आत्मसोदाचो मार्ग दाखोवपी 'आमचा बाप' तांचे कडेन नाशिल्लो. हें फकत तांगेलें दुर्दैव न्हय तर व्यापक नदरेन ती आमच्या सगळ्या समाजाचीच शोकांतिका आसा, हातूंत दुबाव ना.

# आमी अशे घडले

'प्रगतीची सुरवाद झाली' अशें दादा म्हणटा, त्यावेळार आमी पोरण्या वडाळ्यांत रावतालीं. एक मजली चाळींत धा बाय धाची एक कूड, ल्हानशी एक रांदपाची कूड आनी चौगांचो वरांडो, मुखार न्हाणी, संडास - चाळीचे फाटले वटेन. घरांत पेत्रोलाचो दिवो. फुडें १९५५त भायले चौगांच्या वरांड्यांत विजेचो एक दिवो आयलो.

त्या ल्हानशा घरांत आमी एकूण णव जाणां. आजी, दादा, बाई, आमी चार भाव आनी दोगी भयणी.* आजी तशी दोळ्यांनी कुड्डीच, पूण तिचो धाक खूब. तिका आमी 'आई' म्हणटालीं.

चाळींतले भोवतेक लोक दलित समाजांतले, कांय भय्ये आनी मुसलमान भाव. सगळे बॉम्बे ट्रस्टाचे कामगार. पोटाक लागून मुंबय आयिल्ले. एकामेकाक आदार दिवन रावताले. 'ड्युटी कोंची' हो पयलो प्रस्न आसचो. मागीर 'मॉर्निंग' आसल्यार सकाळीं ८ ते दनपारां ४, 'चार-बारा' आसल्यार दनपारचे ४ ते रातचीं १२ आनी 'नायट' रातपाळी आसल्यार रातची १२ ते सकाळचीं ८. 'समाजीक बांधिलकी' सारकेले शब्दप्रयोग वापरून तो मेरेन गुळगुळीत जावंक नासले. मात कोणूय चाळींत दुयेंत पडलो वा कोणाक कसलीय अडचण आयली जाल्यार ड्युटी नाशिल्लो कामगार घरा आसल्यार हो कुटुंब प्रमुख जावन आदाराक हाजीर जातलो हें गृहीत धरिल्लें आसतालें, ते खातीर सगळे बिनधास्त आसताले. कामार लेगीत एकामेकांक सांबाळून घेवपाची प्रवृत्ती. एक कामगार थोडोसो पिशावरी आशिल्लो. ताका कसलेंच काम येनासलें, तरीय ताका कसली अडचण आयली ना. 'इनिसपेक्शण' खातीर व्हडले 'सायेब' आयले काय ताका बळजबऱ्यां एके

---

* जनार्दन जे. डी. म्हणल्यार 'भाऊ' - जल्म १९३८, सुधाकर - जल्म १९४१, दिनेश - जल्म १९४४, लिलावती - जल्म १९४७, तृषा - जल्म १९५० आनी नरेंद्र - जल्म १९५३. ह्या वांट्यांत जे. डी. चो उल्लेख 'भाऊ' असोच केला.

आरमारी कुशीक लिपोवन दवरप जातालें. हो कामगार ३५ वर्सां नोकरी करून वेवस्थीत पेन्शनीत गेला.

आमची आई म्हणल्यार शेतकाराची पक्की धूव. ताका लागून घरांत कोंबड्यो पोसप जालें, तशेंच स बोकड्योय आशिल्ल्यो. सद्दां सांजवेळा लापयांव निवळ करप, बोकड्यांक धरून-हाडून बांदून घालप, आनी कोंबड्यांक धरून हाडून घुडांत घालप हो आमचो भावंडांचो सदचो कार्यक्रम. ह्या सगळ्या गजालींचेर आजीचें 'सुपरविजन'. संवसाराक हातभार लागचो म्हूण आमची बाई फळां विकताली.

सदां सांजवेळचो चौगांच्या वरांड्यांतल्या पेत्रोलाच्या दिव्या सकयल चाळींतल्या सगळ्या भुरग्यांचो अभ्यास चलतालो. कोणालें मार्गदर्शन अशें नाशिल्लें. मात, भुरग्यांक चाळींतल्या एकानएक पालकांचो धाक दिस. बरयतना शाईचो तिंतेर घेवन अभ्यासाक बसचें पड. एखाद्रे बोकडेन जर मदींच दांव्याक हिसडो दिलो जाल्यार कोणाची तरी बाटली ओतून सगळ्यांची धांदल जाताली.

शाळा म्हणल्यार नक्की कितें हाचो सुरवातीक आजेक अदमास जायनासलो. आमच्या पुस्तकांतली नांगर, जोतां वा मक्याच्या कणसाचीं चित्रां पळोवन तिका खूबच अजाप जावचें. तिणें म्हणचें -

"हये कायाचं शिक्शन?"

ह्यो गजाली शिकपाक शेतांत वचपाचें सोडून शाळेंत कित्याक वचपाचें, हें कळपाक तिका कांय वर्सां वचचीं पडलीं. मागीर पयली यत्ता म्हणल्यार एक बूक, दुसरी म्हणल्यार दोन बुकां अशें तिगेलें सादें समीकरण जावन पडलें. गणिताक ती 'हिशोब' म्हणी.

अभ्यास करतना आमी भुरग्यांनी कविता सामुदायीक रित्या म्हणची. नवयुग वाचन माळेंतल्या कवितांची आमी पारायणा करता आसतना आजी आनी आमची आई ह्या दोगींच्याय तोंडपाठ जावन गेल्ल्यो त्यो. ताका लागून घरांत कोणूय भावंड दुयेंत पडलें जाल्यार दुयेंसपणांतले लाड करता आसतना 'पडू आजारी, मौज हीच वाटे भारी' हें केन्नाच शाळेंत वचूंनाशिल्ले आजे कडसून आमकां आयकूंक मेळटालें.

नाजुका आत्या आमचेच चाळींत रावताली. तांकां रमण ही एक चली आनी

चलो चंद्रकांत. आत्याचो घोव टी. बी. न दुयेंत आसतालो. ते खातीर भुरग्यांच्या शिक्षणाची जापसालकी दादांचेर. व्हडले रमणाचें प्राथमीक शिक्षण सोंपतकच एका शिपायाचो वशिलो लावन तिका दादान माटुंग्याचे पायोनियर शाळेंत दाखल केलें. चंद्रकांताचे बाबतींत मात दादाच्यान चड कांय करपाक जालें ना. कित्याक तर दादांच्या विरोधाची पर्वा करिनासतना नाजुका आत्यान ताका एके जोगतिणीचे व्हंटयेंत घालो आनी ताचे फाजील लाड केले. आयज तो आशिल्ली नोकरी सोडून सोऱ्याच्या नादाक लागून बिन पै प्राप्तीचें जिवीत सारता.

रमणाचें १९५२ त लग्न जालें. तिचो घोव श्री. रामभाऊ पगारे आमच्या घरांतलो एस.एस.सी. पास जाल्लो पयलो. ताका लागून तेन्ना सावन आयज मेरेन आमी सगळे जाण ताका मास्तर म्हणटात. घरांतले गरिबीक लागून राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघाच्या आश्रयान व्हड जाल्ल्या पगारे मास्तराक जांवय म्हूण आपणायतना दादा अंतर्मूख जालो. निमाणें, ताणें डॉ. आंबेडकरांचेर म्हजी संपूर्ण श्रद्धा आसा अशी हमी दितकच, ते भायर लग्ना उपरांत रमणाच्या शिक्षणांत खंड पडपाक दिवचो ना अशें वचन घेतले उपरांत रमणाच्या लग्नाक दादान संमती दिली. दादांक मना सावन दिसतालें, रमणान नर्स जावचें. ते खातीर दादा सायन हॉस्पिटलांत सुपरिंटेंडेंटाक वचून मेळ्ळो लेगीत. दुर्दैवान दादाची ती इत्सा फळाक येवपाक पावली ना.

त्यावेळार जनार्दन दादरच्या छबिलदासांत तर बाकीचीं भावंडां पोरण्या वडाळ्यांत बी.पी.टी.चे शाळेंत.* ते शाळेंत गिरिजाबाई, लिलाबाई, उजगरे मास्तर, हिरवळे मास्तर, रुपेस्त अशे शेलार मास्तर आनी तांची बायल माणिकबाई हो शिक्षक वर्ग आशिल्लो. शिक्षणाचे मुळावे संस्कार आमचेर सगळ्या भावंडांचेर जाले ते थंय. सगळ्या शिक्षकांची सगळ्या पालकां कडेन बरी वळख. दरेकल्याचे प्रगतीचेर शिक्षकांचें बारीक लक्ष. खरें म्हणल्यार त्या वेळारय सोरो, जुगार रेल्वे यार्डांतल्यो गाडयो फोडून माल चोरप असल्यो जायत्यो अनिश्ट प्रवृत्ती आशिल्ल्यो. त्या प्रतिकूल वातावरणांत बरीच मेहनत घेवन बऱ्या शिक्षणाचे धडे दिले ते ह्याच शिक्षकांनी.

एखाद्या विद्यार्थ्याची शिक्षणीक प्रगती सारकी नासली जाल्यार शिक्षक ताच्या

---

* सुधाकर मात वडाळा मार्केट लागसारच्या म्युनिसिपल शाळेंत वतालो.

रा कडेन येवन ताच्या पालकांक 'लक्ष दियात' अशें सांगी. मात भोवतेक ालकांक 'लक्ष दियात' म्हणल्यार नेमकें कितें करात हें कळनासलें. पर्यायान शिक्षकांचेर ती जापसालकी येवन पडटाली. कितलो नंबर आयलो हाचे वयल्यान आमचे कडेन शिक्षणाचे प्रगतीचें मोजमाप थारतालें. ते बाबतींत भाऊक मेळिल्ले ार्क वा ताका मेळिल्लो नंबर हो मुल्यमापनाचो मानदंड आसतालो.

आमच्या घरांत शिक्षकांक खूब सन्मानाची वागणूक दिताले. गिरिजाबाई, लिलाबाई अदीं मदीं घरा येवन भुरग्यांचे प्रगतीचो 'रिपोर्ट' दिताल्यो. मागीर घरचोच फळांचो धंदो आशिल्ल्यान वेंचीक फळां दिवन आजेन आनी दादान तांचें आदरातिथ्य करचें. आमचे आईक मात तें अजिबात आवडचें न्हय.

मनरिजवणेचीं साधनां अशीं नासलींच. मेहताबाई नांवच्यो बी.पी.टी.च्यो एक 'लेडी वेल्फेर ऑफिसर' आशिल्ल्यो. तांणी मदीं मदीं मॉरीस कार घेवन येवचें आनी आमकां सगळ्या भुरग्यांक भोंवडावपाक घेवन वचचें. शाळेंत बरे मार्क मेळत जाल्यार एक टॉवेल आनी लायफबॉय शाबू भेट म्हणून मेळचो. तातूंत पयलो नंबर येत जाल्यार मेहताबाईच्या मॉरीस कारींतल्यान एखाद्याक भोंवडावन हाडपाचो भोवमान मेळचो.

घरांत रेडियोय नाशिल्लो.* पोरण्या वडाळ्याक बी.पी.टी.चें एक कल्याण केंद्र आशिल्लें. फाविल्ल्या वेळांत वाचना खातीर थंय भुरग्यांनी जमचें. नवें म्हयनाळें आयल्यार थंय उडयो पडत, ताका लागून रांगेंत रावन तीं वाचचीं पड. घरा वचपाक कळाव जायत जाल्यार आमचे आईक आनी आजेक हुस्को जावचो. आई तर चाळीच्या कोनशाक येवन वाटेक दोळे लावन बसची. दादाक मात कांयच हुस्को जायनासलो. वयल्यान भरपूर वाचनाचेर तांचो भर आशिल्लो. 'जगात कुडं काय चाललंय ते समाजलं पायजे' हो तांचो आग्रो.

१९५५च्या सुमाराक घरांत एक नवोच वाद निर्माण जालो. दादांक बी.पी.टी.चे वतीन वडाळ्याच्याच दुसऱ्या वाठारांत आशिल्ल्या ॲण्टॉप हिला लागींचे न्यू

---

* फुडें १९६४त भाऊ पुण्याक आसतना रेडियो घेतलो. तो 'पळोवपाक' आमी भावंडां खास पुण्याक वचून आयलीं.

कॉलनींत एक घर दिवपाचें केलें. पोरणें वडाळा सोडपाक आजेची आनी आमचे आईची तयारी नाशिल्ली, कित्याक तर ॲण्टॉप हिलाचो तो वाठार म्हणल्यार मवाल्यांचो अड्डो, थंय आपलीं भुरगीं खात्रीन इबाडटलीं ही तांगेली भिरांत. त्यावेळार मात दादान तांगेलें आयकलें ना. व्हडलें घर, घरांत वीज आनी हाका लागून भुरग्यांच्या अभ्यासाची बरी सोय जातली; निमाणें भुरगीं इबाडटलीं वा कितें तें घरांतल्या जाण्ट्या मनशांचेर निंबून आसता असो दादांचो युक्तीवाद. आतांचे भाशेंत सांगपाचें जाल्यार दादा 'अपवर्डली मोबायल' आशिल्ले. आपले बायलेचें 'फळां विकपाचें' बंद जावचें, भुरग्यांचें क्षेत्र वाडचें, आनी उदरगतीचो फुडलो टप्पो गांठचो अशें ताका मना सावन दिसतालें आसुंये.

नव्या घरांत यो मेरेन आमी भावंडां छबिलदास शाळेंत वचपाक लागिल्लीं. आमच्या सगळ्यांचे नदरेन 'छबिलदास' हो मोटो बदल आसलो. एकाच वेळार दोन वेगवेगळ्या सांस्कृतीक थरांचेर आमी जगपाक सुरू केलें तें तेन्ना. एके वटेन बाबासाहेबप्रणीत समाजीक चळवळीची धग, संघर्शाचें वातावरण, मनीस म्हूण स्वाभिमानान जगपा खातीर आपणाली अशी आयडेंटिटी प्रस्थापीत करपा खातीर दलित समाजाची चलिल्ली धडपड आमी पळयतालीं, तर दुसरे वटेन मडवळ घडयेची जीण जगतालीं. आमी सगळीं जाणां पुस्तकी मराठी उलोवपाक शिकलीं तें छबिलदासांत वतकच. अक्षीकर, धामणकर, उपाध्ये, कालेलकर, साखरदांडे, बांदेकर एका परस एक अश्या उत्कृश्ट आनी ध्येयवादी शिक्षकां कडसून उर्बेभरीत आनंद दिवपी शिक्षणांत आमी पुराय बुडून गेल्लीं.

आमकां भुरग्यांक भुल्लुसावणे दीस म्हणल्यार थारावीक वेळाचेर येवपी जात्रा - जेजुरीची जात्रा, वणीची जात्रा आनी चंपाषष्टीची जात्रा.* तातूंतय खाशेली जात्रा म्हणल्यार जेजुरीची जात्रा, कित्याक तर त्यावेळार खंडोबा हें परमदैवत. जेजुरीचे जात्रेक सगळ्यांनी भुरग्यांबाळांक घेवन वचचें.¶ थंय बोकडो मारपाचो, ताचो फुडलो वांटो थंयच सोंपोवपाचो आनी उरिल्लो वांटो मीठ-हळद लावन

---

* नाशिक जिल्ल्यांत तिका 'वांगेसट' म्हणटात. कित्याक तर ते उपरांत येवपी वांयगीं अदीक रुचीक आसतात असो समज आसा.

¶ जेजुरीच्या देवळांत प्रवेश नासलोच. ते खातीर भायल्यानूच 'दर्शन' घेवचें पड. फुडें पुण्याक प्रांताधिकारी आसतना भाऊन आग्रो करून आमचे आईक जेजुरीच्या देवळांत भितर मेरेन व्हेली. त्यावेळार 'देवाक राग येत' हे समजिकायेन तिची भियेवन गुळी जाल्ली.

घरा हाडपाचो. ताका 'कंदूरी' म्हणटाले. ते उपरांत 'देव परतवणे' हो एक व्हडलो प्रकार. आदीं गांवांत रावतना दिवट्यो घेवन शिमे भायर मिरवणूक वताली. तसलीच मिरवणूक पोरण्या वडाळ्याचे फाटले वटेन एक व्हडलें तळप आशिल्लें, थंय मेरेन काडी. जेजुरीक वचून आयिल्ले लोक आपणा वांगडा देव घेवन आयल्यात अशे समजिकायेन जेजुरीक वचूंक शकूंक नाशिल्ले लोक तांच्या पांयां पडटाले. इत्सीत थळा कडेन मिरवणूक पावतकच कोणाच्या तरी आंगांत येतालें, मागीर निवेद्य दाखोवन 'देवाक' शांत करपाचो. 'खंडेराव म्हाराज की जय' करून घरा येतकच सगळ्यांनी आपापल्या घराकडसून बाजरीच्यो भाकऱ्यो घेवन येवपाच्यो आनी उरिल्ले शागोतीचेर एकठांय बसून ताव मारपाचो अशी कार्यावळ. अशा वेळार मटणाचो एखादो कुडको लेगीत आपल्या वांट्याक आयल्यार आमकां सगळ्यांक ती मजा दिस. ल्हान-व्हडांक दुसरी मजा म्हणल्यार लग्न सुवाळो. सगळीं लग्नां थारावन आसतालीं. चलयेक दाखोवपाची कार्यावळ आगळीच आसताली. वाडिल्ले चलयेचे पिरायेची तपासणी करतना, एखाद्या बोकडी-मेंढराक विकतें घेतना करता तशी तिच्या पोटऱ्यांची तपासणी करतालीं. दुसरो मुद्दो चलयेचे रांदपाचे कलेंतले कुशळटायेचो. तिका भाकरी 'सारकी वाटकुळी' करपाक येता काय 'हिंदुस्तान-पाकिस्तानाच्या नकाशावाणी' वांकडी तिकडी येता ताची तपासणी करूनच लग्न थारतालें. काळो मसालो घालून केल्ली वांयग्याची पातळ भाजी वा सुक्या बोंबलांचें हुमण करपाक येनाशिल्ले चलयेचें लग्न जुळप तर सामकें कठीण जातालें.

लग्न थारतकच 'बस्तो बांदप' म्हणल्यार लग्नाची खरेदी करप हो म्हत्वाचो वांटो आसतालो. न्हवरेकारान व्हंकलेक आनी व्हंकलकारांनी न्हवऱ्याक कापडां-रोप खरेदी करपाची ती रीत. ताका लागून दोनूय वटेनची कांय 'जाणकार' मंडळी दादराक एकठांय जायी. थारिल्ल्या व्हंकल-न्हवऱ्याच्या मतांची दखल घेवपाची गरज कोणाकूच भासची न्हय. दोनूय वटेनचे मंडळीचो एकामेकाचे खरेदीचेर वयर सुबेज करपाचो यत्न. ताका लागून अर्थात दुकानदाराचो फायदो. बस्तो बांदून जातकच प्लाझा सिनेमा कडेन जें वीर कोतवाल उद्यान आसा थंय सगळ्यांनी एकठांय बसून लाडू-जिलेबी-फरसाण हांची पार्टी करप हेंवूय थारिल्लें.

असल्याच एका बस्त्याच्या वेळार एका म्हाताऱ्याक एके साडये विशीं मत विचारलें -

"ह्ये लोकं दुकानात मोठाल्या लायटी लावीत्यात तेच्यामुळं बरोबर कळत नाही".

असो दावो करून साडी सूर्य उजवाडांत बारीकसाणीन नियाळपाक तो भायर घेवन गेलो आनी कांय मिनटांनी परतून येवन तांणी म्हणलें -

"साडीचा रंग ठीक हाये पन 'कलर' काय बराबर नही".

दादल्यांचो बस्तो बांदपाची कार्यावळ तसो बायलांचो 'हळदीचो बाजार'. हळदीचो बाजार करप म्हणल्यार धा-पंदरा बायलांनी नायगांवाक वचून भरपूर हळद आनी संवसाराक लागपी झाडू, सुपां, सान्नी असल्यो वस्तू हाडपाच्यो. खरें म्हणल्यार, दोनूय वटेंतल्या बायलांक एकामेकांची वळख घडची आनी थारायिल्ल्या लग्नाक समाज मान्यताय मेळची हो ताचे फाटलो उद्देश आसुंये. हळदीचो बाजार आटोपतकच थंयूय खावपाची 'पार्टी' आसताली. 'गुलगुले'* हो तातूंतलो बायलांचो सामके आवडीचो प्रकार. गुलगुले म्हणल्यार गुलाबजामाचो गांवठी अवतार म्हणपाक हरकत ना. कित्याक तर तातूंत रव्याच्या जाग्यार पिठोचा वापर केल्लो आसता. मात हे गुलगुले लोकांचे इतले आवडीचे, खंयच्याय समाजीक कार्यांत दुसऱ्यांची कागाळ करतना, 'हें मात बरोबर न्हय आं, आमी काम करपाचें आनी गुलगुले ताणी खावपाचे' असो सात्वीक राग जायतेदां उकतो जावचो.

हळद हाडटकच हळद खेळपाचो प्रकार जातालो. तातूंत चडाओडीन हांसत खिदळत होळये भशेन एकामेकाक हळद सारोवपाची कार्यावळ जावची. न्हवरो-व्हंकल, तांचे कडच्यो बायलो, मावश्यो, आत्या सगळ्यांक हळद सारोवपाची. मेकळेपणान फकांडां मस्कऱ्यो जावच्यो, गितां म्हणचीं. सगळ्यो साळकाया म्हाळकाया हळद खेळपाक अक्षरशा रंगून वच. ते उपरांत मांडवडहाळी, म्हणल्यार ज्याच्या घरांत लग्न आसता ताणें आंब्याच्यो फांदयो लावन माटोव घालपाचो आनी लागसारच्या सगळ्या लोकांक जेवण घालपाचें अशी पद्दत आशिल्ली.

हळदीचीं वा लग्नाचीं गाणीं म्हणल्यार बायलां खातीर व्हडली पर्वणीच! पुराय निरक्षर आशिल्ल्यो बायलो सर्त लागिल्ले वरी एका परस एक सरस गाणीं गायत. गाण्यांत जायती खाशेली विविधताय - लग्नाचे तयारे संबंदीचीं गाणीं, चली

* गुलगुले म्हणल्यार शिजयिल्ल्या दुदयांत पीठ आनी गोड भरसून ल्हान गुळे तेलांत तळून भज्यां सारको केल्लो एक रुचीक जिनस आसता.

ऱ्या घरा वता म्हूण दुख्खाचीं गाणीं, मस्त्या जांवया विशींचीं गाणीं अशे एक ी जायते प्रकार.

"मांडव घातीला जाई-जुईचा
वर शाकारा नागलीचा"

अशी सुरवात करून लग्नाचे तयारेचे इत्थंभूत वर्णन करतालीं. गावपी बायलो इंकलकारां कडल्यो आसल्यो जाल्यार गितांचो शेवट

"ज्याची व्हती त्यानं नेली
आपली माया वाया गेली"

असो जातालोच.

लग्न म्हणलें म्हणटकच मानपान आयलेंच. मागीर ताचें वर्णन करतना,

"पहिली मंडवळी कशाची
पहिली मंडवळी चाफ्याची"
"आशी हावूस पुरवा
नवऱ्या-बाईच्या बापाची"
"त्येला घोड्यावर बसवा
उभ्या गलीनं मिरवा"

असले तरेचें गाणें आयलेंच. त्या गितांत दुसरी मंडवळी 'जाई'ची तातूंत 'हावूस' पुरावेपाची 'नवऱ्या बाईच्या आईची, तिसरी मंडवळी 'रूई'ची तातूंत 'हावूस' पुरोवपाची 'नवऱ्या बाईच्या फुई'ची. चवथी मंडवळी 'गव्हाची', तातूंत 'हावूस' पुरावेपाची 'नवऱ्याबाईच्या भावाची'. शेकोटेक येवपी मालाडच्या म्हाताऱ्या प्रमाण असो गोतावळो वाडतच वता. तशे, 'हावूस' पुरोवपाचे दरेकल्याचे ढंग वेगळे. म्हणल्यार 'नवऱ्याबाईच्या बापा'क घोड्याचेर बसून मिरोवपाचें जाल्यार आईक 'पैठणी', फुईक 'पांच भांडी' आनी भावाक 'आंगठी' दिवन गितांतल्यान भोंवमान. मात जाईच्यो, चांफ्याच्यो मुंडावळ्यो फकत गितांत. खरेपणीं लवंगां, चिरमुल्यो, इतलेंच न्हय तर कातलेचे कुडके गुंथून मुंडावळ्यो तयार केल्ल्यो आसताल्यो.

दरेका सोयऱ्याचो लग्नांत खारीचो वांटो थारलेलो. ताचें वर्णन करतना,

"बाप म्हनं बाप
देईन गव्हाचं माप
अन् माझ्या लेकीचं लगान।"

"आई म्हनं आई
करीन पिवळे पाई
अन् माझ्या लेकीचं लगान ।"
"मावळणं म्हनं मावळणं
आणिन मांडवाचं जेवन
अन् माझ्या भाचीचं लगान ।"
"चुलता म्हनं चुलता
पडंन उलथा पालथा
अन् माझ्या पुतणीचं लगान ।"

अशें तें गाणे चडट्या क्रमान रंगत वतालें.

मागीर त्या साळकाया-म्हाळकायां मदीं एखादी 'काकू' विदर्भांतल्यान आयिल्ली आसली जाल्यार 'दशम ग्रह' जावपी जांवयांचेर गाडी घसरतालीच :

"रुसले जावई, चांदीच्या मुंदीसाठी
मोहर माही बाई दिली त्यांच्या हाती"
"हांड्यागंगायाची बोली नाही केली
सोयऱ्या लेक माही सोन्याची देऊ केली"
"जवाई राजसाले समई नई दिली
बाई माही चंद्रज्योत समोर उभी केली"

इतली मनधरणी करूनय जांवय बदना जाल्यार उबगून

"जावयाची जात उगीर दोडका
पोटची देऊन दारी झुंजतो एडका"
"जावयाची जात बेईमान खरोखरी
सोन्याची देल्ली सरी, नाही याच्या उपकारी"
"येडाई बांगळा पोटी पुत्र असावा
चातुर जावई त्याचा संबंध नसावा"

असो तागेलो हो उद्धार सभावीकपणान आयलोच.

प्रत्यक्ष लग्न समारंभ सुरवेक तरी जातालें ते हिंदू पद्दतीन. मात तातूंत सप्तपदीचो आसपाव नासतालो. लग्ना खातीर भटजी नासत जाल्यार दलित समाजांतलोच एखादो जाणकार बुवा पुरयताचें कार्य सोबोवन व्हरतालें. आमचे

क साळवेबुवा आशिल्ले. तेच मंगलाश्टकां म्हणटाले. ह्या सावळेबुवां कडेन 'हिंदू धर्म दीपिका'' नांवाचो एक ग्रंथ आशिल्लो जाका ते जिवापाड जपताले. तो थ दाखयल्यार भूत लेगीत पळून वता असो साळवेबुवांचो आनी पर्यायान आमचो ुरग्यांचो विस्वास आसलो.

लग्नांत मानपानाचीं कितलींशींच झगडीं जावचीं. कित्याक तर झगडीं उस्तून काडचेंच अशें थारावन जायते जाण पयलींच अयिल्ले आसताले. लग्नांत हुंडो देवप घेवप हें मात पुराय तरेन निशिद्ध आसलें. तरिपूण कांय वाठारांत न्हवऱ्याक हुंडो दिवपाच्या जाग्यार व्हंकलेच्या बापायक 'द्याज' (दहेज?) म्हूण कांय रक्कम दिवपाची पद्दत चलताली. एखादी व्यक्ती मरतकच त्या घरच्या लोकांक 'दुखवटो' म्हूण सगळ्या जमिल्ल्यांनी उण्या-अदीक प्रमाणांत अर्थीक मजत करपाची बरीच 'प्रोग्रेसिव्ह' पद्दतय आतां आतां मेरेन अस्तित्वांत आशिल्ली.

लग्नाचें जेवण खूब गोड आसतालें. सुरवेक भड्डेल्ल्या गंवाची सोजी (म्हणल्यार तेल आनी गोड घालून केल्लो गंवाचो रगडो) असो बेत आसतालो. सोजी ताळ्या सकयल देंवची म्हूण जोडयेक मुगाची तिखट उसळ आसताली. जमनीचेर पंगतीक बसोवन पत्रावळींचेर जेवण वाडटाले. लोक मुद्दामच चड वाडून घेताले, उरिल्लें घरा कडेन हाडून-सुकोवन - वडयो करून कितलेशेच दीस खावपाचें. कांय लजकाडे लोक तर घरा कडसून परात घेवन येवपाकय फाटीं नासताले. त्या वेळार सोजेचो तो रगडो लेगीत पक्वान्ना वरी लागतालो. उपरांत सोजेची सुवात मालपोव्यान घेतली. फुडें बुंदी-भात-उसळ असो 'मेन्यू' चालींक आयलो.

एकूण सगळ्यांक गोड खावपाचो खूब सोस. बरी मिठाय हाचोच अर्थ खूब गोड आशिल्ली मिठाय. बरो च्या म्हणल्यार भरपूर साकर घालून खूब उकळिल्लो च्या. गोड खावपाची इतली आवड, मटण लेगती सुवादीक जालां काय कितें हें विचारतना 'मटान गॉड व्हतं ना?' असो प्रस्न करचो. बी.पी.टी. चाळींत मदीं मदीं जेवणाची कार्यावळ आसताली. ते खातीर डझनभर रायवळ आंब्यांचो बरो बालदीभर आमरस करताले. हापूस आंबे चड म्हारग आशिल्ल्यान काय कितें ते फकत गुजराती लोकांनीच खावपाचे अशी आमची सगळ्यांची समजिकाय जाल्ली.

चाळींतल्या सगळ्यांचो गांवा कडेन कायम संपर्क. भोवतेक जण नेमान, परवडटा तशे गांवाक वताले. आमच्या घरांत आमची आई चडशी ओझर गांवांत

वचपी. आमकां भावंडांक मात गांवांत व्हरप ना असो अलिखीत नेम आसलो. गांवांत खूब 'भुताळ्या' (चेटकिणी) आसात अशी आजेची आनी आमचे आईची थियरी. दादांचो ताचेर अजिबात विस्वास नासतालो. पूण ह्या दोगींच्या आग्रा मुखार हे बाबतींत ते नमते घेत.

गांवच्या लोकांचो आमच्या घरांत राबितो. गांवकारांक दिसचें, मुंबयचे लोक सद्दां वेवस्थीत तरेन जेवपाक शकतात, इतलेंच न्हय तर वेगवेगळ्यो भाज्यो खावपाक शकतात म्हणल्यारच चैनीत रावतात. गांवांत वतना लोकांनी पाव-भटार आनी सुके बोंबील घेवन वचचें. येतना शेतांतलो हुरडा घेवन येवचें. ताका 'वानावळा' म्हणटात. ह्या वानावळ्याचो सगळ्याक इतलो सुक्काळ आसचो, 'ज्याचा कट्टाळा, त्याचाच वानावळा' अशी म्हणणीच घोळटेंत पडिल्ली. खूबच चैन म्हणल्यार गांवांतसून येवपी लोक बेसनाचे गोड 'लाल शेंगुळे' वा कुळथाच्या पिठाचे तिखट शेंगुळे हाडी. गांवांतसून अशे तरेचे जिनस खंयच्याय कुटुंबांत आयल्यार ते चाळींतल्या सगळ्यांक वांटून दिवप जातालें.

दलित समाजांतल्या लोकांनी गांवांत व्हाणो घालून भोंवप निशीद्ध. ताका लागून घरांतल्यान भायर सरतना व्हाणो हातांत घेवन भायर सरचें आनी गांवा भायर पावतकच त्यो पांयांत घालच्यो अशी पद्दत आंगवळणी पडिल्ली. हाचो परिणाम असो जालो गांवांतल्यान आमगेर येवपी लोक घरांतल्यान भायर सरतना व्हाणो हातांत घेवन भायर सरताले आनी पयस शाळे कडेन पावतकच त्यो पांयांत चडयताले. जात लिपोवन तथाकथित उच्चभ्रू वस्तींत रावपी एका दलित भावा कडेन गांवांतसून येवपी तागेली मांय होच प्रकार करी. तें पळोवन 'आप हलके जात के है क्या?' असो प्रस्न विचारून ताका बिगर महाराष्ट्रीय शेजाऱ्यांनी बेजार करून सोडिल्लो.

सगळ्या गांवकारांचें मुंबय एक ग्रामस्थ मंडळ आसतालें. आपल्या गांवा खातीर, भावां खातीर, संबंदितां खातीर कितें तरी करचें हाचेर नेमान चर्चा जाताली. गांवांत चावडी बांदप, पेड बांदप, गांवांतल्या लोकांक अडीअडचणीक मजत करप असल्या कामांक लागून रुपया-दोन रुपयांच्या हिशोबान वर्गणी काडी. गांवा खातीर झळ सोंसपी ह्या लोकांच्या, गांवांत वतकच मात पारंपारीक त्रोसांच वांट्याक येवचीं. गांवच्या होटॅलांत वतकच, 'आरे, मुंबयचे सायब आयले, चांदीचीं कपां काड रे' अशी उपरोधीक उतरां कानार पडचीं. दलितां खातीर सांबाळून दवरिल्लीं वेगळीं खोपेल्लीं कपां 'खास' तांचे खातीर वापरांत येवचीं.

वडाळा, नायगाव, शिवडी आनी माटुंगा लेबर कॅम्प म्हणल्यार आंबेडकारी चळवळीचे त्या वेळा वयले कांय मुखेल बालेकिल्ले. त्यावेळार राजकारण आनी समाजकारण अशी फारकत जावंक नासली. ताका लागून सार्वजनीक जीण म्हणल्यार समाजीक आनी राजकी घडामोडींत प्रत्यक्ष सहभाग अशी दरेकल्याची धारणा आसली.

त्यावेळा वयलें समाजीक-राजकी वातावरण डॉ. आंबेडकरांच्या आंदोलना खातीर भारून गेल्लें, पेटिल्लें. नरे पार्क वा कामगार मैदानाचेर जातल्या डॉ. आंबेडकरांच्या सभांक वडाळ्याचे वस्तींतल्यान लोक मिरवणुकेन वचत. बाबासाहेबांच्या आंदोलनाचें लोण सगळ्यांत पयलीं पावचें तें वडाळ्याचे वस्तींत. आंबेडकारी चळवळींतल्या मूकनायक, बहिश्कृत भारत आनी जनता ह्या मुखपत्रांक वडाळ्यांत व्हडली मागणी आसची. उपरांतच्या काळांत, दर शेनवारा सांजवेळा 'प्रबुद्ध भारत, किंमत १३ नवे पैसे' अशें सायकली वयल्यान आड्डत येवपी आपा घांगळेक तोंड भरून येवकार मेळचो आनी तोय बी वडाळ्याचे वस्तींत. बाबासाहेबांच्या भाशणांचेर, तांच्या अग्रलेखकांचेर वेवस्थीत चर्चा करप, वाद घालप हें सदचेंच जावन पडिल्लें.

डॉ. आंबेडकरांच्या धाडसी फुडारपणाक लागून वडाळ्याचे वस्तींत थळाव्या फुडाऱ्यांची, कार्यकर्त्यांची एक व्हड फौज तयार जाल्ली. गुणाजी शेजवळ, एस. बी. दोंदे, फकिरराव आढाव, एम.जी. जाधव, नाना मुकादम हे तातूंतले कांय मुखेल शिलेदार. बाबासाहेबां लागीं ह्या सगळ्यांचो अदीं मदीं संपर्क आसचो. बाबासाहेब दादरच्या बुद्धभूशण प्रिंटिंग प्रेसांत आयले काय ह्या मुखेल कार्यकर्त्यांक तांणी मुजरत आपोवन घेवचें आनी चवकशी करची. एखादो कार्यकर्तो आयलो ना जाल्यार बाबासाहेबांच्या तें चट करून लक्षांत येतालें.

अशेंच केन्ना तरी एक फावट मेळपाक वचपा खातीर पोर्ट ट्रस्टाच्या फोरमनान परवानगी न्हयकारली. देखून कर्डक नांवाच्या एका कार्यकर्त्यान ताचेर पेपरवेट मोखून मारलो. बाबासाहेबांचे भिरांतेन तो ताका मेळपाक गेलो ना. तागेली अनुपस्थिती जाणवतकच बाबासाहेबान चवकशी केली. कोणूच सांगपाक धजना. निमाणें वस्तुस्थिती कळटकच बाबासाहेब आड्डले.

''आरे ताका सांग लज दिसता असलें काम करचें न्हय. जें करपाचें आसा तें चिंतून करचें. ताची लज बाळगुची न्हय. गरज पडल्यार हांव हांगासर खंबीर

आसा तो न्हय?''

ह्या सगळ्याच कार्यकर्त्यांचे, थळाव्या फुडाऱ्यांचे कांय समान गुणधर्म आशिल्ले. नितळ मुस्तायकी आनी तोंडांत बोटां घालपाक लावपी अशें खडेगांठ वक्तृत्व हें ह्या सगळ्यांचें वैशिश्ट्य. बाबासाहेबांच्या विचारांचेर आनी सहवासांत वाडिल्ली कार्यकर्त्यांची ही फौज बरें वक्तृत्व गाजोवन आशिल्ली. सोवळेबाबा नांवाचे एक कार्यकर्ते तर कसलोच पेपर बाळगिनासतना कवनांची करामत करीत, अत्यंत काव्यात्म भाशणां करपाक ते फामाद आशिल्ले. जेमतेम शिक्षण आसून लेगीत एखाद्या संवकळीत वकिला भशेन मुद्देसूद आनी आवेशांत भाशणां करपाक हे सगळे फिशाल जाल्ले. भास अर्थांतूच गांवची आनी रांगडी आनी घडये तेच खातीर आयकतल्यांक भिडपी. 'भारताचे दिवंगत पंतप्रधान'च्या जाग्यार 'दिवंगत भारताचे पंतप्रधान' म्हणलें म्हूण देश दिवंगत जालो अशें कोणाक दिसलें ना. 'पवसा खातीर उपस्थिती उणी आसा' अशें सांगतना 'पावसाच्या अभावाक लागून लोक उणे आयले' अशें म्हणल्यारय वस्तुस्थितीचो विपर्यास जाता अशें कोणाक दिसनासलें. इतलेंच कित्याक, सचिवालयाचेर मोर्चो व्हरपाचो आसल्यार गावरान शैलींत 'आपल्याला शौचालयावर मोर्चा न्यायचा हाय' अशें खणखणीत सांगलें जाल्यारय कोणाक हांसो येवूं नासलो. कित्याक तर ते रांगडे भाशेंतल्यान मांडिल्लें उलोवप्याचें म्हणणें आयकतल्यां मेरेन ज्युस्त पाविल्लें आसतालें.

मुखेल समाजीक कार्यावळ म्हणल्यार आंबेडकर जयंती वा राजकी सभा. आंबेडकर जयंतीची मिरवणूक आसताली. वर्सांतली सगळ्यांत म्हत्वाची परब मनोवची अशे पद्दतीन घरांतले निवळ कपडे घालून सगळ्यांनी मिरवणुकेंत वांटेकार जावचें. आंबेडकरांचो बरो व्हडलो फोटू बैलगाडयेचेर वा ट्रकाचेर दवरून ही मिरवणूक वचपाची. फोगोट्यांची आतशबाजी, लेझिमाचो खणखणाट, गुलाल शिंवरीत वचपी तरणाटे हाका लागून वातावरण खोशयेभरीत जावन वतालें. असल्या वेळार कोणूय एखादो चुकूनमाकून जर समजा 'नवटाक' मारून आयलो जाल्यार ताका यतेश्ट पेट घालून जल्माची अद्दल घडयताले. निळ्या काठाच्यो धव्योफुल्ल साडयो न्हेशिल्ले महिला आघाडीचो हे कार्यावळींत मोटो वांटो आसतालो.

वेंचणुके वेळार तर उमेदीक ओतो येतालो. बाबासाहेबांच्या आंदोलनाक लागून सामके अशिक्षीत, आखाणे मारतल्या मेरेनच्या सगळ्यांक मतदानाच्या अधिकारा विशीं जागरूकताय आशिल्ली. वेंचणुके खातीर थळाव्या पांवड्यार

ड जमा करप जातालें. इतलेंच न्हय तर कितल्यो पावत्यो तोडल्यात ताचे यल्यान उमेदवाराच्या जैताची शक्यताय आजमायताले. सुरवातीक बोट हें वेंचणूक न्न आसलें. उपरांत हती हें चिन्न गावलें. वेंचणुकेच्या प्रचारांत व्हडले कटआवट गावन मिरवणुको काडटाले. 'आला, आला हत्ती आला' ही वेंचणूक प्रचाराची खेल घोशणा - खास करून ल्हान भुरग्यांनी बोंबलेच्या देंठांतल्यान आड्डी रपा खातीर. बाकीच्या प्रांतांतले दलितय ह्या मिरवणुकांनी वांटेकार जाताले. ांचे मदल्या कोंगाटी लोकांचें खाशेलेपण म्हणल्यार त्या बायलांनी साज-श्रृंगार करून येवचो. दादले मात अर्दे चड्डेन. मातृसत्ताक पद्दती खातीर आसुंये, पूण ल्हान भुरगें सदांच दादल्याचे हांडीर आसचें. आमच्या भुरग्यां भितर 'आला, आला हत्ती आला' आनी 'वांगा, वांगा हत्ती वांगा' अश्या घोशणांची, चेकाळून जुगलबंदी जाताली.

वेंचणुकांच्या सभां आदीं वातावरण निर्मिती खातीर जलसे जाताले. शाहीर घेगडे सारके लोकप्रिय शाहीर डफाचेर थाप मारून आकाशाक भिडपी एकेच ललकारीन खिणभरांत लोकांक आकर्शून घेत. उपरांतच्या काळांत वडाळ्याचे वस्तींत जलशांची सुवात गाण्यांच्या कार्यावळींनी घेतलीं. जगन्नाथ धीवरांचें गायन, सांगाताक पेटयेचेर त्यावेळा वयले तरणे कार्यकर्ते विजय जाधव, बुलबूल तरंगाचेर हिरामण पाठाडे आनी ढोल वाजोवपाक बन्सी (अभिनेत्री वैजयंतीमालेचो हो ड्रायव्हर) हो समूह खास लोकप्रिय आशिल्लो.

राजकी घडामोडीं इतलोच रस समाजीक घडणुकांतय घेवप जातालो. आंदोलन केले उपरांत निमाणें एकदांचें भीमवाडींत उदकाचे नळ बसोवप जालें. सगळे वस्तीन ताचो विजयोत्सव मनयलो. ते भायर नांव दवरपाचे विधी सावन ते मॅट्रीक पास जाल्ल्या विद्यार्थ्यांच्या सत्कारा मेरेन सगळ्या समाजीक कार्यावळींची सभा जाताली आनी ह्या सगळ्या सभांतल्यान राजकी स्वरुपाचीं भाशणां जातालीं.

'शेड्यूल्ड कास्टस् इम्प्रूव्हमॅण्ट ट्रस्टा'चे फाकीवंत समाजसेवक श्री. उपशाम गुरूजी बराबरचे दादा हे प्रामाणीक कार्यकर्ते आशिल्ले. दादा कशे तरेन रुपया-दोन रुपया प्रमाण वर्गणी एकठांय करून ताचो चोख हिशोब दवरी तें आमी भावंडां पळयतालीं. दादां कडेन माटुंगा लेबर कॅम्प आनी आशीकुशीच्यो दलित वस्त्यो हे विभाग सोंपयिल्ले. धडपडपी समाजीक कार्यकर्तो कसो आसता हें तांणी आपले प्रत्यक्ष वागणुकेन आमकां भावंडांक दाखोवन दिल्लें. वडाळ्या

सावन माटुंग्याक ते नेमान पांयांनी वचून संस्थेच्या खर्चाची बचत करी. विडये खातीर पयशे उणे जाले म्हूण तात्पुरते जायना संस्थेची वर्गणी म्हूण जमयिल्ल्या पयशांतले वापरात अशें सुचोवपी आमचे मदल्या एकल्यान खाल्लेलो मार आयज लेगीत विसरपाक जायना.

केन्ना केन्ना आमकां भुरग्यांकय दादा बाबासाहेबांच्या सभांक घेवन वताले. थंय जाताले ते आकांताचे गर्देक लागून मात आमकां कोणाकूच बाबासाहेबांचे लागीं वचपाक जमनासलें. सुदैवान, एक फावट अचकीत अशी संद जुळून आयली. कसल्या तरी एका प्रसंगाच्या निमतान एकदां बाबासाहेब वडाळ्याक गेल्ले. तांगेली लांबचे लांब एक शेवरलेट काय स्टूडबेकर गाडी आशिल्ली. तिचे कुशीक एक फूटबोर्ड आशिल्लो. बाबासाहेबांचे गाडये मेरेन बाकीच्यांक पावप शक्य नाशिल्लें. आमचो आर. डी. काका मात बाबासाहेबांचे लागचो आशिल्ल्यान, ताच्या आदारान आमी कांय भावंडां बाबासाहेबांचे लागसून दर्शन घेवपाक शकलीं. आमकां सगळ्या भावंडां खातीर ती घडणूक अविस्मरणीय उरल्या.

बाबासाहेबांचे विचार जनसामान्यां मेरेन पावोवपांत कविवर्य वामन कर्डक आनी जलसाकार शाहीर घेगडे हांचो खूब व्हड वांटो आशिल्लो. प्रचंड सभांनी डफाचेर थाप मारून मळबाक भिडपी आवाजाचे एके ललकारीन शाहीर घेगडे तमाम गलको खीणभरयांत शांत करी. आमी सगळ्या भावंडांनी हें पळयिल्लें. ते खातीर एक तर डॉ. आंबेडकरां भशेन खूब शिकून समाजकार्य करप वा शाहीर जावन बाबासाहेबांचे विचार गांवागांवांनी पावोवपाक हातभार लावप, अशे दोनूच ठळक पर्याय आमच्या बालमनांत तेदे वेळार घर करून आशिल्ले.

कळटां नकळटां, आमच्यो वाटो रूंद जायत गेल्यो. अभ्यासा भायर स्कावट सारकेल्या गजालींनी आमी रस घेवपाक शिकलीं. पयलेच फावट आमच्या घरांत आयलीं स्वताचीं अशीं पुस्तकां. तातूंत बाबासाहेबांचे ग्रंथ तर आशिल्लेच, तेच प्रमाण शिवरामपंत परांजप्यांचे 'काळाचे निवडक निबंध', श्री. म. माट्यांचे 'उपेक्षितांचे अंतरंग' अशे जायते ग्रंथ आशिल्ले. अभ्यासाक फावो तशें वातावरण घरांत आसूंक जाय हाचेर दादांलें खास लक्ष आसतालें. ते खातीर तांणी विद्येची देवी म्हूण सरस्वतीचो फोटो घरांत फ्रेम करून लायिल्लो. 'असे शांतता ज्या घरी, लक्ष्मी तेथे वास करी' अशें सुभाशीत रंगोवन तें बसपाचे कुडींत लायिल्लें.

आमच्या गांवांतले ताऊमास्तर आत्र्यापयऱ्यान घरा येवपी. आमच्या सगळ्या
ावंडांचेर तांचो खूब प्रभाव आशिल्लो. नागपाड्याचे खंयचे तरी शाळेंत ते
ख्याध्यापक आशिल्ले. नितळ धवो सदरो, धवें पुडवें आनी तितलीच निर्मळ
णी. आमचेर ते केन्नाच रागार जायनासले. तरीय तांचो धाक आमच्या मनार
शिल्लो. घरांत येतकच ते आपूण जावन सगळीं पुस्तकां टापटीप दवरीत,
माळ्यांच्यो नीट घडयो करपाक लागत. तें पळोवन आमकां लजेवन मरूंक
ावचें. आमकां भावंडांक नीटनेटकेपणाची संवय लागली ती ताऊमामा खातीरच.

ओझरकर ग्रामस्थ मंडळाच्यो बसका आमच्या नव्या घरांत आत्र्या-पयऱ्यान
ावपाक लागल्यो. आमच्या गांववाल्यां मदीं दोग जाण पुलीसवाले आशिल्ले.
ड करून ते हवालदाराच्या पदार आसत, तांचो रुबाब मात पुलीस कमिशनराकय
ळजयत असो आशिल्लो. काचीबुचांक वांगडा घेवन वचून, एखाद्या गरीब बाबड्या
ेळवाल्याच्या काना खाला वगीच आवाज काडून, आमकां तांणी फुकटांत भेळ
वावपाक घालची. ताका लागून आमकां तांचो आदरभरीत दरारो दिसचो. इबाडून
ल्ल्या भुरग्यांची आवतिकाय कितें जाता ताचो आमच्या मनाचेर परिणाम घडचो
्हूण तांणी मुद्दाम चोखाजी हवालदाराचो वशिलो लावन एक फावट डोंगरेच्या
बाल सुधार गृहाची' ट्रीप घडोवन हाडिल्ली.

आमी ॲण्टॉप हिलच्या नव्या घरांत भितर सरतकच वर्साभरयांत धर्मांतराचो
िर्णय जाहीर जालो. सगळो दलित समाज चैतन्यान न्हावन गेलो. धर्मांतराची
कार्यावळ आसली नागपूरांत. आनी नागपूर हें राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघाचें हेडक्वार्टर.
े खातीर संघर्श जातलो म्हणपाचो सगळ्यांचो अदमास आशिल्लो. दलित समाज
तर जिवार उदार जाल्लो. फकत सगळ्यांक भिरांत आशिल्ली ती लाखाच्या
पोशिंद्याची. बाबासायबांच्या जिवाक कितेंय वायट बी घडना मूं हे भिरांतेन सगळे
चिंतेस्त जाल्ले.

वडाळ्याक सावन एक व्हडलो जनसमुदाय धर्मांतरा खातीर नागपूराक गेलो.
तातूंतले बरेचशे तरणाटे वडाळ्याच्या लिंबा देवराम ह्या कुशळ तालीम मास्तरा
कडसून प्रशिक्षण घेवन, बाबासाहेबांच्या संरक्षणा खातीर रेल्वेच्या कोटा सकयल
गुप्त्यां सारकीं शस्त्रां दडोवन-घेवन गेल्ले. डॉ. आंबेडकरांच्या अक्षरशा लाखांनी

अनुयायांनी बौद्ध धर्म आपणायलो तरी, सुदैवान कसलोच अनुचीत प्रकार घडलो ना. वडाळ्याचे लोक धर्मांतर करून मुंबय परतले. तेन्ना ते आपापल्या घरा वचनासतना बॅगां सयत एका चौकांत जमले. बायलो बियलो जमल्यो. 'बुद्धं सरणं गच्छामि' पयले फावट म्हणलें तें तेन्ना. ह्या सगळ्या घडामोडींत एक संघटक, क्रियाशील कार्यकर्तो अशा स्वरुपाचो दादांचो सहभाग आसलो. ताका लागून आमी सगळेच झपाटून गेल्ले.

धर्मांतराक लागून आंबेडकरांच्या लाखांनी अनुयायांची मानसीकताय पुराय बदलून गेली. सामके थोड्या कालावधींत हाडकी हाडोळा करपी, उश्टें वेंचपी, कोयर काडप वा तसलीं हलकीं कामां करून तुच्छतायेन कशबशी जगपी जात आपणाली पारंपारीक कात झडोवन उबी रावली. तांकां स्वताची अशी आयडेंटिटी मेळ्ळी. हे नवजागृत अस्मितायेक लागून तांचीं नांवां बदल्लीं (पयलीं बालमृत्यूचें भंय दाखोवन दलित समाजांतल्या भुरग्यांचीं नांवां कचरू, धोंडू, दगडू असलीं दवरचीं असो पंचांग पळोवन नांवां सांगपी गांवच्या पुरयताचो आग्रो आसतालो. धर्मांतरा उपरांत दलित समाजांत सिद्धार्थ, गौतम जल्माक आयले. दगडू, धोंडू, कचरू जल्माक आयिल्ल्याच्यो देखी मात अपवादानय सांपडनात हें मुद्दाम सांगचें दिसता.) भेस बदल्लो, रावपाची शैली बदल्ली. गिराणाच्या वेळा दान मागपाचेंय सुटलें, बुद्द, मत, नदर सगळें सगळें सासणाचें बदल्लें.

धर्मांतरा उपरांत दोन म्हयन्यांच्या कालावधींत ६ डिसेंबर १९५६त डॉ. बाबासाहेबांचें महापरिनिर्वाण जालें. लाखांनी आंबेडकरवाद्यांचेर दुख्खाचो दोंगर कोसळ्ळो. कविवर्य वामन कर्डकांनी म्हणलें -

"उद्धरली कोटी कोटी कुळे,
भीमा तुझ्या जन्मामुळे"

त्याच भीमाच्या मरणान लाखांनी दलित कुटुंबांक घरांतलो कर्तो मनीस गेल्ल्याचें दुख्ख जालें, सगळो दलित समाज दुखेस्त जालो.

बाबासाहेब अंतरले तरी तांच्या तेजस्वी फुडारपणांतल्यान निर्माण जाल्ली चेतना अखंडीतपणान तेवत उरिल्ली.

सगळीं राजकी-समाजीक आवर्तनां आमी लागसून पळयतालीं, अणभवतालीं. राजकारणांत सक्रीय नासलों तरी, कळटां नकळटां महाविद्यालयीन शिक्षण घेतना

ॉ. आंबेडकरांच्या चारित्र्याचो बारकायेन अभ्यास जालो, तांच्या विचारीक तासांची ळख घडली. आंबेडकरी चळवळी कडेन किशोर पिरायेंत जुळिल्ले भावनीक ंध आतां वैचारीक बसकेच्या पांयांचेर थीर जाल्ले. आंबेडकरी चळवळीचे आमी एक अविभाज्य घटक जावन पडले.

# हांव, जे. डी. जाधव

**पोरणे** वडाळ्याचे चाळींत रावता आसतना हांव बॉम्बे पोर्ट ट्रस्टाच्या (बी.पी.टी.) प्राथमीक शाळेंत वतालों. तेदे वेळार अभ्यासाचो धाक दिस. कित्याक तर अभ्यास केलो ना जाल्यार 'डबे व्हांवोवपाच्या' वावराक लागचें पडटलें अशी भिरांत दिस. आमचे लागीं कुशीक रावपी कांय भुरगीं वडाळ्याच्याच दुसऱ्या भागांत आशिल्ले 'बर्मा शेल' कंपनींत दिसाक चार आठ आणे कमायत तेलाचे रिकामे डबे धुकलून स्टोरांत व्हरपाचें काम करी. आपणाक तें काम करपाक लागचें न्हय म्हणून तरी अभ्यास करप गरजेचें आसलें.

त्यावेळार क्रिकेटीचो खेळ म्हणल्यार म्हजो जीव काय प्राण! क्रिकेटीच्या नादाक लागून केन्ना केन्ना अभ्यासा कडेन आडनदर जावची. मागीर दादांलो भरपूर पेट खावचो पड. केन्ना केन्ना दादान बरेंच तिडकुचें. आमच्या घरांत एकूच लोखंडाचें कदेल आसलें. राग सामको आवरना जातकच दादा म्हजे हात बांदून म्हाका त्या कदेलाक बांदून घाली. एक फावट असोच बांदून दवरिल्लो आसतना ते आडखळिल्ले आवतिकायेंत म्हाका न्हीद लागली. न्हिदेंत केन्ना तरी तें कदेल म्हज्या आंगार लवंडून पडलें आनी म्हाका कोंक जाली. मागीर मात दादान म्हाका मारपाचें सोडलें. वयल्यान भरपाय म्हूण काय कितें म्हाका नवीन शर्ट-पॅण्ट घेवन दिली.

नव्या कपड्यांचें आमकां भोव अप्रूप. म्हजो सदचो भेस म्हणल्यार खाकी पॅण्ट आनी धवो शर्ट, कित्याक तर तो शाळेचो गणभेस आशिल्लो. शाळेंत वेगळे कपडे आनी हेर कारणां खातीर वेगळे असले चैनीक थारो नासलो. तातूंतले तातूंत ह्यो खाकी पॅण्टी, दादाक बी.पी.टी. कडसून मेळटले कोट उसोवन त्या कपड्याच्यो शिंवून घेतिल्ल्यो आसताल्यो. ते खातीर दादराक वचून स्टेशना लागींच्या टपऱ्यांतल्यान तयार रंगीत शर्ट-पॅण्ट घेतिल्ले खातीर हांव खुशालभरीत जालों.

घरांत जमा खर्चाचो मेळ बसोवपाची मारामार आसताली. ते खातीर म्हजे आईन फळां विकचीं. सकाळचें बेगीन उठून भायखळा मार्केटांत वचून फळां हाडप,

नपारच्या दोन वरां मेरेन मध्य रेल्वेच्या वडाळा हांगासरल्या वर्कशॉपा कुशीक तीं
विकप हो सदचो उद्देग. हिशोब दवरपाचें आनी पगाराच्या वेळार वसुली करपाचें
काम म्हजे कडेन. हांव तें इतलें ज्युस्ताज्युस्त करतालों, ताका लागून फुडें फाटीं
हांव एखादो उद्देग-धंदो बरे तरेन चलोवंक शकन अशें सगळ्यांक दिसतालें.

कपड्यांचे बाबतींत काटकसर करपी आई-दादांचो, हांवें सदां बूट घालचे हे बाबतींत मात आग्रो आसचो. खरें पळयल्यार म्हजे शाळेंत खूबच थोड्या विद्यार्थ्यांक बूट घेवप परवडटालें आसुंये. हे बाबतींत आई-दादान मात कसलीच तडजोड करची न्हय. चड करून 'अप-टू-डेट' रावपाची तांची कल्पना 'बूट' हे गजाली कडेन जखडलेली आसुंये.

पांचवे यत्ते सावन छबिलदासांत प्रवेश घेतले उपरांत सद्दां सकाळीं बेग्गीन उठून चलत चलत दादराक वचचें पड. उशीर जालो जाल्यार के. एम. उपाध्ये मास्तरांच्यो सणसणीत छडयो खावच्यो पड. शाळेंत वतना-येतना वांगडा वडाळ्याचीं हेर भुरगीं आसतालीं. पूण तीं म्हजे कडेन तुसडेपणान वाग. हांव वाटेर दारूभट्टीवाल्या भुरग्यां कडेन उलयतां, इश्टागत दवरतां हें ताचें कारण. मात म्हजी जात लेगीत ताका आड येताली आसुंये. कित्याक तर गणपती उत्सवाच्या वेळार तांच्या घरा कडेन गेल्यार, व्हरांड्यांतूच प्रसाद दिवन आमकां भायले भायर धाडप जातालें. अर्थांत ताकाय आडवाद आसलोच, तो म्हणल्यार नार्वेकार कुटुंबाचो.

नार्वेकारांच्या घरांत हांवें घरांतल्या सारको वावुरचें. गणपतीची आरास, आरत्यो हातूंत हांवें उमेदीन वांटो घेवचो. तांणी फुडाकार घेवन केल्ल्या नाटकांनी भुमिकाय करच्यो. हे गृहस्थ फुडें भजनीबुवा म्हूण नामनेक पावले. आशाढी एकादशीक भरपी वडाळ्याच्या विठोबाचे जात्रेंत नार्वेकरबुवांचे भजनी मंडळींत हांवूंय वांटेकार जावचो. तातूंत म्हजी इतली उदरगत जाली; जायते फाटीं पखवाज वाजोवपाचें खास काम म्हजेर सोंपोवप जातालें.

शाळेंत म्हजें खुमणें बरेंच तेलकट दिसतालें आसुंये, कित्याक तर म्हजी आई माथ्याक तेल थापून निमाणाचो हात तोंडा वयल्यान भोंवडायी. आठवेंत आसतना कालेलकर नांवाचे एक उत्कृश्ट शिक्षक म्हाका शिकयताले. तांणी सदांच विचारचें, "तूं इतलें तेल कित्याक लायता?"

खरें कारण हांवें तांकां सांगतकच तांणी मुद्दाम आमच्या घरा येवपाचे त्रास घेतले आनी म्हजे आईक शिटकावणी दिली, तशें करिनासतना तोंडाक पोव लावचो.

आतां पोव कसो लावपाचो? शिक्षकाची आज्ञा तर शिरसावंद्य. मागीर पोवाचो एक डबो हाडलो आनी तोंडाक पोव लावपा खातीर म्हाल्याच्या दुकानांत आसता तसलो एक पफ हाडलो. तेलांतल्यान सुटका जाली, पोव लावप मात म्हाका कशेंच रुचना जालें. पोवाक लागून चेरो सामकोच खोपेल्लो दिसता अशें म्हाका दिसचें. ताकाच लागून काय कितें पोवाचो तो डबो फुडें कितलींशींच वर्सां पुरो जालो.

आठवे यत्ते उपरांत म्हाका अभ्यासाची खूबच गोडी लागली. संस्कृत आनी मराठी हे खास आवडीचे विशय. आर.डी. देशपांडे नांवाचे खूब बरे शिक्षक आमकां मराठी शिकयी. वर्गांत एखादो धडो शिकोवन जालो काय तांणी ताचेय फुडें वचून संबंदीत विशया वयलीं पेटयेर पुस्तकां शाळेच्या ग्रंथालयांतल्यान वर्गांत हाडचीं. ताका लागून किशोर पिरायेचेरच मराठीचें भरपूर वाचन करपाक मेळ्ळें.

संस्कृत विशय तर म्हाका इतलो आवडचो, हांवें टिळक विद्यापीठाच्यो संस्कृताच्यो दोन परिक्षा दिल्यो. वर्गांत हेर तथाकथित वयले जातीच्या विद्यार्थ्यां परस संस्कृतांत म्हजी कामगिरी अदीक उजवी थारल्यार कांय शिक्षकांक ताचो दुस्वास दिसुंये, अशी म्हाका परतून परतून जाणीव जावची. जिवाभावाचे जायते इश्ट मात म्हाका छबिलदासान मेळोवन दिले आनी तातूंतल्या जायत्या जाणांक आयजूय म्हज्या जिवितांत म्हत्वाची सुवात आसा हें मान्य करचेंच पडटलें.

शाळेंत आसतना हांव हिंदीच्या खास अभ्यासा वटेन वळ्ळों आनी धावेंत पावतकच 'बम्बई हिंदी विद्यापिठाची साहित्य विशारद परिक्षा' पास जालों. ड्रॉयिंगाच्यो दोन परिक्षा त्यावेळार उत्तीर्ण केल्यो. सेंट जॉन ॲम्ब्युलन्स सेंटराच्यो 'फर्स्ट एड'च्यो परिक्षा आनी बालवीर पथकांतल्या कामा खातीर प्रशस्तीपत्रकां हेच कालावधींत मेळ्ळीं. म्हाका दिसता त्यावेळार परिक्षा पास करप आनी सर्टीफिकेटां मेळोवप हो एक छंदच म्हाका जडिल्लो.

खेळांत मात म्हजी उदरगत अशीतशीच आशिल्ली. म्हाका उगडास जाता, हांवें त्यावेळार हुतूतूची टीम काडिल्ली, व्हॉलिबॉलचे सामने भरयिल्ले. क्रिकेट तर आशिल्लीच. पूण ह्या सगळ्या खेळांत म्हजी भुमिका वेवस्थापकीय स्वरुपाची आसताली. खंयच्याच खेळांत हांव स्वता निपूण जालों ना. त्या काळांत व्यायामशाळा चालकाच्या नायकाक 'दादा' म्हणी. अशाच एका लिंबादादाचे व्यायामशाळेंत हांव लाठी-काठी, दांडपट्टो शिकलों आनी हांवें बरीच प्रगती

केली. इतली, घरच्यांक भिरांत निर्माण जाल्ली हांव 'दादा' लोकांचे टोळयेंतलोच जाता काय कितें म्हूण! हांवें मवाली जावचो न्हय असो दादांक हुस्को जावचो काय कितें कोण जाणा पूण ते म्हाका डोंगरेक ल्हान भुरग्यांची बंदखण दाखोवपाक घेवन गेल्ले आनी थंय गांववाल्या पुलिसा कडसून ल्हान भुरग्यांच्या गुन्यांवाच्यो भिरांकूळ कथा तांणी म्हाका आयकयिल्ल्यो. ते उपरांत मात म्हजी व्यायाम शाळा बंद जाली.

शाळेंत आसतना घरांत आनी आशीकुशीक आंबेडकरी चळवळीचे संस्कार घडत आशिल्ले. वडाळा, नायगांव, दादर, परळ, माटुंगा हो सगळोच परिसर डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरांच्या विचारांनी आनी तांचे चळवळीन उत्तेजीत जाल्ले भशेन दिसतालो. दादा म्हाका अदींमदीं बाबासाहेबांच्या सभांक घेवन वच. एक फावट, १९५२चे सार्वत्रीक वेंचणुके वेळार बाबासाहेब वडाळ्याक आयिल्ले. त्यावेळार बाबासाहेबां कडेन ग्रंथपालाचे आपवावुरपी म्हूण काम पळोवपी आमच्या आर.डी. काकांच्या वशिल्यान आसुंये, बाबासाहेबांक मेळपाचो योग आयलो. बाबासाहेबांची लांबचेलांब गाडी म्हाका याद जाता. आमचो दादा 'शेड्यूल्ड कास्ट ट्रस्टा'चो कार्यकर्तो आशिल्ल्यान बाबासाहेब ताका वळखताले. बाबासाहेबांचे लागसून 'दर्शन' घडलें तेन्ना हांव सामको अजापीत जावन पळयतच उरलों. दादान म्हाका तांच्या पांयां पडून आशिर्वाद घेवपाक फर्मायलें तेन्ना खंयचो हांव भानार आयलों. हांवें बागोवन नमस्कार केलो.

"कितें दामूअण्णा! तुजो भुरगो कितें? शिकय ताका".

बाबासाहेबान म्हणलें. उपरांत कार्यकर्त्यांच्या गराड्यांत बाबासाहेब वचपाक गेले. दादा मात गंभीर जावन बरोच वेळ थंय खूट कसो उरलो.

बाबासाहेबां वयल्यान येवजलें, आमचे शाळेच्या प्रिन्सिपल अक्षीकरांचें खुमणें, कोट आनी वक्ल सामकें बाबासाहेबां सारकेंच दिसतालें. ताका लागून आमचे प्रिन्सिपल म्हाका खूबच आदरणीय दिसताले. आमच्या ह्या अक्षीकर सरान मराठी व्याकरणाचें एक पुस्तक बरयिल्लें. मराठींतल्या 'ण' वा 'न' च्या उच्चारांतलो फरक तशेंच खूबश्या उतरांतलो 'दीर्घ' म्हाका जायते फावटीं त्रासांत उडयी. अक्षीकर सरांच्या व्याकरणान म्हजे मराठीचेर बरे संस्कार जाले.

बऱ्या गुणांनी हांव १९५६त शालांत परिक्षा पास जालों. मागीर जे कॉलेजींत

बाबासाहेब शिकले ते एलफिन्स्टन कॉलेजींत प्रवेश घेवपाचें थारलें. दादा आनी हांव एलफिन्स्टन कॉलेजीच्या सोदाक गेले.

'बोरीबंदर स्टेशना पसून ट्राम धरपाची आनी निमाण्या स्टॉपार देंवलो काय मुखार आयलें एलफिन्स्टन कॉलेज' अशें आमकां सांगिल्लें. ते प्रमाण आमी एलफिन्स्टन कॉलेज मेळयलें. पूण तें तर आसलें विधानभवन (आतांचे पुलीस मुख्यालय). सोदासोद करीत निमाणें एकदांचें एलफिन्स्टन कॉलेज मेळ्ळें. गुण संख्या बरी आशिल्ल्यान प्रवेश लेगीत तात्काळ मेळ्ळो.

एलफिन्स्टन कॉलेजींत खाकी हाफ पॅण्ट घालून वचपी हांव भोवतेक पयलो विद्यार्थी. कोणें तरी तें दादांच्या लक्षांत हाडून दितकच गडबडींत ते म्हजे खातीर चार पिजामां घेवन आयले. पूण शर्ट हाडपाक विसरले. ताका लागून सद्दां पिजाम वेगळें आसतालें, पूण शर्ट मात हांवें तोच धुवन घालचो.

एलफिन्स्टन कॉलेजी कडेन म्हजे सूर कांय जुळना जाले. एक तर थंयचे कलाशाखेंत सलग पिरेड्स नाशिल्ले. ते भायर, दोन पिरेडा मदल्या वेळांत पयल्या वर्साच्या विद्यार्थ्यांक ग्रंथालयांत वचपाची परवानगी ना असो मुलखा वेगळो नेम. ताका लागून हांवें हेडपाचें, पूण कितलो तरी भोंवतलों? तातूंत भूक लागची, पूण जाय तितले पयशे गांठीक नासचे. त्यावेळार 'चेतना'त एका आण्याक बटाटवडो मेळटालो. घरा पाव मेरेन म्हज्या पोटांत उज्याचो भगभग. ताका लागून घरा येना फुडें हांवें पोट भरसर जेवप. तातूंत मागीर न्हीद आटापाक येनासली.

ह्या सगळ्या प्रकाराक लागून अभ्यास कांय जायना जालो. निमाणें आंगांत धाडस हाडून हांव म्हज्या प्राध्यापकां म्हऱ्यांत गेलों. (भोवतेक ते प्रा. मं. वि. राजाध्यक्ष आसुंये). ''सलग तास जाय आसत जाल्यार तूं सिद्धार्थ कॉलेजींत प्रवेश घे'', अशें तांणी सुचयलें.

सिद्धार्थ कॉलेजींतय सुरवेक अभ्यास मातसो जड गेलो. मराठी माध्यमाचे शाळेंतल्यान आयिल्ल्यान काय कितें, पूण इंग्लीश माध्यमांतल्यान शिकयिल्लें समजतालें अशें काय न्हय. तातूंत इंग्लिशीचेर भर दिवपाचो दादांचो आग्रो. मागीर हांवें नेटान इंग्लिशीचो अभ्यास करपाचो मना सावन निश्चेव केलो. थंय आमकां इंग्लिशी खातीर प्रा. डिसूझा आनी प्रा. शिवपुरी हे दोग दिग्गज प्राध्यापक आशिल्ले. दोगूय इंग्लिशीचे निपूण विद्वान. नांवाजते प्राध्यापक, पूण तांगेले शिकवणेचे पातळे कडेन म्हाका जुळोवन घेवपाक येना जालें. निमाणें हांव प्रा. डिसूझांक

चून मेळ्ळों. तांणी मोघम सल्लो दिलो, "खूब इंग्लीश वाच आनी खूब इंग्लीश रय".

तावातावान हांव कॉलेजीच्या ग्रंथालयांत गेलों. हाताक लागता तें इंग्लिशींतलें यलें जाडजूड पुस्तक घेवन आयलों, तें आशिल्लें व्हिक्टर ह्युगोचें 'ला मिझरेबल'. उपरांतचे दोन म्हयने हांवे निश्चेवान सुरवेक सावन शेवट मेरेन सगळें नेटान वाचून काडलें. पूण चड कितें समजलें ना. कठीण उतरां अधोरेखीत करून तांचे अर्थ समजावन घेतले. 'खूब इंग्लीश बरोवपाचें' म्हणून त्या पुस्तकाचीं खूब पानां भरभरून बरावेन काडलीं. ताचो परिणाम इतलोच जालो, म्हजें इंग्लीश हस्ताक्षर सुदरलें!

म्हजो पराक्रम प्रा. डिसूझांक कळ्ळो. तेन्ना ताकां हांसो आवरूंक येना जालो. मागीर तांणी 'टेल ऑफ टू सिटीज'ची संक्षिप्त आवृत्ती काडून दिली आनी सांगलें, "अशीं ल्हान ल्हान पुस्तकां वाचचीं".

तें पुस्तक हांवें दोन दिसांत सोंपयलें आनी 'ला मिझरेबल'ची कृपा म्हणून काय कितें, पूण म्हाका तें रोखडेंच समजलें. मागीर स्कॉलरशिपीच्या पयशांतल्यान 'ओरिएण्टल लाँगमन्सा'न उजवाडाक हाडिल्लीं तसले तरेचीं खूब पुस्तकां हांव घरा घेवन आयलों. स्कॉलरशिपीच्या पयशांचो बरो विनियोग केल्ले खातीर घरच्यांक आनंद जातलो ही म्हजी समजिकाय आसली.

"पयशे सरळ घरी आनायचे सोडून ह्ये काय क्येलं?" म्हणून आईन केल्लें 'स्वागत' मात वेगळेंच आसलें!

सिद्धार्थ कॉलेजींत वैचारीक दिशा मेळत गेली. त्यावेळा कॉलेजीच्या वर्सुकी अंकांत निबंध सर्त आसताली. ते भायर वादविवाद सर्ती आसताल्यो. ह्या सर्तींचे विशय सदांच डॉ. आंबेडकरांच्या बहुलक्षी कामगिरी कडेन संबंदीत आसताले. तातूंत उमेदीन वांटो घेवन हांव इनामां मेळोवंक लागलों. विद्यार्थ्यांक राजकारणाची तोंडवळख करून दिवपा खातीर बाबासाहेबान 'कॉलेज पार्लमॅण्टा'ची अभिनव पद्दत सुरू केल्ली. देशांतल्या मुखेल राजकी पक्षांचीं नांवां घेवन विद्यार्थ्यांनी वेंचणुको लढोवच्यो आनी कॉलेजींत समांतर संसद चलोवची. दर वर्सा कॉलेज पार्लमॅण्टाचें उकतावण करपा खातीर व्हडल्या राष्ट्रीय फुडाऱ्यांक आमंत्रीत करपाचो पायंडो बाबासायबान घालून दिल्लो. ताका लागून व्हडा व्हडांचे विचार आयकूंक मेळचे. फाकिवंत संसदपटू प्रा. मधू दंडवते त्यावेळार सिद्धार्थांत प्राध्यापक आशिल्ले. तांचेंय भोवमोलादीक मार्गदर्शन लाबलें.

'रिपब्लीकन पक्षा'चे वतीन हांव कॉलेजीच्या राजकारणांत भाग घेतालों. सुरवेक रिपब्लिकन पक्ष कॉलेज पार्लमॅण्टांत अल्मतांत आशिल्लो. फुडें आमी, किरिस्तांव आनी मुसलमानांचो मुखेलपणान भरणो आशिल्ले 'पिपल्स प्रोग्रेसिव्ह पार्टी' कडेन समझोता करून भोवमत मेळयलें आनी संयुक्त मंत्रिमंडळांत हांवें 'गृहमंत्री' म्हूण काम लेगीत पळयलें. त्यावेळार उत्तम संसदपटूच्या इनामा खातीर म्हजी निवड जाल्ल्याचो उगडास आसा.

कॉलेजींतल्या 'शलाका' भित्तीपत्रका खातीर हांव कविता करतालों. पूण त्यावेळचे म्हजे सवंगडी केशव मेश्राम आनी वसंत सावंत इतल्यो बऱ्यो कविता बरयी त्यो वाचून म्हाका तश्यो कविता जमनात म्हणून हांवें कविता करपाचेंच सोडून दिलें. कॉलेजीचे गॅदरींग कमिटीचो जनरल सेक्रेटरी म्हूण एक वर्स हांव वेंचून आयिल्लों. त्या वर्सा आमी रंगभवनांत वर्सुकी स्नेहसंमेलन घेतिल्लें. तेदे वेळचे मंत्री श्री. यशवंतराव चव्हाण हे मुखेल सोयरे आशिल्ले. तांच्या भाशणांत त्यावेळार एक वाक्य आशिल्लें, "सिविलायझेशन इज वॉट वूई हॅव अ‍ॅण्ड कल्चर इज वॉट वुई आर".

त्या वाक्यान म्हज्या मनांत घर केलां. हांव म्हाका स्वताक सदांच विचारीत आसतां, "वॉट वूई आर?" डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरांनी आमकां जें अस्तित्व आनी अस्मिताय दिली, तातूंतच 'आमी कोण' हाची घडण जाली. आमचीय एक वेगळी स्वतंत्र अशी वळख, जाणीव हेरांक आसपाक जाय, जावपाक जाय हें म्हज्या जिविताचें ध्येयच जावन बसलां.

घरची अर्थीक स्थिती लक्षांत घेतल्यार फकत शिक्षण आनी अवांतर गजालींचेर लक्ष केंद्रीत करप म्हाका शक्य नासलें. खरें म्हणल्यार ती चैन म्हाका परवडपा सारकी नासली.

ताका लागून ल्हान-ल्हान नोकऱ्यो करून घर खर्चाक हातभार लावप क्रमप्राप्त आशिल्लें.

अठरा वर्सां जायना फुडें म्हाका पयली नोकरी मेळ्ळी ती कस्टम्स ऑफिसांत क्लार्काची. कसलीं तरी परमिटां दुसऱ्या सॅक्शनांतल्यान तयार जावन आयलीं काय क्रमवारीन अर्जदारांक वांटून दिवपाचें म्हजें काम. म्हज्या जाग्यार काम करपाक आशिल्लो आदलो क्लार्क परमिटां तयार आसतना चार-चार दीस तीं आडावन दवरी. हांव अर्दवरा भितर वांटप करून मेकळो जावचो. ताका लागून बाकीच्यांनी म्हाका धपकावपाक सुरवात केलें. ताचें कारण कितें तें म्हाका

ळना. उपरांत म्हाका कळ्ळें, दरेका परमिटा फाटल्यान चार आणे 'दक्षिणा' वपचो प्रघात आशिल्लो. तांच्या पोटार हांव पांय दवरतां म्हणून काय कितें, पूण यसून म्हजी बदली करची अशेय यत्न जाले. सुदैवान श्री. जयवंत नांवाचे एक ब्रब बरे सायब आशिल्ले, हो प्रकार तांच्या लक्षांत येतकच तांणी म्हजी बदली रपाचें न्हयकारलें.

एक फावट मात वेगळोच प्रकार घडलो. एका अर्जदारान म्हजेर खूश जावन भरपूर सुपाऱ्यांचें एक व्हडलें पाकीट म्हाका भेट म्हूण हाडलें. म्हजे आईक पान खावपाची संवय आशिल्ल्यान तिका खूश करपाक हांव तें पाकीट घेवन घरा आयलों. आईक खऱ्यांनीच आनंद जालो, पूण दादा तिडकले. रागाचे भिरकेंत तांणी त्यो सगळ्यो सुपाऱ्यो भायर कोयरांत शेंवटून मारल्यो. दादांच्या सभावाचो हो गूण म्हज्या मनांत उरलो तो सासणाचो.

कॉलेजीची परिक्षा आयली काय म्हाका रजेची गरज उप्रासची. रजा न्हयकारली काय हांवें नोकरी सोडून दिवची. पदवीधर जाय मेरेन हांवें सात-आठ नोकऱ्यो केल्यो.

नोकरेंतल्या पगाराक लागूनच हांवें बी.ए.चो अभ्यास करता आसतनाच पुस्तकां विकतीं घेवपाक सुरवात केली. खैरमोडे, घोरपडे हांणी बरयिल्ल्या बाबासाहेबांच्या चरित्रग्रंथांचो हांवें अभ्यास केलो. तातूंतल्यान सिद्धार्थ कॉलेजींतल्या चार वर्सां भितर बाबासाहेबांच्या वैचारीक पैलूंची वळख घडली. हातांत पयशे आशिल्ल्यान हांवें बाबासाहेबान स्वता बरयिल्ले जायते ग्रंथ भक्तीभावान विकते घेतले. तांचे विशीं आशिल्ल्या खर आदराक लागून हांवें ते मना सावन वाचून काडले. तांचें चड आकलन मात जावपाक पावलें ना. फुडें रत्नागिरी जिल्ला परिशदेचो मुखेल कार्यकारी अधिकारी आसतना बाबासाहेबांचे विचार खऱ्या अर्थान समजुपाक ताचो आदार जालो.

हांव अर्थशास्त्र विशय घेवन १९६०त बी.ए. जालों. सिद्धार्थ कॉलेजींत शिकता आसतना, खास करून पार्लमॅण्ट गाजयतना फुडें हांवें राजकारणांत पडचें आनी बाबासाहेबांनी आंखिल्लें कार्य म्हजे परीन फुडें व्हरचें अशें मनांत घोळत आसलें. 'ऑल इंडिया शेड्यूल्ड कास्ट स्टुडंटस् फॅडरेशन' आनी 'स्टुडंट्स आंबेडकर ममोरियल कमिटी' असल्या संस्थांच्या मुखेल पदाधिकाऱ्यां मदीं म्हजो आसपाव आसलो. फुडें मुंबय विद्यापीठांत अर्थशास्त्र घेवन एम.ए.चो अभ्यास करता आसतना तो विचार फाटीं पडपाक लागलो. रिपब्लीकन पक्षांतले रागवे-फुगवे

आपापसांत चलिल्लीं झगडीं धुसफूस पळोवन राजकी मळाचेर काम करपाची इत्साच ना जाली.

एम.ए. करता आसतना हांव 'नॅशनल सेविंग्ज ऑर्गनायझेशनां'त 'डिस्ट्रिक्ट ऑर्गनायझर' म्हूण काम पळयतालों, दीसभरयांत फकत दोन-तीन वरांचें 'फिल्ड वर्क' करचें पड. उरिल्लो मेकळो वेळ मुंबय विद्यापीठाच्या ग्रंथालयांत अभ्यास करपांत सारतालों. अर्थशास्त्राचीं खूब पुस्तकां विकतीं घेवप म्हाका परवडपा सारकें नाशिल्लें. तातूंत ग्रंथालयांत मेळटल्या जर्नल्सांत पुस्तकांत आसपावन येवंक नाशिल्ली चालू सगळी म्हायती मेळटाली. हांवें ताचो सारको उपेग करून घेतलो. अर्थशास्त्र विशयाची आवड निर्माण जाल्ल्यान खूब फावटीं दिसतालें, हांवें अर्थशास्त्राचो प्राध्यापक जावचो. खरें पळयल्यार वाख्यानां दिवप हो म्हजो एक छंदच आशिल्लो. नरेंद्रान इंटर सायन्स जातकच संख्याशास्त्र आनी अर्थशास्त्र घेवप, अर्थशास्त्रांत पी.एचडी. करप तशेंच मागीर म्हजे व्हडले चलयेन अर्थशास्त्राचो अभ्यास करप ह्यो म्हगेल्यो सुप्त इत्साच एके परीन फळादीक जाल्यो. ह्या दोगांयनीय आय.ए.एस. जावचें हो म्हजो आग्रो मात मोडींत काडलो. म्हजी व्हडली चली अर्थशास्त्र घेवन एम.ए. करता आसतना, परिस्थितीचेर जसो कितें सूड घेवपा खातीरच काय, पूण हांवें अर्थशास्त्राचे जायते ग्रंथ तिका विकते घेवन दिले आनी तिणें ते वाचलेय बी. त्यावेळार मनांतली एक सुप्त इत्सा पूर्ण जाल्ल्याचें एक वेगळेंच समाधान म्हाका लाबिल्लें.

एम.ए.क म्हाका प्रा. दातावाला, प्रा. लकडावाला, प्रा. ब्रह्मानंद अशे जायते बरे प्राध्यापक आशिल्ले. प्रा. दातावाला आनी प्रा.लकडावाला (हे फुडें नियोजन आयोगाचे उपाध्यक्ष आशिल्ले) म्हजे विशेश आवडीचे. दातावालांचो म्हजेर खास जीव आशिल्लो ताका लागून मार्गदर्शनाची गरज लागल्यार हांव तांकां मेळटालों.

एम.ए. जातकच कितें करचें हो प्रस्न एम.ए. करता आसतनाच म्हाका सतायतालो. प्रा. दातावालान म्हाका सल्लो दिलो, "तूं अर्थशास्त्रांत डॉक्टरेट कर". हांव 'वेल्फेर इकॉनॉमिक्स' हो विशय घेवन उत्तेजनाची अपेक्षा बाळगून प्रा. (कु.) कांता रणदिवें कडेन गेलों.बाईनी मात म्हजो अशे तरेचो अपमान केलो हांवें डॉक्टरेटीचो नादच सोडून दिलो. हांवें परतून दातावालांचो सल्लो घेतलो.

म्हज्या आंबेडकरी विचारांची आनी समाजीक बांदिलकायेची जाणीव जाल्ल्यान काय कितें पूण हांवें सरकारी नोकरेंत वचचें अशें तांणी सुचयलें. डॉ. आंबेडकरप्रणीत समाजीक न्यायाचो पुरस्कार करपी कुशळ प्रशासकी जावन तांचें सपन म्हजे परीन पुराय करचें हें हांवेंय मनांत थारायलें. ते खातीर हांव आय.ए.एस. जातलों हो मना सावन निश्चेव केलो.

कोणाच्या तरी सांगणे वयल्यान, मेट्रो सिनेमा मुखार एलफिन्स्टन हायस्कूलचे पोरणे इमारतींत 'व्हॉकेशनल गायडन्स'चें केंद्र आसा, थंय वचून हांव तुळपुळे नांवाच्या एका अधिकाऱ्याक मेळ्ळों. तुळपुळेन मातूय नाउमेद करिनासतना आय.ए.एस.ची सगळी म्हायती दिली. त्यावेळार दलित वर्गा मदले 'सिद्धार्थ'चे एक माजी विद्यार्थी श्रीधर हाटे हे आय.ए.एस. जाल्ले. तांकांय मेळून हांवें तांचो सल्लो घेतलो. तुळपुळे आनी हाटे ह्या दोगांयनीय म्हाका भोवमोलादीक मार्गदर्शन केलें.

१९६२ ते हांव आय.ए.एस.चे परिक्षेक बसलों. पयल्या यत्नांत येस मेळ्ळें तें मात आय.ए.एस. कडेन जोडून आशिल्ल्या हेर केंद्रीय सेवांनी. 'रेल्वे अकावंट्स' फांट्याच्या प्रशिक्षणा खातीर हांव मसुरीक गेलों आनी ते सेवेंत आसतनाच १९६३ वर्सा आय.ए.एसीं.त जैतिवंत थारलों.

त्यावेळार एक अजापभरीत घडणूक घडली. हांव आय.ए.एस. पास जाल्ल्याची खबर दिल्लींतले डॉ. आंबडकरांचे एक पोरणे सहकारी श्री. शंकरानंद शास्त्री हांकां कळ्ळी. उपाट खोशेन ही आनंदाची बातमी कळीत करपाक तांणी रोखड्या रोखडी मुंबय एक तार धाडली. तिचो मजकूर आशिल्लो, 'जे. डी. जाधव पास्ड आय.ए.एस.'

फांतोडेचेर ती तार घेवन तारवालो आमच्या वडाळ्याच्या घरा आयलो. तेदेवेळार म्हजे अस्वडीं आमच्या घरांतलो इंग्लिशीचो जाणकार म्हणल्यार दिनेश. तागेली इंटर सायन्साची परिक्षा चलताली. आदले रातीं उसरां मेरेन अभ्यास करून तो न्हिदिल्लो. तार आयली म्हूण दोळे चोळीत उठलो. तारेंतलो मजकूर अस्पश्ट दिसतालो. तेदेवेळार तारी बरयताल्यो त्यो कार्बन पेन्सिलीन आनी गिचमिड अक्षरांनी. तातूंत ते न्हिदसुरे दोळे. ताका लागूनच काय कितें दिनेशान तार वचली ती, "जे. डी. जाधव पास्ड अवे".

"बाई, भाऊ गेला गं" अशी किळांच मारून दिनेशाक घुंवळ आयली.

आमच्या घरांत घे आड्डी पडल्यो. शेजारीपाजारी जमले. दिनेश सोडल्यार आमच्या घरांत कोणाकूच तेदेवेळार जाय तशें इंग्लीश कळनाशिल्ल्यान तार परतून सारकी वाचपाचो प्रस्नूच नासलो. सगळे कडेन रडारड सुरू. इतलेंच न्हय तर तो तारवालो परतून वता आसतना ताणे वायट खबर हाडली म्हूण लोक ताकाच गाळी मारपाक लागले.

तेदेवेळार आमच्या शेजराक प्रभाकरन नांवाचो एक मद्रासी बिराडकार रावतालो. ताणें येवन ती तार बारीकसाणीन वाचली आनी सगळ्यांक सांगलें,

''आरे, ये तो अच्चा न्यूज हाय. तुमारा ब्येटा आय.ए.एस. पास हो गया हाय''.

खंतीत जाल्ले सगळे चेरे खिणभरयांत खोशेन परजळ्ळे आनी आनंदाचो जल्लोश जालो.

हांव प्रशिक्षणा खातीर मसुरीक वचपाच्या वेळार बॉम्बे सँट्रल स्टेशन बी.पी.टी.चे चाळींतल्या लोकांनी भरून गेल्लें. तातूंत दलित समाजाचे लोक तर आशिल्लेच, पूण ताचे भायर पोरण्या वडाळ्याचे भय्ये, मुसलमान आनी हेर सगळ्या समाजांतल्या थरांतले लोक हाजीर आसले. फुलांच्या हारांचो घे म्हूण ढीग जमिल्लो. मागीर ते सगळे हार आगगाडयेच्या त्या डब्याक लावन तो सोबीत सजयलो. खरें म्हणल्यार हांव आय.ए.एस. जालों म्हणल्यार नेमको कितें जालों हें भोवतेकांक कळ्ळें ना. कितें तरी भव्यदिव्य घडलां हाची मात तांकां जाणीव जाल्ली. निसुवार्थी भावना भरून ओतताल्यो. दरेकल्याक आपणेंच कितें तरी अप्रुपाय केल्ल्याचो आनंद जाल्लो.

गाडी सुरू जावचे पयलीं दादा म्हाका कुशीक घेवन गेलो, ''तुका आतां उगडास नासत...''

दादान फुडलें सांगचे पयलींच तो कितें उलयतले हाचो एक म्हाका अदमास आयिल्लो. खूब वर्सां आदीं 'हाका खूब शिकय' असो डॉ. आंबेडकरांनी म्हजे बाबतींत दादाक आदेश दिल्लो. दादान बाबासाहेबांचे आज्ञेचें पालन केलें, इतलेंच कित्याक ''मानाच्यो सुवाती पटकायात' हे बाबासायबांचे इत्सेची पुर्तताय घडिल्ली. दादाक इतलो भावनावश जातना हावें ह्यान आदीं केन्नाच पळोवंक नासलो.

केंद्र सरकाराच्या 'रेल्वे अकावंण्ट्सां'त अधिकारी म्हूण म्हजी नेमणूक जाली

ती मुंबय पश्चिम रेल्वेच्या कार्यालयांत. हांवें कॉलेजींत आसतना त्याच कार्यालयांत क्लार्काची नोकरी केल्ली. त्यावेळार वालावलकार नांवाचे एक सज्जन मनीस म्हजे हेडक्लार्क आशिल्ले. हांव ती नोकरी सोडटा आसतना तांणी आपले परीन म्हाका 'समजावपाचो' खूब यत्न केल्लो. फुडें फाटीं आपणा भशेन हेडक्लार्क जावं येत अशें 'आमीश' लेगीत दाखयिल्लें. हांव व्हडलो सायब जावन थंय गेलों तेन्ना ते सेवानिवृत्त जावपाचे वाटेर आशिल्ले. हांव मुद्दाम तांच्या सॅक्शनांत वचून ताका मेळ्ळों. तांकां खूब बरें दिसलें. आपलो अदमास चुकिल्ले खातीर इतली खोस केन्ना कोणाक जाल्ली नासुंये!

रेल्वेंत आसतना कांय दीस हांव सिमलाक आशिल्लों. सदांच कालका-सिमला रेल्वे मार्गान प्रवास घडटालो. पयले श्रेणीच्या मोटार-ट्रेनीन येता-वता आसतना कालका स्टेशनाचे 'सुपरिंटेंडेंट' मोटे अदबीन म्हाका येवकार दिताले. मुखेल म्हणल्यार रेल्वे प्रवासाची धांवपळ, अडचण, रिझर्वेशन हे प्रस्नूच नासले. आय.ए.एस.त जैत मेळटकच रेल्वेचो राजिनामो दिवन हांव कालका ते डेहराडून रेल्वे प्रवासाक भायर सरलों. त्यावेळार हेच स्टेशन सुपरिंटेंडेंट अशे तरेन वागले जणू ते म्हाका वळखच नाशिल्ले. तेदेवेळार म्हजे कडेन पयले श्रेणीचें तिकेट आसतना रिझर्वेशन ना म्हूण म्हाका थर्ड क्लासान प्रवास करचो पडलो. तो पयलो प्रसंग, जंय म्हाका 'व्यक्ती परस कदेलांचें म्हत्व चड आसता' हें बरे तरेन कळून आयलें.

आय.ए.एस.चें प्रशिक्षण सोंपतकच म्हजी पयली नेमणूक जाली ती कोल्हापूरांत 'सहाय्यक जिल्लाधिकारी' म्हूण. थंयच्या वर्स-सव्वा वर्साच्या राबित्यांत गांव पातळी सावन जिल्ला पातळे मेरेनचो महसूल खात्याचो व्याप अभ्यासपाक मेळ्ळो. कामाची प्रत्यक्ष जापसालकी नासली तरी शिकपाची संद बरी आशिल्ली. हांवें तिचो पुराय फायदो घेतलो.

त्यावेळार महाराष्ट्र सरकाराचे वित्त सचीव श्री. पद्मनाभय्या, मुंबयचे पुलीस कमिशनर श्री. सामरा आनी हांव अशे तिगूय एकठांय रावताले. कार्यालयीन कामा उपरांत आमी थंयच्या सांस्कृतीक जिवितांत रस घेताले. हांवें पयलो तमाशा पळयलो तो कोल्हापूरांत. केन्नाय हांवें रंकाळा तळ्याच्या कांठार बसून कविता बरोवच्यो. त्यो मात 'स्वान्त सुखाय' आसताल्यो. खंयच उजवाडाक हाडिनासतना उपरांत हांवें त्यो पिंजून उडोवच्यो.

हांव कोल्हापूराक आशिल्लों ताचें दादाक खूब अप्रूप दिसचें. ताचे नदरेन कोल्हापूर म्हणल्यार शाहू म्हाराजांची कर्मभुमी. एक फावट दादा कोल्हापूराक म्हजे म्हऱ्यांत आयले. त्यावेळार ताका पोरणो राजवाडो पळोवपाचो आसलो; राजारामपुरींत भोंवपाचें आसलें आनी हुपरीक वचून येवपाचें आसलें. म्हाका ताच्या ह्या कार्यक्रमा खातीर अजाप दिसलें. पोरणो राजवाडो कित्याक तर गांवची वेस कशी आसची तें पोरण्या राजवाड्या वयली वेस पळयल्यारच कळटा खंय. दादांक वेशीचें भोव आकर्शण. कित्याक तर ओझराक आमच्या गांवांत आमच्या वाडवडलाचें घर गांवा भायर, वेशी कुशीकच आशिल्लें. साहजीकच, दादांक वेस म्हणल्यार सांस्कृतीक वारसोच दिसचो. दादान म्हणलें, ''एक तर पाटील जावचो, नाजाल्यार वेसकर!'' पाटील गांवाचेर नदर दवरता जाल्यार वेसकर गांवा भायरसून येतल्यांचेर. राजारामपुरी संबंदीच्या आकर्शणाचें कारण वेगळेंच आशिल्लें. आमगेले आरडीकाका कोल्हापूरांत नोकरेंत आसतना राजारामपुरींत रावताले आनी मुंबय आयले काय तांच्यो राजारामपुरीच्यो गजाली बऱ्योच रंगताल्यो. राजारामपुरी म्हणल्यार कोल्हापूरची 'दादर हिंदू कॉलनी'. हुपरी विशीं दादांक कुतूहल, कित्याक तर हुपरी म्हणल्यार कलाकारांचें घर. थंय तयार जावपी चांदीचे गोफ, माळो, कमरपटे, साज म्हणल्यार कलाकुसरीचो कळस अशें दादालें निरिक्षण. हुपरीक गेलों पूण त्यावेळार थंयच्यान कितेंच विकतें घेवन हाडलें ना कित्याक तर तें परवडपा सारकें नाशिल्लें.

त्याच काळांत नोकरेंत कायम करपा खातीर शासनाचे वतीन सरकारी कामकाजाची परिक्षा घेतली. तातूंत उत्कृश्ट येस मेळोवन हांवें म्हजें 'प्रोबेशन' सोंपयलें.

म्हजी पद्दतशीर रितीन पयली नेमणूक जाली ती पुणे जिल्ल्यांत, पयलीं हवेली आनी उपरांत जुन्नर ह्या दोन विभागांत हांवें प्रांत अधिकारी म्हूण काम पळयलें. जमनी संबंदी कायद्यांचें, खास करून म्हार वतन कायद्याचो अभ्यास करून हांवें जायतीं प्रकरणां निकालांत काडलीं. त्यावेळार हांवें दिल्लें दोन-चार प्रकरणांतले निर्णय फुडें उच्च न्यायालयान लेगीत ग्राह्य धरले.

हांवें पयलो दुकळ पळयलो तो पुण्यांत. त्यावेळार तेन्नाचे मुख्यमंत्री कै. वसंतराव नाईक हांणी, उदकाचो 'थेंबो थेंबो आडावन शेता खातीर उपेगांत हाडात' असो आदेश दिल्लो. ते प्रमाण आमी 'लिफ्ट इरीगेशन'च्यो जायत्यो येवजण्यो

जेल्ल्यांत राबयल्यो. ते बाबतींत पुणे जिल्लो आख्ख्या महाराष्ट्र राज्यांत वयर ारलो. ग्रामीण लोकांचे जिणेंत पावसाक कितलें मोल आसता हाची थंय जाणीव जाली.

पुण्यांत आसतना म्हजें लग्न जालें. कोल्हापूरांत आसतना थारिल्लें, पूण मदीं वर्साचो काळ सरलो. कळाव लागपाक तशें कितें कारण नासलें. त्यावेळा वयल्यो नामनेच्यो ज्योतिशी श्रीमती इंदुमती पंडित म्हजे वळखीच्यो आशिल्ल्यो. कोल्हापूरांत तशेंच पुण्यांत त्यो म्हाका मदीं मदीं मेळटाल्यो. एक फावट ताणी सांगलें, डिसेंबर १९६५ बगर तुमचें लग्न जावचें ना. घडये तांचें भविश्य खरें थारचें म्हूण उशीर जाला आसुंये! खरें कारण आशिल्लें, लग्नाचो खर्च घरच्यांचेर पडचो न्हय हो म्हजो आग्रो. ते खातीर कांय रक्कम शिलकेंत उरप गरजेचें आशिल्लें, ताका एक वर्स वचचें पडलें. तरी लेगीत पुणेच्या जनता सहकारी बँकेंत श्री. जमदग्नी हांणी त्यावेळार पांच हजार रुपयांचें रीण मेळोवन दिलें म्हणून लग्न सुवाळो जुळून आयलो.

त्यावेळा वयली एक घडणूक कायमची उगडासांत उरल्या. लग्नाचे निमती येवकार सुवाळो वडाळ्याक दवरिल्लो. सांजवेळ. आमी पोर्ट ट्रस्टाच्या रेल्वे कॉलेनींत रावताले. कॉलनीचे पलतडीं येवकार सुवाळ्याचो हॉल. कॉलनींतल्यान तेवटेन वचपाक दोन फाटकां लागतालीं. आमी वेळार भायर सरलीं, पूण पोर्ट ट्रस्टाच्या दोन फाटकां मदीं आडखळ्ळीं. तातूंत सारकें एक वर गेलें. हॉलाचेर पाव जाल्यार त्यावेळा वयले म्हगेले जायते वरिश्ठ अधिकारी आमची वाट पळयत ताटकळटाले. म्हाका कळाव जाल्ल्यान ह्या इतल्या वरिश्ठांक एकाच वेळार आडखळावन दवरपाची किमया म्हजे कडसून घडली. 'वक्तशीरपणा' विशीं हांव तसो उलोवचों ना, कित्याक तर वेळ काटेकोरपणान पाळपा विशीं म्हजी नामना ना आनी तशी ती केन्नाच नासली. हांवें वेळ पाळपाचे कितलेय जरी यत्न केले तरी येवजूं नाशिल्ल्यो आडखळी सामक्या जिवाभावाच्या इश्टा प्रमाण म्हाका ज्युस्त हात दितात, अर्थात ताका लागून बाकीच्यांची गैरसमजिकाय जाता ती गजाल वेगळी.

पुण्यांत म्हाका अमोल आनी अविस्मरणीय मार्गदर्शन लाबलें तें काकाचें. काका म्हणल्यार म्हजो इश्ट शरद काळे हांचे बापूय. (शरद काळे फुडें मुंबय महानगरपालिकेचे कमिशनर जाले). काकालें पुण्यांत घर आशिल्लें. शरदाक लागून म्हजें तांचे कडेन खूब लागसारपण आयलें. हांव तांगेर कांय दीस रावलों

लेगीत. वेवसायान काका इंजिनियर आशिल्ले, पूण तांगेले बुद्दीची तल्लख तोखणायेची. ते भायर तांगेलो वेवसायीक सल्लो सामको अचूक. पुणे शारा विशीं, पुण्याच्या व्यक्ती विशीं तांचो दांडगो व्यासंग. म्हज्या कामांतल्यो बारीक बारीक गजाली लेगीत हांव सांगिनासतनाच ते सोडयताले ही तर नवलायच. जायते फावटीं, काका म्हाका शरदापरसय लागींचे सांगाती भासताले.

जुन्नर प्रांतांत आसतना हांव खेडाक रावतालों. तेदेवेळार म्हज्या त्यावेळा वयले जिल्लाधिकारी श्री. झुबेरी आनी तांगेले इश्ट, माजी आयुक्त श्री. चव्हाण हांणी म्हगेर येवपाचें थारायलें. खेडांतल्या आमच्या घरांत कदेली, मेजां वा तसल्यो वस्तू नाशिल्ल्योच. म्हजे बायलेक - सौ. पुष्पाक हांवें जेन्ना ह्या पावण्या विशीं सांगलें तेन्ना तांकां कसो येवकार दिवप हो एक कठीण प्रस्न तिचे मुखार उबो रावलो. पुष्पान कोण्याच्या वेळांचो एक हाथरपाटो हाडलो. ताचेर दोन बऱ्यो सोलापूरी चादरी उडोवन घरांत गालीचो तयार केलो. घरांतल्या दोन पोरण्या कदेलां खातीर एका दिसा भितर दोन कवरां शिंवलीं आनी रिकामे बाटलेची फुलदाणी सजयली. सगळी सजावट पळोवन म्हाका तो थाटमाटच दिसलो. आयिल्ले पावणे खूश जावन गेले. घरांतली टापटीपताय पळोवन आनी बऱ्यापैकी फोव आनी फ्रूट जेली दिल्ले खातीर तांणी पुष्पाची तोंड भरून तुस्त केली. त्या दिसाचो उगडास मनांत सासणाचो कोरांतून उरलो. तो इतलेच खातीर, पावण्यांक येवकार कसो दिवप हें पुष्पाक सहज, सुलभतायेन जमलें, हांव मात खांकुडिल्लों.

आजूनय म्हाका कोणाकय येवकार दिवप, आग्रो करप असले प्रकार अजिबात जमनात. म्हज्यांतलो एक दोश म्हाका स्पश्ट जाणवता, तो म्हणल्यार म्हगेर आयिल्ल्या पावण्यांक वा मेळपाक आयिल्ल्या कोणाकय तांचें काम जालें काय ''बरें तुमी वचात'' वा ''तुमी आतां चलात'' अशें रोखठोक सांगपाची संवय यत्न करुनय सुटना.

दादा बऱ्या मुडांत आसल्यार म्हाका 'जयवंत' म्हणटालो. पूण तिडकल्लो आसल्यार 'गधड्या' म्हणटालो. खेडाक हांव आसतना एक फावट तो म्हजेर तिडकलो, कित्याक तर म्हगेर अवेळार आयिल्ल्या पावण्यांक हांवें मेळपाचें न्हयकारलें. दादा इतलो तिडकलो,तांणी रागान म्हाका 'सायब' म्हणलें. मागीर बऱ्याच वेळान ताणें म्हाका 'सायब' अशें कित्याक म्हणलें अशें हांवें विचारलें

तेन्ना ताणें सांगलें, ''आतां तुका गधड्या कसो म्हणूं?'' तेन्ना सावन केन्नाय तिडकल्यार मात ताणें म्हाका 'सायब' म्हणचें. ताका लागून म्हाका 'सायब' ह्या उतराचो राग येता.

खेडाक आसतना हांवें पोरणी हिलमन मोटार घेतिल्ली. कांय दीस ती बरी चल्ली. पूण उपरांत म्हजी पॅत्रॉलाच्या खर्चाची बरीच बचत जावपाक लागली, कित्याक तर अर्द्या परस चड अंतर तिका धुकलून फुडें व्हरची पड. त्यावेळा वयले म्हगेल्या इश्टांनी म्हाका म्हणचें, पुणे ते खेड रस्त्या वयलो दरेका मैलाचो फातर ताका वळखता, कित्याक तर दरेका फातरा कडेन म्हजी गाडी बंद पडिल्ल्यान तांणी ती केन्ना ना केन्ना तरी धुकलपा खातीर हातभार लायिल्लो!

खेडांतल्या राबित्यांत पयलीं म्हाका ग्रामीण वाठाराची सामकी लागशिल्ल्यान वळख घडली. ग्रामीण उदरगतींत लोकांचो सहभाग कितलो भरीव आनी अर्थपूर्ण आसपाक शकता तें नारायण गांवांतल्या सबनीसां कडेन दिसलो, तर अवसरीचे पाटील 'झाडां रोवप' हे एककलमी कार्यावळीन झपाटिल्ले. मंचरचे वळसे पाटील देशभर भाजीपालो पावोवपा खातीर धडपडटाले, तर घोडनदीचे डॉ. दीक्षित गांवगिऱ्या वाठारांतले आरोग्यसेवे विशीं तळमळीन काम करताले. एका परस एक अशीं मनशां म्हाका लागचे इश्ट म्हूण मेळ्ळे. प्रांत अधिकाऱ्यांच्या कायद्या विशीं कामा परस ह्या धडपडपी मनशांचेंच म्हाका खूब कवतूक. खेडाक आसतना जुन्नर आनी आळीफाटा हांगा जातीय तणावाच्या प्रसंगांक फुडो करचें पडलें. त्यावेळार विकास कामांक झोकून दिल्ल्या अश्या जायत्या व्यक्तींची म्हाका बरीच मजत जाली. तांचे मध्यस्थीन हांवें बरेचशे कठीण प्रसंग निभावन व्हेले.

सप्टेंबर १९६७त पदोन्नती जावन रत्नागिरी जिल्ला परिशदेचो मुखेल कार्यकारी अधिकारी म्हूण म्हजी नेमणूक जाली. खेड ते रत्नागिरी हो प्रवास हांवें म्हजे हिलमनान केलो. सांगाताक सौ.पुष्पा आनी धाकलें वर्सभराचें सुचेता. पन्हाळा सोडलें आनी घाटांत गाडी बंद पडली. स वरां घाटांत रखचें पडलें. रस्त्यांत दुसरीं वाहनांय दिसनासलीं. तितल्यांत रत्नागिरी सावन आमकां सोदीत एक जीप आयली. म्हाका सोदपाक आनी घेवन वचपाक जीप आयिल्ल्याचें पळोवन म्हाका पयलेच खेप जाणवलें, हांव खऱ्यांनीच कोण तरी म्हत्वाची व्यक्ती जाल्या! उटंगाराच्या पावसांत घाटांतल्यान वांकडे तिकडे वळशे घेत रत्नागिरीचो प्रवास जालो. त्या

प्रवासांत फातरांच्या आनी कणखर देशाचें दर्शन घडलें. पुणे आनी रत्नागिरी कितलो जमीन आसमानाचो फरक. मातयेचो रंग वेगळो, झाडां लेगीत माडयांचीं सोडल्यार वांकडी तिकडींच. फुडल्या काळांत रत्नागिरींत मेळिल्लीं मनशांय काटक, तल्लख पूण 'ग'ची बाधा आशिल्लीं दिसलीं.

मुखेल कार्यकारी अधिकारी म्हूण जिल्ला परिशदेच्या सगळ्याच कार्यक्षेत्रांत हांव उत्साही आशिल्लों. भरपूर काम करपाचे इर्शेन झपाटिल्लों. त्यावेळार म्हजो अर्द्या परस चड वेळ मात फुडाऱ्यां लागीं वाद घालपांत वतालो. एखाद्या प्रस्नाक दुसरी बाजू आसपाक शकता ही शक्यताय रत्नागिरींत साप न्हयकारिल्ली आसताली.

रत्नागिरींत म्हजो बंगलो सड्याचेर, गांवाच्या एका तोंकाक आशिल्लो. बंगल्याच्या आवारांत तळपां आशिल्लीं, थंय एक फावट व्हडल्या नागोबान दर्शनय दिल्लें. त्या बंगल्यांत तेन्ना एकलें रावप धाडसाचेंच. रत्नागिरी जिल्लो म्हणल्यार मंडणगड सावन सिंधुदुर्ग मेरेन लांबचे लांब. दौऱ्याक लागून हांव चार-चार दीस भायरच उरतालों. दोगी ल्हान चलयांक घेवन पुष्पा हुस्क्यांतच आसतली. बंगलो टेकाडाचेर आनी सकयल येदी व्हडली खाडी. मुखावयल्या व्हारांदाच्या कठड्याचेर बसून खाडींतल्यो व्हडयो-पडावांचो धरचेल्यांचो खेळ पळयत, तशेंच सांजवेळा सुर्याक अस्तमतना पळयत, हातांतल्या कवितेच्या पुस्तकांतल्यो कविता क्षितीजाचेर साकारच्यो. रत्नागिरीचें रमणीय वर्स म्हणल्यार म्हजे नोकरेंतलो म्हाका मेळिल्लो बोनसच आशिल्लो.

फुडें कोयनेचो भुंयकांप जालो. तेदेवेळार हांव चिपळूणाक दौऱ्यार आशिल्लों. भुंयकांपाक लागून वचत थंय आक्रोश जालो. अंतस्करणाक पिंवळ घालपी प्रसंगाक तोंड दिवचें पडलें. अडचणींत सांपडिल्ल्यांक मजत, खास करून वैजकी आदार आनी जेवणाची सोय करप हीं आव्हानात्मक कामां म्हजेर पडलीं.येदी व्हडली जापसालकी म्हजेर येवन पडत अशें म्हाका केन्नाच दिसूंक नासलें. बायलेक आनी दोगी चलयांक हांवें मुंबय धाडून दिलीं आनी कामाक माथे मारलें. विस्थापितांची सुटका करप आनी सामुदायीक जेवणावळी तयार करून तांची तात्पुरती वेवस्था लावप हीं तातडीचीं कामां बेगोबेग हातांत घेतलीं. मागीर घरां, शाळा बी बांदून दिवन विस्थापितांचें पुनर्वसन केलें. हांव बाकीच्या सहकाऱ्यां वांगडा अक्षरशा रातदीस झट्टालों. मुखेल अधिकारी म्हूण म्हाका हेरांक आदर्श घालून दिवपाचो आसलो. त्या कामांत आमकां हिसपा भायर येस मेळ्ळें. वरिश्ठांची पावती लेगीत मेळ्ळी. खास करून त्याकाळच्यो पंतप्रधान कै. श्रीमती इंदिरा

ांधी हांणी आपणें स्वता त्या भागांत दौरो काडून आमच्या कामाची पळोवणी केली आनी पुनर्वसनाच्या आमच्या यत्नांची तोखणाय केली. म्हज्या जिवितांतलो तो व्हडा खोशेचो खीण आसलो.

श्री. अमृतराव भोसले हे त्यावेळार रत्नागिरी जिल्ला परिशदेचे अध्यक्ष आशिल्ले. खूपच निरलस आनी सादो-सरळ मनीस. म्हजें आनी ताचें बरेंच जमिल्लें. पूण ह्या जिल्ल्यांतल्या पक्षीय झगड्यां-झुजांत आनी प्राथमीक शिक्षकांच्यो बदल्यो नेमांचे चाकोरेंतच रावन करपाच्या म्हज्या आग्र्‍हा खातीर म्हाका रत्नागिरींत काम करप अडचणीचें जालें. त्याच सुमाराक दादा दुयेंत आशिल्लो आनी सेवानिवृत्त जाल्लो. हांवें मुंबय घरा लागीं आसप म्हाका गरजेचें दिसतालें. म्हजी बदली मुंबय करची अशी हांवें शासनाक विनंती केली. त्यावेळार मुंबय नेमणूक मेळ्ळी ना पूण हिंदुस्थान ऑरगॅनिक कॅमिकल्स ह्या केंद्र शासनाच्या प्रकल्पांत पनवेल लागच्या रासायनी हांगा बदली जाली.

दादा मुंबय सेवानिवृत्त जाल्ल्यान बॉम्बे पोर्ट ट्रस्टाचें घर सोडपा बगर पर्याय नाशिल्लो. पूण रावपाची पर्यायी सोय नाशिल्ली. ताका लागून चड भाडें दिवन पोर्ट ट्रस्टाच्या घरांत दादा-बाई आनी हेर भावंडां रावतालीं. पर्यायी घराची अडचण जातली हाची दादाक जाणीव आशिल्ली, देखून खूब आदीं ताणें चेंबूरच्या सिद्धार्थ नगरांत स कुडींची एक व्हडली चाळ बांदून दवरिल्ली. पूण आवयबापूय आनी भावांचेर थंय रावपचो प्रसंग येवचो न्हय असो म्हजो निश्चेव आसलो. इश्टाचो एक फ्लॅट चुनाभट्टीक आशिल्लो, थंय हांवें तांची तात्पुरती सोय केली आनी उपरांत वडाळ्याकच 'बसन्त महाल' सोसायटींत आमचो स्वताचो फ्लॅट तयार जालो. तातूंतय खूब्ब अडचणी उप्रासल्यो. घराची सामकीच गरज आशिल्ली म्हणून हयगय करपी सिंधी प्रमोटर कडसून हांवें ती सोसायटीच ताब्यांत घेतली आनी इमारतीचें बांदकाम पुरायेर घालें. त्या यत्नांत एके भन्नाट व्यक्ती कडेन म्हजी इश्टागत जुळ्ळी. श्री. इटुप ही ती आसामी. करारी पूण हेकेखोर, नेमांचो भोक्तो पूण आपलोच आवाज प्यारा समजुपी, सज्जन पूण शाणेपणाची मक्तेदारी आपणा कडेन घेवपी असो हो मनीस जगावेगळो आशिल्लो. ही असामी पु. लं.च्या 'व्यक्ती अन् वल्लीं'तल्यान चुकून निसटल्या आसुंये! म्हाका मात ताणें पुराय साथ दिली. आमच्या यत्नांतल्यान निमाणें एकदांची 'बसन्त महाल'ची इमारत उबी जाली आनी आमच्या घराचो प्रस्न मिटलो.

हिंदुस्थापन ऑर्गेनिक कॅमिकल्सांत काम करता आसतना नवे प्लाण्ट उबारपांत आनी कामगारांक घरां बांदून दिवपाचे बाबतींत हांवें खाशेले यत्न केले. थंय 'ट्रेड युनियन' उबारपांत म्हजो हातभार लागलो. म्हत्वाचें म्हणल्यार बऱ्याचश्या सेंद्रीय रसायनांची वळख जाली. रासायनिकाक आसतना हांव परत परत मुंबय वच. ताका लागून म्हज्या धाकल्या भावा भयणीच्या शिक्षणा कडेन म्हाका कांय प्रमाणांत, पयसुल्ल्यान जायना पूण नदर दवरपाक मेळ्ळी. हांव नासतना म्हजे असवडीं घरांत सगळ्यांत व्हडलो तो सुधाकर, पूण अभ्यासा कडेन ताची ओड नाशिल्ली. ते खातीर हांवें स्वता हेर भावंडाच्या अभ्यासाचे बाबतींत लक्ष दिवप गरजेचें आशिल्लें. हांव रासायनिकाक आसतना दादाक काळजाच्या दुयेंसाचो पयलो झटको आयलो.

१९६९त परभणीचो जिल्लोधिकारी म्हूण म्हजी नियुक्ती जाली. थंय लेगीत कूळ कायदो, कमाल जमीन धारणा कायदो हे बाबतींत हांवें जायतीं प्रकरणां हातामेकळीं केली. कामां उरकून घेवपाची म्हजी संवय इतली जबरदस्त, पयलीं चार-पांच वर्सांत जितलीं प्रकरणां निकालांत काडिल्लीं तितलीं हांवें एका वर्सांत धसाक लायलीं. ते विशींचे विभागीय आयुक्तांचें खाशेलें प्रशस्तीपत्र लेगीत म्हाका दिलें. जायत्या सहकारी गृहनिर्माण संस्थांक, चड करून मागासवर्गांच्या जायत्या संस्थांक, शासनाच्या धोरणा प्रमाण जमनी दिवन तांगेलो रावपाच्या घराचो प्रस्न सोडोवपाची संद म्हाका लाबली. पुष्पान परभणींतूच एक बालवाडी उगडिल्ली. आतां ती व्हडली शाळा जाल्या.

परभणींत म्हाका फिरोज पारेख नांवाचो अवाढव्य मनीस इश्ट म्हूण मेळ्ळो. स्वतंत्र बाण्याचो आनी दिलदार मनीस. तागेली आदली पिळगी मराठवाड्यांत गेल्ली, ते खातीर तिरायतपणान ह्या वाठाराची म्हायती ताचे कडल्यान बरे तरेन मेळ्ळी. पुण्या-मुंबय परस आनी रत्नागिरी परसय सामकीं वेगळीं मनशां हांगा मेळ्ळीं. प्रशासनांत रावसायब, खानसायबांचें प्रस्थ तर गांवागांवांत देशमूखांची चलती. पूण सगळें कशें सुसेगादीन - वेळेचें बंदन नाशिल्लें. त्या जिल्ल्यांत दिसले दोन ठळक वर्ग - एक सुखी-समाधानी, ऐशबाजींत गर्क आशिल्लो, तर दुसरो दळडिरांत लोळिल्लो. मजुरीक थंय मोल नाशिल्लें. गांवागांवांत मात एखाद-दुसरो तरणाटो, चड करून मिलिंद म्हाविद्यालयाचो माजी विद्यार्थी पोटतिडकीन कसली तरी चळवळ करपाच्या जोशांत आसतालो.

परभणी जिल्लो म्हजे यादींत उरतलो तो कांय व्यक्तीगत, कडवट अणभवांक लागून. एक तर, हांव परभणीचो जिल्लोधिकारी आसतना म्हज्या सरकारी बंगल्यांत चोरी जाली, तिचो केन्नाच तपास लागलो ना. दुसरो अणभव तर जायतीं वर्सां कांटो कसो म्हाका तोंपत आशिल्लो. परभणी जिल्ल्यांत कातनेश्वर मंदीर म्हूण एक देवूळ आसा. जिल्ल्यांतल्या सगळ्या वरिश्ठ अधिकाऱ्यांच्या बायलांनी एकठांय जावन त्या मंदिरांत वचपाचें थारायलें. जंय जंय हांवें वचचो थंय थंय म्हजे आदींच म्हजी जात वचून पाविल्ली आसताली. हेर बायलां वांगडा म्हजी बायल कातनेश्वर मंदिरा कडेन पावली तेन्ना बाकीच्या बायलांक भितर वचपाक आडायलें ना, पुष्पाक मात मोटे चतुरायेन पुरयत लोकांनी भायरच उलोवण्यांनी घुस्पावन दवरलें आनी मागीर हुशारेन मंदिरांत वचपाक दिनासतना भायले भायर वाटेक लायली. १९७०त आनी तेंवूय बी जिल्ल्यांतल्या कलेक्टर सारकेल्या उंचेल्या पदा वयल्या अधिकाऱ्याचे बायलेचेर जाती वयल्यान असो प्रसंग येवचो हें घृणास्पद दिसता.

खऱ्यानिशीं पळयल्यार म्हज्या अधिकारांचो वापर करून म्हज्यान त्या पुरयतांक 'सरळ' करूं येतालें. पूण जिल्ल्याच्या कायदो आनी सुवेवस्थेची जापसालकी म्हजेर आसतना हांवें स्वताच व्यक्तीगत कारणाक लागून कायदो आनी सुवेवस्था बिगडावपाक कारण थारचें न्हय हें लक्षांत घेवन हांवें कारवाय करपाचें टाळ्ळें. निमाणें विनंती करून हांवें म्हजी बदली करून घेतली आनी म्हजी नेमणूक मुंबय अतिरिक्त जिल्लोधिकारी म्हूण जाली. जिल्लोधिकारी म्हूण काम केले उपरांत अतिरिक्त जिल्लोधिकारीच्या पदार नेमणूक जाल्लो घडये हांव एकलोंच अधिकारी आसन. नोकरेंत म्हजे परस कनिश्ठ आशिल्ले अधिकारी जिल्लोधिकारी आशिल्ले, उपसचीव आशिल्ले. तेदेवेळार म्हजेर अन्याय जाला अशें म्हाका दिशिल्लें पूण हांवें तक्रार वा ताची वाच्यताय केली ना. ते उपरांत मात मुंबय उपनगर स्वतंत्र जिल्लो जावचो वा ताका स्वतंत्र जिल्लोधिकारी आसचो असो हांवें शासना कडेन प्रस्ताव दवरलो. आतां दोन वर्सां आदीं तो प्रस्ताव फळादीक जावन मुंबय उपनगर हो वेगळो जिल्लो जालो आनी ते खातीर स्वतंत्र जिल्लोधिकाऱ्याची नेमणूक जाली.

अतिरिक्त जिल्लोधिकाऱ्याची जापसालकी निभायतना दोन म्हत्वाच्या आव्हानांक फुडो करचें पडलें. एक तर १९७१ची लोकसभेची सार्वत्रीक वेंचणूक.

दोन लोकसभेच्या मतदारसंघांचो रिटर्निंग ऑफिसर म्हूण मुंबयंतल्यो वेंचणुको वेवस्थीत पार पडपाची जापसालकी म्हजेर सोंपयिली. कसलीच अनुचीत घडणूक घडनासतना वेंचणुको जाल्यो आनी मतां मेजपाचें काम खूब बरे तरेन जालें. ते वेंचणुकेंत एका मतदारसंघांतल्यान न्या. हरिभाऊ गोखले वेंचून आयले आनी केंद्र सरकारांत कायदो मंत्री जाले. म्हजी काम करपाची पद्दत तांकां इतली मानवली, मंत्रीपद मेळ्ळ्या उपरांत आपले खाजगी सचीव म्हूण हांवें काम करचें असो तांणी आग्रो धरलो. दादाची प्रकृती आनी घरच्यांच्या घराचो कठीण प्रस्न सोडोवपा खातीर मात त्यावळार हांवें मुंबय रावप गरजेचें आशिल्लें देखून हांवें ती ऑफर न्हयकारली. दुसरी उल्लेख करपा सारकी गजाल म्हणल्यार मुंबय निर्वासीत म्हूण मुलूंड, चेंबूर, सायन-कोळीवाडो सारकेल्या सुवातांनी रावतल्या नागरिकांक जायतीं वर्सां राबितो करूनय सनदो मेळूंक नासल्यो. त्यो व्हडा प्रमाणांत मेळोवन दिवपाचें काम म्हाका करपाक मेळ्ळें.

ते उपरांत इमारत दुरुस्ती आनी पुनरबांदणी मंडळाचो मुखेल कार्यकारी अधिकारी म्हूण म्हजी नेमणूक जाली. मुंबयच्या मोडपाक आयिल्ल्या हजारांनी इमारतींची पळोवणी करून तांची दुरुस्ती वा गरज आसा थंय पुनरबांदणी करपाचें काम ह्या मंडळा कडेन आशिल्लें. तातूंत मुंबय शारांतल्यो बऱ्योच इमारती, ज्यो 'स्लम' म्हूण जाहीर जाल्ल्यो तांची पुनरबांदणी करपाची एक बऱ्यापैकी येवजण तयार केली. त्या मंडळांत काम करतासतना म्हाका मेळपाक येवपी लोकांचो आंकडो खूब व्हड आसतालो. ताका लागून दीसभर लोकांक मेळप हें एक म्हत्वाचें काम आसतालें. सकाळच्या ७ सावन १० मेरेन इमारतींत भेटी दिवप, ११ ते ६ मेरेन लोकांक मेळप आनी उपरांत रातच्या १० मेरेन कार्यालयीन काम असो भरगच्च पूण त्रासीक दिनक्रम आसतालो. तक्रारी, कागाळी करपी आनी जाल्ल्या कामा विशीं उपकार मानपी अश्या नाना तरांच्या लोकां कडेन गांठ पडटाली. त्या कामाचें वैशिश्ट्य अशें आशिल्लें, मुखार नेमको प्रस्न कितें आसा, ताचेर कसलो उपाय हें निश्चीतच खबर आसतालें, पूण कामाचें स्वरुप इतलें आकांताळें आशिल्लें, कितलेंय काम केलें तरी तें पुरें पडपाचें न्हय. ते खातीर काम केलां ताचें समाधान मेळप पयसूच.

मुंबयचे चाळींतले लोक कशे रावतात ताचें काकुळटवाणें दर्शन त्यावेळार घडलें. गिरणींतले पाळयेचे कामगार एका घरांत पंदरा-वीस जाण रावताले आनी

घरांत न्हिदपाकय तांची रातपाळी-दीसपाळी लायताले. तातूंत तांकां घरपणाचें सूख तें कितें आसतलें? वयल्यान कांय घरां तर खूब व्हडलीं - म्हणल्यार बऽऽरीं दोन-अडेज हजार चौखण फूट क्षेत्राचीं तांकां भाडें मात शें-दिडशें रुपया. असल्या व्हडल्या घरांनी चडशे पारशी बिराडकार दिसले.

मुंबयच्या वेगवेगळ्या वाठारांत सामकीच भिन्न संस्कृताय, आवड आनी संवयेचे लोक पळयले. कुलाबा, ग्रँटरोड वाठारांत मुंबयचे पोरणे भाग्यवंत बिराडकार - त्यावेळा वयले उच्चभ्रू, लालबाग - परळची कामगार वस्ती - धडपडपी मनशां, दादर - गिरगांवांतलो मध्यम वर्ग - सदासर्वदा असमाधानी, मनांतल्या अन्यायाचे भावनेक पोशेत बशिल्लो, मध्य मुंबयंत आशिल्ले उत्तर प्रदेश - बिहारचे कामगार आनी शिवडी- वडाळा वाठारांत देशा वयले माथाडी. हाता वयल्या पोटांच्या ह्या माथाडींचो प्रस्न सगळ्यांत कठीण. हे बाबडे खाणावळी म्हूण रावताले. घर म्हणटा ती वस्त तांचे खातीर नांवा पुरतीच. मुंबयच्या वैभवाच्या पांयांचे फातर हे लोक गिरेस्त मुंबयची चाकरी करपी हे दळडिरे लोक. तांचीं घरां दुरुस्त करप, नवीं घरां बांदप असलीं कामां त्या काळांत केलीं. घर ही बाब अत्यंत म्हारगी आनी सर्वसामान्यांक परवडपी न्हय अशी जाल्या. काळबादेवी सावन घाटकोपराक आनी गिरगांवांतल्यान डोंबिवलीक जाल्ल्या थलांतरान मुंबयचें सगळें मुखामळच बदलून उडोवपी थारलें.

मुंबय घरांच्या बांदावळी खातीर सार्वजनीक गुंतवणूक व्हडा प्रमाणार जावप गरजेचें आसा आनी समाजांतल्या दुर्बळ घटकांक घरा खातीर भरीव सब्सिडी दिवप अत्यावश्यक आसा अशें म्हजें ठाम मत जालां. लंडनांतल्यान 'पब्लिक हावसिंग स्कीम' सारकेली येवजण मुंबयक वरदान थारची.

फुडें म्हजी नियुक्ती सेवा योजना संचालक म्हूण जाली. ह्या संचालनालयाचो हांव पयलोच संचालक, देखून संचालनालयाक स्वतंत्र अस्तित्व दिवपाची म्हजेर जापसालकी आशिल्ली. उमेदवारांची नोंदणी, तांकां तांचे योग्यताये प्रमाण नोकरे खातीर वेगवेगळ्या संस्थां कडेन निर्देशीत करप हांचे सारकेलीं कामां संगणका वरवीं करून घेवपाचे नदरेन येवजण आंखपाचें काम हांवें केलें. सेवा योजना कार्यालयांची उपयुक्तताय तशी मर्यादीत आशिल्ल्याचें म्हज्या लक्षांत आयलें. ताचे बाबतींतलो जो कायदो आसा तो पुराय दुरुस्त जावपाची गरज आसा. दरेक उद्देग घटक वा कार्यालय हांचे लागीं नोकरे खातीर जे जागे निर्माण जातात ते

सेवा योजन कार्यालयांत कळोवप आनी सेवायोजन कार्यालयांतल्यान धाडिल्ल्या उमेदवारांतल्यानच नेमणुके खातीर वेंचून काडप हें बंधनकारक करप गरजेचें. ते नदरेन हांवें कांय यत्न केले, पूण चडशें कांय येस आयलें ना.

संचालक, सेवायोजन पदा वयल्यान कामगार आयुक्त म्हूण म्हजी नेमणूक जाली, पूण त्या वेळा वयल्या कामगार सचीवान फकत तांकां हांव 'नाका आशिल्लों म्हूण' म्हाका त्या पदाचेर रुजू जावपाक दिलें ना. आमचे प्रशासकी सेवेंत हो वेगळो अणभव. वरिश्ठ अधिकाऱ्यांचें लांगूलचालन करप, सहसा तांचे आड वचप ना, तांकां स्वताचें शाणेपण दाखोवप ना ह्यो गजाली पाळ्ळ्यो जाल्यार जायत्या बऱ्या पदार नेमणूक मेळूंक शकता. म्हाका हें केन्नाच जमलें ना. तेच खातीर आसुंये घडये जाका 'प्रायज पोस्ट' वा 'ग्लॅमरस पोस्ट' म्हणूं येता त्यो म्हज्या वांट्याक केन्नाच आयल्यो नात. म्हाका कामगार आयुक्त पदाचेर हाजीर न जावपाक दिवंक ज्या वरिश्ठ अधिकाऱ्यान फुडाकार घेतिल्लो ताचो प्रशासनांत बरोच दबदबो आशिल्लो. त्या सगळ्या प्रकाराक लागून म्हज्या मनांत जी कोडसाण निर्माण जाली ती हांव विसरूंक शकलों ना.

१९७६त ग्रामीण विकास विभागांत उपसचीव म्हूण मंत्रालयांत म्हजी पयली नेमणूक जाली. धा-बारा वर्सां 'फिल्डां'त प्रत्यक्ष काम केले उपरांत आतां हांव मंत्रालयांत पाविल्लों. थंय, प्रत्यक्ष 'फिल्डां'त काम करपाचें जें एक वेगळें समाधान आसता ताका जरी हांव अंतरलों तरी जें काम आशिल्लें तें अणभवांतल्यान विचारांक दिशा दिवपी आशिल्लें.

एकात्मीक बालविकास येवजणे वरवीं भुरगीं, गुरवार आवयो, चड करून आदिवासी वाठारांतले अशे तरेचे समाजघटक हांचे खातीर चलतल्या प्रकल्पांचें वेवस्थापन म्हजे कडेन आशिल्लें. जिल्ला परिशदेच्या कर्मचाऱ्यांक विकासाच्या कामांचें प्रशिक्षण दिवप, तांच्या कामकाजांत सुसुत्रताय हाडप अश्या कांय कार्यांचो म्हाका उल्लेख करीनसो दिसता.

१९६७त णव म्हयन्यां खातीर म्हाका इंग्लंडांतल्या बर्मिंगहॅम, नॉरीय आनी केंब्रिज विद्यापीठांत अभ्यास करपाची उत्कृश्ट संद कॉमनवॅल्थ येवजणे खाला मेळ्ळी. ह्या विद्यापिठांतल्या ग्रंथालयांनी म्हाका खूबच आकर्शीत केलें. त्या वर्सभरयाच्या काळांत हांवें बरेंच लिखाण आनी वाचन केलें. अभ्यासक्रमाच्या

शेवटाक पुष्पा इंग्लंडाक आयलें. उपरांत आमी येवरोपाचो दौरो केलो आनी निमाणें, म्हयनोभर जिनिव्हा हांगा 'अर्थीक विकासाच्यो समाजीक दिशा' ह्या विशयाचो खास अभ्यास केलो.

इंग्लंडांतल्या राबित्यांत थंयच्यो थळाव्यो स्वराज्य संस्था आनी आमचे कडलें पंचायती राज्य हांचो तुळनात्मक अभ्यास जालो. आमच्या पंचायती राज्या विशींची सामकी सविस्तर म्हायती थंयच्या प्राध्यापकांक आशिल्ल्याचें पळोवन अजापूच दिसलें, पूण पंचायत राज्यपद्दतींतल्या बारीक सारीक समाजीक गजालींची जाणीव तांकां उणी दिसली.

महाराष्ट्रांत परततकच समाजकल्याण खात्याचे वतीन महात्मा फुले विकास महामंडळाची उबारणी करपाची म्हत्वाची जापसालकी पयलो कार्यकारी संचालक म्हूण म्हजेर सोंपयिल्ली. त्या महामंडळाच्या कार्याची रुपरेशा थारावप, जिल्ला पातळेचेर कार्यालयांचें जाळें उबारप, प्रकल्पांची आंखणी करप अश्यो जायत्यो जापसालक्यो म्हाका तडीक व्हरच्यो पडल्यो. आयज हें महामंडळ गडगंज बुन्यादीचेर उबें आसा ही म्हजे नदरेन समाधानाची गजाल. राज्यांतल्या दरेका जिल्ल्यांत फुले महामंडळाचें कार्यालय उकतें केलें आनी अनुसुचीत जाती-जमातींच्या उमेदवारांक उद्देजक जावपा खातीर प्रवृत्त करून अर्थीक साहाय्य दिवपाची भरीव कामगिरी ह्या महामंडळाचे वतीन सुरू जाली. म्हाका सरकारी नोकरेंत रावन, मर्यादीत प्रमाणांत जायना पूण समाजकार्य करपाची संद मेळ्ळी.

ते उपरांत पदोन्नती मेळून नियोजन विभागांत आनी वित्त विभागांत सहसचीव म्हूण हांवें काम पळयलें. नियोजन विभागांत वर्सुकी येवजण आनी पांच वर्सुकी येवजण्यां संदर्भांत बाकीच्या सहकाऱ्यांच्या आदारान कृषी संबंदी येवजण्यांची आंखणी करपाक हांवें फुडाकार घेतलो, जाल्यार वित्त विभागांत खर्चाचेर नियंत्रण दवरपाचें काम म्हजेर सोंपयिल्लें. दोनूय जाग्यांचेर काम करतना खूब कितें शिकपाक मेळ्ळें. चड करून त्यावेळार म्हजे वरिश्ठ अधिकारी व्ही. प्रभाकर जे वित्त सचीव म्हूण काम पळयताले तांगेले कार्यपद्दतीचो प्रभाव म्हजेर खूब आशिल्लो. "स्पश्ट उलोवपाचें, एके मयदि मेरेन आपली आग्रहाची भुमिका दवरपाची, आनी एक फावट शासनाचो निर्णय जालो काय तो मागीर तुमगेले भुमिके कडेन मेळटो जुळटो आसूं वा नासूं ताची प्रामाणीकताणेन अंमलबजावणी करपाची" ही शिकवण त्यावेळार मनांत रुजली.

मंत्रालयांत येतकच खास जाणवलें तें, थंय म्हजे शाळेंतले आनी कॉलेजींतले

वांगडा शिकपी इश्ट विविध हुद्यांचेर काम करताले. वळख दाखयताले पूण कोणेंच गैरफायदो घेवन लागसारपण केलें ना वा वळख दाखोवन काम टाळ्ळें ना. म्हाका मात ह्या इश्टांचेर सायबपण दाखोवन काम करपाक खांखुडटालें. कांय प्रसंगांनी तर इश्ट मंडळीनच म्हाका मंत्रालयांतल्या कामकाजांतल्यो आनी फायलींतल्यो बारीकसारीक गजाली दाखोवन दिल्यो. एका परस एक जायत्यो अश्यो व्यक्ती वेगळ्या स्वरुपांत भेटल्यो आनी सार्वजनीक जापसालकी, शासकी काम हाका म्हजे नदरेन वेगळोच, प्रगल्भ अर्थ जडत गेलो.

शासनांत आसतना वेगवेगळ्या विभागांत काम करतना सचिवांच्या कामाक साहाय्यक थारत अशे जायते उपसचीव मेळ्ळे. तशें पळयल्यार, मंत्रालयीन विभागांतले उपसचीव हे आदारस्तंभ थारतात. त्या त्या विभागांत बरींच वर्सां नोकरी केल्ल्यान ह्या उपसचिवांची त्या विभागांतली स्मरणशक्त ह्या उपसचिवांक खास करून आसली. वित्त विभागांतल्या श्री. कर्णिक, ग्रामविकास विभागांतले श्री. दहिभाते, वन विभागांतले श्री. मसलेकर, पदूम विभागांतले श्री. मंडपे, शिक्षण विभागांतले श्री. अक्षीकर (आमच्या छबिलदासाच्या प्राचार्यांचे पूत) आनी श्रीमती देसाई अश्या जायत्या गुणेस्त व्यक्तीं कडेन संपर्क आयलो. हांव तांचेर पुराय अवलंबून नासतालों, पूण हीं मनशां भरवंशाचीं आशिल्लीं. म्हाका जें कितें साध्य करपाक जालें ताचें स्रय निश्चीतच ह्या लोकांक आसा.

आय.ए.एस. अधिकाऱ्यांच्या जिवितांतलो सगळ्यांत म्हत्वाचो टप्पो हांवें मेळयलो तो १९८१त. म्हजी तेन्ना महाराष्ट्र शासनाच्या सचीवपदार नेमणूक जाली. उपसचीव वा सहसचीव म्हूण काम करप आनी सचीव म्हूण काम करप हातूंत गुणात्मक फरक आसता. उपसचीव वा सहसचीव म्हूण काम करता आसतना सांगकामेपण करीत सचिवांची मर्जी राखपाक आयल्यार पुरो जाता. सचीव जातकच मात हें उपकारा पडना. सांगकामेपण करपाक हांगा वाव नासता तर खात्याच्या एकंदर कामकाजाक दिशा दिवपाची जापसालकी आसता. ताका लागून गोड उलोवपा परसय बांधिलकायेची गरज आसता आनी धोरणांची आंखणी करतना आपले समाजीक बांधिलकायेची छाप तुमच्या कामाचेर पडची अशी अपेक्षा आसता. म्हजी तरी तशी धारणा आशिल्ली आनी आयजूय आसा.

कांय म्हयने सामान्य प्रशासनाचो सचीव म्हूण काम पळयल्या उपरांत फलोद्यान आनी समाजीक वनीकरणाचें नवें खातें सुरू करपाची जापसालकी म्हजे कडेन

आयली. फलोद्यान आनी समाजीक वनीकरण खातें अक्षरशा चार दिसां भितर सुरू करपाक आयलें. तेदेवेळार अंतुले मुख्यमंत्री आशिल्ले. मुख्यमंत्र्यांची इत्सा आसली जाल्यार केदोय व्हडलो धोरणात्मक निर्णय आसूं, कितले ताकतिकेन घेवपाक जमता तें दिसलें. हांव आनी एक शिपाय इतल्यांचेर विभाग सुरू जालो. थोड्याच वेळांत राज्यथराचेर दोन संचालनालयां - एक फलोद्यान संचालनालय आनी दुसरें समाजीक वनीकरण संचालनालय - उबारलीं. तांचीं जिल्ला थरा वयलीं कार्यालयां उगडलीं. त्यावेळार अमेरिकेच्या आदारान समाजीक वनीकरणाच्या व्हडल्या प्रकल्पाची आंखणी करून कार्यवाय सुरू केली. महाराष्ट्र राज्यांत समाजीक वनीकरण ही संकल्पना रुजोवपाची कामगिरी म्हजे कारकिर्दींत जाली ही समाधानाची गजाल.

फलोद्यान विभागांत त्यावेळार म्हाका डॉ. जयवंतराव पाटील हांचें खूबच मार्गदर्शन आनी मजत जाली. फलोद्यानाचे बाबतींत जयवंतराव पाटील म्हणल्यार चलतो-बोलतो ज्ञानकोश. ताचे पयलीं ग्रामीण विकास विभागांत आसतना जयवंतरावा कडेन लागसून संबंद आयिल्लोच. शासनांत एखादी नवी येवजण आंखून ती राबोवप म्हणल्यार कसल्यो कसल्यो अडचणी येतात आनी कागदी घोड्यांचें कितलें आकांताळें म्हाझूज जाता तें प्रत्यक्षांत काम करतल्यांकच खबर आसतलें. खास करून नियोजन आनी वित्त विभाग हांच्यो शंका आनी दुबावांचे चाळणींतल्यान प्रस्ताव मंजूर करून घेवप खूबच अडचणीचें आसता, पूण तें एक वेगळ्याच तरेचें समाधान भोगयता. सड्या वयल्या जमीनधारक शेतकाऱ्यांक आदार थारिल्ल्या पडंग जमनी वयल्या फलोद्यान येवजणेची आंखणी करपाचें काम हांवें पुराय केलें. फलोद्यान विभागांत रोंपांच्यो शंबरां वयर नर्सरी उबारल्यो ताचें फळ आयज दिसता. कोंकणांत उबारिल्ल्या नर्सरींक लागून हापूस आनी हजारा आंब्यांच्या कलमांची संख्या दर वर्सा पंचाहत्तर हजारां सावन आतां पंदरा लाखांचेर पावल्या. पयलीं, मुखेलपणान केळीं, द्राक्षां, संत्रां हांचे पुरतें मर्यादीत आशिल्लें फलोत्पादन आतां डाळिंबां, बोरां, चिंचो, मोसंबी ह्या फळांचे बाबतींत व्हडा प्रमाणांत विस्तारलां. समाजीक वनीकरणाच्या कामाक गती दिवपाचे नदरेन यू.एस.ए. आय.डी हे जगप्रसिद्ध संस्थे कडल्यान व्हड मजत आनी कर्जावू रकम मेळपाच्या वावरांतय म्हजो हातभार लागला. ह्या विभागांत दोन-अडेज वर्सां काम करतकच ग्रामीण विकास विभागाचो सचीव म्हणून म्हजी नियुक्ती जाली.

ग्रामीण विकास विभागांत सामके निमाणचे ग्रामपंचायती मेरेन म्हजो संबंद येतालो. गांवगिऱ्या वाठारांतली सामान्य जीण उजळावपाची क्षमताय आनी म्हत्वाकांक्षा ह्या विभागांनी आसा. ग्रामीण उदका पुरवण, आरोग्य सेवा, प्राथमीक शिक्षण, गांवांतले - जिल्ल्यांतले रस्ते आनी महाराष्ट्राक सतावपी तुटवडो आनी अवर्षण, ग्रामपंचायतीच्या - जिल्ला परिशदेच्या कारभारा सारक्या विविध गजालींचेर देखरेख दवरप आनी ह्या संदर्भांतल्यो कार्यावळी कार्यांत हाडप हें व्हडलें आव्हान आशिल्लें. पांच वर्सुकी येवजण्यांतल्यो कार्यावळी हेंच मुळांत दळडीर निर्मूलना खातीर आंखिल्लें. ग्रामविकास विभागाचो तेन्ना तातूंत व्हडा प्रमाणांत सहभाग आसतालो, आयजूय आसा. ह्या विभागांत ग्रामीण विकास येवजण्यो राबोवप आनी ते खातीर दळडीर रेशेसकयल्यो व्यक्ती थारावपाची संकल्पना निश्चीत करपाचे नदरेन हांव सदांच यत्न करीत आशिल्लों. ह्या कामांत म्हाका स.वि.स. पागे हांचें मोलादीक मार्गदर्शन लाबलें.

ग्रामविकास विभागाचो जिल्ला परिशदे कडेन सामको लागींचो संबंद. जिल्ला परिशदेचे पातळेचेर थंयचे अध्यक्ष आनी हेर पदाधिकारी हांची नवी जाणीव, उमेद आनी समाजीक बांधिलकी वेगवेगळ्या स्वरुपांतल्यान दिसून आयली. कांय अध्यक्षां कडेन म्हजें पटनाशिल्लें, पूण तें कार्यपद्दती पुरतें. म्हाका म्हज्या कामांत उस्मानाबादचे मालणीकर, रायगडाचे प्रभाकर पाटील, नगराचे रामनाथ वाघ अशीं मनशां एके तरेन स्फूर्त दितालीं. म्हाका उगडास जाता, एक फावट प्रभाकर पाटील सामके तावातावान म्हज्या रुमांत आयले (तशे ते सदांच तिडकल्ले आनी गडबडींत आसतात) आनी म्हणपाक लागले, "अहो साहेब, तुमगेलो 'गंगाराम' सामकोच बट्ट्याबोळ करता!"

कितें जालें तें म्हाका कळ्ळें ना. गंगाराम म्हणल्यार शासकी जी. आर.! जी. आर. हाका गंगाराम हें सार्थ नांव दिवपी प्रभाकर पाटील वाघा भशेन काम करी, पूण उलयतना कोणाची काकुळट करपी न्हय. एका आदेशांत दिल्ल्यो सुचोवण्यो पुरना अश्यो आसल्यो आनी एक सुचोवणी तांकां गैरसोयेची आशिल्ली देखून तांकां राग आयलो. पूण उपरांत थंडसायेन भासाभास करून जेन्ना तांकां सगळें समजावन सांगलें तेन्ना समाधानान ते रुमांतल्यान गेले आनी त्या दिसा सावन ते म्हजे बरे इश्ट जाले.

फुडें १९८४त त्यावेळा वयले मुखेल सचीव श्री. प्रधान हांच्या आग्राक

लागून हांव नाशिकाक विभागीय आयुक्त म्हूण गेलों. नाशिक हो म्हगेल्या पुर्वजांचो जिल्लो. हांवें थंय वचपाक नाका आशिल्लें. पूण नेमणूक जातकच करतलों कितें? त्यावेळार सार्वत्रीक वेंचणुकांचेर नदर दवरपाचें काम परतून म्हजे कडेन आयलें. तितले मजगतीं वेंचणूक दौऱ्याच्या निमतान माजी पंतप्रधान स. राजीव गांधी हांचे कडेन जायते फावटीं भेटीगांठी जाल्यो. प्रशासकी कामाच्या निमतान म्हजो नेहरू घराण्याच्या तीन पिळग्यां कडेन सामको लागींच्यान संबंद आयलो. १९६३त आय.ए.एस. जाले उपरांत पंडित नेहरूं कडे़न वरभर वार्तालाप करपाची संद म्हज्या सहकाऱ्यांसयत म्हाका मेळ्ळी. १९६८त कोयना भुंयकांपा वेळार कै. इंदिरा गांधींच्या सान्निध्यांत काम करपाक मेळ्ळें आनी १९८४त कै. राजीव गांधींक मेळप जालें. म्हाका हांव हे बाबतींत सुदैवी समजतां. आयुक्त म्हूण नाशिकाक म्हत्वाचें काम आशिल्लें. शासकी विभाग, जिल्ला थरावयले जिल्लोधिकारी आनी जिल्ला परिशदेचे मुखेल कार्यकारी अधिकारी हांचे भितर कामकाजाचे बाबतींत समन्वय सादप आनी ह्या क्षेत्रीय अधिकाऱ्यांच्या कामाचेर देखरेख दवरप ही मुखेल जापसालकी. विभागीय आयुक्त म्हूण काम करप म्हाका तितलेंशें आवडूंक ना. कित्याक तर प्रत्यक्ष काम अशें मोजकेंच आसतालें. देखरेख, दौरे, समन्वय बसको हें काम म्हाका सादारण मास्तरकीचें दिसतालें. वर्स-सव्वा वर्सा उपरांत नाशिकांतल्यान बदली जाली आनी वन खात्याचो सचीव म्हूण हांव परतून मुंबय आयलों.

वन विभाग तसो अनवळखी नाशिल्लो. समाजीक वनीकरण पयलीं पळयिल्लें. वन विभागाचो सचीव म्हूण येतकच हे दोनूय विभाग एकठांय म्हजे जापसालकेंत आयले. ते भायर महसूल विभागांतले 'भूसंपादन' आनी 'मुद्रांक शुल्क' हे विशय आशिल्लेच. वनविभागांत काम करता आसतना पयलीं लक्षांत आयलें, भारतीय वनसेवेंतल्या अधिकाऱ्यांक एके तरेची दुय्यम दर्ज्याची वागणूक मेळटा. खरें म्हणल्यार, वनसेवेचे अधिकारी बरे तरणाटे, बुद्दीमान आनी काम करपांत उत्साही आशिल्ले. त्या अधिकाऱ्यांचो उत्साह वाडोवपाक आनी तांकां उमेद हाडपाक हांवें जायत्या तरांनी कार्यवाय केली. ताचो बरो परिणाम दिसून आयलो. वन खात्यांत मात 'चोरून जंगलतोडी' आड भरीव काम जावपाक शकलें ना. वनतोडी आड परिणामकारक कारवाये खातीर दंडात्मक तरतूद गरजेची आसा. तेच प्रमाण लोकनेत्यांक तातूंत प्रभावी रितीन आसपावन घेवप गरजेचें. कांय वर्सां आदीं

आयिल्लो वन संवर्धन कायदो तसो बरो आसा, पूण त्या कायद्याचें स्वरूप 'गव्हाणींतलो राखणदार कुत्रो' अशें जालां. त्या विभागांत आसतना लक्षांत उरपा सारकेलें दुसरें काम म्हणल्यार मुद्रांक शुल्काबाबतींतलें. ह्या संदर्भांतले नेम दुरुस्त करून शासनाचे तिजोरेंत ह्या शुल्काक लागून भरीव वाड जाली. सुरवेक जो फकत तीस कोटी महसूल आशिल्लो तो आतां चारशें कोटी रुपयांच्या लागीं पावला.

फुडें पशुसंवर्धन, दूदवेवसाय आनी मत्स्यवेवसाय (पदूम) ह्या खात्याचो सचीव म्हूण म्हजी नेमणूक जाली. त्या खात्यांत हांवें अडेच-तीन वर्सां काम पळयलें. मत्स्यवेवसायाचे बाबतींत नुस्तेमारी बोटींचें आधुनिकीकरण, नव्या ट्रॉलर्सांक परवाने, खाऱ्या उदकांतली सुंगटां पोसवण, प्रशिक्षणाची वाडीव सोय हांचेर हांवें भर दिलो. गोड्या उदकांतल्या नुस्त्यांचें मत्स्यबीज पयलीं पश्चिम बंगालांतल्यान महाराष्ट्रांत हाडटाले. वीस नवे प्रकल्प आमी हातांत घेवन थंय आसतना हांवें तातूंतले बारा पुराय केले. परिणामी, महाराष्ट्र राज्याक आतां नुस्त्याच्या बिजा खातीर पश्चिम बंगालाचेर पातयेवन रावचें पडना. उरफाटें आमीच बाकीच्या कांय राज्यांक मत्स्यबीज पुरवण करतात अशी स्थिती आसा. मुख्यमंत्री शरद पवार हांच्या म्हत्वपूर्ण मार्गदर्शनान त्या खात्याच्या बजेटांत तिपेटीन वाड करपाक आयली आनी तातूंतल्यानच मत्स्य विभाग नेटान कार्यरत जालो.

फाटल्या धा-पंदरा वर्सांत दूदवेवसायाची बरीच वाड जाल्या. गायच्या दूद उत्पादनाक म्हत्व वा प्रोत्साहन दिवपाचें धोरण जैतिवंत थारलां. दूद वेवसायाचें वैशिश्ट्य म्हणल्यार सद्दां सुमार एक कोटी रुपया, ह्या दुदाचें मोल म्हूण शारी भागांतल्यान ग्रामीण भागांत वता. उत्पन्न वाटपाचें हें एक उत्कृश्ट माध्यम राज्यांत विकसीत जालां. दीसपट्टे जिणेंत म्हत्वाचे थारपी प्रस्न म्हणल्यार दुदाचो दर्जो, दुदाचो भाव हे बाबतींतलो वाद सतत चालू आसता आनी तो चालूच उरतलो. तशेंच दूदवेवसायांतल्यो सहकारी संस्था, सरकारी संस्था आनी सरकारी यंत्रणा हांचे मतभेद हेवूय चालू उरतले. ह्या प्रस्नांची पुराय सोडवणूक कठीण आसा. पूण वेळावेळार दोनूय बाजू विचारांत घेवन तडजोडीन मार्ग काडप म्हत्वाचें. ते खातीरच हो विभाग म्हणल्यार एक जितो विभाग दिसलो.

पशुसंवर्धन क्षेत्रांत बरे जातीच्यो गायी निर्माण करप, जनावरांच्या आरोग्याची जतनाय घेवप, जनावरांचे खावडींत सुदारणा करप, हीं सदांचीं कामां आशिल्लींच.

म्हजें खास लक्ष आशिल्लें राज्यांतल्या दूद सुकिल्ल्या जनावरांच्या प्रस्ना कडेन. अशा दूद सुकिल्ल्या पारश्या जनावरांची चडीत संख्या म्हणल्यार गांवचे पातळे वयलो चरव, झाडां झुडपांचें लुकसाण, गांवांतल्या गरीब कुटुंबांचे हाल आनी वातावरण दुशीत करपी समस्या. ताचेर उपाय म्हूण हांवें 'गांवगोठो' येवजण तयार केली पूण ती कार्यांत येवपाक शकली ना. कोंबड्यो पोसपाचे बाबतींत सहकारी संस्था उबारून सुरवात बरी जाली. खास करून मागासवर्गियांक कोंबड्यो पोसपाची सहकारी संस्था हें उत्पन्नाचें बरें साधन आसा. तांच्या नांवान चार सहकारी संस्था उब्यो जाल्यो, पूण ते दिशेन आजून बरेंच कितें करपाचें उरलां.

ह्या विभागांत काम करतना एक गजाल खास लक्षांत आयली, सामके ग्रामीण पातळेचेर लेगीत ह्या विशयाचे जाणकार कार्यकर्ते तयार जाल्यात. हे बाबतींत देशभरांत महाराष्ट्र मुखार आसा. खरें म्हणल्यार फुडाराक महाराष्ट्र राज्याची अर्थीक समृद्धी फलोत्पादन, नुस्तेमारी उद्देग आनी दूद वेवसाय हांचेर बऱ्याच प्रमाणांत निंबून उरतली.

ते उपरांत म्हजी नेमणूक जाली ती उच्च आनी तंत्रशिक्षण सचीव म्हूण. ह्या पदाचेर काम करता आसतना देशांत नवें शिक्षणीक धोरण आनी तेच बरोबर कृतीकार्यावळ तयार जाली. शिक्षण विभागांत येवचे आदीं म्हाका प्राध्यापक ह्या वर्गा विशीं एक अतीव आदर, कवतूक दिसतालें. एम.ए.क आसतना हांवें स्वता प्राध्यापक जावपाचे बेतय आंखिल्ले पूण शिक्षण विभागांत काम करता आसतना प्राध्यापक वर्गाचें जें दर्शन घडलें तें निर्शेवणेचें आशिल्लें, म्हज्या समजुतींक वॅर वचपी आशिल्लें. तशें सगळेच प्राध्यापक सुमाराचे आसात अशें न्हय पूण जे थोडेभोव प्राध्यापक - तांचो अपेक्षीत दर्जो, वृत्ती, शिक्षण बी हांचे पासून विचलीत जाले तांकां लागूनच आयची शिक्षणवेवस्था दर्जाहीण जाल्या. शिक्षणाचो दर्जो सुदरावपाचो आसल्यार मुखेल जापसालकी आनी भार प्राध्यापकांचेर घालप आवश्यक आसा. इतलेंच न्हय, तर तांणी स्वता समाजसुदारकाची भुमिका वठोवप सामकें गरजेचें. वर्गांत वचप ना, व्याख्यान दिवप ना, वाख्यानाची पूर्वतयारी करप ना, कॉलेजींत फकत तीन-चार वरां रावप, शिकवणे परस हेर उद्देग - खाजगी क्लासेस - हीं आयचे शिक्षणपद्दतीक लागण जाल्ल्या दुयेंसांचीं लक्षणां आसात. विद्यापिठांतलें राजकारण आनी खाजगी शिक्षण संस्थांची दादागिरी हाका लागून तर परिस्थिती चडूच खालावपाक लागल्या.

ह्या विभागांत जागतीक बँकेच्या साहायान तंत्रशिक्षण सुदारणेचो जो प्रकल्प चालू आसा तातूंत हांवें बरोच रस घेतलो. नवो अभ्यासक्रम सुरू करप, तंत्रशिक्षणाचें प्रशिक्षण दिवप, नव्यो सुविधा निर्माण करून दिवप आदी म्हत्वाच्या गजालींक हांव चालना दिवपाक शकलों. वेवसाय शिक्षणांत केंद्र शासनाचे नवे अभ्यासक्रम व्हडा प्रमाणांत सुरू करपांत म्हजो फुडाकार आसलो.

हें सगळें घडटा आसतना एक गजाल प्रकर्शान जाणवली ती म्हणल्यार, उच्च आनी तंत्रशिक्षणांत संस्था, विद्यापीठ, प्राध्यापक हांकांच नदरे मुखार दवरून काम जातालें. खरें पळयल्यार सगळ्यांत म्हत्वाचो घटक जो विद्यार्थी ताका विचारांतच घेवप जायना. विद्यार्थ्यांक जें आवडटा वा तांकां जें कितें जाय तें शिक्षण घेवपाच्यो सुविधा उण्यो आसात. विद्यार्थ्यांची, चड करून तांच्या पालकांची कुवत हीच म्हत्वाची थारता. सामकें जाका 'मेरीट' म्हणटात तें लेगीत म्हारग्यो शिकवण्यो लायल्यार मेळोवं येता हें स्पश्ट आसा आनी तें सगळ्यांक खबरय आसा. राज्यांतले परिस्थितीचो संदर्भ लक्षांत घेतलो जाल्यार समाजांतल्या उपेक्षीत वर्गांत शिक्षण ही परवडना तसली गजाल घडल्या. तातूंत उच्च आनी तंत्रशिक्षणा खातीर खर्चाचेर आदारीत शुल्क हें तत्व घोशीत करतात तें सारकें ना अशें म्हाका दिसता. तरी लेगीत शासनाचें धोरण पटूं वा ना पटूं, ताची वेवस्थीत अंमलबजावणी करप हें आमचें कर्तव्य आसता.

म्हजे प्रशासकी सेवेंत जायत्यो उमेदीचे-निर्शेवणीचे प्रसंग वांट्याक आयले. चड-उतार आशिल्लेच. पूण आजून मेरेन तरी हे नोकरेन म्हाका काम केल्ल्याचें सतत समाधान दिलां. चड करून सचीव म्हूण काम करपांत वेगळो आनंद आसता. शासनांत सहभागी जाल्ल्याची भावना सुखदिणी आसता. खूब फावटीं शासनाचे निर्णय मना प्रमाण जायनात पूण ताका इलाज नासता. शासकी धोरण एकदम १८० अंशांनी बदलप शक्य नासता पूण सचीव म्हूण तें धोरण कांय अंशांनी जरी बदलपाक जालें तरी कालांतरान ताचे दूरगामी परिणाम जातात. हांव नियोजन आनी वित्त विभागांत आसतना म्हाका सदांच दिसतालें, शासनाच्या वट्ट खर्चांतले किमान चाळीस टक्के वांटो समाजीक सेवां खातीर खर्चुचो, जातूंत शिक्षण, आरोग्य, घर निर्माण, उदका पुरवण ह्यो गजाली आसपावतात. नागरिकीकरणाच्या वाडट्या गरजांचो फावो तसो विचार जायना, ते खातीर भरीव गुंतवणूक गरजेची. वन विभागांत वनसंवर्धना खातीर विभागीय कार्ययेवजण नव्यान

आंखपाचें काम अर्दकुटें उरलां. वनसंरक्षणा खातीर वनविभागाक जाय ती बळकटी आनी सामर्थ्य दिवपाची गरज आसा. वनविभागांत, तेच भशेन पशुसंवर्धन विभागांत काम करता आसतना गांव पातळेचेर दूद आटिल्ल्या जनावरां खातीर 'गांवगोठो' तयार करपाच्या प्रस्तावाक जे तरेन कुशीक उडयलें ताचें म्हाका वायट दिसता. खाजन जमनींतली सुंगटां पैदास शेती ही कोंकणांतल्या अत्यल्प भूधारकांक वरदान थारची अशी. पूण तातूंत हांव उदरगत करपाक शकलों ना. दुदा पसून तयार केल्ले जिनस महाराष्ट्रांत, चड करून पुणे नगर वाठारांत तयार करपाक सहज शक्य आसा, पूण ते जावपाक शकलें ना. अशीं एक न्हय जायतीं कामां तडीक व्हरपाक जमलें ना. एक फावट विभागांतल्यान बदली जाली कांय आपलो संबंद सुट्टा, पूण जावंक नाशिल्ल्या कामाची रुखरुख मात म्हाका खोल मेरेन जायत रावता. तीन ते चार वर्सांच्या कालावधींत एकाच पदाचेर रावपाक मेळत जाल्यार कामां अर्दकुटीं उरूं नजो, पूण शासनांत तें शक्य जायना अशें दिसून आयलां. उच्च शिक्षणा विशींचें धोरण पुराय बदलपाची गरज आसा. ज्या संस्थांक शासनाचे वतीन पगाराचें अनुदान दिवप जाता तें रद्द करपाक जाय. संस्थांक अनुदान दिवपाच्या जाग्यार विद्यार्थ्यांक छात्रवृत्ती दिवची आनी विद्यार्थ्यांनी आपणाक जाय तें कॉलेज निवडचें. कॉलेजीक अनुदान दिवचें तें खाशेल्या कामाक लागून, भांडवली गुंतवणुके खातीर कांय विद्यार्थ्यांक 'फ्रिशिप्स' दिवं येतात. तातूंत घटने प्रमाण जांकां राखीव सुवातो आसात अशे विद्यार्थी, जांचे आवयबापूय अशिक्षीत आसात वा कुटुंबांतले पयले पिळगेंतले जे उच्चशिक्षीत पदवीधर जावंक इत्सूक आसात ते आनी दरेका जिल्ल्यांत गुणवत्तेचेर आदारीत पयले पांचशीं ते एक हजार विद्यार्थी, ह्या घटकांक 'फ्रिशिप्स' आसच्यो. जशे तरेचें मुक्त वातावरण उद्देगीक मळार आसता तशें मुक्त वातावरण शिक्षण क्षेत्रांत आसचें. उच्च आनी तंत्र शिक्षणांत शासनाचो हस्तक्षेप उण्यांत उणो आसचो. राज्यांतले शिक्षण वेवस्थेंत फाटल्या पांच-धा वर्सांत नदरेंत भरसारको बदल जाला, जायत आसा. भोवजन समाजांतल्या कार्यकर्त्यांनी शिक्षण संस्थांचें जाळें विणलां. समाज बदला खातीरची ही खूब बरी आनी गरजेची अशी उदरगत. दोश आसूं येत हे वेवस्थेंत पूण ते सुदारप शक्य आसा. डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरांनी मराठवाड्यांत पिपल्स एज्युकेशन सोसायटी काडली. ताचे फाटल्यान आशिल्लो तो ध्येयवाद, त्याग आनी समर्पीतताय, तें ह्या नव्या संस्थांत कांय अंशान तरी येवप गरजेचें आसा. फाटल्या तीस वर्सांच्या नोकरेच्या काळांत जायत्या विशयांचेर म्हजी कांय स्वतंत्र मतप्रणाली

विकसीत जायत गेली. प्रशासकी नोकरेक लागून म्हाका खूब व्हड संद मेळ्ळी, खूब कितें कितें शिकपाक मेळ्ळें हें न्हयकारपाक जावचें ना.

म्हजे प्रशासकी कारकिर्दीची ही उजळणी करता आसतना हांवें वस्तुनिश्ठ रावपाचो यत्न केला. कांय कडेन मतप्रदर्शीत जालां, पूण तें म्हजें वैयक्तीक मत, तातूंत शासकी हुद्द्याचो भाग ना.

शासकी नोकरेंत आसतना म्हजेर सोंपयिल्ल्यो भोवतेक जापसालक्यो ग्रामीण विकासा कडेन जडिल्ल्यो आशिल्ल्यो. समाजीक नदरेंतल्यान दुर्बळ घटकांक चडांत चड न्याय कसो मेळूं येता, शासकी येवजण्यांचो फायदो तांकां कसो मेळपाक जायत हे म्हजे मानसीकताये कडेन सुसंगत अशी कामगिरी म्हजे कडेन चलून आयिल्ले खातीर म्हाका समाधान आसा.

प्रशासकी नोकरेंत आसतना तीन मूलभूत गजालींचें भान दवरपाची गरज आसता. पयली ही, तुमचे वरिश्ठ वा शासन तुमच्या कामा कडेन कशे पळयतात, दुसरी म्हणल्यार तुमच्या कामा विशीं तुमचे सद्सद्विवेकबुद्दीक कितें दिसता आनी तिसरी, ज्या समाजघटकांच्या फायद्या खातीर तुमी कार्यरत आसतात ताकां तुमच्या कामा विशीं कितें दिसता. प्रशासकी नदरेन ह्या तिनूय बाबतींत येसस्वी जावप ही येसाची गुरूकिल्ली आसता. म्हजे बाबतींत सांगपाचें जाल्यार म्हजे कामगिरी विशीं हांव पुराय समाधानी आसां. बाकीच्या दोन निकशांचेर मात म्हजे कामगिरीचें मुल्यमापन हेरांनी करचें. ते विशीं हांवें उलोवप सारकें दिसना.

प्रशासनांतल्या कामांत म्हगेलीं विशिश्ट मतां घडपाक, दादांच्या तेच भशेन घरच्यांच्या अणभवाची फाटभूंय आशिल्ली. बी.पी.टी. चाळींतलो राबितो, थंयच्या एकूण गरीब आनी मजुरांच्या लागींच्या गरजांचें आकलन आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरांचे विचारप्रणालीचो म्हजे वयलो ठसो. ह्यो सगळ्यो गजाली म्हजी मनोभुमिका तयार करपाक कारण जाल्यो.

हांवें वेगवेगळ्या हुद्द्यांचेर जायते कडेन नोकरी केली. भायल्या गांवांत हांव जंय जंय आशिल्लों थंय थंय दादान येवन वचचें. खास करून दर वेळा तांचो सल्लो आसतालो, म्हज्या कामा विशीं मत आसतालें, घरचो हुस्को करूं नाका म्हूण तो म्हाका चुकनासतना सांगतालो. काम करतना आपणाल्या स्वाभिमानाक

बादा येत असलें कितेंच करूं नाका अशें दादान सदांच सांगचें. तांचे कडेन हांव म्हज्या खाशेल्या कामा विशीं चड उलयनासलों. दादाचो एक सूर कायम आसतालो : सदांच गरिबांचो पांखो घेवचो, सगळ्यांचें आयकून घेवचें, ताठो मिरयत रावचें न्हय बी. तो कोणाकूच काम घेवन म्हजे म्हऱ्यांत धाडिनासलो वा खंयचेय व्यक्तीची सामक्या साद्या अटेस्टेशना खातीर लेगीत फावोर करिनासलो. ह्यो गजाली ते बारीकसाणीन टाळटालो.

हांव नाशिकाक आसतना आमचे जायते सोयरे आनी दादाचे इश्ट नाशिकाक तशेंच आशीकुशीच्या गांवांनी आशिल्ले. कमिशनर म्हूण म्हजे कडेन जायत्या जाणांचीं कामां आसचीं. तातूंतल्या कोणेंय तांकां मेळून जर म्हजे म्हऱ्यांत वचपा खातीर फावोर बी मागलो जाल्यार स्पश्ट उतरांनी तो ताका परतून धाडटालो. तागेलो सभाव एक तर मोटो ताठ, ते भायर स्पश्टवक्तो! तुमचें काम योग्य आसल्यार हांवें सांगिनासतनाच तें जातलें आनी अयोग्य आसल्यार हांवें सांगूनय जावचें ना अशी तागेली रोखठोक भुमिका आशिल्ली.

ज्या समाजांत हांव जल्मलों, त्या समाजा विशीं वयल्या थराचेर आदर तर सोडाच, पूण सहानुभूतीचोय अभाव आसलो. ह्या समाजाचें रीण कांय अंशानी फेडपाचें म्हणल्यार नेमकें कितें करपाचें तें हांवें म्हजे पुरतें थारायिल्लें. मागासवर्गीय समाजांत जल्माक येवन लेगीत एक घराणें सर्वांगीण उदरगत सादून बाकीच्यांचे बराबर येवपाक शकता हें दाखोवन दिवपाची खर इत्सा म्हज्या मनांत सारखी तेवत आसा. ते भुमिकेंतल्यान हांवें म्हज्या भावा-भयणां कडेन तशेंच पुता-धुवां कडेन जितलें लक्ष दिवपाक जायत तितलें दिलें. व्हड जावपाचीं सपनां पळोवपाची प्रेरणा दिली. आयज म्हगेले तिगूय भाव आपणाल्या स्वताच्या यत्नांतल्यान बरे परिस्थितींत थिरावल्यात, ही म्हजे नदरेन खोशेची ठेवण आसा. आमची चौगांय भावांचीं बरीं घरां आसात. लौकीक अर्थान आमचें एकत्र कुटुंब ना, पूण प्रत्यक्ष वेव्हारांत आनी भावनात्मक पातळेचेर आमी एकठांय आसात. म्हजेच वांगडचे हेर इश्ट आसात, तांच्या कुटुंबांचें अशें एकत्रीतपण दिसना.

शासकी नोकरेंत आसतना, कुटुंबा कडेन पळयतना जाका समाजकार्य म्हणपाक जायत तें थोडेभोव जालेंच. सामकें कॉलेजीच्या विद्यार्थी दशेंतल्या दिसांनी डॉ. आंबेडकर मेमोरियल कमिटी ते कांय मागासवर्गीय सहकारी गृहनिर्माण संस्थांचे निर्मितींत वांटो, म्हाका अभिमान भोगपी आमची शलाका सोसायटी,

संघमित्र संस्थेची थापणूक अशे कांय संघटीत यत्न केले, खूब्ब न्हय. पूण तातूंतल्यान एकठांय येवपाची आनी कितें तरी बरें करपाची प्रवृत्ती सांबाळपाक जाली. खास करून हांवें सादारण १९७० ते १९८० ह्या दसकांत खूब भाशणां केल्यां आसतलीं. बाबासाहेबांचे जयंतीक हांव मुंबयच्या लागीं लागीं सगळ्या वाठारांनी व्याख्यानां दिवन आयलां. १९८५ उपरांत मात हें सगळें जरी हांवें बंद केल्लें नासलें तरी खूब उणें केलां. हांव शासकी नोकरेंत नाशिल्लों जाल्यार घडये समाजीक कार्यांत खात्रीन म्हत्वाची कामगिरी करतलों आशिल्लों, पूण हें जालें जर-तर...

आमच्या कुटुंबाचे वाटचाली कडेन फाटल्यान वळून पळयतना म्हाका डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरांची प्रेरणा दिसता, आमचे कुड्डे आजेची दूरदश्टी दिसता, आमचे आईचो त्याग दिसता आनी आमच्या दादाच्या रुपान आमचें कुटुंब उबारणेचे बुन्यादींत दडिल्लो निश्चेवाचो म्हामेरू दिसता. देखूनच आमच्या दादाक सांगचेंशें दिसता :

त्या दोन कणखर हातांनी
भीमसुर्याच्या दोन किर्णांनी
वेंगावन, उजळून काडले
आमकां ।
गांवाचे वेशीच्यो
लांबचे लांब गडद सांवळ्यो
सतत त्या खोंपटांचेर पडिल्ल्यो
सूर्य केन्ना वेशी भायर
उदेवंकूच नाशिल्लो ।
त्या काळखाक फाटल्यान धुकलून तुमी
जिविताच्या रणकंदनांत फुडें
देखून दिसलो
आयचो उजवाड ।
तुमची उंचाय
तुमच्या नातरांक दिसची
देखून तांकां खांदार घेतले

मान मोडून पळयतात वयर
तांकांय दियात तेंच चान्नें
जें दिलें आमकां
ते जातले तुमचे जयवंत!*

* जे. डी. जाधवांचें २ एप्रिल २००२त मरण.

# हांव, सुधाकर जाधव

**आमच्या** घरांत हांव मातसो वेगळों. म्हजें अभ्यासांत लक्ष लागलें ना.

पोरण्या वडाळ्याक रावता आसतना सुरवेक वडाळा मार्केटा लागचे म्युनिसिपल शाळेंत वतालों. रेल्वे लायन वलांडून रान माडयत हांवें शाळेंत वचचें. वाटेर धाकल्या झोंपांचेर सकाळचे जायते पोपट बशिल्ले आसताले. पोपटांक धरपा खातीर शाळेंत वतना हांव बोल्सांत एक धाकटुलो हारसो दवरतालों. त्यावेळार पोपटांक धरप हो म्हजो छंद, आनी हांवें धरून हाडिल्ले पोपट सोडून दिवप हो दादालो छंद जावन पडिल्लो.

फुडें छबिलदासाक वतकच हांवें सदांच शाळा चुकोवची. शाळेच्या प्रगती पुस्तकांत गैरहाजेरीची नोंद आशिल्ल्यान हांव तें दादाक दाखयनासतना तागेले सयेची नक्कल करून शिक्षकांक परतें करी. एक फावट दादा कसल्या तरी कामा खातीर भाऊक मेळपाक म्हूण शाळेंत आयलो. दादाक ताचो वर्ग खबर नाशिल्लो, उरफाटें म्हजो वर्ग तळमजल्याचेरच आशिल्ल्यान तो म्हजे म्हऱ्यांत चवकशे खातीर आयलो. सदचे भशेन हांव वर्गांत नाशिल्लों. त्या दिसा घरा परतले उपरांत दादाच्या हातचो आयिल्लो अणभव वेगळोच.

ल्हान आसतना चवथीच्या वेळार ''बाकीचे सगळे लोक गणपती पुजतात मागीर आमगेर गणपती कित्याक ना?'' अशें येवजून हांवें दनपारची वेळ सादली आनी आमच्याच शेजारच्या घरांतल्यान सरळ एक गणपती चोरून हाडून तो आमच्या घरांत दवरलो. दादा कामारसून येतकच ताका खप्प जालें. मागीर त्याच दिसा राती कडेन गुपचूप दर्याचेर व्हरून 'आमच्या' गणपतीचें विसर्जन केलें.

एस.एस.सी.क आसतना म्हाका सिनेमा पळोवपाचो, तशेंच सिनेमांतल्या पदांचे शौक जडलो. पदांच्यो जायत्यो चोपड्यो हावें जमयिल्ल्यो. अभ्यासाचेर

लक्ष नासलेंच. एस.एस.सी.क हांवें तांत्रीक शिक्षण हो विशय घेतिल्लो. तांत्रीक शिक्षणांत म्हाका मार्क बरे मेळ्ळे. हेर विशयांत मात 'शॉर्ट सर्किट' जावन 'फ्यूज' गेलो! हांव एस.एस.सी.क नापास. ताका लागून दादाची तिडक मस्तकाक पावली. ताणें सगळ्या चोपड्यांची घरांत होळी केली आनी रागारागान म्हाका तो बी.पी.टी. रेल्वेंत कामगार म्हूण भरती करपाक घेवन गेलो. थंयूय म्हज्या नशिबान घात मारलो. वडाळ्याचोच एक मनीस, जाका हांवें जायत्या तरांनी छळिल्लो, फटी सांगून, चिकानां करून जाच्या चावयांचो घोंस ताचे बायले कडसून घेवन हांवें गटारांत मोखून मारिल्लो, नेमक्या त्याच मनशाक सिलॅक्शन बोर्डांत बशिल्लो पळोवन हांव भियेलों - आनी स्वामी रामदास प्रमाण माटवांतल्यान पळ काडली. दादा घरा येतकच म्हजी तेला बगर मालीश घडली हें आनीक सांगपाक नाकाच.

फुडें डायरेक्टर ऑफ टेक्निकल एज्युकेशन ऑफिसाचे एक अधिकारी जे शाळेचे वतीन तांत्रीक शिक्षण घेता आसतना म्हजे 'सुपरवायझर' आशिल्ले तांकां वचून मेळ्ळों. तांणी म्हाका 'गरवारे प्लास्टिक्स' हे कंपनींत 'अॅप्रेण्टिस' म्हूण धाडलो. थंय म्हयन्याक चाळीस रुपया 'स्टायपेंड' घेवन हांवें सुरवात केली आनी फुडें 'असिस्टंट डायमेकर' म्हूण साडेतीन वर्सां नोकरी केली.

भारत सरकारान नाशिका लागसारच्या आमच्या गांवांत, ओझराक मिग विमानांचो कारखानो उगडपाचो निर्णय घेतले उपरांत ट्रेनी टॅक्निशिकयनच्या पदा खातीर नेमाळ्यांतल्यान जायराती येवपाक लागल्यो. घरा कळयनासतना हांवें गुपचूप अर्ज धाडलो. इंटरव्यू जावन निवडय जाली. दादाक हांवें म्हजो विचार सांगतकच ताणें हयकार दिलो. पूण जो मेरेन भाऊ तुका परवानगी दिना तो मेरेन हांव संमती दिवचो ना अशें सांगलें. त्या वेळार भाऊ आय.ए.एस.च्या प्रशिक्षणा खातीर मसुरीक गेल्लो. हावें ताका पत्र घालून सविस्तर कळयतकच ताणें म्हाका तार धाडून परवानगी दिली. दादाले हे कृतीक लागून भाऊलें उतर आमकां धाकल्या भावंडां खातीर हुकूमनामो थारलें.

ओझराच्या मिग विमानाच्या कारखान्यांत 'ट्रेनी टॅक्निशियन' म्हूण आमी देडशें जाण भरती जाल्ले. सरकारी कंपनी आनी तातूंतय विमान कंपनी म्हूण ट्रेनिंग काबार जातकच पगार बरो मेळटलो अशी आमी आस्त बाळगून आशिल्ले. ते खातीर भोवतेक जाण हेर कडल्यो बऱ्यो नोकऱ्यो सोडून थंय आयिल्ले,

आमचो मात सगळ्यांचो भ्रम निवळ्ळो. सुरवेक सगळे मेळून फकत ३५० रुपया म्हयन्याक पगार थारायलो.

अपेक्षाभंग जाल्ल्यान हांवें उबगून हेर सहकाऱ्यां सयत एक कामगार संघटना घडयली आनी मॅनेजमॅण्टा लागीं लढो दिवपाक सुरवात केली. जनरल मॅनेजराक धक्काबुक्की दिवप, मॅनेजींग डायरेक्टराक टॉयलेटांत कोंडून दवरप असलेय प्रकार घडले. आतां मात त्या सगळ्या गजालींची खंत भोगता.

ओझराक हांवें ट्रेनिंग धरून साडेपांच वर्सां काडलीं.तातूंतलीं साडेतीन वर्सां हांव कामगार संघटनेचो सेक्रेटरी आशिल्लों. त्या कालावधींत कामगारांचे संख्येंत खूब वाड जाली. आमचे संघटनेचो व्यापय खूब वाडलो. त्यावेळार आमचे संघटनेचो वावर पळोवपाक नेमणूक केल्ली एक व्यक्ती आयज मुंबय आपली कामगार संघटना सांबाळटा.

ओझरच्या विमान कारखान्यान भ्रमनिरास केल्ल्यान आमी पर्यायी नोकरेच्या सोदांत आशिल्ले. एअर इंडिया आनी इंडियन एअरलायन्सांत आमचे मदल्या जायत्या जाणांची निवड जाली. मिग विमान कंपनीन मात आमच्या सगळ्यां कडल्यान बॉण्ड बरोवन घेतिल्ल्यान ती नोकरी सोडप शक्य नाशिल्लें. मागीर हांवें फुडाकार घेवन डायरेक्टर ऑफ टॅक्निकल एज्युकेशन कडल्यान सगळ्यांचे बॉण्ड रद्द करपाक लायले आनी मार्ग मेकळो जालो.

खासा हांव इंडियन एअरलायन्सांत भरती जावपा खातीर मुंबय परतलों. घरांत आमी सगळ्या भावांनी पगार आमचे आई कडेन दिवचो. सगळो पगार घरांत दिवन, खर्चा खातीर तातूंतल्यान चड पयशे मागल्यारय दिवचे. पगारांतल्यान सांगिनासतना पयशे दवरल्यार मात आईक तें रूचनासलें. पगारांतले सगळे पयशे हांवें घरा दिवचें. 'ओव्हरटायमा'चे मात सगळे पयशे हांव म्हजे कडेन दवरतालों.

नोकरी करचे परस म्हजो स्वताचो कल कसलो तरी उद्देगधंदो करपा कडेन आशिल्लो. ताका लागून इंडियन एइरलान्साची धा वर्सां नोकरी करता आसतना हांवें स्वताची एक पिठाची गिरण घातली.

हातांत पयशे खुळखुळूंक लागले,पूण व्हडा प्रमाणांत उद्देगधंदो करपाक भांडवलाची गरज आसली. भांडवल उबें करपाक हांव मार्ग सोदपाक लागलों. १९७५-७६ वर्स आसुंये. त्यावेळार आखाती देशांत भारतीयां खातीर भरपूर

पगाराच्यो बऱ्यो नोकऱ्यो उपलब्ध जावंक लागिल्ल्यो. घरच्यांचो विरोध आसूनय हांव मध्य-पूर्व देशांत वचपाचो यत्न करपाक लागलों. बऱ्या नशिबान म्हाका दुबयच्या 'गल्फ एअर' हे विमान कंपनींत नोकरी मेळ्ळी आनी डिसेंबर १९७६त हांव दुबय पावलों.

आखाती देशांनी काम करपाचो अणभव वेगळोच आसता. कामगार आनी वेवस्थापन ह्या दोगांनीय नेमाचें पालन काटेकोरपणान करपाचें आसता. बरो सिनेमा लागला म्हूण 'कॅज्युअल लिव्ह' घेवपाची सोय ना वा खोंकली-जोर जाल्ल्याच्या निमतान 'सिक लिव्ह' घेवपाक मेळना. तुमी दुयेंत आसात काय ना आनी ते खातीर 'सिक लिव्ह' कितली घेवप हें थारावपाचो अधिकार फकत सरकारी दोतोरांक आसता. एक फावट ड्युटेर वतना गडबडींत अपघात जालो आनी म्हजे ओंठ फुटले, तीन दांत पडले. सगळे कपडे रगतान माखिल्ले आसतनाय ते आवतिकायेंत म्हाका विमानतळ गांठून काम करचें पडलें आनी काम सोंपतकच सरकारी दोतोरांनी रजा दिली, तिवूय बी फकत दोन दिसांची.

दुबय कामगारांक पगार चड आसता, पूण आमचे कडेन जातात तशे तांचे फाजील लाड करिनात. कामगार फुडारी वा कामगार संघटनांक थंय थारो ना. कामगारांच्या सगळ्या न्याय्य तक्रारींची दाद मात 'लेबर मिनिस्ट्री' वतीन जाता. काम मात वेळच्या वेळार जावपाक जाय. तातूंत सूट मेळप शक्य ना.

दुबयसून घरांत येवपी 'मॉडर्न' वस्तू पळोवन दादांक भोव खोस भोगताली. आपणा खातीर तांची एकच मागणी आसली. ती म्हणल्यार सिगारांची.

सिगारां वयल्यान उगडास जालो, दादा ब्लड प्रेशरान दुयेंत आसतना दवाखान्यांत दाखल जाल्लो आशिल्लो. दोतोरांनी सिगारां ओडपाक पुराय बंदी सांगिल्ली. कांय दिसांनी रावंडाक आयिल्ल्या दोतोरांनी दादाक म्हणलें, "पळयात, तुमी आतां कितले बरे दिसतात ते. जेवण वेवस्थीत, सिगारां ओडिना, ताका लागून तुमचे प्रकृतींत सुदारणा घडल्या".

पूण दादा बरोच वस्ताद. ताणें हांसून खाटी वयलें उशें कुशीक काडलें आनी ताचे पोंदा लिपोवन दवरिल्लें सिगारांचें पाकीट दोतोरांक दाखयलें. तेन्ना दोतोराच्यांनी हांसो आडावंक जालो ना.

दुबय येवन म्हाका सतरा वर्सां जायत आयल्यांत. म्हजी बायल आनी भुरगीं मुंबय आसतात. 'गल्फ एअर'ची नोकरी जाल्ल्यान म्हाका परतून परतून मुंबय

वचपाची संद मेळटा. आतां मात म्हाका मुंबय परतुपाचे वेध लागल्यात. म्हज्या व्हडल्या पुतान नाशिकाक एक 'फॅब्रिकेशन युनीट' घातलां. नाशिकाक तेंकूनच दादाच्या नांवान 'पोल्ट्री फार्म' घालपाक जमीन विकती घेतल्या. आतां मुंबय कायमचें परतुपाक केन्ना जाता तें पळोवपाचें.*

---

* सुधाकर भारतांत परतला आनी आतां मुंबय थायीक जाला.

# हांव, दिनेश जाधव

ये दौलत भी ले लो, ये शोहरत भी ले लो
        भले छीन लो मुझसे मेरी जवानी ।
    मगर मुझ को लौटा दो बचपन का सावन
        वो कागज की कश्ती, वो बारीश का पानी ।

अशें एका शायरान म्हणलां. 'भुरगेपणांतलो काळ सुखाचो' अशें लागीं लागीं दरेकल्याक दिसता. म्हाका मात अजिबात तशें दिसना. वयल्यान भुरगेपणांतलो उगडास जाल्यारय म्हज्या आंगार कांटो उबो रावता, कित्याक तर म्हज्या भुरगेपणांतलो काळ खूब हालांनी गेलो, सुखदिणो न्हय.

उगडासांचे माळेंत फाटीं फाटीं वतना थंय धूसर भुतकाळाची सुरवात जातना दिसता. थंय म्हाका पोरण्या वडाळ्याची चाळ याद जाता. आमचे चाळीचे फाटले वटेन उदकाचो सार्वजनीक नळ आशिल्लो. घरांतल्या पोरण्या पाख्या बाजेर बसतकच जनेलांतल्यान तो नळ दिसतालो. थंय उदकाक लागून एकामेकी कडेन हुज्जत घालपी बायलो, मर्दीच हमरी-तुमरीचेर येवपी दादले हो सदचोच देखाव. नाका तीं उतरां आनी नाका जाल्ल्यो गजाली खूब भुरगेपणांत कानार पडल्यो त्यो थंय. आपणें बरें रावचें, मौजमजा करची अशें म्हाका सदांच दिसतालें. पूण घरची परिस्थिती तितली बरी नाशिल्ल्यान मन मारून रावचें लागतालें ताची म्हाका खंत भोगताली.

हेर भावंडां प्रमाण हांव पांचवे यत्ते सावन 'छबिलदासां'त वचपाक लागलों. थंय भोवतेक भुरगीं गोरीं गोमटीं, नितळ मुस्तायकेंतली. त्या मानान हांव काळो दिसतालों. देखून म्हाका 'कालिया' म्हणटाले.

छबिलदास शाळेन म्हजें व्यक्तीमत्व घडयलें. तशें पळयल्यार दलित समाजांत जल्माक येवनय म्हज्यांत न्यूनगंडाची अशी भावना नाशिल्ली. म्हजो स्वताचेर विस्वास आशिल्लो. 'शुद्र पुर्वी कोण होते?' हें डॉ. आंबेडकरांनी बरयिल्लें

पुस्तक सामकें भुरगेपणांत म्हाका वाचपाक मेळ्ळें म्हणून काय कितें, आपूण बाकीच्यां परस उणे ना आनी तें आपल्या वागपांतल्यान, अभ्यासांतल्यान चारित्र्यांतल्यान सिद्ध करपाचें हे भावनेंतल्यान हांव वागत रावलों. छबिलदासाचे त्यावेळा वयले प्राचार्य श्री. के. गो. अक्षीकर आनी एक शिक्षक श्री. धामणकर ह्या गुरुवर्यांचें म्हजो आत्मविस्वास वाडोवपाच्या कामांत भोवमोल साहाय्य जालें.

ल्हानपणा सावनच म्हाका वाचपाची आवड. मात वडाळ्याचे शाळेंत आसतना 'चांदोबा' सोडून हेर कितें चडशें वाचपाक मेळनासलें. छबिलदासांत वतकच वातावरण पुराय बदलून गेलें. ते शाळेचें सुसज्ज ग्रंथालय पळोवन हांव अजापांत पडलों. दिसाक एक ह्या क्रमान हांवें नवें नवें पुस्तक वाचपाचो सपाटो लायलो. म्हज्या वाचनाक सदांच उर्बा मेळटाली ती गो. म. किराणे ह्या आमच्या शिक्षकाची.

वाचनांत सुरवेक आसतालें तें फडके-खांडेकर हांगेलें साहित्य. फुडें फुडें फडक्यांच्यो कादंबऱ्यो निव्वळ मनरिजवणेचें साधन दिसपाक लागल्यो. ताच्या उरफाटें, खांडेकरांच्या साहित्यकृतींचो मनार परिणाम बिंबोवपाक लागलो. खांडेकरांच्या 'क्रौंचवधा'चीं असंख्य पारायणा केल्ल्याचें स्मरता. फुडें श्री. ना. पेंडशांच्या कादंबऱ्यांची भुरळ पडपाक लागली. काव्याचे बाबतींत सुरवेक मनाक भिडले ते मंगेश पाडगांवकर. कित्याक तर तांच्या कवितांनी सहजताय आशिल्ली. फुडें कुसुमाग्रज आनी बा. भ. बोरकर हांची मोहिनी पडली, कित्याक तर तांच्या काव्याचो आवाठ खूब व्हड आशिल्लो. तांगेली दरेक कविता विचार करपाक लायताली. म्हज्या सुदैवान म्हाका मराठी शिकोवपी प्राध्यापक लेगीत भोवमानादीक मेळत गेले. ताका लागून साहित्यांतलो रस वाडत गेलो, अनुभूती वाडत गेली. तातूंत मागीर हांव छबिलदासच्या 'अभ्युदय' ह्या त्रिम्हयनाळ्या खातीर अदीं मदीं लिखाणय करपाक लागलों. ताका लागून सदच्या अभ्यासा कडेन थोडेशी आडनदर जाली हें मात खरें.

शाळेंत आसतना म्हाका भाशणां करपाचो छंद जडलो. म्हज्या हेर वाचना खातीर काय कितें, पूण १५ ऑगस्ट, २६ जानेवारी आनी हेर दरेके म्हत्वाचे कार्यावळींत म्हजें ल्हानशें भाशण जरूर आसतालें. मागीर मुंबय महानगरपालिकेचो विभाग अधिकारी म्हूण काम करतना लेगीत तोच पायंडो कायम उरलो.

आमचो दादा व्यायामाचे बाबतींत खूब आग्रही. ताका लागून हांव आठवे-

णव्वेंत आसतना दादा वांगडा व्यायाम शाळेंत वचपाक लागलों. तालमींत अर्थात अद्ययावत साधनां नाशिल्लीं. आतां जाका 'घाटी व्यायाम' म्हणटात तो दंड बैठका-मुद्गल हांचो व्यायाम मात भरपूर जालो. हांव आखाड्यांत कुस्त्योय करपाक लागलों. व्यायामाक लागून पुरो जावचें, मागीर हांवें घरा वचून बकाबका जेवन रोखडोच न्हिदचो. अशी म्हजी दिसाची कार्यावळ जावन पडली. ताका लागून परतून वाचना कडेन आनी अभ्यासा कडेन आडनदर जावंक लागली. मात व्यायामाक लागून म्हजी उंची वाडली, वजन वाडलें, कूड बरी घटमूट जाली.

१९६१त एसएससी जातकच हांवें सिद्धार्थ महाविद्यालयांत प्रवेश घेतलो. सिद्धार्थ महाविद्यालयांत वचपाचो निर्णय भाऊंचो. आपूणच म्हाका तो त्यावेळच्या प्राचार्य कर्णिकां कडेन घेवन गेल्लो. छबिलदासांत आसतना भाशेचेर बरे संस्कार जाल्ले. म्हजें रावपय बऱ्यापैकीं 'सादी राहणी, उच्च विचारसरणी' परस म्हाका डॉ. आंबेडकरांचो 'उच्च राहणी, उच्च विचारसरणी' हो मूलमंत्र आपलोसो दिस. ताका लागून घरा कडली परिस्थिती सादारण आसूनय हांव चडांत चड वेवस्थीत रावपाचो यत्न करी. तीच आवड फुडें बळावत गेली. वेवसायीक जिणेंत फुडें हांव जंय जंय गेलों थंय थंय 'वेल ड्रेस्ड मॅन' म्हूण वळखुपाक लागलों. महाविद्यालयांत मात म्हजे स्वच्छ वाणीक लागून आनी वेवस्थीत रावपाक लागून हांव दलित समाजांतल्यान आयलां हाचेर कोणाचोच विस्वास बसनासलो.

सिद्धार्थ महाविद्यालयांत हांवें शास्त्र शाखेंत प्रवेश घेतिल्लो. त्या महाविद्यालयांत म्हाका दोगां नामनेच्या प्राध्यापकांचो सहवास लाबलो. एक - मधू दंडवते आनी दुसरे - अनंत काणेकर.

अनंत काणेकर आमकां मराठी पद्य शिकयताले. तांगेल्या जबरदस्त व्यक्तीमत्वान हांव इतलों भारावन गेलों, तांचे कडेन मुद्दाम जावन वळख करून घेतली. तांकां मेळपाक लागून हांवें परत परत 'कॉमन रुमां'त वचप. एक फावट तांणी म्हाका तांच्या त्यावेळा वयल्या हिंदू कॉलनीच्या घरांत आपयिल्ल्याचोय उगडास जाता.

मधू दंडवते आमकां पदार्थ विज्ञान शिकयताले, तांगेली शिकोवपाची धाटणी बरीच आखीव-रेखीव. वर्गांत पदार्थ विज्ञानाचे विद्यार्थी खूब उणे. दरेकल्या कडेन तांची वैयक्तीक वळख, दरेकल्याचे कुवतीची तांकां जाण. दंडवते सारको आपलेपणान शिकोवपी प्राध्यापक म्हाका लाबलो हें हांव म्हजें भाग्य समजतां.

काणेकरांच्या प्रभावा खातीर काय कितें, पूण सुरवातीक 'कम्युनिझम' विशीं म्हाका खूब आकर्शण जाल्लें. देशाच्या सगळ्या समस्यांक राष्ट्रीयीकरण हो एकूच उपाय आसा अशी म्हजी ठाम समजिकाय जावन पडिल्ली. कम्युनिझमची ओड इतली प्रभावी जाल्ली, आमच्या इश्ट मंडळीं मर्दी एकामेकांक पत्र बरोवपाचें जाल्यार वयर 'श्री. डांगे प्रसन्न' अशें बरावेन सुरवात जावची. फुडें दंडवते हांणी म्हाका डॉ. लोहियांचें चरित्र वाचपाक दिलें. तें वाचून हांव सामको झपाटून गेलों. 'कम्युनिझम'चो फोलपणा, ताची अव्यवहार्ता म्हाका पटली ती लोहियांच्या साहित्यांतल्यान. हांव समाजवादा कडेन ओडून गेलों. एस. एम. जोशी, नानासाहेब गोरे, यदुनाथ थत्ते, सदानंद वर्दे हांचे सारकेल्या लोकांचेर म्हजो मोग जडलो. डॉ. आंबेडकरांक अभिप्रेत आशिल्ली समाजरचणूक घडोवपाचें काम तथाकथित उच्च जातींत जल्माक येवनय दलितांच्या उद्धारा खातीर प्रामाणीकपणान झडटल्या ह्या समाजवादी फुडाऱ्यां कडसूनच जावपाक शकत अशी म्हजी धारणा जावंक लागली.

शाळेंत आसतना दादा खातीर व्यायामाची गोडी तर लागिल्लीच. ताका लागून तरणाट्यांक सोब अश्या खेळांचें आकर्शण जाल्लें. महाविद्यालयांत आसतना हांव 'बॉक्सिंग' शिकपाक लागलों. पयल्या वर्सा हांव सर्तींत देंवलों. झेवियर्स कॉलेजींत सामनो आशिल्लो. पयलेच फेरयेंत म्हजो प्रतिसर्तक बरो आशिल्लो. ताणें नेटान मुठी मारल्यो, ताका लागून म्हजें नाक फुटलें, ओंठ पिनले. आतां घरा वतकच आवयबापूय तिडकतले म्हूण हांव भियेल्लों. म्हाका धीर दिलो तो दादान. ताणें म्हणलें, ''एके जात्रेन काय देव म्हातारो जायना. तशें एके कुस्तीन काय पैलवान रिटायर जायना. आतां तुवें मार खाल्लो न्ही. कोई बात नही. ताचे खातीर तुज्या मनांत जिद्द निर्माण जावपाक जाय. फुडें कितें येस मेळटा तें मागीर पळोवया''.

दादाली तीं उतरां भविश्यवाणे वरी थारलीं. फुडल्या वर्सा एका फाटोफाट हांव सर्ती जिखत गेलों आनी १९६३ वर्साचो 'चॅम्पियन' जालों.

इंटर सायन्सीक आसतना हांवें कॉलेजीच्या जनरल सेक्रेटरीपदाची वेंचणूक लडोवपाची थारायलें. कॉलेजची वेंचणूक म्हणल्यार फकत गिरेस्तांच्या भुरग्यांची मिरासदारी आसताली. वेंचणुकेच्या प्रचाराक भरपूर पयशे लागताले. त्या वेळार

अशोक मंकड आनी सुभाष अंबिये ह्या दोगां क्रिकेटपटूंनी म्हाका सांगात दिलो. पायोनियर बूक डेपो आनी कॉलेजीक आशिल्लो कॅण्टिनवालो हांचे कडसून जायरातीं खातीर पयशे घेवन म्हजीं प्रचारपत्रकां छापलीं. कॉलेजींत नाशिल्लो म्हजो इश्ट रमेश छोत्रे हाणें उत्कृश्ट भित्तीपत्रकां रंगोवन दिलीं. म्हज्या मराठी, हिंदी आनी इंग्लीश तिनूय भासांतल्या भाशणांनी पयल्या वर्सा सावन पदवीच्या निमाणच्या वर्सा मेरेनचे सगळे वर्ग गाजोवन उडयले आनी अत्यंत अटीतटीची वेंचणूक जावन निमाणें हांव जिखलों. वेंचणूक जिखतकच प्रा. डॉ. कर्णिकाक मेळपाक गेलों. तांणी म्हाका सांगलें, जनरल सेक्रेटरीची वेंचणूक जिखिल्लो विद्यार्थी त्या वर्साक केन्नाच पास जाल्लो ना. आमचे कॉलेजीचो हो इतिहास आसा. पूण हांव मात त्या वर्सा पास जालों आनी ती परंपरा खंडीत केली.

सिद्धार्थांत शिकता आसतना म्हाका लश्करी अधिकारी जावपाचीं सपनां पडपाक लागलीं. 'महार बटालियन'च्यो जायत्यो शौर्यगाथा घरांत परतून परतून कानार पडटाल्यो. ताका लागून महाविद्यालयांत दाखल जायतसावन लश्करांतले नोकरेची ओड म्हाका लागिल्ली. चुकनासतना हांव सगळे 'परेड कॅम्प' 'अटेंड' करतालों. एन.सी.सीं.त जे जे भोवमान मेळूं येतात ते सगळे हांवें मेळयले. आमचे कंपनीचो क्वार्टर मास्टर म्हूण म्हजी नेमणूक जाली. नेमबाजींत हांवें प्राविण्य जोडलें.

'इंटर सायन्स' उपरांत 'शॉर्ट सर्विस कमिशन' मेळोवन 'सेकंड लेफ्टनंट' म्हूण लश्कर प्रवेश करचो अशें म्हज्या मनांत जालें. पुराय तयारेन हांवें ते खातीर यत्न केले. कशें कोणाक खबर, पूण म्हाका येस मात मेळूंक पावलें ना. म्हजी निवड जावंक ना म्हूण म्हाका खूब दुख्ख भोगलें. आमच्या घराण्यांतल्या एकल्यान तरी लश्कर, आरमार वा वायुसेनेंत अधिकारी जावपाक जाय आसलें अशें म्हाका आजूनय दिसता.

त्यावेळा वयले एके मजेशीर घडणुकेचो उगडास जाता. आमच्या घरांत म्हजो एन.सी.सी.च्या गणभेसांतलो 'सॅल्यूट' मारता तो ल्हानसो फोटू लायिल्लो. आमच्या गोतावळ्यांतली एक अशिक्षीत बायल आमगेर आयिल्ली तेन्ना तिणें तो पळयलो. फोटवा मुखार उबी रावन तिणें तो बरेच बारीकसाणीन नियाळ्ळो आनी मागीर तिणें म्हणलें, ''आरे वा! दिनाभाऊ ब्यॉंडमधी भरती झालेयत वाटतं''.

लश्करी अधिकारी जावपाचीं सपनां विरगळिल्ल्यान हांवें बी.एस्सी. करपाचो निर्णय घेतलो. खरेपणीं गणित विशयांत म्हाका व्हडलीशी गती आशिल्ली असल्यांतलो भाग न्ही. आव्हानां स्विकारपांत मात एक वेगळोच आनंद आसता, देखून पदार्थ विज्ञान - गणीत हे विशय घेवन हावें 'इन्स्टिटय़ूट ऑफ सायन्स' हातूंत प्रवेश घेतलो. 'इन्स्टिटय़ूट ऑफ सायन्स'ची येदी व्हडली इमारत, व्हडले वर्ग, थोडे विद्यार्थी, सुसज्ज वाचनालय, सगळेंच मनाक भावपी आशिल्लें.

इन्स्टिटय़ूट ऑफ सायन्सांत आसतना म्हाका जायते बरे इश्ट मेळ्ळे. तातूंतल्या कांय इश्टांचो म्हज्या जिविताचेर खूब प्रभाव पडलो. तातूंतले दोन सहाध्यायी इश्टांचो खास उल्लेख करीन दिसता. पयलो - झुझर बंदुकवाला - अत्यंत तल्लक बुद्दीचो, देशसेवेन भारून गेल्लो आनी घरची गडगंज संपत्ती आसूनय सादेपणीं रावपी. अभ्यासाची पद्दत, वागपांतलो शिश्टाचार आनी निर्भयताय हांव शिकलों ती बंदुकवाला कडसून. अमेरिकेंत डॉक्टरेट करून येतकच बडोद्याच्या एम.एस. विद्यापीठांत पदार्थ विज्ञानाचो प्राध्यापक म्हूण नोकरी करीत आयज तो थंयच्या समाज जिवितांत म्हत्वाची कामगिरी करता. दुसरो सहाध्यायी इश्ट म्हणल्यार विकास देसाई - लक्ष्मीपुत्र आसून लेगीत कॉलेजीचे एन.सी.सी. कंपनीचे संचलन सर्तींत पयलो नंबर येवपाक जाय म्हूण रातभर जागून सगळ्यांचे बूट, पट्ट्यो घांसून पुसून चकचकीत करून दवरपी. 'टीम स्पिरीट', 'समाजीक बांदिलकी' ह्या उतरांचो अर्थ म्हाका कळून आयलो तो विकास देसाई खातीर. आयज तोच विकास उत्तम चित्रपटांची निर्मिती करून एक कलात्मक दिग्दर्शक-निर्मातो म्हूण आपणालें एक स्थान तिगोवन आसा.

झुझर बंदुकवाला, विकास देसाई आनी हेर सहाध्यायी इश्टांच्या सहवासाक लागून कळटां-नकळटाना बरे संस्कार घडत गेले. जिणेंत आपणेंय कितें तरी बरें करून दाखोवचें अशी मनात ईर्शा निर्माण जाली. मात व्हडले दोगूय भाव मुंबय भायर आशिल्ल्यान घरा कडेन लक्ष दिवप गरजेचें आशिल्लें. परिणामी पदवीधर जायना फुडें म्हाका नोकरी करप गरजेचें जावन पडलें. सुदैवान नोकऱ्यो मेळपाक म्हाका कसल्योच अडचणी आयल्यो नात.

पदवीधर जाले उपरांत एका म्हयन्यांत 'रिचर्डसन हिंदुस्थान'चे वतीन (विक्स वेपोरब तयार करपी कंपनी) वखदां विकपाची नोकरी म्हाका मेळ्ळी. मराठवाडा-विदर्भ वाठारांत कंपनीक विक्री वाडोवपाची आशिल्ली. ताका लागून वेंचून

काडिल्ल्या गटांत हांव एकलोंच महाराष्ट्रीयन आशिल्लों. एक-दोन म्हयन्यांत म्हजी बदली औरंगाबादाक जाली. दोगूय व्हडले भाव घरा नाशिल्ल्यान म्हज्यान मुंबय सोडूंक जायना. मागीर भाऊच्या सल्ल्यान नोकरेक फाट केली.

ते उपरांत थोड्याच दिसांनी सचिवालयांत 'असिस्टंट'ची नोकरी मेळ्ळी. थंय काम करता आसतना प्रशासनांत कारकुनी मनोवृत्ती, चाकोरीबुद्द हाताळणी आनी मर्यादीत जाणीव कशी आसता ताचें प्रत्ययकारी दर्शन घडलें.

कांय म्हयन्यानीच सचिवालयांतली नोकरी सोडून हांव स्टेट बँकेंत रुजू जालों. स्टेट बँकेंत काम करता आसतनाच 'इनकम टॅक्स इन्स्पेक्टर'चे परिक्षेक बसलों आनी पयले श्रेणीचे गूण मेळोवन लेखी परिक्षेंत जैतिवंत जालों. मुलाखती खातीर श्री.गणपती नांवाचे एक कमिशनर आशिल्ले. महाविद्यालयींन जिणेंत ते स्वताय 'बॉक्सर' आशिल्ल्यान आमचे सूर तत्काळ जुळून आयले. म्हजी इनकम टॅक्स इन्स्पेक्टर म्हूण निवड जाली.

इनकम टॅक्स विभागांत काम करता आसतना गिरेस्त लोकांकडेन संबंद आयलो. विभागाचे वतीन हेर वरिश्ठ अधिकाऱ्यां वांगडा धाडी घालतकच जाग्या जाग्यांनी संपत्तीचें जें दर्शन घडलें तें दोळे दिपकावन सोडपी आशिल्लें. व्हडले कानखानदार वा सिनेमा मळा वयली मंडळी हांच्या घरांत जें ऐश्वर्य पळोवपाक मेळ्ळें तें अजापीत करून उडोवपी आशिल्लें. गिरेस्त लोक कशे जगतात आनी दलित समाजांतले आमी बाकीचे लोक कशे जगतात हाची मनांतल्या मनांत तुळा जावपाक लागली. समाजांतले संपत्तीचें कांय विशिश्ट वर्गा कडेनच एकठावप जाल्ल्याचें प्रकर्शान जाणवलें. तातूंत दलित समाजाचो कितलो वांटो, आमी तातूंत खंयच ना हाची खंत भोगपाक लागली.

इनकम टॅक्साचे नोकरेचो एक परिणाम असो जालो, आमच्यांनीय बी नोकरेचे फाटीक लागनासतना स्वताचो एखादो उद्देग काडूं येता हो विचार मनांत घोळपाक लागलो. अर्थीक फाटबळ मात नाशिल्लें. वित्त संस्थांच्या पालवान स्वताचो उद्देग सुरू करप शक्य जावं येतालें, पूण ते खातीर लागपी नैतीक बळ म्हज्यांत नाशिल्लें. उद्देगांत बुडलों जाल्यार कशें सांवरपाचें हाची समाधनकारक जाप मेळना जाली. ते खातीर नोकरेंतल्यान मेळटले सुरक्षिततायेचो पालव सांबाळून रावपाचें थारायलें.

१९७४त केंद्रीय लोकसेवा आयोगाचे वतीन 'असिस्टंट डायरेक्टर, सिमेन्स

एम्प्लॉयमॅण्ट' हे नौकानयन मळांतल्या पदा खातीर आयिल्ले जायरातीन नदर ओढून घेतली. हांवें अर्ज केलो. पद्दती प्रमाण तो अर्ज म्हज्या वरिश्ठांचे वतीन धाडपाचो आशिल्लो. त्या वेळार देशपांडे नांवाचे आमचे कमिशनर आशिल्ले. म्हजें मन वळोवपाचो तांणी जायतो यत्न केलो. हांगाच तूं फुडेंफाटीं अधिकारी जातलो अशें आमीशय दाखयलें. म्हजें मन मात इन्कम टॅक्साचे नोकरेंत रमनाशिल्लें. स्वताक 'इन्स्पेक्टर' म्हणून घेवपाक उणेपण दिसतालें. आपूण अधिकारी आसा म्हणपाचें हेरांक सांगपाक मेळूंक जाय अशें सामकें दिसतालें.

हांवें अर्ज केलो. म्हाका रिती प्रमाण मुलाखतीक आपयलो. एकूच सुवात आशिल्ली. वशीलेबाजीचे भिरांतेन मनांत धाकधूक आशिल्ली. सुदैवान म्हजी निवड जाली. निमाणें हांव एकदांचो अधिकारी जालों. म्हजी नेमणूक मात जाली ती कलकत्ता बंदरांत.

म्हजो व्हडलो भाव तेन्ना बदली जावन मुंबय आयिल्लो, ताका लागून म्हाका मुंबय सोडप शक्य आशिल्लें. पूण तो मेरेन हांव केन्नाच घर सोडून पयस रावंक नाशिल्लों. तातूंत १९७४ वर्सा कोलकाता म्हणलें काय बॉंबस्फोट, जाळपोळ, फारपेट, मारामाऱ्यो असल्यो बातम्यो नेमाळ्यांनी सतत झळकताल्यो. ताका लागून घरांतलीं सगळीं जाणां अस्वस्थ जालीं. पूण हांव हट्टाक पेटिल्लों. बायल, देड-दोन वर्सांची चली आनी सव्वा म्हयन्याचो चलो हांकां हेर कुटुंबाचे सुवादीन करून हांवें कोलकात्याक वचपाक प्रस्थान दवरलें.

कोलकात्याक शिपिंगाचे एक वरिश्ठ अधिकारी मेळ्ळे. तांचें नांव श्री. के. जी. देशपांडे.पयलेच भेटेंत आमची 'वेव्हलेंग्थ' जुळून आयली. म्हाका स्वताक भुरग्या प्रमाण मानून ताणें हेर सगळ्यांची वळख करून दिली आनी म्हजें बस्थान कोलकात्याक बसपा खातीर सगळे तरेन आदार केलो.

सुरवेक हांव कोलकात्याक एकलोंच आशिल्लों. मेकळो वेळ आसतालो तेन्ना हांव पांयांनीच भोंवतालों. थंयचे दळडिरे आवतिकायेचें जाल्लें दर्शन मनाक हुलोप लावपी, अंतर्मूख करपी आशिल्लें. ह्यान आदीं बलराज साहनींचो 'दो बिघा जमीन' हो प्रत्ययकारी चित्रपट पळोवन रिक्शावाल्यांच्या श्रमाची कल्पना आशिल्लीच, पूण आतां तांचें जिवीत प्रत्यक्ष लागसून पळोवपाक मेळ्ळें. रिक्शावाले चडशे बिहारी, जमीन नाशिल्ले, शेतमजूर, सावकारा कडेन घाणाक पडिल्ल्या जमनी वयल्या कर्जाचें व्याज वजें फारीक करपा खातीर वर्साचे बारा म्हयने

जिवाचें रान करून रिक्शा ओडीत पातीशेरूच आसताले. सातूचें पीठ उदकांत कालोवन ताची मुठली आनी हरव्यो मिरसांगो हेंच नित्याचें खाण. पयलीं इन्कम टॅक्सांत काम करता आसतना हांवें ऐश्वर्य पळयिल्लें, आतां काकुळटेचें दळडीरपणाचें दर्शन घडटालें. जिणेचो हो अणभव दलित समाजांतल्यान आयिल्ल्या म्हजे सारक्याक लेगीत नवो आशिल्लो. दळडीरेपण कितलें आसूंक शकता आनी मनशाक कितें करपाक लावं शकता हाचें भिरांकूळ दर्शन म्हाका कोलकात्याक घडलें.

असिस्टंट डायरेक्टर, सिमेन्स एम्प्लॉयमॅण्ट म्हूण म्हजें काम आशिल्लें ते खलाशांच्या नोकरे विशींचे प्रस्न सोडोवपाचें. भोवतेक खलाशी मराठी, कोंकणी वा मराठी उलोवपी. मराठी वांगडा म्हाका कोंकणी गिन्यान आशिल्लेंच, पूण तेच बराबर हांव जुजबी बंगाली उलोवपाक शिकलों. दरेका खलाशा कडेन हांव ताचे भाशेंत संवाद सादपाचो यत्न करी. ताका लागून त्या सगळ्यांक हांव जायजायसो दिसपाक लागलों. हांव जे अर्थीक थरांतल्यान आयिल्लों ते खातीर आसुंये वा कोलकात्याच्या पिंजून उडोवपी दळडीरपणाक लागून आसुंये. पूण म्हाका 'कम्युनिझम' परतून लागींचो दिसपाक लागलो. ते खातीर वेवस्थापन आनी खलाशी कामगार हांचे मदीं तंटे उप्रासल्यार हांवें कितलोय निपक्षपाती रावपाचो यत्न केलो तरी कळटा-नकळटना म्हजो कल कामगारांचे वटेन आसतालो. म्हाका म्हज्या कामाक न्याय दिवपाक येवचो म्हूण म्हज्या वरिश्ठांनी म्हाका तशी जाणीव करून दिली.

त्यावेळा वयलो एक प्रसंग सांगचोसो दिसता. तेल हाड-व्हर करपी 'छत्रपती शिवाजी' नांवाचे एके बोटीचेर कोलकाता लागच्या हाल्दिया बंदरांत खलाशांनी संप केल्लो. हांव असिस्टंट शिपिंग मास्टर आशिल्लों. त्यावेळार शिपिंगाचे डायरेक्टर जनरल आशिल्ले भावे (फुडें ते महाराष्ट्राचे मुखेल सचीव जाले). तांणी म्हाका दूरध्वनी वयल्यान आदेश दिलो,

''स्वता थंय वच आनी संप मिटय. फाल्यां बोट सुटली ना म्हूण सांगूं नाका''.

सांजवेळच्या स वरांचेर हावें कोलकाता सोडलें. कांय वरिश्ठ सहकाऱ्यां सयत कारीन शंबर मैलांचो प्रवास करून हाल्दियाक पावलों. वातावरणांतलें शीं बादतालें. पूण थंयचें वातावरण मात बरेंच तापिल्लें आशिल्लें. घातपात जावपाची शक्यताय आसा अशें बाकीच्यांनी सादूर करून दवरिल्लें. हांव बोटी कडेन

पावलों जाल्यार खलाशांनी 'गँग वे' आडावन धरिल्लो. भितर कोणाकूच वचपाक दिनासले. हांव शांतपणान 'गँग वें'तल्यान फुडें वचपाक लागलों. खलाशां भितर थोडी कुजबूज जाली. निमाणें तांणी म्हाका वाट मेकळी करून दिली. प्रथे प्रमाण हांव कॅप्टना म्हऱ्यांत वचनासतना खलाशी कामगारांच्या 'प्रेसांत' गेलों आनी थंयच्या भांडारीक (रांदप्याक) आदेश दिलो, 'म्हाका भूक लागल्या, जेवण दी'.

रातचीं इकरा जाल्लीं. म्हजो आदेश आयकून त्या भांडारीचो आपल्या कानाचेर विस्वास बसना. कॅप्टनाच्या कॅबिनांत वचून मचमचीत जेवणाचेर ताव मारपाचें सोडून हो सायब हांगा कित्याक जेवपाक आयला हें ताका कळना. आनंदान आनी अजापान तो रांदपाक लागलो. हांव थंयच बसून आसलों. ल्हवू ल्हवू खलाशी आशीकुशीक जमूंक लागले. आपणालीं गाराणीं सांगपाक लागले. खरें म्हणल्यार, तांगेले मतभेद आशिल्ले ते फकत गैरसमजांचेर. तांचे वांगडा जेवता आसतना तांगेलें म्हणणें आयकून घेतले उपरांत हांवें कॅप्टनाक सकयल आपोवन हाडलो. कांय मिनटांतच तांची समजावणी घडोवन हाडली आनी संप मिटलो. तेदे वेळार एक खलाशी उलयलो, ''सगळे सायब लोक बोटीर येतात, कॅप्टना वांगडा सोरो पितात आनी थंयच खावन-जेवन वतात. आमचें समजून घेवपी आनी आमचे मदीं बसून खावपी अधिकारी आमी आयजूच पळयला''.

म्हज्या कश्टांची पावती म्हाका थंयच मेळ्ळी. हांव फांतोडेर कोलकात्याक पावलों आनी मुंबय भावे सायबांक टेलिफोनाचेर निरोप दिलो - संप मिटलो. तांचो विस्वासच बसना हाचेर. तांणी म्हणलें, ''बोट सुट्टकच सांगात''.

बोट वेळार सुटली. म्हाका 'वायरलेस'चेर निरोप मेळ्ळो. हांवें रोखडेंच भावेसायबांक कळयलें. आपणाक जाल्लो आनंद तांच्यानी लिपोवपाक जालो ना. तांणी ते विशींचें खास अभिनंदनाचें एक पत्र म्हाका धाडून दिलें. ते कामगिरीचो एक परिणाम असो जालो, संप मिटोवपा खातीर कोलकाता बंदरांतलो सुयोग्य अधिकारी हांवूच असो समज वरिश्ठ अधिकारी वर्गांत पसरलो. ताका लागून मुंबयची ओड लागूनय मुंबय बदली मेळना जाली.

मागीर हांवें म्हजी बायल - मंजू आनी भुरग्यांक कोलकात्याक आपोवन हाडलीं. महाराष्ट्र सदना लागीं ल्हानशें एक घर भाड्यान घेतलें. घरांत टेलिफोन, टिव्ही बी कांयच नाशिल्लें. तरीय तें घर भुरग्यांक खूब मानवलें, कित्याक तर आशीकुशीचें वातावरण खूब बरें आशिल्लें. मुंबय उणावान जाणवपी मोगाची ओलसाण थंय आशिल्ली. एकादें भुरगें जरी वस्तींत दुयेंत पडलें तर आशीकुशीच्या

सगळ्यांच्या चेऱ्याचेर खिन्नतायेची सांवळी फांकताली. म्हाका घरा वचपाक कळाव जालो तरी आपूण जावन घरच्यांची काळजी घेवपी थंय आशिल्ले. कसल्याय नात्याचे संबंद नासतना कोलकाताकारांनी थंय फकत मनीसपणाच्या नात्यान जो मोग दिलो, ताचो उगडास आयल्यार आयजूय जीव झेलकावता.

म्हजें सांस्कृतीक जिवीत समृद्ध जालें तें कोलकातांत. महाराष्ट्र सदनांत सगळे एकठांय येवन व्हडा उमेदीन होळी, रक्षाबंधन, चवथ अशे सगळे महाराष्ट्रीयन सण मनयताले. आत्र्यापयऱ्यान संगीत संमेलनाची पर्वणी आसताली. भारतांतल्या सगळ्या नामनेच्या गायकांच्यो, वादकांच्यो कार्यावळी म्हाका आयकूंक मेळ्ळ्यो त्यो कोलकात्यांत. कांय म्हान भारतीय कलाकारांची व्यक्तीशा वळख आली तिवूय बी कोलकात्यांतच.

पंडित भीमसेन जोशींची भेट जाली ती महाराष्ट्र सदन लागच्या एका कोनशार, जोत्याचो तुटिल्लो आखाणो शिंवून घेता आसतना! हांवें नमस्कार केलो. तांणी हिंदींतल्यान चवकशी सुरू केली. हांव मराठींत उलोवपाक लागतकच आनी म्हाका संगिताची आवड आसा हें कळटकच 'मिले सूर मेरा-तुम्हारा'चो प्रत्यय आयलो. त्या दिसा पंडितजी म्हाका आपणा वांगडा कोलकातांतले मैफिलीक घेवन गेले आनी एक अविस्मरणीय अणभव मनांत कोरांतून उरलो.

कुमार गंधर्व एका संगीत महोत्सवा खातीर कोलकात्याक आयले तेन्ना तांचो परिचय जालो. हांवें भियेत भियेत तांकां घरा येवपाचें आपोवणें दिलें. आपले किर्तीचो, प्रतिशठेचो मात लेगीत बाऊ करिनासतना ते आमगेर आयले. महाराष्ट्रीयन पद्दतीचें आमचें जेवण पळोवन तांच्या तोंडार खोस पर्जळ्ळी. कलाकाराचें व्हडपण जायते फावटीं तांचे छंदिश्ट वृत्ती खातीर मानतात. हांगा येद्या म्हान कलाकारान आपणाल्या सौजन्यशील सादेपणान आमकां जिखून घेतिल्लें.

पंडित जसराजजीं कडेन लेगीत म्हजी वळख जाली ती कोलकात्यांत. आयज ते वळखीक मुंबय स्नेहाचो फुलोर प्राप्त जाला.

साहित्य, संगीत, नाट्य हांणी समाजीक जीण समृद्ध केली ती कोलकात्यांत. दर वर्सा महाराष्ट्र सदनांत थळावें नाटक जातालें. हांव तातूंत भाग घेतालोंच. म्हजी अभिनयाची आवड जोपासली ती थंय. तशें पळयल्यार संगीत खंय तरी रगतांत आसूंक जाय. ना जाल्यार जाण्टे लोक ''बामना घरी लिवनं, आन महारा घरी गानं' अशें म्हणत आसतातच. म्हाका स्वताक गाणें-वाद्य कितें तरी येवचें अशें दिसतालें. तें जमलें मात ना. सुदैवान, आयज म्हजी धूव सतार वाजोवपांत,

कथ्थक नृत्य करपांत तरबेज आसा, तर पूत गिटारवादक म्हूण फुडें येता.

हांव कोलकात्याच्या मोगांत पडिल्लों खरों, पूण घरच्यांची मुंबयची ओड कायम आशिल्ली. लोकप्रियतेक लागून म्हजी बदली मुंबय ना करप हें प्रशासनाचे सोयीचें आशिल्लें खरें, पूण कोलकात्याच्या ल्हानशा कार्यालयांत अडकून पडप म्हजे 'करियर'चे नदरेन म्हाका योग्य दिसनासलें.

त्याच वेळार योगायोगान मुंबय महानगरपालिकेची वॉर्ड ऑफिसर (विभागाधिकारी) पदाची जायरात पळयली. हांवें बायले कडेन सल्लामसलत केली. तिणेंय प्रोत्साहन दिलें. मुंबय परतुपाची ती बऱ्यापैकी संद कशी दिसली आनी हांवें अर्ज धाडलो. रीतसर मुलाखती खातीर आपयलें आनी म्हजी निवड जाली. कोलकात्यांत तुमी थोडे दीस रावल्यार तें शार बकाल भासता. चड दीस थंय रावल्यार त्या शाराच्या मोगांत पडले बगर रावचे ना. ताका लागून जड अंतस्करणान कोलकाता सोडलें. अर्थांत आपल्या घरा परतल्याचो आनंद आशिल्लोच.

मुंबय महानगरपालिकेंत म्हजी पयली नेमणूक जाली ती नायर हॉस्पिटलाचो प्रशासकी अधिकारी म्हणून. थंय एक वर्स व्हडा समाधानान गेलें. हांव स्वता दोतोर नासलों तरी दुयेंतींक व्याधीमुक्त करपांत, हेरांक मजत करपांत एक वेगळोच आनंद लाबलो. खूब बरे अणभव मेळ्ळे.

एक फावट त्या हॉस्पिटलांत प्रमिला दंडवते दाखल जाल्ल्यो. आपूण खासदार आसूनय आपणाक कसलोच खास दर्जो नाका, बाकीच्या सर्वसामान्य दुयेंती सारकीच आपणाकूय वागणूक मेळची असो हट्ट तांणी धरिल्लो. त्यावेळार एके दनपारां म्हज्या कार्यातलयांत काम करतल्या एका शिपायान म्हाका भितर येवन सांगलें, ''सायब, मोरारजीभाय आयल्यात'', कोण तरी थळावो गुजराती भाव आयला आसत अशें समजून हांवें म्हणलें, ''भितर धाडून दी''.

म्हज्या कार्यालयांत भितर सरपी व्यक्तीक पळोवन हांव तटास जालों. माजी पंतप्रधान मोरारजी देसाई आनी चंद्रशेखर भितर सरले. ते दोगूय आयिल्ले प्रमिला दंडवतेचे खबरेक. आमच्यो हांगाच्यो थंयच्यो गजाली जातकच मोरारजीभाईन विचारलें, ''आमी कित्या खातीर रावल्यात?''

'लंच टायम' आशिल्ल्यान दवाखान्याचे इमारतीची लिफ्ट बंद आशिल्ली. ती चालू करपाची हांवें सुचोवणी केल्ली आनी ते खातीर आमी थांबिल्ले.

मोरारजीभाईक तें कळटकच तांणी विचारलें, ''कितल्या मजल्यार वचपाचें?''

सव्या मजल्यार वचपाचें हें कळटकच लिफ्ट चालू करिनासतना एखाद्या तरणाट्याक सोबूं येता अशा उत्साहान ते तुरतुरीत स मजले चडून गेले. आमकां पुरो जालें, पूण त्यावेळार ८३ वर्सांचो हो नौजवान आमकां लज करून गेलो.

कोलकात्याचो 'हँग ओवर' म्हणून काय कितें पूण नायर हॉस्पिटलांत हांवें सांस्कृतीक चेतना हाडपचो यत्न केलो. महापालिकेच्या आंतरविभागीय नाट्यसर्तीनी नायर हॉस्पिटलाचो सहभाग नासतालो. तो आसचो म्हूण नर्सी, दोतोर, विद्यार्थी आनी कर्मचारी हांकां सगळ्यांक एकठांय हाडून एक नाटक बसोवन घेतलें. हांवें स्वताय तातूंत भुमिका केली. त्या नाटकाची रंगीत तालीम पळोवन आमचे मुखेल दोतोर भट इतले प्रभावीत जाले, तांणी तत्काळ पांचशीं रुपयांचें बक्षीस जाहीर केलें.

वर्सभरा उपरांत म्हजी बदली घाटकोपराक विभागाधिकारी म्हूण जाली. खरें म्हणल्यार 'प्रोबेशन' सोंप मेरेन नायर हॉस्पिटलांतच रावपचो म्हजो मानस आशिल्लो. म्हजें 'करियर'चे नदरेन मात हावें 'वॉर्डां'तच वचप योग्य थारतलें असो सल्लो त्यावेळा वयलो कमिशनर सुखथनकर हांणी दिलो.

घाटकोपर विभाग बरोच आव्हानाचो आसलो. कांय दिसां भितरच म्हजी कसवटी लागली. पाकिस्तानांतले भारताचे पयले हायकमिशनर हांचे ते विभागांतले जमनीचेर चाळीस वर्सां अतिक्रमण जावन गौरीशंकर वाडी नांवाची एक झोंपडपट्टी वशिल्ली. सुप्रीम कोर्टाच्या आदेशा वरवीं ती झोंपडपट्टी काडून थंयची सुवात मालकाच्या ताब्यांत दिवपाची आसली. दत्ता सामंत हांचो ताका विरोध आशिल्ल्यान ते बाबतींतले पयलींचे सगळे यत्न फुकट गेल्ले. दत्ता सामंताचो त्यावेळा खूब दबदबो आशिल्लो. तांची बायल स्वता त्या भागांत नगरसेविका आशिल्ली. सामंत घोव-बायलेच्या विरोधाक जुमानीनासतना झोंपडपट्टी हटोवप कठीण आशिल्लें आनी तशें केलें ना जाल्यार सुप्रीम कोर्टा कडल्यान कमिशनरसायबांचेर ठपको येवपाची शक्यताय आसली.

कमिशनरसायबांचो सल्लो घेवन हांव त्यावेळा वयले गृहसचीव श्री. चौगुलेक मेळ्ळों. तांणी पुलीस कमिशनर रिबेरोंची मजत घेवपाचो आदेश दिलो. मागीर हांवें रिबेरोसायबांक मेळून सगळी परिस्थिती समजावन सांगली. रिबेरोन म्हणलें, ''बरें आसा. पूण झोंपडपट्टी केन्ना मोडपाची तें हांव थारायतलों. तुमकां फकत एक दीस आदीं सुचोवणी मेळटली''. कांय सप्तकां उपरांत दत्ता सामंताक खंयच्या

तरी निमतान येरवाड्याचे बंदखणींत दवरले आनी तांकां मेळपाक तांची बायल पुण्याक गेली. त्यावेळची संद रिबेरोसायबान सादली. त्या वाठारांतल्या सगळ्या समाजकंटकांक बंदखणींत घाले. दरेके इमारतीचेर हातांत शस्त्रां आशिल्ले शिपाय दवरले. म्हजो अंगरक्षक म्हूण एक असिस्टंट कमिशनर ऑफ पुलीस नेमियार केलो आनी पुलिसांचे मजतीन एका दिसांत आमो ती झोंपडपट्टी मातयेभरवण केली. वातावरण बरेंच तापिल्लें. वरा वरान कमिशनराचो फोन येतालो. निमाणें, काम जाल्ल्याचें समजतकच ताणें म्हजें मना सावन अभिनंदन केलें.

म्हजेर बरे प्रशासकी संस्कार जाले ते कमिशनर सुखथनकर सायबां कडसून. फायली वयली म्हजी दरेक टिपणी दुरुस्त जावन परती येवची - मराठींत आसल्यार शुद्धलेखनाच्यो चुको, इंग्लीशींत आसल्यार स्पेलिंगांच्यो चुको स्पश्टपणान दाखयिल्ल्यो आसच्यो, ताका लागून'फायली' हाता वेगळ्यो करतना पुराय वाचून जतनायेन टिपणी करपाक शिकलों तें तांचे कडसून.

म्हजे कामकाज पद्‌दतीचेर आनीक म्हत्वाचो ठसो उदेलो तो महापालिकेचे त्यावेळचे उपायुक्त श्री. प्रवीण कामदार हांचो. मनशां कशीं जोडपाचीं आनी आपल्या सहकाऱ्यांचें काम 'ॲप्रिशियेट' करून तांचें चडांत चड सहकार्य कशें मेळोवचें तें हांव कामदार सायबां कडल्यान शिकलों. हेरांनी आपणाक बरें म्हणचें अशी आपली अपेक्षा आसता, मात हेरांच्या कामाची तोखणाय करतना खूब फावटीं आमी उतरांचीं काटूकपणां करतात. असलें काटूकपण आपणें दाखयलें ना जाल्यार बाकीच्या सहकाऱ्यां कडल्यान चडांत चड बरें काम करून घेवपाक शकतात हाचे धडे दिले ते कामदार सायबांनी.

मुंबय महानगरपालिकेची नोकरी ही चाकरी नासून सर्वार्थान ती सेवा करपाची संद आसा आनी सेवाभावनेंतल्यान ती निभावपाक जाय ही जाणीव म्हज्या वरिश्ठांनी परतून परतून करून दिल्ली आसा आनी ते भुमिकेंतल्यान म्हजें सेवाकार्य चालू आसा. सेवेच्यो बऱ्यापैकी संदी उपलब्ध करून दिवपांत मुंबय महानगरपालिकेचें स्थान अनन्यसादारण आसा. कित्याक तर पापभिरू शिक्षकांक धरून ते मस्तवाल स्मगलर मेरेन सगळ्यांची महानगरपालिके कडेन गाराणीं आसतात. झोंपडपट्टी धरून ते मळबाक भिडपी इमारती मेरने सगळ्यांचो महानगरपालिके लागीं संबंद येता. म्हज्या अधिकारपदाचो चडांत चड फायदो सामान्य लोकांक जावचो असो म्हजो यत्न आसता. आयज मेरेन म्हाका अक्षरशा हजारांनी लोकांच्या आदाराक धांवून वचप शक्य जालें आनी म्हजो

हो यत्न हाचे फुडेंय चालू उरतलो. इतलेंच न्हय, तर महानगरपालिकेचें काम आतां म्हज्या आंगांत इतलें भिनलां, म्हजे सेवानिवृत्ती उपरांतचो काळ लेगीत एखादे सेवाभावी संस्थेचे वतीन समाजाचें देणें दिवपाक वतलो हातूंत आतां म्हाका दुबाव उरूंक ना*.

---

* दिनेश जाधव हे मुंबय महानगरपालिकेच्या उपयुक्त पदा वयल्यान निवृत्त जावन मुंबय थायीक जाल्यात.

# हांव, नरेंद्र जाधव

**'क्रियेवीण** वाचाळता व्यर्थ आहे' अशें एक वचन आसा. खरें म्हणल्यार वाचाळता येवपा सारकी क्रिया म्हजे कडसून घडल्या काय कितें हे विशीं म्हाका दुबाव आसा. ताका लागून सादारण पन्नाशी वलांडतना आत्मचरित्रात्मक लिखाण करपाक घेवप आगावूपणाचें आसा हातूंत दुबाव ना. हें लिखाण मात हांव एक व्यक्ती म्हूण करिना तर डॉ. आंबेडकरांनी घडयिल्ले एके विशिश्ट मानसीक प्रवृत्तीचो प्रतिनिधी ह्या नात्यान करतां.

अमेरिकेंतल्या काळ्यांचे एक फुडारी रेव्ह. जेसी जॅक्सन हांणी हालींच अमेरिकन राष्ट्राध्यक्षपदाची वेंचणूक लढयतना म्हणिल्लें, ''डोण्ड जज्ज मी फ्रॉम व्हेअर आय स्टॅण्ड, जज्ज मी फ्रॉम व्हेअर आय कम फ्रॉम''.

(''हांव जंय येवन पावलां ताचे वयल्यान म्हजी परिक्षा करूं नाकात, हांव खंयच्यान खंय मेरेन आयलों तें लक्षांत घेयात'').

म्हजे पिळगेंतल्या सगळ्या दलित भावांचे बाबतींत उण्या अदीक फरकान तें तितलेंच खरें आसा.

'गळ्यांत कट्टी आनी कमरेक सान्न' ह्या स्वरुपाची अद्भूत जातीयता नश्ट जाल्या आसली तरी ताका लागून जातीयतायेची विखयाळी वाल आमी मुळा सकट पुरून उडयल्या अशें मानप भाबडेपणाचें आसा. एकादे व्यक्ती विशींचो आपलो पूर्वग्रह आयजूय ते व्यक्तीचे जाती वयल्यान थारावप जाता हें अशें मानप भाबडेपणाचें. एकादे व्यक्ती विशींचो आपलो पूर्वग्रह आयजूय ते व्यक्तीचे जाती वयल्यान थारावप जाता हें न्हयकारपाक येवप शक्य आसा? 'तुमी खंयचे?' हाचे सारक्या वयल्या वयर निरुपद्रवी भासपी प्रस्ना फाटलो खरो रोख, 'तुमची जात कसली?' हें विचारपाचें आसता हें सद्सद्विवेकबुद्दीक स्मरून आमी नाकबूल करपाक शकत?

कार्यालयीन अकार्यक्षमतायेचो तर मक्तोच मुळांत दलित समाजांतल्या लोकांनी

घेतिल्लो आसा असो समज सगळ्या थरांत व्हडा प्रमाणाचेर दिसून येता. आतां, दरेका कार्यालयांत बरे-वायट लोक आसतात, तातूंत दलित आसतात, तशें दलितां भायर वेगळेय आसतात. तांचे मदलो एखादो फडके, आपटे वा बापट कामचुकारपण करतना सांपडलो तर बाकीचे ते व्यक्तीक दोश दितना दिसतात. मात ताच्या उरफाटें, एखादो कांबळे, खंडागळे वा पडांगळे जर कामचुकारपण करता आसलो तर, 'साला, ये जात ही ऐसी है' अशी सगळ्या दलित समाजाची सरसकट नालस्ती करपाचो मोह व्हडल्या व्हडल्यांक लेगीत आवरूंक येना. बाकीच्यांची कार्यक्षमताय गृहीत धरपाक येता, दलितांक मात आपली कार्यक्षमताय सिद्ध करची पडटा. ताचे फाटल्यान समाजांत खोल दडिल्ली उच्च-नीचतायेची सुप्त भावना आसा हें कोडून सत्य आसा.

खरें म्हणल्यार बुद्धीमत्ता वा कार्यक्षमताय ही खंयचेच एके जातीची वा वर्णाची मिरासदारी न्हय आनी ती केन्नाच नासली. कार्यक्षमताये संबंदींत चर्चेंत रीझर्व्ह बँकेंत आनी हेर कडेन जायत्या जाग्यांनी कार्यसिद्धीचे बाबतींत दलित बांधव म्हजी देख फुडें करतात, तेन्ना हेरांचें थारिल्लें उतर म्हणल्यार, 'उसकी बात अलग है'. वस्तुस्थिती अशी आसा, 'मेरी बात अलग नहीं है'. खर इत्साशक्त आसत, योग्य संदी सांपडिल्ली आसत आनी ताका कठीण यत्नांची जोड आसत जाल्यार शेंकड्यांनी दलितांक म्हजे परस बऱ्या कार्यसिद्धींची प्राप्ती घडूं येता अशी म्हजी प्रामाणीक धारणा आसा. दलित न्हय ते आनी दलित दोगांनीय हें वास्तव लक्षांत घेवपाची आयज अत्यंत गरजेचें आसा.

कार्यक्षमतायेचो संबंद जाती कडेन जोडून भारतीय समाजान तथाकथित जातींचेर खूब व्हडलो अन्याय तर केलाच, पूण तेच बराबर लाखानी दलितांक तांचे कुवती कडेन पुराय आडनदर करून आनी शेंकड्यांनी वर्सां संदी न्हयकारून देशाचे अर्थीक उदरगतीचें आनी विकासाचें हिसपा भायर लुकसाण करून घेतलां. नव्या अर्थीक धोरणाक लागून आयज अर्थवेवस्था जे संक्रमण-अवस्थेंतल्यान वता तातूंत अर्थीक नदरेन समर्थ अशा देशाची उबारणी करपाची आसत जाल्यार जातीवेवस्थेची झापडां पयस सारपाक जाय, आपल्या मनांतलो जातीयतेचो घयरांव पयस काडपाक जाय. कार्यक्षमतायेच्यो उच्च-नीचता आनी जाती हांचेर आदारीत जुनाट कल्पना वेंगायत बसून आमी नव्या अर्थीक युगांत येसस्वी पावली मारपाक शकचे नात. ते खातीर आपणाली मानसीकताय परतून एक फावट तपासून पळोवप ही काळाची गरज आसा.

आपले मानसीकतायेचो पुनर्विचार दलित समाजा कडसून जावपूय तितलेंच गरजेचें आसा. यत्नांची पराकाश्टा केली जाल्यार आपूणय येसस्वी जावपाक शकतां हो विस्वास दलितांच्या मनांत निर्माण जावपाची आवश्यकताय आसा. बाकीचे करतात त्या खऱ्या-फट अन्यायाचो बाऊ करून आपूण स्वताचो आळस वा अकार्यक्षमताय चड काळ धांपून दवरूंक शकना आनी तातूंत फसव्या समाधानापेल्यान कांयच साध्य जावपाक शकना हाचें भान दलितांनी दवरपाची गरज आसा.

आत्मपरिक्षणाचे हे प्रक्रियेंत म्हजी देख प्रातिनिधीक स्वरुपाची म्हूण कांय अंशी तरी उपेगाचें थारपाची शक्यताय आसा हे भावनेंतल्यान स्वकथन करपाचें धाडस हांव करतां.

ल्हानपणांत हांव चड उलोवपी न्हय असो सामकोच घुम्या सभावाचो आशिल्लों. आनी पुराय शालेय जिवितांत हांव एखाद्या भिजिल्ल्या हुंदरा प्रमाण वर्गांत बसतालों. हें आयज म्हज्या जायत्या वळखीच्यांक सांगूनय खरें दिसपाचें ना. ज्या विशिश्ट वातावरणांत हांव वाडलों ताचोच तो अपरिहार्य परिणाम आशिल्लो हाची आतां जाणीव जाता.

डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरांचें महापरिनिर्वाण जालें १९५६त. हांव तेदे वेळार साडेतीन वर्सांचो. सादारण त्याच सुमाराक, आमी पोरणें वडाळा सोडून वडाळ्याच्या दुसऱ्या वाठारांत मुंबय पोर्ट ट्रस्टाच्या नांवान उबारिल्ल्या 'न्यू कॉलनीं'त रावपाक आयिल्लीं. ताका लागून म्हजें भुरगेपण म्हज्या बाकीच्या व्हडल्या भावंडां प्रमाण पोरण्या वडाळ्याचे चाळींत वचनासतना न्यू कॉलनीचें इमारतींत गेलें. खरें म्हणल्यार, घरांतल्या हेरांक ज्या हालअपेश्टांक तोंड दिवचें पडलें त्या मानान ती चैन आसली.

न्यू कॉलनींतलें त्या वेळा वयलें वातावरण अभ्यास सोडून हेर सगळ्या गजालीं खातीर पोशक आशिल्लें. मुंबय पोर्ट ट्रस्टाच्या रेल्वे यार्डांत येवपी मालगाडयांतल्या मालाची लूट करपी टोळयो, कांय इमारतींच्या गच्च्यांचेर हातभट्ट्यो लावपी गूंड, सतत मारामाऱ्यो करपी ल्हान-व्हड दादा हांच्या खऱ्या-फट कारवायांनी वातावरण भरिल्लें आसतालें. ह्या उपद्व्यापांत फुडें आशिल्ल्यो कांय वल्ली त्यावेळार आमच्या भुरग्यांच्या आदर्शांच्या सुवातांचेर आशिल्ल्यो. तातूंत पुलिसांची हातभट्टेचेर धाड पडली म्हूण गच्ची वयल्यान ड्रेनेज पायपान देंवन

वतना पडून लंगडो जाल्लो भदरूभाई आशिल्लो, माल लुटपी टोळयांचे सुत्रधार नाऱ्या-परभ्या आशिल्ले, तेच प्रमाण आतां जाका गँगवॉर म्हणटात तेच त्या काळचे आपलें दीसपट्टें जिवीत मानपी दौलतदादा, शिवज्या (शिवाजी), बुट्टा शंकऱ्या अशे दादा लोक आशिल्ले. हांच्यांतल्या दरेकल्याच्या नांवां भोंवतणीं प्रसिद्धीचें एक वलय आशिल्लें. दरेका शुभप्रसंगाचेर भदरूभाई नाचपाक तरबेज. ताची आपली अशी नाचाची शैली आशिल्ली तिका, 'भदरूभाई ष्टाईल डान्स' अशेंच म्हणी (फुडें ती 'ष्टाईल' मास्टर भगवान हांच्या 'अलबेला' ह्या चित्रपटांतल्यान नृत्यशैली वयल्यान घेतिल्ली हो सोद लागलो.) नाऱ्या, परभ्या हांच्या धाडसाचें सगळ्यांक खूब कवतूक. पुलिसांची धाड पडिल्ली आसतना पळून वतना मालगाडये सकयल सांपडून नाऱ्याचो हात तुटलो. त्यावेळार आपल्या दुसऱ्या हातान पडिल्ल्या हाताचो कुडको उबारून हे महाशय पळून गेले अशी वदंता आसली. आपले तकलेन टक्कर मारून प्रतिस्पर्ध्याक नेस्तनाबूत करपांत बुट्ट्या शंकराचो हात कोणाच्यान धरूंक जावचो न्ही. शिवज्यादादा हो तर आमचो ल्हान भुरग्यांचो 'हिरो', खऱ्यानिशीं दैवत. हो दादा खरें म्हणल्यार शिडशिडीत बांध्याचो (रस्त्या वयले भाशेंत सांगपाचें जाल्यार 'सिंगल फसली') पूण हिंदी चित्रपटांतल्या नायकां प्रमाण एका वेळार धा-बारा जाणांक पुरून उरतालो. ह्या सगळ्या वल्लींच्या खऱ्या-फट धाडसाच्या गजालींची सतत चर्चा जावची. ताका लागून व्हड जातकच आपणेंय तांचे भशेन नांव 'जोडचें' अशें म्हज्या भुरगे मनाक त्यावेळार परत परत दिसतालें.

लोकांचे नदरेंतल्यान दूशीत अशा त्या वातावरणांत वाडिल्ल्यान व्यक्तीविकासाचे नदरेन म्हजेर अनिश्ट परिणाम घडलो अशें मात म्हाका अजिबात दिसना. वयल्यान,'बळी तो कान पिळी' हो जंगलाचो कायदो आशिल्ल्या त्या वातावरणाक लागून प्रतिकूल आवतिकायेंत तग धरून रावपाचें 'प्रशिक्षण' म्हाका मेळूंक शकलें. मध्यमवर्गीय सुशिक्षित वातावरणांत हांव ल्हानाचो व्हड जाल्लों जाल्यार त्या सगळ्या गजालींक हांव अंतरतलो आशिल्लों. परस्परां परस भिन्न आशिल्ल्या समाजघटकां कडेन आयज हांव जो 'संवाद' सादूंक शकतां ताचेंय मूळ ल्हानपणांत वडाळ्यांत मेळिल्ल्या विविधतायेच्या अणभवांत आसा अशें आयज जाणवता.

म्हजें मुळावें शिक्षण, हेर भावंडां प्रमाण मुंबय पोर्ट ट्रस्टाच्या पोरण्या वडाळ्याचे

शाळेंत जालें. न्यू कॉलनींतल्यान पोरण्या वडाळ्याक वतना व्हडलें यार्ड वलांडून वचचें पड. त्या यार्डाक वळसो घालून शाळेंत वचप हो घरचो नेम. हेर सगळ्या सवंगडी इश्टां प्रमाण मात हांव 'शॉर्टकट' म्हूण, यार्डांत उबी आशिल्ल्या मालगाडयेच्या पोंदसून वचचों. इतलेंच न्हय तर ल्हव गतीन चालू आशिल्ले मालगाडयेचे गती कडेन जुळोवन घेत हुशारेन सकयलसून दुसरे वटेन वचपाचें तंत्र आमी जायत्या जाणांनी शिकून घेतिल्लें.

मुळावे शाळेंतली म्हगेली प्रगती बरी आसूंक जाय, कित्याक तर म्हाका 'मिडल स्कूल स्कॉलरशीप'चे परिक्षेक बसयिल्लो. ते शाळेंतल्यान स्कॉलरशीप परिक्षेक बसयिल्लो चड करून हांव पयलोच विद्यार्थी, ते खातीर कवतूक बरेंच जालें. ते परिक्षे खातीर पुस्तकां मात वेगळीं आसतात, खास तयारी करून येवची पडटा, हाची शाळेंत कोणाकूच कल्पना नासली. परिक्षे खातीर दादरच्या किंग जॉर्ज (आतां राजा शिवाजी) शाळेंत म्हजो नंबर आयिल्लो. परिक्षे खातीर थंय वतकच बरे वेवस्थीत मुस्तायकी घाल्ले, आत्मविस्वासान वावुरपी विद्यार्थी पळोवन म्हाका धस्स जालें. मुंबय पोर्ट ट्रस्टाचे शाळे भायर सर्तीचें एक व्हडलें जग आसा म्हणपाची जाणीव म्हाका पयलेच फावट जाली. भोवतेक भुरग्यां वांगडा तांची तोखणाय, अपुरबाय करपी पालक आशिल्ले. म्हजे वांगडा दिनेश आशिल्लो खरो, पूण तोवूय बी ते मध्यमवर्गीय गर्दींत शेणून गेल्ल्या वरी दिसतालो. उदकाची बाटली, जेवणाचो डबो असली तर म्हजी चैन नाशिल्लीच, पूण 'कंपास बॉक्स' सारकेल्या गरजेच्या गजालींचीय उणीव आसली. जाय तशी आनी योग्य अशी तयारी नाशिल्ल्या कारणान वा दबून गेल्लो आशिल्ल्यान ते परिक्षेंत हांव जैत मेळोवंक शकलों ना. ताका लागून हेरांच्या, विशेश करून बरे वेवस्थीत मुस्तायकी घाल्ल्या भुरग्यांच्या मानान आमी उणे पडटात अशी न्यूनगंडाची भावना त्यावेळार म्हज्या मनांत निर्माण जाली.

स्कॉलरशीप परिक्षेंत म्हजो नंबर आशिल्लो ४२०, मजा म्हणल्यार रिझर्व्ह बँकेंत खूब वर्सां म्हजो अंतर्गत दूरदध्वनी क्रमांक आशिल्लो तोवूय बी ४२०. रिझर्व्ह बँकेचे गवर्नर सायब धरून ते सकयल मेरेनच्या सगळ्यांचो तो फकांडां मारपाचो एक विशय जावन पडिल्लो.

म्हज्या हेर भावंडां प्रमाण पांचवे यत्ते सावन म्हाका दादरच्या छबिलदास शाळेंत दाखल केलो. व्हडले शाळेचें व्हडलें जग. सुरवेचीं कांय वर्सां तर हांव भियेल्ल्या वरी आसतालों. स्कॉलरशीप परिक्षेंत म्हजे परस वरचढ थारिल्ले सगळे

विद्यार्थी ते शाळेंत एकठांय जाल्यात असो म्हजो समज आशिल्लो. तातूंत म्हाका तथाकथित शुद्ध मराठी उलोवपाक येनासली. कित्याक तर आमी घरांत नाशिकाची गांवठी बोली उलयताली. ताका लागून वांट्याक त्रोसां येताली. तातूंत भर म्हूण मागासवर्गीय जाल्ल्यान फी न भरपी 'सरकाराचे जांवय' अशी हिणसावणी कांय शिक्षकां कडसून जाताली. घरच्या आशीकुशीक आशिल्लें वातावरण आनी शाळेंतलें वातावरण हाचे मदीं आशिल्लें दोन ध्रुवांचें अंतर हातूंत हांव पुराय घुस्पून गेल्लों. परिणामी सातत्यान पयलो नंबर येवनय म्हाका आत्मविस्वास दिसनासलो. हांव वर्गांत फाटल्या बांकार बसून आसतालों. शिक्षकांनी विचारिल्ल्या प्रस्नांच्यो जापो खबर आसून लेगीत तोंडांतल्यान उतर फुटनासलें.

निकतोंच हांव छबिलदासांत वचपाक लागिल्लों. तेन्नाची एक घडणूक येवजता. दीस आशिल्लो ६ डिसेंबर १९६२. डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरांची पुण्यतीथ. त्या दिसा अक्षरशा लाखांनी दलित कुटुंबां चैत्यभुमीचेर दर्शन घेवपाक वतात. आमीय वतालीं. त्या दिसा थंयच्यान परततना वडाळ्याक वचपा खातीर 'शहाडे-आठवले'च्या लागसाराक बस स्टॉपाचेर आमी सगळीं जाणां बसीची वाट पळयत उबीं आशिल्लीं. आशीकुशीक आकांताची गर्दी. आमगेलोय गोतावळो व्हड. बस आयली तेन्ना गोंदळ जालो. हांव चपळायेन पयलेच बसींत चडलों. खूब गर्दी आशिल्ल्यान बाकीचे ते बसींत चडपाक शकले नात. आमच्या घरांतलीं सगळीं जाणां फाटल्यान बस स्टॉपाचेर उरिल्ल्याचें म्हज्या लक्षांत आयलें, त्या वेळार बस 'प्लाझा थिएटर' मेरेन पाविल्ली. विनवण्यो करून, बस कंडक्टराच्यो गाळी खायत हांवें बस थांबयली आनी धांवत पळत बस स्टॉपाचेर परतलों. दुर्दैव अशें, ते उपरांत फाटोफाट आयिल्ले दुसरे बसींत घरांतलीं सगळीं गेल्लीं. म्हजे लागीं पयशे आसपाचो प्रस्नच नासलो. हेवटेन तेवटेन कोण वळखीचो दिसना. घरा वचपाचो रस्तो म्हाका खबर नाशिल्लो. म्हज्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. मागीर हांवें म्हाकाच सांवरलो. रडून कांय जावपाचें ना हें म्हज्या लक्षांत आयलें. हांवें युक्ती लडयली. त्या बस स्टॉपा वयल्यान वडाळ्या कडेन वचपी बसीचें निरिक्षण करून चलत वचपाचो हांवें पयलो टप्पो थारायलो. फुडें एका बस स्टॉपार रावन परतून तोच प्रकार. अशें करीत, अक्षरशा मजल-दरमजल करीत हांव सुखरूपपणान घरा पावलों. म्हजें हड्डें अभिमानान भरून गेल्लें. चुकलों आसूनय कोणालीय मजत घेनासतना हांव घरा पावलों हे खातीर घरच्यांची शाबासकी मेळटली अशी

म्हजी गोड समजिकाय आसली. घरा पावतकच मात, 'कित्याक चुकलो?' म्हणून मातोसरींचो भरपूर मार खावचो पडलो. जशें कितें हांव मुद्दामूच चुकिल्लों.

छबिलदासांत वतकच न्यूनगंडाची भावना बळ्ळेली आसली तरी एक व्हड मानसीक परिवर्तन जालें. व्हड जातकच आपणें 'दादा' जावचो अशें दिसना जालें. ताच्या वांट्याचें, त्या समाजीक थरांतले लोक जाका 'इज्जतसे रहना' म्हणटात ते तरेची एखादी नोकरी करची अशें म्हाका दिसपाक लागलें. सुरक्षिततायेची भावना इतली घट आशिल्ली, खंयचीय 'पर्मनंट' नोकरी चलूं येताली. तातूंतले तातूंत 'प्यूना'ची नोकरी हो म्हाका वेवहार्य 'चॉयस' दिसतालो. कित्याक तर आमच्या सोयऱ्यां भितर इतले लोक प्यून आशिल्ले, ताका लागून जाधव ह्या नांवाचे लोक प्यून जावपा खातीरच जल्माक आयिल्ले आसतात असो म्हजो समज जावंक लागिल्लो. विशेश म्हणल्यार आयजूय हांव ज्या ज्या खात्यांनी काम करतां थंय थंय जाधव ह्या आडनांवाचे चार-दोन प्यून मेळटातच.

म्हज्यांतलो न्यूनगंड पयस करपाचे जाणीवपूर्वक यत्न जर कोणें केल्यात आसत जाल्यार ते माधव साखरदांडे ह्या म्हज्या आवडट्या शिक्षकान. साखरदांडे सरांनी म्हज्यांत आत्मविस्वास निर्माण करपाचो नेटाचो यत्न केलो. म्हाका उगडास जाता, सातवी-आठवेंत आसतना शाळेंत हस्ताक्षर सर्त आशिल्ली. असल्या सर्तींनी भाग घेवन हांव इनामां पटकावपाक शकतलों अशें म्हाका केन्नाच दिसलें ना, ते खातीर हांव तातूंत वांटो घेनासलों. सर्तींत भाग घेवंनाशिल्ले खातीर साखरदांडे सरांनी म्हाका विचारलें. कितें तरी गुळमुळीत जाप दिवन सारवासारव करपाचो हांवें यत्न केलो. सरान ते सर्तींतल्या जैतिवंत विद्यार्थ्यांच्या हस्ताक्षराचो नमुनो म्हजे मुखार दवरलो आनी म्हणलें, 'तुजें हस्ताक्षर हाचे परस बरें आसा काय वायट? तूंच सांग'. स्वता बद्दल न्यूनगंडाची भावना आसून लेगीत म्हजें हस्ताक्षर ताचे परस बरें आसा हें न्हयकारप म्हाका शक्य जालें ना. हस्ताक्षर सर्तींत भाग घेवना जावन, स्वताक उणो लेखून हांवें आपणाचेरच अन्याय केला हें साखरदांडे सरांनी म्हाका सप्रमाण पटोवन दिलें. असल्या ल्हान ल्हान प्रसंगांतल्यान तांणी म्हज्यांत आत्मविस्वास फुलोवपाचो आत्मीयतायेन यत्न केलो.

म्हजेर प्रभाव घालपी दुसरे एक शिक्षक म्हणल्यार श्री. बांदेकर. ते गणित आनी शास्त्र हे विशय शिकयताले. दरेका प्रस्ना कडेन वस्तुनिश्ठ, चिकित्सक नदरेन पळोवपाची म्हाका प्रेरणा दिल्या, बुद्धीप्रामाण्यवादी दृश्टीकोण दिला तो

बांदेकरसरांनी.

शाळेंत म्हगेले आवडटे विशय म्हणल्यार मराठी, संस्कृत आनी गणित. म्हाका मराठी वाचनाची गोडी लायली ती लेगीत साखरदांडे सरांनी. बाबुराव अर्नाळकरां सावन नाथमाधव, फडके, खांडेकरां मेरेन आनी ह. ना. आपटे सावन चिं. वि. जोशी मेरेन सगळ्यांच्या साहित्याचीं हांवें पारायणा केलीं. स्वता हांव मराठी लिखाण करपाक शकतां असो विस्वास म्हज्यांत निर्माण केलो तोवूय बी साखरदांडेसरांनी. तांच्या ह्या यत्नाचो एक भाग म्हूण तांणी छबिलदासाच्या 'अभ्युदय' त्रैमासिकाचो विद्यार्थी - संपादक म्हूण म्हजी नेमणूकय करून उडयली.

हांव पांचवेंत आसतनाच भाऊ आय.ए.एस.च्या प्रशिक्षणा खातीर मसुरीक गेलो. ते उपरांत तो नोकरे खातीर सदाचं फिरतेर आसतालो. भाऊ परगांवांत आसलो तरी अभ्यासा खातीर मात ताचें प्रत्यक्ष आनी अप्रत्यक्ष दडपण सतत आसतालें. शासकी कामा खातीर तो चडसो मुंबय येतालो. तो घरा आयलो काय रोखडोच म्हजे शाळेचे प्रगतीचो विस्तृत आढावो घेवपाक येतालो. म्हाका जाय त्यो बारीक-सारीक गजाली तो स्वता म्हजे वांगडा येवन विकत्यो घेवन दितालो.

भाऊची शालेय प्रगती हो आमच्या घरांतले प्रगतीचें मोजमाप करपाचो मानदंड आसलो. सगळ्यांकूच भाऊचो आदर्श. ताचे अनुपस्थितींत दीसपट्टे जिणेंत भावनीक आदार दिसचो तो दादाचो आनी दिनेशाचो. म्हजेर वाचनाचे बरे संस्कार जावचे हे खातीर जाणीवपूर्वक घरांत कोणें यत्न केले आसत जाल्यार ते दिनेशान. हांवें कितेंय लिखाण केल्यार पयले खेप तें वाचपी तो दिनेश. ताणें संमत केले बगर आनीक कोणाकूच दाखोवपाक हावं धजनासलों.

अदीं मदीं मामासायब मुरडकर घरा येताले. श्री. शंकरराव (मामासायब) सुरडकर हे भाऊले मांव (हांचो उल्लेख आदीं आयला). मामासायब म्हाका सदांच देवा वरी. ते एक व्हड सरकारी अधिकारी तर आशिल्लेच, पूण विद्वत्तायेचें तें पुराय प्रतीक आसलें. ते घरा येतकच हांव तांकां म्हजे निबंध, कविता आनी हेर बरयिल्लें लिखाण दाखयतालों. तांणी केल्लें कवतूक म्हणल्यार सर्गांतल्यो जणू देवदेवताच म्हजेर फुलांचो वर्षाव करतात असो म्हाका भास जावचो

लागींच्या मनशां कडेन उलयतना म्हाका ल्हवूल्हवू मेकळेपण दिसचें. पूण हेरां कडेन वागतना मात आदले सारकोच दबकल्लो आसचों. हांव इकरावेंत आसतनाची गजाल. ते यत्तेंतलो आमचो वर्ग सगळ्यांत हुशार भुरग्यांचो आशिल्लो.

पूण सर्त आसताली. आमच्या वर्गांतल्या सगळ्यांत विशेश हुशार विद्यार्थ्यांचें सपन आसतालें, संस्कृतांत 'जगन्नाथ शंकरशेट शिश्यवृत्ती' मेळोवप. संस्कृताच्या पेपरांत ८० गूण पाठ्य आनी उरिल्ले २० गूण पाठ्या भायर हेर अभ्यासक्रमा खातीर आसताले. शंकरशेट शिश्यवृत्तीचे सगळे इत्सकपाठ्य अभ्यासक्रमा खातीर आशिल्ल्या ८० गुणांची निश्चिती करून. पाठ्योत्तर २० गुणां पैकी चडांत चड गूण मेळोवपाक प्रयत्नशील आसताले. कांय म्हत्वाकांक्षी विद्यार्थी ते खातीर 'शंकुतलम्', 'स्वप्नवासवदत्तम्' सारकेल्या संस्कृत नाट्यकृतींची सरावा खातीर नेमान क्रमशा अणकार करून तीं जोशी नांवाच्या शास्त्रीबुवां कडेन जे आमचे संस्कृताचे शिक्षक आशिल्ले तांचे कडेन दिताले. ते सर्ती कडल्यान हांव अलिप्त आशिल्ल्यान आपणेंय तशें करचें अशें मात म्हाका दिसलें ना आनी तशें दिशिल्लें जाल्यारय तें शास्त्रीबुवांक सांगपाचें धाडस म्हज्यांत निश्चीतच नासलें.

आमचो एस.एस.सी. निकाल जाहीर जालो. आमचे शाळेंत तांत्रीक शिक्षण घेतिल्लो एक स्वतंत्र वर्ग आसलो. तो वर्ग वगळ्ळो जाल्यार उरिल्ल्या सगळ्या णव वर्गांत शाळेंत हांव सगळ्यांत पयलो आयलों. तांत्रीक शिक्षण हो विशय घेतिल्ल्या वर्गांत मात एकंदर गूण संख्येंत म्हजे परस एक गूण चड मेळोवपी एक विद्यार्थी आशिल्लो. त्यावेळार म्हाका मराठी, संस्कृत आनी गणिताचीं विशेश प्राविण्या खातीर जायतीं पारितोशिकां मेळ्ळीं. खास म्हणल्यार, संस्कृतांतले जगन्नाथ शंकरशेट शिश्यवृत्तीचो मान मातसोसो हातांतल्यान सुटलो. छबिलदास शाळेचो विद्यार्थी कितल्याश्याच वर्सां उपरांत शंकरशेट शिश्यवृत्ती मेळोवपाच्या सामको लागीं पाविल्ल्या खातीर शाळेंत खूब आनंद जालो. संस्कृताचे जोशी सर तर आकांताचे खूश जाले. खोशयेभरीत जावन तांणी चवकशी केली,

'कोण तो विद्यार्थी. साने? बापट? सुळे?'

ह्या सगळ्या प्रस्नांक न्हयकाराच्यो जापो मेळटकच ते चक्रावले. जाधव नांवाचो कोण विद्यार्थी आसा हें सांगतकच तांकां अजाप जालें.

'म्हज्याच वर्गांत आशिल्लो तर तो विद्यार्थी? म्हाका कशी याद जायना तर?' तांणी विचारलें आनी हो विद्यार्थी 'कसो दिसता काय' हें तरी पळोवचें म्हूण मेळपाक तांणी निरोप धाडलो.

कवतूक करपाक शास्त्रीबुवान म्हाका आपयलो खरो, पूण त्यावेळा वयल्या समाजीक, अर्थीक वातावरणाचो इतलो विलक्षण ताण म्हज्या मनार आशिल्लो, हांव थरथरलों. वयले जातीच्या हेर विद्यार्थ्यांचेर मात केल्ले खातीर तांकां राग

येवन ते म्हाका ख्यास्त करीत, घडये पेटतय बी ह्या भंयान हांवें तांकां मेळपाचें टाळ्ळें. ह्या विचित्र न्यूनगंडाचें हेरांक अजाप दिसूं येत. तें समजून घेवपाक, दलितांचे हिणसावणेचे आनी त्रोसांच्या ज्या इंगळयां वयल्यान वचपाक समाजवेवस्था बळजबरी करता तें लक्षांत घेवप गरजेचें आसा.

१९६९त हांव एस.एस.सी जालों तेदे वेळार बरे गूण मेळिल्ले भोवसंख्य विद्यार्थी शास्त्र शाखे कडेन वळटाले. हांवेंय बी शास्त्र शाखेंत प्रवेश घेतलो. म्हज्या सगळ्या भावंडांचें शिक्षण सिद्धार्थ महाविद्यालयांत जालें. डॉ. आंबेडकरांनी थापणूक केल्ल्या सिद्धार्थ महाविद्यालयांत प्रवेश घेनासतना डॉ. आंबेडकरांचें शिक्षण ज्या एलफिन्स्टन कॉलेजींत जाल्लें थंय प्रवेश घेवचो हो भाऊचो निर्णय. प्रवेश घेवपा खातीर भाऊ स्वता म्हजे वांगडा आयिल्लो.

एलफिन्स्टन महाविद्यालयांतल्या सर्तीमय वातावरणांत म्हजी शिक्षणीक उदरगत सिद्धार्थ महाविद्यालया परस बरी जातली असो भाऊचो आशावाद आसुंये. घडलें तें मात नेमकें उरफाटें. शाळेंतल्या बंदिस्त वातावरणांतल्यान महाविद्यालयांतल्या स्वच्छंदी वातावरणांत हांव भुल्लुसून गेलों. तातूंतल्यानच भरकटत गेलों. मागीर जावपाचें तेंच जालें. महाविद्यालयाच्या पयल्याच वर्सा म्हजी गुणांची टक्केवारी झप करून सकयल आयली.

म्हजी शिक्षणीक अधोगती पळोवन जायत्या जाणांनी म्हजें सांत्वन करपाचो यत्न केलो. कांय जाणांनी मानभावीपणान तर कांय जाणांनी प्रामाणीकपणान. दोनांचीय म्हाका मनांतल्यान तिडक आयली. हांव दुखाविल्लों. एस.एस.सी.क बरे गूण मेळिल्ल्यान सगळे कडेन जी तोखणाय कवतूक जाल्लें ताका लागून आपले कुवती विशीं नाय म्हणल्यार थोडोसो विस्वास दिसपाक लागिल्लो, कांयसो गर्व जागृत जाल्लो आसुंये. हेरांक आपली काकुळट दिसची हाची म्हाका लज जाली.

ते गिमाळ्याचे सुटयेंत हांव परभणीक गेलों. भाऊ थंय जिल्लाधिकारी आशिल्लो. मुंबय परस सामकेंच वेगळ्या अशा परभणीच्या त्या वातावरणांत हांवें थंडसायेन म्हज्या फुडारा विशीं येवजिलें. तकलेंत विचारांचें काहूर माजिल्लें. आपल्या जिविता संबंदी गंभीरतायेन विचार करपाची ती म्हजी पयलीच वेळ. त्यावेळार डॉ. आंबेडकरांच्याय चरित्राचो, तशेंच तांचे विशीं बरयिल्ल्या पुस्तकांचो अभ्यास जालो. अर्थांत ही प्रेरणा भाऊची. म्हज्या जिवितांतलो तो टर्निंग पॉयंट आशिल्लो अशें आयज जाणवता.

'अत्त दीप भव' (तू आपूणच आपलो दिवो जा) ही डॉ. आंबेडकरांची शिकवण मनांत ठशिल्ली. आपली जीण भरकटत वचपाक दिनासतना तिका जाणीवपूर्वक दिशा दिवपाची गरज मनांत रुजली. परतून एलफिन्स्टन महाविद्यालयांत प्रवेश घेतलो जाल्यार पयलींच्या इश्टांच्या गोतावळ्यांतसून आंग काडून घेवपाक जावचें ना आनी ते खातीर परतून व्हांवत वचपाची शक्यताय लक्षांत घेवन हांवें महाविद्यालय बदलपाचो निर्णय घेतलो.

हांवें आमच्या वडाळ्याच्या घरा सावन लागींच आशिल्ल्या रुइया महाविद्यालयांत प्रवेश घेवपाचें थारायलें. पयल्या वर्सा म्हाका जे गूण मेळिल्ले ताचेर रुइया सारकेल्या बऱ्या महाविद्यालयांत प्रवेश मेळप सामकें अशक्य आशिल्लें. हांव मात हट्टाक पेटिल्लों. रुइयांतच प्रवेश घेवपाचो आनी तोय कोणाचीच मजत नासतना. हांव रुइया महाविद्यालयाचे प्राचार्य कुळकर्णी हांकां मेळपाक गेलों. थंय उरिल्ल्या जागां खातीर व्हडा व्हडांच्यो चिटयो घेवन जायते इत्सूक राविल्ले. हांवें मनांतल्यान निश्चेव केल्लो. देखून निर्शेनासतना हांव धाडसान प्राचार्यांच्या कॅबिनांत भितर सरलों. कांयच लिपयनासतना हांवें प्रामाणीकपणान सगळी सत्य परिस्थिती तांचे मुखार कथन केली आनी म्हज्या जिविताची गाडी म्हाका परतून रुळार हाडपा खातीर रुइया सारकेल्या महाविद्यालयांत प्रवेश मेळोवप कितलें गरजेचें आसा तें स्पश्ट केलें. प्राचार्य कुळकर्णीची आपल्या कडक सभावा खातीर नामना आशिल्ली. तांणी म्हजे कडेन करा करून पळयलें आनी कांय मोजके पूण ज्युस्त फावो ते प्रस्न विचारले. विशेश हें, व्हडा व्हडांच्यो चिटयो घेवन आयिल्ल्यांक कुशीक दवरून तांणी म्हाका प्रवेश दिलो. म्हाका खूब खोस भोगली. खरें पळयल्यार येदें धारिश्ट्य हांवें जिवितांत पयलेच खेप केल्लें आनी वस्तुस्थितीक प्रामाणीकपणान फुडें वचपाची फलनिश्पत्ती जैताक आयिल्ली. ती घडणूक जायतें कितें सांगून गेली.

रुइया महाविद्यालयांत प्रवेश मेळ्ळो तें बरें आसा, पूण एक गणित विशय सोडलो जाल्यार शास्त्रशाखेच्या हेर विशयांत रस येना. हांवें कला शाखेंत प्रवेश घेवन वेगवेगळ्या भासांतलीं, चड करून इंग्लीश साहित्याचो अभ्यास करपाक जाय आसलो अशें परतून परतून दिसपाक लागलें. हांवें शास्त्र शाखेंत प्रवेश घेतिल्ल्याचें सांगतकच भाशा शिकोवपी कांय शिक्षकांनी मोन्यांनी मान हालयिल्ली ताचो उगडास जालो. एलफिन्स्टन महाविद्यालयांत आसतना कसलें तरी प्रमाणपत्र

हाडपाक हांव शाळेंत गेल्लों. हातांत महाविद्यालयाचो 'एलफिन्स्टोनियन' वर्सुकी अंक आशिल्लो. साखरदांडे सर मेळ्ळे. तेदे वेळार हांवें तो अंक फुडें धरलो. तातूंत म्हजो लेख ना हें कळटकच तो उगडूनय पळयनासतना, ''तुमचो लेख नासल्यार पळोवपांत कितें अर्थ आसा?'' अशें म्हणून हांवें लेखन करपाक जाय हाची तांणी जाणीव करून दिली, ताचीय याद जाली. खरें म्हणल्यार, आयज लेगीत हांवें संस्कृतांतल्या श्रेश्ठ साहित्यकृतींचो वा संतसाहित्याचो अभ्यास करून आनीक एक डॉक्टरेट मेळोवची अशें म्हाका परतून परतून दिसता. देखून म्हजी बायल म्हाका अशें दिसपाक 'वाङमयीन झटको' म्हणटा. म्हणूनच, शास्त्रशाखेंत प्रवेश घेतिल्ल्यान म्हाका म्हज्या जिविताचें गणित चुकलां अशें दिसपाक लागलें. मन सामकें अस्वस्थ जाल्लें. अभ्यासाचेर लक्ष थिरावना जालें. परिणामी इंटर सायन्सीक लेगीत म्हजे कडल्यान चड गूण मेळोवपाक जाले नात.

इंटर सायन्सीचे परिक्षे उपरांतचे गिमाळे सुटयेंत मसुरीक वचपाचो योग आयलो. मिड-करियर प्रशिक्षणा खातीर भाऊ आपले बायले सयत मसुरीक 'लाल बहादूर शास्त्री ॲकेडेमीं'त गेल्लो. ताचे वांगडा सुटयेचे कांय दीस सारचे हें येवजून हांव आगगाडयेन डेहरूनाक सावन मसुरीक पावलों. म्हज्या जिविताक दुसरी कलाटणी मेळ्ळी ती थंय.

मसुरीक भाऊ भशेनच आनिकूय आय.ए.एस. अधिकाऱ्यांक मेळप जालें. तांच्या जगपाची शैली पळोवपाक मेळ्ळी. तांकां मेळटल्यो कामाच्यो संदी, तशेंच सुविधांची जाणीव जाली. बेगिबेगीन इंग्लिशींत 'काव्य-शास्त्र-विनोद' करतले आय.ए.एस. अधिकारी पळोवन आपणाकय तांचे भशेन जावपाक जाय अशें प्रकर्शान दिसपाक लागलें. आतां मुंबयच्या 'स्टेट इन्स्टिटयूट ऑफ ॲडमिनिस्ट्रेटिव्ह करियर्स' हे आय.ए.एस.च्या प्रशिक्षणा खातीर आशिल्ले संस्थेंत व्याख्याना दिवपाक दर वर्सा म्हाका आपोवणें येता, तेन्ना मसुरीचो उगडास जाले बगर रावना. पूण त्यावेळार मात तांचे सारके जावपाचें आसल्यार शिक्षण बरे तरेन पुराय करपाक येवपाक जाय आनी ते भायर व्यक्तीमत्वाचो सर्वांगीण विकास जावपाक जाय. ह्या दोनाय गजालींची गरज मनाचेर कोरांतून उरली.

पूण करपाचें कितें? हांव शास्त्रशाखेंत आडखळून पडिल्लों आनी त्या विशयांत तर म्हाका अजिबात रस दिसनासलो. सुदैवान त्यावेळार म्हाका प्रा. वि. म. दांडेकर आनी प्रा. रथ हांणी बरयिल्लो 'पॉव्हर्टी इन इंडिया' (भारतांतली गरिबी) हो ल्हानसो ग्रंथ वाचपाक मेळ्ळो. अक्षरशा पिसावलो हांव आनी तो ग्रंथ हांवें

परतून वाचलो आनी म्हजो निश्चेव जालो. बस्स! हांवें हाचे फुडें अर्थशास्त्राचो अभ्यास करपाचो.

मुंबय परततकच संख्याशास्त्र-अर्थशास्त्र हो जोडविशय घेवन रुइया महाविद्यालयांत हांवें बी.एस्सी. खातीर प्रवेश घेतलो. अचकीत सूर मेळिल्ल्या वरी दिसलें. न्हय, हातांत घबाड सांपडिल्ल्याचो आनंद जालो. हांवें मोटे उमेदीन अभ्यासाक सुरवात केली आनी तेच वांगडा व्यक्तीमत्वाचो विकास जायत अशा विधायक स्वरुपाच्या कार्यांत यत्नांनी म्हाकाच गुंतोवन घेवपाक धडपडलों.

बऱ्यो संदी मेळत गेल्यो. पयली संद मेळ्ळी तीच अभूतपूर्व स्वरुपाची आशिल्ली. १९७१च्या भारत-पाक झुजा वेळार लाखांनी संख्येन बांगलादेशी निर्वासीत भारतांत आदाराक आयिल्ले. देशभरांत तांचे जे जायते कॅम्प उबारपाक आयिल्ले, तातूंतलो एक मध्यप्रदेशांतल्या रायपूरा लागीं, माना हे सुवातेर आशिल्लो. ह्या कॅम्पांत समाजीक कार्य करपा खातीर रुइया आनी पोद्दार महाविद्यालयांतल्यान राष्ट्रीय सेवा येवजणे खाला एक पंगड वचपाचो आसलो तातूंत हांव सामील जाल्लों. निकतोच उबारिल्ल्या त्या माना कॅम्पांत आकांताची अंदाधुंदी आशिल्ली. थंय पाविल्ली आपवावुरप्यांची पयलीच तुकडी आमची. आमी थंय वच जाल्यार दर दिसा णव्वद ते शंबर मनशां उपासमारान आनी पोटदुखीन मरतालीं. कांय सप्तकांच्या आमच्या राबित्यांत आमी थंयच्या प्रशासनांत बरे तरेची सुसुत्रताय हाडपाक शकले. ताका लागून मरणाचें प्रमाण दिसाक तीस ते चाळीस मेरेन आयलें. सर्वस्व लुटिल्लें आनी जिवीत-मरणाचे शिमे-रेशेचेर झेलपटपी ते हजारांनी जीव पळयतना आनी तांचे खातीर अक्षरशा जिवीत दिवपी कार्य करतना एक अविस्मरणीय अणभव मनांत कोरांतून गेलो. ह्या अणभवा संबंदीचो एक लेख हांवें त्यावेळार रुइया महाविद्यालयाच्या वर्सुकी विशेशांकांत उजवाडाक हाडिल्लो.

ते उपरांत एके समाजीक संस्थेचे वतीन मुंबयभायर पाळघरा लागसार मनोरी गांवांत आदिवासीं खातीर एका प्रकल्पाची सुरवात केल्ली. तातूंत हांव सामील जाल्लों. सावकारांनी बळकियल्ल्यो जमनी तांकां परत्यो मेळोवन दिवन ताचेर आधुनीक पद्दतीचें शेत-भात पिकोवपाचें तंत्र तांकां शिकयताले. हांव थंय मदीं मदीं काम करपाक लागलों. ताका लागून मुंबय सारक्या म्हानगरीच्या इतले लागीं आशिल्ल्या आकांताळ्या दळडिराचें आंगांत शिरशिरो हाडपी दर्शन घडलें. फुडें, त्या बऱ्या समाजीक कार्याचें फुडारपण करपी मनीस हे वेगळे तरेन आदिवासींचेर

आपली स्वताची हुकूमशाय लादता हें लक्षांत येतकच म्हजो विरस जालो. तातूंत तें समाजीक कार्य हें एका राजकी पक्षाच्या दावणीक बांदिल्लें, हाचीय जाणीव जाली. मागीर मात हांवें ह्या प्रकल्पांतल्यान आंग काडून घेतलें.

त्याच सुमाराक रुइया महाविद्यालयांत वर्सुकी वाद सर्तीचें आयोजन केल्लें. थाराव आशिल्लो : 'मागासवर्गीयांच्यो सगळ्यो सवलती तत्काळ बंद करच्यो'. वक्तृत्व हो म्हजो प्रांत अशें म्हाका त्यावेळार अजिबात दिसूंक नासलें. चार लोकां मदीं तोंड उगडून बडाबडा उलोवपाकय म्हाका जड वतालें. मागीर वक्तृत्व कसलें करतलों? तो विशय पळोवन मात म्हाका चेव आयलो. रुइया सारक्या ठसठशीत बामणी छापाच्या महाविद्यालयांत त्या विशयाचेर खंयचे वटेन मतां मांडप जातालें तें खबरच आशिल्लें. ताका लागून त्या विशयाचेर उलोवप ही म्हाका म्हजी नैतीक जापसालकी आसा अशें दिसलें, पूण धाडस जायनासलें. कित्याक तर, 'रानडे-वाद-सर्ती' सारकिल्या आख्ख्या महाराष्ट्रांत प्रतिश्ठेच्यो समाजतल्या त्या सर्तींतलें विजेतेपद पटकायिल्ले जायते उत्कृश्ठ विद्यार्थी-वक्ते रुइया महाविद्यालयांत आशिल्ले. (सध्या नर्मदा आंदोलनाचें फुडारपण करपी मेधा पाटकर तातूंतल्योच) असल्या रथी-महारथीं फुडें म्हजो पाडाव कितें लागतलो अशें दिसतालें. पूण डॉ. आंबेडकरांची प्रेरणा स्वस्थ बसपाक दिना जाली. बक्षीस मेळूं वा ना मेळूं, पूण दलितांची बाजू प्रभावीतपणान मांडप गरजेची हे भावनेन हांव पेटून उठलों. हांव मोटे जिद्दीन ते सर्तींत देंवलो. उत्तेजन दिनेशाचें. बऱ्याच कश्टांनी हांवें भाशण तयार केलें. घरच्यांक आनी इश्ट सांगात्यांक एकठांय बसोवन तांचे मुखार जायते फावटीं रंगीत तालीम केली.

अपेक्षे प्रमाण, प्रत्यक्ष वादसर्तींत दलितांचे वटेन उलोवपी कोणूच नाशिल्लें. हांवेंच तांची बाजू मांडली. म्हज्या त्या भाशणांत म्हगेले विचार तितले प्रगल्भ आशिल्ले अशें न्हय. त्वेशाच्या लागीं पावपा इतलो आवेश मात जरूर आसलो. वक्तृत्वाच्या पयल्याच यत्नांत हांवें बाजी मारली आनी पयलें इनाम जोडलें. निबर इत्सा आसत आनी तिका कश्टांचे खरायेची जोड आसत जाल्यार हरशीं असाध्य भासपी गजाली सहज साध्य जावपाक शकतात. हाची म्हाका आयिल्ली ती पयली प्रचिती.

परिस्थिती कडेन झगडून फुडें येवपाचो यत्न करपी खंयचेय व्यक्तीक आनंद दिवपी ही घडणूक. पूण हे घडणुकेकय आसा क्षुद्रतायेची एक झालर. सर्तींतलें तें इनाम सदचे प्रथे प्रमाण सुवाळ्या सयत वर्सुकी संमेलनांत दिनासतना, रडी खायत,

महाविद्यालयाच्या कॅण्टिनांत, कसलोच गाजावाजो करिनासतना म्हाका दिलें. ही रूखरूख मागीर फुडें जायतीं वर्सां म्हज्या मनांतल्यान वचना जाली. आतां मात काकुळट येता त्या आयोजक-प्राध्यापकाची.

ते वादसर्तीचो म्हजेर वेगळोच परिणाम जालो. म्हज्यान भाशण करपाक जाता असो विस्वास पयलेच खेप म्हज्या मनांत निर्माण जावंक पावलो. मागीर हांव मुंबयच्या एका वक्तृत्वोत्तेजक मंडळांत दाखल जालों. त्यावेळार मुंबयंतल्या वेगवेगळ्या उत्सवांनी चालंत समाजीक विशयांचेर चक्री व्याख्यानां जातालीं. चक्री व्याख्यानां हो एक मजेशीर प्रकार. एकाच विशयाच्यो वेगवेगळ्यो बाजू पयलीं थारावन भाशण करतल्यांनी विविध भुमिकांतल्यान मांडपाच्यो आनी एकामेका लागीं वाद घालपाचो अशें ह्या व्याख्यानांचें स्वरूप आसतालें. हांवें कांय चक्री व्याख्यानांत उमेदीन वांटो घेतलो. फुडें हांव दलित समाजांतल्यान आयिल्ल्याचें कळटकच त्या वक्तृत्वोत्तेजक मंडळाच्या कांय कार्यकर्त्यांक म्हज्या वक्तृत्वाक उत्तेजन दिवपाची गरज दिसली ना. हें म्हज्या लक्षांत येतकच हांव कुशीक सरलों.

ही सगळी धडपड चलतना हांवें अभ्यासय नेटान चालू दवरिल्लो. जिवापेल्यान कश्ट घेतिल्ले.पूण महाविद्यालयाच्या पयल्या दोन वर्सांत चडशें येस हातांत येवूं नाशिल्ल्यान आत्मविस्वासान परतून मार खाल्लो. वेवसायीक येसा खातीर पदवी परिक्षेंत पयलो वर्ग मेळोवप गरजेचें आशिल्लें. कितलोय अभ्यास केलो तरी येस मेळतच म्हणपाचो भरवंसो दिसनासलो. हजारांनी इंजिनियर बेकार आशिल्ल्याच्यो बातम्यो वाचून हांव थरथरतालों. पयलो वर्ग मेळना जाल्यार कितें हो प्रस्न सदांच भिसडयतालो. फुडार काळखी दिसतालो. मनाचे हे असले आवतिकायेंत हांवें म्हजी चिंता आई कडेन उलोवन दाखयली. म्हजे सादेभोळे आईक म्हजे चिंतेचें कारण कळना. तेदे वेळार भाऊ मुंबय (उपनगर) जिल्ल्याचो अतिरिक्त जिल्लाधिकारी आशिल्लो. कलेक्टर म्हणल्यार आमच्या आईच्या विश्वांतलो सगळ्यांत व्हडलो अधिकारी. तिणें म्हणलें -

''आरे बाबा, तू काह्याला काळजी करीतो? तुव्हा भावू कलेक्टर हाये. तो तुला कुडय बी कामाला लावील''.

ज्या मानसीक आंदोलनांतल्यान त्यावेळार हांव वतालों तातूंतल्यान म्हज्यांतलो हांव मदींच वयर सरून येतालो. सात्वीक संतापान हांव गर्जलों -

"म्हजो भाऊ जगाचो राजा आसत, पूण म्हाका कितें ताचें, ताच्या मोटेपणाचेर हावें जगप काय कितें? म्हाकाच म्हजें बरें वायट करपाक जाय काय नाका?"

हांवें खर यत्न चालू दवरिल्ले. हेर सगळीं प्रलोभनां पयस दवरिल्लीं. परिक्षांच्या वेळार तर हांव अभ्यासा बगर हेर सगळ्या गजाली बंद दवरिल्ल्यो. आपणाली कुवत थारावपाची ही निमाणची संद आसा अशें म्हाका सतत दिसतालें. ते खातीर हांव झपाटिल्ले वरी अभ्यास करतालों. परिक्षा जाली, पेपर बरे गेले. आत्मविस्वास डळमळीत आशिल्ल्यान पयलो वर्ग मातसो चुकतलो अशें रावन रावन दिसतालें. निमाणें लागलो एकदांचो पदवी परिक्षेचो निकाल.

तेदे वेळार पदवी परिक्षांचे निकाल नेमाळ्यांनी येताले. निकालाचो तो दीस म्हाका आयजूय चक्क येवजता. सकाळीं बेगीन उठून हांव नेमाळें घेवपाक वडाळा स्टेशनाचेर धांवलों. थरथरतल्या हातांनी हांवें नेमाळें उगडलें आनी पयल्या वर्गाचे यादींत म्हजो नंबर सोदपाक लागलों. म्हज्या पोटांत धस्स जालें. जायत्या संवगडी इश्टांचे नंबर पयल्या वर्गाचे यादींत चकचकताले. म्हजो नंबर मात तातूंत नाशिल्लो. म्हज्या दोळ्या मुखार कोळाख दाटून आयलो. आपणें कितलेय जरी यत्न केले तरी येसस्वी जावपाक शकना हे जाणविकायेन हांव पुराय खचलों. नाईलाजान हांवें सकयल्या दुसऱ्या वर्गाचे यादीचेर नदर व्हेली आनी म्हाका थरथरो सुटलो. थंयूय म्हजो नंबर नासलो. म्हाका पयलो वर्ग थोड्या प्रमाणांत चुकिल्लो, तर हांव दुसरी श्रेणीय मेळोवंक शकलों ना. जगपाकूच हांव नालायक आसां, असो विचार खीणभर म्हज्या मनांत तरळून गेलो. पूण खीणभरच तो. हांवें उस्पिल्ले खर कश्ट दोळ्यां मुखार आयले आनी दुसरी श्रेणीय म्हाका मेळूं नये हाचेर म्हजो विस्वास बसना जालो. भियेत भियेत, हांवें परतून वयर नदर मारली आनी कितें अजाप, विशेश प्राविण्या सयत पयल्या वर्गाच्या (फर्स्ट क्लास विथ डिस्टिंक्शन) धाकटुले वळेरेंत म्हजो नंबर हांसते मुद्रेन म्हाका खुणायतालो! आडवळणां घेत काय जायना, म्हज्या जिविताची गाडी परतून रुळाचेर पाविल्ली.

१९७३त बी.एस्सी. जातकच हांवें एम.ए. खातीर मुंबय विद्यापीठांत प्रवेश घेतलो. अर्थात, अर्थशास्त्र हो विशय घेवन. तातूंत गणिती अर्थशास्त्र (मॅथेमॅटिकल इकॉनॉमिक्स) आनी अर्थमिती (इकॉनॉमेट्रिक्स) अशे, हरशीं कठीण म्हूण समजुपी विशय हांवें घेतले. अत्यंत आवडीचो विशय आनी प्रा. ब्रह्मानंद, प्रा. भारद्वाज, प्रा. पंचमुखी हांचे सारके उत्कृश्ट शिक्षक हांचे खातीर विद्यार्जनांतलो निर्मळ

आनंद हांव उपभोगूंक लागलों.

एम.ए.च्या पयल्या वर्गाक आसतना, हेर भोवतेक विद्यार्थी आनी तरनाटे प्राध्यापक बसतात तसो हांवूय फकत मजा म्हूण स्टेट बँकेच्या प्रोबेशनरी अधिकाऱ्यांचे परिक्षेक बसलों. विशेश म्हणल्यार पयल्या प्रयत्नांत लेखी परिक्षा उत्तीर्ण जालों. उपरांत मुलाखत आनी 'ग्रूप डिस्कशन' खातीर आपयलो. थंयूय म्हजी कामगिरी बरी जाली अशें मनांतल्यान दिसलें. तेच बराबर वशिल्या बगर म्हाका अधिकाऱ्याची सुवात कोण दितलो अशी मात भावना जाली, तातूंत पन्नास-साठ हजार इत्सुकां मदल्यान फकत दोनशें जाणांची निवड जाता असली आंकडेवारी भिरांत घालताली.

म्हजी उमळशीक पळोवन भाऊन ल्हवूच विचारलें, "कोणा कडेन उतर घालूं?"

एकेवटेन वशिल्या बगर हांव येसस्वी जावचो ना ही भिरांत जाल्ली. पूण तेच बराबर स्वताची कुवत आजमावन पळोवपा खातीर हांव उत्सूक जाल्लों. हांवें भाऊक स्पश्ट सांगलें, "तुवें कोणाकय सांगून म्हाका ऑफर मेळ्ळी तरी हांव ती न्हयकारतलों".

स्टेट बँकेच्या निकालाची हांव उळशिकेन वाट पळयतालों. सगळ्या मुखेल नेमाळ्यांचेर लक्ष दिवन आसलों. निमाणें, निकाल पयलीं जाहीर जालो तो 'फ्री प्रेस' सारकेल्या हांव लक्ष दवरून नाशिल्ल्या नेमाळ्यांत. ताका लागून निकाल म्हज्या हातांत आयलो तो सांजवेळचो. कहर म्हणल्यार म्हाका म्हजो नंबर याद जायना. स्टेट बँकेची लेखी परिक्षा हांवें फकत मजे खातीर दिल्ली. ते खातीर ते संबंदीचे कागदपत्र सारके सांबाळून दवरिल्ले नाशिल्ले. घरांतल्या सगळ्या कागदपत्रांची उलथापालथ केली, पूण स्टेट बँकेचें कागदपत्र काय सांपडना. हांव बरोच चडफडलों. निमाणें, दुसऱ्या दिसा सकाळीं स्टेट बँकेच्या मुखेल कार्यालयांत वचून निकाल पळोवचो अशें थारायलें.

दुसरो दीस चड करून १ जुलय १९७४चो. तो दीस विसरपाक म्हाक कदापी शक्य ना. त्या दिसा उटंगाराचो पावस पडटालो. आदल्याच सप्तकांत ताचे पयलींच्या शंबर वर्सांतल्या पावसाचो विक्रम नोंद केल्लो. मुंबापुरीक इटालीच्या व्हिनस शाराची जलमय कळा आयिल्ली. लोकांची सगळी जीण विस्कळीत जाल्ली. पावस घोग्यांनी कोसळटालो. हांव मात उतावीळ जाल्लों तो नोकरे खातीर दिल्ले पयले वयले परिक्षेचो निकाल जाणून घेवपाक. उटंगाराच्या पावसांतल्यान, मेळटा

त्या वाहनाचो आदार घेत चार-पांच वरांचो प्रवास करून अर्द मेल्ले आवतिकायेंत हांव कसोबसो स्टेट बँकेच्या मुखेल कार्यालयांत येवन पावलों आनी ज्युस्तच 'आहन्त हन्त', आकांताळ्या ह्या पावसाक लागून त्या दिसा स्टेट बँकेन खास सुटी जाहीर केल्ली!

थंयच रावतल्या भाऊगेर हांवें ती रात सारली आनी दुसऱ्या दिसा सकाळीं परतून स्टेट बँकेच्या मुखेल कार्यालया कडेन घालून घेतलें. योगायोगान, त्यावेळार स्टेट बँकेच्या मुंबय परिमंडळाचे पर्सनल मॅनेजर श्री. एन. एस. कुळकर्णी, म्हाका मुख्यालयाच्या मुखारच मेळ्ळे. मुलाखतीच्या वेळार 'ग्रूप डिस्कशन'चें आयोजन तांणीच केल्लें म्हणून आसुंये तांणी म्हाका त्याच खिणाक वळखलो आनी उपाट मोगान हात दिवन म्हजी प्रोबेशन अधिकारी म्हूण निवड जाल्ले खातीर अभिनंदन केलें. म्हजो विस्वासूच बसना. म्हाका वळखुपांत तांची कितेंय चूक बी जावना मूं, असोय दुबाव हांवें तांकां उलोवन दाखयलो. तांणी वळखतां म्हणपाची खूण केली आनी म्हाका आपणाल्या कॅबिनांत घेवन गेले. कागदपत्रां दाखोवन हांव जैतिवंत जाल्ल्याचें तांणी म्हाका पटयलें आनी म्हजे नदरेक हाडून दिलें. १९ वर्सांचे पिरायेचेरच स्टेट बँकेचो अधिकारी जावपाचो मान म्हज्या नांवाचेर नोंद जाल्ल्याचेंय तांणी म्हाका सांगलें. म्हजे खोशेक शीममेर उरली ना.

आतां प्रस्न उरलो, एम.ए.चें कितें? एम.ए.चें पयलें वर्स सोंपून दुसरें सुरू जावपाचे वाटेर आशिल्लें. एम.ए. पुराय करपाक म्हाका मुंबय रावप गरजेचें आशिल्लें आनी स्टेट बँकेची पद्दत अशी आशिल्ली, नव्यानूच अधिकारी जाल्ल्या सगळ्यांची नेमणूक मुंबयचे भायर करपाची. आतां करप कितें? एम.ए. अद्यार सोडून दिवपाची तर म्हजी अजिबात इत्सा नासली. हांवें मागीर गनिमी कावो वापरपाचें थारायलें.

मुंबय विद्यापीठाचे अर्थशास्त्र विभागाचे मुखेली आशिल्ले अर्थतज्ञ प्रा. ब्रह्मानंद. तांचे मजती बगर एम.ए. पुराय करप सामकें अशक्य आशिल्लें. हांव वचून तांकां मेळ्ळों आनी तांची मानसीकताय लक्षांत घेवन तांकां म्हणलें -

''सर, स्टेट बँकेची बऱ्यापैकी नोकरी आतां चलून आयल्या. ते खातीर हांव एम.ए. अद्यार सोडून दितां''.

प्रा. ब्रह्मानंद अजापले -

''बाब रे, असलो विचार तूं चुकून लेगीत तकलेंत हाडूं नाका. तुजे कडसून

आमच्यो खूब व्हड अपेक्षा आसात. तुवें अर्थशास्त्राचो अभ्यास सोडून दिवप हें आमच्या देशा खातीर योग्य जावचें ना''.

''कितें करूं सर. म्हजो नाईलाज आसा. म्हजी नेमणूक मुंबय जाल्ली आशिल्ली जाल्यार हांव म्हजें शिक्षण नक्कीच पूर्ण करतलों आसलों''.

म्हजी अपेक्षा आसलीच, प्रा. ब्रह्मानंद खुबळ्ळे. आपलीं सगळीं कामां तांणी कुशीक उडयलीं आनी म्हाका घेवन तुरतुरीत स्टेट बँकेच्या मुखेल कार्यालयांत पावले. प्रा. ब्रह्मानंदाचे विद्यार्थी सगळेच व्हडाव्हडा पदांचेर आसात. प्रा. ब्रह्मानंदाक ना म्हणप हेरांकय जड वता. तेदे वेळार स्टेट बँकेच्या अर्थविभागाचे मुखेल लॉरेन्स डिमेलो हे आशिल्ले. तांचे म्हऱ्यांत वचून प्राध्यापक महाशयांनी सांगलें -

''कितेंय जालें तरी ह्या विद्यार्थ्यान एम.ए.चो अभ्यास सोडपाक फावना. स्टेट बँकेन सुरवेचें एक वर्स तरी हाका मुंबय वा मुंबय लागींच नेमणूक दिवपाकच जाय''.

प्रा. ब्रह्मानंदाचे मध्यस्तीक लागून स्टेट बँकेचे कल्याण शाखेंत म्हजी पयली नेमणूक जाली. ते भायर लॅक्चर्साक बसनासतना परिक्षेक बसपाची खाशेली परवानगी दिली. ताका लागून स्टेट बँकेची नोकरी सांबाळून हांव एम.ए. पूर्ण करपाक शकलों. प्रा. ब्रह्मानंदा सारकेल्या गुरूजनांच्या रिणांत जितलें रावं येता तितलें थोडेंच.

स्टेट बँक प्रकरणांत भाऊ मात निर्शेलो. हांवें स्टेट बँकेची नोकरी आपणावची न्हय असो तागेलो आग्रो आसलो. बाकीच्या समस्त आय.ए.एस. अधिकाऱ्यां प्रमाण आपलो पूत, धूव, भाव, भयण जाका जाका शक्य आसा त्या दरेकल्यान आय.ए.एस. जावचें अशी तागेली धारणा असली. आय.ए.एस.चे घट्ट चौकटींत हांव घुस्मटून वचन अशे भावनेन म्हाका मात तातूंत रस दिसलो ना.

आपणालें म्हणणें बाकीच्यांक मान्य जायना आसत जाल्यार सामकोच अनपेक्षीत असो युक्तीवाद उपस्थीत करपांत भाऊचो हातखंडो. ताणें एक नवोच मुद्दो मांडलो -

''आयजवेर दलित समाजांतल्या कोणाकूच मुंबय विद्यापीठांत अर्थशास्त्र विशय घेवन एम.ए.क पयलो वर्ग मेळोवपाक जालें ना. तुका मेळपाची ती शक्यताय आसा. तुवें ही स्टेट बँकेची नोकरी आपणायल्यार मात ही भांगराळी संद नक्कीच हातांतली वतली. यू कांट इट द केक ॲण्ड हॅव इट टू''.

तशें पळयल्यार म्हाका नोकरेची सामकी निकड आशिल्ली अशें न्हय. भाऊलेंय

म्हणणें पट्टालें. मात इतल्या हजारांनी इत्सुकांक मेळपाक शकना असली बरी नोकरी चलून आयिल्ली आसतना तिचे कडेन फाट करपाचो वेव्हार न पटपा सारको. खोल मनांत दड मारून आशिल्ली असुरक्षिततायेची भावना परतून वयर सरताली आसुंये. हांवें नोकरी स्विकारपाचो निर्णय घेतलो.

हांव स्टेट बँकेंत रुजू जालों आनी एम.ए.चो अभ्यास चालू दवरलो. प्रा. ब्रह्मानंद आनी हेर प्राध्यापकांच्या मार्गदर्शनाक लागून आनी शरद खडकर हांचे सारकेल्या विशाळ काळजाच्या मनशाच्या अमोल सहकार्या खातीर खंड पडपाक दिसनासतना, १९७५त हांव एम.ए. पुराय करपाक शकलों. खास करून स्टेट बँकेचे नोकरेचो व्याप सांबाळूनय एम.ए.क पयलो वर्ग मेळोवपांत हांव जैतिवंत जालों.

''आय हॅव इटन द केक ॲण्ड हेव इट टू'' हांवें भाऊक म्हणलें. ताच्या मुखामळा वयली खोस भरून ओत्ताली. म्हजे कडसून ताच्या सपनांची पुर्तताय जाल्ली.

तीन वर्सां नोकरी केली हांवें स्टेट बँकेंत. ऑक्टोबर १९७४ ते सप्टेंबर १९७७. ह्या तीन वर्सांत म्हजे कडसून कसलीच उल्लेखनीय कामगिरी जावंक शकली ना. एक तर हांव पिरायेन ल्हान, विचारांनी अपरिपक्व आनी कार्यालयीन कामांत अननुभवी. ताका लागून हातसून ल्हान-व्हड चुको जाल्यो, तातूंतल्यान हांव शिकत मात गेलों. पयलें वर्स मुंबय आनी मुंबय लागीं काडटकच फुडलीं दोन वर्सां हांवें विदर्भांत अकोला, भंडारा जिल्ल्यांतल्या साकोली आनी वर्धा जिल्ल्यांतल्या आर्वी ह्या जाग्यांचेर काडलीं. जायते बरे वायट अणभव आयले. तथाकथित उच्च जातींतल्या कांय वरिश्ठ अधिकाऱ्यांनी हेर प्रशिक्षणार्थ्यांक कुशीक दवरून, काम शिकोवपाचे सबबीचेर ४०-४५ अंश सेल्सियसच्या रखरखीत वतांत रिणांची वसुली करपाक म्हाका धाडपाचें पुण्य पदरांत पाडून घेतलें. ना म्हणपाक, निमाणें निमाणें वीस कलमी कार्यावळी खाला आर्वी हांगासर शेंकड्यांनी गरीब लोकांक सायकली दिवपाची कार्यावळ, हांवें फुडाकार घेवन येसस्वी रितीन निभयली. स्टेट बँकेंतली म्हजें नांव घेवपा सारकी कार्यावळ तितलीच.

मुंबय भायर दोन वर्सां काडले उपरांत म्हाका मुंबयचे वेध लागले. विदर्भांत आसतना योगायोगान रिझर्व्ह बँकेच्या अर्थशास्त्र विभागा खातीर 'रिसर्च ऑफिसर' ह्या पदाची जायरात पळयली. हांवें अर्ज केलो. एम.ए.क अर्थशास्त्र विशयांत

मेळिल्ल्या पयल्या वर्गाक लागून म्हाका मुलाखतीक आपयलो. मुलाखत बरी जाली आनी कसल्या त्रासां बगर म्हजी रिझर्व बँकेंत निवड जाली. रिझर्व बँकेचो सगळ्यांत तरनाटो 'रिसर्च ऑफिसर' म्हूण एक विक्रम म्हज्या नांवार नोंद जालो.

हांव योग्य वेळार मुंबय परतलों अशें म्हणचें पडटलें. त्यावेळार भाऊ णव म्हयन्यांच्या प्रशिक्षणा खातीर इंग्लंडाक वतालो. सुधाकर नोकरे खातीर एकलोच दुबय गेल्लो. तर दिनेश ताचे पयलींच 'शिपिंग' मदली नोकरी स्विकारून कोलकाताक वचपाक गेल्लो. व्हडल्या तिगांय भावांच्यो बायलां-भुरग्यांचो बी घराबो मुंबयच आशिल्लो आनी दादा तर थकिल्लो. आमच्या घराब्यांत पोकळी निर्माण जाल्ली ते घडकेक हांव मुंबय परतूंक शकलों हें सुदैव. ते भायर 'कुँवारा बाप' म्हूण कांय सुंदर अणभव पदरांत पडले ते वेगळेच.

मुंबय रावपाची सोय आनी अर्थशास्त्रा सारकेल्या आवडीच्या विशयांत संशोधन करपाचें काम हाका लागून म्हाका रिझर्व बँकेची नोकरी रोखडीच मानवली. म्हजी वेवसायीक घडी आतां वेवस्थीत बसपाक लागली अशें दिसपाक लागलें. समाजीक कार्यांत आपणाक झोकून दिवपाची उर्मी मागीर मनांत परतून दाटून येवपाक लागली.

महात्मा गांधीच्या सान्निध्यांत वाडिल्ल्या डॉ. रामस्वामीं सारक्या अनुभवी कार्यकर्त्या वांगडा हावें समाजीक कार्याक सुरवात केली. बौद्ध हितवर्धीनी सभा हे संस्थेची उबारणी जाली. फुडें तिचें 'डॉ. आंबेडकर इन्स्टिटयूट ऑफ बँकिंग सर्विसेस' अशें नामाधिकरण जालें. डॉ. रामस्वामी स्वता अध्यक्ष तर हांव सरचिटणीस आशिल्लों. राजकारणा सावन कुशीक आशिल्ले जायते बरे कार्यकर्ते एकठांय जाले.

राजकारणा सावन जाता तितलें पयस रावन रचनात्मक समाजकार्य करचें अशें आमी थारायलें. ते खातीर बँकिगचें क्षेत्र वेंचून काडलें. विविध बँकांतल्या नोकऱ्यां खातीर सर्तीच्यो ज्यो परिक्षा आसतात तांचे तयारे खातीर पयशे घेनासतना मार्गदर्शन वर्ग घेवपाक आमी सुरवात केली. असले तरेचो तो मुंबयंतलो पयलोच उपक्रम आसुंये. ताका अक्षरशा आकांताचो प्रतिसाद मेळ्ळो. मध्य रेल्वेच्या अंबरनाथ-टिटवाळ्या सावन पश्चीम रेल्वेच्या भाईंदर मेरेनचे सगळ्या जाती-धर्माचे गरीब विद्यार्थी वडाळ्याच्या डॉ. आंबेडकर महाविद्यालयांत चलतल्या आमच्या वर्गांक येवपाक लागले. व्याख्यानां घेवपाची जापसालकी स्वता हांव,

वसुंधरा (फुडें म्हजी बायल जाली), प्रा. पानसरे, डॉ. कर्डक आनी बँकिंग क्षेत्रांतले हेर सेवाभावी वरिश्ठ अधिकारी घेताले. आमी कार्यकर्ते आमचे पदरचें मोडून हे सगळे उपद्व्याप सांबाळी. कांय निपूण लोक मानधन थारायले बगर आमच्या कार्यावळींनी येनासले. आयले उपरांत मात समाजाच्या सामक्या सकयल्या थरांतल्यान आयिल्ल्या आनी आपल्या पांयार उबे रावपाक धडपडपी शेंकड्यांनी तरनाटे चले-चलयांक पळोवन तांचें मतपरिवर्तन जातालें. मागीर थारायिल्लें मानधन स्विकारिनासतना फुडल्या फावटीं आपणाक परतून आपोवपाचें मान्य करून घेवन ते निपूण लोक परते वताले हें हांगा मुद्दाम सांगचेंशें दिसता.

लेखी परिक्षेंत उत्तीर्ण जाल्ल्यां खातीर मुलाखतीचें तंत्र समजावन सांगपाचे वर्ग आमी घेताले. जाणकार मनशांचो 'पॅनल' तयार करून तांचे वतीन दरेका उमेदवाराचे मुलाखतीची 'रंगीत तालीम' घेवप जातालें. आनी मागीर त्या त्या उमेदवाराक ताचे वा तिचे मुलाखतींत कितें कितें चुको जाल्यात तें समजावन सांगप जातालें. ताका लागून उमेदवारांक मुलाखतीचें तंत्र कळून येतालें. ते भायर तांच्यांत आत्मविस्वास निर्माण जातालो आनी बरेच फावटीं, तीच तांच्या येसाची गुरूकिल्ली थारताली.

खूब व्हडा प्रमाणांत हे उपक्रम येसस्वी जाले. अक्षरशा शेंकड्यांनी तरणाट्या चल्या-चलयांक बँकांच्यो नोकऱ्यो मेळप सोंपें जालें. आयजूय हांव व्याख्यानां दिवपाक विविध बँकांनी वतां तेन्ना आतां अधिकारपदाचेर पाविल्ले म्हजे 'विद्यार्थी' म्हाका मेळटाच मेळटात. म्हजे खातीर ती खोशेची एक पुंजी जावन उरल्या.

म्हज्या समाजीक कार्याचो व्याप जसजसो वाडपाक लागलो, तसतसो म्हजे म्हऱ्यांत, घरा कडेन आनी कार्यालयांत ल्हानव्हड कामांक लागून येवप्यांचो आंकडो वाडपाक लागलो. तेदे वेळार रिझर्व बँकेचे जे अमर बिल्डिंगेंत म्हजें कार्यालय आशिल्लें थंय शेणिल्ले भशेन भोंवपी एखादी व्यक्ती दिसली काय लोक तिका घेवन तडक म्हजे कडेन येताले. कित्याक तर ती व्यक्ती आनीक कोणाक न्हय तर म्हाकाच सोदताली.

म्हजो आत्मविस्वास उपाट भरून व्हांवतालो. समाजीक कार्याचीच एक 'नशा' चडटा. म्हजेय बाबतींत तोच प्रकार घडटालो. त्या कामाचें समाधान कितलेंय व्हड आसलें तरी ताचे खातीर वेवसायीक जापसालक्यां कडेन फावो तितलें लक्ष दिवपाक कठीण जाता. म्हाका खाजगी जिवीतच उरूंक नाशिल्लें.

मागीर अर्थशास्त्राचें वाचन, संशोधन खंयचें करतलों? रिझर्व बँकेचें काम हांव प्रामाणीकपणान करतालों, पूण आपलो असो वेगळो छाप उदेवपाक जायत अशें गडगंज संशोधनकार्य मात जायनासलें. ताची खंत जावपाक लागली.

हांवें परतून निबर आत्मपरिक्षणाचो आलाशिरो घेतलो. वेवसायीक थिरताय आयली तरी तातूंतल्यान आपोआप वेवसायीक येस साध्य जावपाक शकना हाची जाणीव जाली. वेवसायीक येसा खातीर अर्थशास्त्रीय वाचन-संशोधनाक खूब वेळ दिवपाची गरज म्हज्या लक्षांत आयली. तातूंतल्यानच अर्थशास्त्रांत डॉक्टरेटाचो अभ्यास करपाची कल्पना फुडें सरली. डॉ. आंबेडकरांक आमी आदर्श मानतात न्ही, मागीर तांचे भशेन अमेरिकेंत वचून अर्थशास्त्रांत कित्याक डॉक्टरेट करची न्हय हो विचार तकतलेंत घुंवाडे मारपाक लागलो. ती कल्पना वसुंधरेनय उखलून धरली आनी ते खातीर जो लागता तो त्याग करपाची तयारी दाखयली. पूण परदेशांत वचपाचें जाल्यार कोण अर्थसाहाय्य करीत हो कठीण प्रस्न भेडसावपाक लागलो. सुदैवान भाऊन मार्ग सुचयलो.

भारत सरकाराच्या शिक्षण मंत्रालयाचे वतीन उच्च शिक्षणा खातीर नॅशनल स्कॉलरशीप दितात. दर वर्सा दरेका विशयांतलो एक निपूण राष्ट्रीय थरा वयले सर्तींतल्यान वेंचून काडटात. ते व्यक्तीक डॉक्टरेटी खातीर एखाद्या परदेशी विद्यापिठांत धाडटात आनी खर्चाची सगळी जापसालकी सरकार घेता.

भाऊन म्हाका ती जायरात दाखयली. हांवें रोखड्या रोखडो अर्ज धाडलो. बी.एस्सी. आनी एम.ए. ह्या दोनूय पदव्यांनी पयलो वर्ग मेळयिल्ल्यान मुलाखती खातीर आपोवणें आयलें. समाजकार्याचो एक वांटो म्हूण बँक अधिकाऱ्याचे नोकर भरती खातीर मुलाखत दिवपी तनणाट्या चले-चलयांक मार्गदर्शन करता आसतना म्हजे मुलाखतीचें तंत्र बरेंच घोटून घोटून तयार जाल्लें, ताका लागून आत्मविस्वास खर आशिल्लो. डॉ. आंबेडकरांची याद करून मुलाखती खातीर दिल्लीक गेलों. मुलाखत बरी जाली पूण येसाची खात्री नाशिल्ली. राष्ट्रीय थरा वयली तिव्र सर्त, तातूंत दलित समाजांतल्यान आयिल्लो आशिल्ल्यान पक्षपाताची शक्यताय, वशिलेबाजीची भिरांत, असले जायते दुबावीत विचार मनांत आशिल्ले. तशें कितें जालें मात ना. अर्थशास्त्राचो नॅशनल स्कॉलर म्हूण १९८०त म्हजी निवड जाली आनी सरकारी खर्चान अमेरिकेंत डॉक्टरेट करपाची संद म्हाका मेळ्ळी.

'नॅशनल स्कॉलरशीप' मेळ्ळी खरी पूण हांव अर्देंच झूज जिखिल्लों. उपरांतचें झूज आशिल्लें नोकरशाये कडेन. 'नॅशनल स्कॉलरशीप' सारकेली उत्कृश्ट येवजण राबोवपी कनिश्ट प्रशासकी अधिकाऱ्यांची थंडसाण एस्किमोकय लजोवपी आशिल्ली. ते खातीर दिल्लीक खूब भोंवड्यो करच्यो पडल्यो. तातूंतली निमाणची भोंवडी वेगळ्या अर्थान खास उगडास उरपा सारखी म्हूण सांगचीशी दिसता.

निमाणचे भोंवडेंत सगळ्या कागदपत्रांचेर सयो करून हांव मंत्रालयांतल्यान भायर सरलों आनी दिल्ली स्टेशनाचेर पावलों. झेलम एक्सप्रेसीचें रिझर्वेशन आशिल्ले खातीर हांव निश्चींत आशिल्लों, पूण स्टेशनार येवन पळय जाल्यार सगळ्याक बजबजपूरी. कांय गाडयो रद्द जाल्ल्या कारणान आकांताची रेटारेटी जाल्ली. गाडयेंत चडपाचे गडबडींत कागदपत्रांनी भरिल्ली म्हजी बॅग गाडी आनी प्लॅटफॉर्म हांचे मदल्यान रुळाचेर पडली. सकयल देंवन हांवें ती काडली. नेट लावन वयर चडलों आनी ते गडबडींत कोणें तरी म्हजें पयशांचें (आनी रेल्वेचें तिकेट आशिल्लें) पाकीट फारायलें.

आकांताळे गर्देक लागून लोकांनी रिझर्वेशन बी खुंटयाळ्याक लायिल्लें. तातूंत आनीक कहर म्हणल्यार मिलिटरीच्या जवानांनी नेमको त्याच डब्याचो ताबो घेतलो आनी बाकीच्या लोकांक त्या डब्या भायर काडपाक सरळ तांगेलें सामान उखलून डब्यांतल्यान भायर शेंवटुपाक सुरवात केली. पयशे तर गेलेच पूण बॅगेंतलीं म्हत्वाचीं, नोकरशहां कडेन झटापट करून निमाणें एकदांचीं मेळयिल्लीं कागदपत्रां गेल्यार कितें हे कल्पनेनच म्हज्या पोटांत गुळो आयलो. सुदैवान, 'आरे, हाण तिच्या मायला' म्हूण बाकीच्यांक बडोवपी सातारा-कोल्हापूरचे कांय जवान म्हज्या आदाराक आयले. ताका लागून डब्यांत उबें रावपाक तरी सुवात हांव आडावंक शकलों.

गाडी सुरू जाली. प्रवास पयसुल्लो. बोल्सांत फकत दोन रुपया. कडकडून भूक लागिल्ली, पूण च्या बगर कांय परवडपाचें नाशिल्लें. अर्थात च्या लेगीत मर्यादीत प्रमाणांत. हरशीं हांव स्टेशनाचेर पुरी-भाजी बी खावपाचें मुजरत टाळटां. पूण त्या दिसा सादी पुरी-भाजी घेवपाची म्हजी कुवत नाशिल्ली. अमेरिकेक वचपाचें म्हजें सपन बेगीन साकारपाचें आशिल्लें, पूण त्या दिसा म्हजी अवस्था एखाद्या भिकाऱ्या वरी जाल्ली. लोक मजेंत खाता-पिताले आनी हांव जीब चाट्टालों. निमाणें भूक सोंसना जावन हांवें म्हजें उंची जपानी घडयाळ विकपाचो यत्न केलो तेन्ना लोकांनी म्हजे कडेन ज्या नदरांनी पळयलें त्यो नदरो विसरप

सामकें कठीण. हांव रिझर्व बँकेचो एक जापसालदार अधिकारी, पूण लोक म्हजे कडेन एक भुरटो चोर हे नदरेन पळयताले. तो प्रवास सोंपोवन हांव कसो मुंबय पावलों हें म्हजे म्हाकाच खबर.

निमाणें अमेरिकेक वचपाची तयारी जाली. अमेरिकेक वचपाक भायर सरतना म्हाका म्हजे आजेचो उगडास जालो. आजी तिडकली काय तिणें म्हणचें, ''खांडवा, भुसावळ, नाशिक, मनमाड येवडं हिंडले पन आशे पोरं काय कुडं पायले नही''.

दादा रेल्वेंत आशिल्ल्यान आनी आजेन स्वता कांय काळ आदल्या जी.आय.पी. (सँट्रल रेल्वे) रेल्वेंत काम केल्ल्यान काय कितें तिगेल्या भुगोलाची व्याप्ती ह्या शारांच्या पेल्यान केन्नाच वचपाक शकली ना. खांडवा, भुसावळ, नाशिक, मनमाड इतलें भोंविल्ल्याचो अभिमान बाळगुपी म्हजे आजेक आपलो नातू साता समिंदरा पलतडीं अमेरिकेक वतना पळोवन कितें दिसलां आसतलें कोण जाणा? साता समिंदरा वयल्यान याद जाली. सात दर्या आपणेंय पळयल्यात असो आमच्या मातोसरींचो लेगीत दावो आसा. मात हे सात दर्या खंयचे तें सांगतना ती नांवां घेता तीं अशीं - शिवाजी पार्क, बांद्रा, अंधेरी, गेट वे ऑफ इंडिया, शिवडी, ठाणे आनी रत्नागिरी हांगाच्या दर्याचीं!

हांव १९८१तल्या ऑगस्टांत अमेरिकेक वचपाक गेलों. अमेरिकेंत पावतकच दरेका भारतीयाचो पयलीं 'यडबंबू' जाता. म्हजोय तसोच जालो. आमच्या इंडियाना विद्यापीठांत बाकीच्यां भशेन भारतीयांचीय बी संघटना आशिल्ली. हेर देशांच्या संघटनां प्रमाण ती क्रियाशील नाशिल्ली, इतलेंच. तात्वीक मतभेदांच्या आवरणा खाला आपापसांतले दुस्वास, तंटे पोटतिडकीन मांडप जातालें, कार्याच्या नांवान मात शुन्य. थंय वतकच पयलेच बसकेंत हांवें ते संघटनेच्या कार्यकारी मंडळाचेर टिकेचें अस्त्र सोडलें. नव्यानच येतल्या भारतीय विद्यार्थ्यांची सुरवातीचे कांय दीस तरी जतनाय घेवपाची गरज ठामपणान उकतायली. ते खातीर कितें करपाक जाता हाचें विवेचन केलें. खंयचेय संस्थेंत ती संस्था बरी चलपाक जाय अशें प्रामाणीकपणान मानपी एक व्हडलो गट आसताच आसता. म्हज्या भाशणाक बरो येवकार मेळ्ळो. ताचो इतलो परिणाम जालो, तेच सभेंत संस्थेच्या अध्यक्षांक लागीं लागीं एकमतान पदा वयल्यान देंवयलो आनी नाका नाका म्हणटा आसतना अध्यक्ष म्हूण म्हजी निवड केली.

फुडें तीन वर्सां हांव ते संघटनेचो अध्यक्ष उरलों. आपापसांतले हेवेदावे पयस सारून आमी ती संघटना इतल्या नांवारुपाक हाडली, त्या विद्यापिठांत येवपी परदेशी पावण्यांक आमची संघटना ही एक आदर्श संघटना म्हूण दाखोवपाक येवंक लागली. भारतीय संघटनेचो अध्यक्ष म्हूण काम करतना आमी जायते बरे उपक्रम राबयले. विद्यापिठांत नव्यानच येतल्या विद्यार्थ्यांक विमानतळाचेर येवकार दिवन तांचो जम बस मेरेन सुरवातीचीं कांय सप्तकां आमी तांकां सगळे परीन साहाय्य करचें. भारतीय पद्दतीच्या जेवणाक वसवशिल्ल्या विद्यार्थ्यां खातीर वसुंधरेच्या फुडाकारान आयतारा सांजवेळा 'ना फायदो-ना लुकसाण' ह्या तत्वाचेर एक 'कम्युनिटी किचन' चलोवचें. भारतीय सांस्कृतीक कार्यावळी घडोवन हाडच्यो. भारतीयांची स्नेहसंमेलनां तर नेमान आयोजीत करचीं.

भारताचेर टिका करपी देशबांधवांक आनी हेरांक परती जाप दिवन मायदेशाचें समर्थन करप हो तर म्हजो 'वीक पोयंट'च जावन पडिल्लो. तेच खातीर काय कितें म्हजे फाटसून 'इंडियाज सॅल्फ अपायंटेड अँबॅसॅडर' अशी म्हजी संभावना जावची.

भारता विशीं व्याखानां दिवपची संद तर हांव केन्नाच सोडिनासलों. अमेरिकन 'वनिता मंडळां'त भारता विशीं भाशण करतना भारतीय बायलांच्या कुकमा संबंदी सदांच विचारप जातालें. अशा वेळार, शंकराच्या तिसऱ्या दोळ्याची संकल्पना मांडून हांव ताळयो घेतालों म्हणजे घेतालोंच.

डॉक्टरेट करतना असले खूब अणभव गांठीक बांदून उरिल्ले. म्हज्या ह्याच अमेरिकेंतल्या अणभवांचेर आदारीत म्हजे इश्ट प्रा. पानसरे हांच्या आग्रा वयल्यान एक मराठी लेखमाला 'प्रबुद्ध नायक' ह्या पाक्षीकांत सुरू केल्ली. पांच-स वांटे उजवाडाक येतकच तें पाक्षीक दुर्देवान बंद पडलें आनी ती लेखमाळ खंडीत जाली.

अमेरीकन विद्यापीठांतलो डॉक्टरेटचो अभ्यासक्रम तसो आखीव रेखीव आनी जायत्या कश्टांचो आसता. पयल्या वर्सा तुमी अर्थशास्त्राचे सर्वसादारण कोर्स घेवपाचे. त्या त्या कोर्साच्यो परिक्षा दिवपाच्यो आनी ते भायर, वर्साच्या निमाणें 'कोर थियरी' नांवाची व्हडली परिक्षा दिवपाची. ते परिक्षेक तुमी चडांत चड दोन फावटीं बसपाक शकतात. तातूंत येस मेळ्ळें ना जाल्यार डॉक्टरेटी खातीर तुमची योग्यताय ना. आपली साटली पोटली गुठलावन सरळ घरचो रस्तो धरपाचो. एक फावट तुमी 'कोर थियरी' वलांडली काय ते उपरांतच्या दोन वर्सांत दोन ऐच्छीक

पोटविशय घेवन ताचे 'कोर्स' पुराय करपाचे आनी निमाणें, त्या त्या विशयांतले 'फिल्ड एक्झाम' वलांडपाच्यो. हे प्रक्रियेंत उण्यांत उणीं अडेज ते तीन वर्सां वतात. ते उपरांत एखादो विशय वेंचून काडून त्या विशयांत तुमी तुमचें 'रिसर्च प्रपोजल' तयार करपाचें. एक अध्यक्ष (गायड) आनी तीन ते चार सदस्य आशिल्ली एक प्रबंध समिती त्या त्या प्राध्यापकाचे संमतीन तयार करपाची. तांणी तुमचें 'प्रपोजल' मान्य केलें काय तें जाहीर करून विद्यार्थी-प्राध्यापकांचे आमसभेंत तुमी तें मांडपाचें. तुमच्या 'प्रपोजला'ची थंय वेवस्थीत कातराकातर जाता. सगळ्या मुद्यांचो परामर्श घेवन, सगळे टिकेचें फावो तशें खंडण करून तुमी वेंचून काडिल्लो विशय डॉक्टरेटीच्या प्रंबधा खातीर योग्य आसा हें तुमी ते आमसभेक पटोवन दिवंक शकले जाल्यार तुमी अर्दी सर्त जिखली. मागीर तुमी डॉक्टरेटीचे 'कॅण्डिडेट' म्हूण घोशीत जातात. असल्या सगळ्या उमेदवारांक पी.एचडी.च्या जाग्यार ए.बी.डी. (ऑल बट डिझरटेशन) म्हणटात. ते उपरांत मागीर थारायिल्ल्या विशयांत समितीच्या मार्गदर्शना खाला विस्तृत प्रबंध बरोवन पुराय करपाचो. तुमी केल्लें संशोधन मौलीक आसा, पयलीं जाल्लें ना आनी ते वरवीं त्या विशयांतल्या आशिल्ल्या गिन्यानांत तुमी भर घाल्या हें सप्रमाण तुमी तुमचे समितीक पटोवन दिवपाचें. समितीन तुमचो प्रबंध स्विकारलो काय तुमी जाले एकदांचे डॉक्टर!

ह्या सगळ्या सोपस्कारां भितर निबर कश्टांचीं साडेचार ते पांच वर्सां सहजतायेन वचपाक शकतात. हे सगळे प्रक्रियेंत सगळ्यांत म्हत्वाची व्यक्ती म्हणल्यार तुमचे समितीचे अध्यक्ष (गायड) आशिल्ले प्राध्यापक. तांचो अधिकार (खरें म्हणल्यार न्हयकाराधिकार) वादातीत आसता.

म्हज्या अभ्यासक्रमाची सुरवात तर उमेदीन जाली. रिझर्व बँके कडल्यान फकत तीन वर्सांची रजा मेळिल्ल्यान हांव घाईंत आशिल्लों. दरेका सेमिस्टराक त्या वेळार मुंबय सावन येवपी सोयरे-धायरे आनी इश्टांच्या पत्रांत मात 'चंगळ आहे बेट्याची' असो सूर आसतालो.

अभ्यासांत १९७५ ते १९८१ असो स वर्सांचो खंड पडिल्ल्यान डॉक्टरेटीचो अभ्यासक्रम म्हाका कितले झेपतलो हे विशीं हांव थोडो दुबाविल्लों. सगळ्या परिक्षांचे निकाल मात बरे लागत गेल्ले. दरेका कोर्साक अ वा अ+ अशी सर्वोच्च श्रेणी मेळत गेली. 'कोर थियरी'ची परिक्षा हांवें पयल्याच यत्नाक तडीक उडयली. गरज आशिल्ले दोनय ऐच्छीक विशय दुसऱ्या वर्सा एकदम घेवन तांचे सगळे कोर्स हांवें सोंपोवन उडयले. आंतरराष्ट्रीय वेपार आनी अर्थमिती हे म्हजे ऐच्छीक

विशय आशिल्ले. त्याच वर्साच्या गिमाळ्यांत हांवें दोनय विशयांच्यो 'फिल्ड एक्झाम' लेगीत दिवन उडयल्यो. अशे तरेन, तीन वर्सांचो अभ्यासक्रम हांवें दोनूच वर्सां भितर सोंपयलो. म्हज्या सवंगडी इश्टां भितर इतले ताकतिकेन अभ्यासक्रम सोंपोवपी हांव एकलोंच आसलों. म्हजेर रिझर्व बँकेचें दडपण आशिल्लें. असलीं बंधनां तांचेर नाशिल्ल्यान तांकां चड वेळ लागल्यार कांय हरकत नासली.

डॉक्टरेटीच्या अभ्यासक्रमांतलो 'फिल्ड एक्झाम' हो सगळ्यांत तकली उसळावपी प्रकार. ह्या परिक्षांक नेमून दिल्लो निश्चीत असो अभ्यासक्रम नासता. त्या त्या विशयांतलें कितेंय विचारप जावं येता. दरेक परिक्षा चार ते पांच वरांची. हांव तर दोनूय ऐच्छीक विशयांतली 'फिल्ड एक्झाम' एकदमच दितालों. ताका लागून घेऽऽ म्हूण मानसीक दडपण आशिल्लें. अर्थमितीची दुसरी परिक्षा हुपतकच तकली इतली जड जाल्ली, घरा वतना रस्तो सदचो 'टायरा पोंदचो' आसून लेगीत दोन-तीन जाग्यांनी म्हजे गाडयेन चुकून 'टर्न' घेतलें. एका जाग्याचेर तांबडो दिवो आसूनय कार तशीच दामटून फुडें व्हेली. त्या परिक्षांच्या उगडासान आयजूय कांटो येता आंगार.

हांगा कारीचो उल्लेख आयिल्ल्यान, अमेरिकेंत आमची बरीच चैन जाताली अशी समजिकाय जावपाची शक्यताय आसा, ते खातीर मुजरत सांगतां. भारत सरकार म्हाका जो शिक्षणीक भत्तो दितालें तो सादारणसो एका मनशाक पुरो पडूं येता इतलो आशिल्लो आनी तितलेशे रकमेंत म्हजी बायल आनी दोगां भुरग्यांचें पोट भरप आनी तांचो सांबाळ करपाची जापसालकी म्हजेर आसली. ताका लागून येणावळ आनी खर्च हाचीं दोन तोंकां जुळयतना नाकी णव येतालें. तातूंतल्यान अमेरिकन 'अरे संसार संसार' करपाचे (आतां बरे दिसपी) अणभव मात पदरांत पडले.

अमेरिकन शिक्षणपद्दतीचें आनी खरें पळयल्यार तुमी खर कश्ट उस्पिले जाल्यार तुमकां ताचें फळ मेळटलेंच हें सगळे समाजवेवस्थेचें एक व्हड वैशिश्ट्य. म्हजे बाबतींत तेंच जालें. फकत दोन वर्सां भितर सगळ्यो आडखळी हांवें बरे तरेन निभायल्यो, इतलेंच न्हय तर गुणांचो एक नवो उच्चांक हांव मारूंक शकलों. आमचे कडेन जशी टक्केवरी आसता तशें थंय 'ग्रेड पॉयंट ॲव्हरेज (जी.पी.ए.)' हो प्रकार आसता. जी.पी.ए. हो चडांत चड चार इतलो आसूंक शकता, तितलो जी.पी.ए. म्हणल्यार आमचे कडेन शंबर टक्के मार्क. हांवें चारां पैकी ३:९३

इतलो जी.पी.ए मेळोवन इंडियाना विद्यापीठांत अर्थशास्त्र विशयांत एक नवो विक्रम प्रस्थापीत केलो, जो आयज मेरेन अबाधीत आसा. हे शिक्षणीक कामगिरी खातीर तशेंच भारतीय विद्यार्थी संघटनेचो अध्यक्ष म्हूण हांवें केल्ल्या समाजीक कार्याचो गौरव म्हूण १९८३ तलो 'सर्वोत्कृश्ट आंतरराष्ट्रीय विद्यार्थी' म्हूण म्हाका भोवमानीत केलो. पोरण्या वडाळ्याचे मुंबय पोर्ट ट्रस्टाचे अत्यंत सादारण अशे शाळेंत सुरवात करून लेगीत डॉ. आंबेडकरांचे प्रेरणेन हांव खूब पयस मेरेन येवन पाविल्लों.

'कोर्स वर्क' सोंपतकच हांव प्रबंध समितीचें गठन करपाचे तयारेक लागलों. प्रबंध समिती तयार करप हो अमेरिकन डॉक्टरेटीचे वाटचालींतलो एक नाजूक वांटो आसता. जे पोटशाखेंत तुमी संशोधन करपाचे आसात तातूंतल्या अधिकारी व्यक्तींक तातूंत आस्पावन घेवपाचें, तें करतना मात तांच्यांतल्या आपापसांतल्या अंतर्विरोधाचें भान दवरपाचें. प्रबंध समितीच्या अध्यक्षांची निवड करतना तर खास जतनाय घेवप गरजेचें आसता. ते व्यक्तीचो सभाव, काम करपाची पद्दत, ते व्यक्ती कडेन तुमचें आशिल्लें नातें, बाकीच्या विद्यार्थ्यांचो तांचे विशींचो अणभव हें सगळें विचारांत घेवपाची गरज आसता.

इंडियाना विद्यापीठांत तेदे वेळार आंतरराष्ट्रीय नाणे निधींत (आय.एम.एफ.) कांय काळ काम करून परतल्लें फॉन फुरस्टनबर्ग हे नांवाजते प्राध्यापक आशिल्ले. हे महाशय खूब व्हड विद्वान आसले पूण अत्यंत गर्विश्ट आनी तापदायक सभावाचे आशिल्ले. तांकां प्रबंध समितीचे अध्यक्ष करप म्हणल्यार जाणूनबुजून आपणाकच संकश्टांत उडयिल्ले भशेन आशिल्लें. ते खातीर हांवें तांकां टाळपाचें थारायलें. तेच पोटशाखेंतले दुसरे फाकिवंत निपूण प्रा. ग्रीन. हे तांच्या उरफाटे, एक मोगाळ, विद्यार्थीप्रिय शिक्षक म्हूण नामनेचे आशिल्ले. म्हजी स्वताची 'वेव्हलेंग्थ' तांचे कडेन जुळिल्ली. ताका लागून हांवें तांकां म्हज्या प्रबंध समितीचे अध्यक्ष करपाचो निर्णय घेतलो.

हांव म्हगेलो सार्वजनीक वित्त ह्या अर्थशास्त्राचे उपशाखेंतलो संशोधन प्रस्ताव घेवन प्रा. ग्रीन हांकां मेळ्ळों. तांकां विस्तृततायेन तो विस्कटावन सांगलो. तांकां तो प्रस्ताव रोखडोच मानवलो. तरी, प्रा. फुरस्टनबर्ग हे त्या विशयांतले जगन्मान्य निपूण आसात, तांचो व्हड अधिकार आसा देखून हांवें नांवापुरतें तरी तांकां विचारून पळोवचें असो तांणी सल्लो दिलो. प्रा. ग्रीन हांकां प्रबंध समितीचे

अध्यक्ष करचे आनी गाढ विद्वत्तायेचो प्रा. फुरस्टनबर्ग हांचो प्रबंध समितीचे सदस्य म्हूण उपेग करून घेवचो अशी मना कडेन गांठ बांदून हांव प्रा. फुरस्टनबर्ग हांकां मेळपाक गेलों. तांणी म्हगेल्या संशोधन प्रस्तावाक मान हालयली आनी हांसत हांसत उतरां काडलीं, ''ह्या विशया वयल्या प्रबंधा खातीर प्रबंध समितीचो अध्यक्ष हांवूच आसतलों हें ओघानूच आयलें न्हय?''

खरें म्हणल्यार नमळायेन पूण ठामपणान हांवें प्रा. ग्रीन हे समितीचे अध्यक्ष आसतले आनी तुमी सदस्य म्हूण रावचें अशें तांकां सांगपाक जाय आशिल्लें. पूण तांगेल्या व्यक्तीमत्वाचो दबदबो इतलो गडगंज आशिल्लो, अभावितपणान म्हज्या तोंडांतल्यान 'अर्थांतूच' हीं उतरां निसटून गेलीं आनी ती चूक बरीच म्हारग पडली.

तशें पळयल्यार, भारतीय नोकरशायेच्या 'यस सर', 'नो सर', 'व्हेरी वेल सर' संस्कृतायेंत वाडिल्लो हांव वरिश्टां कडेन उर्मटतायेन वागन हें मुळांतूच शक्य नाशिल्लें. पूण अमेरिकन विद्यापीठांतल्या मुक्त वातावरणांत प्राध्यापक-विद्यार्थी मेकळेपणीं भासाभास करतात अशी म्हजी समजिकाय. वस्तुस्थिती लेगीत चडशी तशीच आसा. म्हज्या दुर्दैवान त्या विद्यापिठांत ह्या नेमाक मात एकलोच भोवमानादीक आडवाद आसलो. तो म्हणल्यार प्रा. फुरस्टनबर्ग. हांवें तांचे कडेन म्हज्या संशोधनाच्या संबंदांत मेकळेपणान भासाभास करपाक सुरवात केली आनी थंयच बिनसलें. हांव उद्धट आसा अशें तांच्या मनान घेतलें आनी मागीर म्हाका 'जाग्यार' हाडपाची जापसालकी तांणी आंगार घेतली.

जर्मन लोक सादारणशे अमेरिकन, हेर येवरोपीयन धरून सगळ्यांक 'कमअस्सल' समजतात. हिटलराची मनोवृत्ती हिटलरा वांगडा सोंपली अशें समजप सामकें चुकीचें आसा. भोवसंख्य जर्मन लोकांच्या अंतरंगांत ती प्रवृत्ती आजूनय दडिल्ली आसता आनी योग्य वेळ येता खिणाक ती परतून तकली वयर काडटा असो जायत्या जाणांचो अणभव आसा. असल्या वंशपिशा जर्मन समाजाच्या सर्वोच्च थरांतल्यान - एका जमर्नशाही घराण्यांतल्यान आयिल्ले प्रा. फुरस्टनबर्ग (तांच्या नांवाक आशिल्लें 'फॉन' हें विशेशनाम ही वस्तुस्थिती दाखयता.) आनी भारता सारकेल्या गरीब देशाच्या तळागाळांतल्या - दलित समाजांतल्यान आयिल्लों हांव, एकामेका आड उबे राविल्ले. चातुर्वर्ण्याचें जागतिकीकरण केलें जाल्यार

प्रा. फुरस्टनबर्ग आनी म्हजे मदीं सामकें उत्तर-दक्षिण ध्रुवा इतलें अंतर आशिल्लें, ते सामके उंचेल्या थराचे प्रतिनिधी तर हांव कनिश्ठ वर्गाचो प्रतिनिधी. आमकां नियतीन एकठांय हाडिल्ले. पिळपाचीं सगळीं साधनां तांच्या हातांत आशिल्लीं आनी तांचेर पुराय पातयेवन आशिल्लों हांव कुस्कूटा समान विद्यार्थी आशिल्लों.

म्हाका 'पिडप' ही प्रा. फुरस्टनबर्ग हांची एककलमी कार्यावळ जावन पडली. हुंदरा-माजराचो खेळ सुरू जालो. म्हज्या प्रबंधाचो एखादो वांटो हांवें बरोवन सादर केलो काय 'आमचें अशें थारूंकच नासलें. तुमी वेळ कित्याक फुकट वगडायतात?' अशें अपमान जावपा सारकें विचारप जावपाक लागलें. सगळ्याच गजालींची बरोवन संमती घेवप अशक्य आसता, असले प्रकार तर परत परत घडपाक लागले. दुसरे कडेन मायदेशांत परतुपा खातीर रिझर्व बँक फाटीक लागिल्ली. शारिरीक श्रमांचें म्हाका व्हडलेंशें नाशिल्लें. पूण मानसीक यातना सोंसूंक जायना आशिल्ल्यो. म्हजेय परतुपाचे दोर कातरून पडिल्ले. ताका लागून फाटीं सरप शक्य नाशिल्लें. मागीर आमची दोगांयची खडाजंगी हो त्या विद्यापिठाचे चर्चेचो एक विशय जावन पडलो.

म्हज्या प्रबंध समितींतले बाकीचे प्राध्यापक सदस्य प्रा. फुरस्टनबर्ग हांच्यो विनवण्यो करताले. पूण तांणी म्हाका धडो शिकोवपाचें थारावनच उडयिल्लें दिसतालें. अमेरिकन शिक्षण पद्दतींत प्रबंध समितीच्या अध्यक्षांक त्या त्या विद्यार्थ्याचे बाबतींत सगळे अधिकार आसतात. ताका लागून बाकीच्या प्राध्यापकांचोय नाईलाज जाता. तेदे वेळार प्रबंध समितीच्या सगळ्या प्राध्यापक सदस्यांनी म्हाका बरो सांगात दिलो. ते कसवटेच्या कालखंडांत हांव म्हजें मानसीक संतुलन कायम दवरपाक शकलों ताचें स्रय म्हाका समजून घेवपी आनी सावळी कशी म्हज्या फाटल्यान उबी रावपी म्हजी बायल वसुंधरा आनी त्या विद्यापिठांतल्या बाकीच्या एका परस एक विद्वानांक आनी मोगाळ गुरूजनांक दिवचें पडटलें.

'सर्वोत्कृश्ट आंतरराष्ट्रीय विद्यार्थी' म्हूण मान्यताय लाबिल्ल्या म्हज्या सारकेल्या विद्यार्थ्याक पिडून 'जायंट किलर' अशी आपणाली प्रतिमा निर्माण करप हो प्रा. फुरस्टनबर्ग हांचो हेत आसपाक जाय असो दुबाव कांय प्राध्यापक खाजगींत उकतायतना दिसताले. म्हाका मात तशें दिसनासलें. कित्याक तर प्राध्यापक महाशयां कडेन डॉक्टरेट करतल्या हेर विद्यार्थ्यांक लेगीत उण्या अदीक प्रमाणांत तांणी तशीच वागणूक दिल्ली. तांचे कडेन डॉक्टरेट करपाक हांव सोडून आनीक दोग विद्यार्थी आसले. एक कोरियन आनी दुसरो भारतीय. हांवें प्रा. फुरस्टनबर्ग

हांचे कडेन वाद घालीत म्हगेलें संशोधनकार्य निर्धारान चालू दवरलें. उरिल्ल्या दोगांयनी मात तांचे कडेन तीन वर्सां काम केले उपरांत निर्शेवन, वितरागून, आपली प्रबंध समिती विसर्जीत केली आनी नवी प्रबंध समिती तयार करून 'पुनच्छ हरी ओम' केलें. ताका लागून तांकां डॉक्टरेट मेळोवपाक तब्बल आठ-णव वर्सां वचचीं पडलीं.

आमच्या दोगां मदल्या पेचप्रसंगान एक फावट मात बरेंच गंभीर वळण घेतलें. विद्यापिठांतलो म्हज्या सगळ्यांत लागींचो लेबेनॉनचो सहाध्यायी इश्ट आशिल्लो. ताका म्हऱ्यांत आपोवन प्रा. फुरस्टनबर्गान विचारलें -

''नरेन खऱ्यांनीच भारतीय?''

''म्हणजे? सर, तुमकां कितें म्हणपाचें आसा?'' त्या इश्टान विचारलें.

''ना, म्हाका केन्ना तरी दिसता, ताचे भितर खंय तरी अरबी रगत भरसलां आसूंक जाय''.

''अशें कित्याक? तुमकां तशें कित्याक दिसता?'' इश्ट.

''ताचें कितें आसा, नरेन हो एखाद्या 'स्टॅलियन' भशेन आसा. ताका कंट्रोल करप साप्प अशक्य''.

म्हाका हें कळटकच हांव खवळ्ळों. म्हजे सोंशीकतायेचो अंत जाल्लो. म्हज्या संशोधना विशीं टिकात्मक वाद घालप हो तांचो अधिकार आशिल्लो. पूण म्हजे वांशीक शुद्धताये बद्दल तर्क काडप हें प्राध्यापक - विद्यार्थी संबंधांकूच न्हय तर साद्या मनीसकायेच्या तत्वा आड आशिल्लें. आयज मेरेन जात आनी वर्ण हांचे बद्दलचे भोग भारतीय समाजवेवस्थेन म्हाका भोगपाक लायिल्ले आनी आतां अमेरिकन विद्यापीठांत म्हाका वंशवादाचो फटको बसतालो. हांव पेटून उठलों.

प्रा. फुरस्टनबर्ग हांचे आड लेखी कागाळ घेवन हांव विद्यापिठाच्या अर्थशास्त्र मुखेल्यां कडेन गेलों. प्रा. फुरस्टनबर्ग हे वंशद्वेशी आसात आनी वांशीक विधान केल्ले खातीर तांणी म्हजी माफी मागची, नाजाल्यार म्हाका विद्यापिठाच्या 'कावंन्सीला' कडेन दाद मागची पडटली असो इशारो हांवें त्या पत्रांत दिलो.

अर्थशास्त्र विभागाचे जाण्टेले मुखेली प्रा. फुरस्टनबर्ग हांकां आनी म्हाका बरे वळखताले. वडीलकायेच्या नात्यान ताणी म्हाका सजावपाचो यत्न केलो, पूण हांव फाटीं सरना. तांणी म्हाका वेव्हारीक इशारो दिलो -

'यू मे विन द बॅटल, बट लूज दी वॉर'. प्रा. फुरस्टनबर्ग हांकां तूं माफी

मागपाक लावपाक शकता, पूण मागीर डॉक्टरेट तुज्या हातसून गेलीच म्हूण समज.

हांवें चिंतपा खातीर वेळ मागून घेतलो. तकलेंत विचारांचो धुडगूस. हांवें डॉ. आंबडकरांचो उगडास काडलो. असले आवतिकायेंत ते कसलो निर्णय घेतले आसले ताचो विचार केलो आनी म्हाका म्हजी नितळ वाट दिसपाक लागली. दुसऱ्याच दिसा अर्थशास्त्राच्या विभाग मुखेल्या कडेन वचून हांवें तांकां स्पश्टपणान सांगलें -

''म्हजे अस्मिताये कडेन तडजोड करून डॉक्टरेट मेळोवचे परस प्रा. फुरस्टनबर्ग सारक्या वंशवादी प्राध्यापकाक धडो शिकोवन मायदेसाक स्वाभिमानान परतुवप हांव पसंत करीत. मागीर डॉक्टरेट मेळ्ळी ना तरी हरकत ना''.

विभाग मुखेल प्राध्यापकाचें खुमणें गंभीर जालें. ताणें म्हज्या प्रबंध समितीचे प्राध्यापक आनी वेंचीक वरिश्ठ प्राध्यापक हांची बसका आपयली. म्हजी बाजू तांकां समजावन दिवपाची संद म्हाका दिली. भोवतेक सगळ्यांनी सहमती दाखोवपी मानो हालयल्यो. म्हजी समजूत घालपाचो यत्न जालो, पूण हांव फाटीं सरना. निमाणें, तांणी निर्वाणीचें अस्त्र भायर काडलें. हो विद्यापिठाचे इभ्रतीचो प्रस्न आसून विद्यापिठाच्या नावलौकीकाक काळें लागपाक ना दिवपाची म्हाका कळकळीची विनवणी जाली. ती मानून घेवपाकच जाय आसली. त्या सगळ्यांनी मेळून प्रा. फुरस्टनबर्ग हांकां समज दिवची आनी हांवें म्हजी कागाळ फाटीं घेवची असो तोडगो काडलो.

ते उपरांत चाकां कशीं घुंवलीं कोणाक खबर, पूण प्रा. फुरस्टनबर्ग हाचो म्हजे विशींचो दृश्टीकोण पुराय बदल्लो. म्हाका मेळटले वागणुकेंत अप्रूप फरक पडलो. आमचें टीमवर्क सुरू जालें तें सामकें इश्टागतीच्या नात्यान. नेटान काम करून हांवें म्हगेलो प्रबंध कांय म्हयन्या भितर सोंपयलो. तो तात्काळ मान्य जालो आनी विशेश अशें, 'उत्कृश्ट प्रबंध लेखनाचें' म्हाका पयलें इनाम दिवन डॉक्टरेट प्रदान केली.

म्हाका डॉक्टरेट मेळटकच प्रा. फुरस्टनबर्ग हांणी म्हज्या भोवमाना निमतान आपणाल्या घरा कडेन एक व्हडली पार्टी आयोजीत केली. विद्यार्थी-प्राध्यापक व्हडा संख्येन हाजीर आसले. त्या सुवाळ्यांत बऱ्या मोगान म्हज्या खांदार हात दवरून प्रा. फुरस्टनबर्गान म्हजे बायलेक म्हणलें -

''नरेन इज अ गूड फायटर. वी हॅड लॉट्स ऑफ वंडरफूल फायट्स. इजण्ट

डॅट सो, नरेन?'' (नरेन एक बरो झगडपी. आमची बरी तावातावान झगडीं जातालीं. न्हय रे नरेन?)

हांवें खिळाडू वृत्तीन मान हालयली खरी, पूण मनांत विचार आयलो, हुंदरा-माजराच्या खेळांत माजराक जरूर मजा दिसता आसतली पूण म्हणून त्या हुंदराकय आनंद भोगता अशें मानप संवेदनशीलताय नाशिल्ल्याचें लक्षण न्हय?

अमेरीकन विद्यापिठांत डॉक्टरेटीचो प्रबंध कोणाक तरी अर्पण करपाची प्रथा आसा. आवय-बापूण, भयण-भाव, इश्ट-इश्टिणी अशे एखादे लागींचे व्यक्तीक प्रबंध अर्पण करतात. म्हज्या प्रबंधाचे अर्पणपत्रिकेंत हांवें बरयलें -

''धिस डिजेर्टशन इज डेडिकेटेड टू माय बिलव्हड पेरेण्ट्स अॅण्ड द एव्हर इन्स्पायरिंग मेमरी ऑफ डॉ. बाबासाहेब आंबेडकर''.

(हो प्रकल्प हांव म्हज्या मोगाळ आवय-बापायक आनी सदांच म्हाका स्फूर्तदिणे थारिल्ल्या डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरांच्या यादींच्या उगडासाक ओंपतां.)

हाचेर म्हज्या अमेरिकन प्राध्यापकान विचारलें -

''तुमचो प्रबंध तुमी आवयबापायक अर्पण करतात तें बरें आसा, पूण हे डॉ. आंबेडकर कोण? हांकां तुमी आवयबापायचे वळेरेंत कशे बसयतात?''

त्या प्राध्यापक महाशयांक हांवें जी जाप दिली तातूंत म्हज्या सारक्या लाखांनी दलितांच्या मनांत डॉ. आंबेडकरां विशीं आशिल्ल्या भावनांचेंच पडबिंब उमटल्लें. हांवें म्हणलें -

''आमच्या आवयबापायांनी आमकां जल्म जरूर दिला आसत, पूण मनीस म्हूण जगपाचो हक्क जर कोणेंय मेळोवन दिला जायत जाल्यार तो डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरांनीच''.

म्हाका डॉक्टरेट मेळ मेरेन 'तत्काळ परतुपा' विशींचीं जायतीं उगडास पत्रां रिझर्व बँके कडल्यान आयिल्लीं. भारतीय विद्यार्थी संघटनेचे बसकेंत मायदेशाक परतुपाचो म्हजो मनोदय हांवें जाहीर केलो तेन्ना सगळ्यांक अजापाचो धक्कोच बसलो. वेगवेगळे पद्दतीन विचारिल्ल्या सगळ्या प्रस्नांचो रोख - ''तुमकां पिशें बीन तर लागूं ना मूं?'' अशा स्वरूपाचो आशिल्लो. ताचेर हांवें म्हणलें -

''एखाद्या निरपराध मनशाक, तूं चोर कित्याक न्हय अशें विचारपांत कांय

अर्थ ना. हांव मायदेशाक परतो कित्याक वतां अशें म्हाका विचारपाच्या वांट्याचें तुमी परत कित्याक वचनात हें तुमी आपणाकच विचारप योग्य थारतलें''.

म्हज्या तरणाट्या इश्टां भितर कितल्या जाणांक म्हजो युक्तीवाद रुचला आसतलो कोणाक खबर, थंय थायीक जाल्ल्या बऱ्याचश्या जाण्टेल्यांनी घरा येवन खाजगींत आमचें मन भरून अभिनंदन केलें.

''जेदे वेळार मायदेशाक परत वचपाची आमकां संद आशिल्ली तेन्ना आमचे विचार तुमचे इतले सुस्पश्ट आशिल्ले जाल्यार कितलें बरें जावपाचें''. अशी खंत जायत्या जाणांनी उकतायली. मोहाची ओड लावपी उत्कर्शाच्यो जायत्यो संदी अमेरिकेंत हात जोडून मुखार उब्यो आशिल्ल्यो. मात मायभूंय आनी कुटुंबीक रिणांची लागणूक हांकां पर्याय नासता ही ठाम धारणा आशिल्ल्यान आमच्या मनाची कुस्कुटाचीय चलबिचल जाली ना. डॉक्टरेट मेळ्ळ्या उपरांत सप्तका भितर आमची साठलीपोटली गुठलावन आमी मुंबय परतलीं.

निमाणच्या वर्सा हांव वेळ मेळटा तसो थंयचे एके शाळेंत वचून विद्यार्थी-विद्यार्थिनींक भारतीय समाज, परबो, खेळ, भास आनी सर्वसादारण जगपाची पद्दत हाची म्हायती दितालों. तेदे वेळार थंयच शिकपी म्हजो भुरगो - तन्मय हो लेगीत म्हजे वांगडा उमेदीन वांटो घेतालो. शाळेंतल्यो आमच्यो कार्यावळी विद्यार्थ्यांचे इतल्यो आवडीच्यो जाताल्यो, ते उपरांत बरेच दीस सप्तकाचो बाजार करतना अमेरिकन ल्हान भुरगीं आमचे कडेन बोट दाखोवन 'हेच आं ते!' अशें खुणायतना दिसतालीं. आमी परतून भारतांत येता आसतना प्राथमीक शाळेंतल्या जायत्या विद्यार्थ्यांनी व्हडल्या ड्रॉयिंग पेपराचेर आपणाक खूब आवडिल्ल्या दही हंडी आनी होळयेचीं चित्रां काडून आमकां शुभेत्सा दिवपी गोड पत्रां बरोवन धाडलीं. आमी तीं आजून सांबाळून दवरल्यांत.

भारतांत परततकच हांव रोखडोंच रिझर्व बँकेंत रुजू जालों. कांय म्हयन्या भितरच म्हजे सेवाज्येश्ठताये नुसार अर्थशास्त्र विभागाचो उपसंचालक (डेप्युटी डायरेक्टर) म्हूण म्हाका बडटी दिली. उमेदीन हांव सळसळटालों. संशोधनाच्यो जायत्यो कल्पना मनांत घोळटाल्यो. झपाटिल्ले वरी हांव कामाक लागलों. भारतीय अर्थकारणाचेर एका फाटोफाट एक अशे सोदनिबंद तयार करपाचो हांवें सपाटो चलयलो. कामां उरकुपाची आनी संशोधनाची गुणवत्ता लक्षांत घेवन मागीर रिझर्व बँकेच्या वरिश्ठ अधिकाऱ्यांच्या भाशणांचे मसुदे तयार करपाचें काम चडशें म्हजेर

पडलें. ताका लागून रिझर्व बँकेचे गव्हर्नर, डेप्युटी गव्हर्नर अश्या सामक्या उंचेल्या पदा वयल्या अधिकाऱ्यां लागीं दीसपट्टे संबंद येवपाक लागले. तातूंत जायतें शिकपाक तर मेळ्ळेंच, ते भायर आव्हानात्मक संशोधन प्रकल्प तडीक व्हरपाची जापसालकी म्हजेर येवपाक लागली.

पयली व्हडली जापसालकी आशिल्ली ती आंतरराष्ट्रीय नाणे निधी (आय.एम.एफ.) ही संवसारभर नामना आशिल्ले संस्थे विशीं. आय.एम.एफ. ही संस्था कांय प्रमाणांत पतपेढयेच्या तत्वाचेर चलता. पतपेढयेंत जे तरेन सदस्यांचें भाग भांडवल आसता त्या स्वरुपांत आय.एम.एफ.चे सदस्य आशिल्ल्या दरेका राष्ट्राक ताचो 'कोटा' थारावन दिल्लो आसता. दरेका देशाक मेळपी मतांचो अधिकार तशेंच मेळूंक शकपी रीण हें त्या त्या देशाचो 'कोटा' कितलो आसा ताचेर निंबून आसता. दर पांच वर्सांनी सगळ्या सदस्य राष्ट्रांचो 'कोटा' नव्यान थारावप जाता. ते खातीरय गणिती ठोकताळे थारावन दिल्ले आसात.

आय.एम.एफ.ची (नाणे निधीची) १९४४त थापणूक जायत सावन भारताक नेमून दिल्लो जो 'कोटा' आसा तो हेर देशांचे तुळेन उणो उणो जायत गेला. हेर विकसनशील देशां प्रमाण भारतानय वेळावेळार आवाज उठयला. तांत्रीक संशोधनाची जोड नाशिल्ल्यान मात विरोधाचो सूर मंदावत उरिल्लो. त्या वेळा वयले रिझर्व बँकेचे डेप्युटी गवर्नर डॉ. रंगराजन हांणी ह्या प्रस्नाचो अभ्यास करून भारताचो 'कोटा' सांवरपा खातीर तांत्रीक नदरेन कितेंय करपाक जमत काय म्हणून चिकित्सा करपाची म्हत्वपूर्ण जापसालकी म्हजेर सोंपयली.

येदी व्हडली जापसालकी आंगार येवपाची म्हजी ती पयलीच वेळ. म्हजे नदरेन ती भांगराळी संद आसली. हांव रातदीस वावराक लागलों. कांय सप्तकांतच हांवें डॉ. रंगराजन हांच्या मार्गदर्शना खाला पांच सोदनिबंद तयार केले. 'कोटा' थारावपाचे प्रचलीत पद्दतींत फुडारिल्ल्या देशांक कशें झुकतें माप मेळटा हें हांवें सप्रमाण दाखोवन दिल्लें आनी फुडारिल्ल्या तशेंच विकसनशील अश्या दोनय गटांतल्या देशांक दिवपाक येतल्या 'कोट्यां'त समतोल राखपाचे नदरेन कांय नवे तांत्रीक ठोकताळे सुचयले. हे नवे ठोकताळे सुचयिल्ले खातीर विकसनशील देशांचेर जावपी अन्याय टाळूं येतलो आनी तें करता आसतना नाणे निधीचे कार्यपद्दतींत नाका आशिल्ल्यो आडखळी उप्रासच्यो नात हेंवूय तातूंत दाखोवन दिल्लें.

त्या संशोधनान प्रभावीत जावन रिझर्व बँकेचे त्यावेळा वयले गव्हर्नर राम मल्होत्रा हांणी म्हाका म्हजे सोदनिबंध घेवन दिल्लीक वित्त मंत्रालयांत धाडलो. त्यावेळार भारत सरकाराचे वित्त सचीव आशिल्ले वेंकिटरामानन (जे फुडें रिझर्व बँकेचे गव्हर्नर जाले). वित्त सचीव वेंकिटरामानन, मुखेल अर्थीक सल्लागार डॉ. बिमल जलान आदी वरिश्ठ अधिकाऱ्यांक रिझर्व बँकेंत जाल्लें तें संशोधन इतलें आवडलें, ते संबंदी सगळ्या विकसनशील राष्ट्रांचे वतीन भारत सरकारान एक विस्तृत प्रस्ताव मांडचो असो निर्णय घेतलो. ते खातीर म्हाका तातडीन १९८८त वॉशिंग्टन हांगाच्या आय.एम.एफ.च्या कार्यालयांत धाडलो.

सर्गेस्त इंदिरा गांधीचे एका काळार मुखेल अर्थीक सल्लागार म्हूण काम केल्ले डॉ. अर्जुन सेनगुप्ता हे त्यावेळार एक्झिक्युटिव्ह डायरेक्टर म्हूण आय.एम.एफां.त भारत, बांगला देश, श्रीलंका आनी भूतान ह्या देशांचे प्रतिनिधित्व करताले. आय.एम.एफ. मुखार मांडपा खातीर हांवें डॉ. सेनगुप्ता हांच्या मार्गदर्शना खाला एक विस्तृत प्रस्ताव तयार केलो. नाणे निधीच्या निपुणां मुखार ताचें स्पश्टीकरण आनी समर्थन केलें. पद्दती प्रमाण, सेनगुप्तान तो आय.एम.एफ. चे कार्यकारिणी मुखार मांडलो. त्या प्रस्तावाक लागून सगळ्या विकसनशील देशां मदीं भारताची प्रतिमा तर वयर सरलीच, पूण कांय फुडारिल्ल्या देशांनी लेगीत प्रस्तावाक येवकार दिलो. प्रस्तावावयले चर्चे उपरांत सेनगुप्तांनी भारत सरकार आनी रिझर्व बँक हांकां धाडिल्ल्या संदेशांत म्हजे कामगिरीची भरभरून तोखणाय केली. म्हज्या जिवितांतलो तो एक अत्यंत खोशेचो खीण आसलो.

मुंबय परततकच कांय म्हयन्यांनी दुसरें एक आव्हान मुखार आयलें. इथियोपियन सरकाराक आपल्या चलनाच्या विनिमय दराची पुनररचणूक करपाची आसली. खरें पळयल्यार, असल्या कामा खातीर नाणे निधीच्या निपुणांची मजत घेवपाचो प्रघात आसा. पूण नाणे निधीच्या निपुणांचो सल्लो साचेबद्द आसता हे भुमिकेंतल्यान तिसऱ्या देशांतलो निपूण निवडपाचो निर्णय इथियोपियन सरकारान घेतलो आनी भारता लागीं आशिल्ले इश्टागतीचे जायते संबंद लक्षांत घेवन त्या विशयांतले निपूण धाडपाची विनवणी त्यावेळा वयले प्रधानमंत्री सर्गेस्त राजीव गांधी हांकां केली. हांवें त्या विशयांत केल्ल्या संशोधनाची पावती म्हूण त्या कामा खातीर इथियोपियन सरकाराचे अर्थीक सल्लागार म्हूण म्हजी निवड केली.

इथियोपियांतलो अणभव यादस्तेंत उरसारको थारलो. सप्टेंबर १९८८त हांव

अदिसअबाबाक पावलों. पयल्याच दिसा इथियोपियन राष्ट्रीय बँकेच्या गव्हर्नरसायबांची भेट घेवपाक गेलों. गव्हर्नर श्री. बिकेले तामिरात हे विदेशांत शिक्षण घेतिल्ले जाण्टे पिरायेचे मनीस आशिल्ले. म्हाका पळयतकच कांय खीण तांच्यांनी हांसपाक दामून दवरूंक जालें ना. मागीर आपणाक सांवरून घेत तांणी म्हणलें -

''माफ करात म्हाका. म्हजो वगीच समज जाल्लो, आंतरराष्ट्रीय वेपाराचे तज्ञ म्हूण एखाद्रो म्हातारो बी कोणय येत म्हूण. तुमचे सारको एक तरणाटो निपूण म्हूण हांगा आयला ताचें अजाप दिसून म्हाका हांसपाक आयलें. दोश म्हजो आसा. उपकार करून गैरसमज करून घेवं नाकात''.

म्हजेर खूब व्हड जापसालकी आशिल्ली. इथियोपियन 'बीर' ह्या चलनाचो अमेरिकन डॉलराच्या संदर्भांत योग्य विनिमय दर कसो आसचो हें थारावपाचें आसलें, ते खातीर इथियोपियन 'बीर'चें अवमुल्यन गरजेचें काय, आसल्यार कितलें आनी ते खातीर इथियोपियन अर्थवेवस्थेचेर कितें परिणाम जावंक शकतलो असल्या जायत्या प्रस्नांच्यो जापो म्हाका दिवपाच्यो आसल्यो.

हांव जिद्दीन कामाक पेटलों. दोन टप्प्यांनी स म्हयने इंथियोपियांत रावन हांवें एक विस्तृत अहवाल तयार केलो. त्यावेळा वयलो इथियोपियन राष्ट्राध्यक्ष श्री. मेंगिस्तू आनी मंत्रिमंडळांतलो तांगेलो सहकारी हांचे मुखार तो अहवाल मांडून तांगेले सगळे दुबाव निस्तारायले. इथियोपियांत तेन्ना रशियन राज्यपद्दती प्रमाण पक्षाच्या 'पॉलिटब्युरो'ची वेवस्था आशिल्ली. तांच्याय मुखार हांवें अहवाल सादर करून ताचें समर्थन केलें. तेन्नाच्या इथियोपियन सरकारान म्हजो अहवाल जशाचो तसो आपणायलो. हांवें जीव ओतून केल्ल्या कश्टांची पावती म्हूण काय कितें, पूण आदले सगळे प्रस्थापीत संकेत कुशीक सारून गव्हर्नरसायब खास आपूण म्हाका इथियोपियांतलीं वेंचीक पर्यटन थळां दाखोवपाक घेवन गेले.

अहवालाची अंमलबजावणी रोखडीच जातली आशिल्ली. दुर्देवान, त्याच सुमाराक इथियोपियांत यादवी झुजाचें थैमान सुरू जालें आनी ताचें पर्यावसान मेंगिस्तूची राजवट उधळून उडोवपांत जाली. इथियोपियांत क्रांती घडली त्यावेळार बरयिल्लो इथियोपियन समाजवेवस्थे विशींचो म्हजो लेख 'महाराष्ट्र टायम्सां'त उजवाडाक आयिल्लो. (९ जुलय १९९१). खरें म्हणल्यार एखाद्या देशांत क्रांती जातकच 'जुने जाऊ द्या मरणालागुनी' ह्या न्यायान बऱ्यो वायट, सगळ्योच पोरण्यो गजाली उडोवन दितात. खास करून म्हज्या अहवालाचे बाबतींत तशें

घडलें ना. मार्क्सवादी सरकार वचून इथियोपियांत लोकशाय सरकाराची थापणूक जाली. इतलो क्रांतिकारी बदल जावन लेगीत नवनिर्वाचीत इथियोपियन सरकारान म्हज्या अहवालाची अंमलबजावणी करपाचो निर्णय घेतलो. म्हाका ते खातीर परतून इथियोपियाक धाडपा खातीर रिझर्व बँकेच्या गव्हर्नरा कडेन चवकशी केल्ली. पूण बाकीच्या संशोधनकार्यांत हांव सामको घुस्पून उरिल्लों आशिल्ल्यान रिझर्व बँकेन नमळायेन न्हयकार दाखयलो.

इथियोपियांतल्यान परततकच हांवें केंद्रीय वित्तवेवस्थेचेर संशोधन सुरू केलें. रिझर्व बँकेचे त्यावेळा वयले डेप्युटी गव्हर्नर डॉ. रंगराजन हांचे सयत संयुक्तपणान एक विस्तृत सोदनिबंद तयार केलो. भारतांत अर्थसंकल्पीय तुटीचें मेजमाप करपाची प्रचलीत पद्दत सदोश आशिल्ल्यान तूट आसा ताचे परस खूब उणी दिसता असो सिद्धांत त्या सोदनिबंदांत मांडिल्लो. नानी पालखीवाला सारकेले नामनेचे कायदे पंडित अर्थतज्ञ आशिल्ल्याचो आव हाडून आठ-णव हजार कोटींची अर्थसंकल्पीय तूट खूब चड आसा म्हूण सरकाराचेर टिकेची झोड उठयतना खरी अर्थसंकल्पीय तूट त्या वर्सा ३३००० कोटी रुपया इतली प्रचंड आशिल्ली हें आमी दाखोवन दिलें. व्यापक तूट (फिस्कल डेफिसिट) ही संकल्पना पयलेच फावट भारतांत मांडली ती त्या सोदनिबंदांत सरकाराच्या जमाखर्चांत आशिल्ली तूट अशीच वाडपाक दिली जाल्यार भारतीय अर्थवेवस्थेचेर ताचे दूरगामी परिणाम कितें जातले हाची विस्कटावणी करून व्यापक तूट आटापाक हाडपाचे गरजेचेर त्या सोदनिबंदांत भर दिल्लो.

वेवसायीक वर्तुळांत तो सोदनिबंद बरोच गाजलो. हांवें तो सोदनिबंद जानेवारी १९९०त दिल्लींत भरिल्ल्या आंतरराष्ट्रीय अर्थ निपुणांच्या परिसंवादांत सादर केलो त्यावेळार भारत सरकाराचे वित्त सचीव आनी वित्त मंत्रालयाचे जायते वरिश्ठ अधिकारी हाजीर आशिल्ले. ते उपरांत म्हयन्या भरांत केंद्र सरकाराचो वर्सुकी अहवाल (इकॉनॉमिक सर्व्हे) उजवाडाक आयलो. तातूंत व्यापक तुटीची संकल्पना पयलेच फावट मानून घेतली. वेवसायीक वर्तुळांत हांव ही संकल्पना मांडटा आसतना सुरवातीक, 'ये कौनसे चिडिया का नाम है भाई?' म्हणून हिणसावपी भारतीय तज्ञ आतां ते संकल्पनेचो नेटान पुरस्कार करपाक लागल्यात. स्वता वित्त मंत्री डॉ. मनमोहन सिंग हे अर्थसंकल्पा विशींचे विचार उकतायतना तुटीचें मेजमाप करपाची पोरणी पद्दत वापरिनासतना सदांच 'व्यापक तुटींचो' आदार घेतात ही

गजाल एक अर्थतज्ञ म्हूण म्हाका खूब समाधानाची दिसता.

इतले मजगतीं आनीक दोन म्हत्वाच्यो गजाली घडल्यो. डिसेंबर १९८९त 'इंडियन इकॉनॉमिक असोसिएशन' ह्या भारतीय अर्थ निपुणांच्या राष्ट्रीय संघटनेच्या वर्सुकी अधिवेशना खातीर आंतरराष्ट्रीय नामनेचे अर्थतज्ञ प्रा. अमर्त्यकुमार सेन हांची निवड जाली. त्या संमेलनांत 'भारत सरकाराचें अंतर्गत कर्ज' ह्या विशयाचेर मुखेल भाशण दिवपाक बुजूर्ग भारतीय प्राध्यापकांक कुशीक दवरून प्रा. सेन हांणी म्हजी मुखेल वक्तो म्हूण निवड केली.

विकसनशील देशां मदीं भारतीय अर्थवेवस्था ही वयले सुवातेर आसा असो जायत्या भारतीयांची भाबडी समजिकाय आसा. दुर्दैवान वस्तुस्थिती तशी ना. देखीक, मलेशिया सारकेल्या देशांत बँकिंग आनी हेर वित्त संस्था भारताच्या मानान बऱ्योच फुडें आसात. थंयचे अर्थवेवस्थेचो अभ्यास करपा खातीर रिझर्व बँकेचे वतीन म्हाका एका अभ्यास दौऱ्याचेर धाडलो. मलेशिया आनी सिंगापूर हांगाच्या बँकिंग आनी वित्त संस्थांचो अभ्यास करून एक विस्तृत अहवाल हांवें रिझर्व बँकेक सादर केलो.

जून १९९०त रिझर्व बँकेच्या अर्थशास्त्र विभागाचे एक संचालक (डायरेक्टर) म्हूण म्हजी निवड केली. जायत्या वरिशठांक डावलून ही नियुक्ती जाल्ल्यान कांय सहकाऱ्यांक वायट दिसप साहजीक आशिल्लें. म्हाका स्वताक मात हांव दीसरात उस्पितल्या कश्टांची ती अपरिहार्य परिणती आसा अशें दिसता.

१९९१च्या सोंपत्या काळांत वित्त मंत्री म्हूण डॉ. मनमोहन सिंग हांणी रिझर्व बँकेक भेट दिली. डॉ. मनमोहन सिंग आदीं रिझर्व बँकेचे गव्हर्नर आशिल्ले. बाकीच्या भोवतेक सगळ्या गव्हर्नरां कडेन म्हजो व्यक्तीगत संबंद आयिल्लो आसलो तरी डॉ. मनमोहन सिंग हांकां मेळपाचो योग मात येवंक नासलो, कित्याक तर ते गव्हर्नर आसतना हांव अमेरिकेक डॉक्टरेट करतालों. तांचे कडेन वळख करून दितकच म्हाका अजापाचो सुखदिणो धक्को बसलो. कित्याक तर म्हज्या संशोधन कार्याचो तांकां बरो परिचय आसलो. तांणी म्हणलें -

''तुमी इतले तरणाटे आसत हें म्हाका खबर नाशिल्लें. हालींचो तुमचो एक सोदनिबंद म्हाका आवडलो''.

म्हज्या एका वरिश्ठ सहकाऱ्यान म्हणलें -

''डॉ. जाधवांचो 'फिस्कल डेफिसिट' वयलो पेपर न्ही?''

डॉ. सिंगान जाप दिली -

"तो पेपर तर हांवें खूब आदीं वाचिल्लो. हांव उलयतां तो दोन सप्तकां आदीं 'इकॉनॉमिक ॲण्ड पोलिटिकल विकली' हातूंत उजवाडाक आयिल्ल्या लेखा संबंदी".

मनमोहन सिंग हांचे सारक्या श्रेश्ठ अर्थतज्ञान वित्तमंत्री पदाच्या धकाधकींत म्हज्या सोदनिबंदाचें भान दवरप, हातूंत संशोधक म्हूण म्हाका जें समाधान मेळ्ळें तें उतरांनी उकतावप म्हाका जबर कठीण आसा.

म्हजें संशोधन एके वटेन चालू आशिल्लें, तर दुसरे कडेन म्हजेर चडांत चड कार्यालयीन जापसालक्यो घाल्ल्यो. ऑक्टोबर १९९१त अर्थशास्त्र विभागाच्या संचालकपदा वांगडा रिझर्व बँकेचो संपर्क अधिकारी म्हूण अतिरिक्त कार्यभार म्हजेर उडयलो. फुडें 'सरकारी रोखे' प्रकरण गाजपाक लागलें आनी नेमाळ्यांतल्यान रिझर्व बँकेचेर टिकेची झोड येवपाक लागली. तेदे वेळार रिझर्व बँकेचो जनसंपर्क अधिकारी म्हूण काम पळयतना जायत्या आव्हानांक फुडो करचो पडलो.

डिसेंबर १९९१त संशोधनाची आनीक एक उत्कृश्ट संद लाबली. परकी चलनाचे खरेदी-विक्रेचो एक अनधिकृत बाजार आसा. ताका 'हवाला मार्केट' म्हणटात. ह्या वेपाराचें केंद्र भारतांत ना तर मध्य पुर्वेंत, दुबय हांगा आसा. तो मेरेन तरी ह्या वेपारा विशीं मात अल्प म्हायती खबर आशिल्ली. अधिकृत पातळेचेच परकी चलनाची चणचण आसतना हजारांनी कोटी रुपयांच्या परकी चलनाची उलाढाल चलतल्या ह्या हवाला मार्केटा विशीं सरकाराक वा रिझर्व बँकेक कांयच खबर नाशिल्ल्या वरी रावन चलपाचें नाशिल्लें. त्यावेळा वयले गव्हर्नर श्री. वेंकटरामानन हांणी म्हाका हवाला मार्केटाचो सगळे तरेन अभ्यास करपा खातीर खास कामगिरीचेर मध्य पुर्वेंत धाडलो.

जायत्यो धाडसी युक्त्यो वापरून हांवें 'हवाला मार्केट'चेर एक विस्तृत अहवाल तयार केलो. 'हवाला मार्केटां'त जातली उलाढाल, तिचो कार्यकारणभाव, कार्यपद्दत सगळ्यांची विस्कटावणी करून भांगराची तस्करी आनी घुंवळे वखदांचो चोरयेचो वेपार हांचे कडेन ताचो संबंद असल्या बऱ्याचश्या गजालींचो उहापोह त्या अहवालांत केलो. असले तरेचो देशांतलो हो पयलो अहवाल. हातांत नाशिल्ली आनी खबर नाशिल्ली म्हायती मेळयतना मध्यपुर्वेंत केल्ल्या वेगवेगळ्या युक्त्यांक लागून रिझर्व बँकेच्या गव्हर्नरसायबांनी भारतीय अर्थ निपुणांचे एके बसकेंत म्हजें

नामाभिधान रिझर्व बँकेचे 'जेम्स बॉण्ड' अशें करून उडयलें.

'हवाला मार्केट'चेर प्रभावी नियंत्रण उरपाक पुलीस वा ते सारकेल्यो यंत्रणा घट करचे परस 'हवाला मार्केटा'क ज्या कारणां खातीर उत्तेजन मेळटा त्या अर्थीक त्रुटींचेर घालो घालपाचे आवश्यकतायेचेर अहवालांत भर दिलो. ते नदरेन अंशता परिवर्तनीय रुपया, भांगर आयात येवजण आनी भांगर रोखे येवजण हांचो पुरस्कार केलो. ते उपरांतच्या काळांत, ह्यो तिनूय शिफारसी कार्याक लागिल्ल्याचें सगळ्यांक खबर आसाच.

फेब्रुवारी १९९२त 'सुवर्ण बँक'ची थापणूक करपाचे नदरेन एक विस्तृत अहवाल तयार करपाक एका अभ्यास गटाची नेमणूक केली आनी ताचो निमंत्रक म्हूण म्हजी नियुक्ती केली. आमच्या अभ्यास गटान नेमून दिल्ले कालावधींत आपलो अहवाल रिझर्व बँकेक सादर केलो. ताची अंमलबजावणी मात आजून जावंक ना.

'सरकारी रोखे' प्रकरणाची चवकशी करपा खातीर १९९२त संयुक्त संसदीय समितीची नेमणूक केली. खऱ्यांनिशीं, रिझर्व बँकेंतल्या संबंदीत खात्याच्या कामकाजा कडेन म्हजो प्रत्यक्ष संबंद नाशिल्लो. तर समितीचे मुखार वचपी निपुणांच्या गटांत आनी उपरांत साक्ष दिवपी रिझर्व बँकेच्या वरिश्ठ अधिकाऱ्यांचे सल्लागार म्हूण म्हजेर विशेश जापसालकी सोंपयिल्ली. हे इतिहासीक समितीच्या कामकाजांत वांटो घेवपाची जी संद म्हाका लाबली तातूंतल्यान खूब मोलादीक अणभव पदरांत पडलो हातूंत दुबाव ना.

ऑक्टोबर १९९२त पदोन्नती दिवन म्हजी रिझर्व बँकेच्या संचालक मंडळाच्या सचीव पदाचेर नेमणूक केली. सर्वसादारणपणान रिझर्व बँकेच्या ज्येश्ठ खाते प्रमुखाक सचीव म्हूण नेमपाची परंपरा आसा. तो वयवाट कुशीक दवरून ह्या म्हत्वपूर्ण पदाचेर म्हजी नेमणूक जाली, हो हांव म्हजो व्हड भोवमान समजतां.

अमेरिके सारकेल्या उदरगतीत देशांत उपलब्ध आशिल्ल्यो विकासाच्यो जायत्यो संदी न्हयकारून मायदेशांत परतुपी जायत्यो ध्येयवादी व्यक्ती फुडें अपेशी थारून परतून परदेशांत गेल्ल्याच्यो देखी खूब सांपडटात. खरें म्हणल्यार, हातूंतले बरेच जाण चुकीचो द्दश्टीकोण घेवन भारतांत येतात. देखूनच निर्शेतात अशें म्हाका दिसता. खऱ्यानिशीं हे मातयेंतल्यान आमी आयिल्ल्या कारणान हांगाची समाजवेवस्था, तिच्या गुणदोशांची सगळी कल्पना आसता. मात अमेरिके सारकेल्या

देशांत कांय वर्सां सारतकच कांय जाणांक तांचो विसर पडटा. मागीर अमेरिके सारकेल्यो सुविधा वा तसलें पोशक वातावरण हांगा ना म्हूण मायदेशाक दुशणां लायतात. हांगा दृश्टीकोण म्हत्वाचो. अमेरिकेंत पांच वर्सां सारतकच लेगीत हांव आमच्या नाशिकाची गावरान बोली अस्खलितपणान उलोवंक शकतां. हाच्या उरफाटें फकत आपलो भाव अमेरिकेंत आसा हे सबबीचेर, डोंबिवलीच्या पयल्यान केन्नाच वचूंक नाशिल्ले लोक अमेरिकन 'ॲक्सेंटा'त उलयतात हें आमी पळयतातच. लवचीक दृश्टीकोण दवरून मेकळ्या मनान जर तुमी मायदेशांत परतुशात जाल्यार उदरगतीच्यो आनी जैताच्यो कितल्योश्योच संदी तुमकां लाबूंक शकतात. आडखळी येतातच, ना अशें न्हय. पूण सगळें वेवस्थीत, ज्युस्ताज्यूस्त जायत जाल्यार तातूंत कसलें आव्हान उरलें? योग्य दृश्टीकोण दवरल्यार येस मेळपाक शकता. अमेरिका सोडिल्ल्याची खंत तर भोगना हें जालेंच, वयल्यान मायदेशाक परत येवन आपल्या देशाच्या उपेगी पडिल्ल्याचें भरपूर समाधान मेळपाक शकता हें म्हज्या अणभवा वयल्यान हांव निश्चीतच म्हणपाक शकतां.

अर्थात व्यक्तीशा हांव खूब सुदैवी थारलों. राम मलहोत्रा, वेंकिटरामानन, डॉ. रंगराजन, तारापोर आनी डॉ. एस. एल. शेट्टी हांचे सारकेले उत्कृश्ट वेवसायीक मार्गदर्शक मेळ्ळे, देखूनच हांव कितेंय साध्य करपाक पावलों हें दुबावा विरयत मान्य करतां.

अर्थशास्त्रांत वेवसायीक येस संपादन करता आसतना आपणें फकत हस्तीदंत मनोऱ्यांत रावन उपकारना हें हांव सदांच म्हाका सांगत आयलां. म्हजो पींड हरशींय म्हूण लोकाभिमुख रावपाचो. देखूनच भारतीय अर्थवेवस्थेंत फाटल्या कांय वर्सांत मूलगामी स्वरुपाचे बदल घडटा आसतना ताचो अन्वयार्थ शक्य तितले सोंपे भाशेंत सर्वसामान्य जनतेक समजावन दिवपाची गरज म्हज्या लक्षांत आयली. त्या अनुशंगान हांवें 'महाराष्ट्र टायम्स' आनी 'लोकसत्ता' ह्या दैनिकांतल्यान वेळावेळार अर्थीक सुदारणा, अर्थसंकल्प, परिवर्तनीय रुपया, सुवर्ण रोखे येवजण ह्या सारकेल्या प्रासंगीक म्हत्वाच्या विशयांचेर जायते लेख उजवाडाक हाडले. मुंबय विद्यापीठांत आनी मुंबय-पुण्यांतल्या जायत्या मुखेल महाविद्यालयांनी आनी हेर शिक्षणीक संस्थांनी वचून नवे अर्थीक नितीचे वेगवेगळे पैलू, विद्यार्थी आनी प्राध्यापकांक समजावन दिवपाचो म्हजे परीन यत्न केलो. ह्या यत्नांचोच एक अपरिहार्य वांटो म्हूण फाटल्या दोन अर्थ संकल्पां उपरांत आनी हेर म्हत्वाच्या

अर्थीक घडणुकांच्या संदर्भांत दूरदर्शना वयल्यान भाश्य करपाची आनी चर्चांनी वांटो घेवपाची संद म्हाका परती परती मेळ्ळी.

हें सगळें घडटा आसतना ज्या डॉ. आंबेडकरांची प्रेरणा घेवन हांव फुडें सरलों तांचो विसर पडप शक्यच नासलें. डॉक्टरेट मेळोवन मायदेशांत परतो येतकच वेवसायीक जापसालक्यो वाडिल्ल्यान आदल्या सारकें धांवधपटीचें समाजकार्य करप म्हाका योग्य दिसना. ताका लागून म्हजे नवे जापसालके कडेन जुळटा असल्या समाजीक कार्याचें माध्यम हांव सोदपाक लागलों.

डॉ. आंबेडकर हे उच्च थरा वयले अर्थ तज्ञ आसून लेगीत भारतीय समाजान अर्थ निपूण म्हूण तांकां मान्यताय दिली ना हाची खंत जायतीं वर्सां मनांत आसली. डॉ. आंबेडकरांच्या जल्मशताब्दीच्या निमतान तांचे अर्थीक कामगिरीचें दर्शन घडोवपी कांय मराठी, इंग्लीश लेख हांवें मुखेल नेमाळ्यांनी आनी 'इकॉनॉमिक ॲण्ड पॉलिटिकल विकली' सारकेल्या दर्जेदार सातोळ्यांतल्यान बरयले. त्याच अनुषंगाक जाग्याजाग्यांनी वचून भाशणां दिवपाक सुरवात केली. दूरदर्शना वयल्यान, रेडियोचेर जायत्या भासाभासेंतल्यान हांवें त्या विशयाची फाटपुरवण केली.

डॉ. आंबेडकरांच्या चतुरस्त्र, सर्वस्पर्शी व्यक्तीमत्वाचो आडनदरेंत उरिल्लो एक म्हत्वपूर्ण पैलू हांव विस्कटावन दाखयतालों. ताका अक्षरशा व्हडा प्रमाणांत प्रतिसाद मेळ्ळो. त्या विशयाचेर हांवें विस्तृतपणान एखादें पुस्तक बरोवचें अश्यो विनवण्यो - मागण्यो करपी शेंकड्यांनी पत्रां महाराष्ट्राच्या खांचीकोनशांतल्यान आयलीं. हांवेंय मनार घेतलें आनी डिसेंबर १९९२त 'डॉ. आंबेडकरांचे अर्थीक विचार आनी तत्त्वज्ञान' हें पुस्तक सुगावा प्रकाशन, पुणे हे संस्थेचे वतीन तर त्याच विशया वयलें इंग्लीश पुस्तक पॉप्युलर प्रकाशन, मुंबय हे संस्थेचे वतीन उजवाडाक आयलें. ह्या दोनूय पुस्तकांक रिझर्व बँकेचे त्यावेळा वयले गव्हर्नर श्री. वेंकिटरामानन हांची प्रस्तावना लाबल्या. साठ-सत्तर वर्सांचे उपेक्षे उपरांत रिझर्व बँकेच्या गव्हर्नरसायबांनी स्वता डॉ. आंबेडकरांचे अर्थीक कामगिरीची नोंद घेवन तांकां श्रेश्ठ अर्थतज्ञ म्हूण मान्यताय दिवप हातूंत एक इतिहासीक न्याय आसा अशी म्हजी समजिकाय आसा.

डॉ. आंबेडकरांच्या अर्थीक विचारांक आतां नव्यान चालना मेळ्ळ्या. ह्या विशयाच्या संदर्भांत भारतांतल्या वेगवेगळ्या विद्यापिठांत कांय विद्यार्थी डॉक्टरेट करपाक लागल्यात. फेब्रुवारी १९९३त विद्यापीठ अनुदान मंडळाचे वतीन मुंबय

विद्यापीठांत एक परिसंवाद आयोजीत केल्लो. तातूंतल्या एका चर्चासत्राचें अध्यक्षस्थान स्विकारपाची संद म्हाका लाबली. त्या परिसंवादांत गुरूवर्य प्रा. ब्रह्मानंदांनी जगांतल्या सर्वोत्कृश्ट अर्थ निपुणां मदीं डॉ. आंबेडकरांची गणना केली. खास करून 'इंडियन इकॉनॉमिक असोसिएशन' हे भारतीय अर्थ निपुणांचे अखिल भारतीय संस्थेन निमाणें एकदांची डॉ. आंबेडकरांची दखल घेली - डिसेंबर १९९३त आयोजीत आपल्या वर्सुकी अधिवेशनांत डॉ. आंबेडकरांचें अर्थशास्त्र हें तांचें मुखेल सूत्र आशिल्लें. म्हजे खातीर हाचे परस सुखदिणी गजाल आनीक खंयची आसपाक शकता!

म्हजें लेखन, संशोधन, प्रकाशन अखंडीतपान चालू आशिल्लें. मॅकमिलन हे नांवाजते संस्थेचे वतीन १९९४त 'मॉनेटरी इकॉनॉमिक्स फॉर इंडिया' हे मौद्रीक अर्थ निती वयलें पुस्तक उजवाडाक आयलें. आयज भारतांतल्या सगळ्या मुखेल विद्यापिठांनी पदव्युत्तर शिक्षण वा डॉक्टरेटचें संशोधन हे खातीर तें अत्यंत गरजेचें थारलां. 'चॅलेंजेस टू इंडियन बँकिंग' हो हांवें संपादीत केल्लो ग्रंथ १९९६त उजवाडाक आयला. ताच्योय बी जायत्यो आवृत्त्यो आयल्यात. ह्या दोनाय पुस्तकांक 'इंडियन पब्लिशर्स असोसिएशन'चे पुरस्कार मेळ्ळ्यात.

म्हाका पदोन्नती मेळून रिझर्व बँकेचे अर्थीक सल्लागार म्हूण म्हजी १९९६त नेमणूक जाली. फाटोफाट १९९७त रिझर्व बँकेच्या अर्थशास्त्र विभागाचो ऑफिसर-इन-चार्ज (प्रभारी अधिकारी) म्हूण म्हजी नियुक्ती जाली. ताचेर कळस म्हूण काय कितें डिसेंबर १९९७त आंतरराष्ट्रीय नाणे निधी (आय.एम.एफ.) हे विश्वनामनेचे वित्तीय संस्थेंत अर्थीक सल्लागार म्हूण प्रतिनियुक्तीचेर हांव अमेरिकेक वचपाक गेलों.

आंतरराष्ट्रीय नाणे निधी ही जागतीक वित्तीय शिखर संस्था. जगांतले लागीं लागीं सगळे म्हणल्यार १८४ देश हे संस्थेचे सदस्य आसात. ह्या सगळ्या सदस्य देशांची चोवीस गटांनी (कॉन्स्टिट्युअन्सीज) विभागणी जाल्या. तांचे मदलो एक गट आसा तो भारत, श्रीलंका, बांगलादेश आनी भूतान ह्या चार देशांचो. एक ज्येश्ठ भारतीय अधिकारी कार्यकारी संचालक ह्या नात्यान ह्या चार देशांचें प्रतिनिधित्व करता. त्या कार्यकारी संचालकाचो मुखेल अर्थीक सल्लागार म्हूण म्हजी नियुक्ती जाल्ली.

त्या कामाचो एक वांटो म्हूण म्हाका आंतरराष्ट्रीय नाणे निधीच्या कार्यकारी संचालक मंडळाच्या दीसपट्ट्या कामकाजांत नेमान वांटो घेवपाक मेळ्ळो. तातूंत भारताची (आनी हेर संलग्न देशाची) बाजू पोटतिडकीन मांडपाची संद तर मेळ्ळीच, पूण जगभरांतल्या अर्थ निपुणां बरोबरच्या वाद चर्चांतल्यान खूब शिकपाक मेळ्ळें. एका वेळार जें ठिकाण चिंतामणराव देशमूख हांचे सारक्या नामनेच्या फाकिवंत अर्थ तज्ञ- प्रशासकान भूशयिल्लें थंय पयले फावट बसतना म्हजें मन भरून आयिल्लें. म्हाका म्हजी राहीआजी दिसताली, वता-तापांतल्यान म्हज्या बापाक हाताक धरून ओडीत व्हरतना. वाटेर उश्टें-खरकट्यांतल्यो पोरण्यो फाळयो पुंजायत आपल्या भुरग्यांच्या हुलपतल्या पांयांक बांदपी 'यू हॅव कम अ लाँग वे' (तूं बरीच वाट चलून आयल्या) अशें शिटकायत हांवें मनांतल्या मनांत वंदन केलें. पयलीं डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरांक आनी मागीर म्हजे राहीआजीक आनी म्हज्या बापाक.

आंतरराष्ट्रीय नाणे निधींतलो म्हजो कार्यकाळ २००१च्या नोव्हेंबरांत सोंपलो. त्याच सुमाराक 'निधी'चे वतीन एक नवो 'स्वतंत्र मुल्यमापन विभाग' थापीत करपाक आयिल्लो आनी ताचे मुखेली म्हूण नियुक्ती जाल्ली ती ज्येश्ठ आनी श्रेश्ठ भारतीय अर्थ तज्ञ माँटेकसिंग अहलुवालिया हांची. अहलुवालियांच्या आग्राक लागून तांचो थंयचो पयलो सल्लागार म्हूण पांच म्हयने काम करून मार्च २००२त हांव मायदेसांत परतलों आनी परतून रिझर्व बँकेंत रुजू जालों. हालींच सप्टेंबर २००४त रिझर्व बँकेन 'प्रधान सल्लागार आनी मुखेल अर्थ तज्ञ' हे कार्यकारी संचालक (एक्झिक्युटिव्ह डायरेक्टर) पातळे वयलें नवें पद निर्माण करून थंय म्हजी नियुक्ती केली हो म्हगेलो भोवमान समजतां.

कितलेशेच फावटीं लोक म्हाका विचारतात -

"आतां पळयात, तुमी इतल्या उंचेल्या पदार पावल्यात. मागीर आतां तुमकां तुमचे जाती खातीर वायट अणभव येना आसतले, न्हय?"

आमच्या समाजाचें दुर्दैव अशें आसा, मनीस कितल्याय म्हापदाचेर पावलो तरी ताची जात कांय वचना. जाती वयल्यान ताका हिणसावपाचें कांय थांबना. चडूच जाल्यार जाती खातीर ताका उणाक लेखपाचें स्वरूप बदलता, इतलेंच. हे बाबतींतले कांय बोलके प्रसंग सांगचेशे दिसतात.

हांव बांद्र्याक रावतालों तेन्नाची गजाल. आमगेले एक उच्चविद्याविभुशीत

मनीस म्हाका वाटेर मेळ्ळे. म्हणपाक लागले -

"ते अमूक अमूक मद्रासी मनीस तुमची खूब तुस्त करताले".

"अशे? कितें विशेश? आमची तशी चडशी वळख लेगीत ना" हांव.

"न्ही, त्या दिसा तुमी तुमचे कारींतल्यान तांकां लिफ्ट दिली, ते म्हणटाले, आमी सुसंस्कृतपण सोडलां. पूण जाधव शेड्युल्ड कास्ट आसून लेगीत कितले सुसंस्कृतायेन वागतात!"

अरेच्च्या! म्हणजे मनीसकायेन आनी सुसंस्कृतायेन वागपाचो मक्तो फकत विशिश्ट जातींनीच घेतला काय कितें? रजेर आसतना कारीन म्हजे चलयेक-अपूर्वाक, शाळेंत पावोवपाक वतालों. वाटेर हे मद्रासी गृहस्थ आपले नातीक शाळेंत घेवन वतना पळयले. चलयेच्या गणवेशा वयल्यान ती म्हजे चलयेचे शाळेंत आसा तें लक्षांत आयलें. त्या मनशा लागीं तोंडवळख आशिल्लीच. तांचे पिरायेक पळोवन हांवें तांकां लिफ्ट दिली, तातूंत व्हडलेंशें कितें जालें? लागीं कुशीक रावतल्या कोणेंय कोणाकूय दाखोवचें इतलें हें सादें सौजन्य. तातूंत जातीचो संबंद येवचोच कित्याक? पूण तो येता, हें खरें!

दुसरे, आमचे इमारतींत रावपी एक गृहस्थ, वेवसायान इंजिनियर. बरे वेवस्थीत रावपी. दादा १९८९त मेलो. त्यावेळा सांत्वन करपाक ते आमच्या घरा आयले. वतना म्हणटात, "तुमच्या आईक सांगात आं, आमच्या घरा येवपाक मातय संकोच करपाचो ना".

हांवें हां क हां केलें. पूण ते सद्गृहस्थ परतून परतून तेंच शिटकायताले. म्हज्या मनांत दुबावाची पाल चुकचुकली. म्हज्यान रावं नजो जालें -

"आरेच्च्या, म्हणटकच म्हजे आईक तुमच्या घरा येवपाक बंदी आशिल्ली काय कितें?"

"तशें न्ही बाबा. पयलींची गजाल वेगळी आसली. तांकां सांगा, आमचे कडेन तशें कांय पाळिनात. सकाळीं भायर सरतना विधवेचें तोंड पळोवचें न्हय अशें आमचे कडेन कोणूच मानिना". त्या सद्गृहस्थान अभिमानान म्हणलें.

तेन्ना म्हजे तकलेंत उजवाड पडलो. म्हाका तांकां आड्डून सांगचेंशें दिसलें

"भल्या मनशा, तुज्या घरांतय विधवा आई आसा. तशें पळयल्यार सदांच ऑफिसाक वतना हांव तिचें तोंड पळयतां. पूण ताका लागून म्हजो दीस वायट गेलो अशें घडना. आनी एखादो दीस वायट गेलोच जाल्यार ताचें खापर हांव ते

गंगाभागीरथीचे तकलेर फोडिना''.

अशेच आनीक एक इश्ट. सदांच म्हजे कडेन तात्वीक चर्चा करतात. आपणाक सामके विचारवंत लेगीत समजता आसुंयेत असो म्हाका दुबाव आसा. एक फावट म्हाका आपल्या आवडट्या खंयच्या तरी मठांतल्या स्वामीजीं विशीं सांगताले. स्वामीजींची तुस्त करतां करतां म्हाका म्हणपाक लागले -

''तुमी एक फावट तांकां मेळातच, स्वामींचे विचार इतले उच्च आसात, तांचें मत इतलें व्हड आसा, तुमचे सारकेल्या 'शेड्युल्ड कास्ट' मनशा कडेन लेगीत सामकी मेकळेपणान चर्चा करतात, तुमी येयातच एकदां''.

आतां, हे स्वामीजी आसत गिन्यानी, ना अशें न्हय. मात एके विशिश्ट जातीच्या विशिश्ट घराण्यांत जल्माक आयिल्ल्यान ते स्वामीजी जाले आसपाची चड शक्यताय. हांवें खर कश्टांनी अमेरिकेंत डॉक्टरेट मेळयली. स्वामीजींची तपश्चर्या खंयची? तांणी म्हाका बरोबरीन वागपाचें 'व्हडपण' दाखयलें म्हूण हांवें कित्याक धन्यताय मानची?

जातीवेवस्थेंतल्यान निर्माण जाल्लो न्यूनगंड शेंवटून दिवंक म्हजे सारके पूर्वाश्रमीचे जायते दलित आयज येसस्वी जाल्यात. ही बाबासाहेबांची आनी तांणी मेळोवन दिल्ल्या शिक्षणाची किमया. बाकीच्यांची मात ताका साथ मेळटाच अशें ना. वयल्यान आपणाक सुशिक्षीत म्हणपी (आनी चड करून मनान निर्मळ आसपी) पूण गतानुगतिकतेच्या चाकोरीबद्द मानसीकतायेन बांदून घाल्ले असंख्य महाभाग पावलाकणकणी मेळटात. ही आत्मघातकी मानसीकताय बदलतली तरी केन्ना आनी कशी?

खूब दीस मनांत घोळत आशिल्ली एक इत्सा, कांय वर्सां आदीं फळादीक जाली. संस्कारक्षम पिराय आशिल्ल्या म्हज्या भुरग्याक तन्मयाक घेवन एके सांजवेळा, म्हजें भुरगेपण ज्या वडाळ्यांत गेलें थंय वचून आयलों. ताका एका काळा वयलें आमगेलें घर दाखयलें. मोडतोड जाल्ली आमची बी.पी.टी.ची शाळा दाखयली, रेल्वे यार्डांत घेवन गेलों. मालगाडयेच्या इंजिनांत बसून सफर घडयली. चलते मालगाडयेचे सकयलसून पेल्यान वचपाचें तंत्र प्रात्यक्षिका सयत ताका दाखोवपाचो विचार आसलो, पूण म्हजी बदलिल्ली पिराय आनी आकारमान लक्षांत घेवन उमेदीक तेन्ना आवरून घेतली.

कॉलेजींत आसतना वडाळा स्टेशना भायल्या होटॅलांत आमी वरांचीं वरां

चर्चा, वादविवाद करी. जायत्या वर्सांनी आमी त्याच होटेलांत पावले. म्हजी वळख पट्टकच होटेलमालक शेट्टीचो चेरो एकदम उजळ्ळो -

"आरे, अबी तो तुम भोत बडा साब हो गया है।"

"पुराने दोस्तों के लिए तो मै बस वही पुराना यार हूं।"

असो 'डायलॉग' उडयतकच तो खदखदून हांसलो. ताच्या बोळक्यांत उरिल्लो एकटुलो दांत झळकून गेलो.

"आबी पयले जैसा मजा नही रहा. तुम लोग आता था कुच आच्चा लगता या।"

म्हाका अजाप जालें. दरडोई पाव कप च्या घेवन वरांचीं वरां बसपी आमी गिरायकां म्हूण सामकीच वायट आसतली अशी म्हजी कल्पना आसली. शेट्टीची भावना मात वेगळी आसली.

"तुम लोक आता था तो कूच आच्चा सुननेकू मिलता था. अबी साला सब बेवडा लोक आके परेशान करता है।"

वेवसायीक नदरेन शेट्टीचें खूब बरें चलतालें. पयलीं इराण्याच्या होटॅला प्रमाण आसपी त्या होटॅलाचें 'बियर बारां'त रुपांतर जाल्लें. बदलिल्लीं समाजीक मुल्यां मात ताका अस्वस्थ करतालीं.

पोरणें वडाळा, बी.पी.टी. कॉलनी, ॲण्टॉप हिल ह्या सगळ्या वाठारांत भोंवन हांव तन्मयाक म्हज्या भुरगेपणांत घेवन गेलों. वेळ सांजवेळची आशिल्ली. सगळे कडेन बकाल गर्दी दाटून आयिल्ले भशेन दिसताली. तारवटिल्ल्या दोळ्यांनी पळयत, आपणा भितरच बडबडत, झेलपाडत घरा कडेन वचपी जीव तातूंत दिशिल्ले. ते गर्देंत नवे उमेदीचे जायते भदरूभाई आसतले, शिवज्यादादा आसतले, दौलतदादा आसतले, शंकऱ्यादादा आसतले. हांव मात थंय दिसपी ल्हान भुरग्यां भितर स्वताचेंच पडबिंब सोदतालों.

फाटलीं पन्नास वर्सां हांव म्हाकाच सोदीत आसां. आतांच खंय तरी म्हज्यांलो हांव हाताक लागिल्ल्या सारको दिसता. कविवर्य ग. दि. माडगूळकरांची 'एका तळ्यात' आशिल्ल्या बदकांच्या 'सुरेख पिलांची' आनी तातूंतल्या एका 'कुरूपवेड्या' पिलाची कविता कितली सूचक आसा! त्या तथाकथित कुरूप पिलाक स्वत्वाची जाणीव नासता तेन्ना बाकीचीं बदकां ताका 'संगे खेळावयास' घेनात, चोंची मारीत रावतात. तें केविलवाणें पिलू एकलेच रडत-भेकत 'सर्वांहुनी

निराळे एकलेच तरंगत' रावता. ज्यावेळा त्या पिलाक आपूण एक कुरूप बदक नासून साक्षात 'राजहंस' आसा हाची जाणीव जाता, त्यावेळा वता-पावसाची ताची भिरांत 'वाऱ्यासवे' पळून वता.

आमच्या देशांत जातीवेवस्थेच्या आनी चातुर्वण्याच्या उतरंडीखाला कितले राजहंस आपणाक बदकां समजून बावून गेल्यां आसतलीं? कितलीं बदकां बिनदिक्कतपणान राहजंस म्हणून मिरोवन गेल्यां आसतलीं'. राजहंस हो दरेके व्यक्ती भितर आसता. तो नेमको खंयच्या क्षेत्रांत आसा हाचो वेध मात घेवपाक येवं जाय. डॉ. आंबेडकरांच्या परिसस्पर्शान आयज लाखांनी दलितांक आपणा भितरलो राजहंस सोदपाची प्रेरणा मेळ्ळ्या. दादांचे दूरदृश्टीक लागून हांव स्वता तो सोदपाचे प्रक्रियेचें एक प्रतीक घडलां. भारतीय समाजाच्या सगळ्या थरां मदीं जाती-वंश-धर्म-प्रांत-वर्ण लिंगभेद हांचो विचार करिनासतना स्वता भितरलो राजहंस सोदपा खातीर परिपूर्ण आनी पोशक वातावरण निर्माण जातलें - त्या वेळा ह्या देशाचो अर्थीक उषकाल जाल्लो आसतलो. डॉ. आंबेडकरप्रणीत अर्थीक लोकशायेचें गमक ज्युस्त तातूंत आसा.

# आमी सगळ्यो जणी

एक सरकारी कचेरी. कसल्या तरी कामाक लागून हांव थंयच्या एका वरिश्ठ अधिकाऱ्याक मेळपाक गेल्लीं. भायल्या कार्यालयांत सायबांचे स्वीय सचीव आनी हेर गोतावळो. मरगळिल्ले जायते जीव. ओडिल्ले चेरे, निर्जीव नदरो.

"बाई, तुमचें नांव?"

"वसुंधरा जाधव".

"संपूर्ण नांव सांगा".

"वसुंधरा नरेंद्र जाधव".

अचकीत त्या निर्जीव दोळ्यांनी जान येता.

"नरेंद्र जाधव म्हणजे..."

"हय, तेच ते".

"अहो मॅडम, मागीर अशें सांगात न्ही".

आतां बाईची हांव मॅडम जाल्यां. सहाय्यकाचे दोळे लकलकपाक लागल्यात. सौजन्यपूर्ण तत्परतायेन म्हजें काम करून दितात.

उण्या अदीक फरकान हो अणभव हालींच्या दिसांनी परतून परतून येता. इतलेंच न्हय, ताची कांयशी संवय जावपाक लागल्या. फुडें-फाटीं अशें कितेंय जायत अशें मात लग्ना आदीं म्हाका केन्नाच दिसूंक नाशिल्लें हेंवूय तितलेंच खरें.

हांव पयलींची देशपांडे, कायस्थ. सौजन्य सोडून मुजरत जात सांगपाचें कारण म्हणल्यार आमच्या दलित समाजांत हांव मूळची बामण असो समज पसरिल्लो आसा. नरेंद्राक अर्थ निपूण, लेखक वक्ते अश्या विविध रुपांनी समाज वळखता आसलो तरी 'बामनीनीशी लगीन केलं तोच ना तो?' असो संदर्भ दिवपी एखादो खवचट म्हातारो मदीं मदीं मेळटाच.

आमचो तता (बापूय) उदारमतवादी. व्यापक दृश्टीकोणाचो. एक भाव तर जयप्रकाशजींच्या संपूर्ण क्रांतीचे चळवळींतलो सक्रीय कार्यकर्तो. बापाय खातीर

आनी भावाक लागून घरांतलें वातावरण सामकें मेकळें. ते खातीरच काय कितें, पूण जातभेदाचें काकुळटेचें समाजीक वास्तव म्हाका अजिबात खबर नाशिल्लें. ताची जाणीव पयले फावट करून दिली ती म्हज्या घोवान.

आमी मोगांत पडलीं आनी लग्न करपाचें थारायलें. त्यावेळा समाजीक अंतर्विरोध, जातभेदाची बजबजपुरी, दलित समाज, आंबेडकरी चळवळी हें सगळें ताणें समजावन सांगलें. हांव तर भियेवनूच गेलें, पूण सूर जुळिल्ले, रस्मी गांठी गुंफून गेल्ल्यो. फाटीं सरप म्हजे सदसदविवेकबुद्धीक मानवपाचें नाशिल्लें. म्हणून तिचो आदार घेवन हांव धिरान फुडें चलत रावली.

जातीयतायेच्या दुख्ख दिवपी वास्तवाची जाणीव म्हाका जाली ती म्हजे आईक लागून. म्हजी आई सादी भोळी, परंपरेचे, वर्सानवर्साचें ओजें व्हांवोवपी. सगळे दलित घोव सद्दां सोरो पियेवन घरा येतात आनी आपले बायलेक गोरवां सारके बडयतात हो तिगेलो ठाम समज. आपणाले लाडके धुवेचेर हें संकश्ट कोंसळटलें म्हणून ती वयर सकयल जाली. घरांतले दादले लोक उदारमतवादी; हो दलित मनीस तांकां गुठलावन उडयतलो म्हूण आपणें स्वताच हो प्रस्न धसाक लावपाक जाय अशें तिच्या मनान घेतलें. कोणाकूच सांगिनासतना ही बायल नरेंद्राच्या ऑफिसांत पावली आनी हेर सगळे सहकारी आनी कर्मचारी हांचे मुखार तिणें ताका हिणसायलो.

"म्हजे पोरीचो नाद सोडात आनी तुमच्याच समाजांतल्या एखादे बरेशे चलये कडेन लग्न करात" असो अनाहूत सल्लो जाहीरपणान दिवन ती मेकळी जाली. आमकां दोगांकय एकामेकाचो नाद जडिल्लो हें ते बाबडेक जाणवलें नासूंक जाय.

त्या दिसा सांजवेळा तो सगळो प्रकार कळ्ळो तेन्ना म्हाका रडपाकच आयलें. मागीर भंय दिसलो 'मोगी काय आई' असो हेकेखोरेचो वेगळोचार म्हाका नाका आसलो. भियेत भियेतच हांवें तागेली प्रतिक्रिया आजमावन घेतली. म्हजे आईचेर तिडकप, इतलेंच कित्याक आपणाल्या अधिकारांत तिका धांवडावन घालप सहज शक्य आसलें. ताणें तशें केल्लें जाल्यारय ताका दोश दिवं नज आसलो. इतलें हिणसावन लेगीत मात ताचो संयम ढळ्ळो ना.

"तुमी कितें करता तें तुमकां कळना. तुमच्या घोवा कडेन हांव उलयन. म्हजो तोल वचचें आदीं तुमी हांगा सावन वचप हें बरें". हे आपले भुमिकेचेर तो शांततायेन अढळ रावलो, जातीभेदाचो हुलोप, दलित आसपा फाटलें दुख्ख

आनी संयमाचें सामर्थ्य ह्या सगळ्या गजालींचो म्हाका खिणा भितर उलगडो जालो. आई काय नरेंद्र असो पर्याय मुखार आयलोच जाल्यार कोणाची निवड करपाची तें खऱ्या अर्थान म्हज्या मनांत स्पश्ट जालें तें पयले फावट तेन्नाच!

नरेंद्र म्हणल्यार चैतन्याची मूर्त. ताच्यांत इतली उर्जा खंयच्यान येता हो म्हजे सयत ताका लागीं आशिल्ल्या सगळ्यांकच पडपी प्रस्न. तातूंत तेदे वेळार तो सामको तरणाटो आशिल्लो. ताका लागून एकी कडेन 'करियर' आनी दुसरे कडेन झपाटल्या वरी समाजकार्य चालू आशिल्लें. हातूंत प्रणयाराधनाक वेळ खंयचो उरतलो? तातूंतच, दलिता भायल्या समाजांतले चलये कडेन लग्न करतकच हो दलित समाजाक पयसावतलो काय अशी भिरांत जायते फावटीं व्यक्त जाताली. हाची ताका विलक्षण खंत जाताली. ताचेर मागीर हांवें एक वेव्हारी तोडगो सोदून काडलो. लग्ना आदींच हांवें तागेल्या समाजकार्यांत स्वताकूय झोकून दिलें. वडाळ्याचे आंबेडकर कॉलेजींत बँकांचे नोकरभरती खातीर जे प्रशिक्षण वर्ग चलयताले तातूंत हांवूय ताचे वांगडा शिकोवपाक लागलें. ताका लागून सहवास तर मेळ्ळोच, पूण तेच बराबर ताचे समाजीक बांधिलकायेक लागून आमच्यांत धुसफूस तरी जावची ना हाचो ताका भरवंसो दिसपाक लागलो. तेच प्रतिक्रियेचो फुडलो वांटो म्हूण हांव लग्ना आदींच सिद्धार्थ महाविद्यालयांत अर्थशास्त्राची प्राध्यापक म्हूण शिकोवपाक लागली.

बाई-दादांक आपली निवड पटूंक जाय हो नरेंद्राचो आग्रो. ते खातीर विस्तृततायेन पूर्वनियोजन करून तो म्हाका वडाळ्याच्या घरा घेवन गेलो. ताचे पयलीं म्हाका सविस्तर सुचोवण्यो दिल्ल्यो. तशेंच घरांतूय बी योग्य ती वातावरणनिर्मिती करपाक आयिल्ली. दादान म्हाका मेकळेपणान येवकार दिलो आनी म्हज्या मना वयलें दडपण खिणा भितर पयस जालें. मनमेकळ्यो गजाली जाल्यो. बाईन मात म्हाका आपले परीन दमांत घेतलें आनी रांदप करून दाखोवपाक लायलें. हें सगळें अपेक्षीतच आशिल्लें, म्हजे वतीन तातूंत कसली अडचणय नाशिल्ली. ते उपरांत जें कितें घडलें तें मात सामकेंच अनपेक्षीत आशिल्लें. ताणें ल्हवशी एक खुणा केली आनी त्यावेळार घरांत आशिल्ल्या आठ-धा पुतणये-पुतण्यांनी 'आमकां हीच काकी जाय!' असो एकूच कल्लोळ करपाक सुरू केलें. त्यावेळा ताचे कडेन पळोवन दादान मुमुरख्यांनी दोळे मिचकायले, तेन्नाच ताची

ही करामत म्हज्या लक्षांत आयली. ''तुम साला एक नंबरका बदमाष हय'' अशें दादा हाका कित्याक म्हणीत आसतात ताचो पयले फावट प्रत्यय म्हाका त्यावेळा आयलो.

ते उपरांत आमी तताची आनी म्हज्या भावांची भेट घेवन तांची मान्यताय मेळयली. दोनांय वटांच्या जाण्ट्या लोकांची बसका जाली. मोगाचें लग्न आसूनय लग्न बौद्ध पद्दतीन जावचें असो नरेंद्राचो आग्रो तर धर्मांतर करपाक दिवचो ना हो देशपांड्यांचो हट्ट. ताका लागून तणावाचे खीण आयले खरे. पूण धर्मांतर करिनासतना बौद्ध पद्दतीन लग्न लावप शक्य आसा हें स्पश्ट जातकच तणाव निवळ्ळो.*

आमचें लग्न शिवाजी पार्का लागींच्या वनिता समाजांत जावचें अशी आमची दोगांयची इत्सा आसली. नोव्हेंबर १९७९च्या एका शेनवारा आमी वनिता समाजाच्या कार्यालयांत पावलीं आनी बुकिंगाची चवकशी केली. एक जाण्टो मनीस तें कार्यालय सांबाळटाले.

''केन्नाचें बुकिंग जाय? फुडलो मार्च, एप्रिल?''

''आमकां ह्या डिसेंबरांत लग्न करपाचें आसा''.

''कितें सांगता तुमी? बाबानो हो हॉल तीन-चार म्हयने बूक आसता, खबर ना दिसता तुमकां? हें पळयात, फेब्रुवारी मेरेनच्यो सगळ्यो तारखो गेल्यात''.

नरेंद्रान त्या रजिस्टराची बारीकसाणीन तपासणी केली. सगळ्या तारखांचे फुल्यो, डिसेंबराचें निमणें सप्तक मात मेकळें दिसतालें. नरेंद्रान विचारलें -

''ह्या दिसांनी हॉल बंद आसा तर?''

त्या मनशाक जालें अजाप.

''हॉल मेकळो आसा. पूण त्या दिसांनी लग्न कोण करतलो? त्यावेळांत एकूय म्हूर्त येना''.

''२२ डिसेंबराचो शेनवार मेळूं येता?''

त्या मनशाचो सूर आतां कातरत वतालो.

''अशें म्हणटा? मागीर तो दीस दियातच तर आमकां''.

---

* म्हज्यो काकी श्रीमती निर्मला देशपांडे हांच्या हालींच उजवाडाक आयिल्ल्या तांगेल्या पुस्तकांत आमच्या लग्नाची 'काणी' बरयल्या. ते काणयेंत वास्तवा जाग्यार कल्पनारंजनाचेर भर दिला. जाणकारांक चड सांगपाची गरज न

तो मनीस काकुळटेक आयलो.

''अशें कितें करतात? तुमी बऱ्या घरांतले दिसतात. चलात घरांतल्या जाण्ट्या मनशांक घेवन येयात''.

नरेंद्र हट्टाक पेटिल्लो. निमाणें बुकिंग करून आमी वचपाक आयलीं. तो मनीस बाबडो हळहळटालो. वतां वतां नरेंद्रान विचारलें -

''कितें जालें, सांगात आमचें कितें वायट जावपाचें आसा?''

तांणी मान हालयली.

''स म्हयने. फकत स म्हयने. स म्हयन्यांत दोगांपैकी एकलो...''

अशें म्हणत ताणें मळबा वटेन बोट दाखयलें.

नरेंद्र हांसत सुटलो. फुडें येतकच म्हणपाक लागलो -

''बरें जालें. लोकांक सोयीचो दीस मेळ्ळो. तातूंत २२ डिसेंबर म्हणल्यार वर्सांतलो सगळ्यांत ल्हान दीस आनी सगळ्यांत व्हड रात. म्हणटकच रोमॅंटिक टच लेगीत आसा, कितें?''

म्हजेर मात थोडो अदीक परंपरेचो प्रभाव आशिल्लो, ताका लागून म्हज्या पोटांत गडगडूंक लागलें. कुड्ड्यो भावना सोडून दिवपाचे अशे जायते प्रसंग म्हज्या उपरांतच्या जिवितांत येवचे आशिल्ले ताचीच ही नांदी आशिल्ली.

नरेंद्रा कडेन लग्न करून हांव १९७९त जाधव परिवारांत पावलें, त्यावेळार पयली गजाल म्हज्या ध्यानांत आयली ती म्हणल्यार त्या कुटुंबाची घट्ट वीण. दरेके सुनेन आपलें कुळार पयस दवरून ह्या घराण्याचोच वांटो जावन रावचें हो अलिखीत संकेत. हांव स्वता व्हडल्या घरांत वाडून आयिल्ली आनी ताका लागून अमर्याद व्यक्तीस्वातंत्र्याची संवय म्हाका जडिल्ली. हांगासर सांस्कृतीक वातावरण तर वेगळें आशिल्लेंच, पूण ताचेय परस एक सांघीक वृत्ती आशिल्ली. दादा-बाई खूब थकिल्ले आनी घराण्याक एकठांय बांदून दवरपाची जापसालकी नरेंद्राचो व्हडलो भाव जे. डी. हाचेर आशिल्ली. ती जापसालकी तो अतिशय आत्मीयतायेन निभायतालो. नरेंद्र तर ताका 'आमचे टिमीचे ते कॅप्टन आसात' अशेंच म्हणी.

सुरवेक म्हज्यांतली बंडखोर वृत्ती जागी जाल्ली पूण थोडोच काळ. ह्या कुटुंबांत हांवें म्हजें 'हांव'पण विलीन करून उडोवप हें म्हज्या हिताचें आसा हें लक्षांत येवपाक वेळ लागलो ना. तातूंत नरेंद्रा सारकेलो घोव आशिल्ल्यान जाधव परिवारांत विरगळून वचपाक हांव तयार जालें.

आमचें लग्न जालें तेदे वेळार लिला आनी तृषा ह्यो म्हगेल्यो दोगी नणंदो घरा गेल्ल्यो. जे. डी. आनी तांचें कुटुंब दक्षिण मुंबय 'शलाका' हे नामनेचे इमातींत रावतालें आनी आमी बाकीचीं सगळीं जाणां अंधेरी (पश्चीम) हांगां वीरा देसाई मार्गाचेर रावतालीं. ल्हवू ल्हवू, गजाली उलोवण्यांतल्यान जाधव परिवारांतल्या सगळ्यांक समजून घेवपाक जालें. दादा, बाई हांचो सभाव, तांणी उसपिल्ले कश्ट आनी तांणी घालून दिल्ली कुटुंबीक घडी हांचोय परिचय जायत गेलो.

जाधव कुटुंबांतले चार भाव 'चलती का नाम गाडीं'तल्या भावंडां सारके. सगळ्यांत व्हडले जे. डी. - अशोक कुमारा सारके. खरें म्हणल्यार खूब मायेस्त. पूण धाकल्या भावंडांचेर वचक दवरपाक कठोरतायेन वागपी. दुसऱ्या तोंकाक नरेंद्र - सगळ्यांत धाकलो आनी बंडखोर. मदले दोग भाव - विशेश करून दिनेश मध्यमवर्गीय - व्हडल्या भावाची मर्जी सांबाळप आनी धाकल्या भशेन मनमानी करप, ह्या दोन तोंकां मदीं दोलायमान आशिल्ले. मदले सुधाकर बाकीच्या तीन भावां परस सामके वेगळे. बरींच वर्सां दुबय राविल्ल्यान भायल्या बऱ्याचश्या लोकांक खबर नाशिल्ले नरेंद्र ताची फकांडांनी 'ल्हानपणांत जात्रेंत शेणिल्लो आमचो भाव' अशी वळख करून दितालो.

आमच्या कुटुंबाचे खरे सूत्रधार जे. डी. दादा जिते आसतनाच तांणी सगळीं सुत्रां आपल्या हातांत घेतिल्लीं. इतलेंच न्हय तर सगळ्यांनी ती आनंदान तांचे सुवादीन केल्लीं. भाव-भयणी लोकांचे नदरेन वेगळीं रावता आसलीं तरी मनान मात एकठांय कशीं आसलीं. जे. डी. हे सगळ्यांक जोडपी दुवो आशिल्ले. दादा, बाई, स भाव-भयणी, सगळ्यांचीं वट्ट एकुणीस पूत-धुवो, सुनो-जांवय आनी तांचे पूत-धुवो असो प्रचंड गोतावळो एकठांय करपाची जे. डी.क भोव हौस. कसलें तरी कारण सोदून काडून तांणी 'फॅमिली गेट टुगेदर' घडोवन हाडप. हालींच्या काळांत नियोजनाची जापसालकी दिनेश समर्थपणान सांबाळटाले खरे पूण फुडाकार सदांच जे. डी. चोच. सगळे एकठांय जमून गोंदळ सुरू जालो काय बाई-दादांच्या आनंदाक सुमार उरनासलो आनी आमच्याय बी.

लिलाक आनी तृषाक बाई रांदपाक शिकयी. रांदपाक कळना जाल्यार चल्यांच्या घरा आपलो 'उद्धार' जातलो ही भावना. चलयेची जात म्हूण आपल्या धुवांक

बाजरीच्यो भाकऱ्यो करपाक येवपाक जाय, त्यो लेगीत लाटफळ्यांचेर लाटिनासतना हाताचेर थापिल्ल्यो अशी तिची पक्की धारणा. लिला व्हडली जाल्ल्यान तिचेर चड जापसालकी. ते खातीर ती मना सावन यत्न करी. धाकली तृषा मात खोडयाळी. ल्हवूच दाराची खिळी काडून तिणें खेळपाक पळून वचप. दादांची भुमिका सामकी बाईच्या उरफाटी. चलयांक घरा भायले वेव्हार आकलन जावपाक जाय हो दादांचो आग्रो. ते खातीर पोस्ट ऑफिसांत वा बँकेंत कितेंय काम आसत जाल्यार दादा मुद्दामच दोनांय भयणींक ते तरेचीं कामां करपाक धाडी.

बॉम्बे पोर्ट ट्रस्टांत काम करता आसतना एक चतुर्थांश रकम भरून दादांक पयसुल्ल्या प्रवासाची सुविधा मेळटाली. दादान एक फावट आपल्या सहकारी इश्टां सयत दिल्ली-आग्रा पळोवंक वचपाचो बेत आंखलो. वांगडा लिलाक एकटेक व्हरपाचें थारलें.

दिल्ली-आग्रा हांगाची इतिहासीक थळां पळयतना दादा दरेके वास्तूचीं वैशिश्ट्यां जाणून घेताले. पावलांनी चलून पळयत लांबाय रुंदाय हाचें मोजमाप काडीत आनी आपणें कितें पळयलें, तें कशें आशिल्लें तें बाकीच्यांक सांगपा खातीर सगळी म्हायती ते एके चोपडेंत नोंद करून दवरताले. एक फावट कसलो तरी मोगलकालीन दरबार ते पळयताले. दोनूय कुशींनी चांदीचे जाडजूड सिंह लायिल्लें एक आसन पळयतना, श्रद्धाळूपणान दादान लिलाक उखलून त्या आसनार बसयलें. तिची भियेवन गुळी जाल्ली. घरा परततकच-

"ही कितें सादासुदी चली न्हय. राजसिंहासनाचेर बसून आयिल्ली चली ती".

हें ते बाकीच्यांक कवतुकान सांगत.

तेच भोंवडेंत, आपले सहकारी नाका नाका म्हणटा आसतना मुंबयच्यान वेंचून आयिल्ल्या एका खासदारा कडेन दादा गेले. पार्लमॅण्टाचें कामकाज पळोवपाचो पास तांणी मेळयलो आनी सगळ्यांक आग्रो करून संसदेंत व्हेले.

फुडें १९७१त शंकर साबणे हांचे लागीं लिलाचें लग्न जालें. तिचो घोव हालींच अतिरिक्त जिल्ला न्यायाधीश म्हूण निवृत्त जालो. तृषाचें लग्न १९७६त अमृत नवगिरे हांचे कडेन जालें. तिचो घोव मुंबयच्या खादी ग्रामोद्योग मंडळांत रस्मी उद्देगाचें काम पळयतात. ह्या दोगीय भयणींनी हेर भावंडांचे तुळेन शिक्षणांत बरी चमक दाखोवंक नाशिल्ल्यान दादांक जावपी खंत, तांकां सुखान संवसार करतना पळोवन पयस जाल्ल्याचें म्हाका सदांच जाणवता.

म्हाका तीन व्हडल्यो जावो - पुष्पा, इंदू आनी मंजू. तांच्योय कथा ल्हवू ल्हवू उलगडत गेल्यो. पुष्पा तशी व्हडल्या घरची चली. तिचो बापूय शंकरराव सुरडकर प्रशासकी नोकरेंत आशिल्लो. पुष्पाच्या लग्ना वेळार ते अकोला जिल्ल्याचे जिल्लाधिकारी आशिल्ले. १९६५त जे. डीं. कडेन लग्न जातकच पुष्पा जेन्ना जाधव कुटुंबांत आयली तेन्ना तिका सगळें वेगळें आशिल्लें. त्यावेळार आमचें घर वडाळ्याचे बॉम्बे पोर्ट ट्रस्टाचे कॉलनींत आशिल्लें. घर ल्हानशें - दोन कुडी, रांदची कूड, ल्हान गॅलरी आनी मान्नें.

घर आशिल्लें चवथ्या मजल्यार. पुष्पाक इतले जिने चडपाची संवय नासली. घरचीं सगळीं जाणां संवकळीन सहजपणान जिने चडून येतालीं. पुष्पाक मात खरस लागताली. घरांत रांदप जातालें फातरांच्या कोळशांचे शेगडेचेर. असली शेगडी पुष्पा पयलेच खेप पळयताली. शेगडेचेर रांदप करतना तिका खूबच आडखळिल्ले वरी जावचें. शेगडी आनी आपणा मदीं व्हडलें आयदन दवरपाक सुरवात केली तेन्नाच तिका धडपणान रांदप जमूंक लागलें. मांयच्यो चपात्यो व्हडल्यो आसताल्यो, म्हणल्यार तिगेल्यो चार चपात्यो तशी तिची एक चपाती. उदकाची लेगीत तिका मजा दिसताली. दिसाक थारावीक वेळाचेर उदक येवप हो प्रकार नवीनच आसलो. उदक आयलें काय आयदनां घांसपाची मांयक घाई जावची. एक नणंद कपडे उमळूंक आनी दुसरी आयदनां जाग्यार घालपाक. सामकी घालमेल जावची. सुरवेक तिका हातूंतलें कांयच जमनासलें. उपरांत मात ताची संवकळ जाली.

दादा चेऱ्यान करारी आनी नेमांचे पक्के आशिल्ले. तांकां आपल्या कामा विशीं खूब अभिमान आसलो. लग्ना उपरांत पयल्याच सप्तकांत दादांच्या जेवणाच्या डब्या सयत जे. डी. पुष्पाक घेवन आपूण जंय कॅबिनमन आशिल्ले थंय घेवन गेले. थंय दादान आपणाल्या हेर सहकाऱ्यां कडेन तांची वळख तर करून दिलीच पूण कॅबिनमनाचें काम कशें चलता ताचें प्रात्यक्षीक करून दाखयलें. तो मेरेन रेल्वे भोंवडेंत पुष्पान आशीकुशीक आशिल्लीं कॅबिनां पळयिल्लीं.पूण तांचें काम कितलें जतनायेचें आसता तें त्या दिसा तिका कळ्ळें आनी उपरांत ती कवतुकान तें सांगत रावली.

ल्हान भुरगीं ते व्हड मनशां मेरेन कोणाय कडेन दादांची इश्टागत जावची. तांचे कडेन गजालींचो खूब सांठो आशिल्लो. खंयच्यो खंयच्यो गमती जमती ते सांगताले. पुष्पाची पयली चली सुचेता. ती जाली तेन्ना दादान स्वता दादर वचून तिच्या बारशाच्या दिसा एक कोरीव लांकडी पाळणें हाडलें.

पुष्पाक हिंदी सिनेमांची खूब गोडी. एक फावट, तिची चली सामकीच दोन म्हयन्यांची आसतना एक सिनेमा पळोवपाचो मोह पुष्पाक आवरना जालो. तिणें भियेत भियेत हें दादाक सांगलें. दादान म्हणलें -

''तूं कांयच हुस्को करूं नाका. हांव सांबाळटां. फकत तिची दुदाची बाटली दी, म्हंजे झालं'' आनी मागीर हे लोक परते ये मेरेन दादान चलयेक वेवस्थीत सांबाळ्ळी. पुष्पा सिनेमा सुटून येवन पळयत जाल्यार तिगेली धूव आज्याचे कुशींत शांतपणान पहुडल्या.

फुडें १९७६त जे. डी. प्रशिक्षणा खातीर जेन्ना इंग्लंडाक गेले तेन्ना दादान सगळ्यांची खूबच जतनाय घेतली. त्यावेळार चलयांक पासयेक व्हरप, तांकां शाळेंत पावोवप-हाडप हीं सगळीं नित्याचीं कामां ते आनंदान करताले.

दर म्हयन्याक दादान एका विशिश्ट दुकानांतल्यान सोर्तीचीं खूब तिकिटां विकतीं घेवचीं. तीं तिकिटां पुष्पा कडेन दिवन तांणी म्हणचें -

''म्हाका सोर्त लागली काय सगळे पयशे तुका घे आनी भाऊ इंग्लंडाक गेला तशी तुंवूय चल. परदेश पळोवन यो. भुरग्यांचो हुस्को करूं नाका. हांव हरवें करपल्लें कितेंय करून घालीन. पूण तूं वचून यो''.

सोर्त कांय दादाक लागली ना. पूण पुष्पा दोन म्हयने इंग्लंडाक वचून आयली. त्यावेळार दादांक आपूणच इंग्लंडाक वचून आयिल्ल्या सारकी खोस जाल्ली.

म्हजी दुसरी जाव म्हणल्यार पुर्वाश्रमीची इंदू आनी आतांची सुनिता. ही सादारणशा कुटुंबांतल्यान आयिल्ली. तिगेलो घोव, सुधाकर म्हणल्यार आमच्या जाधव परिवारांतलें एक खूब वेगळें व्यक्तीमत्व. माय तर तांकां 'आग्या वेताळ' म्हणी. हे जमदग्नी कडेन जुळोवन घेवपाचें काम कठीण आसलें. पूण सुनिता खंबीरतायेन पांय रोमून उबी रावली. एकठांय कुटुंबाचो गाडो चलोवपाची सगळी जापसालकी मांय कडसून काडून घेवन तिणें आपणा कडेन घेतली आनी कितलींशींच वर्सां ती बरे तरेन निभायली. आमचे 'जनरेशन नेक्स्ट'च्या सगळ्या ल्हान भुरग्यांचें

भरण पोसवण इंदूकाकीच्या वठारिल्ल्या दोळ्यांच्या धाका खाला जालां.

१९८७च्या सुमाराची गजाल. सुधाकर-इंदूचें कुटुंब अंधेरीक नव्या घरांत रावपाक गेल्लें. थंयच लागसाराकच महात्मा फुले कॉर्पोरेशनांत नरेंद्राचो एकमेव आतेभाव - चंद्रकांत नोकरी करतालो. नाजुका आजेच्या लाडांक लागून फुकट गेल्लो. चंद्रकांत जिणेंत भरकटून गेल्लो. ड्युटीचेर आसतना सोरो पियेवन आपल्या एका सरकारी इश्टा वांगडा दनपारां इंदूच्या घरा गेलो आनी 'व्हिडियोचेर पिक्चर लाय' असो वयनीक हुकूम सोडून थंयच ठाण मांडून बसलो. हरशीं निबरसायेन वागपी इंदूबाईक ताका कितें सुनावप शक्य नाशिल्लें कित्याक तर मांयची भिरांत.

योगायोगान त्या दिसा हांव इंदूबाईच्या घरा पावली. घरांत भितर सरतांच भस्स करून सोऱ्याचो वास आंगार आयलो आनी म्हजी तिडक मस्तकाक मारली. कमराचेर हात दवरून हांवें चंद्रकांत भावोजी कडेन पळयलें आनी म्हणलें, "तुमी उठा आनी तात्काळ वचपाक लागात. सोरो पियेवन अशें दनपारचें घरांत येवप म्हाका चलचें ना".

आपल्या इश्टा मुखार जाल्लो अपमान (?) पळोवन म्हजो देर चंद्रकांत खीणभर अजापलो. पूण रोखडेंच आपणाक सांवरून म्हणपाक लागलो,

"चड शाणेपणां दाखोवं नाका. तूं हालींच आयल्या ह्या घरांत. तुज्या घोवाक हांवें आंगा खांदार खेळयला. खबर आसा न्ही, तुका?"

हांव हट्टाक पेटिल्ली. हांवें ठामपणान म्हणलें,

"मागीर वचात ते रिझर्व बँकेंत आनी घेयात तुमच्या भावाक हांडीर. पूण हांगा सावन वचात. आतांच्या आत्तां".

चंद्रकांत उठून गेले. इंदून म्हजे घेऽऽ म्हूण उपकार मानले. खरें म्हणल्यार हांव मनातसून भियेल्लें. मांयचे संभाव्य प्रतिक्रियेची म्हाका भिरांत आशिल्लीच. घरा वचना फुडें हांवें सगळो प्रसंग नरेंद्राक कथन केलो. "तूं योग्यच वागलीस" असो तांणी निर्वाळो दिलो आनी आपूण जावन, दादा-बाईक घडिल्लो सगळो प्रकार सांगलो आनी तांणीय तो योग्य पद्दतीन समजून घेतलो.

म्हजी तिसरी जाव मंजू. तिगेलें कुळारचें नांव आशिल्लें पुष्पा. १९७१त लग्न जावन ती जाधव कुटुंबांत भरसली त्यावेळार सून म्हूण एक पुष्पा पयलींच घरांत आयिल्ली आशिल्ली. धाकली सून म्हूण तिचें नांव बदलचें असो सूर आयलो. दिनेशान तिचें नामकरण मंजिरी अशें केलें. दादान जेन्ना तें आयकलें तेन्ना ते

खदखदून हांसपाक लागले आनी 'मांजरी' 'मांजरी' म्हूण तिका तिडावंक लागले. मंजू म्हणटा, मांव-सुनेचें तथाकथित भिरांकूळ नातें थंयच सोंपलें.

विवाहीक जिणेंतली मोटी खोशेची घडणूक ती पयलो बाळंटेर. गुरवार बायलांक चिंचो, पेरां, बोरां सारकेले आंवट जिनस आवडटातच अशी दादांची ठाम समजूत आशिल्ली. खरें म्हणल्यार तिका तशें कांय दिसनाशिल्लें. ताका लागून दिनेश ह्यो वस्तू केन्नाच हाडिनासलो. एकठांय कुटुंब पद्दती खातीर जायत्या संकोचाचे भावनेंतल्यान दिनेश तें हाडपाक शकना असो समज करून घेवन दादा आपूणच तिचे खातीर चिंचो, पेरां घेवन येवपाक लागले. सुरवेक तिका खूब लज दिसली. मागीर मागीर मात तो तिचो हक्क जावन पडलो. बापायचे ममतेचो विसर केन्नाच पडपाक दिलो ना दादान.

पयलीं केन्ना काळार घडयाळकार आशिल्ले खातीर काय कितें दादा सामके वक्तशीर आशिल्ले. च्या, न्हाण, जेवण सगळ्यो गजाली वेळच्या वेळार जावपाक जाय असो तांचो आग्रो आसतालो. केन्ना चुकून माकून टायमटेबल बिघडलें काय दादा नाराज. मागीर तोंडांतल्यान ब्र काडिनासतना ते एका जाग्यार बसून रावत आनी आमच्या सगळ्यां कडेन असहकार धरीत.

दोतोरांनी तांकां सांगिल्लें पथ्य पाळपाचो आमी आग्रो धरलो काय त्या दोतोरांचो उद्धार जावचो. ''दोतोर लोकांक अक्कल नासता'' हो तांगेलो आवडटो सिद्धांत. आमचे मदलो कोणूय दुयेंत पडलो जाल्यार मात दोतोरा कडेन वचपाची आमचेर सक्ती. पूण खरें सांगपाचें जाल्यार बापायचे मायेन केल्ली अशी सक्ती खूब बरी दिसची.

दरेक गजाल स्वता करून पळोवाची दादांक भोव हौस आशिल्ली. मद्रासी नाल्लवालो जे कुशळटायेन नाल्ल सोलून दिता तें पळोवन ताका खूब कवतूक दिसचें. तो प्रयोग तांणी जायते फावटीं करून पळयलो. निमाणें, ताचें पर्यावसान नाल्लाच्या जाग्यार आपलीच मांडी सोलून घेतिल्ल्यान तांकां तो नाद सोडून दिवचो पडलो.

मंजूलें च्याचें पिशें तांकां खबर आशिल्लें. तिच्या पयल्या बाळंटेरा उपरांत

घरांतलीं सगळीं जाणां दवाखान्यांत भुरग्याचें कवतूक करपांत रमिल्लीं आसतना दादान दवाखान्यांत येतकच पयलींच विचारलें -

"बाय, तुका च्या मेळ्ळी?"

तिका डिलीवरी रुमांत हाडिल्ली तेन्ना च्या आनी जेवण दोनांचीय वेळ टळून गेल्ली. तांकां तें समजतकच तत्काळ स्वता सकयल वचून दादा तिचे खातीर च्या घेवन आयले. हें सगळें मंजूक आयजूय येवजता.

दादांक असो दुसऱ्यांच्या मनाचो थाव रोखडोच लागतालो. भुरगीं ल्हान आसतना तांकां शाळेंतल्यान परतीं हाडटना, खास करून पावसाळ्यांत, इंदू-मंजू ह्या दोनांय सुनांचे हाल जावचे. घरा येतना कळाव जावचो. केन्ना केन्ना भिजून येवप हेंवूय ओघान आयलेंच. असल्या वेळार ह्या सगळ्या गजालींचो विचार पयलींच करून दादा गीझराचेर उदक हून करून च्याचें आदण दवरून वाट पळयत बशिल्ले आसचे. दादांची आमचेर सुनांचेर मायेची सावळी आसताली ती अशी.

तन्मय जल्मलो तो १९८०त आनी रोखडोच १९८१त डॉक्टरेट करपाक नरेंद्र अमरिकेक एकलोच गेलो. हांव अर्थशास्त्राची प्राध्यापक आशिल्लीच. शिकयता शिकयता हांवें ग्रंथपालनाची पदवी घेतली आनी १९८२त तन्मयाक घेवन हांवूय अमेरिकेंत नरेंद्रा म्हऱ्यांत पावली. तो मेरेन नरेंद्र अमेरिकेंत रूळिल्लो. शिकतालो, शिकयतालो आनी ते भायर थंयच्या भारतीय विद्यार्थी संघटनेचो अध्यक्ष जाल्लो. ताणें ते संस्थेंतली मरगळ झाडून ती बरी नांवारुपाक हाडिल्ली. म्हाका नोकरी करपाची परवानगी नाशिल्ली, मागीर हांवें ते विद्यार्थी संघटनेच्या कामाक व्हांवोवन घेतलें.

आयतारा सांजवेळा थंयच्या सगळ्या डॉर्मसच्यो (म्हणजे हॉस्टेल्स) जेवणावळी बंद आसताल्यो. विद्यार्थ्यांक भायर जेवचें पड. खूब जाणांक ते परवडनासलें. देखून हांवें थंय 'कम्युनिटी किचन' चालू केलें - ना नफो ना तोटो ह्या तत्वाचेर. वर्सभरयांत भारतीय आनी हेर विदेशी विद्यार्थ्यां मदीं तें इतलें लोकप्रिय जालें, निमाणें घरांत वेपारी तत्वाचेर खाणावळ चलोवप विद्यापिठाच्या नेमांक धरून ना ह्या कारणाक लागून बंद उडोवपाक लायलें. मागीर हांवें वेगवेगळ्या भारतीय परबांच्या निमतान विद्यापिठांत सांस्कृतीक कार्यावळी आयोजीत करपाक सुरवात केली. अपूर्वाचो जल्म जालो १९८५त आनी १९८६त नरेंद्राक डॉक्टरेट मेळ्ळी.

नोकरेच्यो जायत्यो संदी चलून आयल्यो, पूण 'मायभूंय आनी आवय-बापूय हांकां पर्याय नासता' ही आमची दोगांयची धारणा आशिल्ल्यान डॉक्टरेट मेळटकच सप्तका भितर आमी साठली-पोटली गुठलावन मुंबय परतलीं.

नरेंद्र रिझर्व बँकेंत परत रुजू जालो आनी हांवें परतून शिकोवपाक आनी ग्रंथपालनाचो पदव्युत्तर अभ्यासक्रम करपाक सुरवात केली. सुरवेक, दादा-बाई आनी जे.डी. चें कुटुंब वगळ्ळ्यार आमी सगळीं एकठांय आशिल्लीं. उपरांतच्या दोनेक वर्सांत सुधाकर आनी दिनेश ह्या दोगांय भावोजींनी अंधेरींतच बरीं घरां घेतलीं आनी आमी दादा-बाई सयत बांद्र्याक रिक्लेमेशनचेर रावपाक आयलीं.

म्हज्या बाकीच्या जावां भशेन म्हाका दादांचो सहवास लाबलो ना. पूण जो लाबलो तो बरो आशिल्लो. आमच्या घरांतली नोकरी करपी सून हांव एकलीच. तातूंत शिक्षण चालू दवरिल्ली. ताका लागून दादांक ताचें भोव कवतूक. ग्रंथपालनाच्या पदवी आनी पदव्युत्तर अश्या दोनांय परिक्षांनी हांव विद्यापिठांत सगळ्यां भितर पयलें आयलें. हाचो नरेंद्रा परसय दादांक चड अभिमान. तेदे वेळार नेमाळ्यांनी आयिल्ल्या बातम्यांचीं कात्रणां कापून दादान आपल्या पाकीटांत जपून दवरिल्लीं आनी आपल्या इश्टांक ते आवर्जून दाखयताले. त्यावेळच्या तांगेल्या लकलकपी दोळ्यांतलें कवतूक हांव विसरपाक शकना.

१९९३त आमी दक्षिण मुंबयंत मंत्रालया लागच्या 'शलाका' इमारतींत रावपाक आयलीं. जे. डी. चें कुटुंब थंय पंदराव्या मजल्याचेर रावता. बाई अर्थांतच आमगेर आसल्यो. चार सुनां पैकी हांव सर्वस्वी भिन्न अशा सांस्कृतीक वातावरणांतल्यान आयिल्ली. पूण तरीय आमी भारतांत आसतना आमचें घर हेंच सदां दादा-बाईचें 'हेडक्वार्टर' आसचें आनी हाचें श्रेय नरेंद्र म्हाका दितात तेन्ना म्हाका ताचो अभिमान भोगता. परजातीं बद्दलचे सगळे पूर्वग्रह विसर्जीत करून त्या दोगांनीय म्हाका 'आपली' मानलें हें तांचेंय श्रेय आसाच.

चार भावां मदले जे. डी. आनी दिनेश हे दोग खवय्ये. दोगांकय मचमचीत खाणाचो, खावोवपाचो आनी स्वता रांदप करपाचोय खूब सोस. हाच्या उरफाटें सुधाकर आनी नरेंद्र तर स्वता रांदचे कुडींत फिरकय नात.

मदीं मदीं जे. डी. क रांदपाचो झटको येवचो. मागीर एखाद्या आयताराक सकाळीं रांदचे कुडींत उबे रावन जे. डी. पुष्पाताईक डायरेक्शन करताले.

''हं, आतां हे कर''.

"बरें. आतां हें परतून घे".

तो जिनस बरो जालो जाल्यार सगळें श्रेय अर्थांत स्वता कडेन. तांचे पाककलेंत प्रयोगशीलताये परस आचरटपणाचोच वांटो चड आसतालो. हरशीं बरे तरेन रांदिल्ल्या मटणाच्या रश्श्यांत सुंगटां घालप हाका आचरणटपणां म्हणपाचें न्हय जाल्यार आनीक कितें? भोवतेक फावटीं जे. डी.ची 'रेसीपी' कांय जमपाची न्हय. असल्या वेळार, "पळय हांवें इतलें बरें डायरेक्शन दिवन लेगीत तुका कांय जमना" असो बायलेचेर ठपको दवरून तांणी घरांतल्या हेरांक आग्र्यान तें (खरें तर बळजबऱ्यां) अन्न जेवपाक लावन जे. डी. मात शलाका बिल्डिंगेंतल्या चवथ्या मजल्यार आमगेर जेवणाक येवपाक मेकळे!

जे. डी. जे तरेन फुडले पिळगे कडेन संवाद सादताले तसो बाकीच्या भावांक तो केन्नाच जमलो ना. जे. डी. तांचेर मुठके घाली. खांक्यांक धरून तांची मान आंवळुटाले. वडिलकेच्या नात्यान आमीय बी तांच्या अभ्यासाची चर्चा करतात, अपेक्षीत प्रस्न विचारतात - सगळें सारकें रीतसर. पूण जे. डी. चो मात खाक्याच वेगळो. तांणी तांच्यो चोपड्यो तपासून पळोवच्यो. वर्गांत लक्ष आसतना घेतिल्ल्यो नोट्स आनी नासतना काडिल्लीं चित्रां हाचे वयल्यान तांणी उलट तपासणी घेवची आनी गरज पडली जाल्यार तांच्या फाटींचेर धपाटे घालचे. ल्हान भुरग्यांक ख्यास्त करपाची तांची पद्दत लेगीत वेगळीच आशिल्ली. फटके धपाटे घालिनासतना तांणी त्या ल्हान भुरग्याक वण्टी कडेन फुडो करून कोनशाक उबो रावपाची ख्यास्त फर्मावची. आपूण वण्टी कडेन तोंड करून उबे आसात, बाकीचीं भुरगीं मात फिदी फिदी हांसतात ही अहिंसक ख्यास्त अत्यंत प्रभावी थारची.

१९९६वर्सा फलटणचे एके संस्थेन मांयक आदर्श माता पुरस्कार दिलो, त्याच वर्सा दुसऱ्यो विजेत्यो आशिल्ल्यो सुशीलकुमार शिंदेच्यो मातोश्री. मंगेशकर भगीनींच्या आईच्या नांवान दिल्लो हो पुरस्कार स्विकारपा खातीर जाल्ल्या सुवाळ्याक सगळें मंगेशकर कुटुंब हाजीर आशिल्लें. आमचें सगळें जाधव कुटुंब फलटणाक गेलें. मांय मात प्रकृती अस्वास्थ्या खातीर येवपाक शकली ना. तांचे वतीन तो पुरस्कार हांवें स्विकारलो. ते उपरांत खूब दीस तो पुरस्कार "हये कपाट मला मिळालय" म्हणून मातोसरी सगळ्यांक दाखयी.

नरेंद्र १९९७ च्या निमाणे कडेन आनी ते उपरांत चार म्हयन्यांनी आमी तिगां - हांव, तन्मय आनी अपूर्वा - परतून अमेरिकेक गेलीं. पयल्या वेळार विद्यार्थीदशा आनी ताका लागून सदांच कडकी अशी आवतिकाय. ह्यावेळार मात व्हड भोवमानाची (आनी लठ्ठ पगाराची) नोकरी आशिल्ली. नरेंद्राचें लेखन - संशोधन अविरतपणान चालू आशिल्लें. भुरग्यांचें शिक्षण मार्गाक लागिल्लें. हांवें तात्पुरती सेवानिवृत्ती स्विकारली आनी आमगेलें वॉशिंग्टनांतलें घर महाराष्ट्राचें सांस्कृतीक केंद्र करून उडयलें.

त्या चार वर्सांत वॉशिंग्टनाक भेट दिवपी मराठी बांधवां खातीर आमचें घर हो सांस्कृतीक अड्डो जावन पडिल्लो. शरद पवार आनी मनोहर जोशी हांचे सारक्या राजकी व्यक्तीमत्वा सावन कवी, लेखक, नाट्यकर्मी आनी हेर कलाकार हांचे मेरेन सगळे आपलेपणान आमच्या घरा येवन गेले. आमच्या घरांतल्या ‘बेसमॅण्टां’त सगळ्यांची झकास कार्यावळी जाताल्यो. आमकां साथ आशिल्ली ती दिलीप-शोभा चित्रे, सुधीर-आशा वनमाळी, रवी-चंदा आठल्ये अश्या चडांतच चड जिवाभावाच्या बरें मागप्यांची.

त्याच काळांत, संगितकार यशवंत देव कांय दीस आमच्या घरा येवन रावले. तांगेली एक जाहीर कार्यावळ आमी आयोजीत केल्ली. त्या कांय दिसांत आमचें सगळें घर सुरांनी भरिल्लें आनी भारिल्लें आशिल्लें. ते जाहीर कार्यावळींत यशवंत देवान म्हणलें,

“एका व्हडल्या मनशाक एक बायल कशी ‘मॅनेज’ करता तें हे भेटींत हांवें पळयलें”.

म्हजो बापूय - तता, १९९२त अंतरलो. म्हजी आई खूब थकल्या. पयलीं आमच्या लग्नाक आशिल्लो तिगेलो विरोध केन्नाच अस्तमला. इतलेंच न्हय तर नरेंद्र आतां तिचो आवडटो जांवय आसा.

हांव भारतांत परतलें तेन्ना बाई खूब थकिल्ल्यो. तातूंत जे. डी. च्या मरणाचो आघात तांचे सोंशीकताये पेल्यान आशिल्लो. एका काळार इतले खंबीरतायेन जगिल्ली ही बायल आतां पुराय ढासळिल्ली. पिराये प्रमाण थोडीशी ‘सेनिलिटी’ लेगीत आयिल्ली. त्या कठीण काळांत हांव आनी नरेंद्र तिच्या म्हऱ्यांत आशिल्लीं ही तातूंतले तातूंत समाधानाची गजाल.

मदींच तिच्यांतली पयलींची 'सोनी' जागी जावची. मागीर आनंदाक ओतो येवचो. खास करून म्हजी आई आमच्या घरा येतकच. ती रोखडीच म्हज्या भावाक फोन लावपाक सांगताली ''तुझी आई आतां दोन-तीन दीस येवची ना'' अशी म्हज्या भावाक तंबी दिवन म्हजे आईक ती आग्र्रान दवरून घेताली. मागीर दोगींची गट्टी जमची. म्हजी आई तिका पोरणीं पदां म्हणपाचो आग्रो करी आनी मागीर, सोनाबाई केन्ना न्हय त्यो गावपाक लागच्यो. ओंवयो-अभंगांची, लोकसंगिताची खैरात जावची.

जातीच्या शिक्क्या वरवीं एकामेकां विशीं पूर्वग्रह बाळगुपी दोन व्यक्ती जातीचीं लेबलां वलांडून मनीस म्हूण एकामेकांक 'वळखतात' तेन्ना तांचे मदलें आपलेपण कितलें विलक्षण आसूंक शकता हाचो प्रत्यय आमकां सगळ्यांक येवचो. सोनाबाईचें भाग्य लाबचें म्हूण म्हजी आई आपले नातीक 'सोनी' म्हणटा, हाचे परस व्हड 'कॉम्प्लिमॅण्ट' खंयची आसूंक शकता?

२००२ च्या मार्च म्हयन्यांत नरेंद्र मुंबय परतलो. तन्मय कॅनडाक शिकतालो तर अपूर्वाचें वॉशिंग्टनांत माध्यमीक शिक्षण सोंपत आयिल्लें म्हणून हांव कांय म्हयने थंयच फाटल्यान रावली. नरेंद्र तातडीन मुंबय परतलो कित्याक तर जे. डीं. ची प्रकृती खूब खालाविल्ली. जे. डी. जशे नरेंद्राक मेळपाकच थांबिल्ले. तांची भेट जाली आनी ते रातींच जे. डी. कोमांत गेले. ते उपरांत स दिसांनी जे. डी. चें मरण जालें आनी कितलींशींच वर्सां आमच्या घरच्यांचेर आशिल्ली मायेची सावळी अस्ताक गेली.

हांव जून २००२त मुंबय परतली आनी आमी तिगां - हांव, नरेंद्र आनी बाई - शलाकांत रावपाक लागलीं. तन्मय कॅनडांत आनी अपूर्वा अमेरिकेंत शिकतालें. भुरग्यां बगर रावपाचो म्हजेर आयिल्लो हो पयलोच प्रसंग - भुरग्यां वांगडा रावपाची बावीस वर्सांची संवय सहजासहजी सुटप शक्य नाशिल्ली. हांव 'अॅडजस्ट' जावपाचो खूब यत्न करताली. आतां, तन्मय भारतांत परतला आनी अपूर्वा 'जॉन्स हॉपकिन्स' विद्यापिठांत महाविद्यालयीन शिकप घेता. अर्थांत इंटरनॅट 'चॅट'च्या माध्यमांतल्यान आमचे सतत संवाद चलतात.

जे. डी. च्या मरणा उपरांत फकत पांच म्हयन्यांनी मांय मेली. 'मातोसरी' आतां जित्यो नात. तांचे वांगडा जायतीं वर्सां रावले उपरांत, तांची नक्कल करतां करतां हांव प्रत्यक्ष तांचे भशेन केन्ना वागपाक लागली तें म्हाका कळ्ळेंच ना.

हांव विद्यापिठांत सगळ्यांत पयली आयली त्यावेळार दादान म्हणिल्लें, ''ही पोरगी पुढंमागं गव्हर्नेर व्हनार''. खरें म्हणल्यार म्हजी 'गव्हर्नर' जावपाची शक्यताय साप उणी हें म्हाका खबर आसा. 'मातोसरी'च्या रोलांत वचून मात एका वेगळ्या अर्थान कुटुंबाची गव्हर्नर जातली काय अशें दिसपाक लागलां.

# हांव, अपूर्वा जाधव

२००१ वर्सांतली गजाल. आमी चौगांय अमेरिकेंत आयिल्लीं, वॉशिंग्टनांत. म्हजो पपा - डॉ. नरेंद्र जाधव, आई वसुंधरा, भाव तन्मय आनी हांव. पपा तेदे वेळार आय.एम.एफ. हे जागतीक संस्थेंत भारताचें प्रतिनिधित्व करतालो. त्याच वेळार, समांतर 'आमचा बाप आन् आम्ही'चो इंग्लीश अणकार करपाचें काम नेटान चालू आशिल्लें. अचकीत एक दीस म्हाका पपान म्हणलें, ''चल, तूं आपणा विशींचो एक ल्हानसो लेख बरोवन दी. आमकां तो इंग्लीश पुस्तकांत 'आवटकास्टां'त दिवपाक जाय''. म्हाका तर खाकडूंक जालें. त्यावेळार हांव अशें तशें सोळा वर्सांचें. म्हज्याच जिविताचेर हांव कितें म्हूण बरयतलें? आनी बरोवपा सारकें हांवें पळयलां तरी कितें? कितें अणभविल्लें हांवें? उपरांत हांवें चिंतलें, व्हाय नॉट? (कित्याक न्हय?) स्वताच्या जिविता कडेन वळून पळयतना 'हांव कोण?' हाचो कांय प्रमाणांत उलगडो तरी जावंक शकत.

हांव कोण? पयलीं शॉर्ट हिस्टरी (ल्हानसो इतिहास). म्हजो जल्म जालो अमेरिकेंत. १९८५त. त्यावेळार म्हजो पपा विद्यार्थी आशिल्लो. अमेरिकेंतल्या इंडियाना विद्यापीठांत तो डॉक्टरेट करतालो आनी लागींच्याच डिपॉ विद्यापिठांत तो शिकयतालो. त्याच विद्यापिठांत आईय बी कांय काळ शिकयताली. हांव देड वर्सांचे आसतना डॉक्टरेट सोंपोवन पपा रोखडोच भारतांत परतलो. अर्थांत आमीय बी तांचे वांगडा परतलीं. म्हजें भुरगेपण भारतांतूच जालें. १९९८त पपाक अमेरिकेंत असायनमॅण्ट मेळ्ळी, ताका लागून तांचे बराबर आमीय बी परतून अमेरिका गांठली. णववी ते बारावी मेरेन शिक्षण हांवें वॉशिंग्टनचे शाळेंत घेतलें. २००२त आई-पपा भारतांत परत गेलीं आनी हांवें जॉन्स हॉपकिन्स ह्या वैजकी शास्त्राच्या क्षेत्रांत जगांत नंबर वन सुवातेर आशिल्ल्या विद्यापिठांत प्रवेश घेतलो. डॉक्टर जावपाचो निश्चेव आसा. सध्या 'प्री-मेड'च्या अभ्यासक्रमांत तिसऱ्या वर्साक आसां.

हो जालो ट्रेलर. आतां लाँग हिस्टरी.

म्हज्या भुरगेपणाची अमेरिका म्हाका अंधूकशी येवजता. म्हजें नांव 'अपूर्वा' दवरलें तें म्हजो जल्म उदेंते कडेन जायनासतना अस्तमते कडच्या देशांत जालो म्हूण. उपरांत म्हाका पपान सांगलें, पु. ल. देशपांडे नांवाचे तांचे एक आवडटे लेखक आसात. तांगेल्या अपूर्वाइ ह्या पुस्तका वयल्यान म्हजें नांव दवरपाक आयलें म्हूण. आतां हो कोण खंयचो आजो! तांगेल्या पुस्तका वयल्यान म्हजें नांव दवरलें हें सुरवेक म्हाका मातय आवडूंक नासलें. १९९४त मात 'आमचा बाप'चे एके व्हडले कार्यावळींत त्या आज्याची भेट घडली. व्हेरी स्वीट फेलो, यू नो (कितलो गोड मनीस तुमी जाणात). ह्या मजेशीर आज्याक मेळटकच मात म्हाका म्हजें नांव सुंदर दिसपाक लागलें.

अमेरिकेंत ग्रीन कॅसल नांवाच्या एका ल्हानशा शारांत म्हजो जल्म जालो. म्हजो जल्म जाल्ल्याची खबर विद्यापिठाच्या नेमाळ्यांत छापून आयली. ताच्या अर्थासयत. म्हजो जल्म ही त्या ल्हानशा खेडवळ शारांत व्हडली घडणूक आसली. मजा म्हणल्यार, अमेरिकेंत जल्माक येवपी सकळीं अर्भकां टकलू आसतात. ते भायर तांच्या दोळ्यांत सामके मठ्ठ अशे भाव आसतात. हाच्या उरफाटें, म्हजो जल्म जालो तो असंख्य भारतीय भुरग्यां प्रमाण. दाट काळें भरगच्च जावळ आनी विलक्षण बोलके टप्पोरे दोळे घेवन. सगळ्यांक ताचें म्हाकवतूक. आमच्या वॉर्डाचे मुखेल नर्सीन तर हॉस्पिटलांतल्या सगळ्याच नर्सींक आनी स्टाफांक आपोवन घेतिल्लें, एक 'अपूर्व' बाळक जल्माक आयलें म्हूण!

हांव देड वर्सांचें आसतना १९८६त आमी मुंबय परतलीं आनी हांव सोयऱ्यांच्या गराड्यांत सांपडलें. दोन आजे, दोन आज्यो, तीन काका-काकी, चार मामा-मामी, दोन आत्या, एक मावशी आनी वट्ट सत्तावीस बापोल-मावस भावंडां. हीं सगळीं लागचीं सोयऱ्यां. भुरगेपणांत म्हाका दिसचें, कोट्यांनी भारतीयां भितर सोद घेतलो जाल्यार दरेकल्या कडेन आपलें कितें तरी नातें मेळटलें. तातूंत आमचें जाधव कुटुंब एकठांय कुटुंब संस्थे प्रमाण बांदिल्लें आसा. ते खातीर सोयरीं-धायरीं आशीकुशीक आसतालीं. मजा जाताली. हालींच्या काळांत कुटुंबाची संख्या मर्यादीत जाल्ल्यान आतांच्या ल्हान भुरग्यांक ती मजा कळना ताका लागून म्हाका विलक्षण खंत भोगता.

म्हजे दोनूय आजे आनी आज्यो म्हजे भोव आवडीचे. म्हजे पिळगेंतलें हांव सगळ्यांत धाकलें आशिल्ल्यान तांगेलो सहवास मात म्हाका खूब उणो मेळ्ळो. आतां तांचे मदली फकत आईची आई जिती आसा. पपांच्या बाबांचो मस्तपैकी काळो रंग आनी धवेफुल्ल केंस हें कॉण्ट्रास्ट मॅचिंग झकासच आशिल्लें. तो आजो ल्हान भुरग्यांच्यो खोड्यो काडून सदांच हांसत आसतालो. हाच्या उरफाटें आईचे बाबा म्हणल्यार एकदम 'जंटलमन'. म्हजे आईची आई एकदम क्यूट. तिचें वजन एकंदरींत सत्तर ते ऐंशी पौंडाच्या वयर आसचें ना. मात एकदम 'फायिटंग फिट' आसा.

म्हजी सोनाआजी एकदम 'कूल' आसली. भुरगेपणांत तिचे हात हातांत धरून, 'किती छान, हात मोव मोव, पांय मोव मोव' अशें हांवें म्हणचें. केन्ना काळा म्हज्यो दोन आज्यो एकीमेकी लागीं खूब झगडटाल्यो अशें हांवें आयकल्लें, पूण म्हज्या पळोवपांत आयली ती दाट इश्टागत. एकीमेकींच्या गळ्यांत गळो घालून सोनाआजी पोरण्या वळणाचीं गितां म्हणटाली. इतलेंच कित्याक म्हजे आईचे आईन आपले नातीचें नांव दवरलां तें लेगीत 'सोनी'. सोनाबाईचें भाग्य आपले नातीक लाबचें अशें ती सदांच म्हणी. आमच्या दोनूय घराण्यांतल्यो बायलो सरासरी उंचायेच्यो. पांच फूट दोन इंच. हांव पपांचे बडीर वचून लांबूच लांब जालें. सध्याच हांव पांच फूट आठ इंच आसां. म्हणल्यार म्हजे आई परस अर्द फूट उंच! म्हजी उंचाय ही सोनाआजेचे नदरेन खूब चिंतेचो विशय आशिल्लो. 'या पोरीचं लगीन कसं व्हणार' हाची तिका सदांच चिंता लागून उरची. ती चिंता घेवनच म्हजी आजी देवाघरा गेली.

आमच्या जाधव कुटुंबां मदीं एकूच डॅडी, ते म्हणल्यार जे. डी. तांचो भिरांतेचो दरारो दिसचो, पूण आमचे कडेन उलयतना ते भुरग्या परस भुरगे जाताले. म्हाका खूब आवडटाले. केन्ना केन्ना ते मायेन फाटीर धपाटे घालताले तातूंतय एक खाशेली ओड आसताली. सुधाकरकाका लागीं वाद घालपाक मजा येता. म्हजे सगळ्यांत आवडटे काका ते दिनाकाका. हांव तांगेली खास लाडकी.

ल्हानपणांत म्हाका सगळ्यांनी 'अमेरिकन' म्हूण तिडावचें. घरांत कोणूय परदेशी पावणे येवपाचे आसल्यार म्हणचें, 'तूं अमेरिकन आसा न्ही म्हणून हे अमेरिकन लोक तुका घेवन वचपाक येवपाचे आसा'.

म्हाका तें खरें दिसचें. ताची इतली भिरांत मनांत उरली, कोणय परदेशी पावणे आयले काय हांवें पळून वचचें वा लिपून बसचें!

बाकीच्या ल्हान भुरग्यां भशेन म्हाकाय बी 'हॅपी बर्थडे'चें खूब आकर्शण. म्हजो वाडदीस (२१ फेब्रुवारी) उजवाडपाची हांवें वाट पळयत आसतालें. असल्या वेळार बापोल भावंडांच्या कोंडाळ्यांत गजाली मारतना दिनाकाकान गंभीरतायेन सांगचें, अंदूचें वर्स हें 'लीप' वर्स ताका लागून ह्या वर्सा फेब्रुवारींत विसूच दीस आसतले. म्हणटकच बुडलो काय म्हजो बर्थडे! अशा वेळार हांवें रडकुळें जावचें.

म्हजे पिळगेंतलें हांव सगळ्यांत धाकलें. अशी 'छोटी' आसपांत 'लाड-प्यार'चे फायदे आसतात तशेच कांय तोटेय संभावतात. हालीं म्हज्या बापोलमावस भावंडांक भुरगीं जाल्यांत. ताका लागून भारतांत आसतना केन्नाय ह्या भुरग्यांचें बेबी-सिटींग लेगीत करचें पडलें. क्या करेगा, नाईलाज को क्या इलाज है।

आमच्या इमिजिएट कुटुंबांत सरळ विभागणी जाल्या. तन्मय आईचे बडीर गेला. हांव मात पपांची कॉपी. बांद्र्याच्या कार्मेल कॉन्व्हेंटांत मॉटेसरींत आसतनाची गजाल. शाळेंत फॅन्सी ड्रेस सर्त आशिली. जायत्या पालकांनी खूब कश्ट घेवन आपापल्या भुरग्यांक बरे बरे फॅन्सी ड्रेस करून घेतिल्ले. म्हजी आई त्यावेळार कॉलेजींत शिकयताली. तिका खंयचो वेळ आसतलो? सर्तीच्या आदल्या दिसा आईन आनी तन्मयान उसरां मेरेन जागरण करून म्हजे खातीर सूर्यफुलाचो एक ड्रेस घाईघाईत तयार केलो. तो सामको बाद आसूंक जाय. ताका लागून जावपाचें तेंच जालें. म्हाका अपेक्षीत आशिल्लें इनाम कांय मेळ्ळें ना. अर्थांत म्हाका रडपाक आयलें. सर्तींत वांटेकार जाल्ल्या सगळ्यांक स्वीटसांचें एक बॉक्स मेळ्ळें तशें तें म्हाकाय मेळ्ळें. पूण म्हजें समाधान जायना. म्हजी समजिकाय घालतना आईन स्वीटसाचो डबो म्हाका दाखोवन म्हणलें -

''हें पळय, तुका लेगीत कितलें बरें इनाम मेळ्ळां. पळय, पळय हें बक्षीस तुजे खातीर आसा''.

म्हाका आनीक रडपाक कोंसळ्ळें. बेजारून हांवें म्हणलें, ''हें बक्षीस म्हाका नाका. स्टेजीचेर आपोवन बक्षीस दितात न्ही तेंच जाय म्हाका''.

पपा मात आकांताचो खूश जालो. हांसत हांसत म्हणपाक लागलो, ''ही चली महत्वाकांक्षी आसा. तिच्यांत सर्तीची वृत्ती आसा''. तेन्ना तें कळ्ळें ना. आतां कळटा. खरें म्हणल्यार पपांचें आपलें कॅपिटिटिव्ह स्पिरीट पळोवन तें आतां वळटाय बी!

हांव आनी तन्मय, आमच्या दोगां भावंडां मदीं पांच वर्सांचें अंतर आशिल्ल्यान फाटोफाटच्या भावंडां मदीं जशी सर्त आसता तसले सर्तीचे ताणतणाव आमच्या दोगां मदीं निर्माण जावचे नात असो आई-पपांचो समज आशिल्लो. पूण तो साप फट थारलो. तन्मय म्हजो हिरो आशिल्लो आनी बुदवंत सर्तक लेगीत. ताचे लागीं जिद्दीन बरोबरी सादतना म्हजी सर्तक वृत्ती उफाळून आयली आनी म्हजो स्वतंत्र व्यक्ती म्हूण विकास घडलो हें आतां म्हाका स्वच्छ दिसता.

आमी बांद्र्याक रावतनाची गजाल. थळावी चित्रकला सर्त आशिल्ली. तन्मयाची चित्रकला उत्तम. दरेके सर्तींत ताणें इनाम पटकावचें. ताका लागून ताचें कवतूक. हांव जाम जेलस जावचें. कित्याक तर म्हजी चित्रकला अशीतशी. हांवें काडिल्लीं सगळीं मनशां हांसकुरी आसचीं. पूण सगळ्यांचे पांय फेंगडे येवचे! हांवें जिद्दीन ते सर्तींत वांटो घेवपाचें थारायलें. ते सकाळीं हांव त्या आयोजकां कडेन गेलें आनी उलयतां उलयतां, म्हजे पिरायेच्या गटांत ते सर्तींत कसलो विशय आसतलो तें काडून घेतलें, म्हणजे थोडक्यांत पेपर फोडलो. विशय आशिल्लो 'जोकर'. मागीर कितें विचारता, दीसभर जोकर एके जोकर. बऱ्यापैकी घोटून घेतलें. तन्मयान मात ती सर्त लायटली घेतिल्ली. परिणाम जावपाचो तोच जालो. तन्मयाक ताच्या पिरायेच्या गटांत दुसरें इनाम, म्हाका मात म्हज्या पिरायेच्या गटांत पयलें इनाम! तन्मयाची बरीच जिरयली खरी पूण तातूंतय म्हत्वाचें म्हणल्यार गुणात्मक दार्जो मातसो उणो आसलो तरी जिद्द आनी कश्ट हांच्या बळाचेर येस संपदन करपाक जमता हाचो तो पयलो धडो आशिल्लो हेंवूय तितलेंच खरें.

तन्मय धांवपांत फिशाल. मागीर हांवें तें मनार घेतलें. धाकल्यो कांय सर्ती जिखून हांवें इंटर-स्कूल सर्तींत पदार्पण केलें. पयलेच अशे सर्तींत धांवतना म्हजें चित्त विचलीत जालें. कवतुकाचे अपेक्षेन हांवें गर्देंत उब्या आशिल्ल्या पपा कडेन पळयलें आनी त्याच खिणांत कित्याक तरी आडखळून धप करून सकयल पडलें. अर्थांत म्हजें इनाम चुकलें. हांव रड रड रडलें. फकत तन्मयाचें अनुकरण करून जावपाचें ना तर जिद्दी वांगडा तन्मयता जाय. मागीर मात, खंयचेच परिस्थितींत आपलें लक्ष लक्ष्या कडसून विचलीत जावचें ना हो निश्चेव करून हांव कामाक लागलें. दुसऱ्याच वर्सा आमचे बॉम्बे स्कॉटिश शाळेंत दोन नांवां चॅम्पियन म्हूण झळकलीं. १२ ते १६ पिराय गट : तन्मय जाधव आनी ८ ते १२ पिराय गट : अपूर्वा जाधव!

एके बाबतींत मात हांव तन्मया वांगडा बरोबरी सादूंक शकलें ना, ती म्हणल्यार

ज्यूडो-कराटे सारक्या मार्शल आर्टसांत. तन्मय भराभर 'बॅल्ट्स' मेळयत गेलो. म्हाका तें कितेंय केल्यार जमना. हांवें 'किक' फिरयली काय आमच्या इन्स्पॅक्टरान म्हणचें,

"अपूर्वाताई, अशें किकीन फुलपांखरू तरी उडत?"

निमाणें फुलपाखरू उडोवपापेल्यान म्हजी प्रगती जावंक शकली ना.

हाचें उरफाटें तन्मयाक जमना तसली एक कला म्हाका साध्य जाल्ली. ती म्हणल्यार उतरां कडेन खेळपाची. ताची सुरवात ल्हानपणांत जाल्ली आसूंक जाय. हांव दोनेक वर्सांचें आसतनाची गजाल. घरांत कव्वाली लागिल्ली - "आज क्यू हमसे परदा है' हांव दुडूदुडू धांवत पपा म्हऱ्यांत गेलें आनी म्हजे मोडकेतोडके भाशेंत हांवें ताका म्हणलें,

"पपा तो पळय मनीश च्युकला पडदा म्हणप़ाचें न्ही? तो परदा म्हणटा पळय!"

पपा खूब खूश. हांव ताचे बडीर गेल्लें न्ही!

हांव तिसरे-चवथेंत आसतनाचो एक प्रसंग याद जाता. त्या वर्सा म्हाका भाऊबीजेक एकरकमी पन्नास रुपया मेळ्ळे आनी म्हाका घबाड मेळिल्ल्याचो आनंद जालो. आनंदाच्या भरांत हांवें एक कविता बरयली. शिर्शक आशिल्लें - 'व्हॉट शाल आय डू?' हांवें ती कविता उमेदीन आई-पपांक दाखयली. तांची प्रतिक्रिया उमेदीची नाशिल्ली. पपान म्हणलें -

"सारकी अश्शीच एक कविता हांवें तुज्या एका पुस्तकांत पळयल्या". हांव कळवळून ना म्हणटालें. मात तांगेलें म्हजीं पुस्तकां सोदप चालू आशिल्लें. आनी अचकीत म्हजे तकलेंत उजवाड पडलो. ती कविता हांवें खंयच्या तरी पुस्तकांतल्यान 'उखल्ल्या' असो दुबाव तो घेतालो. धिस वाज टू मच! हांव ढळढळ्यां रडपाक लागलें. निमाणें 'एखाद्या जाणकारान बरोवची इतली तुगेली कविता बरी आसा. प्लीज टेक धिस ॲज अ कॉम्प्लिमॅण्ट' अशें ताचे कडसून वदोवन घेतले उपरांतच हांव शांत जालें.

त्याच अदमासाक विजय तेंडुलकर आमगेर आयिल्ले. पपान तांकां म्हज्यो कविता दाखयल्यो. त्यावेळार तांणी, "तिका कितें बरोवपाचें आसा तें बरोवं दी. वगीच तिका मार्गदर्शन करपाच्या फंदांत पडूं नाकात". तांका शिटकायलें. पपा म्हज्यो कविता बाकीच्यांक दाखयतात म्हणून मात हांवें कविता बरोवपाच्योच सोडून दिलें.

म्हजी दरेक कविता, दरेक निबंध - सामकी त्या फेंगड्या मनशाची लेगीत, म्हज्या पपान सारकी सांबाळून दवरल्या. म्हजे दरेके भारत भेटेंत ताची उजवळणी जाता, आनी हांव म्हज्या भुरगेपणांत शेणून वतां.

आमी मंत्रालया लागशिल्ल्या 'शलाका' हे नामनेचे बिल्डिंगेंत १९९३च्या सुमाराक रावपाक आयलीं. जाधव कुटुंबां खातीर 'शलाका' खूब म्हत्वाची आसा. ती इमारत उबारपांत डॅडीचो व्हड वांटो. ते भायर, इमारतीचें बांदकाम चलता आसतना म्हजो आजो सॅल्फ अपॉयंटेड मुकादम म्हूण थंय काम पळयतालो. डॅडी आनी तांचें कुटुंब पंदराव्या मजल्याचेर रावतात आनी आमचो फ्लॅट आसा चवथ्या मजल्यार. नो वंडर, वुई आर ॲट होम इन शलाका.

लागींचे 'सेंट ॲन्स' हे शाळेंत हांव दाखल जालें. खूब जिवाभावाच्यो इश्टिणी मेळ्ळ्यो. वेगवेगळ्यो भासो उलोवपी, वेगवेगळ्या वातावरणांतल्यान आयिल्ल्यो: हांव रोखडेंच रमून गेलें. अजाप म्हणल्यार हांव 'दलित' आशिल्ल्याची धक्को दिवपी जाणीव थंयच पयले खेप जाली.

हांव सवेंत आसतना म्हजें नांव पळोवन वर्गांत म्हजे मराठीचे शिक्षिकेन चवकशी केली,

"ते दलित स्कॉलर डॉ. नरेंद्र जाधव आसात तांची तू चली?"

म्हजे पपा 'स्कॉलर' आसात, 'सेलेब्रिटी' आसात हाचो म्हाका खूब आनंद जालो पूण ते (आनी म्हणून हांव) 'दलित' आसात हाचो अर्थ कितें? त्या वेगळेपणाचो उलगडो जायना.

घरा येतकच हांवें पपाक विचारलें, 'दलित' म्हणल्यार कितें? हांव हो प्रस्न विचारतलें म्हणपाची वाटच पळयत आशिल्ले भशेन ताणें भारतीय जाती वेवस्था, दलित चळवळ, डॉ. आंबेडकरांची भुमिका हें सगळें म्हाका समजावन सांगलें. तरी म्हजें 'दलित' आसप आनी बाकीच्यां परस वेगळें आसप म्हाका खायत रावलें.

धर्माच्या वेगळेपणाची म्हाका जाणीव जाली तिवूय बी अशेंच एके धक्कादायकक पद्दतीन. आमी सगळ्यो 'टीनेजर' चलयो शाळेचो युनिफॉर्मा भायर शॉर्ट्स आनी टँक टॉप्स घाली. वाडटे पिरायेचेर म्हज्या कांय इश्टिणींनी अचकीत पारंपारीक वेशभूशा करपाक सुरवात केली. विचारतकच, बाकीच्या इश्टिणींक गॉसिप सांगत फुतफुतपाच्या सुरांत ताणी म्हायती दिली : "त्यो मुस्लीम" हांव परतून गोंदळ्ळें. तांचो धर्म वेगळो म्हणल्यार नेमकें कितें? आनी कित्याक?

म्हाका ल्हानपणांतलो एक प्रसंग येवजलो. आमी घरचीं सगळीं नाशिका सावन कारीन मुंबय परततालीं. आमी भिवंडीक पावलीं आनी ट्रॅफिक जामांत आडखळ्ळीं. गणपती विसर्जनाच्यो मिरवणुको चलताल्यो. ताशे-ढोल वाजताले. लोक बेहोशान नाचताले. तातूंत कांय अतिउत्साही लोकांनी बळजबऱ्यां कारीचीं दारां उगडून भितर गुलाल उधळपाक सुरवात केली. विरोध करतल्यांक भायर ओडून मारहाण जाताली. पपान सगळ्यांक शिटकायिल्लें, खंयचेच परिस्थितींत संयम सोडपाचो ना. ताका लागून कसलोच वायट प्रसंग घडलो ना. हांव मात इतलें भियेवन गेल्लें, हांवें भिवंडींत जे दोळे गच्च धांपून घेतिल्ले ते बद्द बांद्राच्या घरा पाव मेरेन उगडले नात!

१९९२-९३ची हिंदू-मुसलमान दंगल मनांतल्यान तरळून गेली. शलाकांतल्यान बांद्राक वतना माहीमा लागीं आमची कार दंगलींत सांपडिल्ली. रगतान माखिल्लीं मनशां हातांत तलवारी घेवन भोंवतना हांवें पळयिल्लीं. शेंवटून बसतल्या फातरांतल्यान कशीबशी वाट काडीत पपान आमची गाडी माहीम स्टेशना लागीं व्हरून सोडिल्ली आनी बांद्र्याक आमच्या घरा वचनासतना आमी रेल्वेन अंधेरीक वचून सुधाकाकाच्या घरा राविल्लीं. त्या सगळ्या प्रकाराची एक प्रचंड भिरांत घर करून बशिल्ली.

म्हाका आजूनय कळना, धर्म वेगवेगळे आसले म्हणून एकामेकाच्या जिवाचेर उठपाचें कारण कितें? धर्माच्या नांवार भोसका भोसकी कित्याक? गुंडांक धर्म आसता? गुंडगिरी होच तांचो धर्म न्ही? आमी भारतीय आसात इतलेंच पुरो ना? सगळोच घुस्पागोंदळ.

हेरांक एकेक धर्म आसता, म्हाका दोन आसात. म्हजो पपा बौद्ध धर्मीय तर आई जल्मान हिंदू. सुदैवान दोन वेगळ्या धर्मांक लागून हांव 'सिझोफ्रेनिक' जावंक ना. आमच्या घरांत वेळावेळार घुमतले 'बुद्धं सरणम् गच्छामि'चे सूर म्हाका भावतात. तेच प्रमाण आईल्या कुळारा गेल्यार गणपतीच्या आरतींत साग्रसंगीत वांटो घेवपाकय म्हाका तितलेंच आवडटा. दोनूय धर्माचीं प्रतिकां म्हाका सारकीं जायजायशीं दिसतात, पूण तातूंतल्यान बाकीच्या धर्मियांचेर राग धरप हें म्हज्या मनाक पटना.

भारतीय समाज रचणुकेची गुंतागूंत आतांच थोडी थोडी समजुपाक लागल्या अशें दिसता. पूण कांय प्रस्न अनुत्तरी उरतात. 'मजहब नहीं सिखाता आपस में बैर रखना, हिंदू है वतन हे हिंदोस्तां हमारा' हें खूब आवडटा. पूण हें सुंदर गीत रचपी

कवी इक्बाल फाळणी जातकच हिंदोस्तां सोडून पाकिस्तानाक कित्याक गेलो?

पपाक १९९८त आय.एम.एफ.ची असायनमॅण्ट मेळ्ळी. आमी चौगांय वॉशिंग्टनाक रावपाक आयलीं आनी म्हजें सगळें जिवीत बदलून गेलें.

वॉशिंग्टन परिसरांतल्या 'वॉल्टर जॉन्सन' हायस्कूलांत म्हजें माध्यमीक शिक्षण सुरू जालें. वॉशिंग्टन ही अमेरिकेची राजधानी आशिल्ल्यान जायत्या विविध देशांतले चले-चलयो थंयच्या वर्गांत आशिल्लीं. भारत सोडटकच स्वदेशाची जाणीव अदीक खरतायेन जावपाक लागली. अदीं मदीं म्हज्यो इश्टिणी पाजामा पार्टेक घरा येवपाच्यो. तांचे भितर अमेरिकन, रशियन, चीनी, जपानी, कोरियन, व्हिएतनामी असल्या जायत्या देशांच्या चलयांचो आसपाव आसतालो.

सुरवेक मुर्खा सारकेल्या जायत्या प्रस्नांक तोंड दिवचें पडलें, ''तूं भारतांतल्यान आयल्या जाल्यार इतली बरी इंग्लीश कशी उलयता?''

''हांवें टिव्हीचेर पळयलां, भारतीय लोक पेट्ट्या निखाऱ्यांतल्यान चलतात. तांकां अशें करपाचें कारण कितें?'' आतां कोण कोणाक समजावन सांगतलो? ''भारतीय बायलो कपलाक कुकमाचो तिबो कित्याक लायतात?'' ह्या प्रस्नाचेर हांव पपान सांगिल्ली जाप ठोकून दितालें. ''कुकमाचो तिबो हें तिसऱ्या दोळ्याचें प्रतीक. तिसरो दोळो उगडून मुखा वयल्या मनशाक गोबोर करतले स्त्रीशक्तीचें आदीम प्रतीक आसा'' हे जापेचेर तांणी अजापान आं म्हूण उगडिल्लें तोंड मजेशीर दिसतालें.

त्याच सुमाराक हांवें फिल्ड हॉकी खेळपाचें मनार घेतलें. हॉकीची स्टीक आनी बॉल हांचो सोद सुरू जालो. सगळे कडेन स्टिक मेळटाल्यो त्यो मेड-इन-पाकिस्तान, बॉल मात मेड-इन-इंडिया. त्यावेळार कारगील प्रकरण नेटार आशिल्लें. पपान म्हाका विनोद करीत म्हणलें, ''तूं पाकिस्तानी स्टिकान भारतीय बॉलाक फटकावन काडटलें हें काय बरोबर न्हय''. जालें, हांवें पाकिस्तानी स्टीक घेवपाचें न्हयकारलें. खूब सोदासोद करून निमाणें आमी भारतीय बनावटीची स्टीक आनी पाकिस्तानी बनावटीचो बॉल सांपडायलो आनी मागीर त्या भारतीय स्टिकीन पाकिस्तानी बॉलाक यतेश्ट बडोवन काडलो. डिव्हिजिव्ह मानसीकताय अशीच कळटा नकळटा आपले वृत्तींत भितर सरता आसत काय?

म्हजो सोळावो वाडदीस आशिल्लो तेन्नाचो प्रसंग. सकाळीं बेगिबेगीन तयार जावन हांव प्रेझेंट जमोवपाचे गडबडींत आशिल्लें. पूण आई-पपा म्हाका आपल्या

स्टडी रुमांत घेवन गेले. थंय आमच्या घराण्याचे देव मांडून दवरिल्ले. म्हजे सोनाआजीक ते तिगेले मांयकडसून मेळिल्ले. आजे-आज्यान १९५६त बौद्ध धर्म आपणायलो त्यावेळार खरें म्हणल्यार, डॉ. आंबेडकरांच्या आदेशा प्रमाण ह्या देवांचें विसर्जन करपाक फावो आशिल्लें. सोनाआजेच्यान तें करपाक जालें ना, म्हणून फोटीबिटी मारून तिणें ते देव लिपावेन दवरिल्ले. तिगेली खास परवानगी घेवन म्हजो पपा तांकां अमेरिकेक घेवन आयिल्लो आनी आतां तेच देव डबडबीत दोळ्यांनी म्हजे वटेन पळयताले. हांवें तांकां मनाकाळजा सावन नमस्कार केलो आनी तांचे आशिर्वाद मागले. 'यू हॅव कम अ लाँग वे, बेबी' अशेंच ते म्हाका म्हणटाले.

त्याच खिणाक म्हाका कळ्ळें, हांव कोण आसा तें! हांव आसा अपूर्वा, फकत अपूर्वा!खंयच्याच जातीधर्माचें लेबल नाशिल्लें एक ग्लोबल सिटिझन. भारतीय वंशाचें ग्लोबल सिटिझन. आतां म्हाका हांव दलित आसां म्हणपाची जाणीव कोणूच करून दिना. आयजूय कोणूय म्हाका दलित म्हूण उणाक लेखता आसत जाल्यार म्हाका ताची अजिबात पर्वा ना. दे हॅव अ प्रॉब्लेम. दे नीड सायकायट्रिक ट्रिटमॅण्ट!

म्हजो पपा झरतृश्टाचें एक वचन सदांच सांगता - ''जांकां भूतकाळाचो विसर पडटा, तांकां भविश्यकाळ केन्नाच क्षमा करिना''.

हांव म्हजो भूतकाळ विसरचें ना. पूण म्हज्या पुर्वजांचेर बाकीच्यांच्या पुर्वजांनी अन्याय केला म्हणून हांव सध्याच्या भारतीयां बद्दल आकस धरचें ना.

म्हज्या पुर्वजांनी दलितत्वाचें वजें व्हांवयलें, ते हीण-लीन जीण जगले. तांच्याच त्यागाचेर, अविश्रांत धडपडीचेर हांव उबें आसा. तांच्या खांदार हांव उबें आसा म्हणूनच तर म्हाका पयसुल्लें क्षितीज दिसता, खुणायता. मनीसपण हो धर्म मानपी हांव भारतीय वंशाची ग्लोबल सिटिझन. डॉ. बाबासाहेबांनी म्हज्या हातांत धगधगती मशाल दिल्या. तिचे वरवीं हांव सगळो आसमंत उजळून उडयतलें. म्हजें भविश्य हांव स्वता घडयतलें. म्हाका कोणूच आडावंक शकपाचो ना.

---

Lasertypeset by Ess Ess Enterprises, New Delhi and
printed at Compudata Services, New Delhi

**डॉ. नरेंद्र जाधव** हे आंतरराष्ट्रीय किर्तीचे अर्थनिपूण, मराठी आनी इंग्लिशींतले सिद्धहस्त लेखक, समाजीक बांधिलकायेचो वसो घेतिल्ले नामनेचे शिक्षणतज्ञ आनी एक प्रसन्न तशें प्रेरणादायी व्यक्तीमत्व म्हूण सगळ्यांकच परिचीत आसात.

दलित समाजांत जल्म आनी दळडीर हातूंतले प्रतिकूल आवतिकायेचेर, भारतरत्न बाबासाहेब आंबेडकरांचे प्रेरणेन निग्रहान मात करीत, पिरायेच्या एकावन्नाव्या वर्सा ते भारतीय रिझर्व बँकेचे प्रधान अर्थीक सल्लागार आनी मुखेल अर्थनिपूण म्हूण कार्यकारी संचालक पदाचेर नियुक्त जाले. ते उपरांत अफगाणिस्तान सरकाराचे मुखेल अर्थीक सल्लागार म्हूण कांय काळ काम करून ते सध्या भारताच्या नियोजन आयोगाचे सदस्य आसात. या आधी ते पुणे विद्यापीठाचे कुलगुरू आशिल्ले.

१९७३त मुंबय विद्यापीठांत संख्याशास्त्र हो विशय घेवन बी.एस्सी. (विशेश निपूणटाये सयत पयलो वर्ग) आनी १९८६त अमेरिकेच्या इंडियाना विद्यापीठांतल्या अर्थशास्त्रातली डॉक्टरेट (सर्वोकृश्ट आंतरराष्ट्रीय विद्यार्थी म्हूण विशेश भोवमान) - विद्यार्थी म्हूण अशी अजोड कामगिरी. भारती अर्थकारण आनी अर्थीक धोरणांच्या संदर्भांत फाटलीं कितलींशींच वर्सां सातत्यान म्हत्वपूर्ण योगदान. जगांतले आंतरराष्ट्रीय नाणेनिधी हे वित्तसंस्थेंत अर्थीक सल्लागार म्हूण साडेचार वर्सां प्रतिनिधित्व तशेंच इथियोपिया, अफगाणिस्तान सारकेल्या मागाशिल्ल्या देशांतली अर्थवेवस्था सुदारपा खातीर म्हत्वाची कामगिरी. डॉ. नरेंद्र जाधव हांणी अर्थ विशय, संशोधनकार्याच्या निमतान संवसारभर भोंवडी केल्या. तातूंतल्यान तांगेलें संपन्न व्यक्तीमत्व सिद्ध जालां. राष्ट्रीय तशेंच आंतरराष्ट्रीय स्वरुपाच्या अठरा पुरस्कारांनी ते भोवमानीत जाल्यात.

अर्थशास्त्र आनी समाजीक विशयांचेर मराठी आनी इंग्लिशींतल्यान बारा ग्रंथ (तीन संपादीत धरून) तशेंच वेगवेगळ्या विशयांचेर शंबरां परस चड सोद निबंध आनी स्फूट लेख. हें सगळें लिखाण, तशेंच किलींशींच भाशणां आनी दूरचित्रवाणी आनी आकाशवाणी वयल्यो चर्चा हातूंतल्यान डॉ. नरेंद्र जाधव हांचे सकारात्मक चिंतनशीलतायेचो प्रत्यय सातत्यान जाणवता.

पुस्तकाच्यो अनुवादक **हेमा नायक** कोंकणी भाशेंतल्यो नामनेच्यो स्वतंत्र प्रतिभेच्यो स्त्रीवादी लेखिका आसा. 'भोगदंड' हे तांगेले कादंबरी खातीर तांकां केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार (२००२) लाबला. स्वतंत्र स, संपादीत दोन आनी अनुवादीत पांच अशीं सुमार एक डझनभर पुस्तकां तांगेल्या नांवार आसात.


ISBN 812376427-8
9 788123 764276



**₹175.00**

नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया